# काळें भांगार

कादंबरी

एडवीन जे. एफ. डिसोजा

20/8/2013
GOA




गोवा कोंकणी अकादेमी

काळें भांगार
(कादंबरी)

एडवीन जे. एफ. डिसोजा

प्रकाशन क्र. : 161



पयली उजवाडावणी :2013

उजवाडावपी :
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल - गोंय

मुखचित्र :
pintovamanjoor@gmail.com




मोल : रु 300/-

KALLE BHANGAR
(Novel)

by : **Edwin J. F. D'souza**

Publication No : 161



**First Edition** : 2013

**Publisher :**
Goa Konkani Akadami
243, Patto Colony,
Panaji - Goa

**Printer :**
Swarnamudra Prints
Marcel - Goa

**Cover :**
pintovamanjoor@gmail.com

**Price** : Rs. 300/-

# अकादेमीचे वतीन

एडवीन जे. एफ. डि सौजा हें कोंकणी साहित्यांत कथा-कादंबरी प्रकारांतलें एक म्हत्वाचें नांव. मंगळुरी कथा-कांदबरीच्या मळावयले आयचे घटकेचे ते सगळ्यांत उंचेले प्रतिभेचे कथा-कादंबरीकार आसात. एका परस सरस 33 कादंबऱ्यो रचपी हो रचनाकार. त्याभायर 120 वयर मोटव्यो कथा तांणी बरयल्यात. हेर लेखन आनी संपादन वावरूय केला. तांगेल्या कोंकणी कथांचे अणकार, कन्नड, तामिळ, हिंदी तशेंच इंग्लीश भाशेंत जाल्यात आनी ते नामनेच्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यात.

समकालीन भारतीय कथाकार म्हण तांचो उल्लेख करूं येता. कारण तांगेल्यो कथा राष्ट्रीय थराचेर प्रातिनिधीक स्वरूपांत पावल्यात.

तांगेल्या कांय उत्कृश्ट कादंबऱ्या मदली एक कादंबरी म्हणल्यार - 'काळें भांगार', पेट्रोलिएम म्हणल्यार कच्चें तेल हाकाच बरोवपी 'काळें भांगार' ह्या रूपकान पाचारता. इराकाचो पातशाय सद्दाम हुसेन कुवेताचेर घुरी घालता, ते फाटभुंयेचेर ही कादंबरी रचल्या. मंगळुरी कुटूंबांतलो एकलो तरनाटो आपणालें नशीब काडूंक कुवेत येता आनी ते घुरयेंत सांपडटा. तातूंत ताची कशी दान-दिस्पट जाता तें तपशिलान हे कादंबरींत वर्णिलां.

कादंबरींत मिडल ईस्टांतल्या राजकी परिस्थितीचेंय चित्रण आसा. इस्रायल, अमेरिका, इराक, बगदाद, हांचे मदलीं धोरणां आनी परस्पर संबंद हाचेरूय उजवाड पडटा.

म्हत्वाचें म्हणल्यार इराकान कुवेताचेर आक्रमण केलें, तेन्ना खासा बरोवपी एडवीन जे. एफ. डि सौजा आनी तागेलें कुटूंब कुवेतांत आसलें. तांणी बऱ्योचश्यो गजाली कानांनी आयकल्यात आनी दोळ्यांनी पळयल्यात.

आखाती देशांत जे गोंयकार गेल्यात, तांचे जिणेचें चित्रण हाचे आदीं दामोदर मावज़ो हांणी 'कार्मेलीन' (1981) आनी हेमा नायक हांणी 'भोगदंड' (1997)

ह्या कादंबऱ्यांतल्यान खूब प्रभावीपणान मांडलां. त्याच विशयाक लागून ह्यो कादंबऱ्यो गाजल्यात. दोनांकूय साहित्य अकादेमीचे पुरस्काररूय लाबल्यात. 'कार्मेलीन' कादंबरीचे तर इंग्लीशी वांगडा भौतेक सगळ्या भारतीय भासांनी अणकार जाल्यात. आखाती देशांत नोकरेक गेल्ल्या मनशांच्या कुटूंबांचेर गोंयांत कसो वायट-बरो परिणाम जालो, तो ह्यो दोनूय कादंबऱ्यो दाखयता.

'काळें भांगार' मंगळुरांतल्या कोंकणी लोकांची परिस्थिती दाखयता.

जांव गोंय, जांव मंगळूर जो जो कोंकणी लोक आखाती देशांत गेलो आनी तांगेल्या जिवीताचेर जो बरो-वायट परिणाम जालो तांचें एक समग्र अशें चित्रण ह्या तिनूय कादंबऱ्यांनी दिसता.

एका काळार म्हणजे सादारण 1970 ते 1980 ह्यादशकांत, भारतियां खातीर, तातूंत चड करून दक्षिण भारतीय लोकां खातीर मिडल ईश्ट म्हणजे 'सर्ग' जावन आसलो. पूण वस्तुस्थिती तशी ना. हालींच महमद सैफुद्दीन ह्या पत्रकारान सावदी अरेबियांत रावपी अनिवासी भारतियां संबंदान 'एक्सपात रायड' (Expart Ride) (2012) नांवाचें एक शंबरेक पानांचें पुस्तक बरोवन बरोचश्यो गजाली उक्ताडार हाडल्यारत. हें पुस्तक मीडल ईश्टांत तशेंच भारतांतूय प्रकाशित जालां. मूळ हैदराबादचो आनी मीडल ईश्टांत इंग्लीश आनी ऊर्दू भाशेंत पत्रकारीता केल्लो हो लेखक बरयता त्या प्रमाण, संवसारांत हेर देशांची कांय वर्सांच्या थंयच्या वास्तव्या उपरांत अनिवासी भारतियांक थंयच्या राष्ट्राचें नागरिकत्व मेळटा. पूण आखाती देशांत मात तुमी जशे थंय एक दीस आयल्यात तशेच तुमकां एक दीस थंयसावन वचचें पडटा. उंचेल्य हुद्द्याचेर काम करपी अनिवासी भारतियांक चड कश्टांक फुडो करचो पडना पूण सामान्य मनशाची मात वायट स्थिती आसा. तांचेखातीर रावपाचे वेवस्थेचो उणाव, वखदां - उपचाराच्यो उण्यो सुविधा आसतात. हांगासर वावर करून मायदेसांत दुडू धाडपाचे इत्सेन आयिल्ल्या कांय लोकांक घरासावन आदार म्हण दुडू मागोवचे पडटात.

भलायकी बिगडिल्ल्यान अनिवासी भारतियांक मोट्या प्रमाणांत काळजाची दुयेंसां जातात. वेगवेगळ्या कारणां खातीर मीडल ईस्टांत ज्यो आत्महत्या जातात तातूं 70% लोक हे अनिवासी भारतीय आसतात. आखाती देशांत नोकरे धंद्या खातीर गेल्ल्या भारतियांची संख्या 57 लाख इतली आसा.

आखाती देशांत वचपी फक्त गोंय आनी मंगळूरचेच कोंकणी लोक नात, तर मद्रासी, मलयाळी, मलबारी, कन्नड, तुळू तेचपरी उत्तर भारतीय लोकांचोय मोट्या प्रमाणांत आस्पाव आसा. त्या त्या लोकांच्या भाशांनी तांगेले हे विदेशी भोंवडेचें पडबिंब कविता–कथा–कादंबरींतल्यान नक्कीच पडिल्लें आसतलें. मराठींत फाटल्या तेंपाक 'दिनार' नांवाचो कविता संग्रह लक्षदिणो थारिल्लो. खंयच्याय हेर भाशांतल्या साहित्यापरस कोंकणी कथा – कादंबरी साहित्यांत हो आखाती संबंद अदीक प्रभावीपणान पडला आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता.

कादंबरी हो प्रकार आतां कोंकणी साहित्यांत बरेतरेन रुळपाक लागला.. संख्यात्मक नदरेन कादंबरी लेखन उणें आसलें तरी तांचो दर्जो भोवच उंचेलो आसा. 'अच्छेव', 'कार्मेलीन', 'काळी गंगा' ह्या कादंबऱ्यांनी कोंकणी साहित्याक राष्ट्रीय तसोच आंतरराष्ट्रीय भौमान मेळोवन दिला. एडवीन जे. एफ. डिसौजा हांची कादंबरीय त्याच मार्गान वतली अशी आमकां आस्त आसा.

**पुंडलीक ना नायक**
अध्यक्ष

# कितें हें काळें भांगार?

ही तुमी वाचूंक आस्ची नवलिका. ही कथा आमच्या परिसरांत एका साध्या मंग्ळुरी घराण्यांत आपली सुरुवात देक्ता तरी हांतुं इस्रायेल आसा, अमेरिका आसा, इराक-बग्दाद आसा, कुवेत आसा. काळ्या भांगाराच्या वांट्याक हात वोड्डावन मध्यप्राच्याक पावल्ल्यांची जिणी आसा.

मोगाची, साहसांची, आब्लेसांची, आनी स्वार्थिंची कथा आसा.

व्हय, कांय खूब तांत्रिकता, अंतरराश्ट्रीय मट्टार जांव्चे लशकरी दावे साध्ये रितिर ह्या कथेंत थोड्या मट्टाक दोळ्न-मोळून, कथेक लागू करून विणल्यात. हांतल्यो तांत्रिक संग्ती खर्‍यो कित्याक ह्या आक्रमणा वेळार हांव आनी म्हजें कुटम कुवेतांत आसल्यांव!

1990-1991 वर्सांनी इराकान कुवेताचेर केल्ल्या आक्रमणाक लागून तातांच्या देशांक पार्टी गेल्ल्यांची - नीज कथा - चड करून मंग्ळुरगारांची - हांतू आसा.

हें आक्रमण घड्च्या पय्लेंच मध्यप्राच्यांत कांय खूब भारती आनी हेर देशांचे कामेली विविध वृत्तेंनी शामील जावन आसल्ले. आनी तांणी 'काळ्या भांगाराच्या' दुड्वाचो तातांचो वांटो कमावन घरा ढाड्लो. ह्या वर्वी मंग्ळुरांत आनी परिसरांत नळ्यांचीं घरां कोस्ळावन टेरेसाचे बंग्ले बांद्ले, तांच्या पतिण्यांक भांगारान नेटयलें आनी भुर्ग्यांक ऊंची शाळेंनी दाकल केलें.

उदेलीं सन्निवेशां जांतू पती मध्यप्राच्यांत, पतिण-भुर्गीं गांवांत. धुस्पटाय चड्ली धन-दवलतेचें बाडें-देवें कोणें कोणें फारिक केलें; भुर्गीं दुसपट्लीं तरी काळ्या भांगाराच्या दुड्वाची वोड्णी उणी जाली ना.

तित्लेंयी आकर्शिक हें काळें भांगार म्हण्जे कच्चा तेल - पेट्रोलियुम, जाचो आब्लेस आतांयी लोका मदें जिवाळ आसा.

ही जावनासा लांब कथा दोन विभिन्न सन्निवेशांनी सांपड्लेल्या कुट्मांची. एका कुट्मांत काळ्या भांगाराचो दुडु व्हाळ्टा, हंकार आनी दुस्फटाय चड्ता आनी भुर्गीं दुस्पड्टात आनी पिड्ड्यार जातात. असली परिगत दोळ्यां साम्कार घड्टा तरी आमकांयी गिरेस्त जांवंक जाय आनी गिरेस्त जांव्चें हक्क आम्कांयी आसा म्हळ्ळें धोरण घेव्न कशेंयी पुणी कुवेताच्या हुंब्रार पावल्ल्या एका तर्नाट्याची कथा ही.

हुंब्रार म्हण हांवे म्हळें कित्याक हो तर्नाटो कुवेताच्या हुंब्रार पाव्ताना आनी पावल्लेच रार्ती ऐरपोर्टांत आस्तानांच कुवेताचेर इराकाचें आक्रमण जाता. त्या उप्रांत हो तर्नाटो खंय शेण्लो, खंय गेलो, वांचलो या मेलो म्हळ्ळीं सवालां आनी सन्निवेशां हे कादंबरिचो तीर्ल. हांतूं आमचेयी खरे अणभव आसात, सिंतिमेंतां आसात, भें-भिरांत आसा, दंडळनातल्ली देवाचेर पात्येणी आसा.

**– एड्वीन जे. एफ. डिसोजा**

# 1

वालेन्सियाच्या फेरेर वाड्यांतल्या टिचेर जिल्ली पायसाची दिश्ट, कार्मेल वाड्यांतल्या मोल्ली पिरेरीचेर पडल्ले घडये जिल्लीन अडचिल्ल्लीं दाडामां, आपल्या घराक वेचे वोणीचे तुदियेक[1] पावंचे वरेग[2] सदीळ जालीं नातं. आनी उतरा उतरांक कट - कट, -कच-कच-जायीत उरलीं.

दसेंबर म्हयनो आनी मंगळुरांत हिंव पडलां म्हणचे तसली कसली थंडी नातल्ली. तरी दसेंबर म्हणताना थंडयेचो म्हयनो म्हळी गिरांत वर्सांत कायम जाल्ल्यान पालंव पांगरून सनवाराचें नोवेन आनी उपरांत कायद्याचें मीस आयकोंक गेल्ले देवपर्जेंत जिल्ली पायस एकली.

हरएका सनवारा हे कायदे काबार करून आनी आपल्या मट्टाच्यालागीं[3] इल्लें सोशल उलोणे उलवन वालेन्सियाची मोगाची पायस टिचेर घरा पावताना सांजेचीं सात पुणी जातालीं पूण आज न्हय.

घडल्ली संगत चिल्लर, पूण हे संगतींत मोल्ली पिरेरीचें नाक आसा म्हणताना जिल्ली टिचेरीक सोसानातल्लें. त्या दिसा सकाळीं कॉलेजीक भायर सरल्ल्या इवोनान नव्याच डिजायनाची ड्रेस घाल्ली.

हें कांय नवेसांव न्हय कित्याक पायस टिचेरिची आनी भिक्की टेलराचे एकलेच धुवेन इवोनान नवी ड्रेस घालची कांय म्हयन्यांक एक न्हय तरी जिणेंत एक पावटीं न्हय. केदाळा तरी मिक्की पायस टेलर आपले मोगाचे धुवेक नवी ड्रेस शिवोन हाडतालो आनी आतांचे आतां धूव पी. यू. सी.क गेलें म्हणताना...

त्या दिसा हें नवें आंगलें पळइल्ल्या मोल्ली पिरेरीचे धुवेन इवोनालागीं विचारलें 'हो दगलो तुका खंय मेळ्ळो?' तवळ इवोनान जाप दिली अशी "म्हज्या पप्पान शिंवोन हाडल्ली ड्रेस ही' आनी तवळ मोलीचे धुवेन डिनान म्हळें खंय

'ड्रेस आमी घालची, तुमी खुनिगारांनी असले दगले घालचे' अशें.

पायस टिचेरीन ते सांजेर मिसाक वचोंक आंगणांत पांय तेंकताना इवोनान घरा येवन घडल्ली संगत आंगणांत सांगोन रडताना, पायस टिचेरीन ताका आरावन देगेन व्हेलें आनी आपूण त्या मोलीची चरब जिरयतां म्हळ्ळी भास दिली.

'तशें कांय करूंक वचनाका, मामी' इवोनान परातल्लें. मोली आण्टीची धूवय आमच्याच कॉलेजीक वेता न्हय? म्हज्याच बॅच्यांत आसा.'

'वाटेर वेच्या सुण्या माजराक आण्टी - अंकल म्हणोंक जायना.' तिणे इवोनाक धमकिलें. 'तें मोली कांय तुजी आण्टी न्हय! गल्फाचो दुडू उलवंक लायता तांकां आनी वालेन्सियांतल्यांक तो जेराल आण्टी जाल्या. कितें करयां आसात न्हय आमगेर पोर्ल सोडिनातल्ले दोग बोकूल? आतां तूं वच. देवान एक पावटीं शीर पळेवन दाग दिल्लो मोलीक पावना? आमकांय मेतेर केलें त्या लफड्यांत. आतां तूं भितर वच. पाप्पाक कांय सांगानाका. तो आनिकी येवंक ना. तूं काफी पिये, हांवें गोडाचीं मुटलीं केल्यांत... सन्वार न्हय आज? करेक्शनां करून जातच थोडो वेळ मेळ्ळो...

'मां' परत्यान परातलें इवोनान. 'मोली आण्टी लागीं कांय कितापत करिनाका मां'

'तशें तर सोसीजे आसल्लें! मोलीच्या पुताच्या टेरेन्साच्या प्रकरणांत आमच्या जेरूचो हात नातल्लो' पायस टिचेर अशें सणसणली आनी पांय आपटून चल्ली.

नित्यादार मायेचें नोवेन सुरू जालें आनी तेसांवाची पट्टी विगारान उसयताना सुखेचीं सात आठ तेसांवां मोली पिरेरीचींच म्हण सगळी फिर्गज जाणा आसल्ली. कुवेट आसल्ल्यांचें कंत्राट आनी पांचवर्सांक लांबय, बाहरेन आसचीं म्हजीं पूत आनी सून वेगींच अमेरिकाक पावोंदीत, पी. यू. सीं. त शिकची म्हजी धूव मेडिकल करूंदी.

हर एक पावटीं उठोन वचोन मोलीच्या केश्ट्यांक धर्न कानपट्टेक वाजयां म्हण पायस टिचेरीक भोगतालें तरी देव मंदिरांत तितल्यार पर्यांत ही संगत व्हरचें धैर तिका खंडीत नातल्लें. एक पावटीं कठीण नीत केल्लो देव निद्रेस्त जांवचो ना अशें ती भरवसली.

नोवेन जालें, मीस जालें, आयताराची हाजरी पडली. नोवेना वेळार सुमार दोन-अडेज वर्सांथावन कायम आसचें पायस टिचेरिचें तेसांवय पाद्रीन वाचून सांगलें, म्हज्या एकल्याच पुताक गल्फाची विजा मेळोंदी.

भायर येताना, तिका तिचो ल्हानसो पंगड मेळ्ळो आनी तांच्याकी चिक्केशे मुखार आसल्ल्या मोलीक पळेताना पायस टिचेरीचो रागाकाट तुटलो. 'हाताच्या कोपराथावन मणी गांठीपर्यांत कांकणा घाल्न खंच्या देवाक दाखवंक येता हें मोली?' जिल्ली पायस टिचेर सणसणली. 'एका हातांत देव, दुसऱ्या हातांत कांकणां आनी काळजांत हेरांच्यो खेबडायो.' तिणे हेरांचेर दिश्ट घाली, कांय उतरांचो पाटिंबो मेळातगी म्हण. पूण तीं सर्वां मोली पिरेरीची तांकां गरज पडत तर जिल्ली पायस टिचरीक पोंवट्या मासळेच्या मोलाक विकूंक तयार आसल्ल्यान वोगीं रावलीं.

'जालें तरी कितें टिचर?' एकलेन तरी विचारलें.

जिल्ली पायसाक जाय जाल्लेंय तितलेंच. इवोनान सांगल्लें दूर रंगरंगवन सांगताना आनी एक तिर्कास दोळो मोल्ली पिरेरीचेर दवर्न चलताना टिचेरीचे वोणीची तुदी आयली.

'आनिकी उलयतीं हांव पूण भुरग्यांलागीं बोबो घाल्न म्हजो ताळो पडत आयला पूण रिटायर्ड जाता पर्यांत काम करिजे न्हय? फोंडाक वेच्या पर्यांत म्हाका आनी म्हज्या घोवाक निसाची विलेवारी करिजे न्हय?'

'तुका तसली गत येवंक ना न्हय, टिच्रेर?' विचारलें एकलेन 'मिक्की टेलराचें टेलरींग आजून चलता न्हय? कोण जाणा तुज्या पुताक जेरीक विजा मेळ्ळ्यार मेळ्ळी. मोली आण्टीचेर जाळ वोंकच्या बदलाक तिचेच लागीं विचारल्यार कांय... तिणेय जायतें सोंसलां दुसऱ्या पुताक लागोन.'

'आमी कांय काटुसां न्हय, बामणांच बऱ्या मर्यादीच्या घराण्यांतलीं. मोली पिरेरीन म्हजे शिमटेर पांय दवरचें कांय आज नवें न्हय. साडेलिटींनी, फिर्गज सलहा मंडळेंत ताणे म्हाका आनी म्हज्या मट्टाच्या थोड्यांक बरेंच इन्सल्ट केलां. कितें करयां, आमगेलो एकलो जिणिभर अर्दो उंडो फावो केल्यार पुरो म्हण माद्रींचे पाद्रींचे लोब शिंवत सिंपल टेलरींग करीत रावलो. मुंबय वचोन टेलरींग डिप्लोमा पूण कर्न मास्टर कट्टर जा म्हण हांवें परातलें. कोणाक पोसूंक म्हणालो. म्हाका

आसची एक बायल, दोगां भुरगीं अशें म्हणालो. कोणेगी मापळ्यान एकल्यान गल्फाची विजा धाडतां म्हळें वीस वर्सां आदीं. पूण हो आयकाल्यार न्हय? तुका सोडून रावोंक जायना-गो जिल्ली, म्हणालो. आतां पळे.

'आतां माद्रींनी कापडां आनी पाद्रींनी पेंटां - शर्टां सुरू केल्या उप्रांत तुमकां बरोच मार पडलो न्हय टिचेर?' एकलेन कुडसिलें. 'पूण अशें जावन वर्सां जालीं तरी तुमकां कित्याक उणें आसा?' तांकां जिल्ली पायस टिचेरिची काणी कांय नवी न्हय.

'तुज्या जेरीक विजा मेळोंक आमी सदांय मागतांव टिचेर,' तिसरेन नेरावन संपयलें.

तांचेलागीं उलयतां उलयतां पुरतीं सुटल्लीं पायस टिचेरिचीं दाडामां मदें मदें अडचातालींच म्हणयां. आपल्या पंगडाथावन मेकळी जातच जिल्ली टिचेरीन वोर्णींत मेटां घालीं, वोर्णींतले दिवे तवळच पेटल्ले.

ते घडये घरांत कितें चलोन आसतेलें म्हळ्ळो अंदाज तिका आसल्लो. इवोन टी. वी. पळोवंक म्हण शेजारा गेलां, आसतेलें आनी हे दोग, बापूय टेलर मिक्की पयस आनी पूत जेरी पायस बसोन कॅरम खेळतात आसतेले. हें तांचें सनवाराचें रुटीन. कांय बरें कातराप आसात तर मिक्की दोन बोतली बियर हाडतालो आनी बापूय पूत त्यो दोनय बोतली सुकयताले आनी आयचे सांजेरय तशेंच चलतालें.

क्वीन भितर घालूंक मिक्की जोखतालो आनी जेरी ताका उबयतालो. जिल्ली भितर आइल्ली सयत तांच्या गुमानाक गेली ना. जेरीन दोन पावटीं परीक्षा बांदून तरी बी. कॉम केल्लें आमी एके चीट फंड कंपनींत डेवलपमेंट ऑफिसर जावन ताका काम मेळल्लें. ड्युटेच्या नांवान गांव भोंवतालो आनी कामाविशीं घरा कांय सांगानातल्लो; खंय मन जालें तर पयशे दितालो. पूण मिक्की जांव, जिल्ली जांव ताचेलागीं पयशे विचारिनातल्लीं. चडीत शिकची जांव या कामाचे व्हड बोंटेक लागची जांव उर्बा ताणे दाखयली ना. जांव बापायचे व्याप्तींत ताका कुस्कूट ओड नातल्ली. मिक्कीन ताका साबार पावटीं सांगल्लें आसा, आधुनीक कटींग शीक म्हण. पूण ताका सुयेचें बिरडेंच खंय आसा म्हण कळीत नातल्ल्यान मिकीन आपलें प्रेतन सोडल्लें.

हे एके संगतींत जेरीक गल्फाक वचोंक लोटचो रस्तो जिल्लीक उगतो आसल्लो. पूण विजा कोण दिता मां? आजकाल अरबी सर्व शिकपी जाल्यात. गल्फांत राजकीय अस्थिरता चडल्या, भिरांत राज करता, संवसारार सगळ्यानीतल्यान काळें भांगार मेळोंक सुरू जालां म्हण जेरी तिच्या कानांक वांयंगीं बांदतालो.

विचारयां म्हळ्यार तिका कोणायची ओळोक नातल्ली. विपर्यास, तिचोच भाव, तिच्याकी ल्हान, जॉनी कितलेशा वर्साथावन कुवेटांत आसल्लो, भाच्याक विजा धाडूंक कांय कुस्कूट करच्यापरीं दिसनातल्लो. हांगासर इंडियानांक विजा मेळजे तर सयशीं आठशीं दिनार विचारतात आनी तसले पयशे म्हजेलागीं नात आनी फकत बी. कॉम शिकल्ल्यांक हांगासर 'फर्राशा'चे काम मेळचेय कश्ट म्हण ताणे बरइल्लें. हें सर्व, तीं पाटलीं फुडलीं जाल्ल्यान उबजाल्ली कुटमाची खटपट म्हण जिल्ली जाणआसल्ली; एक व्हड काणी ती. तो लग्न जाल्या उप्रांत पतीण जावन आइल्ल्या, देरेबैलच्या विल्मान व्हड एक शिरिगुंडी रचून जॉनीक भयणीथावन पयस केल्लो.

पूण टिचेर जिल्ली पायसाक आपणाच्या पुतान गल्फाक पावाजेच म्हळ्ळी, उर्बा–आशा आनी झपटाल्लें पिशें कांय सुमाराचें न्हय. एक विजा धाडा म्हण तिणे विचारिनातल्लो जण[4] ना. पूण तिका मेळची जाप चड – उणे एकच. पयलें आमचीं कुटमां उदार करिजे न्हय, टिचेर? तूं आमच्या भुरग्यांक शिकयताय व्हय. कसलेंय इनाम विचार आमी दितांव पूण... पळेंयां म्हजेंच कंत्राट उर्जीत जावं पयलें.

इनामां विचारूं? कितें एक कलर टी.वी. विचारूं? ती मनांतच हासताली. आज पळे इवोन शेजारा गेलां टी. वी. पळेवंक आनी हे गोलियात बसोन कॅरम खेळतात आनी बियर पियेतात.

मिक्की टेलराक 'राणये'चो तीब चुकलो. जेरीन ताळ्यो पेटल्यो आनी तवळ तांची दीश्ट तिचेर पडली. ती अस्स करून सालांत आसल्ल्या खटल्यार बसली. दोन कुडांचें ल्हान पूण निर्मळ घर तें, तांचें स्वंत[5]. इवोनाक प्राय जाल्या उपरांत ताका एक वोरेविंगड कूड दिल्लें जिल्लीन. मिक्की आनी ती भितरल्या कुडांत; आनी सालांत एक खटलें घालून ताणी जोरीक दिल्लें.

आतां खटल्यार आसल्लें जेरीचें पँट काडून तिणे देगेन मारलें आनी पुताक उगत्यान पुरपुरली. 'पप्पाक राणी मेळोंकना माम्मी!' तो म्हणालो तिच्या पिरिपिरीचें गुमान करिनासतां. 'मीस जालें माम्मी?'

'एक जालें रे.' तिणे जाप दिली. 'आतां दुसरें तूं आनी तुजो बापूय सांगा. संवसारार कितें जाता म्हण खबर आसा तुमकां? त्या मोलीचे धुवेन इवोनाक कितें म्हळें म्हण तुमी जाणांत?'

'कितें म्हळें?' कॅरमाची जिबली हातीं खेळवन विचारलें मिक्कीन. ताचो ताळो मातसो दाट आयकातालो. जिल्लीन जाप दिंवच्या पयलेंच इवोन भितर आयलें. 'कितें म्हळें मोलीचे धुवेन?' ताणे परत उचारल्लें सवाल भितर आइल्ल्या इवोनाक आयकालें.

'ती संगत विसर म्हळें - ने, माम्मी', तें म्हणालें. 'तुजे लागीं कसलेंयी सांगचेंच डेंजर. सगळें वालेन्सिया तुजें क्लासरूम म्हण चिंताय तूं'

भयणीचें हें आयकोन जेरी हांसलो, पूण मिक्कीन आपलें सवाल परत्यान विचारताना जिल्लीक सांगानाशें रावोंक जालें ना.

बायलेन सांगल्लें आयकोन मिक्की तकली मुळांत घालून बसलो. असलीं सन्निवेशां कांय ताका नवीं न्हय. सारकें पळेवंक गेल्यार तांकां जिणियेंत तसले कांय कश्ट नातल्ले; जेवणाक - खाणाक कसलेयी वांदे नातल्ले. टेरेसाचें घर नातल्लें तरी हरएका पावसाक नार्ल पडोन फुटल्ले नळे नव्यान घालचीं तांक आसल्ली. टी. वी. नातल्ली तरी बरो रेडियो आसल्लो आनी जेरीन आपल्या पयल्या सांबाळान[6] एक ट्रांसीस्टर घेतल्लो. तरी, आपले पतिणेक गल्फाचो भूत कित्याक लागला म्हण ताका कळीत नातल्लें. प्रायमरीच्या भुरग्यांक शिस्त शिकवन शिकवन जिल्लीचीच शिस्त पिगळ्ळ्या म्हण तो चिंतालो, पूण उचारिनातल्लो.

'हांवें सांगल्लें आयकोन तूं चूप जालो न्हय मिक्कीं?' जिल्ली पायस खोंडूनच गेली. 'ह्या कुटमातलीं सर्व झुजां हांवेंच झुजाजे न्हय?'

'पप्पान कितें करिजे मां? हें कसलें झूज? मोली पिरेरीच्या पुता टेरेन्सावर्वी तें कुटाम...' जेरीन तितल्यारच आपलीं उतरां रावयलीं आनी खेळ आखेर करयां म्हण ताणे बापायक इशारो दिलो. मोली आण्टी लागीं काटाक देंवाजे, पांयांक भाल वांदून?'

'भारीच उलवंक शिकलाय तूं?' ती म्हणाली. 'हातापांयांक भाल बांदल्यारी तुमी झुजाक देवचें दादले न्हय. न्हय तर त्या मोलीचे धुवेन इवोनाक अशें म्हणाजे तर इंब्बू दिल्लो तुमीच न्हय तर?'

'आमी?' बापूय - पुतान सांगाताच विचारताना इवोन आपणाक हें उलोवणें नाका म्हणोन आपल्या कुडाक गेलें. 'आमी कितें केलां?'

'त्या मोली पिरेरीक आमी चिक्केशे रूंद गड दीजे जिल्ली.' मिक्की विंगडायेन म्हणालो, जेरीचें मुखामळ पळेवन. इवोनानय हें व्हड करूंक नजो. असलें उलोणें मतीक घेतल्यार पी. यू. सीं.त लाट घालूंक आसा तें.

'आज जेरी विदेशांक गेल्लो तर आनी ताच्याकय फुडें तुवें, मिक्कीन एक पॉश टेलरींग शॉप घाल्लेंय तर....' जिल्ली उलवनच गेली.

'वालेन्सियांत आज तुकायी जिल्ली आण्टी म्हणते न्हय, माम्मी?' जेरीन टिंकर हाडल्लें. पूण तूं सर्वांची जिल्ली टिचेर आनी पप्पा टेलर अंकल.'

'फोकाणां शिवाय हेर जाणाय रे तूं?' जिल्लीन विचारताना मिक्कीन दिलो सांगात पुताक म्हणोन, आसल्लेंच उलयता न्हय तो?'

'मां' म्हणालो जेरी. 'आज एक दोन एकावंटां मारयां म्हळ्ळे भोंटेर गेल्लों हांव कोणागेर पावलों म्हण सांगल्यार तूं पातयेशीनांय'.

'हुमिण्यो पुरो - रे' ती म्हणाली. 'खंय गरी घालूंक गेल्लोय आसतलोय या गरी घालची, थोटे मारचें सोडल्याय तुवें? आसा - ने तुका चीट फंडाचें सॅल्ली कुरियन?'

'नोरा आयलां माम्मी!' तिच्या उतरांचें गुमान करिनासतां, कॅरम बोर्ड आनी जिबल्यो आरावन उबो जालो जेरी. मिक्की येदोळच उठल्लो आनी आपली बियर घेवन सोप्यार गेल्लो. चड बळीशट आमालाची सवंय ताका नातल्ली.

'कोण नोरा रे? येस्तुबायेची धूव? गल्फाक पावल्लें?' 'व्हय मां,' तो आनी कितेंगी उलवनच वेताना जिल्लीचो उडास पार्टी धांवलो.

जेरीक काम मेळोन तीन चार म्हयने जाताना मिक्कीक एक अवगड जाल्लें आनी त्या वेळार आस्पत्रेंतली ड्यूटी करूंक येस्तुबायेक तांणी दवरल्लें. उप्रांत विल्माच्या शिंत्र्यांक लागोन जिल्लीची आवय मिक्कीगेरच येवन पडताना येस्तुबायेची धूव नोरा नातल्लें तर जिल्लीचे हालहवाल जाते. ते कोडू उडास पार्टी हाडूंक जिल्लीक नाकाच आसल्ले. एकेच प्रायेच्या जेरीक आनी नोराक

बरें जमतालें म्हळ्ळें मात्र जिल्लीक उडासांत आसल्लें. पूण ही थोड्या तेंपाची गजाल.

'आमचो उडास आसा-रे तांकां?' तिचो ताळो एक निर्दिश्ट धार घेतालो.

'कशें दिसता नोरा?'

'कशें दिसता म्हळ्यार? बरें दिसता'

'व्हय रे, तूं त्या मलेयाळींच्या चीटफंड कंपेनीक सेर्वाल्ल्या उप्रांत चलयो म्हळ्यार कित्याक चिडताय रे? फकत मणियो गळयताय तुज्या मॅनेजर सॅल्ली कुरियनाचें नांव काडून'

'नोरा म्हाका ओळकालें. बरें उलयलें' तो म्हणालो कॅरम बोर्ड एके आलमारी पाटल्यान दवरून. 'कुवेटाच्या एका रायाळ घराण्यांत काम खंय. ताचो धनी बरो मनीस खंय. म्हाका एकावंट दितां म्हणालें.' हें आनी इतलें आयकोन टिचर जिल्ली पायसाच्या मुखामळार उदेल्लो बारीक हांसो आनी मतींत उदेल्लीं बळीश्ट शिरिगुंडी जेराल्ड पायसाचे जिणेक कसले सुळयेंत सांपडायत म्हळ्ळो अंदाज तवळ जांव तिका या हेरांक नातल्लो.

■■■

# 2

बंटवाळ बी. सी. रोड पेंटे पयलें दाव्याक वेच्या कळ्ळिगेच्या कच्च्या रस्त्यार मुखार गेल्यार पच्चिनडका म्हळ्ळो एक ल्हान 'नाको' मेळता. थंयसर मापळ्यान चलवंचें एक 'होटेल', एका केलशाचें एक 'सेलून' सोडल्यार हेर कांय नातल्लें तवळ. हां, एक इस्कोल आसल्लें, धा बारा मेटां मुखार गेल्यार. भुरग्यांक पांचवी पर्यांत शिकाप थंयसर.

आनी हे शाळेंत कुमारी ज्युलियाना डिक्रूज एक टिचेर. तिचें घर त्याच रस्त्यार सुमार एक मैल मुखार गेल्यार मेळतालें. गोदे घोळच्या डिक्रुजांक दोगांच भुरगीं, म्हालगडें ज्युलियाना[7] आनी दुसरो, जोंनी जो मंगळुरांत पॉलिटेक्नीक शिकतालो आनी थंयसर नतुरांतल्या एका हॉस्टेलांत रावतालो. रजेंत सयत ताका घरा येवंक उबगोण.

जल्माथावनच म्हळ्ळेपरीं शिक्षकिचीं लक्षणां हाडून आइल्ल्या जिल्लीक वेगवेगळ्या कारणांक लागोन मॅट्रिक उप्रांत टिचेर ट्रेनींग करचें सोडल्यार चडीत शिकपाची ताची उमेद थांबली ना. आताचें ताचे वृत्तेंत तें खुश तरी ताका स्त्री जावन जल्मल्ल्याक दोन खुरीस ह्या आनी त्या खांदार जल्माथावनच आइल्ले.

पयलो, जिल्ली टिचेर कातीन सावळें, एकदम सावळें. हो ऊण तर, सर्वांचे दिश्टीक दिसचे तसलोच आनी आडनांवां जोडून हाडचे तसलोच. जिल्ली टिचेरीक शाळेंत आडनांवांचो बरगाल[8] नातल्लो आनी सेज-सांबारा अर्धा डजनावयर जिल्ली आसल्ल्यान, तें टिचेर जावंच्या पयलें ताका काळें जिल्ली म्हळ्ळ्याशिवाय कोणय ओळकानातल्लीं पूण ते टिचेर जाल्या उप्रांत, जिल्ली टिचेर म्हळ्ळ्याफरा तिचें काळें रूप सर्वांचे मतींत येता म्हण तिका कळवळ्यांनी कळीत जाल्लें.

दुसरो ऊण ताणे मतीक लाइल्लो कसलोगी म्हळ्यार आपलें घराणें बामणाचें न्हय म्हण. आपली जात कसली म्हण ताका कळीत नातल्ली, पूण तीका एक दोन सयरिको आइल्ल्या वेळार 'चेडूं सावळें तरी लक्षण आसा, पूण कितें करयां, कुटम मात्र सेकेंड क्लास खंय', म्हळ्ळ्या ओक्काण्या बराबर सयरीक पार्टी वेताली, एका दोगांनी त्या तेंपारय धा हजार दोतय मागल्ली, जिल्लीक पास करूंक.

ह्या परीं कुसकाल्लें जिल्लीचें मन तत्कालाक लग्ना कुशीन मालवोंक आयकालें ना. ताका मेळचो सांबाळ घरच्या खर्चाक दीजे म्हळ्ळी गरज नातल्ली. जॉनीच्या शिकपाचो खर्च तेंच पळेतालें आनी उप्रांतय ताच्या हातांत पयशे उरताले.

हप्त्याक एक पावटीं तरी जॉनीक पळेवंच्या इराद्यान तें मंगळूर वेतालें, कांय ल्हान गट्टाचें शॉपींग करून, इनासामाच्या हॉटेलांत जेवन सेंट्रलांत सिनेमा पळेवन पार्टी वेतालें. जॉनीक भेट दिवंची उमेद ताका नातल्लीच कित्याक, ताच्या शिकपाचो खर्च तें पळेतालें तरी जॉनीक जिल्लीचेर भाव-भयणी मदें आसाजे आसल्ली वोड - वोडणी नातल्ली. हांव तुजो भाव जाल्ल्यान तूं म्हाका शिकप दिताय म्हळेपरीं जॉनी चलतालो. पूण ताणे भयणीक कसल्यांतय दुखयलें ना. तीन वर्सांचें शिकप जातच तो सुरतकलांत एके प्लायवूड फॅक्टरींत कामाक लागल्लो आनी खंयपुणी घरा येत तर ताच्या उलवण्यान कळतालें की तो गल्फाक वेची आलोचे[१] करीत आसा म्हण. पूण ह्या विशीं तो चड जावन जिल्ली लागीं, चड उलयनातल्लो.

परिगत अशी आसताना जिल्लीन एक सपन पोस करूंक सुरू केलें. आपणाक सयरीक येत तर मंगळूरचीच जायजे आनी एका बामणाच्या पुताची जायजे. तो बामण न्हय तरी पर्वा ना, पूण मंगळूरचोच जायजे आनी ताका शारांतल्या तीन - चार फिर्गर्जींनीच आपलें स्वंत बिडा़र आसाजे, ताणे कोणायची नौकरी करची न्हय; पूण ताका ताचोच म्हळ्ळो धंदो - बिझनेस आसाजे.

अशें आटी घालून बसलल्या जिल्लीक कांय सयरिको ह्या जल्मांत येवचेपरीं नांत अशें ताचे आवयन सांगताना ताणे म्हळें तर म्हाका सोबीत करून जल्मयजे आसल्लें, बामणाचे कुळयेंत किर्लयजे आसल्लें. त्या उप्रांत ताच्या आवय - बापायन सयरिकेचो प्रस्ताप हाडलोय ना काडलोय ना.

आनी त्या एका दिसा आवचीत घरा आइल्ल्या जॉनीन, जिल्लीक आडोसांत उलवंक आसा म्हण काञ्चेपाडीक आपवन व्हेलें. जिल्ली चुरूक मतीचें आनी ताणे अंदाज केलो की एकच हो चेडो कोणायच्या मोगार पडला, एकच ती चली गर्बेस्त जाल्या या... ह्या चोराक फोरीनची विजा मेळ्ळ्या. काञ्चेपाडींत जॉनीन काडल्लो प्रस्ताप आयकोन जिल्लीक 'कल्ल' जालें.

'कितें - रे?' ताणे विचारलें हेणे तेणे पळेवन. 'तुज्या काळ्या भयणीचीं फोकाणां करताय तूं? तांत्यांतलो पुरतो भायर येवंक नाय आनी म्हाका सयरीक हाडून आयलाय?'

सयरीक हाडूंक कोणेय तांत्यांतल्यान भायर येजे म्हण ना जिल्ली बाय', तो म्हणालो रागार जायनासतां. 'परत्यान आयक. तुजीं कसलीं कंडिशनां आसात म्हण हांव जाणां. मांयन म्हजेलागीं सांगोंन दुकां काडल्यांत. तुवें म्हजें शिकप पळेलांय आनी दुडू खर्चिलाय आनी...'

'देखून तूं म्हजें रूण फारीक करचेखातीर म्हाका सयरीक हाडून आयलाय?'

'हांवें सांगचें तरी आयक' ताणे परातलें. 'चल्याक हांव ओळकातां, हांव पॉलिटेक्निकांत आसतानाच...'

'तुजो क्लासमेट तो?'

'न्हय, म्हजो टेलर तो!' जॉनीचो ताळो चत्राय पाजारतालो. 'कंकनाडींत ताचेंच टेलरींग शॉप आसा पांच-स मिशिनां आसात, बिजनेस बरें आसा...'

'कितें मुंबयच्या हाँगकाँग टेलरांलागीं कटींग शिकल्लो तो?' जिल्लीन विचारलें नंज्यांनी.

'तीं ताका गरज पडली ना जायजे, पूण तो बरो आवटफिट्टर आनी...'

'आनी कितें?'

'मंगळुरांतल्या सेमिनरी कोवेंतांचें परमनेंट कॉन्ट्रॅक्ट आसा ताका.'

'म्हणजे?'

'लोब शिंवचें!'

'हं! हेर कांय?'

'हें सवाल येता म्हण जॉनी जाणासल्लो. 'तो आपूट बामण'

'तुवें कितें ताची वार पुरल्ली पळेल्याय?'

'जिल्ली बाये', हें आयकोन म्हणालो जॉनी 'तूं ह्या हळ्ळेंत आनी ह्या काट शाळेंत शिकवनच रावशीतर 'कोल्ती जिल्ली' म्हळ्ळें बिरुदय तुका चड पयस ना म्हण म्हाका दिसता.'

'ताचें नांव कितें रे?' पळेवंक कसो आसा?' जॉनीच्या उतरांनी सत देखून जिल्ली चिक्केशे मोव पडलें.

'सत सांगतां, पळेवंक बरो आसा, घराणें पायसां - गेलें. मॅट्रीक शिकला आनी आपणाल्या पांयाचेर खुद उबो आसा. वालेन्सियांत तांचें स्वंत बिडार आसा. तुका सासुमांयचे भंय नाका, ती ह्या संवसारांत ना. मिक्कीच्यो दोगी भयणी लग्न जावन मुंबय आनी मद्रासांत आसात. ताका भाव नांत. प्रायवंत बापूय घरा आसा, ताचीच व्याप्त चलयता मिक्की... कातीन गोरोच जॉनी आपलो एक्को खेळ्ळो.

'म्हाका सोडल्यार संवसारांत सर्वांय गोरींच रे म्हणालें जिल्ली दिगंताक पळेवन. 'ताका कित्याक हळ्ळेंतलें गोरूं जाय खंय?'

'तूं हळ्ळेंतलें व्हय जिल्ली बाये', म्हणालो जॉनी. 'पूण खंच्या हिसोबान तूं एक गोरूं?'

आतां जिल्ली हांसलें. हूं, म्हज्या पयशांनी तुका मंगळुरांत तुजोच म्हळ्ळो एक टेलर आसल्लो रे?' जिल्लीन विचारलें, केदाळाय डौल न्हैसच्या भावाक आतां नव्या अभिमानान पळयत.

'आतां ताकाच भावोजी केल्ल्यांत कांय चूक आसा? भुरगो बरो जिल्ली बाये. पूण एकेक ऊण कोणाक नांत...' आपलीं उतरां नेरायलीं जॉनीन.

पूण तवळ जिल्लीन लेखलें की जोंनी ताचे काळबाणेक आनी पंचवीस उतरल्ले प्रायेक उल्लेकिता म्हण.

जोंनीन हाडल्लो प्रस्ताप घरापर्यांत पावलो आनी रिवाजी परमाणे चल्यान आनी ताच्या घरच्यांनी होकलेक पळेवंक येवंक दीस निघंट केलो. नोवऱ्या मिक्कीचो बापूय निशक्त जाल्ल्यान ताचो माम आनी मामी येतेलीं म्हण जोंनीन कळयलें.

नोवरो मायकल पायस, अंगणांत पांय दवरताना जिल्लीच्या गुमानाक एक

संगत गेली.

नोवरो चिक्केशे कुंटोन चलतालो.

कांय गाद्या मेरेर पांय आडपडोन कुस्कालो कोण्णा म्हण जिल्लीन केल्लो अंदाज थोड्याच वेळान फट जालो. मिक्की पायसाच्या उजव्या पांयाचे गांटींत कसलोगी ऊण आसल्लो आनी देकून तो कुंटतालो. जिल्लीन तापडतोप जोंनीक देगेक आपयलो आनी म्हळें 'आतां तूं येरे काच्चेपाडीक.'

'तापा नाका' तो म्हणालो. 'हांवें तुजेथावन कांय लिपवंक ना. ऊण कोणाकी आसतात म्हण पयलोच उतरा वांटो काडला हावें. मांय-बाबाकय सांगलां...'

'पूण म्हाका कितें सांगलांय? सयरिकेचे प्रायेक जून जावन येवंची भयण एक पावटीं घराथावन भायर पडोंदी म्हण...'

'तूं नेणाय जिल्लीबाये,' तो म्हणालो, 'सतच, हांवें तशें चिंतूंक ना. पूण मांय - बाबान चिंतलां आनी म्हजे पाय धरल्यात म्हळ्ळें तूं खंय जाणा? ना तर हावंगी ह्या सयरिकेच्या खेळांत मेतेर जावंचो?'

'जिल्ली रडलें.

'चिंतून पळे,' म्हणालो जॉनी 'आपल्या उणाक लागोन मिक्की तुजे काळबाणेक आनी सेकेंडक्लास कुळयेक आपणावंक मुखार आईल्लो न्हय. तूं सावळें तरी लक्षणाची पुतळी म्हण आमी जाणांव आनी आतां तोयी जाणा. तो एका विभिन्न कालेतीचो मनीस. आपणाक घर करची शाती आसची आपूट चली जाय म्हण तो म्हणतालो. पूण तुका लागल्या कात आनी जात. आतां कित्याक रडताय? नाका तर, नाका म्हण...'

'घरा या' म्हणालें जिल्ली. 'कोण जाणा, फाल्यां होच टेलर मिक्की म्हाका खंय थावन खंय पावयत कोण्णा!'

भयणीच्या उतरांनी गूंड मतलब आसा म्हण जॉनीक सुसतालें. पूण विंचवण ताणे आनी हेरांनी जिल्लीचेरच सोडल्ली.

भाव-भयण घरा पाटीं येताना मिक्की, घरच्यां लागीं सुडाळायेन उलयतालो. हांकां पळेतेच ताणे विचारलें, 'खंय पावल्ल्यात तुमी भांव - भयण?'

तीं ताका जाप दिवंक सकलीं नांत जाल्ल्यान ताणेच मुखारिलें 'आयक जिल्ली', तो म्हणालो 'हांवें ह्या घरांत पयले पावटीं पांय दवरचो आनी अशें

उलवंचें हक्क म्हाका आसा या ना म्हळ्ळें म्हालगड्यांनीच इत्यर्थ करचें. म्हाका एक ऊण आसा, पूण हांव खंयच्याय दैहीक रितीर अबादीत न्हय. म्हजी भयण सावळ्यांच्याकय चिक्केशें चड सावळें म्हण सोंप्यान म्हाका सांगल्ल्या जोंनीन, मिक्की कुंटोन चलता म्हण चालते भाशेन तुका सांगलें ना जायजे. देखून तमी एक मटव्या रुस्तुरुसांवांखातीर काज्चेफाडीक गेल्ल्यात' तो हांसलो.

'कितें म्हणताय, ज्युलियाना डिक्रूज? हांव तुजेलागीं लग्न जावंक तयार आसां आनी तूं म्हज्या चोट्ट्या पांयालागीं या म्हजेलागीं लग्न जावंक तयार आसाय तर, आमी वडिलांचें बेसावं मागचें बरें.' हें आयकोन जिल्ली हांसलें आनी हांसलें आनी रडलें.

जिल्ली आनी मिक्कीचें लग्न स म्हयन्यांभितर जालें. अपले हळ्ळेचे जिणेचो अवस्वर आकेर करून जिल्ली, मंगळूरच्या वालेन्सियाक पावलें आनी थोड्याच तेंपाभितर मिक्कीक पती करून घेतल्ल्यांत आपणें कांय चूक करूंक ना म्हळ्ळें ताका नक्की जालें. पूण आपणाकच तें सांगालागलें. मिक्कीचो पांय सारको करूंक म्हाका साध्य ना व्हय. पूण एका दिसा ताका ताच्या ह्या 'अर्द्या उंड्या'च्या संवसारांतलीं आपूण भायर काडतेलींच.

मंगळुराक येताना आपली शिक्षकीची नौकरी सांडल्ल्या जिल्लीक सूटरपेंटेंतले सरकारी शाळेंत नौकरी लाबोंक कश्ट जाले नात. चडीत शिकोन आपणें एका हायस्कुलांत शिकयजे म्हळें ताचें सपन जारी करूंक मिक्कीन सोडलें ना.

जिल्लीक पयलो गुरवातार आइल्लो आनी जेरी जल्मालो.

जिल्लीच्या लग्न आनी जेरीच्या जल्मामदें, जोंनी कसो पूण कर्न कुवेट पावल्लो आनी दोन वर्सांनी पाटीं येवन ताणे देरेबयलच्या विल्माक आपली पतीण करून घेतली. लग्न जोंनीचे मर्जे परमाणे मंगळुरांतच जालें.

शहरी पतिणेक कळ्ळिगे[10] वोंबोंचें ना म्हण आपूण कुवेट पाटी वचोन विल्माक विजा धाडचे पर्यांत तें मिक्की भावोजीगेर आसोंदी म्हळ्ळी अपेक्षा जॉनीची आनी जिल्लीक हें सुसेगाचें न्हय तरी, मिक्कीन तक्षणा सय घाल्ल्यान तें चूप रावलें. भरल्लें गुरवार तें.

दोन म्हयन्यांनी जिल्लीक वेणो सुरू जाता पर्यांत ताच्या आनी विल्मामदें नुरू - नुरू आनी गुसू - गुसू जावन आसल्लें सर्व, जिल्ली जेरीक बाळांत जाल्ल्या

दिसा डब्बल खजनो फुटल्लेपरीं फुटलें.

जाल्ली संगत विल्माचे कातर मतींत मात्र येवची तसलीं. बाळांत जावन विशेव घेंवच्या जिल्लीक 'पळेवंक विल्मा आईल्लें. चेरक्याचेर दिश्ट घालतेच एक किलो मुसंबी जिल्लीच्या खटल्या देगेन 'धप्प'करून दवर्न तें म्हणालें–

'कंग्राजुलेशन्स जिल्लीबाये! चेरको पुणी बरो गोरो आनी पुडपुडीत आसा. तुवें टेस्ट केलांय या ना म्हण हांव नेणां, पूण हांवें लोव ताचे दोनय पांय चिक्केशे वोळोवन पळेले. 'थँक गॉड', ते समा आसात, चोट्टेनांत यू. सी. चेरक्यांनी केदाळाय पर्फेक्ट आसाजे न्हय...? ताका कांय ऊण आयल्यार फाल्यां तुमी धांवोन येवचें कुवेट आसच्या म्हज्या घोवासरशीं न्हय? चेरक्याक आतांचें मेडिकल करूंक मिक्की भावोजीक तांक आसात?'

त्या दिसा मारलें जिल्लीन एक शर्तः तुका आनी तुजे तसल्यांच्या हंकाराक हांव वाटेक लायतेलीं.

त्या दिसा सांजेर आइल्ल्या मिक्कीक जिल्लीचीं दुकां पळेवन कितें करचें म्हण समजालें ना. असले परिगतींत आपण पतिणेचें आयकाजे म्हण मतीक गेल्ल्यान, जिल्ली घरा येवंच्या पयलेंच ताणे विल्माक देरेबयल धाडलें. ह्या बराबर जिल्ली आनी जॉनी मदलो संबंद आमटेलो आनी कंलबेलो. विल्मा कुवेट पावलें.

पूण शर्तां या दावे, जिणी मुखारून गेली.

वालेन्सियांत जिल्ली डिक्रूज, टेलर मिक्की पायसाची पतीण जावन थिरली आनी तिचे काळबाणेथंय गुमान दिवन तिका आडनांवां दवरूंक कोणायकी धैर आयलें ना. आडनांवां दवरच्यांत वालेन्सियाच्या पारपळांक आसल्ली शाती हेरांक नातल्लीतरी एका दिसा बस नाक्यार आपणांक चिडायिल्ल्या तेगां चेड्यांक आपले सत्रेन आनी जेम्बिलेन फोफाइल्ल्या जिल्लीक 'हंटरवाली' म्हण नांव पडाजे आसल्लें. पूण तशें कांय जालें ना. जिल्लीचे तळ्ळेक येवंचें कोणाकी नाका जालें.

पूण हेणे तेणे, जिल्ली टिचेर आपलेच खडापायेन अडेक भाग आनी गर्व आइल्ल्यांक शिमटेर पांय दवरताली आनी रागाशिणाच्यो फुगेट्यो फुटताल्यो. हांकां सर्वांक बूद शिकयजे जाल्यार आपणाकय अडेक येवंचो दुडू जाय. पोर्टिकोचें घर जाय म्हळ्ळो तिचो आंवडो स्कूटर कारापर्यंत पावोंक चड तेंप काडलो ना

म्हळें मिक्कीक आतांच कळोन आयल्लें.

ह्या सर्वा मदेंच सभावीक थोड्यो संगती घडल्यो. आपणाइतल्याक घरांत पडोन आसचो मिक्कीचो बापूय एका दिसा उठलोच ना. तवळ जिल्ली इवोनाक गर्भेस्त.

तेणे, जिल्लीचो बापूय डिक्रुजाम अंतरलो आनी मरणा विधीक जॉनी आपल्या कुटमाक घेवन आयलो. ताका आनी विल्माक दोगां चेडवां. कुवेटांत जल्मोन थंयच शिकप करतालीं.

कळ्ळिगेंतले आस्तीचे वांटे जाले आनी जिल्लीन आनी विल्मान कांटे फाफुडलेच. सहज, जॉनीन, विल्माची पाइत घेतली. उप्रांत आवय म्हळ्ळे आस्तीक खंचे रितीर 'वांटे' करची म्हळ्ळें सवाल येताना जिल्ली सांपडलें.

तांचे आवयक आसल्ल्यो सर्व पिडा आसल्ल्यो. आर्थरायटीस, डायाबिटीस, प्रेशर आनी हेर. हांगासर विल्माचें तुरूप चललें. 'आमकां तांक आसा' म्हणालें तें. 'सासुमांय आमगेर देरेबयलांत येवन रावोंदी.' आमी तिचो खर्च पळेतांव.' ते घडयेक जिल्लीक पंदाक घालूंक विल्माक हाच्याकी वर्तो उपाव दिसलो ना. देरेबयलच्या घरांत माद्रींत वचोन आइल्ली विल्माची भयण आसल्ली आनी तिका हेरांची सेवा करची म्हळ्यार कोंवेंताथावन भायर आइल्ल्याक प्राचीत करचेवरींच. आवयबापायची चाकरी ती भयण करताली[11]. आनी अनि एक बोंड कांय तिका वजनाचें न्हय.

हें सन्निवेश तितल्यारच संपलें. गरजेचें सोडून हेर उलयनासतां जॉनीन जिल्लीक आनी मिक्की भावोजीक आदेव्स मागलो.

इवोन जल्मालें.

वर्सां धांवली. भुरगीं कुडीन वाडोन आयलीं; जिल्ली आनी मिक्की प्रायेन वाडोन आयलीं.

जेरी फायनल बी. कॉमांत पडलो. आनी परीक्षेक तयाराय करूंक लागलो. 'तुजें बी. कॉम जातेच एकूच ध्येय तुका आसाजे'

जिल्लीन ताका सांगलें. 'तुवें हो देश सोडिजेच. तूं जाणाय, इवोन तुज्याकी चार वर्सांक ल्हान पूण तें वाडोनच येता आनी आमची स्थिती तूं पळेताय. कशें? तू कांय ब्रिलियंट स्टूडंट न्हय म्हण हांव जाणा. कशें? वयर पडशी?

■■■

# 3

जिल्ली टिचेर आनी मिक्की टेलराचो पूत जेराल्ड पायस बी. कॉम परीक्षेंत वयर पडलो ना. ताच्या सांगाता मोली पिरेरीचो पूत टेरेन्स आनी जेरीचो आप्त मित्र शिंटो पाव्लूसयी वयर पडलेनांत.

रिझल्ट येवंच्या दिसा मिसाक वेच्या निबान जेरीन सकाळींफुडेंच सुरांट मारल्ली, एक घोट च्यायी पियेनासतां. ताका खचीत कळीत आसल्लें की आपूण खंडीत जावन पास जावंचो ना म्हण.

आपणाची आवय टिचेर न्हय जाल्ली तर तो रेजिस्टर्ड नंबर चूक सांगतो, पूण जिल्लीन ताची हॉल टिकेट पयलींच पळेल्ल्यान ताच्यान कांय करूंक जालें ना.

सकाळीं दडबडोन मिसाक न्हेसच्या आपल्या पुताक पळेवन जिल्ली म्हणाली. 'एका मिसावर्वी रिझल्ट बदलना रे म्हज्या पुता.'

तवळ तिचे दोळे चुकवन तो धांवल्लो पूण वालेन्सिया इगर्जीक न्हय, कंकनाडी पेपर स्टॉलाक; पत्राचो बटवाडो घरा पावताना वोरां आठ उतरतलीं देखून.

कंकनाडी पेपर स्टॉललार्गी टेरेन्स आनी शिंटो येदोळच हाजर आसल्ले. टेरेन्साच्या बोटांमदें सिग्रेट धुंवरताली आनी शिंटो शून्यि दीश्ट हेणेतेणे भोंवडायतालो. जेरीक पळेलेंच टेरेन्स जांगळाक थाप मारुन हांसलो. रिझल्ट पळेवंक म्हण पेपरां घेवंक आइल्ल्यो उमेदवंत चलयो टेरेन्साच्या हास्याथंय प्रेरीत जालींनांत.

'तुजें नंबर ना'. म्हणालो टेरेन्स. 'बेश्टेंच पेपर घेनाका, पूण त्याच पयशांनी म्हाका दोन सिग्रेटी घेवन दी.'

शिंटो ह्या दोगांक पळेलागलो. 'आमी पास जायजे आसल्लें' तो म्हणालो. 'धीस इज नॉट गुड.' ताणे चलयांच्या पंगड्याचेर एक नीरस दिश्ट चलयली. 'हीं भेंकरीं सयत पास जाल्यांत म्हण दिसता' ताणे ताळो काडूनच म्हळें आनी तें त्या चलयांक आयकालें. तांचें पयकीं थोडीं पुणी हांका ओळकतालीं.

'पास जावंचें भेंकऱ्यांनीच!' तांचेपयकीं एकलें म्हणालें. तुमी बसोन मेंदवाक सिग्रेटीचो धुंवोर घाला, स्टुपीड्स! जाप दिवंक हांचेलागीं उतरांनातल्लीं.

'चलयां, इंद्रभवनाक वचोन नास्टो करयां', म्हणालो टेरेन्स. 'चल–रे शिंटो, आज तुजें सेलेब्रेशन'

जेरीन आपल्या वोंच्याचेर दीश्ट घाली.

'इंद्रभवनांत मसालादोसे मेळचे साडेसातां उप्रांत,' तो म्हणालो. 'हांवें मिसाक वचाजे आसल्लें, समा जातें.'

'आठांच्या मिसाक वच.' सुचायलें टेरेन्सान. 'तुज्या माम्मीन तयार करून दवरच्या मीठ–मीरसांगेचो हुलोप सोंसूंक कांय बळ मेळत.'

'सोड, टेरेन्स,' विरारायेन म्हणालो जेरी. 'हांवें पास जायजे आसल्लें, माम्मीखातीर पुणी. शिकल्लों हांव, पूण कितें करयां, खंडीत जावन इनकम टेक्सांत या स्टेटिस्टीक्सांत गेलां आसतलों. पळेयां पेपर दी...' ताणे शिंटो लागचें पेपर घेतलें आनी तें उसवन नंबर सोदलें. प्रिंट मिस्टेक जावंक साध्य आसा न्हय?'

'बुलशीट', म्हणालो टेरेन्स. 'चल, सिग्रेटीचे पयशे भायर काड. हा! एक बॉत्ल बीयर मेळल्लीतर आतां कितलें बरें आसल्लें. तें दिवार उगतें जातायी साडेधांक'

ताचें आयकोन जेरीन आनी शिंटोन दिश्टी बदलिल्यो.

'तुका हें मादक बरें न्हय, टेरी'. म्हणालो जेरी. तुज्या हातांनी दुडू खेळटा कित्याक तुजो बापूय कुवेटांत आसा. आनी तुजो व्हडलो भाव मुंबय आसल्लो तो वोनयेक घेवन बाहरेन पावला म्हण तूंच म्हणताय...'

'हां! सुरू जालें टिचेरीच्या पुताचें', म्हणालो टेरी आपले सिग्रेटीच्या धुंवराचेर खोंकली काडून. 'म्हजेलागीं पयशे आसोनय पयशेनांत म्हळ्ळोच विपर्यास न्हय? भियेनाका, तुजेलागचे घेतल्ल्या पयशांचें हिसब दवरलां हांवें. बोटांमदें आसल्लें सिग्रेटीचें मुळकाट ताणे पयस उडयलें.

‘विचित्र दिसता म्हाका’, म्हणालो शिंटो. आमच्याकी चड पॉकेट मनी मेळता तुका पूण सिग्रेटीक तुजेलागीं पयशें आसानांत म्हळ्यार कशें?’

‘आतां मलेयाळी कुट्टी उठलो.’ भुजां हालयलीं टेरीन आनी जेरीच्या हातांतले पयशे घेतले आनी पेपर स्टॉलांतल्योच दोन ‘सीसर्स’ घेतल्यो. ‘न्हय, तुमी मलेयाळी तरी जाशात. डबे घेवन ‘अंगळ - गिंगळ’म्हण आयल्यात आनी हांगासर वयवाट बिसनेसां सुरू केलीं... तुज्या आण्टीक कितें आसा म्हणतालोय?’

‘सेल्ली आंटीक ‘कुरियन चीट फंड आसा’

‘एक्सलंट’, म्हणालो टेरी. तूं फेल जाल्यार कितें. सप्लिमेंटरीक बस. चीट फंड म्हळ्यार कमर्शियल लायनच न्हय? तुजी आण्टी तुका काम दितेली.’

शिंटोन कांय म्हळें ना, पूण ताच्या मुकमळावयल्या भावनान कळतालें कीं ताच्या तकलेंतलीं रोदां घुवोंक सरू जाल्लीं म्हण.

तितल्यार, टेरी एकाच्छाणे पेपर स्टॉलाच्या फाटले कुशिन गेलो. जेरी आनी शिंटोन एकामेका पळेलें.

‘हो चेडो चड तेंप वांचाना’ म्हणालो शिंटो. ‘आतां सिग्रेटीचो तंबाकू काडून अफीम, गांजाचो पिटो भरता पळे.’

जेरीन स्टॉला फाटल्यान वचोंक दोन मेटां काडलीं, पूण पाटींच आयलो. ‘हाच्या संवयांक लागोन कांय तरी जालें तर नांव येवचें आमकां, शिंटो!’ तो म्हणालो.

‘तूं नेणाय, ताच्या आवयची मोली पिरेरीची कालेत आनी मेंटॅलिटी’ म्हणालो ताळो तपकट करून ‘लडायेची मार ती आनी तिका बॅकींग आसा गल्फ दुडवाचें. तिचो म्हालगडो पूत ब्यारन मात्र भांगार भुरगो आनी ताका आपुरबायेची होकल मेळ्ळ्या. आनी तें निमाणें आसा पळय, डीना... तें आवयक विकून खायत. आमचें इवोन आनी डीना एकाच इस्कोलांत शिकतात आनी सदानीत तांची कंप्लेंटां चुकल्लीं नांत.’

‘तुमी भारी लागीं आसात,’ म्हणालो शिंटो दोळे मिटकून. ‘डिनाक पळेलां हांवें. आतांच चिक्की चिक्की गर्ल...’

जेरीन कितेंयी म्हणच्या पयलेंच टेरी हेवशीन आयलो. ताच्या बोटां मदें सिग्रेट

एक नव्याच परमळान धुंवरताली. परत्यान शिंटो आनी जेरीन एकामेका पळेलें.

'तुमी कितें चिंतात म्हण हांव जाणां,' म्हणालो टेरी. 'पूण लायफ येंजॉय करिजे ब्रदर,' ताणे एक बळीश्ट दम मारलो आनी ताचे दोळे एक पावटीं 'गिर्र' करून घुंवल्ले परीं जेरीक दिसलें.

'आमी चलोनच बल्मठा या.' तो म्हणालो पेपर शिंटोक पाटीं दितेच. 'फुडें कितें करचें म्हण वाटेर डिसकस करयां.'

'म्हाका डिसकस करूंक कांय ना', म्हणलो टेरी, कांपेऱ्या ताळ्यान.

'सप्लिमेंटरी येता पर्यांत जॉली करचें'.

'उप्रांतय जॉली करची तांक तुका आसा टेरी', म्हणालो जेरी. 'आमचे पयकीं डेस्परेट मनीस हांवच!'

कोणेंयी कांय म्हळें ना. पूण सांगाताच मेटां काडलीं. वाटेर उलोणें चलाजे आसल्लें, पूण टेरीचे हालहवाल बिगडोनच येताले जाल्ल्यान ते उलयलेनांत. हांचे इश्टागतींत एक सल्वण आसल्ली कसलीगी म्हळ्यार टेरीची अमाल – मादक सेवनाची. येदोळपर्यांत जेरी आनी शिंटो हे सवंयेक बली जावंक नातल्ले, पूण हरएके गुडा – आंगडेंत मादक द्रव्यां मेळोंक लागताना आनी असल्योच गुडा – आंगडी सर्व कॉलेजींच्या गेटी लागीं उगत्यो जाताना टेरी तसले सदीळ शिस्तीचे चले सुलबायेन ह्या रंगरंगाळ संवसाराक बली जाताले. टेरीक पोकेटमनी धाराळ मेळताली खरें. पूण मादक द्रव्यांचें मोल सप्लायेचेर होंदोन आसल्ल्यान ताका सबार पावटीं हेरां लागचें उसणें घेवंक पडतालें.

जायते पावटीं, हातांत पयसो आसल्यारी ताका म्हाल मेळानातल्लो कित्याक म्हळ्यार ते शिकचे कॉलेजींत एक प्रबल गँग आसल्लें. दि बाराकुटा गेंग. बाराकुटा म्हळ्यार एके जातीची मासळी, जी आपल्या तोंडांक मेळल्लें सर्व पिंजून तीर तिरकूट करून खावचें तसली. ह्या गँगांत आठ जण आसल्ले आनी हांच्या लागीं काळ्यावर्णाचीं बायकां आसल्लीं. ह्या बायकांच्या पेट्रोल टाकींचेर बाराकुटा मासळेचें पिंतूर भांगारा वर्णान सोडइल्लें आसतालें.

ह्या गँगाचे 'मार्केटिंत' मादक द्रव्य आइल्ल्याफरा सांटो मारून तीं घेताले आनी तांचोच धंदो चलयताले. तांचेलागींथावन दुबारी[12] मोल दिवन द्रव्यां घेताले मीत मिरवाल्ले मादक व्यसनी. पूण टेरी येदोळ पर्यांत ते स्थितेक पावोंक नातल्लो, पूण

वेगींच हे परीं तो मुकारोन वचात तर थंयसर पावंचीं खुणां दाखयतोलो.

असलें आनी हें सर्व प्रतिश्टीत कॉलेजींच्या स्टूडंटांमदींच घडतालें आनी ह्या मदें कातोलिकांनी चलवंच्योय कॉलेजी आसात म्हणताना मंगळुराक म्हयन्यावार येवंचो मध्यप्राच्यांतलो[13] दुडू खंचेरितीर कुटमां विनिमय करतात म्हळ्ळें कळतालें, पूण दिसनातल्लें.

अशें जावंक सबार कारणां आसल्लीं. पूण प्रमुख कसलें म्हळ्यार भुरग्यांनी गांवांत उरोन शिकप चलवंचे आनी मध्यप्राच्यांत आवय - बापूय दोगांयनी कमावचें. 'एकल्याचे जोडीन कांय उरवणी ना. भुरग्यांक आमचे सांगाता व्हेल्यार दोगांयकी काम करूंक जायना, खर्च विपरीत. देखून, एकच, तांकां आमच्या कुटमादारां सांगाता या खासगी हॉस्टेलांनी दवरिजे पडता.'

असल्या चिंतपाक आनी परिगतीक भकीक पडल्ल्यां सबार युवजणांपयकी टेरी एकलो. ताची आवय मोली पिरेर आनी भयण डीना ताच्या सांगात तांच्याच स्वंत विल्लांत रावताल्लीं तरी मोलीच्या हंकाराक लागोन टेरीक मेळल्ली फरगताय एका दिसा ताका खंय व्हर्न पावयत म्हळ्ळो अंदाज करूंक साध्य आसल्लेंतरी, मोलीक हो अंदाज करूंक नाका आसल्लो.

टेरी, शिंटो आनी जेरी कशे इतल्या लागीं आइल्ले म्हळ्ळें तांकांच सारकें उडासांत नातल्लें. जेरी वालेन्सिया थावन कंकनाडी चलोन येताना ताका टेरी मेळतालो आनी तशें चलोन मुखार वेताना ताका जेरी मेळतालो आनी तशे चलोन मुखार वेताना... बेंदूरवेल नाक्यार शिंटो. सुखेर, हांच्याकी चिक्केशे डौल न्हेसचो टेरी बसार या रिक्षार वेचीं खुणां दाखयतालो. पूण एका दिसा कितेंगी हे तेग सांगाताच चलोंक लागले. अशें हायस्कूलाथावन सुरू जाल्लें हें आमीगपण आतांय चालू आसल्लें.

टेरीक मादक, द्रव्यांची सवंय कशी सुरू जाली म्हळ्ळें शिंटोक या जेरीक कळीत आसल्लें. एक पावटीं ते पी. यू. सी. पयल्या वर्सांत आसताना कोणेगी तांकां सांगल्लें, टेरीच्या पँटाच्या बोल्सांत केदाळाय एक क्वार्टर आसता म्हण. हें आयकाल्या उप्रांत जेरीन एका दिसा ताची चोरी धरलीच आनी टेरीच्या तोंडाक विस्केचो वास आइल्लो कळीत जाताना ताणे ताचे बॉल्स आफडले. व्हय एक काल्दी बोत्ल ताच्या बॉल्सांत आसल्ली.

'आमी पार्पळपणां करयां पूण ही संवय नाका.'

म्हण ताका जेरीन आनी शिंटोन जागयलें. 'एकेक पावटीं आमी सांगाता मेळोन 'दिवारांत' बसोन बीयर पियेयां. आमी आसांव न्हय तुका?'

'तुमी खंडीत जावन आसातगी म्हाका?' म्हण विचारून टेरी रडल्लो. 'म्हाका सक्कड आसोनय संवसारांत कांय ना'. अशें म्हळें टेरीन. पूण तो आमालाच्या जाळांत सांपडोन अशें उलयता म्हण ह्या दोगांनी ताच्या उतरांचें चड गुमान केल्लें ना.

टेरीची चोरी हाणीं धरल्ल्या उप्रांत एक - दोन म्हयने तो स्थीर - स्थिमितांत आसल्लो. पळेवंक गेल्यार, टेरेन्स, पिरेर एक 'ए' क्लास विद्यार्थी. ताची मत चुरूक, तालेंतां धाराळ, बरो हॉकी प्लेयर, गावपी वाजंत्री आनी पळेवंक हॅण्डसम. आतां' तां कॉलेजींत चलें चलयो सांगाता शिंकतालीं आनी चलयांच्या पंगडांत टेरी कांय हिरोच.

घरच्यांच्या दोळ्यांक दिसल्यारी तांकांच कळीत नासतां म्हळ्ळेपरीं अमलाची सवंय टेरीक घरा थावनच सुरू जाल्ली.

वर्सावार कुवेटथावन येंवचो ताचो बापूय, कुवेटांत सोरो मेळानातल्ल्यान फुडल्या एका वर्साक जाय तितलो म्हण दिसाचें तिनय पावटीं बियरीथावन सुरू कर्न रातीचें स्कोच्यान घोंट भरतालो. रातीचें तांगेर फेस्त-खेस्तच. इन्शुरन्स एजण्ट, बॅंक मॅनेजर, संगसंस्थांचे वांगडी जरूर आसताले आनी मि. पिरेराक जायतितलें होंगळसिताले आनी मिसेस मोली पिरेरीच्या रांदपाची तारीफ करताले. आनी असल्या संदर्भांनी सऱ्यां सांगाता बसोंक टेरीक आपवणें मेळतालें आनी 'कंपनी' खातीर ताका एक ग्लास बीयर दिवंक मि. पिरेरा संतोस आनी अभिमान पावतालो. 'म्हज्या ब्रिलियंट बॉयान कॉमर्स घेतलां' तो म्हणतालो. 'तो इंडियाचो फायनान्स मिनिस्टर जालो तर बरें आसा ना तर ताका हांव कुवेटाचो अर्थिक मंत्री करतलों.' अशें म्हण मि. पिरेरा पेगा पाटल्यान पेग देंवयताना ताच्या कुवेटी दिनारांक आपापल्या फायद्याक घुवंडावंक आइल्ले ताळयो पेटून हांसताले.

घडये घडये चाकणें हाडूंक मि. पिरेरा पुताक भितर धाडताना तो मोलीच्या कानांक वांयंगीं बांदतालो. 'वॉट इज धिस मां?' तो म्हणतालो. 'आतां हांव कॉलेज स्टूडंट. म्हाका फकत एक ग्लास बीयर आनी डाडाक आनी त्या स्टुपिडांक

स्कॉच?' आनी तवळ मोली ताका सांगताली, 'कबाटांत स्कॉच आसा, एक ड्रींक तयार कर आनी ग्लास फ्रिड्जा फाटल्यान दवर... आय से, म्हाकाय एक 'स्टीफ' जीन्न तयार कर पुता.'

ही जावन आसल्ली सुरवात. 'अशें रात आकेर जाताना मि. पिरेराच्या रगतांत टेरीच्या रगतांत आसच्याकी उणें अमाल आसतालें आनी मोली कांय पाटीं उरानातल्लीं.

पी. यू. सींत अमालार आसल्ले गॅज्युयेशनाक पावताना मादक द्रव्यांचेर बसतात म्हळें एक नेम टेरीक हातांक लुवां बसचेपरीं फिट्ट जालें. हाका कारण टेरीचो सदीळ जिनोस आनी येदोळच पातळ जाल्ल्यो आनी अमालाच्या पाटिंब्याचेर मात्र नीट रावंच्यो ताच्यो शिरो. सकाळींचें एक घोट 'नीट' मारल्याखेरीत ताच्या शिरांक जाग जायनातल्ली आनी सुमार धा वोरां पर्यांत तो सारको आसतालो. सारको म्हळ्यार सामको सारको. शिकप ताका रिगतालें, चटुवाटिको ताका आवडताल्यो. गावपां – वाजंत्र्यांनी तो सुडाळ आनी स्पश्ट आसतालो. कोणच सांगते नांत ताच्या पोटांत येदोळच एक काल्दी गेल्या म्हण.

पूण जालें अशें एका दिसा कसल्यागी एका प्रोग्रामा वेळार टेरीची दुसरी काल्दी सुरू जाली आनी जम्या मदेंच ताणे बॉत्ल तोंडाक तेंकताना प्रिन्सिपालान पळेलें. कार्ये संपचेपर्यांत तो कसलेंयी क्रम घेनास्ताना रावलो कित्याक त्या युवा कार्यक्रमाचो संचालक टेरीच. उप्रांत ताणे टेरीक आपल्या दफ्तरांत आपयलो.

'तूं जाणाय तुका हांगासर हांवें कित्याक आपयलां म्हण?'

'व्हयसर. म्हाका...' ताणे पाटीं पळेलें. शिंटो आनी जेरी भायर आसात म्हळ्ळें ताका कळीत आसल्लें.

'ते कोणय तुज्या बच्यावाक येंवचे नांत, टेरेन्स.' म्हणालो प्रिन्सिपाल. 'असल्यो संगती घडताना `You are alone in this world and you die alone too!' सबारांथावन हांवें आयकाल्लें पूण आज दोळ्यांनी पळेतानाच हांव पातयेलों. But why?'

'म्हाका प्रॉब्लेम्स आसात, सर.'

हें आयकोन प्रिन्सिपाल सुक्यो हांसो हांसलो. 'तर म्हजे लागीं ये, तुज्या माम्मी लागीं वच, पूण बोत्ली सरशीं वचानाका.'

'तुमकां समजाना, सर.'

हें हांव सदांय आयकातां, मायबॉय. तो उठलो 'आतां रात जाली. तूं शीदा घरा वच. बॉल्सांत आनीकी स्टफ आसा तर पिये, उडय म्हळ्यार तूं उडवंचो नाय. बरो जेव, आनी न्हिदे. फाल्यां येताना माम्मीक आपवन हाड'

'आनी अशें करिसोना, सर.'

'गुड नायट, टेरेन्स पिरेरा.'

दुसऱ्या दिसा मोली पिरेर आयली आनी तिणे प्रिन्सिपालाक भास दिली. कीं कॉलेजीच्या परिसरांत आपलो पूत असलीं कामां करीसो ना म्हण.

'हांवूय भुरग्यांचो बापूय, मिसेस पिरेरा', नम्रतेन म्हणालो, प्रिन्सिपाल. 'जशें म्हज्या भुरग्यांचेर तशें म्हज्या विद्यार्थीचेर म्हजी·जवाब्दारी कॉलीजीच्या भितर आनी भायर एकाच वजनान आसा.'

'तर आमी पॅरेंट्स कित्याक सर?' ती सणसणली.

येद्या व्हडा जवाब्दारेचें प्रोग्रॅम टेरीन यशस्वी रितीर निर्वयसिलां आनी टेन्शनाक लागोन कांय एक दोन घोट मारले तर तुमी कित्याक फेडरल केज करची? ताका रात पर्यांत राववन, विचार कर्न, धमाकून पार्टी धाडचो? सगळी रात न्हिदोंक ना म्हजो पूत. ये. सी. रूमांत न्हिदोनय पांय बडयतालो. आमी मर्यादीच्या घराण्यांतलीं सर आनी आमी तांकिवंत मनशां, सोसायटींत मान आसल्लीं मनशां. आमी आनी आमच्या म्हालगड्यांनी ह्या कॉलेजीखातीर जायतें केलां 'Please Remember that!' त्या दिसा थावन प्रिन्सिपालान टेरीची खबर सोडली.

बोल्सांत क्वॉर्टर लिपंवच्याकी मादक वोक्तां लिपवंक सुलभ म्हण टेरीन बाराकुटा गँगाची सळावळ केली. आनी आतां टेरी म्हळ्ळें चलचें मोडें[14] बल्मठा इंद्रभवना कुशीन मोड्याची चाल चलतालें.

■■■

# 4

दोनपारांच्या एका वोराक बारा मिनुटां आसताना पाद्देवन शें भितर रिगल्ल्या पुताक दोळे अशीर करून पळेलें जिल्ली टिचेरीन. ताचें मुखामळ काळबेल्लें आनी मुदयाळे केंस बिसळे जाल्ले. ताची चाल चिक्केशी अस्थीर दिसली तिका.

घरांत इवोन आनी ती मात्र आसल्लीं. आयतार जाल्यारी मिक्की पायस शॉपाथावन येवंक नातल्लो. आयताराचें ताचें टेलरींगशॉप अर्दो दीस मात्र उगतें आसतालें. सबार पावटीं ताणे म्हळ्ळें आसा, आता शॉप उगतें दवरूंक आसा तरी कितें? शिंवणेचीं कामां उणीं जाल्लीं आनी उणीं जाइत्त येतालीं. ताच्या हातांत मुळावें कटींग शिकल्ले आज मास्टर टेलर जावंक पावल्ले, पूण ताचो उडास दवरून थोडीं चिल्लर कामां ताका धाडताले. तो तीं घेतालो आनी पुरपुरनातल्लो. आतां शॉपांत फकत दोग टेलर आसल्ले आनी एकलो चलो कांजां बुतांव शिंवोंक, चडीत काम आसल्यार मिक्कीच मिशिनार बसतालो.

तरी तांकां कोणायलागीं हात वोड्डांवक करचे तसले दीस येवूंक नातल्ले. मनांतच सुशेगाचे जिणेचे आंवडे उटताले तरी जिल्लीक कळीत आसल्लें की जेरीन फुडमेट[15] काडल्याशिवाय कंय जावंचें ना म्हण. ताका जायतर तांत्रीक शिकप दिवंची तांक मिक्कीक आसल्ली, पूण गणितांत अस्कत आसल्ल्या जेरीक तांत्रीक शिकप म्हारग पडतेलें म्हण तीं बऱ्यान जाणा आसल्लीं. बी. ए. शिकप फक्त चलयांक सहज जाल्लें म्हळ्ळें एक भावन[16] मंगळुरांत आसल्लें जाल्ल्यान जेरीन ते कुशीन घुंवोन सयत पळेलें ना.

इवोन मात्र शिकपांत हुशार आनी चालींत चुरूक. ताका जिल्लीचीं लक्षणां आनी बापायची गोरसाण आइल्ली आनी हां, इवोनाचो पांय सारको आसा या ना म्हण 'टेस्ट' करूंक विल्मा नातल्लें तरी, इवोनाचो पांय सारकोच आसल्लो. हें

चिंतून थोडे पावटीं जिल्ली आडहुकायेन हांसताली. इवोनाविशीं तिका कांय खंत नातल्ली. चेडूं एक डिग्री मारीत जाल्यार कोण गल्फांगार झोंपय मारून ताका व्हरीत म्हळ्ळो भरवसो तिका आसल्लो. तिका खंत जाताली तिच्या एकल्या पुताविशीं जाका खंचो कृष्णाभूत लागला म्हण तिका समजानातल्लें. तशें म्हणोंक जेरी कांय मंद मतीचोय न्हय, मंद गतीचोय न्हय. ओट्टारे ताका कश्ट काडूंक नाकासले. तिणे सबार पावटीं म्हळ्ळें आसा 'येतेले दीस तवळ तूं खंय वेताय या येताय म्हळ्ळें तुका कळीत आसचें ना. आनी तवळ मिक्की तिका धमकितालो 'घडये घडये तशें म्हळ्यार वडिलांचीं उतरांय भुरग्यांक शिराप जावन लागतात.'

'जेरी आयलो मा! म्हणालें इवोन. भाव – भयणी मदें प्रायेचो अन्तर आसल्लो तरी इवोन ताका जेरीबाबा म्हण उलो मारिनातल्लेंच जिल्लीक पसंद. बाये बाबा म्हणचें हळ्ळेगारांनी[17] या घरचाकरेक आसल्ल्यांनी म्हळे चिंतप तिचें. आपूण कन्नड मिडियमांतली टिचेर जाल्यारय आपणाक कोणय जिल्ली बाये म्हण उलो मारिनात म्हळ्ळेंच तिचें वर्ते समाधान. जिल्ली टिचेर म्हळ्ळें वोक्काणें तिका पसंदच.

'दिसता म्हाका', ती म्हणाली एक लांब अस्वास सेवोन.

'ताका धमकीनाका मां', इवोन पुसपुसलें. ताणे जेरीचें रिझल्ट पेपराचेर पळयिल्लें. 'सप्लिमेंटरी आसा न्हय?'

'जिणेंत कितल्यो सप्लिमेंटरी येनात म्हण तूं नेणाय इवोन! ती म्हणाली धावेंत शिकचे धुवेक पळेवन. फुलोन आयिल्लें चेडूं. आनिकी बरें खाण, बरीच नवी नवी मुस्तायकी घाल्यार तें सोबतालें आनी दोळे काडतालें.

'फिलोसोफी नाका, मां' तें म्हणालें 'थकोन आयला तो.'

'खंचे गुडे खोंडून?'[18] तिणे विचारलें.

'हांव ताची आवय, इवोन. तूं चिंतिनाकाय कीं ताचो मोग फकत पप्पाक आनी तुका आसा म्हण. हांवें ताका कितेंय सांगचें आनी करचें ताच्या आनी ह्या घराच्या बऱ्याकच.

जेरी सोप्यार पावलो.

'जेवण मेजारच आसा', जिल्ली म्हणाली.

'हांव जेवण करूनच आयलां.' जेरीन दाट ताळ्यान फट जाप दिली.

'तर दोनपारांची मॅटिनी पळेवनच घरा येतोय न्हय?' तिणे सोंसूंक जायनासतां




म्हळें.

'आज कसोयी आयतार न्हय?'

'तुका कितें जाय तें म्हण मां!' तो म्हणालो. 'व्हय हांव फेल जाला.

'आनी ते हेर दोग? त्या मोलीचे पूत आनी तो शिंटो पावलूस?'

'तेयी वयर पडोंक नांत.'

'कशे पडतेले?' तिणे विचारलें. 'मुकलें जोत गेल्ले परींच न्हय पाटलें वेचें?'

'तुजें कळ्ळिगेचें उलोणें नाका मां' म्हणालो जेरी बापायच्या इझी चेराचेर बसोन. 'म्हजी तकली सणसणता.'

'खंच्यांत उसळ्ळाय जेरी?' भायर आइल्ल्या इवोनान विचारलें.

'तुकायी कितें सुरू जालां इवोन?' ताणे विचारलें. खंच्यांत फेल जालाय म्हण विचारचें सोडन खंच्यात उसळ्ळाय म्हणताय? हांव कितें तितलोयी...' ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

'केदळा पळेल्यारी हें करिनाका, तें करिनाका म्हळें रजार. हाका पळे, ताका पळे, तांचें घर पळे आनी हांचो बंगलो पळे... हांवें जल्मोकच नजो आसल्लें ह्या घरांत.'

'तसले कसले कश्ट दिल्यात रे तुका आमी? कित्याक कांटे फापुडताय? कांय बीयर पुणी पियेवन आयलाय? सल्वणी खिरवंक तुमी दादल्यांनी पियेवंचें न्हय?'

'प्लीज मॉं!' परातलें इवोनान. 'आतां कोणच्या फायद्याक म्हण उलयताय तू? ब्रिलियंट आसल्लीं सयत फेल जातात.'

'तूं म्हजी वकालत करिनाकाय इवोन!' तो म्हणालो. 'ती उलंवंदी जशें वर्साथावन ती उलयीत आयल्या तशें. व्हय, हांव एक बॉत्ल बीयर पियेवन आयलां.

'हां, त्या टेरीच्या पयशांनी आसतेलें!' ती उद्गारली. 'फेल जाल्यार फेस्तां करची तांक आसा तांका. पोयर सेडेलिटी मिटिंगा वेळार...'

जिल्लीन मुकारुंच्या पयलेंच मिक्की घराचीं मेटां चडलो. एक दिश्ट सोप्यार घालतनाच ताका परिगत समजाली. जेरी फेल जाला म्हण ताका सकाळींच कळीत आसल्लें.

बापूय भितर सरल्लोच जेरी इझी चेयरा वयलो उठलो.

'बसरे पुता बस', म्हणालो मिक्की. 'एकादिसा तुका बसोंक न्हय हें इजीचेयर?'

'आतां, तुवेंय सुरू केलेंय पप्पा?' जेरीन दुकां पुसलीं.

'व्हय हांव फेल जालां आनी आतां एक बोत्ल बीयर पियेवन आयलां. आतां कितें करतात म्हाका? फाशी दितात?'

'दादल्यांनी रडोंक नजो,' म्हणालो मिक्की. 'दादल्यांनी रडल्यार संवसार हांसता. हांव हात - पांय धुवन येतां, आमी सांगाता बसोन जेवयां'. हें आयकोन जिल्लीन कसलेंगी उलवंक तोंड काडलें, पूण मिक्कीन एक दीश्ट दिल्ल्यान ती चूप जाली.

आपणाक भूक नातल्ली तरी, बापायचो सांगात तवळयी आपणासंगीं आसा म्हण पळेवन, जेरीची 'उस्मड' तत्कालाक थांबली. न्हाणयेक वचोन ताणेय निर्मळाय तिर्सिली[19].

'मोलीच्या पुतान टेरिनय लाट घाल्या खंय!'

जिल्लीच्यान वोगें रावोंक जालें ना. 'कांय हून करिजे जाल्यार करतां....' मेजावयल्या जेवणाक दाखवन ती म्हणाली. 'आनी तो शिंटो, तोयी उसळ्ळा.'

'तुका संतोस जायजे!' म्हणालो मिक्की. 'म्हाका समजाना जिल्ली, तूं कित्याक हेरांचेर तुजें पिंत कडयताय आनी आय्यताय म्हण. वाड्यांत तुका आनी मोलीक समा पडना म्हळ्ळें संवसार जाणा....'

'मोलीची पूत आमाली[20] म्हण कितलीं जाणां जाणांत??

'कित्याक हेरांनी जाणा जायजे?'

'व्हय, हेरांनी कित्याक जाणाजायजे?' म्हज्या पुताक कळीत आसल्यार पुरो. कळीत आसोनय तो ताचो आमीग जाला आनी तो शिंटो, शिरलो मांडोच. जाय जाल्लेपरीं रंग बदलिता.'

हें आयकोन मिक्की मट्व्यान हांसलो. 'सगळ्या संवसाराचें बरेपण करूंक तूं भायर सरलांय जिल्ली?' ताणे विचारलें.

'म्हज्या एका पुताचें बरेपण करूंक भायर सरल्ल्या म्हाका मेळता पळे!'

'तसलें कितें केलां हांवें?' विचारलें जेरीन, बोशयेंत कितेंच घेनासतां.

'गल्फांत वचोन कमायजे म्हळ्ळी आशा हांव जारी करतलो. पूण ताका वाट तूंच सोद मां. म्हाका कोणाचे पांय धरूक, साध्य ना. पूण त्याफुडें...'

'त्या फुडें कितें?' जिल्लीन विचारलें. 'जाप दिवंच्या पयलें जेवण घे. केन्नाय शिताक राकोंक करूंक नजो. आयतार जाल्ल्यान जिल्लीन दुकराचें मांस रांदल्लें आनी कयलेच्यो भोकऱ्यो केल्ल्यो. आयतार तरी दोनपारांचें कांय पेग्ग सेवंची सवंय मिक्कीक नातल्ली.

ताणीं चोवगांनी जेवण घेतलें.

'कितें म्हणतालोयरे पुता', एकाच्याणे बदलाल्या ताळ्यान विचारलें जिल्लीन. 'म्हाका एक टेंपररी काम मेळच्यार आसा... सप्लिमेंटरी येतापर्यांत. उप्रांत परमनेंट जाल्यारी जालें...'

कोणेयी कांयच प्रतिक्रिया दाखयली ना आनी जेरी मातसो चिडलो.

'बरेपणाची खबर सांगल्यारी तुमकां कांय खुशी जायना!' तो म्हणालो.

'सुडाळ सांग जेरी,' म्हणालो मिक्की. कामां कितें आजकाल झडांचेर उमकाळतात? तेंयी तूं आनिकी ग्रॅज्युयेट जावंक नाय, फेल जालाय. कसलें काम?'

'एका चीटफंड कंपेनीत.' सर्वांचेर दिश्ट चलवन सांगलें जेरीन.

'संपदलें,' म्हणाली जिल्ली. 'हीं त्या शिंटोची कामां. ताच्या आण्टीकगी कितेंगी एक चीट पंड आसा. कसलें गो पुता तें?' जिल्लीन इवोनालागीं विचारलें.

'कुरियन चीट फंडस्', जाप दिली इवोनान 'आनी तिचें नाव सॅली कुरियन.' ताणे कुडसिलें.

'हांतू संपदूंक कितें आसा, जिल्ले?' विरारायेन विचारलें मिक्कीन.

'कामांत माहेत मेळल्ले तितली बरी न्हय?'

'चीट फंडांत काम करचें रिस्केचेंच' जिल्लीन आपली नापातेणी जाहीर केली. 'कितलेशो चीट फंड कंपेनी बुडल्यात. तुकायी रीस्क आसा जेरी.'

'तर कितें हांवें घरा बसाजे म्हणताय, मां? हांवें बरे केल्यारय जायना आनी पाड...'

'सांबाळ कितलो दिताय खंय?' जेरी थावन कसली जाप येता म्हळ्ळें जाणा आसोनय जिल्लीन विचारलें.

'मां,' म्हणालो जेरी तकलो हात मारून. 'हांव आनिकी सॅली कुरियनाक मेळोंक ना, मां. फाल्यां जाल्यार शिंटोन म्हाका तिच्या ऑफिसाक व्हरतां म्हळां.'

'तर तें काम शिंटोकच मेळतेलें.' आपलें तिर्प दिलें जिल्लीन. 'आजपर्यांत एका मलेयाळीन मलेयाळी न्हय आसलल्याक कुमोक[21] केल्या?'

'ही एक जेराल चूक समजणी', म्हणालो मिक्की. तरी तांचेथावन आमकां मंगळूरगारांक जायतें शिकोंक आसा. तांका बांदवपणाचो सबाव आसा...'

'संवसारांत मोली तसलीं आसल्यार कसलें बांदवपण येवचें, मात्ती?'

'घुंवोन घुंवोन तरी तूं तुज्या मोलीचेर येताय न्हय जिल्ले?' मिक्की म्हणालो भुजां उडोवन.

अशें जाताना जेरीची मत सकाळींच्या घडिताचेर आसल्ली.

कश्टांनी म्हळ्ळेपरीं तांच्या सांगाता चलोन टेरी बल्मठा मीशनांच्या मैदानापर्यांत आयलो. वोरां आनिकी साडेसात जावंक नातल्लीं जाल्ल्यान इंद्रभवनांत दोसेंचो वेळ येवंकनातल्लो.

'आमी थोडो वेळ मैदानार बसयां', म्हणालो टेरी अस्थीर उतरांनी. शिंटोन आनी जेरीन दिश्टी बदलिल्यो.

'तुवें घरा वेचें बरें, टेरी' म्हणालो शिंटो. 'जाय तर आमी तुका पावयतांव.

'नेवर', तो म्हणालो जोरान मातें हालयत. 'तें एक घरगी?' हांका राकानासतां ताणे मैदानाकुशीन मेटां काडलींच. उपाव नासतां हांणी ताच्या पाटल्यान मेटां काडलीं. एका वोडा रुकामुळांत टेरी कुस्कालो आनी बसलो. थोड्याच खिणांनी ताचे दोळे धांपले आनी तो मादकांचे असभावीक न्हिदेंत पडलो. हांकां कितें करचें म्हण कळ्ळें ना, ही परिगत तांकां कांय नवी न्हय तरी.

वॉकींग - जॉगिंगाक आइल्ले हांचेर एक सवालाची दिश्ट घालून चलताले. एक दोन सुणीं हांचे सरशीं घुंवोन पयस गेलीं.

'हाका कशें समजावचें जेरी?' म्हणालो शिंटो.

'ह्या पावटीं हाका असो सोडुंकच जायना', खचितायेन म्हणालो जेरी.

'एक काम करयां. हांव एक रिक्षा हाडतां आनी हाका ताचेर घालून घरा पावयां.'

'हें समंजस म्हण तुका दिसता?'

'व्हय तरी? हो कांय हांगाच घुड घालीत जाल्यार?'

'मोली पिरेर आमचेरच बदलाम घालतेली.'

'घालूंदी!' म्हणालो जेरी. 'हाका घरा पावयतच आमची जवाब्दारी संपता.'

'तशें चिंतिनाका तूं', म्हणालो शिंटो. आमी आमच्या मित्राक सोडून घालूंक जायना. बरें हांव रिक्षा हाडतां.'

रिक्षा येवंचे वरेग दोगां तेगांनी हाका कितें जालां म्हूण विचारलें आनी जेरीन सारकी जाप दिवंक चुकोन घेतलें.

टेरीक रिक्षार घालून वालेन्सियांत आसच्या घरापर्यांत व्हरिजे तर ताकां जिवार आयलें. टेरीच्या घरा गेटीलागीं रिक्षा रावताना दोग व्हडले जयत डोबरमेन पेटे ताळो पिंजून धांवोन आयले. पाटापाट, बागेंत उबारल्ल्या हिंदळ्यार[22] बसोन पेपर वाचून आसल्ली मोली पिरेर उटोन गेटीलागीं आयली.

'रिक्षांत टेरी आसा', कांपेऱ्या ताळ्यान कळइलें जेरीन. 'आमच्या सांगाता रिजल्ट पळेवंक म्हण आइल्लो... ताची भलायकी तितली बरी ना.' पिरंगोंच्या टेरीक दाखोवन म्हणालो शिंटो.

'कितें जालां ताचे भलायकेक?' ती खेंचली. 'वेतना बरो आसल्लो, आपूण खंडीत पास जातां म्हणतालो. कितें जालें ताका?' तिणे बागेंत काम करून आसल्ल्या मालींक हाक मारली. ते रिक्षालागीं धांवोन आयले. ताणे गेट काडतेच रिक्षा भितर सरली आनी कार पार्काचे देगेन रावली.

'कितें जालें ताच्या भलाकेक?' तोटाचे[23] माली आनी भितरथावन आइल्लें एकलें टेरीक आदारून भितर व्हरताना तिणे परत्यान विचारलें.

'आनी तुमी पास जाल्यात? तूं जिल्ली टिचेरीचो पूत न्हय? म्हाका आण्टी म्हणानाका तूं मिसेस पिरेरा म्हण'. जेरीन मुटी आर्दिल्यो, पूण कितेंय म्हळें ना.

'फेल जाल्यार असल्या मतीभ्रश्ट परिगतींत पडाजे तुमी, म्हज्या पुतान न्हय. कसल्या फायद्याची ही कॉमर्स डिग्री? त्याच उतरांनी म्हज्या टेरीक शिकजे म्हळ्ळी गरजच ना. ताका आनी फाल्यां तो एके कुंवरी लागीं लग्न जालो तर तांच्या कुटमाक बसल्लेकडेन भांगराचें शीत घालची तांक आसा आमकां' दोळे उरकुटावन ती म्हणाली. 'तुमचे तसले इश्ट आसल्ल्यान म्हजो टेरी असोयी बिगडला. फेल जाला तर पर्वा ना. येवंच्याच म्हयन्यांत ताका कुवेट धाडतां हांव.'

तितल्यार डिना भायर आयलें. आट वोरांच्या मिसाक वचोंक तें न्हेसल्लें आनी ह्या तरनाट्यांची दीश्ट नाका म्हळयारी डिनाच्या लिंपवंच्याकी चड दाखवंच्या आधुनीक न्हेसपाचेर आनी कुडीचेर चरली.

'आमच्या फॅमिली फिजिशियनाक फोन कर, डीन' म्हणाली मोली पिरेर. 'उप्रांत जायतर मिसाक वच. करंड्याक शेंबोरांचो नोट घालूंक विसरनाका. आमचो भावार्थ आमी जिवो दवरिजे, फिर्गजीक कुमोक करिजे. हां, कार हांगासरच आसूं, कांय गरज पडत. Tell the driver also and you take auto. आटो, चिक्केशे राव गा. आतां म्हजी धूव auto एक फोन करून येता आनी ताका वालेन्सिया इगर्जीक पावय आनी तुजें भाडें व्हर. मोली पिरेरीच्या पुताक गटरांतलो घरापर्यांत हाडलो म्हण तुवें संवसाराक सांगची गरज ना. कळ्ळें मूं? आमकां ह्या मंगळुरांत ओळकनातल्ले कोणय नांत म्हण अशें म्हळें.

'बाये', म्हणालो रिक्षा ड्रायवर. 'तुजो पूत गटरांत पडल्लो तर ताका थंयच हांव सोडतों! पूण ह्या मानेस्तांनी तशें करूंक नातल्ल्याक तांकां अर्गां दी.'

'आमी वेतांवं मिसेस पिरेरा', म्हणालो जेरी, चडीत चकमकी आडावंच्या इराद्यान. 'आमचें काम आमी केलें.'

'व्हय, आतां वचोन सगळ्या वालेन्सियांत खबर करा!' 'पुरो-मू?' रस्त्याक पावतच विचारलें जेरीन - शिंटो चूप रावलो. 'एकेक पावटीं माम्मीन म्हणचें सारकें म्हण म्हाका भोगता' जेरीनच मुकारिलें. 'जल्मताना एकच गिरेस्त जावन जल्माजे या एकदम दुबळो जावन. हो मध्यम वर्ग आसा पळे... मारेकार.'

इश्ट म्हण बरें करूंक गेल्यांव आनी हें आयकोंक मेळ्ळें', म्हणलो शिंटो. 'आमकां इतल्यार इतलें पूण ह्या टेरीची स्थिती बिगडता म्हळ्ळो जब्बोर दुबाव मारता म्हाका. आज कितें प्रोग्राम?'

'मत विकारल्या', म्हणालो जेरी. 'बोलसांत कितले आसात?'

'ती बंदोबस्त हांव करतां, पयलो नास्टो करयां, एक मॉर्नींग शो पळेयां आनी एकेक बॉत्ल बियर मारयां. ह्या बी. कॉमाची मारली शेंडी!'

■■■

# 5

शिंटो पावलुसान बी. कॉमाची मारली शेंडी म्हणताना जेरी उगत्यान हांसलो. कितलेशे दीस जाल्लो कोण्णा ताणे हांसनासताना. ते घडये ताका भोगलें कीं सगळो संवसार आपणा सांगाता हांसता म्हण आनी कित्याक नजो? आपणे कितें वायट केलां संवसाराक? हांव कितें खोटो भुरगो? तशें विचारूंक गेल्यार टेरी कांय वायट भुरगो? फकत आपल्या संवयेचो गुलाम. इश्टागतींत जीव दिवंक तयार आसचो इश्ट. शिंटो तरी तसोच. ताचें कुटम आनी म्हालगडीं कितलेशा वर्सां आदीं थावन मंगळूर आइल्लींकी, शिंटो आपले मांयभाशेच्याकी चड सुडाळायेन कन्नड, कोंकणी आनी तुळू उलयतालो.

हूं! आतां शिंटो पावलूस, टेरी पिरेर आनी जेरी पायस बी. कोमांत फेल जाल्ले आनी बी. कॉमाची मारली शेंडी म्हणोंक पयल्या दोगांक आसल्ली तांक जेरीक नातल्ली. शिंटोचो बापूय जल्ली फातरांचो आनी रेवेंचो वेपार करतालो. आनी मंगळुरांत उदेवंक सुरू जाल्ल्या एपार्टमेंटांक लागोन ताची कमाय बरीच आसल्ली. तेगां भुरग्यां पयकी शिंटो निमाणो.

टेरीची ख्यास्त सवयेंची जाल्यार हांकां, ख्यास्त म्हणचे तसल्यो कसल्योयी सवयो नातल्ल्यो. फक्त जिणेची जवाब्दारी नातल्ली म्हण तांकां आयकोन आयकोन पुरो जाल्लें. हर एकलो तांका सांगतालो, अशें करिनाका, तशें करिनाका म्हण, पूण कोणयी तांकां सांगानातल्ले कितें करिजे म्हण. शिंटो या जेरीलागीं कोणी विचारलें तर, तुमचे विशीं म्हाका सांगा तवळ तांच्या नांवां परस मुखार वचोंक तांकां सामर्थ्य नातल्लें. ही कसरत तांचे करना कावन्सिलिंगा वेळार सबार पावटीं चलल्ली आनी तकली विरार जावन शिंटो आनी जेरी भायर आयिल्ले.

कॉलेजींत चलयो आसल्ल्यो तरी शिंटो या जेरीक 'पोण्णू मारला' म्हण

कोणेयी म्हणोंक इंबुनातल्लो. ते आजूनपर्यांत कोणाचे पाटीक लागोंक नांत, पूण एके चलयेक आयडियलांत आयस्क्रीम खाववन सिनेमाक व्हरच्यापरस सांजेचें दोन बोत्ली बीयर घेवन कद्री गुड्यार गुमानीत बसोन ती सेंवच्यांत आनी सुडाळ उलवंच्यांत चड मजा आसा म्हण हे दोग पातयेताले. सोंप्यान सांगचें तर हे दोगय Harmless But irresponsible तरनाटे.

इंद्रभवनाक ते रिगताना आठ उतरलेलीं आनी धुंवरान भरल्ल्या हॉलांत गिरायकी आसल्लें. हें कांय पॉश रेस्टॉरंट न्हय तरी हांगाच्या 'स्नॅक्सांक' मंगळुरांत सर नातल्ली. बसका सोदून बस्तेच नाकाचेर काळ्या फ्रेमाचे वॉक्ल चडइल्लो वेटर आयलो. हो तांच्या मोगाचो वेटर आनी ताका तांणी हेडमास्टर म्हण नांव दवरल्लें. उलयल्ल्या उतराक आनी चड करून चडीत सांबार चटणी विचारल्यार तो चिडतालो.

शिंटोन सिंगल सज्जिगेरोटी, सिंगलवडा आनी रोस्ट मसाला दोसा ऑर्डर करताना जेरीन 'एरडू खाली' म्हण सांगलें. शिंटोच्या पोटाची 'केपासिटी' जेरीच्याकी चड आसल्ली.

'आमी खंयसरगी चुकल्यांव', म्हणालो जेरी. 'म्हाका फुडें कांय सुस्ताना, दिसाना.

'चुकल्यांव पास जावंक,' म्हणालो शिंटो. वेटरान हाडून दवरिल्ल्या उदकाच्या लोट्यांत एक बॉट बुडवन 'आतां सप्लिमेंटरीक राकचें' 'हर एक पावटीं जिणेंत सप्लिमेंटरी येनांत म्हण माम्मी म्हणता,' म्हळें जेरीन.

'तुका घरांत फिलोसोफी उलवंक माम्मी आसा', म्हणालो शिंटो, एक जांबय काडून. 'म्हाका घरांत उलइल्ल्या उतराक जल्ली फातोर पिटो करूंक घालतां आनी सांबाळ दितां म्हणचो बापूय आसा. एकेक पावटीं चिंततां हांव, जल्ली फातोर क्रश करूंक वेचें – गी म्हण. म्हजो बापूय कितें चिंतता, तो मात्र कश्टांनी व्हड जाल्लो आनी जावंक कळीत आसल्लो मनीस म्हण? आमी कितें शेळ्या शिताक वारें घालचे तरनाटे?' ताणे चिक्केशे ताळो काडल्ल्यान हेवशिल्या – तेवशिल्या मेजांसर्शी बसोन आसल्ले हांका पळेलागले.

'तूं जल्ली फातोर धाडायशी!' म्हणालो जेरी. 'हांव कितें करूं?' पप्पाच्या टेलरींग शॉपाक वचोंक म्हाका नाका.'

'लेडीस टेलर जाल्लोय तर सुपर जातोय', म्हणालो शिंटो हासो लिपवन 'बरो हेंडसम आसाय न्हय?'

'म्हाका काम जाय, शिंटो', मेजार न्हिदल्ल्या शिंटोचे हात धरले जेरीन. 'सांबाळाची पर्वा ना, म्हाका घरा बसोंक नाका. ती विरराय म्हाका सोंसूंक जायना.'

'ती विरराय आमीच जोडून घेतल्ली, जेरी, म्हणालो शिंटो ताचे हात दांबून. 'फाल्यां तुका चीट फंडाक आपवन व्हरतां न्हय हांव?'

'रियली? हांव विचारच्यार आसल्लों. तुजी आंटी कांय..' 'पळेयां. विचीत्र कालेतीची मनीस ती... अजून आंकवार....' तो एका वेगळ्याच ताळ्यान म्हणालो. 'आतां कशेंयी हांवें तिचेलागीं वजाजे.'

'कित्याक? अशेंच? जेरीन आपले मुस्तायकेक पळेलें. हांव सारको न्हेसोंक नामूं?'

'तुवें येवंचें आज न्हय', विवरिलें शिंटोन, 'हांव मात्र भितर वेतां. आयच्या प्रोग्रामाक आमकां शेळ जाय न्हय? हांगाचें बील दिल्या उप्रांत हेड मास्टराक 'टीप' दिवंक कितें तरी उरतागी म्हण पळेवंक आसा!'

बल्मठा नाक्यारच बस धरून ते कोडियालबयल पावले. बिस्पाच्या घराच्या उजव्याक आसच्या बिल्डिंगांत 'कुरियन चीटफंड' दफ्तर आसल्लें. इंग्लीश, कन्नड आनी मलेयाळमांत बोर्ड उमकाळतालो.

'तूं हांगाच राव', म्हणालो शिंटो. 'हांव वचोन येतां.'

सुमार वीस - पंचवीस मिनुटांनी तो भायर आयलो आनी जैताची निशाणी ताणे दाखयली. तो मेंटां देंवोन येवन जेरीक भेटताना ताणे सांगलें, दोनशीं रुपय सुटले.

'कितें सांगलेय तिका?' जेरीन विचारलें. शिंटोचे दोळे मिणकुले जाले.

'सत सांगलें,' तो म्हणालो. 'आज आमकां दोगांयकी मांडो हून जाला, मार्नींग शो पळेवन एकेक बॉत्ल बीयर पियेवन शीदा घरा वेतांव म्हण सांगलें.'

'इतलें सांगोक तुवें वीस - पंचवीस मिनुटां काडलींय?'

'सॅल्ली आण्टीची फिलोसोफी आयकोंक सुरू केल्यार सद्याक उटोंक जायना.'

'आनी म्हजे विशीं?'

'फाल्यां तुका आपवन हाडूंक सांगलां.'

'आनी तूं?'

'जल्ली क्रशरांत काम करतां!' अशें उच्चारून शिंटो हासलो.

'असल्या काळेतीची तुजी सॅल्ली आण्टी बिजनेस कशी करता म्हळें म्हाका समजाना'. सत उलयलो जेरी.

'फाल्यां पळेतोलोय.' शिंटोन ताका जाप दिली.

आनी दुसऱ्या दिसा जेरी पायसान 'कुरियन चीटफंड' दफ्तरांत जायतें पळेलें, येदोळ आयकानातल्लें आयकालें. कोण जाणा, असली एक उगती दशा ताचे जिणेंत येजेच आसल्ली

शिंटोन ताका दफ्तरापर्यांत पावयलो आनी तो निकळ्ळो. जेरी भितर सरताना तें दफ्तर ताका खावंक आयलें. फक्त तेगां थंयसर आसल्ली. दोन चलयो आनी एकलो दादलो. दफ्तराच्या सालाभितर आरशाच्या वणदींचें एक सज्ज केबीन आसल्लें आनी तांतून एकली स्त्री ताका फाट करून जनेलालागीं उबी आसल्ली.

जेरी हॉलाचे मदेंगात रावलो आनी कावजेणेन आनी सवलांनी हेणे तेणे पळेलागलो.

हॉलांतल्या त्या दादल्यान, केबिनाक वच म्हण ताका इशारो दितच ताणे मेटां काडलीं आनी हुंब्रापर्यांत पावोन तो परत रावलो. तिची आकृती जनेलाच्या अर्वास विस्तिर्णायेक लिपयताली. तिचे कुडीची पाट पळेवनच कळीत जातालें कीं तिचो जीव अखंड आनी सर्व अवयव सारक्या प्रमाणांत आसात. म्हण तिची फुडली कूस पळेवंची जब्बोर आशा जेरीच्या मनांत एका खिणाक उदेली आनी बुडली.

'तशेंच जाता', म्हणाली सॅल्ली कुरियन पाटीं घुंवानासतां. 'तूं खाली हातांनी आयलाय, धवें शर्ट घालांय आनी निळशें पँट, मोच्यांक आज सकाळींच पॉलीश केलांय आनी शेळ्या उदकांत न्हावन आइल्यान तुजे दोळे चिक्केशे खोर्जुतात!'

ती एकाच्चाणे घुंवली आनी ताका पळेवन म्हणाली, 'हांगा ये' तो गेलो आनी

तिचे बराबर रावलो. तिची दिगाय कांय ताचीच. तिच्या आंगाचो रंग सावळो, तिळेल तेलाचो. काळेच लांब घण्ण केंस जे पयलेच जेरीच्या गुमानाक गेल्ले. तिचें हर्दे आनी स्तनांची वाडावळ सबावीक रितीर आकर्शीक आनी उद्रीक्त. पूण दोळे मात्र तळनातल्या तळ्यांपरीं काळेच गूंड. लिंब्या वर्णाची साडी तीं न्हेसल्ली आनी तिचे कुडींतल्यान नव्या भाताचो परमळ येतालो.

'जनेलांतल्यान भायर पळे' ती म्हणाली. ताणे पळेलें. 'तुका हावें ह्या जनेलांतल्यान पळइल्लो शिवाय दोळे धांपून मांत्रिकाचे दिश्टीन न्हय', ती म्हणाली मटव्यान हासोन 'बस'. तो बसतच, ती ताच्या सामकार आपल्या सुखाळ येजेक्युटीव कदेलार बसलीं.

'तुजें नांव हांव जाणां' ती म्हणाली.

'शिंटोन सांगलां आसतेले, मेडम!' सुकल्ल्या ताळ्यान जेरीन उतरां कश्टांनी भायर काडलीं.

'तुजें नांव don't! ती ताच्याच दोळ्यांक पळे लागली. 'व्हय, आजपर्यांत तुजें नाव समजोंक ना. तरी तूं व्हय म्हणतलोय कित्याक तुका काम जाय' ती म्हणाली. 'काम हांव तुका दितेलीं पूण हावें म्हळ्ळयाचो अर्थ विचारचें हक्कय तुका दितेलीं पूण भोवशा तू विचारचो नाय.'

'ही कसली मुसीबत', मनांतच म्हणलो जेरी 'संवसारांत हांवच एकलो पिसो म्हण हांव चिंततालो. पूण आतां पळेवंक गेल्यार...'

'पूण आतां पळेवंक गेल्यार सॅली कुरियनय पिशीच!' ताचीं चिंतना वाचून म्हळ्ळेपरीं तिणे मुकारून संपयलें आनी तवळ तिच्या मुखामळार उदेल्लो मुंद हांसो जेरीचे मतीक मुलाम सारवंच्या हातापरीं पोशेलागलो. परिणाम जावन ताच्या मेंदवांत येदोळ जागृत जावंकनातल्ल्या चिंतपाचे बुळबुळे उठले. सॅली कुरियना थावन कसलीगी मानसीक सकत ताच्या शिरांनी व्हाळोंक सुरू जाल्लेपरीं ताका भोगलें. हाच्या इड्यांतय तो चिंतीलागलो, असली आंटी आसोनय हो शिंटो कित्याक तसो जाला?

Don't सॅली कुरियनान परत्यान उच्चारलें. 'हांवें एका पुस्तकांत वाचल्लें, जेरी,' तिणे पयले पावटीं ताचें नांव उच्चारलें. 'हांवें वाचल्लें कीं सारकें ज्ञान उदेता पर्यांत एका भुरग्यान लेकल्लें खंय ताचें नाव don't म्हण. कित्याक म्हळ्यार

ताच्या हर एका कर्तुबाक. उतराक आनी चालीक ताची वडिलां म्हणतालीं, don't, don't and don't. उप्रांत ताका परिपिकाय येताना ताका कळीत जालें कीं ताका एक नांव आसा म्हण. परिपिकाय म्हळ्यार दैहीक वाडाळ न्हय, लैंगीक उद्रेकपण न्हय. हांवें उल्लेख करची परिपिकाय सुलभायेन येना..'

'तुज्या तसल्यांच्या सांगातांत मात्र ती येता?' जेरीन मदें उलवंचे धैर घेतलें.

'दिसता म्हाका त्या दिशेन तुवें पयलें मेट काडलांय म्हण' ती म्हणाली दोळे धांपून. 'ना तर काम चुकत म्हळ्ळ्या भियान तूं कोवळो जावन बसतोय. तूं चिंतताय आसतलोय कित्याक शिंटोक हांवें भितर घेवंक ना म्हण. म्हज्या व्हडल्या भयणीचो पूत तो, अनकुलवंत ताचें कुटम. हांव जाणां तो फेल जाला म्हण. परीक्षेंत व्हय, जिणेंत न्हय. जिणेंत फेल जावंची विंचवण तो करीत जाल्यारय, फेल जाला म्हळ्ळो 'पास' रिपोर्ट ताका मेळोंक थोडीं वर्सां लागतेलीं.'

ती रावली. तितल्यार, ऑफिसाचो चपरासी भितर आयलो. 'कितें पियेताय, जेरी?' तिणे विचारलें. 'कॉफी या टी?'

'नाका नाका, हांव नास्टो करनच आयलां, Thank you मॅडम Thank you... जेरी धागेलो. एक खीणभर तीक नदरेन ताका पळेवन सॅलीन माथें हालयलें आनी चपरासीक सांगलें, 'म्हाका एक कॉफी हाड, रामू.'

उप्रांत तिणे आपलो पालव सारको केलो. 'तुजें आतांचें वर्तन आसा पळे, तें आमच्या भारतियांचो दुसरो जिनोस', ती म्हणाली आपल्या उतरांची धार बदलून. 'ह्याच जिनोसाक लागोन आमी आमचो देश त्या ब्रिटिशांक फुक्या सवाय विकलो, पूण तो पाटीं घेवंक आमकां रगताचें मोल दिवंक पडलें. आतां तूं विचारतलोय कीं आपणे कसली चूक केली गी म्हण. आयक, जिणेच्या हर खिणांत विंचवण केल्ल्याखेरीन जिणी मुखार वचाना. तुवें हांगासर येवची विंचवण केली आनी तुज्या आनी म्हज्या जिणेचीं आनी थोडीं रोदां घुंवोंक लागलीं. कॉफी या टी? सट्ट करून ताका म्हणयेतें, एकच कॉफी या टी, या म्हणयेतें, कांय नाका धन्यवाद. पूण तूं स्पश्टिकरण दिवंक गेलोय, बडबडलोय, घागेलोय.' ती रावली आनी रामू भितर आयलो, कॉफी तिच्या टेबलार दवर्न भायर गेलो.

'आतां म्हजें आयकोन पस्तावनाका, पूण शीक. तुज्या विंचवणेथंय कांय

स्पश्टिकरण दिवंक आसा तर, तुकाच तें दी. कित्याक तुज्या विंचवणेचो परिणाम फकत तुजेर जातलो.' ती परत रावली आनी ताकाच पळे लागली. उपावनासतां जेरीन तिका आपली दिश्ट दिली. आनी तवळ ताका गमलें कीं सॅली कुरियनाक एक कारिस्मातीक व्यक्तित्व आसा म्हण. ती ह्या संवसाराची न्हय म्हण ताका भोगलें. एकाच्छाणे तिका पोटलून धर्न तिच्या गोपांत आनी संवसारांत विलीन जावन सर्व आपणाक विसरोंक जाय म्हण ताका भोगलें. पूण आपणाकच फापडून तो त्या भोगापाथावन भायर आयलो.

'तो कोण आनी तुका हांव कोण आनी कित्याक हें तत्त्वशास्त्र तुज्या सामकार दवरतां? तूं आयलाय नौकरी सोदून आनी हांव तुज्या मतींत तत्वांचे किडे सोडतां. Am I a philosopher? जाप आसा म्हजेलागीं. जरी तरी कोण एकलो / एकलें जिणेच्या एक घडयेंत पुणी थांबोन, 'कित्याक' why म्हळ्ळें सवाल विचारची फुरसत करता. तो या तें जावन आसा तत्त्वज्ञानी. तितलें सिंपल हें राजांव.

सॅली कुरियन जनेलांतल्यान भायर पळेत्त आपली कॉफी पियेताली. 'म्हज्या दफ्तरांत तुका चड जाणां दिसनांत न्हय जेरी?' तिणे आवचीत विचारलें. ती खंचे घडये कितें उलयत – विचारीत म्हळ्ळो अंदाज जेरीक जायनातल्लो. 'म्हज्या ऑफिसांत बसोन काम करतेल्यांचो संको उणो. म्हजेलागीं पंदरा डेवलपमेंट ऑफिसर आसात आनी ते सर्व दोन थरांची डेवलपमेंटां करतात. एक ह्या चीटफंड कंपेनीक आनी दुसरें, तांचेंच डेवलपमेंट ते पळेतात. संवसारात मेतेर जाल्याखेरीत जिणी जियेवंक जायना जेरी. तुका हांव आतांचे आतां भायर धाडतां दिवन हुकूम.

'म्हाका एका लाखाचें बिजनेस हाड.' कितें करशी तूं? हां, चिंतून पळे. हांव तुमका मुळावो सांबाळ दितां आनी तुमी हाडलेल्या बिझनेसाचेर कमिशन दितां. सकाळींच्या नोव वोरार म्हजे ऑफिसर हांगासर येतात. हाजरी दितात आनी वेतात. हांव विचारिना ते खंय वेतात म्हण. हर एका सनवारा ते तांचे पीक हाडतात. तें भांगराळें तर तांकां भांगार मेळता, रूपें तर रूपें... कांय उडास आयलो तुका?'

जेरीन 'ना' म्हण माथें हालयलें. 'क्रिस्ताच्या शिकवणेची देख ही!' ती

म्हणाली. ‘क्रिस्त एक परिपूर्ण मनीस. ताची शिकवण जिणेंतल्या हर सवालाची जाप जावन आसा. तुवें एक पावटीं पुणी पवित्र ग्रंथ वाचलाय जेरी?’

‘ना’ म्हणलो जेरी मातें मुळांत घालून.

‘एक पावटीं वाचून पळे’, ती म्हणाली. त्या दिसा तुका पोटाक कांय मेळचें ना म्हळ्ळें खंडीत[24], ती हांसली. ‘चड जालें न्हय एका सकाळींक?’ तिणे विचारलें आनी मुंदरिलें[25] ‘शिंटो काल आइल्लो आनी फेल जाल्ल्याक गंमत करूंक म्हण पयशे व्हरून गेलो. हांवें ते ताका दिले आनी आतां तूं जाणाय कित्याक तुका हांवें ते दिलें म्हण. तुमच्या इश्टा टेरीची काणीय ताणे म्हाका सांगली. तुमी त्या मामल्यांत चतरायेन रावा.’ तिणे आपले केंस सारके केले. ‘आतां तुका हांव नौकरी दितां आनी एक मुळावो सांबाळय दितां. कित्याक? तूं कांय म्हज्या संतान कुमटमांतलो? तूं एक मलेयाळी सयत न्हय. पूण म्हाका तुजें नांव बदलूंक जाय.’

म्हाका तुजे तसली आवय आसल्ली तर! अशें उच्चारोंक जेरीन ओंट उसयले, पूण सॅली कुरियनान ताचीं चिंतनां वाचलीं.

‘उच्चारिनाका!’ ती म्हणाली. ‘जिणेंत नांवां बदलियेत, जागे न्हय.’

■■■

# 6

बी. कॉम सप्लिमेंटरींत जेराल्ड पायस बारा अंक्यांनी पास जालो. जिल्ली टिचेरीचो संतोस सांगचो न्हय. 'चेरक्यांक कुल्याक पुसूंक पुणी एक डिग्री आसाजे, पुता' ती म्हणाली.

'आनीकी बरें करिजे आसल्लें तुवें. पूण एक डिग्री तुका गल्फाक पाववंक पुरो. थंयसर बी. ए., बी. कॉम जालां म्हळ्यार मॅट्रीक जालां – गी म्हण विचारतात खंय', ती हांसली. 'आनी हां, कुरियन चीटफंडांतले कामच तुजो फुडार म्हण चिंतिनाका. तूं सेरवोन चार म्हयने जाले, पयल्या म्हयन्याच्या सांबाळान तुवें ट्रांन्सीस्टर हाडलोय न्हय, पूण ह्या घरांत कलर टी. वी, फ्रीज आनी वॉशींग मेशिनाकय जागो आसा म्हळ्ळें उडास दवर, पप्पा आनी माम्मा, प्रायेन पिगळोन वेतात म्हळ्ळेंय उडास दवर. तुजें भयण इवोन...'

'चिक्केशे रावय, जिल्लें, म्हणालो मिक्की. 'फाल्यां ह्या घरांत एका सुनेकय जागो आसा म्हण तूं सांगतेलेय.'

'ते दिसय येतेले,' ती म्हणाली, आपले साडयेच्यो मिरयो सारक्यो करून. ती शाळेक वचोंक तयार जाताली. 'शिंटो पास जाला म्हळ्ळी संगत बरीच. भुरगो कोणायचो जावं, बरो जायजे. तुका काम करून दिला न्हय ताणे? पूण तूं चत्राय कर हां. दीसरात सॅली कुरियन म्हण रंदिताय. आजून आंकवार खंय तें आनी जिवान 'लट्ट' आसा खंय. तसल्यांनीच तरनाट्या चल्ल्यांक नाडचें...'

'मां', परातलें जेरीन. 'तूं चिक्केशे चूप रावताय' तुका कितें सॅली कुरियनाचो मोसोर[26] जाता? ती एक विभिन्न स्त्री, मां. तुवें एक पावटीं तिका भेटाजे' 'खंच्या कर्माक?' ती म्हणाली एक दिश्ट मिक्कीचेर घालून. 'जाय तर तुज्या पप्पाक आपवन व्हर. आतांय दिलदार मनीस तो!'

'हां, तुका खुशाल उलवंकय येता न्हय मां?'

'भुरग्यांनी आवयक खूश दवरल्यार तिचे थांय खुशालाय येताच रे पुता. शिंटो किते करता खंय?' 'बापायच्या बिजनेसांतूच रिगता म्हणतालो.'

'आनी त्या मोली पिरेरीचो पूत?' तिणे पाद्देवनशें विचारलें.

'ताका बेंगळूर धाडला म्हण हांवें आयकालें, मां!' तो म्हणालो विरारायेन, 'मादक व्यसनींक दवरच्या जाग्यार दवरला खंय, पूण मोली पिरेर म्हणता तो चडीत शिकपा खातीर बेंगळूर गेला म्हण. म्हाका कांय समजाना.'

'तुका समजोंचेंय नाका.'

'आमचो इश्ट मां, तो.' म्हणालो जेरी कळवळ्यांनी. त्या दिसाचे आखरेक जेवणाच्या मेजार जिल्ली टिचेरीक भोगलें कीं तिचो संवसार एका पथार चलता म्हण. खंडीत जावन जेरीक भायर वेची विजा मेळतेली, ती आपणाकच सांगा लागली आनी भोव आपुरबायेन आपल्या भुरग्यांक पळे लागली. मिक्की पायस मात्र आपल्याच संवसारांत आसल्लो.

जेवण अर्द्यार पावताना श्वोनान म्हळें, 'म्हाका म्हज्या फुडाराविशीं दोन सब्द उलवंक आसात पप्पा, माम्मा.'

मिक्कीन आनी जिल्लीन एकमेका पळेलें. जेरी, शून्य दिश्टीन भयणीक पळेतालो.

'सांग पुता' म्हणालो मिक्की.

'किते माद्रींत वेची आलोचेन[27] केल्याय?' हें सवाल विचारून तो हांसलो. 'लग्न जावंचें म्हळ्यार एक साहसच-गो बाळा. सांग तरी किते उलवंक आसा तुका? आयकाता तुजो बापूय.' 'तुमी तेगांयनी आयकाजे', इवोन म्हणालें. हें आयकोन जिल्ली दोळे अशीर करून धुवेक पळेलागली. वाडोन रावल्लें धूव आनी आतांचो मारेकार संवसार. कितली चत्राय केल्यारय पावना. तिचें काळीज धडधडोंक लागलें.

'सांग पुता, आमी आयकातांव,' अशें म्हणताना तिचो ताळो कांपचो कोणाच्याय गुमानाक गेलो ना.'

'म्हाका, पी. यू. सी. जाल्या उप्रांत मेडिकल करिजे!' हे उच्चारून ते सर्वांच्या मुळामळांक पळेलागलें. 'म्हाका मेरीट सीट मेळता म्हळ्ळें खंडीत.'

ताणे कुडसिलें.

'मेरीट सीट मेळ्यारच पुरोगी इवोन?' जिल्लीन विचारलें. 'मेडिकल कोर्स कितलो म्हारग म्हण तूं जाणाय आनी कितें, फकत एम. बी. बी. एस. केल्यार पुरो? कंपावंडराचें काम मेळाशें ना. एम. डी. या तर एम. एस. पुणी करिनाका?'

जेवणा मेजार मौन देंवलें.

'कितें म्हणता खंय तुजो भाव जेरी?' जिल्लीन उतरा वांटो काडलोच.

'घरचो खांबो न्हय तो?'

'शिकची तांक आनी ज्ञान म्हाका आसा, मां' तें म्हणालें परते आशेन.

'कोणा लार्गी पुणी आडदोस मागोन स्कॉलरशीप मेळत तर...' 'कितें म्हणताय जेरी?'

'तें पी. यू. सींत पडोंदी पयलें,' तो म्हणालो, मुळांत घाल्लें माथें उबारिनासतां.

'तें पी. यू. सींत पडताच,' म्हणाली जिल्ली. 'ह्या सताथावन चुकारी असाध्य आनी ताकाय एक फुडार आसा आनी ताच्या पसंदेची लायन विंचचें हक्कय ताका आसा म्हळ्ळें उडासांत आसूं. खंच्या थावनय चुकारी मारूंक असाध्य.'

'मां, ताका जालां तरी कितें?' विरार जालो जेरी. 'हांवें जोडूंक सुरू केलां मात्र आनी तुका सांगलां, हांवें भायर वचाजे तर विलेवारी तूं कर म्हण. तुजो भाव आसा कुवेटांत आनी आतां म्हाका बी. कॉमाची डिग्री आसा...'

'थर्ड क्लास डिग्री!' म्हणाली जिल्ली, तिखसाणेन. हें आयकोन जेरी जेवण सोडून उठलो. 'सॅली कुरियनाक आसल्ली समजणी तुका आसल्ली तर!' तो उद्‌गारलो.

'तर तुज्या बापायक सांग, म्हाका सोडचीट दिवन सॅली कुरियनालार्गी काजार जावंक.'

'इवोन 'फळ्ळ' करून रडलें आनी जेवणा मेज सांडून उठले.

'कसलें उलोणें जिल्ली?' म्हणालो मिक्की. 'दुदांत लिंबो पिळूंक तुजेलार्गी शिकजे'

'आनी कितें तर, मिक्की?' जिल्लीन पाटीं मारलें. 'बुदवंतकाय, चुरूकपण आनी सोबाय आसल्ल्या धुवेक जरितरी ताका जाय जाल्लें शिकप आमी दिवंक

सकनांव तर आमी कित्या फायद्यांचीं? कांय इल्ली जवाब्दारी आसा त्या जेरीक? मेळल्ल्या पयल्या सांबाळान ट्रान्शीस्टर घेजे म्हण गरज आसल्ली?'

'ताणे ट्रान्सीस्टर घेवंक नातल्लो तर इवोनाचें मेडिकल जातें, जिल्ली?'

'तुमचे लागीं उलवंक म्हजें हर्दें घट नां' अशें म्हणोन ती अर्द्याक अर्दे जेवण बोशयेंत सोडून उठली.

ह्या वातावरणांत थोडे दीस पाशार जाले.

त्या एका दिसा शाळेंत तिसरी पिरेड जावन स्टाफ रुमांत बसोन आसल्ल्या जिल्लीक, क्लार्कान येवन सांगलें 'तुमकां कोणगी भेटोंक आयला, मेडम'

जिल्लीन कपालाक मिरयो घाल्यो. कोण जावयेत? इन्स्पेक्शन आदल्या हप्त्यांतच जाल्लें. 'भितर धाड ताका', ती म्हणाली.

स्टाफरुमाक आइल्ल्या दामूक पळेवन तिचीं अंतरमळां उडलीं. दामू मिक्कीच्या शॉपांत काम करचो टेलर.

'कि – कितें जालें दामू?' तिणे घागेवन विचारलें. खंडित, मिक्कीक कितें – गी जाल्लें.'

'तितली घावरी गरज ना, अम्मा', म्हणालो दामू. कटींग करताना मास्तराक दोळ्यांक काळोक आयलो.'

'आनी?'

'तो थंयच पडलो आनी तवळ ताच्या दुकीच्या पांयांची गांठ वोळाली आनी सुटली म्हण दिसता. तो कुंटतालो पळे, तोच पांय. तकलेक चिक्केशे मार जाला, वोंट फुटल्यात आनी दाव्या हाताचो कोंपोर सुटला...' 'आनी कितें बाकी उरलां तुटोंक सुटोंक?' ती बोबाटली. 'आनी तूं म्हणताय घाबरी गरज ना म्हण.'

'ताका आमी आस्पत्रेक दाखल केला आनी घाबरेवंची कांय गरज ना म्हण दाक्तेरान सांगलां'

'हें सर्व तुमी म्हाका कळयनासतांच केलें दामू? कितें चिंततात तुमी? असल्या सन्निवेशांनी डिसिजन घेवंक तुमच्यान साध्य आसा?' तिणे आपले बॅग विंचलें आनी क्लार्काक आपयलो. संगत[28] ताका मटव्यान सांगोन ती दामू सांगाता भायर आयली. दामून हाडल्ली रिक्षा भायर आसल्ली. 'हूं, तितली पुणी तकली खर्चिलीय तुवें,' म्हणाली जिल्ली' तिचो सभाव जाणा आसल्लो

दामू वोगो रावलो.

दामून सांगल्ल्या सर्व तुटाफुटीं सांगता मिक्की पायसाक ब्लड प्रेशर आसा म्हण दाक्तेराक कळीत जाल्लें.

'प्रेशरावरवीं हांव पडल्लो न्हय, जिल्ली' फुटोन गेल्ले वोंठ कश्टांनी उसवन उलयलो मिक्की. म्हजो हो लंगडस पांय आसा पळे तो मेजाच्या पांयाक आदाळ्ळो जायजे...'

'इतल्या वर्सांथावन त्या कटींग टेबलालागीं उबो रावोन तुवें काम करूंक नाय, मिक्की?' तिणे विचारलें. मिक्कीच्या पांयाक आनी हाताक प्लास्टर घाल्लो आनी वोंटांक दोन कडेन धागे पडल्लें. 'दुकता –गी?' विचारचें विचारून जिल्ली रडलीच.

'संपदलें', तो म्हणालो. 'कसली बायल तूं? ह्या प्रायेर हें सर्व जावंचें सहजच. वर्सांथावन चोट्टू आसल्ल्या म्हज्या पांयाक दुर्सोंचें[29] या म्हजे प्रायेक? वोट्टारे[30], जावंक आसलले जालें,' तो म्हणालो पिरंगोनशें. जिल्लीन दुकां पुसलीं. तितल्यार दाक्तेर आयलो. 'कसो आसा, पायसाम?' ताणे विचारलें. 'दूक चडल्या मूं?' ताणे जाणा आसोनय विचारलें. मिक्कीन 'व्हय' म्हण माथें हालयलें. सांगाता आईल्ल्या नर्साक दाक्तेरान इशारो दितेच तिणे मिक्कीक एक इंजेक्शन तोपलें. दूख उणी जाताना ताचें मुखामळ सदीळ जालें. तो भ्रमिदेंत गेलो. 'तूं भायर ये, मिसेस पायस', म्हणालो दाक्तेर. 'तो आता न्हिदतलो.'

तीं पासायेंत भायर आयलीं. 'घाबरेवंचें तसलें कांय ना.' म्हणालो दाक्तेर जो हांका ओळकातालो. 'ह्या प्रायेक प्रेशर चिक्केशे चड जालो. ओकतान कंट्रोल हाडयेत. पूण कितें करयां. जखम थोडी चड जाल्ल्यान उण्यार उणे एक म्हयनो पुणी आस्पत्रेंत रावजें पडतेलें. त्या उप्रांत फिजियोथेरपी म्हणताना'

'जिवाक कांय रिस्क नामूं, डॉक्टर?'

बिलकूल ना but a lot discomfort तो म्हणालो. 'तुमकां कांय पयशांचे वांदे?'

'नांत' तिणे तक्षणा जाप दिली, एक दिश्ट दाक्तेराक पाटवन. 'आमी ओके आसांव, म्हजो पूत जोडता', दाडामां अडचून तिणे म्हळें. दाक्तेर आपल्या रावंडाक वेताना तिणे इस्कोलाक फोन करून एका हप्त्याची रजा घाली आनी

भायर राकोन रावल्ल्या दामूक इवोनाच्या इस्कोलाक धाडलो आनी कुरियन चीट फंडांत जेरी आसा तर ताका आपवंक तिणे सांगलें आनी तो कांय फिल्ड वर्काक गेला तर संदेश दिवंक सांगलें. 'उप्रांत तूं शॉपाक वच आनी सांबाळ.' तिणे दामूक सांगलें. काम मस्त पेंडींग आसा तर चडीत घेनाका.

दामू गेलो. जिल्ली पाटीं येवन मिक्कीसरशीं बसली. ताका खासगी रुमांत दवरल्लो आनी एक दोन मेडिकल बिलां येदोळच तिका राकताली. ओकतांचे भ्रमिदेंत तरी मिक्की पिरंगातालो.

जिल्लीची मत काम करूंक लागली. सगळो म्हयनो रजा घाल्न तिका मिक्कीसरशीं बसोंक साध्य नातल्लें. इवोन या जेरीवरवीं पिडेस्ताची चाकरी जावचे परीं नातल्ली. तेणे शॉप, हेणे घर आनी हांगासर मिक्की...

एका घंट्या भितर इवोन न्हेसल्ल्या युनिफॉर्माचेरच आयलें. निस्तेज न्हिदल्ल्या बापायक पळेवन ताणे इतली स्तिमिताय दाखयलीगी, तें खंडीत जावन दाक्तेरजावंक फावो म्हण जिल्लीक खचीत भोगलें.'

'मेडिकला मट्टाक पप्पाक कांय आयब येवंचेपरीं दिसना. मां' तें म्हणालें, पूण आतां तीनकडेन कशें मॅनेज करचें म्हळ्ळेंच सवाल. तुका हांगासर बसोंक जायना. म्हाका म्हजें शिकप आसा आनी जेरीक ताची नौकरी...'

'हांगासर ड्यूटी करतेलीं मेळतात' म्हणाली जिल्ली. 'हांव तेंच चिंताली', 'म्हणालें इवोन. 'हांव मेटना लागीं' दोन सब्द उलवन येतां.' तें सरांरा मेटां काडून चललें. कितेंगी, इवोनाची चाल-चुरुकाय पळेवन जिल्लीक ह्या संवसारांत आपूण एकसुरीं ना म्हण भोगलें. सुमार वीस मिनुटांनी पाटीं आइल्लें इवोन जिल्लीक सांगालागलें. 'दिसाची ड्युटी करूंक जाय तर, एकली आसा खंय, मां' तें म्हणाले 'रातीक जाय तर आमकां सरतेन रावयेत मां' तिच्या खांदार हात दवरलो इवोनान. 'सांजेर ती येस्तुबाय आस्पत्रेक ड्युटी करुंक येता खंय आनी तवळ तिचे लागीं उलवयेत म्हण मेट्रनान सांगलां. आमी अशें करयां मां' परिगतीचे थोरूं[31] आपल्या हातांत घेतलें इवोनान. 'दिसाचें येस्तुबाय पप्पाची चाकरी करुंदी. तूं इस्कोलाक वच आनी आमी, हांव आनी जेरी आमामच्या जवाब्दारयेंक वेतावं. रातीचे आमी सरतेन पप्पा सांगाता रावयां. कितें म्हणताय, मां?'

'हांव कितें म्हणों पुता?' जिल्लीन म्हळें 'म्हाका इतली असहायकता भोगता

की म्हजो संवसार आकेर जालोच म्हण म्हाका भोगता.' तितल्यार मिक्कीक परत जाग जावंचीं खुणां दिसलीं आनी तो दुकीन पिरंगालो...

सांजेर चार जाताना जेरी आयलो. आपल्या कामाचेर बंटवाळ पावल्ल्या ताच्या मुकमळार पुरासणा उटोन दिसताली. बापायची स्थिती पळेवन ताचेथावन उतरां सुटनाजालीं. 'म्हाका कितें करचें म्हण समजाना', तो सत उच्चारिलागलो. 'म्हज्यान जावंचें पुणी करतां', म्हणोन ताणे आवयक, भयणीक आनी आपणाकच काफी फळहार कॅन्टिनाथावन ताणे हाडयलो. आतां मिक्कीक सारकी जाग जाल्ली आनी दूक आसल्ली तरी तो ती गिळतालो म्हण वरणेल्ल्या ताच्या मुकमळान कळतालें.

सांजेचीं स जाताना येस्तुबाय आयली. तिच्या सांगाता कांय जेरीच्याच प्रायेचें एकलें चेंडू आसल्लें. 'हें म्हजी धूव, नोरा' तिणे कळयलें. 'हें म्हाका कुमोक करता.'

'आमकां दोगांची गरज ना', म्हणाली जिल्ली.

'तशें न्हय', म्हणाली येस्तुबाय. 'आमीय सरती घेतावं. म्हाकाय एक घर आसा पळे. नोराक विंगड सांबाळ दिवंचो नाका. हांव दिसाची ड्यूटी करताना नोरा फ्री आसा तर तुमगेर कांय पूड काम करून, रांदप - शिंदपांत कुमोक करूंदी. ताका माहेत मेळल्ले तितली बरी.

कितें करूंक असली माहेत?' खंचेगी मतीर आसल्ल्या जिल्लीन विचारलें.

'ताका गल्फाक धाडचें प्रेतन करीत हांव आसां, बाये'. म्हणाली येस्तुबाय. पूण हीं तिचीं उतरां जिल्ली टिचेरिच्या मतींत ते घडये थिरलीं नांत.

दीस पाशार जाताना आनी मिक्कीची स्थिती सुदरोन येताना येस्तुबायेची हाजरी आनी नोरान घरांत दिल्ली कुमोक कितल्या फायद्याची जाल्ली म्हण जिल्लो, जेरीक आनी इवोनाक उपावाविणे ओपवाजे[32] पडलें. कितलेशा पावटीं नोरा रातीचें पर्यांत घरा रावतालें. जिल्लीन रातीची सरती घेतल्ल्यावेळीं घरांत नोराचेंच रांदप. जेरीक आनी इवोनाक एक सांगातीण मेळल्ल्यापरीं जालें आनी तीं कश्टांचे दीस थोडे बदलेन सारूंक सकलीं. येस्तुबायेचे चाकरेक आय्ब नातल्लें. पिडेस्ताची चाकरी करताना ती इतलो वेळ, तितलो वोळ म्हण पळेनातल्ली.

मिक्कीची स्थिती ताणी चिंतल्ल्याच्याकी आदींच सुदराली आनी अट्ठावीस दिसांनीच ताका डिसचार्ज मेळ्ळें आस्पत्रेचें बील, फिजियोथेरपी धरून सुमार सतरा हजार आयलें. सांगाताच येस्तुबायेक आनी कांय तरी थोडें नोराक म्हणताना भलायकेचो खर्च वीस हजारांक लागीं आयलो.

जिल्लीन आपल्या पी. पी. एफचेर रीण काडलें, मिक्कीन आपली एक एफ. डी. फोडली. आपूण चीटफंड कंपेनी थावन रीण काडता म्हण भायर सरल्ल्या जेरीक तांणीं आडायलो.

मिक्कीक घरा हाडल्ल्या उप्रांत एका हप्त्याक पुणी आपूण न्हय तर नोरा कुमोक करूंक येतलें म्हण येस्तुबायेनच म्हणताना जिल्लीच्यान नाका म्हणोंक जालें ना.

तो दीस आयतार. सांजेचो वेळ.

बेत तेंकोवन भायर येवन आपल्या इजी चेयराचेर बसल्ल्या मिक्कीन, जिल्लीक आपयताना, नोरा सांगाता रांदपा कुडांत आसलली ती आकांतून भायर आयली.

'कितें जालें?' तिणे विचारलें.

'कांय ना', म्हणालो मिक्की. इवोन आनी जेरी घरा नातल्लीं. मिक्कीन गेटीक दाखयलें. थंयसर रावल्ल्या रिक्षार थावन देंवल्ल्यांक पळेवन जिल्लीच्या काळजांत 'कल्ल' जालें. व्हय, आपले आवयक पळेवंक देरेबयल वचानासतां सबार तेंप जाल्लो. जॉनी आनी विल्मा रजेर आइल्ल्या वेळार जिल्ली आवयक भेट करूंक वचनातल्ली. तीं जावन मिक्कीगेर येनातल्लीं. ती संगत वेगळीच.

आतां सासुमांयक घेवन रिक्षारथावन देंवल्ल्या विल्माक पळेवन जिल्ली शेरमेली. आपणे दिवंक ना तरी जांवंय शेवटाल्ली खबर म्हातारेक कोणेगी दिल्या आसतेली देकून ती सुनेक घेवन आयल्या.

पूण ही सून केदाळा रजेर आइल्लीगाय? जॉनीय आयला?



# 7

जिल्ली टिचेरीन आपले आवयक पळेवंक देरेबयल वचानासतां दोन म्हयने उतरल्ले म्हळ्ळी संगत खरी. विल्माची भयण तिच्या आनी आपल्याच आवंय - बापायची बरी जतन घेताली म्हणच्याक दुबाव नातल्लो. भलायकेच्या कारणाक लागोन कोंवेताथावन भायर आइल्ली विल्माची भयण विरा संवसारांत रावोनच कोंवेंतांतली जिणी सारताली म्हळ्यार चूक जंवची ना.

तिणे प्रायवंताचे आनी पिडेस्तांचे चाकरेंत दिसाचीं सबार वोरां खर्चुचीं हेरांक देखीचींच म्हणयेत.

म्हयन्याक एक पावटीं एकच इवोनाक घेवन या चडशें एकसुरीच जिल्ली टिचेर आपले आवयक पळेवंक वेताली. वीरा तिका बरो येवकार आनी सत्कार दिताली आनी चुकोनय विल्मा या जॉनी विशीं उलयनातल्ली. 'तांताचे मतींक देवच उजवाड दींव.' म्हण ती सर्गाक हात जोडताली. जिल्लीची आवय जाल्यारय तशीच. 'म्हाका हांगासर कांय कश्ट नांत पुता जिल्ले' ती म्हणताली. पूण एक कुटमान सांगाता जियेजे पुता. कित्याक हें अनवार आमचेर आयलां म्हण म्हाका कळाना, कोणाक दुसोंचे म्हणय कळाना.'

'तुका त्यो सर्व राटावळी नाका, मांय' तवळ म्हणताली जिल्ली टिचेर.

'खंचे घडये तुका हांगासर सुशेग ना, म्हाका सांगोन धाड...'

'तें सर्व आसोंदी पुता, जिल्ले', म्हणताली म्हातारी. 'तीं रजेर आइल्ल्या वेळार तूं ये आनी कांय आसा तर नुल्ल करयां आनी कितलीं वर्सां उरल्यांत म्हण आमकां? विल्माची आवय-बापूय असलीच अभिप्राय दितालीं तरी जिल्लीन कान हालयलेनांत.

'हांव, जोंनीची व्हड भयण मांय,' ती म्हणताली. 'विल्मान येवन हें वीख

वांटलां म्हण तो जाणा. संवसार जाणा. तो ताचें काम करूंदी आनी हांव म्हजें करतां. तीं आसताना हांगासर येवन हांवें कित्याक केदाक आनीकी खद्दळायजे? येदोळ पर्यांत सिट्युयेशन बऱ्यानच चलता - तुका हांगा दवरलां म्हाका डावन करूंक म्हण हांव जाणां. तरी चलोंदी. पूण परत्यान तुका हांव सांगतां मांय, हांगासर तुका कसलेयी करकर आसात तर म्हाका सांग.'

'हांव हांगासर फडत आसां, पुता जिल्लें', म्हणताली ताची आवय, पुताच्या मावाड्यां रावचें कसले नालिसायचें म्हळ्ळें गिळून घेवन. हें जिल्लीकय कळीत आसल्लें, पूण ताची असहायकता ताकाच कळीत आसल्ली.

रजेर येताना जॉनी भुरग्यांक घेवन येतालो आनी तवळ आपले आवयचे बांदपास चड जातात म्हण जिल्लीक कळीत आसल्लें. रजेर आइल्लो जॉनी जिल्लीगेर येनातल्लो पूण खंय हंपनकाट्यार मेळत तर भयणीलागीं उलयतालो आनी भुरगीं सांगाता आसतीत तर, आण्टीलागीं 'ब्लेस मी आण्टी' म्हणोंक लायतालो. तवळ विल्मा आंबोट हांसो हांसतालें.

वरसाक एक क्रिसमस कार्ड मिक्की यवोजीच्या कुटमाक येतालें.

ही एक अवस्ता - वेवस्ता तरी जिल्लीक हीच बरी म्हण दिसताली. चड लागीं आसल्यार कुटमांत फुलचे कांटेच म्हण ताका जिणेन शिकइल्लें. पूण ताका आनीकी शिकोंक आसल्लें.

मिक्कीचो बापूय आसल्लो तो 'हां-हूं' करिनासतां पडतालो आनी आवाज करिनासतांच गेल्लो जाल्ल्यान जिल्लीक कांय कश्ट कळोंक नातल्लें...

सोप्यार आइल्ल्या जिल्लीक हांचे भेटेचो इरादो एकच म्हळ्ळें सुस्तालें आनी हें सहज म्हण ताका दिसलें. चूक म्हजीच, तें आपणाक सांगालागलें. हांवें तांकां खबर दीजे आसल्ली. जांव, अशें पुणी वर्सां उप्रांत विल्मा घरा आयलें न्हय. आतां हांवें संयम सांबाळीजे, कांटे फाफडूंक नजो.

ताणे आपल्या मुकमळार हासो हाडलो आनी तें सोप्याचीं मेटां[33] देंवोन तांकां मेळोंक मुकार गेलें. 'कशी आसाय, मांय? हल्लो, विल्मा. आवयक आदार दिवन ताणे सोपो चडयलो. जिल्लीच्या 'हलो'क जाप दिनासतां विल्मान विचारलें 'मिक्की भावोजी कसो आसा?'

'चूक म्हजीच', म्हणाली जिल्ली. 'हांवें तुमकां खबर दीजे आसल्ली, मांय

– तूं केदाळा आइल्लेंय विल्मा?'

'चूक? खबार?' विल्मा हेणे तेणे पळेलागलें आनी तवळ जिल्लीक गमलें कीं हीं मिक्कीचे भलायके विशीं आयकोन हांगासर येवंक नांत म्हण. परत्यान ताच्या हर्द्यांत 'कस्स' जालें.

'कितें जालें भावोजीक?' विल्मान कपालाक मिरयो घालून विचारलें 'अरे, आतां तो बेतय[34] तेंक्ता... चोट्टे पांय कुस्कालो पुणी?'

'तसलेंच कसलेंगी जालें शॉपांत' म्हणाली जिल्ली, कश्टांनी आपलें संयम सांबाळून तवळ आपले आवयच्या दोळ्यांनी ताका दुकांची लय दिसली. पूण ताणे कित्याक म्हण तक्षण विचारलें ना. पूण येवंक आसच्याक - कसलेंय तें जांव - आपणाकच तयार करिलागलें आनी मिक्कीक जाल्लो अपघात ताणे तांकां मटव्यान विवरिलो.

विल्मान कांय म्हळें ना तरी जिल्लीचे आवयन ब्रिजीतबायेन विचारलें. 'आतां जिवांत कशें आसा जांवयांनो?'

पूण थंयसर कितें जावंक आसा म्हळ्ळोच बेबुनयाद अंदाज करून मिक्कीन फकत मातें हालयलें शिवाय ताचेथावन जाप सुटली ना. जिल्लीक येदोळच कांटियेर बसल्ले परीं जाल्लें.

'जांव', म्हणालें विल्मा. 'देवान तितल्यारच निवारलें न्हय?' देवाची चूकच म्हळ्ळेपरीं उलयलें तें. कुवेटाचो दुडू देवाच्याकी व्हड जाल्लो ताका.

'दोन म्हयनेथावन म्हाका येवंक जावंक ना मांय,' विशय बदलियां म्हळ्ळ्या इराद्यान म्हणालें जिल्ली. 'पयलें, जेरी फेल जालो...'

'व्हय-गी?' मदेंच दाय घाली विल्मान. 'सप्लिमेंटरींत पास जावन आतां कामय करता म्हण आयकालें हांवें.'

'व्हय, पूण एका ल्हान मट्टाचें काम...'

'पूण कुटमाची कमाय थोडी पुणी चडली न्हय?' तें हेणे तेणे पळे लागलें आनी सालाच्या हुंब्रार ताका नोरा झळकालें. 'हां, आतां सर्वेंट चेडूंय आसा तुमकां?'

विल्माचें उलोणे खंचे दिशेन वेता आनी ते ब्रिजीत डिक्रुजाक घेवन कित्याक आयलां म्हळ्ळें जिल्लीचे मतीक तवळय सुस्तालें ना.

'मिक्की आस्पत्रेंत आसताना ड्यूटी करूंक म्हण येस्तुबायेक दवरल्लें.. त नोरा, येस्तुबायेची धूव. कांय थोडी कुमोक करूंक येता. जिल्लीन मिक्कीक पळेलें. 'कमाय चडली म्हणताय तूं... लागीं लागीं वीस हजार खर्चालो आमकां.'

'हूं! कुडीचो ऊण केन्ना हात - घात करीत म्हळ्ळें कळोंक कश्ट.' विल्मा म्हणालें उतरां विंचून 'वर्सां आदीं जेरीचो पांय पळइल्ल्याक तूं म्हजेर तापल्लीय आनी... नेवर मायंड. म्हाकायी वाडोन आईल्लीं भुरगीं आसात... हांवें आदलें उसवन कित्याक तांचें पून होगडायजे?'

'कितें हाडूं? कॉफी या टी या लिंब्याचो सरबत?' आपलें संयम सांबाळूंक उरडाताली जिल्ली.

'म्हाका ह्या गावांत कितेंयी खेल्यार या पियेल्यार ॲसिडीटी जाता,' भुजां उडयलीं. 'बोंडो आसा तर...'

'माड आसात तरी काडल्ले बोंडे नात,' म्हणाली जिल्ली, हर एकांत हें विल्मा आपणाक डावन करता तें पळोवन. पूण तितल्यार एक अजीब संगत घडली.

'बोंडे हांव हाडतां टिचेर!' आडोसाक आसल्लें नोरा फुडें येवन म्हणालें. 'आइल्ल्या म्हालगड्या सयऱ्यांक आमी तानेन सोडूंक नजो. ओणीचे तुदियेरच[35] घुडाची आंगड[36] आसा...' तें सरारां करून मेटां देंवोन गेलें.

'हूं!' म्हणालें विल्मा. 'बरोच अद्वाज चलयता ही चिचोंद्री. पळेवंकय बरी आसा.'

'येस्तुबाय ताका गल्फाक धाडता म्हणताली', कसलेंगी लिपंवच्च्या जिनसार म्हळें जिल्लीन.

'बराबर!' म्हणालें विल्मा 'असल्याचें नशीब उगतें जाता. गल्फांत. कुवेटांतल्या कातेद्राला भायर आयताराचो ड्रामा तुमी पळेजे. लज आमकां इंडियनांक आनी आमचा घरचाकरेवालींक. आसूं, ह्या पावटीं जॉनी येवंक ना. हांवच आयल्यां भुरग्यांक घेवन.'

आतां हें मुख्यांशाक येता, अशें चिंतलें जिल्लीन. 'येवंच्या वर्सा थावन आमच्या दोगांय भुरग्यांक हांगासर देरेबयल दवरचें. कॉलेजींचें शिकप हांगासरच

करतेलीं तीं ताच्या सुशेगाक जायपरीं घराचें दुरूस्त सुरू केलां हांवें. भुरग्यांक हांगासर थिरायल्या उप्रांत हांव पाटीं वेतां. कुवेटाची स्थिती बरी ना, दोगांयनी काम केल्या बगार निर्वोग नां.' तें चिक्केशे रावलें. 'मिक्की भावोजीक आनीकी पुरासण आसा तशी दिसता' तें एकाच्फाणे म्हणालें. फुडें येवंक आसचे थावन आपणाक निसरावंक तें पळेता म्हळ्ळो अंदाज जिल्लीक जालो. मिक्कीन कितेंय जाप दिंवचा पयलें नोरा आयलें आनी भितर वचोन चार गोबळ्यांनी बोंडयांचें उदक हाडिलागलें. 'बरे गेंदाळी बोंडे मेळ्ळे टिचेर.' तें म्हणालें. 'हाच्या उदकान पींत नितळता!'

चोवगांनी पियेवन जाता पर्यांत उलोणें चल्लें ना, उप्रांत –

`Now the priorities have changed', म्हणाली विल्मा. 'विराबायेक येंवच्या वर्साथावन म्हज्या भुरग्यांची जतन घेवंची Full time जवाब्दारी आसतेली. तें रावलें आनी जिल्लीक आनी मिक्कीक तीक दिश्टीन पळे लागलें. 'हांवें आनी जॉनीन सर्वानुमतान म्हळ्ळे परीं निर्णय केलां.' म्हज्या आवयक आनी बापायक आमी प्रायवंतांच्या आसऱ्यांत दवरतांव.' तें रावलें आनी आपलीं उतरां जिल्ली आनी मिक्कीथंय कशीं जिरतात म्हण अंदाज करि लागलें. ताच्या वोंटा इड्यांनी जैताचो 'फेंड' निशेतालो.

आता जिल्लीक सर्व अर्थ जालें. विल्मा आइल्लो इरादो आतां उगतडांत आइल्लो.

'चडीत विवर आनी सुडाळाय जिल्ली टिचेरीक गरजेची न्हय म्हण म्हाका दिसता.' तें म्हणालें आपलीं उतरां विंचून. 'पूण म्हजे सासुमायेक कशें प्रायवंतांच्या आसऱ्याक धाडचें? तिचे विशीं आमी दोगांनीच कशी विंचवण करची? देकुनच तिका घेवन हांव हांगासर आयल्यां. कितें म्हणतात तुमी धूव – जांवय? 'You see, I'm helpless!' जिल्ली टिचेरीच्या केसां मुळांथावन बारीक घाम फुटलो आनी बोंड्याचें उदक गोडशें आसल्लें तरी तिका दोन आंबोट धेंक सुटले. तिणे मिक्कीच्या मुकमळाक पळेलें आनी तो कसलीय विंचवण करच्यार आसचेपरीं दिसनातल्लो.

'जॉनी कितें म्हणता?' हें सवाल गरजेभायलें म्हण तें विचारिल्ल्या उप्रांत जिल्लीक कळ्ळें.

'तो आसा सात दर्या तेवशीन', तें म्हणाले. 'तो कितें म्हणतोलो? ताची व्हडली भयण तूं. तुजो घोवय हांगाच आसा. इतलीं वर्सां आमी हिची जतन घेतली, चाकरी केली..'

'तें हांव न्हय म्हणाना, विल्मा'. म्हणाली जिल्ली. 'पूण तूं जाणाय, घरांत एक बोड चड जालें म्हणताना...'

'न्हय खर्च चडता, हांव जाणा! येदोळ हो चिमटो तुमकां लागानातल्लो पूण आतां लागच्याफुडेंच तुमकां दुखता. आवयक सांबाळूंक जावंच्या खर्चाचो वांटो दितलो जॉनी. आमी कितें दोळ्यांत रगत नातल्लीं म्हण तूं चिंतताय, टिचेर?' तें सुको हासो हांसलें. 'पूण एक बरी वाट तुका हांव दाखवं?' प्रायवंतांचे आसरे बरे फाय्व - स्टार हॉटेलांपरीं आसात. एक पावटीं हांका थंयसर घालें, उप्रांत फिकीरना. मरणाविधीची तयाराय सयत तींच करतात.'

'पूण तेच परीं दुडू जमो करीजे न्हयगी विल्मा?'

जिल्लीचो ताळो कुसकालो. 'लाकांनी हाडूंक आमी खंय वेचें?'

'कितें करयां?' सवालासंगीं भुजां उडयलीं. 'आजकाल धर्मार्थ कांय जाता मेळता? Even dying has become so expensive!

असली एक संदिग्ध परिगत उदेत म्हण जिल्लीन चिंतुकच नातल्लें. सत सांगचें तर, सबार पावटीं आपली आवय देरेबयलांत आसा म्हळ्ळेंय जिल्लीचे मतींतलें उबल्लें आसा. आतां उपावनासतां ती आपले आवय कुशीन घुंवली.

'मांय...'

'तुवें कितेंय म्हणच्या पयलेंच हांव तुका सांगतां पुता.' म्हणाली ब्रिजीत हात जोडून. 'तुमच्या सर्वांच्या सुखाक म्हण हांवें हर एकाक खालतीमान घालो आनी सुनेगेर सयत रावलीं...'

'उलयता पळे ती!' ताळो काडलो विल्मान. 'अनुपकार पळे तिचो.'

'आतां म्हाका आसऱ्यांत दवरिनाका पुता. हांव चड तेंप काडिना. तवळ पर्यांत म्हाका हांगाच तुज्या आनी जांवयांच्या पांयामुळांत रावोंक सोडा, म्हाका म्हर्जी नातरां पुणी नीस सोडतेलीं. हांव तुमकां खंच्यांतय धोस दिना. म्हजे गू-मूत हांवच काडतां.' ती गळगळ्यां रडली.

'तुजे चड ड्रामॅटीक्स नाकात हां!' विल्मान आतां ताळो काडलो. 'कसल्या

कश्टार आसल्लीय तूं देरेबयलांत? भांगाराचें शीत खावयतालो तुजो पूत तुका'

'देकुनच तिका अजीर्ण जाला!' मिक्कीचीं इतलीं कडक उतरां भायर येतीत म्हण जिल्लीन संपनांत सयत चिंतूंक नातल्लें. 'देकूनच तिका अजीर्ण जालां!' बेत तेंकोवन उबो जाल्ल्या मिक्कीन म्हळें. 'वर्सां आदीं ह्या घराथावन तुका हांवें गेट आवट केल्लें, उडास आसावे तुका? हो संदर्भ दुसऱ्यान येतलो म्हण हांव आशेल्ल्याक देव म्हाका भोगसुंदी'

'भावोजे, कितें उलयतात तुमी? विल्माचो ताळो किंद्री जाल्लो.

'चूक आसात म्हज्या उलोण्यांत मेडम!' तो म्हणालो 'कित्याक हांव आत्तांचे आत्तां उलवंक शिकलां. पूण माहेत नासतां तरी सादीं उथरां म्हाकाय येतात. Get Out!'

'मिक्की!' उद्‌गारली जिल्ली. 'कितें करताय तूं?'

'नाका जांवयानो ही दुस्मानकाय', ब्रिजीतबाय रडली.

'तुमी दोगांय मदें पडानाकात', म्हणालो मिक्की आपल्या बेताचेर चिक्केशे कांपोन. 'हांव हांचेपरी ग्रेस्त न्हय पूण अबाहीत न्हय, लाचार न्हय. आमी येदोळपर्यांत कोणालागीं भीक मागोंक ना. गरज पडताना नीस – पेजच बिर्याणी म्हण चिंतून खेल्या. तुवें वचयेत विल्मा डिक्रूज. मांय हांगासरच रावतेलीं, तिचो सामान दोन दिसां भितर हांगासर पावय.'

'ही दुस्मानकाय तुमकां म्हारग पडतेली!' तें म्हणालें उबें रावन. ताचें गोरें मुकमळ सगळेंच तांबडें जाल्लें आनी नाक उजळतालें. 'असलें इनसल्ट म्हाका? खंडीत जावन म्हारग पडतेलें.'

'वेळ येताना ती म्हारगाय आमी देवें दिवन फारीक करतेल्यांव.' जाप दिली मिक्कीन. 'तुमी बसा, मांय.' तो म्हणालो. 'जिल्ले, मांयक कांय घटायेचें कडवन हाडूंक नोराक सांग. मोग भरसून कुंवळ केल्ली पेजय वोखदाचें बळ जावन पावता.' विल्मा देंवोन गेलें आनी सांगातच एके रितीची भिरांत त्या घरांत सोडून गेलें. आपल्या रागाच्या बळार मिक्की उलवंक उलयलो म्हण जिलली समजाली, पूण हे घडयेचे परिगतींत एका प्रायवंत, पिडेस्त तोंडाक पोसिजे तर कितले कश्ट आनी साक्रिफिसांची गरज म्हण तिका कळीत आसल्लें.

विल्मा देंवोन गेल्या उप्रांत त्या घरांत एका थराचें मौन देंवलें. पूण तुफान

उतरोन गेलें, म्हळ्ळीं खुणां दाखवंचें मौन तें न्हय. फुडें कितें तरी वायट येवंक आसा म्हळ्ळी निशानी दिवंचें मौन तें.

ते रातीं, जेवणाचीं आयदना धुताना नोरान तोंड सोडलें. 'टिचेर', म्हणालें तें. 'हांवें बोंडे हाडल्ल्यान कांय चूक जाल्या तर म्हाका माफ कर.'

'तशें कांय ना', म्हणाली जिल्ली. 'हांवच तुका धाडच्यार आसल्लीं' सत न्हय तरी उच्चारलें जिल्लीन. 'तुजें काम तेंच न्हय?'

'व्हय', म्हणालें नोरा. 'सांगल्लें काम करचेंच म्हजें काम. पूण मिक्की बाबाचें धैर जावयेत.'

'धैरान कितें पोट भरता?' जिल्लीन तक्षणा पाटीं मारलें. 'पळे, म्हजीं भुरगीं कशीं आजयेलागीं फलां मारून हासतात पळे. म्हज्या मिक्कीन आज बियर सयत हाडयल्या. मांयची चाकरी करची म्हळ्यार कांय सुलभ?' थोडो वेळ नोरान कांय म्हळे ना.

'हांव आसां-ने टिचेर?' उप्रांत ताणे भोव हळवायेन म्हळें,.

'कितें अर्थ?' जिल्ली ताकाच पळेलागली. 'मांयची चाकरी करूंक म्हण तुवें हांगासर परमेनंट रावंची आलोचेन केल्याय तर ती सोड..'

'हांगासर, सकाळींची सादी काफी, उप्रांत दिसाचीं दोन सादीं जेवणां मात्र म्हाका पुरो. सांबाळ नाका.' तें म्हणालें. 'हांवें मेट्रीक मात्र पास केलां... कांय सर्वेंट विजाय आयली तर हांव पोटली बांदतां, अरब्यांच्या घरांत घस्टो काडूंक.' तें हासलें. पूण ताच्या दोळ्यांनी दुकां आसल्लीं 'तवळ पर्यांत तुमचे तसल्या बऱ्या मनशांच्या गरजेक हांव पावलीं तर, तुमचे भद्रतेंत रावलीं तर म्हाका समाधान. तुमचीं भुरगीं कितलीं बरीं. जेरी कितलो मोवाळ...'

'जिल्लीचे मतींत एक तांबडो दिवो जळ्ळो. कितें हें?

हें सर्वेंट चेडूं कांय म्हज्या जेरीक गरी घालिनामू?



# 8

ते रातीं 'उस्स' करून खटल्याक पाट (फाट) तेंकल्ल्या जिल्लीन हेंच सवाल मिक्की लागीं करताना तो कुसाळांक हात धरून हासलो. 'कितें म्हणालेंय?' ताणे विचारलें. तें नोरा आमच्या जेरीक गरी घालूंक पळेता म्हण?'

'तूं बेश्टोच हासानाका.' म्हणाली जिल्ली. 'मांयची पयली रात ह्या घरांत. कशेंच पुणी तिका इवोनाच्या कुडांत न्हिदावन सांगाताच नोराकय मांद्री सोडोवन दिवन हांव आयलीं. आजयेचो मोगबीग एका जाग्यार आनी म्हजी 'प्रायवसीं' आनयेकच संगत म्हणालें तुजें गाणकुलें.'

'सारकें न्हय वे तर?' म्हणालो मिक्की आनिकी मातसो हासोन.

'तर व्हड जैत घर बांदिजे आसल्लें.' म्हणाली जिल्ली. 'हात सोडूंक एक कूड, पांय पातळावंक एक कूड, चान्स आसताना तूं गल्फाक वचोंक नाय. आतां सुणें – माजर सयत गल्फाक वेता. पळे, तें नोरायी...'

तुजी प्लेट घुंवोन परत परत त्या गल्फाचे खांचेंतच शिरकाता न्हय जिल्ले?' मिक्की म्हणालो एक जांबाय काडून. 'घर चाकरेक विजा मेळतात जिल्ली, पूण आमी कितें घर चाकरी करूंक गल्फाक वेचें? म्हाका म्हजी व्याप्त आसा आनी आमच्या जेरीचें ग्रॅज्युयेशन जालां. कितें म्हणालेंय तूं? नोरा कांय जेरीक गरी घालता म्हण? बरें जालें म्हणतां हांव. फाल्या आपल्या नोवऱ्याक गल्फाक व्हरची तांक आसात ताका. 'फोकाणां पुरो मिक्की!' जिल्ली चिडली. 'तें वेता सर्वेंट विजाचेर. कोण जाणा कसली जिणी ताका राकोन आसा म्हण. देव जाणा ताची क्लास कसली म्हण?'

मिक्की घुंवोन जिल्लीक पळेलागलो. 'कितें म्हणतात ताका, जातकातीचो,

कितें तें, इंग्लिशांत कितें म्हणतात? काँप्लिकेशन...?

'कॉम्प्लेक्स'. मटव्यान तिदविलें जिल्लीन. 'कितें जालें कॉम्प्लेक्साक?'

'हें जातकातीचें कॉम्प्लेक्स आनीकी सुटोंक ना तुजें? कळ्ळिगेंत आसतानातच एका दोगांनी तुका सेकेंड क्लास म्हळें म्हण...'

'आमी खंय आसल्ल्यांव थयंच आसांव, मिक्की' ती म्हणाली. ताची उतरां कातरून. 'कातोलीक जाल्ल्या म्हाराक या कोरगाराक इवोनाक यसरीक करताय तूं?'

आतां मिक्कीच्या उतरांक खाडूं पडलें.

'कित्याक आतां हो प्रस्ताप?' तो म्हणालो तगसाल्ल्या ताळ्यान. 'तुजी क्लास सेकेंड जावं या कसलेंयी नंबर नातल्लीच जांव कसलें फरक पडलें तुका?'

'आमी थळाथावन उंचल्या समाजीच्या खळाक येजे, मिक्की.' ती म्हणाली. दुडू मात्र हें साध्य करता. हांवें जरी तरी धा हजार दोत दिल्ली तर म्हाका तुमच्या बामणांच्या संवसारांत घेवंक तयार आसल्ली मंगळुरी कातोलीक समाज.'

'तर कितें हांवें म्हज्या पांयांच्या उणाक लागोन तुजे लागीं एक सोल्लो केलोय म्हण तिंतताय जिल्ली?' तो म्हणालो सुक्यो हांसो हासून. 'कसलो किडो रिगला तुजे मतींत? कितें उणें आसा तुका? मतीचें समाधान आसा न्हय?'

'मतीचें समाधान कांय जेवण दिना, मिक्की'. ती म्हणाली. 'आज कितें आवचीत तुका जोस आयलो आनी तुवें विल्माक गेट आवट केलेंय. कोण जाणा फाल्यां असल्यांचीच आमकां गरज पडत.'

'तर कित्याक ही कटपट[37] जिल्लें?'

ताणे विचारलें. 'आमी आमच्या जिणेंत दोडेपणच थोरूं जावन घेतल्यार कांय वांदेनात न्हय? मेळल्ले चान्स मारचें. तें आसोंदी, आतां कितें तें नोरा आमच्या जेरीक लायन मारता म्हणतालेंय? एकाच प्रायेचीं तीं जिल्ली. एकाच घरांत आसात म्हणताना हांसतात – उलयतात. चड शिकप ना तरी नोरा लक्षणाचें धय्रादीक भुरगें...'

'हां, तितल्यार पावली तुजी पोडणिशी?' जिल्ली मर्दी उलयली. 'ही प्रायच वायट, मिक्की.' ती म्हणाली दोळे अशीर करून. 'व्हडोल नोरान कितें म्हळें

जाणाय?' ताका सांबाळ नाका खंय. कितलो तेंप जाता पर्यांत तें आमगेर रावोन मांयची चाकरी करूंक तयार खंय. आमच्या पोसण्यांतलें कांय आंबील मेळ्ळ्यारय ताका पुरो खंय. हाचो मतलब हेर कसलो जावयेंत?'

'तुवें चिंतच्या तसलो न्हय जावयेत', म्हणालो मिक्की गुंडायेन चिंतून. 'नोराच्या घरांतली परिस्थिती कशी आसा म्हण तूं जाणांय या हांव जाणां. किर्तेगी ताका हांगासर कुडी-मतीचो सुशेग लाबलो कोण्णा. ताका जरीतरी विजाय मेळत तर अरब्यांगेर चाकरेक वेता न्हय तें? ताचे स्थितेंत तूं तुकाच कशें तयार करशी जिल्ले? चिंतून पळे.'

'जावंक पुरो,' ती म्हणाली. 'पूण मिक्की, ताची भास वोडता आनी हासो उठवंचीं थोडी उतरां तें वापरता म्हणताना तुका कळाना?'

'हां, परत्यान आयलेंय तूं क्लासीचेर? मानून घेवयां तूं सेकेंड क्लासच म्हण. कसल्यो विभिन्न बुदी आसात तुजे थंय? कितें लुटलां तुवें या कोणाक दगो दिलाय? फाल्यां तुजो पूत एका अपांग चलयेलागीं लग्न जातां म्हळ्यार कितें करताय तूं? मोगाक दोळेनांत मात्र न्हय कान - तोंड - नाकय ना, जिल्ले.'

'तीच भिरांत म्हाकां', पिसपिसली जिल्ली टिचेर.

पूण दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें तिणे गाड न्हिदेंत आसल्ल्या जेरीक धोंकळून उठयलो. 'ऊट - रे पुता', ती म्हणाली. 'म्हज्या सांगाता मिसाक ये.'

'निदोंक सोड, मां', परातलें जेरीन. 'आज खंच्या सर्गावयलो सोंत? आल्मांचो दीस तर, ते अत्मे तांच्याच समादानांत आसोंदीत मां.'

'म्हाका तुजेलागीं गरजेचें उलवंक आसारे पुता' ती म्हणाली. 'वालेन्सिया मिसाक वचयां आनी त्या उप्रांत वुडलँडसांत, ब्रेकफास्ट करयां.' 'कितें जालां माम्मीक?' आपले दोळे अर्देकुरे उगते करून तिका पळे लागलो जेरी. 'कालपर्यांत पयशे पयशे म्हण रडताली.'

तिणे कांय ताचीं चिंतनां वाचलीं जायजे. 'विशय गरजेचोच पुता', ती म्हणाली. 'आतां ऊठ'

मीस जातेच वुडलँडसांक वचोन बसतच तिणे एक खामसाला दोसा आनी जेरीन ऊतप्पा हाडयलो.

'कितें उलवंक आसा मां?' जेरीनच सुरू केलें. 'घरचो खर्च चडला मूं? पी.

पी. एफ. चेर रीण आसा. इवोनाक मेडिकल करूंक जाय. म्हाका दिसता आनी समजाता माम्मी. म्हजेलागीं थोडे पयशे जमो जाल्यात ते दितां. क्रिसमसाक सूट शिंवयजे म्हण चिंतल्लें हांवें...'

'आनी काजाराकच शिंवय', मयपासान पुताक पळे लागली जिल्ली.

'आतां आयक', म्हण तिणे नोरान जातातितलो तेंप घरारावोन कुमोक भासायल्या म्हण ताका सांगलें.

'बरेंच जालें न्हय?' म्हणालो जेरी, मेजार आइल्ल्या ऊतप्पाक गारफान कात्रे घालीत. 'शातिवंत भुरगें तें. तसल्यांक बरें शिकप मेळाजे.'

'कित्याक?' सॅली कुरियनापरीं जावंक?'

'मां, कितें आसा तुजे मतींत?'

'तूं म्हाका सांग, तुजे मतींत नोराथंय कसलीं भोगणां आसात? तें धर्मार्थ आमगेर रावोंक ओपलां.'[38] म्हळ्ळ्या फाटल्यान तुजीं भोगणां आसातगी म्हळ्ळो जब्बोर जाता म्हाका. कसलें शिजता तुजे मतींत? तेवशीन सॅली कुरियन आनी हेवशीन नोरा?'

जेरी, आवयकच पळेगालगो. 'हें एक वोक्काणें-गी मां या एक बदलाम?' ताणे चत्रायेन विचारलें.

'चीटफंडाक सेर्वाल्ल्या उप्रांत तुजें उलोणें बदललां, पुता जेरी!' ती म्हणाली. 'धुस्पटायेची प्राय ही. आमी आमच्याकी ल्हान आसल्ल्यां लागीं सयरीक जोडूंक नजो.'

'तूं कितें उलयताय म्हळ्ळें म्हाका समजाना, माम्मा,' जेरीन सत उच्चारलें. जिल्ली टिचेरीच्या दोळ्यांनी एकाच्छाणे दुकां उदेलीं.

'जात कुळयेक लागोन एके चलयेन तिरस्कार भोगताना कशें जाता म्हण तुका कळीत ना, पुता जेरी.'

'कोणाची जात, कोणाची कुळी?' ताचो ताळोय आतां भार घेतालो.

'संवसारांत दोनच कुळी आसात, मां!' ताणे मेजाक हळताची मूट मारली. 'एक दादल्याची आनी दुसरी स्त्रियेची. पूण तूं हेर खंच्यो कुळी रचूंक भायर सरल्याय म्हळ्ळें म्हाका कळीत ना. हें उलोणें म्हाका एकच सुचायता कीं तुका जाणा जावंक जाय की म्हाका आनी नोराक कांय संबंध आसागी म्हण,

दुसऱ्यान, तूं चिंतताय, सॅली कुरियनान म्हाका कसल्यागी पाशांवी सुळयेंत फसयलागी म्हण. तुज्या ह्या दोनय सवालांक एकच जाप. ना!' ताणे आपलो ऊतप्पा पयस लोटलो. 'पूण एक संगत मात्र सत, म्हाका तांचो दोगांयचो सांगात बरो लागता. म्हणताना, दादलो आनी स्त्री म्हळ्या कुळयेंमदें फकत लैंगीक संबंद मात्र आसयेत म्हण तुवें चिंतचें नाका. इश्टागत आनी समजणी एक वर्तें देणें.' जिल्ली टिचेर नापातयेणेन आपल्या पुताक पळेताली. 'आनी तुज्या फस्ट क्लास, सेकेंड क्लासी विशीं हांवें आयकालां. हें मनशाकूळ मां' तो तिचे दोळे धरून म्हणालो. 'फाल्यां आपल्या फायद्याखातीर कोणय जातकात, कुळी पोळी पळवंक वचना. तुंयी त्याच मेटांनी फाल्यां चलशी तर म्हाका अजाप जावंचे ना. चल नाश्टोकर, घरा या. म्हाका वोगीं वचोंक आसा. सांजेर येताना बँकांतले पयशे हडून दितां.

वुडलँडसाथावन भायर येताना जेरीन खचितायेन आवयक सांगलें 'ह्या फुडें असलें उलोणें नाका – सामकार आसा ती जिणी आमी जियेवयां. म्हजे अवकास[39] म्हाका मेळतेले. पप्पा कांय मुल्याक[40] पडोंक ना. आनी तुका निवृत्तेक आनिकी थोडो तेंप आसा. इवोन – मूं? पी. यू. सीं.त पडोंदी पयलें. हांव पुरतो बेजवाब्दारी न्हय, मां, तुका पयलेंथावनच म्हजेर भरवसो नातल्लो, आनी आतांय ना.'

फुडल्या वीस दिसांनी मिक्की टेलर रिक्षा धरून आपल्या शॉपाक वचोंक सकलो. कितेंगी, तें सीझन बरें आसल्लें आनी एक मॉडर्न टेलर ताच्या शॉपाक सेरवाल्लो. ताका ताचेंच शॉप आसल्लें, पूण पियोण्याक लागोन संपूर्ण लाचार आनी पिड्ड्यार जाल्लो तो अमाल व्यसनींक एक नवी दिशा दिवंच्या पुनर्वस्तेंत सेर्वाल्ल्या ताका मिक्कीच्या शॉपाक धाडल्लो स्वयंसेवकांनी. हें मिक्कीक बऱ्याकच पडलें. लेडीत टेलर हो गुरूराज.

चलयांच्या फेशनांत ताचें नांव आसल्लें आनी तो मिक्कीच्या शॉपांत आसा म्हळ्ळें कळीत जाल्लेंच, गिरायकां चडलीं आनी मिक्कीची कमाय बऱ्या मट्टाक चडचीं लक्षणां दिस लागलीं. मिक्कीक पयलेंचे परीं घंटेंगटल्यान उबो रावोन कटिंग करूंक जायनातल्ले. दामू, केदाळाय ताका पाटिंबो दितच आसल्लो. ओट्टारे पळेवंक गेल्यार, परिस्थिती तितली पाड दिसनातल्ली.

नोरा आइल्ल्यान घरांत इल्लीशी विविधाय आनी चडीत हासो आसल्ल्यो म्हणयेत, पूण खंच्यायी वेळार नोरालागीं चड सळगेन या खुशालायेन उलवंचे अवकाश मिक्कीन या जेरीन घेतल्ले नांत. जिल्ली टिचेरीचो सभावच हाका कारण म्हण बोलत्यान सांगाजे म्हळ्ळी गरज नातल्ली.

तीन म्हयने जाताना ब्रिजीत डिक्रुजान आपले धुवेक आनी जांवयाक दिल्ली भास पाळ्ळी. आपणाक उरल्ले थोडे दीस आकेर करून ती चल्लीच. तिचें अन्त्य जावन आसल्लें भोव शांत. निमाणे घडयेपर्यांत ती मतीर आसल्ली. 'एक भास तुवें म्हाका दी जाय पुता' ती म्हणाली. 'आमच्या कुटमांत तुवें शांती हाडीजे. एक दीस येतलो तवळ तुका भोगतेलें कीं, पुरो ही दुस्मानकाय दिसतेलें तुका, जातकात, कुळी म्हण गरजनासतां 'करगोंचे तूं भरमान मातें उकल्न चलतेलेंय... खंय आसा नोरा?'

नोरा मुखार येतच तांकां सर्वांक एक हासो दिवन ब्रिजीत डिक्रूज म्हणाली 'म्हाका आतां नीद येता.'

आवयच्या मरणाक जावं जॉनी या ताचें कुटम आयलें ना. जिल्लीन तांकां फोन करून कळइल्लें पूण तो म्हणालो 'आमी प्रॅक्टिकल जायजे, जिल्लीबाये. म्हाका म्हज्या मांयच्या मोड्याचो उडास मतींत आसचो नाका. आमी येतां म्हण एक हाप्तोभर तिचें मोडें सरकारी फ्रिडजांत दवरच्यांत अर्थ ना. मरणाचो सगळो खर्च हांव पळेतां. पाळच्यो रिवाजी सर्व पाळ, करचीं कार्यीं सर्व कर.'

ह्या उतरां आनी कर्तुबां मुखांत्र जॉनी, भयणीथावन जाता तितलो पयस सरोंक पळेता म्हण जिल्लीक नक्की जाल्लें.

ब्रिजीत डिक्रुजाचें सातव्या दिसाचें मीस जातेच, आवचीत एका दिसा, नोरा भायर सरलें.

त्या सकाळीं येस्तुबाय आइल्ली. ब्रिजिताच्या मरणा वेळार तिणे दिल्ली कुमोक विशेस.

'तुमी म्हाका वचा म्हणच्या पयलेंच म्हाका विजा आयल्या' नोरा म्हणालें दोळ्यांनी दुकां घेवन. 'म्हाका कितें म्हणचें म्हळ्ळें कळना.'

'बऱ्यापणाक पावताना दोळ्यांनी दुकां काडिनात, नोरा.' म्हणाली जिल्ली. सतच तर तिचे बांदपास उणे जाल्ले.

'ह्या घरांत म्हाका मेळल्लें बरेपण आरब्यांगेर मेळत टिचेर?' तें दुकांमदेंय हांसोंक प्रेतन करिलागलें. 'तुमी बरीं मनशां. म्हाका एक नवें कुटम मेळ्ळें हांगासर. नवें धयर मेळ्ळें जियेवंक.'

'पूण कितें करयां?' चिक्केशी आंबट जाली जिल्ली टिचेर. 'बांदून दवरिल्ली भुती चड तेंप येना न्हय? आनी चड करून ती भुती हेरांनी बांदून दिल्ली तर.'

सोप्याच्या एका कोनशाक रावोन हें आयकोंच्या जेरीन कितेंगी म्हणोंक वोंठ उसयले, पूण म्हळें ना.

'बरें जा.' म्हणालो मिक्की नोरा आदेव्स मागोंक येताना. 'तुजो उपकार आमचेर आसा.' ताणे ताच्या माथ्यार हात दवरलो.

'तुजे थंय म्हाका एक भयण मेळ्ळी.' इवोनालागीं येताना म्हणालें नोरा. 'तुवें मेडिकल करिजेच इवोन बाये.'

'कितें, हाचो आरबी पयशे दिता खंय? मनांतच उद्गारली जिल्ली टिचेर. आतां तिका पळेवंक जाय आसल्लें, हें नोरा, जेरीक कसो आदेव्स मागतागी म्हण. ती घुगीचे दोळे करून तांकां पळे लागली. हो कांय कण्णकट्ट आदेव्स कोण्णा म्हळ्ळो दुबाव तिका उटलो. दोळे चुकवन हांणी कसलो आनी कसो आदेव्स मागला कोण्णा. तिचें दुबावी मन परत हालोंक लागलें.

'जेरीबाबू', तें ताच्या सामकार रावोन म्हणालें, सर्वांक आयका सारकें.

'हें गुडबाय. तवळ तवळ म्हजी पांती[41] वोडल्याक धन्यवाद. तूं एक बरो इश्ट.'

'तुजी पांती ओडतालो तर हो?' जिल्लीची कोलती उठलीच.

'पुरो मां!' जेरीन ताळो काडलो. तुका पळेवंक जाय तर आतांच नोराची पांती परत्यान ओडतां. वच नोरा.' तो म्हणालो. 'बरें जा आनी गुडलक. 'वेंगीच तुमी म्हाका विसरतेल्यात.' तांणीं चिंतिनातल्लीं उतरां तें उलयलें. 'हो संवसार, आपल्या फायद्याक पडनातल्यांक वेगींच विसरता.'

नोराच्या ह्या उतरांक कसलेंय समादान दिवचें तसलें प्रतिवाक्य कोणा लागींयी नातल्लें.

नोरा चल्लें.

आनी सत आनी नीज, सुमार स म्हयन्यांभितर नोराची तांकां 'विसर'

पडली.

जेरी, इवोन, मिक्की आनी जिल्ली टिचेर परत्यान तातांचे जिणेच्या रोदांनी शिरकोन घुवोंक लागलीं. सबार पावटीं ही घुंवडी जावन आसताली यांत्रीक, पूण सुशेगाची न्हय. चिमटे आसल्ले सबार आनी केदी व्हड दुडवाची गरज त्या कुटमाक उटताली, तेदो व्हड आसतालो तो चिमटो.

कुरियन चीट फंडांत जेरीचें बिजनेस बरें आसल्लें म्हणयेत आनी ताच्याकी बरें ताचें आनी सॅल्ली कुरियनाचें मानसीक समतोलन. घरांत घडचें सर्व सॅलीक कळयतालो जेरी. ताणे नोराविशीं सॅलीक सांगताना ती धादोशी हांसल्ली 'म्हाका एक पावटीं तुजे माम्मीक मेळजे.' म्हणाली. 'केदाळा म्हाका घरा आपयताय?' 'तुवें आनी हांवें हांगाथावन मुखार वेचें नाका मॅडम,' म्हणतालो जेरी. 'एक प्रकरण विसरताना माम्मीक दुसरें दिवचें नाका.'

'कितें?' नाटकीय रितीर उद्गारली सॅली कुरियन 'आमचेमदीं प्रकरण चलता म्हण हांव नेणासलीं!'

त्या एके सांजेर चीट फंडाथावन काम जावन भायर येताना आवचीत मुखार मेळल्ल्या शिंटोक पळेवन जेरीक अजाप जालें. लागीं लागीं एक म्हयनो जाल्लो तांणी एकमेकां भेटानासतां. शिंटोच्या बापायन ताका चडावत मलबारांतच रावाशें केल्लो. टेरीची तांकां खबर नातल्ली, तो सप्लिमेंटरीक बसला या ना म्हळ्ळेंय तांकां कळीत नातल्लें.

'हाय, मलेयाळी कुट्टी!' ताचो हात धरलो जेरीन. 'खंय रे तूं? कित्याक तितलो गंभीर?'

'शिंटोन थंय पळे म्हण इशारो दिताना जेरीन ताचे दिश्टिचो पाटलाव केलो'. चीट फंड बांदपाच्या आनी कोर्ट सेडाच्या मेदेगात आसल्ल्या 'खैबर पास' रस्त्यार टेरी उबो आसल्लो.

■■■

# 9

तवळ पर्यांतली जिणी तितली तेज चलल्ली की, कितलींशीं जणां आइल्लीं गेल्लीं, जेरीक सबारपावटीं आपणाचीच विसर पडताली आनी शिंटोचो कायम सांगात ताका चुकल्लो जाल्ल्यान टेरी सयत मतींतलो तवळ तवळ मायाग जातालो.

तरी उडास आइल्ल्या वेळार आनी शिंटो मेळल्ले वेळार ताणे विचारल्लें आसा. पूण शिंटोक सयत टेरी विशीं कांय कळीत नातल्लें. 'ताचें कुटम तुमच्याच फिर्गजीचेंच न्हय? ताच्या आवयलागीं कित्याक विचारून पळेनाय?' तो जेरीलागीं म्हणतालो. 'ताचें मादक व्यसन सांडून बेंगळुरांतच तो आसा तर बरेंच. हांगासर आवयक कांय आयकोंचें परीं ना तो.'

'हूं', म्हळ्ळें जेरीन. 'टेरीच्या आवयलागीं उलयल्यार म्हजी मम्मा म्हाका उबोच चिरूंक आसा.'

'तसली कसली दुस्मानकाय तुमकां?' शिंटोन विचारल्लें.

'बायलांक दुस्मानकाय जोडून घेवंक कारणां नाकात, शिंटो', जाप दिल्ली जेरीन वरत्या जाणात्यांपरीं.

म्हजी माम्मा मू? मैलाच्या फातरालागीं सयत सुलभायेन दुस्मानकाय मागोन घेता.'

'तिका कसलेंगी कॉँप्लेक्स आसा म्हण दिसता', म्हणालो शिंटो व्हडल्या फिलोसोफरापरीं. तवळ दोगयी हासले शिवाय हेर कांय उलयले नांत.

एक दोन पावटीं टेरीच्या बापायक आंब्रोज पिरेरीक जेरीन आयतारा मिसा वेळार पळेल्लो पूण वचोन ताचे लागीं टेरी विशीं विचारूंक ताका धैर पावलें ना.

'बेवडो खंयचो', आपले आवयन म्हळ्ळें ताणे आयकाल्लें. 'सकाळींफुडेंच ताचे दोळे पळे! पोंवटेल्ल्या सांगटेराच्या दोळ्यांपरीं तांबडे जाल्यात.'

'माम्मा', तवळ जेरीन म्हळ्ळें आवयलागीं. 'आमच्यो इश्ट टेरी दिसा ना मूं? बेंगळूर गेला म्हण आयकाल्लें आमी.' 'मेलो आसतलो?' ती म्हणाली, जेरीच्या सर्व सवालांक खाडूं घालून. 'धुवेक पळे तांच्या. म्हज्या इवोनाच्या पायांक बांदिजे ताका. माणसुगेच्या सर्व परिद्यो विसरलांत तें, म्हजे इवोन पळे.'

'सांत आन्नसच!' अशें म्हणोन तो धांवल्लो. ह्या उपरांत जेरी पास जाताना आनी ल्हान मट्टाचें काम ताका एकाथराचें धैर हाडून येताना आनी पयशांची हळत शेळ हाता ताळवेंत एकामेकाक निसरायताना आपली जिणी सुगम जातेली म्हण ताका भोगतालें. शिंटो खंय अपरूब ताका मेळतालो आनी ते कुरियन चीट फंडा सामकाराच आसल्ल्या उशा हॉटेलांत बसोन बियर पियेताले.

घरांत घडल्लें आनी घडोनच आसल्लें जेरी शिंटोक सांगतालो. नोराची खबर येताना दोळे अशीर करून शिंटोन ताका पळइल्लें.

'पळेवंक कशें आसारे' ताणे विचारल्लें. 'तुजे लागीं कसले विचारचें?' ताणे आपणाकच जाप दिल्ली. 'कॉलेजींत कितलींशीं चेडवां आसल्लीं तरी तुवें केल्लें कितें आसा?' 'नोरा कशें आसा म्हण पळेवंक जाय तर घरा ये', म्हळ्ळें जेरीन. 'तें आमगेर चाकरेक आसा रे, आनी हांव तसलो न्हय म्हण तूं जाणांय.'

'हांव जाणां गी?' शिंटोन म्हळें. 'पूण तें गल्फाक वेता म्हणालोय.'

'वचुंदी'.

'तुकायी चान्स आसात तर?'

'तें माम्मीचें डिपार्टमेंट.' जेरीन म्हळ्ळें फिकीर नासतां 'जॉनी अंकलाक बरइल्लें खंय. थर्ड क्लास बी. कॉम. डिग्रीक कांय मोल ना म्हळें खंय ताणे...'

'आनी असावे तर?' चिडायलें शिंटोन. 'कितें गी सॅली, आण्टी तुज्या मोगार पडली जायजे तुका काम दिंवक. हांव पळें म्हज्या इतल्याक आसां. म्हज्याच बापायच्या क्वॉरींत करपोन इंगळो जाल्यारी म्हाका सुखच. सर्वांथावन पयस रांवचेंच बरें.'

मिक्की आस्पत्रेंत पडल्ल्या वेळार शिंटो एक दोन पावटीं आइल्लो. पूण नोरा

ताका पळेवंक मेळ्ळें ना. घरा वचोंक तो जेरीच्या माम्मीक कठीण भियेतालो जाल्ल्यान सुत्तुराक गेलो ना.

अशें आनी असलें उलोणें मात्र चलतालें तांच्या मदें. संवसाराचें नेम कितें कोण्णा तें, हर एकलो एका न्हय एके घडये तांचीच दिशा धरून वेतालो.

असोच आपले दिशेन वचोन आसल्लो जेरी आयचे सांजेक मात्र तयार नातल्लो.

शिंटोन दाखइल्ले दिशेन पळेताना 'खैबर पास' रोडार उबो आसचो टेरी ताका दिसलो. ताका पळोवन जेरीच्या बोंटांतल्यान उतरां सुटलीं नांत.

'तुजे लागीं उलवंक आसा म्हण आयलां' तगसाल्ल्या ताळ्यान कळयलें शिंटोन.

'खंयथावन तो आयला, शिंटो?' हाच्याकी समंजस सवाल जेरीक सुस्तालें ना जायजे. ताचें काळीज दडदडतालें. कसलेंगी वायट येवंक आसची निशानी ताका दिसताली. 'तर तितल्या पयस कित्याक रावला तो?' जेरीन दुसरें सवाल केलें. 'लागीं आपय ताका.' 'तूंच आपय' म्हणालो शिंटो. 'तो सगळोच फ्लॅट जाला, जेरी.' He is fully stoned आतां कितें करचें?'

'जेरीन हेणे तेणे पळयलें. एक पावटीं चिट फंडाक आनी दुसऱ्यान उशा हॉटेलाक. 'आपय ताका', म्हणालो तो.

'शीदा भितर वचोन बसयां,' ताणे उशा हॉटेलाक दाखयलें.

'पूण सातांशिवाय दार उगतें जायना जेरी!' म्हणालो शिंटो.

'तुका एक खोंट घालीन तर तुवें तुज्या इरिंजाला कुडाक वचोन पडाजे', म्हणालो जेरी खोट उबारून. 'ताका सोरो पियेवंक आपयना हांव.'

'पळेतोलोय तूं!' भुजां हालयलीं शिंटोन.

त्या दिसा एक लोड जल्ली घेवन क्वॉरी थावन शीदा वाय. एम. सी. ए. सरशीन आसल्ल्या एका सायटाक आइल्लो शिंटो, जल्ली अनलोड़ करवन देंवल्लो. ताणे ड्रायवराक सांगलें कीं आपलें आयचें काम जालें आनी ताणे क्वॉरीक पाटीं वचयेत म्हण. लॉरी वेतेच शिंटोक कितेंगी आदले उडास आयले आनी ताणे बल्मठा मैदानाकुशीन मेटां[42] काडलीं. रिजल्टाच्या दिसा जाल्ल्या प्रकरणा उप्रांत शिंटोन आनी जेरीन त्या मैदानाकुशीं वेचेंच बंद केल्लें. थंयसर

तांकां टेरीचें मोडें राखता[43] म्हळ्ळें भिरांकूळ भावन तांचे थंय उदेल्लें.

सप्लिमेंटरीक बांदताना आपूण पास जायन म्हळ्ळो कसलोयी भरवसो ताका नातल्लो. ही सप्लिमेंटरी आपणाक गरज म्हणय ताका दिसलें ना. आपले दीस कशेयी चलतेले आनी वेळ येताना आपली आवय तिचे खातीर म्हण एक सून हाडतेली आनी तीच शिंटो पाव्लुसाची बायल म्हण संवसार म्हणतलो म्हळ्ळें चिंतून तो हांसतालो. घडताना घडोंदी, त्या फुडें चलयांचे लफडे कित्याक म्हळ्ळें चिंतप ताचें आनी जेरीचें. वोट्टारे, मोगार पडची जवाब्दारी सयत हांकां नाकासल्ली.

पूण शिंटो पास जालो आनी ताच्या बापायन ताका क्वॉरीचो पास घालून कामाक लायलो. आपणाक हेर वाट ना म्हण शिंटोन क्वॉरीच्या पावसाक वोताक हरदें दिलें. पूण हातूं ताका एक अजीब समादान आनी सूख मेळतालें आनी आपले कुडीथावन देंवचो घाम आपल्याच वावराचो म्हणताना तांतूं अपभर्माची खारसाण वळ आसा म्हण ताका गमतालें.

आयचे सांजेर शिंटो पाव्लुसाक इंद्रभवनाच्या टोमेटो ओमलेटाचो उडास आइल्लो आनी ताणे हाळवायेन तें मैदान उतरोंचे खातीर मेटां काडलीं.

पूण ताचें काळीज अनामीक भियान बोरयांक[44] खोटायतालें. कोणगी ताका सांगतालो, तुमचो इश्ट टेरी हांगासरच खंयगी आसा. 'हें कसलें प्रिमोनीशन?' तो आपणाकच विचारीलागलो. आनी ताचे कबलातीविणेच ताची दिश्ट त्या वोडाच्या रुखामुळाक पडली.

सांजेचो वेळ. साडे पांच उतराल्लीं. शिंटोची चाल आनीकी सवकास जाली. ताची कबलात नासताच म्हळ्ळे पर्री. पयसथावन ताका कसलोगी बरबरो आवाज आयकालो आनी तो आवाज लार्गी लार्गी येतालो. एकाच्छाणे चार काळीं बायकां सांगाताच येवन त्या रुखामुळांत थांबर्ली.

शिंटो त्या बायकांच्या सवारांक ओळकालो – बाराक्कुटा गँग!

तीन बायकांचेर पिलियन रायडर नातल्ले, पूण चोवत्याचेर आसल्ल्याक पळेवन शिंटोची अंतर्मुळां उडर्ली.

टेरेन्स पिरेरा.

बाराक्कुटा गँगाच्यान ताका त्या वोडाच्या रुखामुळांत देंवयलो. लकोनसो

देंवल्ल्या टेरीची अडी चुकली, तो लकलो आनी पडलो. हें पळेवन शिंटोन दोन मेटां मुखार काडलीं. पूण ते गँग थंय आसताना आनीकी फुडें वचोंक ताका धैर पावलें ना.

पडललो टेरी कश्टांनी उठताना गँगाच्या एकल्यान ताच्या नाकापंदाक मूठ हालवंची शिंटोक दिसली आनी 'आज राती भितर!' म्हळ्ळी धमकी आयकाली. टेरी जायत जायत म्हळ्ळेपरीं मातें हालवन हात जोडिलागलो.

शिंटोच्यान हें पळेवन सोंसूंक जालें ना. कसले हीन स्थितेक पावल्लो हो टेरी. केदाळा आइल्लो हो बेंगळुराथावन आनी कसो सेर्वालो हो बाराक्कुटा गँगांत?

गँगाचीं बायकां सुरांटी मारून थंयथावन उसळटाना शिंटोन मुखार पालां घालीं. तो टेरी सरशीं पावताना तो वोडाच्या रुखासावळेंत बसोन जल्लो.

'टेरी!' ताच्या सामकार रावोन शिंटोन ताळो काडलो. सांगाताच ताणे चिंतलें. 'हांव कसलो सायको जातां, धनया देवा? कशीं सत जालीं म्हज्या मतींत आइल्लीं चिंतनां?'

'टेरी, हांव शिंटो?' ताचेथावन कसलीच प्रतिक्रिया येवंक नातल्ली पळेवन शिंटोन ताका धोंकुळ्ळो.

'कितें जालां तुका' तांच्या गँगात कसो सांपडलाय तूं?' मातें उबारून टेरी ताकाच पळे लागलो. ताच्या दोळ्यांच्यो मंडळ्यो सवकास घुंवताल्यो तरी ताका शिंटोची ओळोक कळ्ळी. 'हो शिंटो!' तो मोवाळायेन उद्गारलो. 'म्हजो इश्ट शिंटो. हांव करेक्ट आसां. आतां हांव फ्री जाला. I am fine

'तूं बेंगळूर गेल्लोय न्हय टेरी?' शिंटोन हेणे तेणे पळेलें. मैदानार आसल्ल्यांचें या तेवशिल्ल्यान चलोनवेच्या कोंणायचें गुमान हांचेर आसल्लेंपरीं दिसनातल्लें. 'चल म्हजे सांगाता. कसली धमकी दिली तांणी तुका?'

'कांय ना', तो म्हणालो हात उदारे करून. 'ते बाराक्कुटा गेंगाचे न्हय? ते म्हाका बरी कुमोक करतात. तांकां म्हजे भलायकेची बरी खंत आसा.'

कॉलेजींत आसताना बाराक्कुटा गँगाथावन टेरी ड्रग्स घेतालो म्हळ्ळें शिंटोक आनी जेरीक कळीत आसल्लें पूण हो केदळा तांच्या गँगाचो सांदो जालो, जाला न्हय तर? बाराक्कुटा गँगाचीं कर्तुबां आयकाल्ल्या शिंटोक बारीक घाम सुटलो. संयबान तो कांय धयरादीक न्हय. तक्षण ताका जेरीचो उडास आयलो. पूण ह्या

जानवाराक जेरीपर्यांत व्हरचो कसो? जेरी आतां खंय आसा म्हण? चीटफंड ऑफिसांत ना तर?

तेणेंतल्यान कोणाचेंयी बायक वचत तर शिंटो चिक्केशे आडोसाक वेतालो. 'तुज्या भलायकेची बरी जतन घेतात ते, न्हय?' विचारलें शिंटोन. 'आतां ऊठ आनी म्हज्या सांगाता ये.'

'म्हाका घरा व्हरिनाका. तुजे पांय धरतां.'

'तीं नेणांत तूं बेंगळूर थावन आयलाय म्हण?' शिंटोन एक फार मारलो काळोखांत, पूण तो लागलो.

'माम्मी जाणा, डेडीयी जाणा', टेरी म्हणालो हात उदारे करून. 'तांणीच न्हय म्हाका बेंगळुरांत त्या आस्पत्रेंत दवरल्लो. ब्लडी प्लेस. कश्टिलो तांणी म्हाका. आतां हांव करेक्ट आसा देखून म्हाका पार्टी हाडला. जेरी खंय आसा?'

'कित्याक?'

'म्हाका ताचेसरशीं व्हर, म्हाका ताचे लागीं उलवंक आसा.'

'ह्या स्थिरेर तूं येंवक सकताय?'

'तुमी म्हाका एका दिसा रिक्षार घालून व्हरूंक ना?'

ताचें सवाल आयकोन ताचो उडास आनिकी कितलो तेज आसा म्हण शिंटोक सुस्तालें आनी तो मनांतच कळवळ्ळो.

'आतांयी तशेंच व्हरा.'

'नाका टेरी', परातलें शिंटोन. 'तुका हांव घरा व्हरतां.'

'हांव करेक्ट आसां म्हळें ने? Don't irritate me!' टेरीन ताळो काडलो.

'हांव घरा सांगोनच आयलां. म्हाका जेरीसरशीं व्हर, म्हाका ताचे लागीं उलवंक आसा', तो उबो जालो. 'त्या उप्रांत तुमकां खंय जाय थंय हांव येवंक तयार. Any time, any place. पळे! कसो हांव आतां करेक्ट आसां पळे. 'तूं म्हाका आतां फटवन घरा व्हरशी तर हांव सुसायड करतलों.'

शिंटो सांपडलो. वाटेन वेच्या वागा, म्हाका येवन खागा. म्हळ्ळे परीं जाल्ली ताची गत. पूण इश्टागत म्हळ्ळ्याकय एक मोल आसता आनी हें मोल देवें जावन बदलाताना घडीतनातल्लेकडेन वोडीत वेता जिणी.

'जेरी खंय मेळता?' वोडाच्या रुखाक वोणकोन रावोन विचारलें. 'ताका

काम मेळ्ळां म्हण हांवें आयकाल्लें. तूंयी काम करताय? सांबाळ बरो मेळता?' खंय आसा जेरी `My Good Friend?'

शिंटो दाक्षेणेक पडलो. 'जेरीक कुरियन चीटफंडांत काम मेळ्ळां, टेरी.' ताणे सांगलें. ह्या घडये तो ऑफिसांत आसा या ना म्हळ्ळें म्हाका कळीत ना. कितेंय तरी ताका धोसचें नाका.'

'खंय आसा ऑफिस?' एकाच्छाणे सनीन जाल्लेपरीं टेरीन पाशार जावंची रिक्षा रावयली. 'हांव कोणाकी धोशींना, हांव कोणाकी रडयना. म्हाका बेश्टेंच कुडांनी फिचार करतात. बाराक्कुटा गँगाच्यानी पार्टी आइल्ल्या म्हजी जतन घेतली. गुड बॉयज ते. जेरीचें फीस खंय आसा? सांग रिक्षागाराक.'

शिंटोक हेर उपाव नातल्लो. ताणे रिक्षागाराक ठिकाणो सांगलो आनी टेरी बसतेच, दडदडचें काळीज घेवन आपुणय बसलो.

वाटेर तांच्यामदें कसलेंयी उलोणें चल्लें ना, पूण टेरी आपणा इतल्याक कसलेंगी गुणगुणतालो आनी घडये घडये आपल्या कोंपरांच्या वयल्या भागाच्या शिरांक पळेतालो, पोशेतालो. त्या शिरांचेर आसल्ल्या सुवियांच्या[45] तोपणेंचे तिबे पळेवन शिंटोक कळीत जाल्लें कीं टेरी सुमार दिसांथावन मादक ओकतांचीं इंजेक्शना घेवनच आसा म्हण. पूण चिकित्सेखातीर बेंगळूर वचोन समाजावन आइल्लो तर हो कसो बाराक्कुटा गेंगांत सांपडलो? परत हो निसरलो? ताचें संयम चुकलें?

दोदोन पावटीं शिंटोन मन केलें, रिक्षा सीदा मोली पिरेरीच्या घरा घुंवडावंची म्हण. पूण एकाच्छाणे हो टेरी उडकी मारीत तर?

चीटफंड ऑफिसालागीं पावतेच शिंटोन रिक्षा रावयली आनी ते देंवले. 'खैबर पास' रोडार आसल्ल्या घुडाचे आंगडी लागीं रावतेच टेरी म्हणालो, 'म्हाका एक सिग्रेट घेवन दी.'

'तांतूं कांय चेपिनाय तर घेवन दितां.'

'तूं चड उलयनाका हां शिंटो!' आपल्या आंगार कसलेंगी आइल्लेपरीं म्हणालो टेरी. 'चेपचें कसलें? तुजें मोडें? आपय जेरीक.'

'तूं हांगाच राव', शिंटोन ताका एक सिग्रेट घेवन दिली. म्हज्या पाटल्यान येनाका...'

'कित्याक? म्हजी लज दिसता तुका? हांव मोली आनी आंब्रोज पिरेरीचो पूत. Remember that'

चीटफंड ऑफिसाभितर वचोंक शिंटोक नाका आसल्लें कित्याक सॅली आण्टी सामकार पडोंक ताका मन नातल्लें.

पूण एक हुन्नर तो खेळ्ळो. चत्रायेन मेटांचडोन तो ऑफिसाच्या माळयेक पावलो आनी कोणाच्याची गुमानाक वचानाशे ताणे भितर तिळ्ळें. सॅली आण्टीचें कॅबीन तिरकास आसल्ल्यान ती ताका दिसली ना पूण ताका पाट[46] करून बसल्लो जेरी दिसलो. ऑफिसाच्या चपरासीन हाका पळेवन तो उठोन येवंच्या परास पयलेंच शिंटो थंयथावन निकाळ्ळो आनी सकयल येवन उशा हॉटेलालागीं रावलो. तो रावल्लेकडेन थावन ताका जेरीन भायर येवंचेंयी दिसतालें आनी टेरी उबो आसल्लो जागोयी दिसतालो...

जेरी आनी शिंटो सांगाताच टेरीसरशीं गेले.

'हलो टेरी', म्हणालो जेरी. Good to see you. हांगा कित्याक उबो?' ताणे भोंवतणी पळेलें. 'उशां'त[47] वचोन बसयां.'

हें आयकोन टेरीचें मुखमळ फुल्लें.

'हांवें तुका सांगोंक ना, शिंटो?' ताणे विचारलें.

'संवसारांत म्हाका इश्ट आसचो एकलोच म्हण?'



# 10

बी. कॉमाचें रिझल्ट आइल्ल्या दिसा जेरीन आनी शिंटोन टेरीक मोली पिरेरीच्या बंगल्या सामकार हाडून 'देवयल्या' उप्रांत तिचीं सर्व ज्ञानेंद्रियां स्तब्ध जाल्लेपरीं तिका भोगलें. तिचें धूव डिनान फॅमिली फिजिशियनाक फोन केल्या उप्रांत तें तीन चार मिनुटांक आपल्या भावाच्या बेडरूमाक आयलें आनी उदारोच पडोन पांय बडवंच्या टेरीक पळेलागलें.

'कितें जालां ताका?' ताणें विचारलें. मादक आनी तेलत्या ताळ्यान. ताची मत आनी खंय तरी आसा म्हळ्ळें कळतालें. आवयथावन जाप आयलीना तें पळेवन ताणे परत्यान विचारलें `Mom, what's wrong with Teri?'

'ताच्याच लार्गी विचार', मोलीन जाप दिली. 'फेल जाल्लो परिणाम हो.'

डिना सुक्यो हासो हांसलें. 'हो कसल्याचो परिणाम म्हण तूं बऱ्यान जाणाय, मां' तें म्हणालें. 'फेल जाल्ले, फेल जावंक कारण जाल्ल्या कारणाथयंच पाटीं वेतात.'

'तुका मिसाक वेळ जालो', मोलीन भायर बोट जाखलें 'तुवें म्हजेलार्गी लॉजीक उलवंचें नाका. हांव तुजी आवय म्हळ्ळें उडासांत आसूं.'

'उडासांत आसा मां आनी उडासांत उरतेलें' जाप दिली डिनान आपल्या पायांच्या गांटींचेर धलोन 'आनी टेरीचे हे गतीचें कारणय म्हज्या मतींत उरतेलें.'

'कितें उलयताय तूं, डीन?' ती पुरती जागी जावन धुवेसरशीं गेली. 'ह्या सर्वाक हांव कारण म्हण तूं म्हणताय? आनी तुवें अशें न्हेसच्याकय हांव कारण म्हणताय? आंब्रोज कसल्याकी कारण न्हय?'

'आमकां तेगांक किर्लांवक मात्र तो कारण, मां,' तें म्हणालें. 'उप्रांतली जवाब्दारी मात्र तुजी. म्हाका दिसता ही जवाब्दारी फकत बरनाथंय मात्र तुवें पाळ्ळ्याय. एकेक पावटीं म्हाका भोगता आमचो म्हालगडो भाव बॅरन एकदम विभिन्न म्हण. कशें म्हण म्हाका कळना.'

'कळोंक कांय ना.' पोकोळ ताळ्यान म्हणाली मोली. 'तुमी सर्वांयी एकाच रगताचीं. आतां, चल मिसाक वचोन ये.'

'हाका कितें करताय?' खटल्या वयल्या भावाक दाखवन ताणे विचारलें.

'ती म्हजी जवाब्दारी!' मोलीन जाप दिली धुवेक. 'डॉ. रघू शेट्टीक फोन केलाय मूं?' संपली तुजी जवाब्दारी.

डिना पांय आपटोन भायर वेताना ताचे थंय आपणाकच देखले मोलीन. ताचें सर्वांग मिरमिरलें आनी ताची मत परत्यान मंद वाटेक परताता म्हणताना ताका कबाटांतले बोतलीचो उडास आयलो. पूण ना, हो म्हजो पूत हे परीं हांगासर पडोन आसताना हांवे कित्तून पर्यांत चुकारी मारयेत? तरी, कितेंय तरी आमची सोसायटी लायफ हाका कारण न्हय बगार टेरीचे मित्रच कारण. आत्तां आइल्ले पळे ते दोग, तेच.

वर्सां आदीं म्हजेथंय कितें जाल्लें? नितळ जावन पार्टी येवंक म्हाका कितलींशीं वर्सां लागोंक नांत? आतां दोडे[48] कालेतीची ही मंगळुरी समाज सर्व विसराल्या आनी म्हाका फुलां झेले घालता, मानाची बसका दिता. चड कित्याक, म्हजे थंय घडल्लें आतां कोण चलयेथंय घडात तर तें मॉडर्न सोसायटी लायफाची कूस म्हण समाज मानून घेना?

तवळ कोणगी हांसल्लेपरीं तिका आयकालें. 'तुज्या डिनाथंय अशें जाल्यार तूं कितें करताय?' हें सवाल एका अदृश्य ताळ्यान विचारल्लेपरीं तिका भोगलें. 'तें खंचे वाटेर चलता म्हण तुवें गुमान केलांय? एक दाखलो तुज्या सामकारच न्हिदला मूं?

टेरीन पांय बडयताना मोली पिरेर स्तिमिताक आयली. पोल्यांवयर सुकोन गेल्लीं दुकां तिणे पुसलीं आनी दाक्तेर येवन गेल्या उप्रांत कुवेत आसच्या आंब्रोजाक फोन करचें म्हण तिणे चिंतलें.

'टेरीबाबूक कांय पियेवंक हाडिजे मदाम?' कामाच्यान[49] येवन विचारताना

ती परत चिडली.

'हांव ताची आवय मोरोंक ना', ती खेंचली कामाच्याक. हें तांकां सदांचें जाल्ल्यान पार्टी जाप दिनासतां तें चललें. तांकां कितें? ह्या बंगल्यांत तार्णीच काडल्लें, तार्णीच दवरल्लें. धनीन सगळो दिसभर समाजींत. भुरगीं? एकलो हिंगा जाल्यार, धूव थिंगा. वर्साक एक पावटीं धनी येताना कामाच्यांक सर्गच. आंब्रोजाचे पॉकेटीक 'जिप्प'च आसानातल्ली.

डॉ. रघू शेट्टी आयलो

'पळे, डॉक्ठर, पळे म्हज्या बाळाक कितें जालां म्हण?'

तिचें मागणें आयकोन डॉ. रघू शेट्टीन एक दिश्ट तिका दिली. मंगळूरचो प्रतिश्टीत दाक्तेर तो आनी हावज विजिटां तो करिनातल्लो. पूण मोली पिरेरीच्या घरची केस ताका एक वेगळी संगत आंब्रोजाचे थोडे उपकार ताचेर आसल्ले. ताचो काळो दुडू सबार पावटीं आब्रोजाच्या एन. आर. ई. एकावंटावर्वी धवो जाल्लो आसा. तितलेंच न्हय आंब्रोज रजेर येतना डॉ. रघू शेट्टी तांगेर कायम. उल्लाळ तडीर रघुचो सुशेगांचो बंगलो आसल्लो म्हळ्यार पुरो.

'कितें पळेवंचें, मोली?' ताणे विचारलें तिचेर दिश्ट चरवन. चाळिसांचे दाट सावळेंत आसल्ली तरी मोली आतांयी दादल्यांक एक व्यग्रताय.

'तुका दिसचेंच म्हाकायी दिसता न्हय?'

'तर?'

'टेरीक असोच सोडचो न्हय म्हण हांवें सबार पावटीं तुका सांगलां. ह्या पावटीं ताका खंडीत[50] बेंगळूर धाड. नितळ जावन पार्टी येवंदी. म्हाका कोंट्याक्ट आसात. तुज्या कुटमाचीं कर्शीयी आसात न्हय थंय?' डॉ. शेट्टीची आनी पिरेरींगेली चंगाय भारीच गुंड आसल्ली. 'आंबुलार्गी उलय आनी ह्या पावटीं तुजी सोसायटी म्हण पार्टी घालीनाका. तीन म्हयने टेरी de.addiction सेंटरांत आसोंदी. उप्रांत जायतर ताका एका सेनेटोरियमांत या तुज्या कुटमाच्यांगेर दवरयां.'

'हें ट्रिटमेंट हांगासर जायना रघू?' तें खासगेक देंवलें. 'म्हजो पूत...'

'तुजी सोसायटी आसा ने?' तो म्हणालो आपलें दाक्तेरगी बॅग उगतें करून. 'ह्या तुज्या कातोलीक सोसायटीक गर्डींचे फातर उबे करूंक बऱ्यान कळीत आसा मोली. कितेंय करून समाजीच्या तुमच्या नेमांक उबीं आसल्लीं सर्वां बरींच, पॉश

लायफ जियेवंचीं. पूण एक पावटीं तुज्या टेरीक आइल्ली स्थिती आयली या एके मॉडर्न चलयेक नितळ जावंची गत आयली...

`That's enough!' मोलीन आपले कान धांपले. 'म्हाकाय एक धूवं आसा.'

'नितळ जावंची गत आयली, तवळ तिणे पयस वचोन मातें लिपयजे पडता!' उलवनच गेल्लो तो पंदल्या दोळ्यांनी[51] तिका पळे लागलो.

मोलीचें काळीज कोचालें. आपणाक ती गत आइल्ल्या वेळार हाच्याच बापायन जो एक आर. एम. पी. जावन आसल्लो, म्हळ्ळें. 'नितळ जावंचें म्हळ्यार जीव काडचो न्हय. खंय पयस वच आनी तुका आनी त्या जिवाक सांबाळ. चुकोन पडच्यांत नालिसाय ना. पूण तूं विचारून आइल्ल्या कामांत आसा. हांव तसलें काम करिना.'

तीं तत्वां आपणालागीं नांत म्हण रघून सबार रितींनी रुजू केल्लें आनी दाक्तेरांच्या पवित्र आपवण्याक परिपूर्ण वयवाटी रूप दिल्ल्या सबार दाक्तेसंपयकी तो एकलो अव्वल.

एकेक पावटीं तो मोली लागीं उलयताना तिका भोगतालें कीं रघुच्या बापायन ताका खंय तरी चुकोन सांगलां कोण्णा. देखून हो म्हजे लागीं इतल्या वर्सांथावन सळगेन उलयता, कुडी - इशारे दिता. पूण एक पावटीं ते दिशेन निसरलेली मोली दुसऱ्या पावटीं निसरोंक तयार नातल्ली. पूण पयले पावटीं निसरल्ली ती देंवणी पाटल्या पांयांनीं चडोन समाज म्हळ्ळ्या समतट्ट सुवातीक येजे तर, दुडू दौलत - हंकार म्हळ्ळीं हीं तीन हातेरां मोलीन हातीं घेतल्लीं. आनी हे दिशेन तिणे पती आंब्रोजाक वापरताना आपल्या भुरग्यांची गत जातेली आनी जालीच म्हळ्ळें आतां तिका गमतालें.

पूण हे सुळयेथावन तिचो म्हालगडोपूत बॅरन मात्र अजापीं म्हळ्ळें परीं सांपडलो ना. ताणे ताचो फुडार केल्लो. आपूरबायेची पतीन ताका मेळल्ली, तो वोरे विंगड मध्यप्राच्यांत वावरून आसल्लो. 'न्हय ताचें रगत वोरेविंगड.' सबार पावटीं मोलीन आपणाकच सांगल्लें आसा.

पूण ती समाजीच्या उबार कऱ्याचेर बसल्ली ती, वास्तवीकतेच्या सकयल्ल्या हंतांक देंवोक तयार नातल्ली. चड कित्याक, कार आसोनय, आयताराचें मिसाक

ती चलोन वेताना लोक म्हणातालो 'पळे, 'क्रिसमस ट्री' आयली.' पूण मोलीन आपल्या पंगडा लागीं म्हणचें आसल्लें 'ना हाबा ना!' देवस्तुतेक वेताना पवित्र बलिदानाक हाजर जातना, सामान्य लोकांपरीं आसाजे.' तिणे सबार कोंकणी सब्दय वापरूंक सुरू केल्ले.

'आतां कितें करताय रघू?' तिणे विचारलें, तो बॅगांतलें सिरींज भायर काडताना.

'एक इंजेक्शन दितां' ताणे जाप दिली. 'सुमार बारा घंटे तो न्हिदोंक पुरो. ताका धोशिनाका. तडव करिनासतां आंब्रोजाक फोन कर आनी उप्रांतलें हांव पळेतां.' ताणे टेरीक इंजेक्शन तोपलें. उप्रांत आपलें बॅग बंद करून वचोंक तो उठताना म्हणालो. 'तूं एकदम थकल्लेपरीं दिसताय, मोली एका सनवारा कित्याक म्हज्या बोंगल्याक येनांय? You Can just relax!'

`Get Out!' मोलीन तितलेंच म्हळ्ळें आनी दाक्तेर भायर वेतेच टेरीच्या भुजाचेर मातें दवरून ती रडली. पूण हीं दुकां पस्तावाचीं न्हय. आतांय आपणाक ही समाज 'एक पावटीं चोरून खेल्लें[52] माजर केदनाय चोट्टेंच', म्हण लोकतागी म्हळ्ळ्या थंय तिचो उळटो हंकार विकारोन रडतालो.'

सनीन जातेच मोलीन घडयाळाक पळेलें. 'हूं, हांगाची साडेनोव म्हळ्यार कुवेतचीं सात. आंबू एपार्टमेंटांतच आसतलो.' फोना सरशीं वचोन तिणे एके कुशीन एक्सचेंज्या मुखांत्र कुवेताक कॉल बूक केलें आनी डायरेक्ठ डायलिंगाची सवलताय आइल्ल्यान, डायल करूंक सुरू केलें.

तीन पावटीं प्रेतन करताना सबार क्लिक क्लिकां उप्रांत मोलीक लायन मेळ्ळी. पूण लायनीर आयलो ताळो एके स्त्रियेचो. मोली घुस्पडली.

`Is this 2915862 in Kuwait?'

'येस', सुडाळ इंग्लिशांत जाप आयली.

'हें आंब्रोज पिरेराचें एपार्टमेंट?

'व्हय! तूं कोण आनी खंय थावन?'

'हांव ताची बायल, इंडियाथावन, तूं कोण?'

जाप ना. घुस्पडीत उतराचें पुस्पुशे जाले, उप्रांत दोन तीन लटक पटक आवाज जाल्या उप्रांत आंब्रोज लायनीर आयलो.

‘Hello, is that you, molly?’

‘व्हय, पूण तो ताळो कोणाचो?’

‘म्हजें नवें maid! हांव टॉयलेटांत आसल्लों.’

‘तितलें सुडाळ इंग्लीश उलयता?’

‘हीं फिलीप्पिनी चेडवां बरें इंग्लीश उलयतात, मोली.’

‘तर चलयेक दवरलांय?’

कुवेतांत फिलिप्पिनींची खाडत जाल्ली.

‘दवरलां, दवर्न धवंक ना!’ ताच्या ताळ्याक धार आइल्ली. ‘तें दोन घंट्यांक येता आनी वेता. ब्लडी हेल. कित्याक फोन केलेंय मोली?’

जाप दिवंच्या पयलें मोलीचो उडास लट्ट करून पार्टी धांवलो.

नितळ जांवच्या खातीर वर्सां आदीं मंगळुरांत मौज मस्ती करून जाती भायल्याच्या दावल्यांक आपले कबहलातेन बली जाल्लें. रापाटाचों ‘घोडो मोली’ मुंबय पावल्या वेळार आंब्रोज ताका भेटल्लो, पयले पावटीं. एके आस्पत्रेंत मेल नर्स (Male Nurse) जावन आसल्लो आनी मोलीच्या आकयगेर रावतालो. ताका तार्ची म्हळ्ळीं कोणच नातल्लीं. ताची बिनदास जिणी म्हण आकयन मुंबय भाशेन मोलीक सांगताना ताका कसलेंच फरक पडलें ना.

ताचे कश्टांचे दीस पाशार करूंक प्रतिश्टीत आस्पत्रेंत काम करून आसल्लो आब्रोज मुखार आइल्लो आसतां मोली एका चेरक्या भुरग्याक प्रसूत जाताना तीं दोगांय जायतें लागीं आयलीं. मोली कांय सामान्य सोबायेचें न्हय. हांची चंगाय पळेवन मोलीची आकय एक हुन्नर खेळ्ळी.

आंकवार आवय जाल्ल्या मोलीक पार्टी मंगळुराक धाडिनाका म्हण मोलीचे आवयन परातल्लें. आपणाक धको दिल्ल्या मोलीक परत घरांत प्रवेश दिल्यार कितें जायत म्हळ्ळें तिका कळीत आसल्लें जायजे.

मोलीच्या आकयचो पती कुवेतांत आसल्लो आनी तिणे आंब्रोजालागीं एक सल्लो केलो. ‘तुज्या प्रोफेशनाक कुवेतच्या हॉस्पिटलांनी’ बरो स्कोप आसा. तुवें हांगासर जोडचें आनी मोडचें आनी नर्सांक दर्या देगेर आनी खंय खंय भोंवडावंच्या बदलाक तुका हांव कुवेत धाडतां. म्हजो पती के. ओ. सींत आसा.’

आंब्रोजाक पाकाटे फुटले. ‘पूण एक शर्त आसा.’ तिणे म्हळें ताचे लागीं.

'मोली म्हज्या मोगाचें. ताच्या विदव आवयक एकलेंच तें आनी आमीच तांकां पळेतावं. तें चुकोन पडलें व्हय पूण पातकाचो परयार[53] जीव काडच्यांत ना म्हण तें पातयेल्ल्यान आमी ताका नवें जीवन दीजे म्हण म्हाका भोगता. ताच्या भुरग्याक तुजें आलकुंज तुवें दीजे, आंबू.'

'आनी तवळ तूं म्हाका कुवेत धाडतेलीय?' तो सुक्यो हासो हासलो.

'हांव मोलीच्या मोगार आसां आकय!' तो म्हणालो. खरें आनी नीज, मोलीचे अपूर्व सोबायेन तो पिसोच जाल्लो. सबार फुलांचें म्होंव चाकल्ल्या ह्या भ्रमराक एक ठिकाणो जाय आसल्लो कोण्णा. पूण हें सर्व वसोन आयकोंच्या मोलीक आपूण सपनेतां म्हण भोगलें आनी हें आनी असलें सर्व कादंबऱ्यांनी आनी सिनेमांच्या पडद्यार मात्र घडता म्हण पातयेल्ल्या ताका, ताचें रेस्पेर आंब्रोजालागीं जाताना मात्र ही सगळी एक वास्तवीकता म्हण कळीत जालें.

आकयन आपलें उतर दवरलें आनी आंब्रोज कुवेत पावलो. थोड्या तेंपान ताणे मोलीकय व्हेलें आनी आपलें आलकुंज घेतल्ल्या बॅरनाकय. कुवेतांत तांकां टेरेन्स आनी डिना जालीं. आनी थंयचें शिकप जावन येताना आपूण भुरग्यांक घेवन मंगळुरांत सेटल जातां म्हळ्ळें हट धरलें मोलीन.

'म्हाका मंगळूरचे समाजी लागीं व्हड एक देवें वसूल करूंक आसा!' मोलीच्या हटासामकार आंबू सलवालो. पूण तांणीं एक वेवस्ता केली. हर एका वर्सा आपूण रजेर येतलों आनी भुरग्यांक रजा मेळल्ल्या वेळार मोली आनी भुरगीं कुवेत येतेलीं.

मोली पिरेर आनी ताचीं भुरगीं मंगळूरच्या वालेन्सियांत थीर जालीं. मोलीची आवय केदाळागी एका आसऱ्यांत पडोन मरोन गेल्ली आनी मंगळुरांत मोलीक आनी ताच्या कर्तुबाक उडासांत दवरून ओळकोंचीं कोणयी आसल्ले परीं ताका दिसलें ना. ताका धगो दिल्लोय मरोन गेल्लो खंय. कोणगी गल्फागार्न, तेगां भुरग्यांची आवय म्हळे ओळकीन मोली थिरली.

व्हय, एका तेंपार आपल्या कर्तुबाक लागोन ही समाज सांडून पयस धांवल्लें मोली आज बऱ्यान आसल्लें, पूण चुरचुरे आनी निरास! ताका देवें दिवंचे कोणय नातल्ले आनी ह्याच कारणाक लागोन दुडू – दौलत – हंकार प्रदर्शीत करचें वालेंन्सियाचें मोली पिरेर उठल्ल्या बसल्ल्याक सर्वां सामान्यांलागीं कांटे फाफडून

फामाद जाताना दुडवादिकांच्या संवसारांत दुसऱ्याच मळार मोगाचें जालें. हीच काणी मोली पिरेरीची. ताच्या काशाचे जिणेक गल्फाच्या दुडवान भांगाराची वोप दिल्ली...

'कित्याक उलयनाय मोली?' तेवाशिल्यान ताका जागयलें आंब्रोजान.'

`What is the problem?'

मोलीन विवर दिलो.

'म्हज्या दोगां भुरग्यांक तुजे ताबेन दिल्लीं. मोली!'

तो म्हणालो.

'म्हाका तुवें कितें दिलांय म्हळ्ळें सवाल हांव उठयना. हो वेळ न्हय कोण्णा. रघू कितें म्हणता?'

'हांतू तुजोय हात आसा म्हणता!' म्हणचें म्हणून रघून सांगल्ली वाट आंबूक सांगली मोलीन.

'तर तशेंच कर', तो म्हणालो, संयम सांबाळून. 'म्हाका प्रमोशन जावंच्यार आसा जाल्ल्यान म्हाका येवंक जायना. आतांच हांव बेंगळूर फोन करतां. सर्व समा जातलें. बॅरनाकय एक उतर सांगतां. खंडीत सर्व सारकें जातेलें.'

पू सर्व सारकें जालें ना.

■■■

# 11

'हांवें तुका सांगोंक ना, शिंटो?' टेरीन विचारलें. 'संवसारांत म्हाका इश्ट आसचो एकलोच म्हण?'

जेरीन आनी शिंटोन एकमेकाचीं मुकमळां पळेलीं.

एकच टेरीक त्या दिसा मादक मेळोंक ना या मेळल्लें पावोंक ना. बाराक्कुटा गेंगान ताका कांय इल्लीशी रूच चाकवन मैदानार सोडलो कोण्णा. असो अंदाज केलो तांणी. दुसरें कारण आसल्लें. टेरीन बाराक्कुटा गेंगाक देवें बाकी आसल्लें; न्हयतर 'आजराती भितर' म्हण ते सांगतात?

'आमी हांगासर रावचें नाका,' चत्रायेन चीटफंड ऑफिसाचेर दिश्ट घालून म्हणालो जेरी.

'ऑडिटींग चलता आनी सॅली मॅडम भितर आसा कांय सुमार आठ - साडेआठ पर्यांत ती थंय आसतेली. तिच्या जनेलांतल्यान हो रस्तो आनी हॉटेलाचो दारवाटो सारको दिसता.

'देवा म्हज्या!' दांतां इड्यांतल्यान पुसपुसलो शिंटो. म्हाका कित्याक जाय आसल्ली ही शनी?'

जेरीन जाप दिली ना आनी तांणीं दोगांयनी मेळोन टेरीक भितर व्हेलो. हॉटेलांतले हांका ओळकाताले, पूण सांजेर इतले वेगीं हांणी येवंचेंच पयले पावटीं. तांच्या दिश्टींक जाप जावन जेरीन तांकां दोळो मोडलो आनी मातें हालवन कसलेयी वांदे नांत म्हळ्ळो इशारो दिलो.

एर कंडिशन रूमाक वेताना एक वटेर मुखार आयलो. 'आमचें सर्वीस सुरू जावंक ना सर!' म्हणालो.

'बसोंकय नजो वे तर?' विररायेन विचारलें शिंटोन. 'मॅनेजरालागीं विचारिजे',

ताणे भुजां उडयलीं.

'टेरीक शिंटोचे ताबेंत सोडून जेरी कावंटराक गेलो.

'आमचो इश्ट चिक्केशे कुरवाता. तूं जाणाय उतरी पडाना तर कशेंगी म्हण?'

'हांव नेणां', म्हणालो मॅनेजर. 'पूण असल्यांक हांवें पळेलां.' ताणे जेरीच्या भुजावयल्यान शिंटोसरशीं वाऱ्याक शिरकल्ल्या चिव्यापरीं धलच्या टेरीक पळेलें मॅनेजरान.

'ही सोऱ्याची उतरीगी या...' पळे मिस्टर म्हाका हांगासर कसलेयी सफडे नाकात...'

'तू म्हाका ओोळकताय न्हय?' जेरीन विचारलें.

'हांव बार ॲण्ड रेस्टॉरंट चलयतां तरी अमाल सेवतेल्यांक कोणाकयी वोळकना सर!' मॅनेजराचीं उतरां जेरीक लागलीं. 'पूण आसूं. तुज्या इश्टाची स्थिती पळेताना म्हाका बिर्मत दिसता.' ताणे वेटराक आपयलो. 'ते भितर बसोंदीत.' ताणे ताका सांगलें. 'ए.सी. घाल.' घळायेन तो म्हणालो.

'सर्वीस, सर?'

वेटराच्या सवालाक मॅनेजरान जाप दिली ना.

भितर चडोन बसतेच टेरी सिटीचेरच हुळहुळ्ळो. 'कितें हाडयतात? कितें हाडयतात?' ताचो ताळो कांपतालो. 'म्हाका एक लार्ज आर. सी. कितें म्हणतात? ड्रग्स घेवंच्याकय हेंच बरें न्हय? तुमी म्हज्या मोगाचे इश्ट न्हय?'

'तुका आमी कांय दिनावं टेरी!' म्हळें शिंटोन आनी घडल्ली संगत जेरीक मटव्यान कळयली. हे आयकोन जेरीन कपालाक हात मारलो.

'बेंगळुर आसल्लो तूं पार्टी केदाळा आयिल्लोय.आनी कसो बाराक्कुटा गँगांत सेरवालोय?'

'म्हाका उडास ना!' दांत खिरलिले टेरीन. शिंटो आनी जेरी ताकाच पळेवन बसले.

'हांव सांगान तर म्हाका एक ड्रिंक दितात?' टेरीन हात जोडले. 'ना तर हांव स्वीसायड करतां. माम्मीक फोन केल्यार रयलाच्या पाट्याक तकली दितां.'

'बाराक्कुटा गँगाच्यांनी तुका कसली धमकी दिली?'

'पांच हजार,' तो म्हणालो. ताच्या वोंटा इड्यांतल्यान लाळ देंवताळी. 'हांवें तांका देवें आसात म्हण तांणी म्हाका आज एक ल्हानसो डोज मात्र दिलो.'

'तुका एका डॉक्टराची गरज आसा टेरी', जेरी उबो जालो.' 'हांव तुज्या माम्मीक फोन करतां. नंबर सांग.'

सरोप कोंडलें जाल्लेपरीं टेरी मुदोसो जावन सिटीच्या कोन्शाक सेरवालो. ताच्या हातांत खिणाभितर पेपर कातरची ल्हान वाकरासारकी सुरी उदेली. 'तुमी माम्मीक फोन करशात तर हांव म्हज्यो शिरो शिंदतां!' तो बोबाटलो. 'त्या डॉ. रघू शेट्टीक आपयतात? तो खोटो आनी बुरसो. ताणे म्हाका बेंगळूर धाडलो. माम्मीन एकलीच जायजे म्हण...' तो उलवनच वेतालो. 'आतां' म्हाका उडास येता. तुमी म्हाका एक ड्रिंक दिशात तर म्हाका सारको उडास येतलो. प्लीज... जेरी, शिंटो, प्लीज.'

'तुका एक ड्रिंक पडात तर तूं मोरतोलोय, टेरी. ताचो हात धरलो जेरीन. 'ती सुरी म्हाका दी.'

'ना', म्हणालो टेरी. ती त्या बाराक्कुटा गँगाच्यांचे गळें शिंदूंक हांवें दवरल्या. जेरी तूं आतां जोडताय न्हय? म्हाका पांच हजार दी. तांच्या हर्द्याक मारतां आनी सुटतां.'

'कसल्याक हें देवें?' जाणा आसोनय विचारलें शिंटोन. 'हांव बरो जालों म्हण म्हाका बेंगळूरथावन पाटीं हाडलो.' हातांतली सुरी उसयीत दोडीत म्हणालो टेरी. 'म्हाका जाल्लें तरी? कांय ना.' कितें जाता हांवें एक दोन 'दम' मारल्ल्यांत, एक 'प्रिक्क' घेतल्ल्यांत?' ताणे आपलो बावळो दाखयलो. ताचेर सुवयांच्या तोपणेंचे धुर्त उटोन दिसताले. 'बेंगळूरथावन येवन हांव दोन हप्ते घराच बसलों. You know what? म्हाका पळेवंक तुमी येवंक नांत तर कितें? हेर येनातल्ले म्हण तुमी चिंततात? म्हज्या इश्टांलागीं हांवें बाराक्कुटा गँगाचें कोंट्याक्ट केलें आनी कितें, म्हजो कोटा सदांच म्हाका पावीत जातालो.' तो हासलो. 'कोणाक आसा खबर? माम्मीक तिची सोशल लायफ आनी डिना...' तो रडलो. 'डॅडी सयतय येवंक ना. म्हाका एक ड्रिंक दिया प्लीज आनी मुकार हांव ड्रग्स घेना.'

'आज कितें जालें म्हण सांग, टेरी?'

'हांवें पयशे फारीक करूंक नात म्हण तीन दीस थावन तांणीं म्हाका सप्लाय

दिली ना.' सुरू उसवन आपल्या मणीगांठेचेर भोंवडाय लागलो टेरी. 'तीन फुल्ल दीस! आज सकाळीं मिसाक वेतां म्हण सांगोन हांव निकळ्ळों आनी मिसा उप्रांत एक लांब Walk मारतां म्हण माम्मीक सांगताना तिका भारीच खुशी जाली.

'आनी तूं बाराक्कुटा गँगाक सोदून गेलोय' म्हणालो शिंटो. 'सगळो दीस तांच्या पाटल्यान रंदिल्या उपरांत तुका एक ल्हान डोज मेळ्ळो आनी एके धमके सांगाता तांणी मैदानार उडयलो. आतां कितें करताय, टेरी?'

'हांवें पयशे दिले नांत तर ते म्हाका जिवेशीं मारतात, जेरी. म्हजी मजत कर. Please help me. Only five Thousand rupees. तुज्या कलेक्शनांत आसतेले.' जेरीच्या बॅगाक दाखवन तो म्हणालो. हे स्थितेंत तरी टेरीची मत काम करताली पळेवन तांकां अजाप जालें.

एक तरनाटपण तांच्या दोळ्यांसामकारच खिरोन वेतालें.

'हांवें आयचें एकावंट दिवन जालां टेरी.' सत उचारलें जेरीन.

'तूं घरा वच आनी माम्मीक संगत कळय. आमी तुजेखातीर कांय करूंक सकानावं टेरी. Please try to understand.'

टेरी थोडो वेळ चिंतून म्हळ्ळेपरीं बसलो. 'म्हाका समजाता', उप्रांत तो म्हणालो. 'म्हाका एक ड्रिंक दिया आनी त्या उप्रांत हांव रिक्षा करून शीदा घरा वेतां आनी मुकार म्हाका नाका बाराक्कुटा गँग या ड्रग्स.

"I swear, I promise, just one drink."

जेरीन आनी शिंटोन एकमेका पळेलें. ही शनी गोमटयाची सुटाजे तर एक ड्रिंक दिल्ल्यांतच साध्य म्हळ्ळें तांकां गमलें आनी दोळ्यांनीच एकामेकाची कबलात घेवन जेरी उठलो. आनी भायर मॅनेजरा सरशीं गेलो.

रेस्टोरेंट उगतें जावचो वेळ येतालो जाल्ल्यान वेटर चुरूक जाल्ले. जेरी, कावंटरालागीं पावताना मॅनेजर फोनाचेर उलयतालो. 'येस मॅडम', तो म्हणालो. 'हांव विचारून पळेतां मेडम. आसात तर शीदा तुजे सरशीं धाडतां. कांय प्रॉब्लेम ना न्हयगी मेडम? आमच्या हॉटेलाक वर्सांथावन बरें नांव आसा. येस मेडम, थँक्यू मेडम.' ताणे फोन पाटीं खिळायलें आनी आपलें गुमान जेरीचेर घुंवडायलें.

'तुमचेपयकी जेराल्ड पायस म्हळ्यार कोण?'

ताचें हें सवाल जेरीची आडी हालवंक लागलें.

'हा... हांव कित्याक?'

'हूं!' म्हणालो मॅनेजर. तुमकां हांवें सांगल्लें हांगासर कसलेयी लफडे नाकात म्हण.'

'जालें तरी कितें? आमी केलां तरी कितें? आमी एक ड्रिंक सयतय विचारूंक ना.'

'कुरियन चीट फंड आफिसाथावन मॅडम सॅली कुरियनाचें फोन आइल्लें.' तो म्हणालो दारांतल्यान भायर पळेवन. 'तुमचेपयकी जेराल्ड पायस म्हळो आसात तर तक्षण तिच्या कॅबिनाक येजे खंय.'

'ओ हेल्ल!' मनांतच उद्‌गारलो जेरी. 'हिका कशें कळ्ळें आमी हांगासर आसात म्हण? हां, कॅबिनाच्या जनेलांतल्यान हिणे पळेलां आसतेलें. पयल्या दिसा हांव तिच्या ऑफिसाक वेताना तिणे म्हाका पळेवन... पूण हिका कितें खंय? दिसाच्या कामाची आवदी जाल्या उप्रांत हांव बाराक वेतां या रानाक वेतां. हिका कितें खंय?'

पूण ताचो हो जोश चड वेळ लांबलो ना. तो शिदा एरकंडीशनड रूमाक पार्टी आयलो.

'प्रोब्लेम जाला', तो पिसपिसलो. सॅली मेडमान आमकां हांगासर येंवचें पळेलां. हावें तक्षण ऑफिसाक थेजे खंय. हाका कितें करचो?' 'सर्वीस सुरू जालां आनी हांवें एक क्वॉर्टरच ऑर्डर केलां. हेर वाट ना जेरी. हो एक पावटीं सनीन जावंदी. उप्रांत ताका हात पांय बांदून तरी मोली पिरेरीच्या ताबेन दिवंचो.' शिंटो म्हणालो.

'हाका क्वॉर्टर दिवन आमी सारकें करतांव, शिंटो?'

'हाच्याकी बऱ्यो आयडिया तुजे लागीं आसात?'

कुरियन चीटफंडाच्या ऑफिसाचीं मेटां चडताना जेरीचें काळीज कठीट उडकी मारतालें. 'गेलें म्हजें काम', तो आपणाकच सांगा लागलो. 'सॅली मेडमाचें एक उतर आनी हांव म्हज्या फाशियेक[54] वेतां? मॅनेजरालागीं हांवें सांगाजे आसल्लें तिका सांगोक जेराल्ड पायस म्हळ्ळो हांगासर कोणच ना.'

सॅली कुरियनाच्या कॅबिनांत सोडल्यार हेरकडेन लायट पेटानातल्ले. कॅबिनाच्या दाराक ठोके मारून जेरी भितर रिगलो. सॅली कुरियनाचे दोळे गुर्मू

घालच्च्या जिनसार ताकाच पळेताले.

'कितें मेडम?' पयलेंच तयार करून दवरल्लें सवाल विचारलें जेरीन.

'म्हज्या एकावंटांत कांय गडबड जाल्यात?'

'येदोळ ना,' ती म्हणाली. 'आनी जावंचीयी नाका.'

'आमी सोरो पियेवंच्याक वचोंक ना, मेडम' तो म्हणालो.

'आमकां एक कारण आसा... तो आमच्या सांगाता आसल्लो तिसरो जण आसा पळे...'

'हांवें ताका पळेला.' सॅली म्हणाली मंद हास्यासंगीं जनेलाक पळोवन.

'इवोन म्हळ्यार तुजें भयण मूं?' जेरीन व्हय म्हण जाप दिवंच्या पयलेंच सॅलीन मुकारिलें. 'ताचें फोन आइल्लें.'

जेरीचें काळीज खिणाक रावलें. खंडीत जावन पप्पाक या मम्माक कितेंगी जालां.

'तांकां कांय जावंक ना' ताचीं चिंतना वाचलीं सॅलीन 'तूं ऑफिसांत आसाय या ना म्हण जाणा जावंक इवोनान फोन केल्लें.

'पूण हाच्याकी तडव करून हांव घरा पावलां मेडम' तो म्हणालो आपल्या वॉच्याक पळेवन. 'कसली गजाल जावयेत?'

'हांवच नेणां', सॅली म्हणाली 'कोणा टेरेन्स पिरेरीची आवय आपल्या पुताक सोदून आइल्ली खंय आनी तुज्या माम्मीक सरसरीत येटून गेली खंय. तुवें जातातितले वेगीं घरा गेल्यार बरें... मतलब, बार अॅण्ड रेस्टॉरेंटांतलें तुजें काम सोंपलें तर!'

'सॅली मेडम...' तो घागेलो. 'ती एक व्हडली काणी मेडम. ती तुका सांगोंक म्हाका भयें दिसता...'

'हांवें कांय विचारूंक ना.' मेजावयल्या आरश्याच्या गोलाक आपल्या हातीं तिणे घेतलो. 'पूण खंयच्याकी तुवें तुज्या शेजारा फोन करून तूं म्हजे संगीं दफ्तरांत आसा म्हण सांगल्यार बरें आसल्लें.' तिणे आपल्या मेजावयलें फोन ताजे कुशीन लोटलें. 'तुमी एक फोनाक एप्लाय करचें बरें जेरी.' ती म्हणाली. 'एक हप्त्याभितर कनेक्शन मेळाशें करतां हांव. म्हजो स्टाफ फोनाचेर आसजेच म्हळ्ळी म्हजी इच्छा.'

जेरीन कांय म्हळें ना आनी फोन उखलून शेजारचें नंबर लागयलें आनी नम्रतेने आपली ओळोक सांगोन इवोनाक आघोवयेतगी म्हण विचारलें. इवोन लायनीचेर येवंक सुमार स-सात मिनुटां लागलीं. हे अवधेंत ताणे सबार पावटीं सॅली कुरियनाची दिश्ट चुकयली.

'खंय आसाय तूं?' आतां लायनीर आइल्लें इवोन किंद्री ताळ्यान म्हणालें.

'आसां ऑफिसांत', तो म्हणालो. 'ऑडिटींग चलता... हां. हां. व्हडोळ हांव च्या पियोंक गेल्लों. कितें जालें आतां?'

'हांवच नेणां!' इवोनान जाप दिली. 'त्या टेरीची आवय येवन आमकां सरसरीत येटून गेली. तिचो पूत सकाळीथावन काणे खंय आनी ताका तुमी बिगडायला म्हणाली.'

'मोली पिरेरींचें बोड समाना इवोन!' तो म्हणालो. सॅलीची दिश्ट आपणाचेर केंद्रीत जाल्या म्हळ्ळें ताका कळतालें. 'सर्व हांव पळेवन घेतां, आनी एका घंट्याभितर घरा येतां...'

'तुजो ताळो कितें कांपता?' इवोन कांय साद्दारणाची चली न्हय.

`Get lost, yuvonne!` तो म्हणालो फोन पार्टी मारून.

कसलेंय पार्टी मारल्यारी आतां सॅली कुरियनाक कशें पार्टी मारचें?'

Want to talk about it?' सॅलीन विचारलें. 'संगत सांगशीतर हांव कांय कुमोक करूंक सकान?'

कोणे कांय कुमोक केली तर ती सॅलिनच म्हळ्ळें ते घडये जेरीक सुसतालें[55] आनी टेरीची सगळी कथा ताणे सॅली कुरियनाक विवरिली. ताणे दिल्लो विवर आयकोन सॅली उठली आनी जनेला लागीं वचोन भायर पळे लागली.

काळोक पडल्लो आनी रस्त्याचे दिवे जळताले. हिका कितें हर एक संदिग्ध परिगतीक जनेला लागींच सुलूस मेळतागाय? केदाळा पळेल्यारी ती जनेला लागीं?

'वंडरफूल', ती म्हणाली. 'एका मादक व्यसनीक तुमी बारांत बसवन क्वॉर्टर भरयतात? तो थंयच मोरात तर?'

'पूण इश्टाक सोडूंक जाता, मेडम?' जेरीन विचारचें धैर घेतलें. ताची अवस्ता

पळेल्यार तूं कितें करशीगी?'

'ताच्या घरच्यांक आपयतीं...'

'बाराक्कुटा गँगाक टेरीन पांच हजार दिवंक आसात खंय.'

'हो मामलो हल करूंक पोलीस आसात जेरी', ती म्हणाली आनी पार्टी येवन बसली. 'हांवें एक नांव आयकालें... टेरी, कोणाचो पूत म्हळेंय?'

'मोली पिरेरीचो!' तीं वालेन्सियांत रावतात...'

'ती आमच्या डिपोझिटरांची लीस्ट हाड' तिणे जेरीक सांगलें. 'मोली पिरेरा...' तिणे तें नांव आपल्या तोंडांत घोळयलें.

जेरीन लिस्ट हाडतच तिणे तुर्तान पाना परतून सोदलें. 'हां, येस', ती म्हणाली 'तिचो पती कुवेत आसा आनी ताचें नावं आंब्रोज पिरेर?'

'व्हय, मेडम'

'मोली, म्हजें क्लासमेट' ती म्हणाली कसल्यागी उडासांची पाट धरचेपरीं.' 'आंब्रोज पिरेरीचीं थोडीं डिपोझिटां आमचेलागीं आसात.'

'तर, मेडम?'

'आतांच तूं कांय करिनाका', ती म्हणाली. 'शिंटो आनी टेरी थंयच आसोंदीत. हांव मोली पिरेरीक फोन करतां...'

'हांव शिंटो सरशीं वेतां, मेडम?'

'गरज ना!' सॅलीन म्हळें. 'तूं हांगाच बस. मोली घरा आसल्यार बरें आसल्लें. पुताक सोदून तें गांव भोंवता जाल्यार?'

डिपोझिटरांचे लिस्टींत पळेवन सॅली कुरियनान, मोली पिरेरीचो नंबर घुंवडायलो.

■■■

# 12

मोली पिरेरीचे कुडींतल्यान एक शिरशिरो धांवलो. तिणे आपणाकच आपडून[56] पळेलें. आनी आपणाची कूड तिका शेळमोडें लागली. आपूण रगता मासाचीं या कसल्यागी बङ्ग लोहान केल्लीं, आपूण जीव आसां या मेल्यां म्हळ्ळीं सवालां तिचे मतींत उदेवन वर्तुळाकार घुवोंक लागलीं. ही सवालां अशीं घुंवताना मदें मदें एकेक पावटीं तिका आपुणच दिसताली आनी तिचें आंग परत शिरशिरतालें.

डॉ. रघू शेट्टीक भायर धाडतेच तिका कसलोय सुशेग भोगलो ना. भुकेल्लें सुणें हाडाच्या कुडक्याक परत येतेलें म्हण मोली जाणासली. ती दादल्यांक ओळकताली आनी चड करून आंब्रोज पिरेरीक. पूण आपणाक ताच्यावरनी वरतो जिणेच्या खंच्यायी हुंबरार फावो जावंक साध्य नातल्लें म्हळ्ळें अड्डूक सत मोलीन केदाळागी मानून घेतल्लें तरी, एका तेंपार कठीण थरान धग्या आनी धक्याक ओळग जाल्ली तिची मानसीकता, थीर मोगाक, पातयेणेक आनी खरेपणाक आशेताली. पूण काश्याचे जिणेक भांगाराची वोप काडच्या प्रेतनांत मोलीक हे तीन शेगूण कोणाथावनय फावो जावंक नातल्ले.

ती जाणा आसल्ली, तिच्या दारार येवन तिचीं गाणां – गुणां गांवचीं मनशां. फकत तांच्या तांच्या फायद्याक येतात म्हण. जाली एक संगीत सांज, एक चारिटी शो, नाटक आनी हेर, 'आंब्रोज आनी मोली पिरेरा' म्हळ्ळें एक व्हड बॅनर आसतालेंच. With best Compliments from म्हळ्ळें मंत्रवाक्यें तांच्या दुडवाचें खासगी बॅनर मंगळुरांत. पूण कित्याक नजो? असलीं बॅनरां तर मोलीच्या पाटले जिणेक तांच्या पाटल्यान लिपयतात तर कित्याक नजो?

पूण विपर्यास कसलोगी म्हळ्यार मोलीची पाटली जिणी चडशा मट्टाक फकत तिच्या आत्म्याचेर पुसूंक नजो जाल्लो एक तिबो जावन तिका धणसिताली शिवाय, वरसां उपरांत ह्या संवसाराक त्या 'चालू' मोलीची विसर पडल्ली आनी कोणाक कांय तरी कळीत आसल्लें तर, तोंडपाशीं देंवोन आइल्ल्या गे – खबरांनी शिवाय हेर दाखल्यां मुकांत्र न्हय. समाजीच्या मट्टाक मोली, ताच्या कुटमाच्या घना आनी दानावरवीं साणेक धरल्लें वज्र, शूद भांगार..

पूण आत्मो म्हळ्ळें तिचें कोशेड्डद मात्र नितळजावंक आयकानातल्लें. आंब्रोजान तिचेलागीं लग्न जावंक मुखार आइल्ली संगत तिका आनीकी संपनांतलीच. तिका नक्की जाल्लें कीं आंब्रोजाक आपूण सदांच रूणी उरतेलीं मात्र न्हय. ताणे कितें केल्यारय उलंवचें हक्क आपणाक ना म्हळ्ळेंय तिका स्पश्ट जाल्लें.

देमोक्लेसाची तलवार मोलीच्या ताळवेर आसल्लीच आनी ती एका अस्कत सुतार उमकाळताली.

मोली लागीं लग्न जाताना आंब्रोज कसो आसल्लो म्हण समजोन घेवंचें हक्क मोलीक नातल्लें. तवळचे परिगतींत आपल्या भुरग्याक आनी आपणाक एक आलकुंज दिवंचो आनी आपणाकय 'मात्रिमोनी' म्हळ्ळ्या साक्रामेंतामुकांत्र एक नवी सांक्तुवार दिवंचो दादलो तिका जाय आसल्लो आनी तो आंब्रोजाथंय देखतेच मोलीन पाटीं – फुडें पळेलें ना.

पाटीं पळेल्यार तिका आपूण पडल्लो खंदक दिसतालो आनी फुडें पळेवंक तिका भयें दिसतालें. पूण एक संगत मात्र खचीत. जावं मोलीचे अपूर्व आनी उद्रीक्त सोबायेक लागोन या हेर कसल्यायी थांबानातल्ल्या पाशांवाक लागून कोण्णा, आंब्रोजान खळमीत नातल्लो सांगात आनी 'मोग' तिका दिल्लो आनी सांगाताच दिल्लीं ताचींच दोगां भुरगीं, टेरेन्स आनी डिना.

पूण नोंदायीत न्हय जाल्ल्या बॅरनाक ताणे खंचेयी रितीर भरभेद दाखयल्लो ना. पळेवंक गेल्यार, बॅरनच एका विभीन्न चल्यापरी वाडोन आयलो. बऱ्याकच पडलें, मुंबयंत लग्न जाल्लीं मोली आनी आंब्रोज मंगळुराक आयलींच नांत आनी वर्सां उप्रांत आयलीं तरी 'काळ्या भांगराचो' दुडू घेवनच आइल्लीं आसतां मोलीचे मंगळूर जिणेची पावलां रेंवें वयल्या पावलांपरी माजवोन गेलीं. मंगळूरगारांचो

सभावच तसलो. तांणी विसरचें पयलें, पूण भोगसूंचें उपरांत. पुण पयलेंच सांगल्ले परीं, आपणाकच धणसुचें... मोली मंगळूर शहाराकच दोशीत धरून आपल्या दुडवामुखांत्र थोरायेचीं बॅनरा उबवंच्यांत यशस्वी जाल्लें.

विचीत्र पूण नीज, बॅरनाक आपल्या जल्माची कथा कळीत नातल्ली. सबार पावटीं हो विशय मोलीन आंब्रोजालागीं काडल्लो आसा. पूण ताणे ताका आडायिल्लें. 'ब्यारनाची कालेत आनी मानसीकता तूं जाणाय मोली.' ताणे म्हळ्ळें. 'हो घूट ताका आमी सांगान तर तो सगळोच विकारात. तितलेंच न्हय, टेरेन्स आनी डिना ताका कसले नदरेन पळेतीत म्हळ्ळें सवालय उदेतेलें.

समाजमूं? हांगासर कुवेतांत या गल्फांत आसल्ले आपूण निजायकी कसलें काम करतां म्हण रजेर गावांक वेताना सांगतात? तांचीं रेब्यान चस्मां, स्टीरियो, टी. वी. आनी कॅमेरा आनी मार्केटींत तांकां अमानत आसचीं पांपलां - काणे मात्र तांच्या विशीं उलयतात शिवाय ते खूद उलयतात? तुजेच विशीं...' इतलें म्हणोन आंब्रोज थांबलो, पूण मोली रडली.

असलीं घडितां कांय अप्रूप न्हय. सोऱ्याचे अस्कतकायेंत बुडताना आंब्रोज सबार पावटीं मोलीक डोस दितालो आनी तवळ मोली लागीं कसलोच प्रतिवाद आसानातल्लो.

बॅरनाच्या जल्मा उप्रांत कुवेत पावल्ल्या आंब्रोजान मोलीक कुडले[57] व्हरयिल्लें[58] आनी भलायकेक लागोन तांणी फुडलीं भुरगीं पाटीं घाल्ल्यान बॅरन आनी टेरेन्सा मदें स वर्साचें फरक आसल्लें. त्या शिवाय मोलीची प्राय तरी कितली? शिकप ताका आसल्लें, सोबाय आसल्ली, ताका कुवेतांत काम मेळोंक कश्ट जालेनांत.

आंब्रोज अहंमदींत के. ओ. सी. चे आस्पत्रेंत काम करतालो आनी अहंमदींतच तांकां कंपेनीचें घर आसल्लें. ताका बरो 'वास्ता' आसल्लो आनी सबार जणांची ओळोकय आसल्ली. चड जावन आरबी न्हय आसल्ल्यां के. ओ. सी. स्टाफाच्यांक आस्पत्रेंत चडितायेन सुश्रुशा मेळोंक आंब्रोज कारण. दाक्तेर ताचें उतर ना करिनातल्ले. अशें जावन मोलीक अम्मादी इंडस्ट्रियल एरियांतच 'टीट इंटरनॅशनल' म्हळ्ळे अमेरिकन कंपनेत काम मेळोंक कश्ट जालेनांत. मोलीन, बॅरनाक आपली इंजिनियर जायजे म्हळ्ळी आशा जारी करचो वेळ

येतापर्यांत, काम केलें,. त्या एका वर्सा गांवांक येवन तांणी 'सायट' घेतली आनी एका वर्साभितर एक मजबूत बंगलो वालेन्सियांत उबो जालो. आपलें पी. यू. सीचें शिकप सां. लुवीस कॉलेजींत करतेच बॅरन विशिश्ट शेणिर पास जाताना ताका के. आर. इ. सींत सी. ट मेळोंक कांय कश्ट जालेनांत.

बॅरन पी. यू. सी चें शिकप करताना नव्या बोंगल्यांत एकलोच रावतालो आनी ताका रांदून वाडूंक आनी घरची साफसफाय करूंक जणां आसल्लीं. पूण ताचें तांत्रीक शिकप सुरू जाताना थोडो तेंप तो सुरतकल हॉस्टेलांत रावलो तरी, एका दिसा आइल्ली ताची अपरूप चीट पळेवन मोलीचीं अंतरमनां मुरडालीं. 'हें हॉस्टेल आनी हांगाचें खाण म्हाका वोंबाना, माम्मी. तुवें काम केल्लें पुरो. तूं टेरीक आनी धाकटुल्या डिनाक घेवन गांवांक ये. हांव तुजे सांगाता रावतां, म्हाका एक बायक घेवन दिल्यार पुरो. प्लीज.'

बॅरनान पयले पावटीं आपणाखातीर कितें तरी विचारचें. आपल्या पयल्या मोगाची निशानी न्हय तो? मोलीचे काळीज रडलें. खंय पावलागी कितेंगी ताचो बापूय, पूण करूंक ना हांवें ताचो मोग एका तेंपार. मोली, मंगळुराक आयली, पूण कुवेताथावन पयस रावली ना. वर्साक एक पावटीं कुवेतच्या गिमांत आंब्रोज येतालो आनी क्रिसमसावेळार मोली भुरग्यांक घेवन कुवेत वेताली.

बॅरनाचें तांत्रीक शिकप जातानाच Campus recruitment क लागोन ताका एके अंतर्राष्ट्रीय कंपेनीन विंचलो आनी तो मुंबय पावलो आनी स म्हयन्या भितर ते कंपेनीन ताका बाहरेन धाडलो. बापायचो या हेरांचो कसलोच मुलाजो नासतां आपलेस्तकीं वयर आयिल्ल्या बॅरनान बाहरेनांत एका पंजाबी सोबागिणीक विंचलें. जावं आंब्रोजाक या मोलीक कांय म्हणोंक जालें ना. तीं संतोसान लगनक बाहरेन गेलीं. ब्रॅरनाची जिणी सुरू जाल्ली, पूण ताच्या जल्माचो घूट मात्र उगतो जावंच्याक वेळ घडयेक राखतालो.

आतां हेणे, टेरेन्साची जिणी सुरू जाताना फुडें येवंक आसच्या घडितांची खुणां ताणे दाखयलीं तरी मोलीचे दोळे उगते जावंक आयकालेनांत. टेरीक तिणे सर्व दिलें पूण अवगडांचे भिरांतीन बॅरनाचें बायक मात्र दिलें ना म्हळ्ळी संगत विपर्यासाची.

शिकपांत टेरीक कांय उर्बा नातल्ली, पूण मतीची चुरूकाय आसल्ली.

आपणाक 'जॉली लायफ' जाय म्हण ताणे वाणिज्य विंचताना जावं मोलीन या आंब्रोजान आक्षेप हाडलो ना. 'आमी जोडल्लें कोणाक' म्हळ्ळो तोंडपाशीं वील ताणीं येदोळच केल्ल्यान टेरेन्साक फाल्यांचे चिंतीजे म्हळ्ळी गरजच नातल्ली.

आनी डिना आवयचीच सोबाय हाडून आइल्लें आनी आपूण सोबीत आसां म्हळ्ळें चिंतप मोलीन ल्हानपणाथावनच धुवेचे मतींत खंचवंचे प्रेतन केल्लें आनी तेंयी यशस्वी रितीर. ताचे गोरसाणेक लागोन ताका वालेन्सियाचे चले 'सेप्टीक' म्हण आपयताले. मतलभ, सेप्ठीक जाल्लो घाय कसो धवोच आसता तशी डिनाची गोरसाण म्हळ्ळो अर्थ.

सर्व सुगम रितीर चलतालें, पूण एक संगत मात्र मोलीक धोसताली. आपूण नासतां आंब्रोज कसो स म्हयने काडतागी म्हण. ताची पतीण जावन तें ताची दैहीक तान-वोड बऱ्यान जाणा आसल्लें. मुंबय आसताना कांय ताचीं आतर्वणां उण्या मापाचीं न्हय म्हण ताका आकयगेरच कळीत जाल्लें. पूण उलवंक मोलीक कसलोच अवकास नातल्लो कित्याक ह्या खेळांत, चारय तुरुपां आंब्रोजाच्या हातांत आसल्लीं.

हे दांबणेवरवीं आनी स्वताच्या अपरादी कोशेड्दावर्वी मोली, जिल्ली टिचेर आनी तसल्या मट्टाच्यांलागीं कांटे फापुडताली, झगडताली आनी चिडायताली. ह्या घर्शणांनी आनी संघर्शणांनी आनी तिच्या सोशल लायफावर्वी तिचें गुमान भुरग्यांवयलें केदाळागी उटोन गेल्लें...

ही जावन आसल्ली मटव्यान जिणे कथा मोली पिरेरीची.

आनी हे जिणेचें सुरविलें किसर सॅली कुरियनाक कळीत आसल्लें.

डॉ. रघू शेट्टी, टेरीक न्हिदावन आनी मोलीक फसवंचें आपलें कायम प्रेतन फकत उतरांवर्वीं जायर करून वेतेच टेरीच्या बेडरुमाक येवन मोलीन आंब्रोजाक फोन केल्लें. निस्तेज पडल्ल्या पुताक पळेताना तो कसो असो जालो म्हळ्ळें सवाल तिचे मतींत उठतालें, पूण ती त्या सवालाक बसयताली. कित्याक त्या सवालाक जाप दिवंची सकत तिचे थंय नातल्ली.

कांय आंब्रोजाथावन सुलूस मेळतीत म्हळ्ळी अपेक्षा ते फिलिप्पिनो चलयेन रिसीवर काडताना पिगळोन गेली. सुरवेर घरचाकरेक म्हण आंब्रोजान एके श्रीलंकाचे स्त्रियेक दवरल्लें. पूण तिका पळेताना कामुकतेचो खंचो देंवचारय

गुमटो जातलो जाल्ल्यान आदल्या पावटीं कुवेत गेल्ल्या मोलीक ते स्त्रियेथावन कसलीयी भिरांत दिसली ना.

पूण कुवेतांत ती मात्र एक स्त्री न्हय. मंगळूरगारांनी आनी हेरांनी आरब्यांची 'लायफस्टायल' आपणाइल्ली कांय नवी न्हय. 'दवरून घेवंचे' म्हळ्यार थंय कांय नवेसांव न्हय आनी ह्या फिलिप्पिनोंचें येणें जाल्या उप्रांत कुवेतचीं नैतीक मोलां चरंडेंत पडल्लीं. ह्या फिलिप्पिनो चलयांनी आनी दादल्यांनी कुवेताचेर केल्लें 'आक्रमण' तुरंत आनी तुरीत. ही कुळी, वाळय रिगल्लेपरीं हर एका वेव्हारांत मेतेरजाल्ली.

कुवेतींच्या मट्टाक तेगां चोवगां फिलिप्पिनो 'खादिमां' बोंगल्यांत आसल्यार तांचे समाजींत तांचे मट्ट वयर. दुसऱ्यान, ही कुळी, चडशें कातोलीक तरी, संवसारांत दीस काडचे तसली. तांच्या दुडवांचें तुलन कुवेती दिनारांसंगीं केल्यार एक दिनार म्हळ्यार तांकां एक मुदगोच, तिसऱ्यान ही कुळी वावरान हुशार. फिलिप्पिनो नर्सांनी सर्व आस्पत्र्यांनी 'आक्रमण' केल्लें. चडावत सुपर मार्केटिंनी, सुल्तान सेंटर, सेफ वे, मूव्ह - ॲण्ड - पीक आनी हेर अंतर्राष्ट्रीय सांकळ स्टोरांनी हांच्याच वावराकच मागणीं.

फिलिप्पिंनो चल्यांक सोबाय आनी कुडीचो खास रंग आसा. आनी तीं इतलीं Forward, की 'हेल्लो' म्हळ्ळ्याफरा उसक्यारच येवन बसतात म्हळ्ळें उलोणें आरबी न्हय जाल्ल्यांमदें सुरू जाल्लें.

आतां एक असलें फिलिप्पिनी आंब्रोजान घर चाकरेक म्हण हाडल्लें? ते तसलें म्हण कशें सांगाताय, मोली? आपणाकच तीणे विचारलें. तीं सर्वांय तसलीं न्हय म्हण तूं जाणाय. पूण 'हांव म्हजो घोव कसलो म्हण जाणां', तें मनातच बोबाटलें. आनी तवळ, आंब्रोज सामकार नातल्लो तरी ताचे ते अदृश हात एकेकच तुरूप खेळताले, तुजो घोव आंब्रोज, तूं कसलें म्हण जाणा.

हें सर्व आकेर जावं, आपणाकच बोळायलें मोलीन. एक पावटीं म्हजो टेरी ह्या केस्तावांतलो भायर येवंदी. हांव गुमानीत कुवेत वेतेलीं. कशेंयी दोन वर्सांच्या 'डिपेंडेंट' रेजिडेन्स परमिटीचें एक वर्स बाकी आसा.

टेरेन्साक तांणी बेंगळूर धाडलो. एक म्हयनोभर पुता सांगाता एकेसेनेटोरियमांत रावोन मोली पाटीं आयली. टेरी सुदरल्लो, बरो हेंडसम दिसतालो आनी जिवांत इल्लोसो रंग दाकयतालो. सुमार तीन म्हयनेपर्यांत सेनेटोरियमांत रावतेच टेरीनच

आवयक सांगलें, आपूण विलसान गार्डनांत डॅडीच्या पयशिल्ल्या सयऱ्यां सांगाता आनीकी तीन म्हयने रावतां.'

मोलीकय हें बरें दिसलें कित्याक म्हळ्यार त्या घरांत सर्वां टेरीचेच प्रायेचीं, तेगां चलयोच. तशें पुणी ह्या चल्याचें मन चलयांचेर पडोंदी आनी मादकाच्या संवसाराथावन तो कायाम भायर येवंदी म्हळ्ळें ग्राणे[59] मोलीचें. तितलेंच न्हय, त्या घरचो दादलो कठीण शिस्तीचो मनीस.

वालेन्सियांत तिणे वेगळीच खबर घाल्ली. आपणाचो टेरी आधुनिक कंप्यूटर शिकप शिकचे खातीर बेंगळूर गेला म्हण आनी वेगींच अमेरिकाक वेच्यार आसा म्हण. हो कंप्यूटर काळ भारतांत आतां जून जाल्लो आनी सुणें माजर सयत 'उंदीर चूंय चूंय करीना बगार क्लीक क्लीक करता' म्हणच्या हंतार येवन पावल्लीं.

स म्हयने जाताना टेरी आपलेस्तकीं पाटीं आयलो. ताचें शाणेपण मोलीक गमलें ना. मोलीच्च्या सिन्तीमेंताचेर खेळोन ताणे फोनाचेर तिका सांगलें 'मां म्हाका तुजे पासळेंत येवंक जाय. बी. कॉमाची सप्लिमेंटरी हांव बांदतलो आनी पास जातलों. डेडीक सांग, कुवेतांत म्हाका एक काम तलास करूंक. आय. लव. यू मामी.'

पुताच्या उतरांनी मोली पिरेर फसवाली. टेरी पाटीं आयलो आनी ताणे सुरू केल्ली जिणी पळेताना निजायकी आपलो पूत सालवार जालो म्हण तिका दृढ जालें. सकाळींचें उठोन तो लांब 'वॉकाक' वेतालो आनी सुमार आठ वोरारशें पाटीं येतालो. नास्टो करतेच, आपूण शिकतां म्हण आपल्या कुडांत आपणाकच फिचार जाल्लो तो भायर येतालो दोनपारांच्या जेवणाक. 'हांव पाटीं आयलां म्हण म्हज्या इश्टांक कळचें नाका मामी,' अशें म्हळ्ळें ताणे.

पूण ताची जिणी खोलायेन पळेवंची फुरसत मोलीक नातल्ली. सांजेचें परत्यान 'वॉक' म्हण तो भायर वेतालो, पूण खंय म्हण ती नेणा. सांजेचें दोन पेग जीन्न मारची सवंय मोलीक आसल्ली आनी तवळ ती पुताक एक बीयर पिये म्हणताना तो नम्रतेन ने गारतालो.

आनी त्या एका दिसा, सकाळींच्या 'वॉकाक' म्हण गेल्लो टेरी सांजेची स जल्यारी पाटीं आयलो ना तें पळेवन मोलीन डिनाक सांगाता घेतलें आनी कार घेवन ती शीदा जेराल्ड पायसाच्या घरा गेली.

■■■

# 13

आपणा सामकार बसल्ल्या मोली पिरेरीच्या दोळ्यांकच पळेवंच्या सॅली कुरियनाचे दिश्टींत एकच सवाल आसल्लें केदोळ पर्यांत मोली? कसलें देवें तूं दिताय? हें देवें प्राचीत न्हय.

कॉलेजींत शिकताना सॅली आनी मोली भोव लागशिल्लीं आनी मोलीचे 'निसरोणे विशीं सॅलीक सोडल्यार हेर सांगातिणींक चडीत कळीत नातल्लें. कळीत आसल्लें तरी मोलीचो सभाव जाणा आसल्लीं पयस रावतीं आसल्लीं. तवळ मोलीक मानसीक पाटिंबो दिवन मुंबय धाडल्लें आनी मोलीचे आवयक आदार दिल्लो सॅलीनच.

वर्सां उप्रांतच मंगळुराक पाटीं आइल्ल्या मोलीन एक या दोन पावटीं सॅलीक फोन केल्लें पूण उवेक्त कारणाक लागोन सांगात चालू दवरची कसलीयी उर्बा दाखयली ना. हां, कांय आदले इश्टागतीचें रूण फारीक जावंदी म्हळ्ळ्या इराध्यान कितें कोण्णा, दोन डिपोजिटां चीट फंडाक दिल्लीं मोलीन. त्या उप्रांत सॅली सयत ताच्या पाटल्यान गेलें ना.

पूण आतां उदेल्लें हें सान्निवेश बिलकूल ताणीं दोगांयनी चिंतिनातल्लेंच न्हय आनी ह्या सान्निवेशाची जडाय इतली आसल्ली की, आदलें कसलेंयी उस्तुंचें, परिदे भायलें.

सॅलीन ताचें फोन नंबर सोदून तें लागयताना देदेस्पर जाल्लें मोली वागिणी परीं सॅलीच्या दफ्तराक रिगली.

'तुवें फोनार म्हाका कांय सांगोंक नाय?' म्हणाली मोली.

'खंय आसा म्हजो पूत?'

'बस मोली', सॅलीन सैराण सांबाळ्ळें. जेरी एका मुल्यांत आसल्ल्या स्टुलाचेर

बसोन आसल्लो तो मोलीच्या गुमान्याक गेलो गी नां. गी.'

'तूं म्हाका तशें पळेनाका, सॅली!' उचांबळ जाली मोली. 'हांव जाणां तुज्या मतींत कितें घुंवता म्हण. तीं आदलीं वर्सां हांव विसरोंक ना, पूण हांव कोणायच्यायी खांदार मातें दवरून रडल्यां? हांवें म्हजेंच पाप धुलां and I don't owe anybody anything!'

सॅलीन ताका एक अर्थाभरीत दिश्ट दिली आनी ती दिश्ट तितल्याच अर्थान जेरी बसोन आसल्ले कुशीन घुंवडायली तवळ मोलीन गोमटी घुंवडावन जेरीक पळेलो.

'हो कितें करता हांगासर?' ताचीं उतरां पुसपुसोन भायर उसळतालीं.

'आदल्या पावटींय हो आनी आनएकलो मलेयाळी चेडो म्हज्या टेरी सांगाता आसल्ले...'

'तो मलेयाळी चेडो म्हजो भाचो मोली' शांतपणी कळयलें सॅलीन.

'टेरीक आनी...'

'हां, तशें सांग', म्हणाली मोली. 'आतां म्हाका कळता. हो एकलो त्या जिल्ली टिचेरीचो पूत आनी दुसरो तुजो भाचो. संपदलें. हांव हाच्या घरा वचोन आयलीं...'

'आमगेर वचोन म्हजे आवयक येटची कांय गरज आनी हक तुका ना!' उटोन मुकार आयलो जेरी. 'टेरीच्या स्थितेक कारण आमी न्हय, तूंच. कितें उलयलीय तूं म्हजे आवयलागीं?'

'हांव सेकेंड क्लास मनशांलागीं चड उलयना' नंजाळी हासो हासली. 'हांव कितें नेणां तुमची चरित्रा?'

'तुमची फर्स्ट क्लास मनशांची गत पळेताना म्हाका चडीत उलवंक नाका' म्हणालो जेरी, आपल्याच उतरांथय शेर्मेवन. आपल्याक अशें उलवंक जाता म्हळ्ळें ताका कळीत नातल्लें. ह्या आधुनीक समजींत क्लासी आनी वर्ग आपले आवयन वुडलँडसांत उलइल्लीं उतरां ताच्या उडासांत आयलीं. हें सर्व सोसलां म्हजे आवयन?

'असलें उलोणें गुंडायेक वेता, मोली!' मदें पडली सॅली. 'आमी हर एकलीं दुदा फातरान धांपल्ले फोंड म्हळ्ळें उडास दवर. हे फोंड उस्तोंचे न्हय. आमचीच

कुसडाय वयर पडता.'

सॅलीच्या उतरांचो मतलब मोलीक बऱ्यान गमताना तें मातशें थंड पडलें. दोळ्यांनी उदेल्लीं दुकां तिणे पुसलीं.' 'हांव कांय चुकोन तुज्या आवयक उलवंक ना.' ती म्हणाली. 'हांव जाणां हांव चलच्या धरणीकच ती कांटाळता म्हण. आनी हांव कांय उणें न्हय. कारणां चिल्लर' 'पूण तुका क्लासीचें उलोणें हाडिजे म्हण नातल्लें!' म्हणालो जेरी. तवळ मोली लागीं जाप नातल्ली.

'हो घोटळो कसलो म्हळ्ळो म्हाका समजाना.' आकरेक म्हणाली मोली. 'खंय आसा म्हजो टेरी? सॅली, तुवें म्हळ्ळेंय, टेरी खातीर हांवें हांगासर येजे म्हण. हांव आयल्यां.'

तवळ सॅलीन, जेरीक 'उलय' म्हळ्ळों इशारो दिलो.

जेरीन सर्व विवरोन सांगलें आनी कुडसिलें म्हणोन, 'आमकां हेर वाट नातल्ली.'

'तें हांव बिलकूल पातयेना' किळंचली मोली. 'म्हज्या पुताक स्थिमिताक हाडूंक तुमी ताका बाराक आपवन व्हेलो? कोणे दिलें तुमकां तें हक्क? नातल्लीं हांव ह्या संवासारांत?'

'आसाय', म्हणालो जेरी एका नव्या जोश्यान 'रिजल्टा दिसा तूं आमकां कशी उलइल्लीय म्हळ्ळें उडासांत हाड. तुज्या पुताक सांबाळूंक सांबाळूंक तुका जायना जाल्यार आमकां कित्याक टुरसताय तूं? तुज्या पुताच्या रगताक तें बाराक्कुटा गँग राखोन, रावलां. आज राती भितर तांकां पांच हजार पावीत करिना तर...'

'पांच हजार न्हय, पांच लाख पावीत करची तांक आसा म्हाका!' सॅलीच्या मेजाक मूट मारली मोलीन. 'तांतलो कितलो वांटो तुमचो म्हण म्हाका आतांच सांगा, दळदिऱ्यांनो.' तिणे आपलें बॅग उसयलें. जेरी उबो जालो. 'व्हय आमी टेरीक कुमोक करूंक हातीं घेतल्ली वाट चूक, पूण आमकां इश्टागतीचीं सिंतिमेंतां आंदळीं करि लागलीं जाल्ल्यान आमी अशें केलें. आतां तुज्या टेरीक आमी तुजे ताबेन दितावं. स म्हयन्या उपरांत तो निसरला आनी हाका कारण तूं...'

कितेंगी म्हणोंक सॅलीन तोंड काडलें पूण 'तूं कांय मदें उलयनाका सॅली मेडम', म्हणालो जेरी आतां उगत्यान रडोन.

'हांव आतां उशाक वेतां आनी टेरीक भायर हाडतां...' तो शीदा गेलोच.

कॅबिनांत सॅली आनी मोली दोगांच उरलीं.

'म्हाका तुजो आदार जाय', आपल्याच उतरांचेर पाटीं वचोन मोली उबी जाली. 'या तुका ह्या प्रकरणांत मेतेर जावंक नाका?'

'संवसारांतली जिणीच एक बृहत प्रकरण, मोली' जाप दिली सॅलीन. 'हें प्रकरण तुजें, हें म्हजें म्हणचे दीस गेल्यात. आमी एकामेकाचीं प्रकरणां आंगार वोडून घेतावं. कांय ना तर जात - कात, भांगार - भावार्थाचेर चडतावं आनी हेरांक चिल्लितावं. म्हाका कोण हो टेरेन्स पिरेरा? कोण हें मोली पिरेरा? कसली चरित्रा ताची? हें सर्व विचारूंक कोणाक फुरसत आसा मोली. आर्दी जिणी हेरांची पातकां मेजच्यांत आमी खर्चितावं आनी दुसरें अर्द आमच्याच निराशेचें लेक करच्यांत. आतां ऊठ, दुसरो या तिसरो अवकास तुका मेळ्ळा आसतां, टेरीक तुज्या नदरेथावन पयस दवरिनाका आनी हेरांक दुर्सनाका. टेरीक परत्यान मजत जाय कित्याक हें ताचें मादक व्यसन लांबात तर...'

चीट फंडाचें दफ्तर बंद करून तीं सांगाताच मेटां देंवोनं उशाक पावताना शिंटोन आनी जेरीन टेरीक भायर हाडल्लो. आमालाच्या बळार कितेंगी तो स्थिमतियेंत आसचे परीं दिसतालो. कितेंगी रस्त्यार चड जण नातल्ले आनी बारा भायर एक-दोग पान घेवच्याखातीर उबे आसल्ले मात्र. आपलेस्तकीं मारोग उतरोन टेरी हेवशीन आयलो आनी आवयचे वेंगेंत घुसलो.

'सॉरी, माम्मी', तो म्हणालो. 'हांव परत्यान निसरलों. कितलो अस्कत हांव. म्हाका बाराक्कुटा गँगाथावन बचाव कर, माम्मी. एक फावटी तांचेथावन म्हाका सुटय. उप्रांत हांव तुवें सांगल्लें कितेंयी करतां.'

मोलीन एक दयाळायेची दिश्ट सॅलीचेर घाली. 'तुमी तुर्तान करांत बसा.' म्हळें सॅलीन, 'तुका ड्रायव करूंक जाता, मोली?' मोलीन ड्रायवराक हाडूंक नातल्लो.

'व्हय', म्हणाली मोली. 'हे तरनाटे आमचें संगी येतीत तर', दांत चाबून ती म्हणाली.

आमच्या इश्टाखातीर आमी कितेंय करूंक तयार' म्हणालो शिंटो.

'खंडीत जावन!' म्हणाली मोली. 'तुमी ताका आतां सोरो दिलो ना?

`That's enough Molly!` आतां सॅलीच्यान मौन रावोंक जालें ना.

'तुज्या फायद्याखातीर हेरांक वापरचें तुका सवयेचें जालां!'

'व्हयगी?' मोलीन सोडून दिलें ना. 'तुवें केल्ल्या उपकारांक हांवें बरी' डिपोजिटां दिल्यांत आनी आयच्या कुमकेक तुका रूसूम जायतर तीं डिपोजिटां तुकाच आसोंदीत. आतां कितें म्हणताय? म्हजो पयसो उलयता म्हणताय? व्हय म्हजो पयसोच उलयता आनी हेर कितें ह्या समाजीक जाय म्हळ्ळें पळेतां हांव.'

'दया करून वच, मोली' परातलें सॅलीन. `Do not Create a scene here.'

'आनी तुमकां' मोली म्हणाली, टेरीक आनीकी वेंगेंत धरून. 'तुमच्या इश्टाक कुमोक करूंक जाय तर म्हाका त्या बाराक्कुटा गँगा पर्यांत व्हरा...'

'पोलिसांक आपयनाका माम्मी!' एकाच्छाणे परातलें टेरीन. 'तें भिरांकूळ गँग.'

शिंटोन आनी जेरींन एकामेकाचीं मुकमळां पळेलीं. 'आमी येतावं', ते सांगाताच म्हणाले.

मोली पिरेरीचें कार सुटलें.

'खंय वचूंक ?' तिणे विचारलें, पाटले सिटीर बसोन आसल्ल्या जेरी आनी शिंटोलागीं.

'तुका खंय मेळोंक सांगलां. बाराक्कुटान?' जेरीन विचारलें.

'बल्मठा मैदानारच.' कांपेन्या ताळ्यान जाप दिली टेरीन. 'तूं पोलिसांक सांगानाय – ने मां?' तो आवयच्या खांदार मातें दवरिलागलो. `I will be your god son. हांव सप्लिमंटरी दितां मागीर कुवेत वेतां. म्हाका बाहरेनय वचाजे. बॅरन म्हज्या मोगाचो भाव आनी डिना म्हजें मोगाचें भयण आनी मुकार हांकां आनी तुमकां हांव दुकवंचो ना आनी हे आसात पळे, असले दोस्त कोणाकी मेळचेपरीं नात. हे नातल्ले तर येदोळ मोरोन पिड्ड्यार जातों हांव.?

'तें दिसता म्हाका', म्हणाली मोली. 'आतां तूं उलयनाका, म्हज्या पुता. फाल्यांभितर सर्व सारकें जातेलें...'

'डॉ. रघू शेट्टीक मात्र आपयनाका मां,' टेरी म्हणालो `he is a dirty man.'

‘ना’, म्हणाली मोली. ‘हांव कोणाकी आपयना. हांवच तुका पळेतां.’

‘पूण डॅडीक एक पावटीं आपय, जरूर आपय.’

‘आपयतां बाळा, आपयतां.’ मोलीन दाव्या हातान टेरीचें मातें पोशेलें.

पाटले सिटीर बसल्ल्या शिंटोक आनी जेरीक नक्की जाल्लें कीं, टेरी मादकतेच्या निमाण्या हंतार आसा म्हण. आनी टेरी एक चतूर मादक व्यसनी. ताका उलवंक आनी हेरांक फटवंक कळीत आसल्लें, ना तर, स म्हयन्या उप्रांत तो परत निसराल्ली संगत ताणे कितले चतुरायेन आवयथावन लिपयली म्हणताना...

बल्माठा मैदान लागीं लागीं सरताना जेरी आनी शिंटोथंय भिरांत वाडली. ‘खंय रावयजे म्हण, माम्मीक सांग’, म्हणालो शिंटो, ‘आनी तुर्तान तांचें देवें दी आनी पाटीं ये.’

‘व्हय, व्हय’, म्हणाली मोली. ‘त्या उप्रांत हे तांचें कमिशन घेवंक वचुंदीत!’

हीं उतरां आयकोन तांणी कश्टांनी सैराण सांबाळ्ळें. कितल्या वाट्यांनी पूत धुस्पटल्लोगी ताच्या की चड वांट्यांनी आवय पिशी जाल्या म्हण तांकां गमलें.

‘राववंचें खंय?’ एकाच्छाणे खेंचलो टेरी ‘त्या वोडाच्या रुखामुळांतच. तोच तांचो अड्डो. ते कोणायकी भियेनांत मां...’

‘पूण तूं कसो तांच्या मेळींत सेरवालोय पुता?’ आतां मोलीचो ताळोयी कांपतालो. ‘तुका हांवे कितल्या पावटीं सांगोक ना, इश्टागत करताना बऱ्यांची करची म्हण? तूं जाणांय, सोसय्टींत आमकां कितलो मान आनी मर्याद आसा म्हण?... तुज्या डॅडीन ल्हान मट्टार सुरू केलें तरी तो कुवेतांत कितलें जोडता जाणाय? एक मेडिकल शॉप सयत ताणे उगतें केलां. बॅरन पळे, केदाळा तो अमेरिकाक वचात म्हण सांगोंक जायना... पुण हांव केदाळाय तुजे संगीं आसतेलीं.’

‘व्हय गी मां?’ ताणें विचारलें. ‘तूं म्हजे सांगाता आसल्लीच म्हळ्ळो उडास म्हाका येना.’

‘कित्याक म्हळ्यार तुजे सांगाती म्हजेथावन तुका पयस व्हरूंक सोदतालें.’ मोलीन म्हळें काराचो वेग उणो करून. ‘कितले दिवंक आसात त्या गँगाक?

पोलिसांक आपवन तांचीं हाडां पिटो करची शाती आसा म्हाका.'

'नाका, मेडम', खचितायेन म्हणालो शिंटो. ताचीं उतरां एकाच्छाणे जाणट्यांच्या पांवड्याक चडल्लीं. 'तुमकां एक तर्नाटी धूव आसा म्हळ्ळें उडासांत आसूं. हें गँग सर्पाचेंच संतान. एक तकली कातरल्यार खिणाभितर दुसरी फुटोन उदेता. टेरी, तांकां देवें आसचें दिवंदी आनी तांचे थावन पयस रावोंदी.'

'स म्हयने पर्यांत समा आसल्लो म्हजो पूत परत्यान कसो निसरालो म्हळ्ळें म्हाका समाजाना.' पांच हजारांची अट्टी टेरीलागीं दिताना मोली म्हणाली.

तुज्या सवालाची जाप तुजेचलागीं आसा, अशें म्हणोंक जेरीन वोंट उसयले, पूण ताणे कितेंच म्हळ्ळें ना.

मोलीन कार रावयलें.

बाराकुटा गँग तांच्या सामकार आसच्या वोडाच्या रुखा मुळांत बसोन आसल्लें. सांगाता टायट जिन्साचेर आसल्ली एकली चलीय आसल्ली. तांच्या मदें कसलेंगी उलोणे चलतालें.

'आमी सांगाता येजे तर, येतावं टेरी', म्हळें जेरीन. पूण ताच्या ताळ्यांत टेरी सांगाता वेचो मतलब नातल्लो. बाराकुटा गेंगाक ते भियेताले.

'नाका, नाका', म्हणालो टेरी कांपेऱ्या मेटांनी भायर येवन. 'हांवच तांकां पयशे दितां आनी गुडबाय म्हणतां. आनी नाका म्हाका हो रंगाळ संवसार. निमाण्या पावटीं तांकां गुडबाय. ह्या उप्रांत हांव माम्मीचो गुडबॉय.'

कारा भायर येवन कांपेऱ्या मेटांनी उबो जाल्ल्या टेरीचेर गँगाची दिश्ट पडली आनी तांतले सर्व घुंवोन ताका पळेलागले. टेरीन तांचे कुशीन मेटां काडलीं. तांचे मदें आसल्लो शेंबोर फुटींचो अंतर उणो उणो जायीत वेताना टेरी तांचे सरशीं पावलो आनी बोलसांतली अट्टी काडून तांच्या लिडराक दिवंची कारांत बसल्यांक दिसलें. उप्रांत थोड्या खिणांक टेरीचे आनी त्या लिडराचे हात हांच्या दिश्टीथावन लिपले...

कंकनाडी पावताना शिंटो आनी जेरी, आमी हांगासरच देंवतांव म्हण मोलीक सांगोन, तिणे कार रावयतच देंवले.

'आनी मुकार म्हज्या पुताच्या तळ्ळेक येनाकात', म्हळें मोलीन.

जेरी आनी शिंटो त्या उतरांनी दुकोन टेरीचेर एक दिश्ट घालताना तो दोळ्यांनी

दुकां घेवन तांकांच पळेतालो.

तांणी ते मटवे आवदेंत ते दिश्टीचो अर्थ करचें प्रेतन केलें. पूण वेर्थ, मोलीन एकाच्छाणे कार चालू केलें.

तीच जावंक पावली जेरीन आनी शिंटोन पळेल्ली टेरीची निमाणी दिश्ट.

दुसऱ्या दिसाचे सकाळीं, वोरां साडेइकरा जाल्यारी टेरी उटोंक नातल्लो पळेवन मोली ताच्या रूमाक वेताना गोमटी मोडल्ल्या कावळ्याच्या बोक्या परीं मुडकेवन रूमाच्या एका कोनशांत पडोन आसचो टेरी तिका दिसलो. ताच्या उजव्या हातासरशीं एक सिरींज आनी कसल्यागी द्रवाची खाली जाल्ली एक ल्हान सिसली आसल्ली.

ती सिसली तितली ल्हान कीं, पांच हजार एका हातान बारा कुटा गेंगाक दिताना, दुसऱ्या हातान ती सिसली तांचेथावन टेरीन घेतल्ली हांकां दिसलें ना.

आतां टेरीचे कुडींत जीव नातल्लो.

■■■

# 14

हें सत मोली पिरेरीचे मतीक झगलाणें मारल्ले परीं लागलें आनी ती उस्मडली. आपलो आनी आंब्रोजाचो पूत, टेरी आतां ह्या संवसारांत नातल्लो. ताणे हो संवसार सांडल्लो तरी कसले नालिसायेचे रितीर.

पूण हें सर्व कितलें आनी कोणाक कळीत आसा? आनी कित्याक कळीत जायजे? ग्रेस्तांचे म्हेळें. घाणाना म्हण पातयेवचें मंगळुरी सामाजीक, जावं लाइकांक या क्लेरिकांक मांकोड करूंक सुलभ. उलवंच्यो जिबो उलयतात. त्यो उलयल्यात, मोलीन टेरीक बेंगळुरांतल्या सेनेटोरियमांत दवरलेल्या वेळार. वालेन्सियांत, टेरी कंप्यूटर कोर्स करूंक गेला म्हळ्ळी 'बरी' खबर एके कुशीन मोलीन पासारल्ली तर ते खबरेक कुसां जावन, 'ना हाबा, ताका कसलीगी निगूड पिडा आसा, एकच एड्स जायजे न्हय तर तो ड्रग्स घेतालो कोण्णा. कॉलेजींत आसताना एक दोन पावटीं शिरकोन पडल्लो खंय.' अशें उलोणें चालू आसल्लें.

पूण भरमाची संगत कसली म्हळ्यार जावं सिंटोन या जेरीन ह्या खबरांक कसलोयी ग्रास घाल्लो ना या कसलोयी 'जावंक पुरो' म्हळ्ळो लेप काडल्लो ना. पूण हें सर्व मोली पिरेरीक कितें कळीत?

टेरीची निर्जीव कूड पळेतेच मोलीचो सगळो जीव भितरल्या भितर कोंडलें जालो आनी खोंच मारूंक आयतो जाल्ल्या सर्वापरीं ती फुडें येवंक आसच्या सन्निवेशांक खोंच मारूंक आयती जाली.

आतां आपल्या दोळ्यांमुखार घडलें तें एका दिसा खंडीत जावन घडतेलें म्हण तिका कळीत आसल्लें. ह्या सान्निवेशाचो प्रमुख पात्रधारी टेरी, पिरेरींगेल्या महंतनपणाक घस पुसूक जाय तितली साहेत सोडून गेल्लो.

आतां पयलें काम ही साहेत- माहेत समाजीच्या दोळ्यांक पडानाशें करचें. हो निर्धार घेताना मोलीचें आवयपण तिचे कबलातीविणेच दोन दुकां गळयलागलें. एका तेंपार केल्लें पाप धुवंचे खातीर आपल्या गर्भांतलो जीव काडूंक तयार नातल्ली मोली आज कित्याक इतली क्रूर जाली? तिच्या शिंतिदान विचारल्ल्या सवालाक मोलीलागीं जाप नातल्ली.

तिणे टेरीच्या रूमांतली ए. सी. बंद केली आनी भायर येवन दार भायल्यान बंद केलें. बंगल्यात आसल्ल्या घरकामाच्यांक कोणाच्यायी रुमाक परवणगी नासतां वचूंक नातल्लें बऱ्याकच पडलें. मोली, शीदा डिनाच्या रुमाक गेली. आज क्लास ना-गाय चेडूवाक, दारालागीं रावोन आपल्याकच विचारलें तिणे. दाराचेर एक हजार अर्थ नातल्लीं स्टिकरां आनी कोण पॉप सिंगरांचीं चित्रां आसल्ली. भितरल्यान संगीत आयकातालें. मोलीन ठोके मारले, पूण दार उगतें जायनातल्लें पळेवन तिणें दार बडयलें.

'आज क्लास ना?' धा-वेंत आसचें डिना भिसळे केंस घेवन दार उगडताना तिणे विचारलें.'

'आज क्लासीक वचूंक मनना', तें म्हणालें. 'तूं आतांच आइल्ली बऱ्याक पडलें. लीव नोट आतांच सायन कर. फाल्यां तुका खंय सोदूंक वेचें?'

'शटप, डीन', ती म्हणाली. 'म्यूझीक बंद कर आनी म्हजे संगीं ये'

'खंय?' डिनान विचारलें तरी आवयच्या मुकमळा - वयलें भावन पळेवन ताका कसलेगी गंभीर घडलां म्हळ्ळें कळीत जालें. 'तूं रडोन आसल्लीय?' ताणे विचारलें. मोलीन जाप दिली ना.

भितर वचोन डिनान म्यूझीक बंद केलें आनी एक सदीळ दगलो आपल्या नायट ड्रेसाचेर रेवडावन तें भायर आयलें. `What is the matter?'

'तुवें सैराण आनी संयम सांबाळजे. ती पिसपिसली, तीं टेरीच्या रूमाक वेच्या पासायेंत आसताना. 'कसलीच प्रतिक्रिया या बोबाट तुवें मारूंक नजो.'

'टेरी?' हें सवाल करूंक डिना हेर सुलूस नाका आसल्ले, मोली फळ्ळ करून रडली. टेरी आतां ह्या संवसारांत ना, डिना' धुवेच्या ऱ्खांदार तिणे मातें दवरलें. `He is gone forever!'

तीं दोगांय पासायेंत एकामेका आदारून रावलीं. घरकामाचें एकलें तांकां

उतरोन गेलें, पूण हांचेर ताचें गुमान चडितायेन खंचलें ना.

'ओवर डोज?' डिनान विचारलें. 'What next?' ताचो मेंदूयी मोलीच्याच तिंतपा पथाचो. 'कितलो तेंप म्हण आमी सोसायटीक फटंवचें?'

'सोसायटीक सोड पुता', मोली म्हणाली, 'सॅमा जाल्लो भुरगो परत्यान कसो निसरलो म्हळ्ळें म्हाका समजाना.'

'तुका सबार संगती समजानात मां!' म्हणालें टेरीच्या रूमाभायर 'गक्क' करून रडोन. 'हांव पळेवंक सकचीं ना ताची स्थिती!' तें कसकसलें. 'लागीं आसचो एक भाव गेलो. म्हालगडो, केदींच लागीं आयलोच ना. परकी रगताच्यांपरीं पयसच रावलो....'

'अशें उलयनाका म्हण तुका हांवें पयलेंयी सांगलां, डीन!' ताच्या भुजांक धरून हालयलें मोलीन. 'आतां भितर ये आनी हकीगत पळे `We have to face the reality.' तिणें दार उगतें केलें आनी तीं दोगांयी भितर वेतेच तुर्तान तें बंद केलें.

भावाचे निर्जीव कुडीक पळेवन डिना खटल्यार कोसाळ्ळें. 'आतां कितें करचें मां?'

'ही पोलीस केज जावंक साध्य आसा', ती म्हणाली. 'ताका पयलो उखलून आमी खटल्यार न्हिदायां आनी ड्रग्सांचीं सर्व खुणां लिपयां.' परिगत हातीं घेतल्ल्या आवयक नापातयेणेन पळे लागलें डिना. ही आवय या तेगांक जल्म दिल्लें एक मशीन? टेरीक निकेपिल्ल्या दिसाच ती सर्व विसरातेली?

`Come on, hurry up!' धुवेक हुकूम दिली मोलीन. भोव कश्टांनी तांणी जेरीक उखल्लो आनी खटल्यार न्हिदायलो. बसल्लेकडेनच टेरीन भिजइल्लें तें मोलीन नितळ करताना जिणेंत पयलेपावटीं हें काम आपणे केलें म्हळ्ळें तिका गमलें. ती ही नितळाय करताना डिनान, इन्जेक्शनाचें सिरींज, खाली जाल्ली ड्रग्सांची सिसली लिपयली आनी सगळ्या कुडांत सोदून मादक वखदांचीं हेर कांय खुणां मेळतातगी म्हण पळेलें. ना, टेरी, मादक वखदां शीदा शिरांकच घेंवच्या हंताक पावल्लो.

टेरीचे कुडीक सारकी न्हिदावन मोलीन एक नितळवोल ताच्या आंगार घाली. 'आतां डॉ. रघूक फोन कर डीन.' ती म्हणाली. 'तो मात्र आमकां हे

नालिसायेथावन सोडचीट दिवंक सकता.'

'I hate that bastard!' म्हणालें डिना पांय आपटोन. 'ताणे पळेवंची रीतच समा ना.'

'संवसाराची खंयची रीत समा आसा डीन?' तिणे विचारलें. धुवेचें माथें पोशेवन. 'तू क्लासीक कित्याक वचोंक नाय, पुता?'

'कितेंगी वेचें नाका म्हण जालें.' तें म्हणालें. तवळ आवय आनी धूव एकामेकाचे वेंगेंत सेर्वोन रडलीं.

डॉ. रघू शेट्टी, सुमार मुक्काल[60] वोरान आयलो. तितल्या भितर घरकामाच्यांक एक काणी तयार करून मोलीन सांगोन जाल्ली. 'टेरीबाबू कांय हुशार ना. बेंगळूर गेल्ल्या वेळार कसल्योगी क्रिमी ताच्या रगतांत मिसळाल्यो. डॉक्टराक आमी आपयला, पूण आमकां टेरी बाबूचें कांय धैर ना. तुमकां हाच्याकी वरतें नाका. तुमी टेरी बाबूच्या रूमाथावन पयसरावा आनी मागणें करा कित्याक ही पिडा खिणांत बदलाता.'

कामाच्यांनी एकामेकाचीं मुखमळां पळेलीं. शिवाय कितेंच म्हळें ना. तांकां जाय आसल्लो सांबाळ, मोलीचे खासगी वांदे न्हय, पूण तांकां सर्वांक कळीत आसल्लें टेरीबाबूची जिणीच एक पिडा म्हण.

बंगल्याक आइल्ल्या डॉ. रघू शेट्टीन परिगतीचें थोरूं[61] आपले मुठींत घेतलें. तो चड उलयलोच ना. कठीण 'इन्फ्लुयेन्स' आसचो दाक्तेर तो आनी ताचीं नैतीक मोलां कितलीं कीळ[62] तरी ताचे दाक्तेरगी वेवसायेंत तो अव्वल आनी पिडा पारखुंची ताची जाणवाय विशेस.

'पयल्यान येवच्यो संगती[63] पयल्यान[64] जावंदीत, मोली' म्हणालो रघू. 'तूं खबर दिवंच्यांक खबर दी. मरणाच्या सर्टिफिकेटीची विलेवारी हांव करतां आनी पोलिसांक पयस दंवरतां. दुडू मात्र उदकापरीं खरचातलो, पूण तूं म्हजें देवें जिणीभर फारीक करूंक सकचें नांय'.

तो सुक्यो हासो हांसलो. 'अशें जातेलें म्हण तुमकां सर्वांक कळीत आसल्ल्यान आतां कशें, कित्याक, खंय म्हळ्ळें पोस्टमार्टेम नाका. आंब्रोजाक हांवच खबर दितां.'

एका घंट्याभितर मोली पिरेरीच्या बंगल्यांत 'दुकेस्तांक' भुजवंच्यांची

खातड जाली. आतां मंगळुरांत कोणयी मरच्या पयलेंची या उप्रांतली तयाराय करचीं सबार बिजनेसां आसल्लीं. टेरीक न्हाणवन न्हेसवन फरार केल्ल्या सुपर फर्स्ट क्लास पेटेंत न्हिदायल्या उप्रांत, आइल्ल्या विगार आनी काजितोरा लागीं रघूच उलयलो.

'हांवें आंब्रोजाक फोन केलें, फादर', तो म्हणालो. 'तो आयच्या रातीचें फ्लायट धरता आनी फाल्यां दोन वोरां भितर हांगा पावतलो. बाहरेन आसचो बॅरनय तशेंच करता खंय. पूण ताची पतीन विशाखाची भलायकी बरीनातल्ल्यान येवंची ना.'

'कसो घेतला आंब्रोजान हो धको?' विगारान विचारलें.

'मोलीक आनी डिनाक पळेल्यारच कळानागी, फादर?' रघू म्हणालो.

'तुमी आसल्ल्यान जालें, डॉक्टर' म्हणालो काजितोर. 'आतां टेरीची कूड मोर्चुरींत दवरतात?'

'व्हय', म्हणालो रघू. 'आंब्युलेन्स आतां येतेलें.'

'बिर्मत!' म्हणालो विगार आनी समाज म्हणाली, 'कसली बिर्मत! इतलो ब्रिलियण्ट भुरगो, कितलो हॅण्डसम...वेरी सॅड वेरी सॅड.'

पूण कोणेंयी विचारूंक ना. कितें जातालें या जालें म्हण. मोलीचे समाजीक हें सर्व नाका आसल्लें. हेर हेर ल्हान धाकट्यो जिबो उलयतात तर उलवंदीत.

हर एकल्याक फायदो आसल्लो हीं सोसायटी मनशां मरताना. इगर्जीक, अंडरटेकराक, फुलकार्नी, कार्ये निर्वाहकाक, बेंडाक...

ते रातीं ऊंचले सोसायटीच्या रिवाजीं प्रकार, टेरीची कूड एके खासगी आस्पत्रेच्या फ्रिडजांत घट जाताना, ताच्या मानाक आनी मोगाक, मोलीच्या बंगल्यांत 'जागरण' या Wake चल्ली. थोडीं गितां, थोडीं सिंतिमेंतां, थोडें कराळ[65] संगीत आनी थोडीं मटवीं खाणां आनी सहज जावन दुकाची स्कॉट विस्की. पूण हें सर्व भोव लागशिल्यांक मात्र. विगारांक आनी काजितोरांक खास आपवणें आसल्लें, पूण तांणी दिल्ली जाप सबारांच्या कानाक पडाजे आसल्ली, पूण पडली ना. 'आमच्या युवजणांच्या आवयबापांय खातीर आमी ही रात येवकरिस्ता सामकार खर्चितेल्यांव 'This is the need of the hour.'

दुसऱ्या दिसा आंब्रोज आनी बॅरन एकाच घंट्यार मंगळूर पावले. मुंबय

एयरपोर्टांत सांगाता मेळल्ले हे दोग मंगळुराक उबच्या विमानार सांगाता पयण करून सांगाताच बंगल्याचीं मेटां चडले.

बंगल्यांत चिकार लोक. टेरीची कूड आनिकी हाडूंक नातल्ली, पूण पिरेरीं गेलें मजबूत हॉल, धर्माकच पिड्ड्यार जाल्ल्या टेरीचे कुडीक तयार जावन राखतालें.

भितर आइल्ल्या बॅरनान आवयक पोटलून धरलें आनी गालांचे उमे घेतले. डिनान, म्हालगड्या भावाक पोटलून धरून 'येदोळपर्यांत तूं खंय आसल्लोय, बॅरन', म्हणताना बॅरन पिगळ्ळो. पूण आंब्रोजाचें स्थिमीत पळेवन मोलीक भिरांत उठली.

ताका आरावन घेताना ताच्या कानांत इतलेंच पिसपिसलो आंब्रोज. 'जतन घेवंक दोगां भुरग्यांक हांवें तुजे ताबेन दिल्लें, तो म्हणालो. हें आयकोन मोलीक नक्की जालें कीं आंब्रोज वेगींच आपणाचें लेक[66] विचारता म्हण.

'ह्या उलोण्याक हो वेळ न्हय, आंबू!' ताच्या कानांत पाटीं पिसपिसलें मोली. 'पळे, मंगळूरची विंचून काडलेली परजा हांगासर आसा. आनी ती परजा थंयसर आसल्ली. कुडीन आनी रगतान.

तीन वोरांचेर टेरीची कूड निमाणे पावटीं बंगल्याची मेटां चडली. चोवगांच्या खांदार आनी भरती साडेचारांक, ब्रिलियंट हॅण्डसम टेरेन्स पिरेरान आपलें निमाणें पयण सुरू केलें एका मोटर hearse चेर. पाटापाट सुमार वीस तीस कारां सुटलीं. चलोन वेच्यांचो संको भारीच उणो आनी त्या संक्यांत शिंटो, जेरी, इवोन मिक्की जिल्ली टिचेर आनी कुस्कुटाचीं हेरां. जिल्ली टिचेर आपूण कातोलीक म्हळ्ळ्याक साक्स दिवंक कितेंगी या ती आसल्ले फिर्गजीच्या विवीध मेळांक, समित्यांक लागोन कितेंगी, मरणाक आयिल्ली. मरण समेस्तांलागीं येता, पूण तें हेरांथंय कशें येता म्हण पळेवंक वेच्यांतय संतोस आसा म्हळ्ळें एक किसर तिणे आपल्या काळजाच्या गुंड मुल्यांत[67] चेपून लिपयिल्लें.

सर्वांनी चिंतल्लें, टेरीक निकेपिल्या उप्रांत आनी दुकाचे काफये बदलाक हुनोनी कोपां हॉर्लीक्स वांटताना कोण तरी पाद्री भुजावण दितलो म्हण. पूण भुजावण दितेल्याकय मोलीन आनी डिनानच विंचल्लो जायजे कित्याक म्हळ्यार ताणींच केल्लीं भुजावणाचीं नेमां पाळून उलवंक तयार आसचे पाद्री तांकां

मेळोंकनात म्हळ्ळो घूट भितरलो.

काळ्याच सुटार आसल्लो एकलो इंग्लिशांत टेरेन्स पिरेरा म्हळ्ळ्या आंज भुरग्या विशीं सुमार चाळीस मिनुटांभर उलयलो. ताणे टेरन्साक सां लुवीस गोंजागाक आनी सांत जुवांव वर्कमन्साक सर केलो. 'जरी तरी ह्या इगर्जींत एक आल्तार खाली आसा तर टेरीची आवय बापूय तांच्या पुताची एक इमाज ताचेर उबारोंदीत.' तो म्हणालो. 'टेरी आमच्या मोगाचो, टेरी आयच्या तरण्या जनांगाक एक देख. आपणाचेर आयिल्ली पिडा ताणे कितल्या सोंसणिकायेन सोसली...' निमाणें, दुखेस्तांक भुजवणेचो उलो पाटवंचें सेरेमनींत इवोन आनी जिल्लीय सेरवालीं. शिंटो, मिक्की आनी जेरी केदाळागी इगर्जीचें साल सोडून गेल्ले. मरणाचे तणीर आपले आवयन म्हळ्ळीं उतरां मनांत हाडून जिल्ली कांय भुजावणेचे लायनीर रावल्ली कोण्णा. तिची सरती येतानां मोलीचे हात धरून तिच्या दोळ्यांनी पळेलें जिल्लीन. मोलीच्या दोळ्यांनी तिका उजो दिसलो. 'तुमच्या तसल्यांची समाजच खुनिगार्न म्हज्या पुताची', मोली पुसपुसली. फकत जिल्लीक मात्र आयकाशें. 'पूण ह्या वर्वी म्हजो एक केंस हेवशीन तेवशीन जावंचो ना, तूं पळेतेलीय.' उप्रांत मोलीन जिल्लीक वेंगलें आनी म्हळें, 'थँक्यू जिल्ली टिचेर, थँक्यू!'

झींट मारल्ले परीं जाल्ली जिल्ली टिचेर हेरांक भुजावण दिवंक रावली ना. इवोनाचो हात धरून ती कशी घरा पावली तीच जाणा. घरा येताना हे तेगय मानाय बसोन आसल्ले.

'तांकां कांय सांगानाका मां!' चेतावणी दिली इवोनान. 'टेरी गेलो आनी ताका आनी जेरीक, शिंटोक आसल्लो संबंध तुटलो आनी संपलो. आनी मुकार तीं आमकां दुकवंची नात म्हण आमी भरवसयां.'

हें उलोणे जेरीक आयकालें.

'कितें आमकां सांगचें नाका म्हण माम्मीक सांगाताय, इवोना?' ताणे विचारलें. 'टेरीच्या संवसारान एक निमाणो भोंवाडो काडला. मोली पिरेरीचे भोंवाडे आनिक बाकी आसात. तशेच, आमचे भोंवाडे बाकी आसात. ही घुंवळ चालू आसताना कोण कोणाचे कक्षेर उदेता म्हळ्ळें अंदाज करूंक जायना मां.'

'हीं कोणाचीं उतरां रे पुता?' चिक्केशे सदीळ ताळ्यान विचारलें जिल्लीन. 'तुजीं या सॅली कुरियनाची?' जिल्लीच्या ह्या सवालान थोडयो हासो थंय

उठयल्यो.'

पूण तेच घडये मोली पिरेरीगेर आंब्रोजान स्कॉच्च्याची बॉत्ल उगती केली. टेरीच्या मरणा उप्रांतल्या तिसऱ्या दिसाच्च्या मिसापर्यांत दोनच कामां ताणे केल्लीं.

मोली लागीं कसलोच विशय तो उलयलो ना.

बॅरनान ताका सांगात दिलो ना जाल्ल्यान तो डॉ. रघू शेट्टी सांगाता बसोन पियेलो, पियेलो आनी रडलो.

पांचव्या दिसाच्च्या फ्लायटाचेर कुवेताक पाटीं उबलो. तवळ मोली पिरेरीन आपली विंचवण केली.

■■■

# 15

जिल्ली पायस टिचेरीचो संवसार एक नवो भोंवाडो काडून पार्टी घरा येताना सोप्यार आपलो ग्लास घेवन गेल्ल्या मिक्की पायसाची बियर मुगदाली. (सोपली). एक जांबाय काडून ताणे वोळचे आपले पांय सोडले. भितरलें उलोणें ताका आयकातालें, पूण ताणे गुमानांत व्हरूंक ना.

'कशें दिसता, नोरा?' पुताक जिल्लीचें सवाल.

'कशें दिसता म्हळ्यार? बरें दिसता.'

'व्हयरे, तूं त्या मलेयाळी चीट फंडाक सेरवाल्या उप्रांत चलयो म्हळ्यार कित्याक चिडतायरे? फकत म्हण्यो गळयताय तुज्या मॅनेजर सॅली कुरियनाचें नांव काडून.'

'नोरा म्हाका वोळखालें, बरें उलयलें.' तो उलयलो कॅरम बोर्ड एका आलमारीपाटल्यान दवरून. 'कुवेतच्या एका रायाळ घराण्यांत काम खंय. धनी बरो मनीस खंय, म्हाका एकावंट दितां म्हणालें.'

हें आनी इतलें आयकोन जिल्ली पायसाच्या मुकमळार उदेल्लो बारीक हांसो आनी मतींत उदेल्ली बळीश्ट शिरिगुंडी जेराल्ड पायसाचे जिणेक कसले सुळियेंत सांपडायत म्हळ्ळो अंदाज तवळ तिका जावं, हेरांक जावं नातल्लो.

मोली पिरेरीचें नाक पोंदाक पडल्लें तें, मातयेंत पुरून सोडूंक एक अशीर वाट तिका झळकाली, पूण सर्व जेरीचेर होंदोन आसल्लें. गरज पडल्यार आपूण गाडवाकय बापूय आनी कऱ्याकय घोव म्हण मानूंक तयार आसचे स्थितेक ती आइल्ली आसतां, आतां मतींत उदेल्ली आलोचेन आपणें हळटान आनी चत्रायेन कार्यगत करीजे. आपली शिरिगुंडी फल्सात तर वालेन्सियांतल्या 'गल्फ आवयांचे' मेळींत आपूण सेर्वतेलीं आनी सदांच्या नाकारी उलोण्याथावन भायर येवन 'म्हजो

पूत गल्फांत आसा, अशें करता, तशें करता, नवेंच कार घेतलां खंय. ह्या पावटीं रजेर येवरोपाक वेता खंय' असल्या उलोण्यांचे पंगतींत आपूण शामील जावंची अर्हता जोडतेलीं म्हळ्ळो खूब भरवसो तिका आसल्लो.

आयची सांज इवोनान हाडल्ल्या डिनाच्या आंबोट आनी नकालांवीं उतरांच्या दुरांनी सुरू जावन पाड जाल्ली आसतां, जिल्लीक सहज जावन मोली पिरेरीचो उडास आयलो आनी ते सांजेर टेरीक सोदून मोली घरा आयिल्ल्या रिला पर्यांत तो उडास 'रिवायंड' जालो.

जिल्लीगेर पेटो नातल्लो आनी तांच्या ल्हान हित्तलाची गेट केदाळाय खीळ घाल्लीच आसताली. ते सांजेर कोणेगी गेटीची खीळ धाडावंचो आवाज आयकाताना भितर कामार आसल्ल्या जिल्लीन इवोनाक उलो दिलो. 'पळे, गेटीलागीं कोण जीव दिता पळें.'

'मां,' तें म्हणालें. कित्याक तुजीं उतरां इतलीं कठीण जाल्यांत? हर एकाक तूं इरिटेट जाताय?'

'वचून पळे' म्हणाली जिल्ली. 'तुजोच भाव कोण्णा. बियर पियेल्ली चड जावन ताका गेटीची खिळय दिसना.'

पूण इवोन भायर वचोन पळेताना ताका गेटीलागीं उबीं आसचीं मोली आनी डिना दिसलीं.

'जिल्ली टिचेरीचें घर हेंच?' मोलीन इवोनालागीं विचारताना, इवोनान जाप दिवंच्या पयलेंच डिनान आवयक कुट्टून 'घर हेंच' म्हण सांगलें. तें आनी इवोन एकेच शाळेंत शिकतालीं.

'तुज्या आवयक आपय', म्हणाली मोली.

'तुमी भितर येया', म्हणालें इवोन, आपूण हें सारकें करतां वा ना म्हळ्ळ्या अपधैरान. 'माम्मी भितर आसा.'

'आमी येनांव', म्हणाली मोली. 'तिकाच भायर आपय.'

'तूंच भायर ये मां!' इवोनान ताळो काडलो. 'कोणगी आयल्यांत.?'

'कोणगी न्हय, मिसेस मोली पिरेरा आनी तिची धूव मिस डिना पिरेरा आयल्यांत, म्हण सांग.'

इवोनान तिच्या उतरांचें गुमान केलें ना. आवय भायर येतेच तिचें धैर

चडलें.

भायर आइल्ल्या जिल्लीक हांची ओळोक कळ्ळी आनी तिणे कसलीयी सरबराय नासतां विचारलें, 'कित्याक आयल्यात आनी तुमकां कितें जाय?

'तुजो पूत खंय आसा?' मोलीन विचारलें.

'कित्याक ताचो विचार?' जिल्लीन दाडामां अडचिलीं '

'येवंच्या वेळार तो घरा येता आनी ताचो विचार करूंक ताका हांव आसा, ताचो बापूय आसा.'

'म्हजो पूत सकाळीं भायर गेल्लो आनिकी येवंक ना.' म्हळें मोलीन.

'तुजो पूत, हांवें विरारायेन सांगाजे पडता, कसल्यागी मतलबान म्हज्या पुताचो इश्ट जाला जाल्ल्यान म्हजो टेरी कांय पोलीपणां करच्यार पडलागी म्हळ्ळो दुबाव म्हाका.'

'तुवें आनी तुजे धुवेन हांगाथावन वचयेत' जिल्लीन सोंसणिकाय सांबाळ्ळी. 'घराबागलार[68] आइल्ल्यांक आमी गेटआवट करिनांव.'

'हांव पोलिसां लागीं वेतेलीं!'

'जरूर वच', आपवणें दिलें जिल्लीन. 'तुजो पूत कांय पोलीस स्टेशनांतच आसोंक पुरो.'

'Let's go, माँ', म्हणालें डिना. 'असल्यां लागीं उलवन फायदो ना. आमी पोलिसांलागीं गेल्यारच बरें. आपली आवय खंडीत जावन वेचीना म्हण जाणा आसोनय पायसागेल्यांक शेक दिवंचे खातीर डिना तशें उलयलें.

आवय आनी धूव पांय आपटोन गेल्या उप्रांत चिक्केशे कावजेल्ली जिल्ली इवोनाक सांगा लागली. 'कुरियन चीटफंडाक फोन करून जेरी आनिकी थंय आसागी पळे.'

आनी तशेंच केलें इवोनान, पूण सॅली कुरिनालागीं तें गरजेच्याकी चड उलवन टेरीची आवय येवन जिल्लीक सोवून गेली म्हणय सांगलें.

हीं सर्व आदलीं घडितां. पूण ते सांजेर उशा होटेलांत, चीटफंड दफ्तरांत या बल्मठा मैदानार घडल्लें खंचेंच जेरीन घरा सांगलें ना. आपूण चीट फंडाच्या ऑडिटांत आसल्लो जाल्ल्यान इतलो वेळ जालो म्हळ्ळी फट ताणे मारली.

आनी आतां...

'केदाळा एकावंट दितां म्हळां?' आवयचें सवाल आयकोन जेरीन दोळे अशीर केले.

'कित्याक? तुका कितें कुरियन चीट फंडांत उमेद उठली?'

पूण मतीन चुरूक इवोनाक आपली आवय खंचे दिशेन वेता जावयेत म्हण अंदाज जालो. आनी ताका हांतू कांय वायट दिसलें ना. कित्याक म्हळ्यार पायस घराण्याची स्थिती हंतान हंत खिरोन वेताली, पूण पळेतेल्यांक कळीत जायनातल्लें. आपली आवय बेश्टेंच नाका जाल्ल्या दुस्मानकायांनी आपलें त्राण आनी मत करगयताना (to melt) ताका पळेवंक जायनातल्लें. आपल्या तरनाटपणा थावन कोण्णा, जिल्ली टिचेरीन फर्स्ट क्लास, सेकेंड क्लास म्हण पोसून हाडल्ली किटकिटाय आनी मोल्ली पिरेरी तसल्यांचें घमंडी येद्रीपण तिका एक कठीण तिडपी स्त्री जावन बदलूंक पावल्लें.

ह्या मदें अशें दिसतालें इवोनाक, चिड्डून वचोन फुलोंक सकनातल्लो म्हळ्यार आपलो भाव जेरी आनी आतां आपूण खूद. जेरी, जिणेंत कांय उमेद इरादो नासतां वाडल्लो चलो. अशें जावंक आपलो बापूय न्हय पूण आपली आवय कारण म्हळ्ळें सत इवोनाक आतां कळीत जाल्लें. जिल्ली पायस एक टिचेर जावनय आपल्या पुतान जिणी कशी फूड करिजे म्हळ्ळें ताका शिकवंक सकली ना. कित्याक म्हळ्यार तिचे दोळे आपल्या घराण्याचेर न्हय बगार हेरांच्या दळबारांचेर आसताले. सबारपावटीं इवोनान आपणालागींच विचारल्लें आसा 'हीं म्हजीं आवय आनी बापूय निजायकीं एकामेकाक समजातात या तांची काजारी जिणी फकत एक करार या सोल्लो?

कितेंगी बऱ्याक पडलें, जेरीक वायट म्हणयेत तसलेंयो सवयो नातल्ल्यो आनी आसल्यो तर तो टेरी परीं येदोळ पिड्ड्यार जावन वेतो. संवयो ना जावंच्याकय कारण आसल्लें – जेरीच्या हातांनी पयशे खेळानातल्ले. त्या मट्टाक इवोनानय वाडोन येवंचे चलयेक आसच्यो सबार आशा दांबून दवरल्यो. ताची सभावीक सोबाय फॅशन – मेकप म्हळ्ळे दिगे लाबतीत तर दोळे काडूंक पावतेली म्हळ्ळी समजणी ताची. पूण हें सर्व घराण्याच्या मट्टान साध्य करून दिवंचें तसलें न्हय. कांय धर्मार्थ शिरकता जाल्यार शिरकोंदी, एक दोन लिप्स्टिका, दोन सलवार खमिजा दिल्यार जालें, आयडियल आयस्क्रीम आनी दोन हिंदी फिल्मां दाखयल्यार पुरो'

म्हण इवोनालागीं सरोंक सबार चल्यांनी प्रेतन केलें, पूण तें फसोंक ना.

पूण तें सर्व आसूं. आमच्या शेजारची चली 'चालू' न्हय म्हळ्ळो संदेश आनी चत्राय ताणे चल्यांक दिल्ली व्हय पूण ताचेथंय आसल्ली एक गुपीत आशा ज्यारी जावंची या ज्यारी करची कशी? इवोनाक मेडिकल करूंक जाय आसल्लें. ताका शिकपाचें गिन्यान आसल्लें आनी मेरीट सीट मेळचो अखंड भरवसो ताका आसल्लो. पूण हें सर्व आसल्यार कितें, जाय पडचो हेर खर्च कांय रुकार पिकल्ल्या चींच – चिंचाऱ्यानीं फारीक करूंक जाता? फकत एम. बी. बी. एस. केल्यार पुरो? एम. डी. करिना जाल्यार कोण हुंगता आतांच्या मेडिकोंक? पूण हें सर्व कशें साध्य?

मिक्की पायसाची भलायकी बिगडोंक नातल्ली तरी पयलेंचें बळ ताचे थंय नातल्लें. चड वेळ उबो रावोन तो कटींग करूंक सकानातल्लो. इवोनाच्या सुक्षीम दोळ्यांक दिसतालें की नव्यान आइल्लो गुरूराज सवकास टेलर मिक्की पायसाच्याकी चडीत मापान गिरायकींक आवडतालो.

असले परिगती बाबतीन कांय करिनावं तर एका दिसा टेलरींग शॉप गुरूराजाच्या हातांक वेतेलें आनी ताणे दिल्लें कमिशन घेवन मिक्की पायसान घरा बसचें पडतेलें म्हळ्ळें कराळ पिंतूर सबार पावटीं इवोनाक वायट सपनांची शिंकळ जावन न्हीद पाड करतालें.

हें सत कीं, सॅली कुरियनाचो उल्लेख दिसाक एक पावटीं पुणी करिना तर जेरीक सुसेग नातल्लो. जिल्ली टिचेरीक हाचें कारण सुसतानातल्लें, पूण हें इवोनाक समजातालें. आपले आवयथंय देकानातल्लें थीरपण जेरी सॅलीथंय देखतालो जायजे, सॅलीक इवोन खुद भेटोंक ना तरी ताणे ताका पळयिल्लें. सॅलीचें सगळें व्यक्तित्व, थिराय आनी घमंड पाजारतालें. इवोनाक भावाचो कठीण मोग आसल्लो आनी सॅली कुरियनाथंय ताणे देखच्यो चडशो कालेती आपणाथंय आसात आनी जेरीचे जिणेक आपूण एक नवी घुंवडी दिवंक सकतां म्हळ्ळें. इवोनाक कळीत आसल्लें. पूण अवकास खंय आसात?

ब्रिजीत मांयची चाकरी करूंक म्हण घरांत रावल्ल्या नोरा सामकार जेरीचें व्यक्तित्व, चाल आनी उलोणें कशें बदलाता म्हळ्ळें इवोनाच्या गुमानाक गेल्ले रितीर जिल्लीच्या गुमानाक गेल्लें ना. जेरी, सगळोच फुलतालो. एका ल्हान

भुरग्यापरीं नोरा सांगाता मिसळातालो. ताच्यो लांब घण पांतयो वोडतालो. पूण अभिमानाची संगत, नोरालागीं कसलेंयी 'गुसूगुसू' गुमानीक रितीर ताणे केल्लें ना. हाका कारण आपली आवयच म्हण इवोनाक जब्बोर दुबाव जाल्लो, घरकामाचीं, तांची भास - जात - कात म्हण तिणे जेरीचे कान फुंकल्यात आसतले आनी त्या खातीर जेरी फकत दोऱ्या वयल्यान नोराक देखतालो, दोरो उडोन हेवशीन येवंची तांक ताका नातल्ली.

नोरा, एक आकर्शक चली. शिकप आनी समाजींतले मट्ट सोडल्यार तें खंच्यायी मंतनी कुटमांत मिसळोंक फावो, ताका फकत जाय आसल्लें तालीम मंतनी तेलत्यापणांत, अशें चिंतून इवोन आपणाइतल्याक हासतालें.

नोरान घरांत आसतापर्यांत इवोनाक बरो सांगात दिल्लो.

एक संगत दाटायेन इवोनाचे मतीक गेल्ली म्हळ्यार नोराक आसचें धैर. तें खंडीत जावन एक जिती जिवी a Survivor.

साबार पावटीं इवोनाक भोगल्लें आसा, नोराक आमच्याच घरांत कायाम रावयां, पूण तें, जेरी आनी नोराच्या संबंदाक आतां आसल्याच्याकी चड मुकार व्हरूंक राजी नातल्लें कित्याक म्हळ्यार ताच्या भागेवंत भावा जेराल्ड पायसान नोराथंय कसलींयी मोगाळ सिंतिमेंता दाखयलीं नांत!

आतां आपली आवय, दि ग्रेट जिल्ली पायस टिचेर खंचे दिशेन उतरां वांटो घुवंडायता म्हळ्ळें सुसताताना इवोन पायस आपल्या स्वार्ताखातीर तिका पूर्ण पाटिंबो दिवंक तयार जालें.

'हांवें कित्याक विचारूंक नजो रे?' विचारलें जिल्लीन. 'ह्या घरांत बरें काम केलां नोरान. एकाच्छाणें विजा आयली आनी फुर्रर करून तें उबलें. कांय एक चीट आसा, एक उतर आसा?'

'ताचो कांय सांबाळ पेंडींग दवरलाय मां?' टिंकर उडयलें जेरीन, इवोनाक दोळो मोडून.

'ताच्यो पांतयो वोडचो तूं मात्र पेंडींग आसाय रे!' ती म्हणाली.

'हेर कांय जाता तुजेवरवीं?'

'कशें जावचें? ताणे विचारलें. 'वुडलेंडसांत म्हाका सिनाय पर्वतावयलोच उपदेश दिवंक नाय तर?'

'कसलो उपदेश?' मदें पडलें इवोन. 'म्हाका कांय सांगोक नाय जेरी.'

'तें आसोंदी', म्हणाली जिल्ली काळाक सोबचे तशे कोला बांदचे दीस उदेल्यात आमकां कातोलिकांक!'

'प्रेज लॉर्डी!' म्हणालो जेरी 'न्हयतरी कसलें" मां? ही कसली नवी प्लेट सुरू केल्याय तुवें? नोरा, नोरा म्हण?'

तितल्यार मिक्की भितर आयलो. ताचे कान हांच्या सालांतल्या उलोण्याचेर पडले नात जायजे.

'आज पोटाक पडतावे जिल्ले?' ताणे विचारलें. 'ना तर मंगळाक वचूं?'

'हूं!' हुंकारली जिल्ली. 'तुमकां घरांत बियर हाडूंक सोडल्लीच चूक म्हजी.'

'नोराक हाडल्लें तर बऱ्याक पडतें न्हय मां?'

'तीच आलोचेन रे म्हजी.' जेरीच्या उतराचें पोंत धरून म्हणाली जिल्ली.

'कितल्या तेंपान नोरान गांवांक येवंचें?'

'दोन जातात म्हण दिसता.' म्हणालो जेरी, जांबाय काडून. 'भावाक एक विजा हाडून आयलां खंय!'

'कितें?' विज्मितायेन उद्गारली जिल्ली. 'दोन वर्सां भितर एका सर्वेंट चलयेन आपल्या भावाक व्रिजा हाडली आनी तूं त्या चीट फंडांत आनिकी लोळताय?'

'ह्या दोनांक कसलो संबंद मां?'

संबंद ना तर तो आसा करची शाती माम्माक आसा जेरी!' इवोनान म्हणताना जेरी एक पावटीं आवयक आनी एक पावटीं भयणीक पळे लागलो.

'न्हय, हांव सिरियसली विचारतां' तो म्हणालो. 'ही कसली शिरिगुंडी तुमची?'

'व्हय, म्हाकाय समजया', ताळ मूळ कळीत नातल्ल्यान विचारलें मिक्कीन, 'कोण दोन वर्सांनी आयलां?' कोणाक विजा हाडल्या, आमच्या जेरीक?'

'मांय आसताना आमगेर आसल्लें नोरा कुवेतथावन आयलां खंय...'

'बरें भुरगें तें,' म्हणालो मिक्की. 'खंडीत म्हाका पळेवंक येतेलें.'

'मात्ती येतेलें', म्हणाली जिल्ली लट्ट करून गोमटी वोळावन. 'तें आतां

कुवेतगार्न सायबा मिक्की. दोन वर्सां भितर भावाक विंजा हाडून आयलां खंय. येस्तुबायेची वोक्काय पास जाली, मिक्की. पयलो तूं अर्दो उंडो पुरो म्हण सुयेच्या गांडींत सूत घालून रावलोय आनी त्या उप्रांत हो म्हजो कृष्णा - भूत त्या चीट फंडांत चीट चीट म्हण कुसता. त्या टेरीची इश्टागत हाका कितली म्हारग पडली म्हण आमी सर्व जाणांव, पूण हाका आनिकी बूद येवंक ना.

'ताणे कितें करिजे म्हणचें तुवें?' मिक्कीच्या ताळ्यांत कसलीच आतुराय नातल्ली. 'तो आपली नीसपेज आपलेच जोडीन जेवता न्हय?'

'व्हय!' आतां जिल्लीच्या ताळ्यांत आवेस आइल्लो. 'एक ट्रान्झीस्टर हाडल्यार जिणी नंदन जाली?'

'तर कितें करीजे म्हणताय हांवें, मां?' आतां जेरीय चिडलो. बंदराक वचोन एका मंजेर चडोन 'म्हाका गल्फाक व्हरा' म्हणाजे या बजप्यां वचोन 'म्हाका स्टॅडींग सीटय जाता, म्हाका एक पावटीं गल्फाक व्हरा म्हणाजे?'

'उलवंक शिकलाय तूं!'

'तुवेंच शिकइल्लेंय', तो म्हणालो बळ जावन येवंच्या रागान.

'आतांच बंदराक या बजप्यां वचूं?'

'तशें कांय करिनाका तूं!' आपलें एक बोट पुताक जोकलें जिल्लीन.

'फाल्यां नोरागेर वच आनी येवंच्या आयतारा ताका जेवणाक आपय!'

■■■

# 16

दोन वर्सां उप्रांत गावांक आइल्ल्या नोराक पळेताना ताका कुवेतचो गांव वोंबाता म्हण दोळे धांपुनय सांगयेतें. ताची कूड फुलल्ली आनी एक आकर्शक नवो रंग एकोड्यान आइल्लो. ताचें न्हेसप बदलोंक नातल्लें. पूण चिक्केशे उंची जाल्लें. गळ्यांत भांगार आनी कानांत हल्क्यो आनी कुडीक मारल्ल्या सुवादाचो परमळ. ताणे केंस मात्र मटवे केल्ले.

आवयचें उतर आयकोन आपल्या खासगी इराद्याखातीर नोराक आपवणें दिवंक जेरी गेल्लो. ताका जाय आसल्लीं एकावंटां. जेवणाक आपय म्हळां आपयतां म्हाका कितें खंय, रांदचें मम्मान न्हय, म्हळ्ळें चिंतप घेवन नोरागेर गेल्लो तो चड सरबरायेक रावलो ना. पाटीं कुवेत गेल्या उप्रांत डिमांड ड्राफ्ट धाडतां म्हण नोरान चीटफंडाचीं दस्तावेजां घेतल्या उप्रांत येस्तुबायेन ताका कापी हाडली. ती पियेताना जेरीन घराचेर दिश्ट घाली आनी तें घर ताका नितळ आनी सादे सजावटीचें कशें दिसलें. तें तांचे म्हालगडें घर या पाटले दोन वर्सांचे प्रगतीक लागोन तें तांणी घेतल्लें म्हळ्ळें विचारूंक तो वचोंक ना. ताका गरजय नातल्ली. पूण येस्तुबाय मात्र खुश दिसताली. कुटमाच्या हेरांविशीं ताणे विचारलें ना. वचोंक म्हण उठताना ती दाक्षेणेन सांगों लागलो. 'येवंच्या आयतारा दोनपारां तुवें जेवणाक येजे म्हण माम्मान सांगलां. आइल्ल्याक तूं आमचो उडास दवरून येतेलें म्हण ती चिंताली खंय पूण तुका कांय फुरसत ना कोण्णा म्हण...' तो तयार करून हाडलेलीं उतरां उलवनच गेलो. ताच्या उलोण्यामदें दोन तीन पावटीं आवयन–धुवेन एकामेका पळेवंचे ताच्या गुमानाक गेलें ना.

'ह्या सर्वाची कितें गरज आसा?' नोरान विचारताना सिंतिमेंताचीं कारणां दिवंच्यांत भेंकरो जेरी कांय म्हणोंक सकलो ना. 'माम्मान दिल्लें आपवणें तुका

पावीत केलें तितलेंच.’

नोरा सोबीत करून हांसलें ‘ह्या आपवण्यांत तूं इवोन आनी मिक्कीबाब नांत?’

‘तशें न्हय’, म्हणालो जेरी. ‘आमीय आसावं. तुवें केल्लो उपकार आमी विसरोंक नांव.’ आनी हेर कितें तो उलवनच वेताना नोरा आनिकी हासलें.

‘चूक म्हजीच’, तें म्हणालें ‘हांवेंच येजे आसल्लें. तुमच्या मोगाचें आनी मयपासाचें रूण म्हजेर आसा. पूण आइल्लींच हांव घरच्या सुदरापाचेर पडलीं...’

‘तर तूं येतेलेंय?’ आपणाक आवयक रिपोर्ट दिवंक आसा म्हळ्ळेपरीं उलयलो जेरी. ‘माम्माक सांगता.’

‘व्हडली सरबराय नाका म्हण सांग’, तें म्हणालें ‘शीत आनी मासळेची कडी आसल्यार पुरो.’

आनी नोरा आयलें. ताणें नाका म्हळ्यारय जिल्ली टिचेरीन सरबराय केल्ली. तिचीच रेसिपी वापरून बिरयाणी, दुकरा मासाचें इंदाद, तोवशाचो करंब सलाद आनी सन्नां. ‘हें कसलें कॅबिनेशन मां?’ म्हण इवोनान विचारताना तिणे ताचें तोंड धांपयिल्लें. पूण इवोन तितल्यार वोगें रावलें ना. ‘कित्याक मां’ नोराचेर तुका इतलो मोग?’ म्हळ्ळें टिंकर इवोनान उडयताना ती आनिकी चिडल्ली.

सुमार इकरांकशें आइल्ल्या नोरान जिल्ली टिचरीलागीं आनी मिक्की पायसालागीं बेंसांव मागताना तांका अजापशें जालें. इवोनाक ताणे वेंगलें आनी दोन उमे दिले. इतली सळावळ नोरान दाखयली तरी, ताचे चालींत ती सुडाळाय नातल्ली ती संगत इवोनाच्या चुरूक मतींत गेली. नोराथंय आसचें कसलेंगी गुप्त चिंतप ताका पाद्देशें, पांट्रेशें करतालें.

‘तूं कांय बदलूंक नाय मुगो पुता नोरा’ म्हणालो मिक्की सिंतिमेंतांनी पिगळोन. ‘गल्फाक गेल्ल्यो चलयो पाटीं येताना आमच्या तसल्या टेलरांलागीं येतीत तर कितें रुबाब दाखयतात म्हण हांव जाणां...’

‘पूण तीं घरचाकरेक वचोंक नांत न्हय पायसामा?’ नोरान तक्षण विचारलें. ‘हांव गेल्लीं अरब्यांच्या घरा तांची चाकरी करूंक. म्हजे तसल्यांनी कशें बदलुंचें?’

‘पूण तुवें केंस मटवे केल्याय’, दोळे अशीर करून म्हणाली जिल्ली.

‘व्हय रे, नोरागेर आपूण एकावंट हाडूंक गेल्लों म्हण तुवें म्हाका सांगताना ताणे केंस कातरल्यात म्हण कित्याक सांगोंक नायरे?’

‘तांतूं सांगोक किते आसा?’ जेरी म्हणालो. ‘हांवें चत्राय करूंक ना आनी ही चेडवां दिसाक एक वेस करतीत तर...’

`That's enough, Gerry!' म्हणालें इवोन. ‘तुका बियर हाडूंक सांगल्या ती हाड. थंड आसूंदी. आमगेर आतांयी फ्रीड्ज ना न्हय?’

‘तुमगेर फ्रीड्ज हाडला – गी नोरा? जिल्लीचें सवाल गरजेभायलें तरी नोरान जाप दिली. ‘एक ल्हानसो घेतला. मांयक उपकाराक पडतलो. तिका सदांयी मार्केटीक वचूंक या रांदूंक जायना पळे.’

थोड्या वेळाचें मौन, उलोणें तितल्यारच संपलें – गाय म्हळ्ळें सवाल उदेशें करच्या पयलें नोराच म्हणालें. ‘हांवें म्हजे केंस फॅशनाक लागोन मटवे केल्ले न्हय. आरब्यांच्या चलयांक लांब केंस म्हळ्यार भारीच मोग. तांच्या दिवानियांनी तीं नाचताना केंस सोडून मुळांक परमळीक द्रव्यां या पिटो घालतात आनी तांचे केंस नाचोन नाचोन बिसलायताना हो परमळ सगळ्यानींतल्यान प्रसारता.’

‘तीं किते बेल्ली डान्स करतात?’ इवोनान विचारलें.

‘त्या काट आरबिण्यांक बेल्ली डान्स कशें कळीत?’ आतां पोतें घेवन बियर हाडूंक भायर सरल्लो जेरी म्हणालो ‘बेल्ली डान्स आसचें इजिप्तांत मात्र.’

‘आसोंदी रे’, म्हणाली जिल्ली. ‘तुका आतां नोराची पांती ओडूंक ना मुरे?’

‘म्हज्या केसां मुळांनी उज्याच्या फोडांबरी फोड जाल्ले’, म्हणालें नोरा जेरी मेटां देंवोन वेतेच. ‘दुकीन म्हाका केंस उगवंक सैत जायनातल्लें. म्हज्या लांब केसांक आरब्यांची दिश्ट जाली म्हण सर्वांनी म्हळें, पूण हें सर्व आमी कातोलिकांनी पातयेवंक नजो न्हय? केंस जिडें जावंक सुरू जाताना हांवें ते कातरयले. पूण अशें सांगल्यार कोण पातयेता?’

‘आमी पातयेतावं.’ सर्वांचे पाड्तीन म्हळ्ळेंपरीं जिल्लीन म्हळें. ‘आतां सांग आमकां कुवेताविशीं. थंय भांगार रस्त्यारच मेळता खंय?’

हें आयकोन नोरा नाजुकायेन हासलें. ‘तशें कांयना, टिचेर’, तें म्हणालें.

'थंय धरणीपोंदाक मेळता पेट्रोलियम, कच्चा तेल मात्र. आरब्यांचें काळें भांगार तें. पूण केदोळपर्यांत कोण्णा?'

'म्हळ्यार' कपालाक मिरयो घालून इवोनान विचारलें.

'आतां इराक - इराणाचें झूज चलता मूं? हे दोनूय देश कुवेताच्या हेवशीन तेवशीन आसात. तीन - चार पावटीं इराणाचीं सिल्कवर्म रॉकेटां येदोळच कुवेतांत पडोन जाल्यांत.'

हें सर्व जिल्लीक समजालें ना जाल्ल्यान तिणे इवोनाचें मुकमळ पळेलें.

'मध्यप्राच्य केदाळायी दारवेचें एक तुपें, मां!' आपले जाणवायेन म्हणालें इवोन. 'केदाळा फुटत म्हळ्ळें सांगोंक जायना.'

'आमकां कितें करूंक आसा खंय?' जिल्ली म्हणाली बेफिकिरेन. 'कितल्या दिसांच्या रजेर आयलांय पुता नोरा?'

'तीन म्हयन्यांच्या', तें म्हणालें. 'पळे देड म्हयनो आतांच पाशार जालो.'

'काम कशें?' बऱ्यान चलता मूं?' जिल्ली टिचेर उस्तुनच वेताली.

'सांबाळ कसो? तूं शेकागेर काम करताय मूं?'

तें हांसलें 'घर कामाचीं सर्वांयी शेकागेर काम करतात म्हळ्ळी पातयेणी सारकी न्हय, टिचेर.' ताणे समजायलें. 'पूण हांव, न्हय. हांव शेक पाहद अल सालेम अलसबा-गेर काम करतां. कुवेतच्या अमिराक सवतीभाव लेखता तो. कुवेतच्या ऑलींपीक कमिटीचो तो चेरमन खंय. चडीत हांव कांय नेणा आनी जाणां जावंची म्हाका गरजय ना. भारीच बरो मनीस आनी ताच्या घरचीं, चड जावन ताची पतीण शेका मिरियम, भांगार मनीस...'

'आरब्यांक सात - आठ बायलो आसतात खंय?'

'आसयेत, टिचेर', तें म्हणालें. 'पूण आमकां कितें करूंक आसा तें सर्व जाणा जावन? तांचो देश, तांचें तेल आनी आमी त्या तेला वांट्याक हात वोड्डावन गेल्ली पर्जा.'

'हांव शीदा विचारतां म्हण बेजार करिनाका तूं.' म्हणाली जिल्ली. 'तूं तसलें न्हय म्हण हांव जाणां पूण थंय घरकामाक म्हण गेल्लीं त्या आरब्यांच्या अ... अ... कामुकतेक बली जातात खंय?'

'मां!' उद्‌गारलें इवोन. 'कसलीं सवालां करताय तूं? तुजे धुवेक कांय

घरकामाक धाडताय तूं?

'हांवय तरी कोणाची धूव न्हय, इवोन बेबी?' नोरान दुखलेल्या ताळ्यान विचारताना आवय आनी धूव लजेन आनी पस्तावान दोडलीं.'

'तशें कांय हर एकल्याथंय घडाजे म्हण ना,' तांची संदिग्ध परिगत पळेवन म्हणालें नोरा. 'जिणेंत कोण कसल्याक प्रमुखता दितात म्हळ्ळ्याचेर सर्व होंदोन आसा. घरकामाक आसचें फकत इंडियनांनी न्हय. आसात बांगला देशाचीं, श्रीलंकाचीं, पाकिस्तानी आनी आतां फिलिपिन्साथावन...'

'हां जांव, जावं! तुका कांय दोस ना न्हय? देवाक अर्गां.'

'पूण आमच्या तसल्यांक एका दादल्या मनशाची मजत गरज पडता, टिचेर', नोरा म्हणालें. 'चडावत हर एकल्याक एक सांगाती आसा पूण हो सांगात बेडरूमापर्यांत पावता म्हण हेरांनी उलवंचें सारकें न्हय. उण्या मट्टाच्या कामार आसल्ल्या दादल्यांक तांच्या कुटमाक कुवेत हाडूंक जायना आनी तवळ ते फकत उलोण्याचो सांगात तरी आशेतात. तुमी कांय आयकालां जावंक पुरो कुवेतच्या कातेद्राला भायर आयतारा – सुक्राराचें 'पिकअप चलता म्हण...'

'म्हळ्यार?'

नोरान कितेंय म्हणच्या पयलेंच जेरी चार बोत्ली बियर हाडून आयलो आनी जिल्लीचें सवाल थंयच जिरलें.

'तुका हांगाची बियर रूचात?' जिल्लीन विचारलें. तुमकां थंय इंग्लीश मेळता न्हय?'

कुवेतांत सोरो ना, टिचेर', कळयलें नोरान. 'आनी हांव बियर सैत पियेना. कुवेतची कमाय म्हाका सोरो पिये म्हण सांगच्या तितल्यार पावोंक ना.'

हे चलयेक शिकप मेळजे आसल्लें, मनांतच चिंतून चुरचुरलें इवोन. पळेयां म्हजी आवय कसलो खेळ खेळता म्हण. हो खेळ कांय म्हजो बवारोभाव खेळोंक सकचो ना.

'परमिटीचोय मेळाना?' जिल्ली पातयेली ना.

'पूण हे दादले सोऱ्याक कितें करतात?'

'घरांनी कंट्री काडतात', नोरा म्हणालें हांसोन शें.

'थोड्या पावटीं शिरकतात. तांका जेल जाता आनी उप्रांत तडीपार.'

'तुमी घरा कितलीं जाणां?' विशय बदलून हें विचारीजे तर जिल्लीक कश्ट जाले. इतलो तेंप घरांत काम केल्ल्यागेर कोण आसात म्हण जिल्लीन येदोळ विचारलें ना. नोराचें आलकुंजय तिका कळीत नातल्लें.

'हांव, म्हजी आवय येस्तुबाय आनी भाव डोल्फी.'

'डोल्फी पिंटो? तो बेंदूरच्या कॉयरांत आसा?'

' वा माम्मी, वा! मनांतच उद्‌गारलें इवोन. नोराचें आलकुंज भायर काडूंक कसलो हुन्नर खेळ्ळीय तूं!

'ना', म्हणालें नोरा एका कुस्कूट हास्या सांगता. 'आमी लुविसांगेलीं.'

'हो!' म्हणाली जिल्ली लांबायेन 'लुविसांगेलीं.' – आसूं, तुवें तुज्या भावाक विजा हाडल्याय खंय?'

'व्हय,' तें म्हणालें निश्चितायेन. 'पुरो हांगासर पोलिंपरीं भोंवल्लें. हांवें पाय धरल्या उप्रांत ड्रायवींग शिकलो. कांय कंप्यूटर शीक म्हळ्यार शिक्लो ना. आतां दीस कंप्युटराचे न्हय? कशेंयी शेकाचें पांय धरून एक वर्कींग विजा हाडली. कुवेत पावल्या उप्रांत ताणे काम सोदीजे.'

'आयकातारे पुता तुका?'

'तांब्लेरांनी बियर ओतच्या पुताक पळेवन म्हणाली जिल्ली.'

'हां... नोराक नाका खंय... हांव आनी इवोन वांटे करून पियेतांव आयक, नोराच्या भावाचें तुरूप पास खंय.'

'हांवें चार बोत्ली हाडल्यात,' तो भलतेंच म्हणालो. 'कितें आयकालेंगी म्हण विचारलेंय?'

'कुवेतांत आतां कंप्यूटर चलतात खंय', ती म्हणाली. 'तुका सांगल्यार नाटवाता? हांवे नोवेन धरल्या उप्रांत कसोयी पासपोर्ट पुणी केलोय. कितें करूंक तो? मीट घालून ल्हेंवोंक? पळे, दोन वर्सां भितर आमचें नोरा कितलें स्मार्ट जालां पळे.'

'तुका तुज्या पुताक डावन केल्याशिवाय रावोंक जायना, जिल्ले?' सबार वेळा उप्रांत उलयलो मिक्की. 'आमच्या आपवण्याक पाळो दिवन नोरा आयलां. कांय बरें उलयां, फोकाणां करयां...'

'तितलेंच कळीत तुमकां बापूयपुताक', ती म्हणाली. 'कुटमाची जवाब्दारी

तुमकां आसा? तूं आनी हांव कांय तरणाटीं जातात्वें? इवोनाक मेडिकल करूंक जाय खंय मू?'

'तुजो भाव जॉनीबाब कुवेतांत आसा न्हय टिचेर?' मदेंच विचारलें नोरान.

'आसोंक आसा पूण ताचें नांव हांगासर कित्याक?' ती सणसणली. 'ताका खंय रिफायनरींत काम आसा खंय. ताका शिकप दिवन पांयाचेर उबो केल्लो हांवें. विसरालो तो. बी. कॉम. थर्ड क्लास पास जाल्ल्यांक हांगासर चपरासीचें काम मेळना म्हण टेलिग्रामापरीं जाप बरयली म्हज्या चिटीक. बरो जावंदी तो... कित्याक रे ही बियर तितलीयी अड्हूक आसा?'

'आय डोण्ट नो', भुजां हालयलीं जेरीन.

'ह्या घराक देवानच सांबाळीजे', ती म्हणाली एक दिश्ट इवोनाक दिवन.

'व्हय रे, जेवण जाल्या उप्रांत तूं आनी नोरा कित्याक सिनेमाक वचनांतरे? घरा रावोन ताची पांती वोड म्हणयां म्हळ्यार तें बॉयकट करून आयलां ने?' ती आपल्याच फोकाणाचेर हासली.

'व्हय जेरी' म्हणालें इवोन उमेदीन. 'हांवय येतां तुमचे सांगाता.'

'नाका, टिचेर', म्हणालें नोरा लुवीस, 'आन एक पावटीं पळेयां, इंशाअल्ला. म्हाका घरांत थोडें काम आसा आनी चार वोरांचेर विगाराकय भेटोंक आसा.'

'तूं तांची भासय शिकलांय वे तर?'

आरब्यांगेर वस्ती करताना शिकाजेच पडता टिचेर'.

'आनी हेर कितें शिकलांय तू? कंप्यूटर?'

कार सोडूंक शिकल्यां चोरयां!' तें म्हणालें पोकरी ताळ्यान. 'शेकागेर पांच इंडियन ड्रायव्हर आसात. तांणी म्हाका शिकयलें.'

हें चेंडू तुरूपाचो घोडोच सय, मनांतच उद्गारली जिल्ली.

'मां', म्हणालें इवोन अइन्न वेळार. जेवणाक आनिकी वेळ आसा न्हय? जेरी आनी नोरा खंय हितलांत भोंवोन येवंदीत. तुका काजू म्हळ्यार भारी न्हय, नोरा? ताणे नोराक पळेवन विचारलें.

नोरा हासलें. 'भारी व्हय, पूण दोन दीस काजूचो पियेल्लेपरीं आंगाक वास येता न्हय?' म्हाका विगारालागीं वचोंकय आसा.

'तें कुवेत गार्न गो इवोन', अरवास नंज्यांनी म्हणाली जिल्ली टिचेर.

'आसूं. कितेंरे तुमी भायर वेतातरे?'

'म्हजी बियर हून जाता' तो म्हणालो. 'कितें उलवचें ह्या नोरालागीं? तें आदीं कशें पिरकीस आसल्लें तें तशेंच आसा.' तो हासलो.

'ताची पांती आसल्ली तर मजा वेगळीच आसती.'

'पूण कितलें सोबीत जालां पळेलेंय तुवें?'

जेरीन जाप दिली ना आनी अशें जाल्ल्यान जिल्लीचें मिसावं मुखार गेलें ना. पूण जिल्ली टिचेर कांय सोडून दिवंची मनीस न्हय.

जेवण जावन थोडो विशेव घेतल्या उप्रांत आपूण वेच्या फुडें एक भेट दिवंक जरूर येतां म्हण भासावन नोरा उठलें.

'बरें तर,' म्हणाली जिल्ली. जेरी आनी मिक्की, जडायेच्या जेवणान आनी बियरीन पिकल्ले ते झेमताले.

तेच स्थितेर ताणीं नोराक 'बाय बाय' केलें.

'हांव नोराक वोणीच्या तुदिये पर्यांत पावन येतां.' म्हणाली जिल्ली, आपुणय येतां म्हळ्ळेपरीं उबेंजाल्ल्या इवोनाक एक दिशट दिवन. ते दिशटींत एक इशारो आसल्लो. म्हाका नोरालुविसालागीं खासगेंत उलवंक आसा.

■■■

# 17

'तिसरे पावटीं येवंचें हें फोनकॉल', म्हणाली सॅली कुरियन, अर्द्या घंट्या आदीं दफ्तराक पाटीं आइल्ल्या जेरीक आपल्या कॅबिनाक आपयतेच. तिका, खासगी 'कॉलां' दफ्तराक येवचीं पसंद ना म्हळ्ळें सर्वांक कळीत आसची रूल.

'सॉरी, मॅडम', तो म्हणालो तिच्या हातांतलें रिसीवर घेताना. तिणे कांय म्हळें ना, पूण तिच्या दोळ्यांनी कसलेंगी मिणकुंचें देखलें जेरीन.

'हॅलो, हांव जेरी उलयतां.'

'आनी हांव नोरा!' तेवशिल्ल्यान ताळो आयलो. 'हांवें ऑफिसाक फोन करूंक नजो आसल्लें. पूण संगत महत्वाची. हांवें पयलेंच तुका फोन करीजे आसल्लें पूण... फाल्यां म्हाका पाटीं वचूंक.'

सुमार देड म्हयनो पाशार जाल्लो नोरा तांगेर जेवणाक येवन उप्रांत तें आइल्लें ना, जेरीक आनी ताच्या घरच्यांक नोराची विसर पडल्लेपरीं दिसतालें. त्या दिसा जेवणा उप्रांत जिल्ली नोराक वोणीचे तुदिये पर्यांत पावंक गेल्ली. पाटीं आइल्ल्या उप्रांत तिणे नोराचो उल्लेख केल्लो ना आनी पाशार जाल्ल्या देडा म्हयन्यांत जेरीक निजायकी नोराची विसर पडल्ली.

आपले आवयन नोराक कित्याक जेवणाक आपयलें जावयेत म्हळ्ळो अंदाज ताका जाल्लो तरी पूण किते खंय? तें नोरा, सक्कड सोडून म्हाका विजा धाडता? कोणाक जाय खंय कुवेत वचूंक या त्या मट्टाक मंगळूर सोडूंक? नोरा, आपल्या कुटमाच्या उदरगतीचेर आसा, आतां भावाक विजा हाडली, फाल्यां आनी कोण कजन या अंकल या आण्टी, तो मनांतच हांसलो.

कोणाक सोडूंक जाय हें मंगळुरी जिणें? कसलो गांव तो कुवेत? एक बॉत्ल

बियर सैत ना तर? एक पावटीं तें अमेरिका काळ्या भांगारा बदलाक हेर कसलेंयी सवाय इंधन सोदून काडुंदी. उप्रांत ह्या आरब्यांनी तांचेंच तेल पियेजे.

'हलो, नोरा.' ताणे जाप दिली, एक दिश्ट सॅलीचेर दवरून. 'कशें आसाय? फाल्यां वचूंक? खिणाभितर रजा संपली न्हय? कसली गरजेची संगत?' हें विचारताना ताच्या कपालाक मिरयो पडल्यो.

'तुजें काम कितल्या वोरार सुटता?'

'आमकां निगंट वेळ ना', ताणे जाप दिली. 'आमी कमिशनार काम करतेले... आनी कांय अर्द्या वोरान सुटान'.

'बरें', तें म्हणालें. 'हांव तुका तुज्या ऑफिसाभायर मेळतां. बिस्पाच्या घरा लागसार न्हय कुरियन चीट फंड?'

'व्हय', म्हणालो तो तगसाल्ल्या ताळ्यान. रिसिवर पाटीं खिळायताना ताणे सॅली कुरियनाक परत्यान 'सॉरी' म्हळें. पूण ताची मत घुस्पडीत जाल्ली. ह्या नोराक कितें एकाच्छाणे म्हजो उडास आयलो? वेच्या पयलें 'गुडबाय' करीजे तर घरा येतें न्हय? देडा म्हयन्या आदीं नोरा येवन जेवन गेल्या उप्रांत घरांतलें वातावरण चिक्केशे परकें जाल्लें तें ताका आतां दिसोंक लागलें. कांय माम्मीन, म्हज्या पुताक एक विजा धाड म्हण नोरा लागीं आडदोस पुणी मागोंक ना मूं?

ह्याच चिंतना सवालांनी उरल्लो वेळ खिरयतेच, सॅली कुरियनाक एक सब्द सांगोन तो ऑफिसाथावन भायर पडलो. मुखार दिसचें हॉटेल उशा ताका दोळ्यांतलें आडें जाल्लें पूण कितें करयां?

खैबर पास रस्त्यार नोरा उबें आसल्लें पळेवन टेरीचो उडास ताचे थंय जिवाळ्ळो. हाका पलेतेच नोरा हेवशीन आयलें. हूं. बरें न्हेसल्लें तें आनी आकर्शीक दिसतालें म्हळ्ळें पयले पावटीं ताचे मतीन मांदून घेतलें.

'हॅला जेरी!' म्हणालें नोंरा. 'खंय वेचें? बल्मठा मैदानार वचून बसयां. म्हाका तुजे लागीं उलवंक आसा.'

'बल्मठा मैदान?' हो उद्गार सोडून जेरीन आंग काडलें. टेरीचें प्रकरण जाल्या उप्रांत ताणे या शिंटोन तेवशिल्यान पाशार जावंचेंच रावइल्लें.

'कितें आंग काडलेंय?' सहज आतुरायेन विचारलें नोरान. 'म्हाका हेर खंचोय जागो जायत, पूण तुवें एक पावटीं कसल्याकगी लागोन बल्मठा मैदानाचो उल्लेख

केल्लो म्हज्या उडासांत आसा. कांय कोडू उडास जिवे जाले?'

'ती संगत आसूं' म्हणालो जेरी बारीक विरारायेन. 'कितें उलवंक आसा म्हणतालेंय?'

'खंय वेचें म्हण पयलें सांग.'

'हांगाच कोर्टाच्या रस्त्यार वचून कॉलेजीच्या 'पाताळा' ग्रावंडार बसयां,' म्हणालो जेरी. 'कोणाकयी दुबाव जावंचो ना.'

'कसलो दुबाव?' नोरान विचारलें. जेरीन जाप दिली ना आनी तांणी सांगाताच मेटां काडलीं. नोराचे ओत्तायेक[70] लागोन ताणें टेरीचें प्रकरण मटव्यान ताका सांगलें. 'टेरीची आवय आतांयी हांव आनी शिंटो टेरीच्या मरणाच्या कारणांत भागेली म्हण चिंतता, ताणे आखेर केलें. 'तुका सॅली कुरियनाचेर भारीच अभिमान आसचेपरीं दिसता,' म्हणालें नोरा. आतां तीं 'पाताळा ग्रावंडाक पावल्लीं.' थोड्यो चलयो बास्केटबॉल खेळतालीं आनी चले क्रिकेट प्रॅक्टीस करताले. फातराचो एक बांक विंचून, धूळ फुंकोन तीं बसलीं.

'सॅली कुरियनाचें व्यक्तित्वच तसलें. म्हणलो जेरी.

'म्हजें व्यक्तित्व कसलें जेरी?' नोराचें सवाल खंडीत जावन अनिरिक्षीत.

'मतलब?' ताणे विचारलें. 'तुका व्यक्तित्व आसा?'

'तुज्या सवालाक तूंच जाप दी, जेरी.' तें म्हणालें चिक्केशें तिरकास बसोन जेरीची दिश्ट धरून. 'तुजे नदरेंत हांव कितें आनी कसलीं?'

'फिलोजोफी आयकोंक तुवें म्हाका हांगासर हाडलाय?'

'फक्त धावी पर्यांत शिकल्लें चेडूं फिलोजोफी उलवंक सकाना म्हण तूं चिंतताय?'

'हांव कितें चिंततां म्हळ्ळें तुका गरजेचें न्हय, नोरा', तो म्हणालो.

'कसलो खेळ तुजो?' फाल्यां तुका वचोंक म्हणताय. आदिव्स मागचो तर घळाय कित्याक? तुज्या सवालाक जाप जायीच तर... चार कास करूंक गल्फाक गेल्ली चली तूं. तुजो उद्देश फल्साल्लेपरीं दिसता म्हाका', तो ताचे कुडीचेर दिश्ट चरयलागलो. 'आनी तुका संतोस जाता तर, तूं सोबीतय आसाय.'

हें आयकोन नोरा मटव्यान हांसलें. 'तितलेंच?'

'हेर कांय म्हाका दिसाजे तर सांग सायबिणी', तो म्हणालो कपालाक हात

मारून. 'कित्याक घुंवडी घुंवडी मारताय? सुडाळ उलय.'

नोरान कितेंय म्हणच्या पयलें क्रिकेट खेळतेल्यांचो बॉल हांच्या पांयांलागीं येवन पडलो. जेरीन तो विंचलो आनी खेळगड्यांक पाटीं उडयलो. तो पाटीं येवन बांकाचेर बसताना नोरा कसल्यागी निर्धाराक आइल्लेपरीं दिसतालें.

'देडा म्हयन्या आदीं', ताणे सुरू केलें.' देडा म्हयन्या आदीं तुमगेर जेवण करून पाटीं वेताना जिल्ली टिचेर म्हाका वोणीचे तुदिये पर्यांत पावंक आइल्ली.'

'व्हय, कितें जालें?' जेरीक आतां खरीच विराराय भोगताली.

'कितें घरापर्यांत पावयजे आसल्लें?'

ताचें हें सवाल गुमानाक व्हेलें ना नोरान.

'वोणीचे तुदियेर थोड्यो संगती तिणे म्हाका सांगल्ल्यो त्यो आतांय म्हाका गिळूंक जायनांत.'

'तिणे म्हाका एक विजा धाड म्हण विचारलां आसतेलें', तो म्हणालो तक्षण. 'हें हांव जाणा आसल्लों. म्हज्या माम्मान विजा खातीर ठोकिनातल्ले दारवाटे नात. हांवें सांगचें सत व्हय मूं? तिणे तुजेलागीं विजा विचारली मूं?'

'ना!' तें म्हणाले मळबाक पळेवन. 'तिणे म्हजे लागीं विजा विचारूंक ना.'

'तर इवोनाक मेडिकल करूंक जाय खंय देकून दुडवा ससाय मागल्या आसतेली. ओ माम्मा!' ताणे हाताक हात मारलो. 'कित्याक तूं इतल्या सकयल्या मट्टाक देंवताय?'

'तर सांग म्हाका जेरी', म्हणालें नोरा. 'तूं जेराल्ड पायर म्हज्या मोगार आसाय म्हण ती म्हाका सांगताना तुजी मम्मा कसल्या मट्टाक देंवल्या जावंयेत?'

नोराचें हें सवाल जेरीथंय जिरोंक वेळ लागलो.

तें जिरतेच तो हाळवायेन उबो जालो आनी घुंवोन ताणे नोराक फुड केली. 'कितें म्हणाय?' ताचो ताळो पुसपुस्यांनी भायर येतालो. 'तिणे तुका सांगलें कीं हांव तुज्या मोगार पडलां म्हण?'

'व्हय!'

'तिणे तुका अशें सांगलें या तुवें तिका सांगलेंय, आपूण जेरीच्या मोगार

आसां म्हण?'

'तशें व्हय जाल्लें तर तुकाच शीदा सांगचें धैर म्हाका आसा.' तें म्हणालें सोसणिकायेच्या ताळ्यान. 'तूं म्हजी पांती ओडताना गरज आसल्ल्याच्याकी चड लांब ती सोडूंक म्हाका कसलोई धरबांद नातल्लो. कित्याक तूं धनयागेलो पूत आनी हांव सर्वेट चली'

'हें राजावं तूं तुज्या आरब्यागेर वापरशी तर तुकाच बऱ्याक पडतेलें.

'तूं त्या जिल्ली टिचेरीचो खरो पूत'. तें म्हणालें. कशें उलवंचे आनी हेरांक कशें दुकवंचे म्हळ्ळें तुमी दोगांयी बऱ्यान जाणांत आनी एकामेका ह्या कसरतेंत सोडून दिनांत. मोली पिरेरी तसल्यां लागीं दुस्मानकाय बांदून घेवंक हाच्याकय उण्या कठिणायेची उतरांच पावतात, जेरी.'

'तिणे म्हणोंक म्हळें.' तो म्हणालो. 'कांय तशी पुणी तूं विजा धाडशी गी म्हण कोण्णा, पूण आतां देड म्हयन्या उप्रांत तूं कितें करूंक हीं उतरां घेवन आयलांय? तवळच माम्मीक झडपितें न्हय?'

पार्टी बेच्या पयलें म्हाका तुजे लागीं विचारूंक जाय जेरी', तें म्हणालें. 'खंचेयी घडिये तूं म्हज्या मोगार आसल्लोय?'

'हें सवाल गरजेचें?'

'व्हय, म्हाका गरजेचें.'

'ही एक म्हज्या माम्माची चाल म्हण तूं कित्या समजानाय?' ताणे विचारलें. 'एक आवय आपल्या पुताचें बरेपण पळेवंक आशेता.'

'ती म्हज्या सवालाची जाप न्हय जेरी.'

'तुज्या खंच्यायी सवालाक जाप दीजे म्हळ्ळी कड्डाय म्हाका लागू जायना.'

'तुका कुवेत येवंक जाय?'

'अरे वा!' तो उद्गारलों. 'तूं कितें कुवेतच्यो विजा बोलसांत घेवन भोंवताय? तर हांवें आयकाल्लें सत.

गल्फांत आरब्यांगेर घरचाकरी करच्यांक आसचें 'इन्फ्लुयेन्स' हेरांक ना म्हण.'

'तुवें म्हज्या सवालांक जापी दिवंक नांय?'

म्हजेलागीं जापी नांत म्हळ्यार कितें करशी तुं?

'तर म्हजे लागीं आसात' तें म्हणालें. 'विजा धाडची एक वेव्हार न्हय तर उपकार, अशें हांवें तिका सांगलें. विजा खातीर मोगार पडचें... एक धंदो.'

'कितें म्हणाली ती?'

'रडली आनी म्हजे लागीं माफ मागोन पाटीं गेलीं.'

'संपलें न्हय तर हें प्रकरण?' ताणे विचारलें. 'हूं! देखुनच तर माम्मा इतली थंड पडल्या. इवोनय उलयना. आसचें एक चान्स पाड जालें आनी विजाची बोंट आपणें परत्यान सुरू करीजे म्हळ्ळें गमलां आसतेलें माम्माक.'

'पूण शिकपी ती', म्हणालें नोरा. 'म्हजे लागीं शीदा विचारयेतें न्हय? कित्याक अशें तिणे केलें म्हळ्ळ्याक म्हजे लागीं एकच जाप आसा.'

'कसली ती?'

'हांव तुमगेर कामाक आसल्लीं न्हय?' आनी आतांयी आरब्यांगेर घरकामाक आसां न्हय?'

'आनी एकादावेळा तिणे सांगल्लें सत जाल्लें तर?' जेरीन सोडून दिलें ना.

'हांव निजायकी तुज्या मोगार आसां तर आनी हांवेंच माम्माक तुका अशें सांग म्हण धाडल्लें तर?'

थोडो वेळ पर्यांत नोरा वोगें रावलें. ह्या तुज्या दोन सवालांक तुवेंच जाप दीजे जेरी!' तें म्हणालें 'आनी ह्यो जापी म्हाका आतांच जाय. कसले कसले आंवडे तुजे मतींत वोंपून वचोंक म्हाका नाका. तुका हांव जाय या तुका विजा जाय?'

'दोनय तुजेचलागीं आसात न्हय?' तो म्हणालो. 'आतां म्हज्या सवालाक तूं जाप दी... हांव तुका जाय? तूं म्हज्या मोगार आसाय?' ताळो काडलो जेरीन.

भुरग्यांचें खेळोन जाल्लें आनी तीं साहेत घेवन पाटीं परतातालीं. जेरीन उबारल्लो ताळो आयकोन तांणी हांचे कुशीन पळेलें आनी कितेंगी म्हणोन तीं हांसलीं.

'हांव कोणाच्याच मोगार ना' ताणे परत उचारलें. 'ना तुज्या, ना तुज्या विजाच्या. पूण तूं म्हज्या मोगार आसाय?'

'त्या पयलें, जिणेंत तुवें येदोळ कोणायोची मोग केलाय, जेरी?'

'हें सवाल खंच्या हक्कान करताय तूं?'

'तुजें खरें इश्टीण जावन.'

'आतां प्लेट घुंवली, न्हय?' तो म्हणालो तिकसाणेन.

'आतां प्रेमीथावन खरें इश्टीण जालेंय तूं?'

'सॅली कुरियनापरीं?'

'शट अप, नोरा!'

'कित्याक?' प्रायेन तुज्याकी व्हड तरी सॅली कुरियन तुजें इश्टीण कित्याक जावंक नजो? टेरेन्स पिरेरीचें प्रकरण म्हाका सांगताना कितलेशा पावटीं सॅलीचें नांव काडून ताका पुकारलेंय तुवें.'

'आतां तुका कितें जाय, नोरा लुवीस?' तो खेंचलो. 'म्हजी एक पावटीं फाट सोडूंक कसलें. रूसूम हांवें तुका दीजे?'

'त्या विशीं हांवें चिंतून पळेवंक ना.' तें म्हणालें. 'पूण तुमगेर सारल्ल्या थोड्या तेंपाचें रूण हांव देवें आसां...'

'तें तुका माफ केलें हांवें', तो म्हणालो. 'आमी एकामेका कांय देवेंयी ना, आमचे मदें कसलेंयी रूणूय ना. आतां गुडबाय म्हणया तर.'

नोरान जाप दिली ना.

'जांव', म्हणालो तो उबो जावन. 'वेच्या पयलें तुज्या मतींत मोगाविशीं माम्मान वोंपल्लें आसा तर तें हुमटून काड. म्हजो जिनोस तसलो न्हयच...'

'कित्याक म्हळ्यार जिणेंत कितें जाय म्हळ्ळें तें तुकाच कळीत ना.'

'आतां तूं सॅली कुरियनापरींच उलयताय.'

'व्हय, तें म्हणालें. 'तूं घुंवोन घुंवोन सॅली थयंच पाटीं येताय.'

'पूण तशें तुजे थंय पाटीं येवंचो ना हांव!'

'तर आमचे मदें कसलीयी चूक समजणी ना म्हण जालें?'

'समजणीच नातल्ली तर चूक समजणी कशी येतेली?' आतां तो मळबाक पळेवन म्हणालो. 'म्हाका येदोळ पर्यांत समजालां तरी कोण? माम्माच्या आशेंक थळ ना. एक दिसा वुडलँडसाक आपवन व्हरून जात – कात, कुळी – गुळी म्हण व्हड लेक्चर तिणे म्हाका दिलो आनी त्याच ताळ्यान ती म्हणता आपल्या मतलबाखातीर गाडवाकय बापूय मांदूक तयार आसाजे म्हण. हेणे पप्पाचो अर्दो उंडो. तेणे इवोनाक मेडिकल करूंक जाय खंय.' एकाच्छाणे ताच्या दोळ्यांनी

दुकां उदेलीं. 'ना, नोरा', तो म्हणालो. 'हांवें तुजो मोग करूक ना! हांवें संवसारांत कोणायचोयी मोग करूंक ना' तो रडलो.

नोरान ताच्या भुजाचेर हात दवरलो. 'कित्याक म्हळ्यार संवसारांतल्या मनशांक तुवें लागशिल्यान पळेवंक नाय.'

'आनी तूं म्हाका ती एक नवी दिश्ट दिताय? म्हाका विजा धाडून म्हज्या जिणेची दिशा बदलिताय? कोण तूं? म्हजें खरें इश्टीण? हंऽ! धावी शिकल्लें तूं, दोन वर्सां कितें आरब्यांगेर रावलेंय आनी म्हाका तत्वां शिकयताय?'

'जिल्ली टिचेरीच्या पुताक हांव एक विजा धाडीन तर?'

'ती पिंजून हांव म्हज्या माम्मीच्या मुस्काराक मारतोलों!'

'पूण हें सत न्हय म्हण तूं जाणाय?' म्हणालें नोरा.

'तूं विजा धाडून पळे!'

'तें हांसलें. 'विजा घेवन तूं सॅली कुरियनालागीं धांवतलोय.'

तें वचोंक घुंवलें. 'गुडबाय, जेरी, म्हज्या बऱ्या इश्टा.'

आनी पयले पावटीं आपले जिणेंत आपूण कितलो एकसुरों आसां म्हण जेरीक कळीत जालें.



# 18

कोणेगी शेट धाडयिल्लो आवाज आयकोन जिल्ली टिचेर भायर सोप्यार आयली. सोप्यार मिक्की बसोन आसल्लो पूण ताका कांय दिसलें ना जायजे. ह्या दिसांनी सांज जावन येताना ताची दिश्ट मंद पडताली. दुसऱ्यान सोप्यावयल्या दिव्याचो उजवाड गेटीचेर पडानातल्लो. सबार तेंपादीं मोली पिरेरीन गेट धाडयिल्लो उडास तिका आयलो.

आतां रातीचीं साडे आठ जाल्लीं आनी जेरी आनिकी घरा येवंक नातल्लो. पूण हें ताचें शिस्त नातल्लें 'रूटीन.'

'कोण थंय?' तिणे ताळो काडलो. 'इवोन, भायर यो पुता. कोण पळे गेटीलागीं.'

'हांव टिचेर आंटी!' ताळो आयकालो. ताळो पूण सदांचो न्हय.

'हांव म्हळ्यार कोण? तुका येक नांव आसा या ना?'

'एक न्हय दोन आसात, आण्टी'. जाप आयली. 'हांव शिंटो पावलुस! कोण तरी हांगासर येयात आनी जेरीक सांबाळात. म्हज्यान जायना.' 'जालें कितें जेरीक?' ती आकांतली, जालाक देंवोन. 'तुमी तरी उटानात चिक्केशे, तिणे पाटीं पळेवन मिक्कीक म्हळें. 'इवोन, जालाक देंव आनी एक बॅटरी हाडून ये. जालाक एक लायट घालयां म्हण केदाळा सांगलां हांवें.'

'जेरीक कांय जावंक ना', शिंटोन जाप दिली. 'मेकडोवेल सेलेब्रेशन चड जालां तितलेंच. आदल्या पावटीं अशेंच एकल्याक आमी ताच्या बंगल्यापर्यांत पावयिल्लो पूण तो थंयथावन शीदा शेमितरीक गेलो.'

'शिंटोन गेट काडली आनी ताच्या खांदार हात घालून उमकाळोन आसल्ल्या जेरीक भितर हाडलो. इवोन आनी जिल्ली ताचे कुमकेक धावंल्लीं, पूण मिक्कीन

जालाक देवंचें धैर घेतलें ना.

'कितें रे पुता जेरी?' आकलासली जिल्ली. 'कसली अवस्तारे तुजी?' तिणे आनी इवोनान ताका आरायलो आनी शिंटोचें वजन चिक्केशे उणें केलें. 'खंय मेळ्ळो तुका हो?' जिल्लीन आपलीं सवालां मुकारिलीं. 'गटारांत?'

'मेळचें कसलें आण्टी?' विचारलें शिंटोन. 'म्हाका सोडून आइल्लो हो आनी आपूण डेस्प्रेट जालां, म्हाका एक ड्रिंक जाय म्हण बाराक व्हरून गेलो. गटरांत पडच्या पयलेंच ताका हांगासर हाडला.'

''तुका बूद सांगूक जाली ना?' जिल्ली शिंटोचेर चिडली. 'तुंयी पियेलोय आसतोलोय जेरी सांगाता. हरशें बियर उतरोन वचानातल्लो हो आज विस्की पियेला.'

'तूं आतां मोली पिरेरीपरीं उलय नाका, आंटी!' म्हणालो शिंटो.

'तुज्या पुतालागीं विचार कित्याक तो अशें करता म्हण?'

जिल्ली चिक्केशे तगसाली. 'कित्याक रे अशें करताय?'

`Because I'm a lover boy!' तो म्हणालो. ताची जीब आड पडताली. 'कित्याक म्हळ्यार जिल्ली टिचेर म्हणता हांव नोरा लुविसाच्या मोगार पडलां म्हण. एका कुशीन नोरा डार्लींग तर दुसऱ्या कुशीन कुवेतची विजा, एका कुशीन नोरा आन् एके कुशीन विजा. नोरा, विजा... विजा नोरा...'

जिल्लीक खिणाभितर अर्थ जालें. नोरान घूट फोडल्लो. जालांत हो ड्रामा नाका. 'शिंटो', तिणे म्हळें 'हाका एक पावटीं भितर व्हरयां. हो एक उपकार कर. इवोन, किचनात वचोन काळी कापी कर.'

'आनी थोडें नार्लेल तेल गरम कर', म्हणालो शिंटो परत्यान जेरीक आरावन धरून. 'हाच्या पांया पंदाक रगडिल्यार अमाल देंवता!'

जिल्ली टिचेरीन शिंटोक पिसडून उडयतां म्हळ्ळी दिश्ट दिली.

जेरीक भितर व्हरून सालांतल्या खटल्यार न्हिदायलो आनी फॅन सोडलें. शिंटोन आपल्या शर्टाचे बुतांव काडून हर्दें वाऱ्याक दिलें. 'हाका न्हिदोंक सोडूंक नजो.' तो म्हणालो. 'ताचें अमाल देंवतापर्यांत ताका जागो दवरिजे ना तर फाल्यां सकाळीं फुडेंच उतरी जाय पडतेली.'

'तुमी कितें अमाल्यांचें संघटन केलां?' जिल्लीन ताळो काडलो. 'करूंक

ना तर करा. इतली माहेत आसा तुका अमाल्यांक कशें ट्रीट करिजे म्हळ्ळ्या विशीं. हाणे वाटेर कांय ड्रामा करूंक ना मूं?' तिणे तगसाल्ल्या ताळ्यान विचारलें. 'मर्याद वेची गजाल.'

'जिल्ली', येदोळपर्यांत ओगो आसल्लो मिक्की म्हणालो 'मर्यादीक कोलो व्हरूंदी. हो आमचो पूत असले स्थितेक देवोंक कारण कितें म्हळ्ळें पळेयां आमी!

'कारण?' एकाच्छाणे जेरीक जाग आयली. 'कारण ओनली जिल्ली टिचेर...'

इवोनान हाडल्ली फुटी कापी जेरीन खुशेन खाली केली. बऱ्या समारियागारपरीं शिंटो जेरीच्या पांयां पंदाक हुनसाणेचें नार्लेल तेल पुसूंक लागलो.

'हांवें कितें केलां रे पुता, जेरी?'

जेरी आतां सनीन जावन येतालो. ताका दोन धेंक सुटले आनी धेंकाची आमसाण सालांत प्रसारली.

'म्हाका तुवें नोरा लुविसांक विकलोय!' तो म्हणालो. 'कितें लेक्चर दिल्लोय म्हाका तुवें वुडलँडसांत? आं?' कसली फिलोसोफी तुजी? जातकात, क्लास डिग्री बिग्री? आतां खंय गेल्लीं तुजीं तत्त्वां? कितें तूं आतां फर्स्ट क्लास कुळयेची जालीय?'

'कितें उलयता जिल्ले तो?' पुताच्या पांयां मुळांत बसोन विचारलें मिक्कीन.

'व्हय मां' म्हणालें इवोन. 'कितें उलयता तो? शिंटो, कितें सांगलें तुका जेरीन?'

'तुमीच विचारोन जाणा जावया!' खडपरावलो शिंटो 'कांय समजात तर म्हाका समजया. जेरी म्हजो इश्ट. एकल्याक इश्ट म्हण खांद दिलो, ताचीं पातकां लिपयलीं आनी तो मोरताना आमीच गुन्यावकार जाल्यांव, खुनिगार जाल्यांव आतां हो नंबर टू.'

कितें तें सांग जिल्ले? मिक्कीन परत विचारलें. 'कितें म्हणता तो... नोरा, विजा, मोग?'

'म्हजी चूक जालीं, म्हणाली जिल्ली.

'तें दिसता म्हाका', म्हणालो मिक्की. ताणे अशें उलवंचे भारी अपरूप.

'पूण चूक कसली?'

'ह्या घराची स्थिती तुमी देखतात.' जिल्ली म्हणाली एक जेराल दिश्ट सर्वांचेर चरवन. 'तुजी दिश्ट मंद जायीत आयल्या, पांय सल्वल्यात. आमचें शॉप तो गुरूराजच चलयता म्हळ्यार चूक न्हय. हांव कांय निवृत्त जावंच्यार आसा. इवोनाक मेडिकल करूंक जाय खंय. घरांत सुसेगाची एख वस्त ना...'

'ही परिगत कांय नवी न्हय', म्हणालो मिक्की हें आयकोन जेरी हांसलो.

'कुवेत, कुवेत' तो गुणगुणलो.

'देखून कितें सांगलेय तुवें नोराक?' मिक्कीन सवाल केलें.

'कशें विचारचें हांवें म्हज्या पुताक एक विजा धाड म्हण?' जिल्लीन आतां माथें मुळांत घालें. 'कितें म्हळ्यारय आमी आमचें मट्ट सांबाळीजे न्हय? कितेंयी म्हळ्यार नोरा आमगेर कामाक आसल्ल्याची धूव. आनी आतां आरब्यांगेर घर चाकरी करचेंच चेडूं.'

'देकून?' विचारलें इवोनान. 'जेरीक विजा धाड म्हण तुज्यान शीदा विचारूंक जालें ना, बराबर. पूण कसली गरी तुवें घालीय नोराक?'

'ही दोगांय तरनाटीं न्हय?' आतां जिल्ली चत्रायेन उतरां विंचताली. 'नोरा हांगासर आसताना ताका आनी आमच्या जेरीक बरीच चंगाय आसल्ली...'

'One Hundred percent wrong!'

'तीं एकामेका...'

'पांती ओडतालीं,' आंग वोळीत खटल्यार बसलो जेरी.

'माम्मा!' कितें जालां जावयेत म्हळ्ळो अंदाज जातेच उद्गारलें इवोन. 'कितें सुरू जालां तुका?'

'म्हजे राजावं तरी आयक, इवोन!' ती म्हणाली. 'हीं तरनाटीं आनी ह्या प्रायेर जातकात, कुळी गुळी तांकां दिसना. हांचेमदीं कांय तरी आसा तर हांवें कित्याक ह्यो गडी दाखवन मदें येजे?'

'पूण तुवेंच न्हय जेरीक वुडलँडसांत व्हरून ह्यो गडी दाखयिल्ल्योय? आनी तुकायी आसा तें एक कॉम्प्लेक्स क्लासीचें. रब्बीश आनी नॉनसेन्स.'

'म्हजें उलवन जावंक ना, इवोन!'

'पूण म्हजें आयकोन जालां, माम्मी.' तें म्हणालें कांपोनशें' 'जेरी न्हय तर नोरा पुणी आमी उंचले क्लासीचीं. आमचें ककनाडी पोस्ट ऑफिस मंगलोर टू जाल्यार कितें जालें. कळ्ळिगेच्या पोस्ट ऑफिसाच्याकी वयर न्हय म्हळ्ळें राजावं तुवें वापरलेंय. एका वेळा नोरा फसलें तर जेरीक कुवेत व्हरतेलें आनी उप्रांतलें उप्रांत, न्हयगी मां? एक पावटीं कुवेतांत जेरीची मिशी रिगोंदी मागीर कोण कॅर करता नोरा तसल्यांक?'

'पुरो इवोन!'

'कित्याक पुरो?' आपलें एक बोट आवयक जोखलें. 'कसलो सवाय उपाव तुवें हातीं घेतलोय?'

'सवंसारच तसलो, इवोन' ती म्हणालीं गोमटी लांब करून, 'तुमी कितें जाणात ह्या संवसाराक. हो शिंटो पळे. बापायन करून घाल्लें आसा देखून तो फिलोसोफी उलयता. ताका फाल्यांचें म्हळ्ळें चिंतूंक ना. पूण म्हाका...' ती सुस्कारली. हांवें सवाय उपाव हातीं घेतलो म्हणताय इवोन? जावयेंत, पूण हांवें नोरालागीं माफ मागलें. तरी ताणे जेरीची मत खद्वळायली?'

'अपवंत चली ती!' म्हणालें इवोन वर्त्या भरमान. 'असल्या वयवाटांत मोग म्हळ्ळी पवीत्र संगत ताणे हाडलीच ना.'

'करेक्ट' म्हणालो जेरी आतां मुक्कालांश[71] सनीन जावन. 'संवसारांत तुवें येदोळ कोणाचोयी मोग केलाय जेरी म्हण ताणे विचारलें.'

'तो हासलो. 'हांवे कोणाचो मोग करीजे, कसो करीजे... ताणे भुजां हालयलीं. 'हांव कांय नेणा. हांव इतलेंच जाणां कीं हांव कास (दुडू) प्रेजनाक पडनातल्लों. कसलीच जवाब्दारी•नातल्लों पूत ह्या पायसांगेलो. म्हाका एके चलयेच्या मोगार पडोंकय कळाना, मोगार पडल्ले परीं करून एक विजा भितर मारूंकय कळाना. देखून आजथावन म्हाका सदांयी मॅक्डोवेल सेलेब्रेशन आनी चाकण्याक राजा स्पेशल.'

ताचीं उतरां आयकोन जिल्लीन, शिंटोक पळेलें. शिंटोन तिची दिश्ट चुकयली.

'ह्या सर्वा वरवीं जेरीक नोरान विजा धाडचो एक अशीर अवकास आसल्लो तर तुवें तोयी होगडायलाय, जिल्ले' म्हणालो मिक्की तिच्या पांयांक कुराडीचोच

पेट बसवन. 'कोण तूं ह्या तरन्या मतीं लागीं ह्या परीं जुगार खेळोंक?'

'म्हाका धैर पावलें ना म्हळ्ळें ओपतां[72] हांव', जिल्ली आतां रडली. 'पूण अशें जायत म्हण हांवें चिंतूंक ना.' तिणे जेरीचेर दिश्ट चरयली. 'हेर किर्ते सांगलें तुका नोरान, जेरी?'

'तुजे तसली शकुनीची भयण ह्या संवसारांत ताणे पळेवंक ना म्हण तें म्हणतालें!' फट मारून जेरी हासलो. 'पूण ताणे म्हजे दोळे उगते केले. हांवें संवसारांतल्यांक लागशिल्यान पळेवंक ना म्हण तें म्हणालें.'

'देखून लागशिल्यान पळेवंच्याखातीर तूं सोरोपियेताय?' विचारलें जिल्लीन. 'हांव एक खोलो खेळ्ळीं आनी सल्वाली' तिणे आपल्या उतरांची धार बदलिली. 'हांव शकुनीची भयण जाल्यारी पर्वाना पूण तुवें म्हजो पूत जावन निसरोन वेची म्हजी वोक्काय पास करंक कांय पुणी हुन्नर केलोंय?'

किचनाक वचूंक म्हण उठल्लें इवोन तिचें सवाल आयकोन पाटीं सालाक आयलें.

'तुज्या ह्या विपरिताक देव शिक्षा दीत मा! ताणे चेतावणी दिली. 'उडास दवर, ह्या संवसारांत आमच्याकय भोव कश्टांचे रितीर दीस काडचीं कुटमां आसात.'

'व्हय आसतेलींच!' आतां जिल्लीचो ताळोय गरम जायीत येतालो. 'तसल्यांची सेवा करूंक तूं डॉक्टर जा. तवळ हांवय तांच्या क्लासींत सेर्वाल्लीं तुका पळेवंक मेळतेलीं. किर्ते चिंततात तुमी?' ती एकाच्छाणे उबी जाली. तिचें सर्वांग कांपतालें. 'म्हाका फिक्र आसा फकत तुमची. हांव तुमच्या पप्पालागीं लग्न जावन मंगळूर येताना म्हाका एकच ध्येय आसल्लो. मंतनी जावन दीस काडतेलीं म्हण...'

'एका टेलरालागीं लग्न जावन हें साध्य ना म्हण तूं जाणा आसल्लेंय, जिल्ले' म्हणालो मिक्की.

'हांतूं लग्नाचें सवालच येना.' तिचीं उतरां कसलेच त्रास नासतां उसळतालीं. 'दवर्न घेतल्ल्यां थावनय हें साध्य आसा. तूं अर्दो उंडोच पुरो म्हण रावल्ली चूक लग्ना बांदाची न्हय, कोणेंगी वर्सां आर्दी तुका गल्फाची विजा धाडतां म्हणताना, म्हाका तुजी पासळी सोडून रावोंक जायनागो जिल्ले म्हळ्ळी चूक लग्ना बांदा वरवीं तुवें केल्ली न्हय. बगार तुज्या जिनोसाक लागोन. होच जिनोस तुज्या पुताकय

आयला. म्हजें स्थग्र आनी फुडें पळेवंची दिश्ट आयल्या तर ती इवोनाक मात्र. पूण ताका अवकास खंय आसात म्हणताना हांवें नोरालागीं एक चाल खेळल्ली म्हजी चूक म्हणतात तुमी?'

'आमी कांय म्हणानावं मा!' म्हणालें इवोन. 'हांव इतलेंच सांगोंक सक्तां की, म्हाका मेडिकल करूंक अवकाश ना तर, खंयसर हांवें शिकप रावयजे थंयसर तें राववन हांव जोड सुरू करूंक तयार.'

'मेट्रीक आनी पी. यू. सी. मदें एकाच वर्सांचें फरक, इवोन!' जिल्ली टिचेरीची जीब इतली तेज आसल्ली कीं तिचें आयकोन इवोन उस्मडलें 'फकत पी. यू. सी. शिकल्लें एकल्याची भयण जावंक फावो तर, मेट्रीक शिकल्लें एकल्याची पतीन जावंकय फीट!'

शिंटो उठलो. 'हांव वेतां', म्हणालो तो. 'ही कोड्त[73] तुमच्या कुटमाची. म्हाका ही राटावळच नाका. आतां कितें रें, लवर बॉय? कांय थोडें जेवन न्हिदोंक वेताय या आनेक क्वॉर्टर हाडिजे तुका फाल्यां सकाळींची उतरीं काडूंक?

'असल्यांवर्वीच पाड जाला म्हजो पूत!' जिल्ली म्हणाली. 'तुवें वचयेत शिंटो पाव्लूस. देव तुका आनी तुज्या सॅली आण्टीक बरें करूंदी. तुमी तेगांयी कशींयी एका गांटींतलीं. न्हय तर आजपर्यांत जेरीन, त्या टेरेन्साक कितें जालें आनी तातूं तुमचो पात्र कसलो म्हण म्हाका सांगलां?'

'तुवें सॅली मॅडमाविशीं ह्या घरांत उलवंचेंच न्हय?' बोबाटलो जेरी. 'शिंटो, तूं वच. फाल्यां परत्यान तुजी म्हाका गरज पडात. फाल्यां एकादावेळा म्हाका कामाक वचोंक जालें ना तर सॅली मॅडमीक सांग, हांव मेलों म्हण आनी हां, खंयतरी ह्या दरिद्र्याचेर बिर्मत पडोन नोरालुवीस विजा धाडीत जाल्यार, ती पींज आनी एक कुडको जिल्ली टिचेरीक दी आनी दुसरो म्हज्या फोंडाचेर बावटो उबारल्लेपरीं उबार. ही भास दिल्या हांवें नोरा लुविसाक.'

'कितें रें?' सटासट करून जेरी सरशीं येवन ताचे वयर बागाली जिल्ली.

'नोरान तुका विजा धाडतां म्हळें?'

जेरीन व्हय म्हण मातें हालयलें. ताच्या मुकमळार आसल्ल्या जैताचो हासो आसल्लो तो जिल्लीच्यान जिरवंक जालो ना. 'आनी हांवें म्हळें, ती विजा पिंजून म्हज्या माम्मीच्या मुस्काराक मारतलों म्हण!'

ह्या बराबर त्या घरांत एक अवस्वर संपलो आनी दुसरो सुरू जालो. ह्या दुसऱ्या अवस्वरांत जेरी न्हिदोंक मात्र घरा येतालो. जेवणय करिनातल्लो म्हळ्ळी संगत एक तर, तो उलयच नातल्लो म्हळ्ळी संगत दुसरीच कांय उलयल्यार तो इवोनालागीं दोन सब्द उलयतालो.

ही मोड सुरू जावन साडेतीन म्हयने संपताना, सर्वांचीं शिंतिदां तांडून तुटोंक फुटोंक आयतीं जाताना, एका सांजेर पायसांगेर एके स्त्रियेन मेटां (पावलां) दवरलीं.

शीदा गेट काडून भितर आइल्ली ती सोप्यार पावली. वोरां कांय रातीचीं नोव जातीत.

'जेराल्ड पायस घरा आसा?' तिणे विचारलें. सोप्यार आसल्ल्या इवोनान, मिक्कीन आनी जिल्लीन व्हय म्हण सांगाताच जाप दिली. तिचें व्यक्तित्वच तसलें.

कोणालागीं विचारिनासतां ती सोप्यार आसल्ल्या रावंड टेबलासारशीं एक कदेल वोडून बसली.

आपल्या बॅगांतलो एक रेजिस्टर्ड लोकाटो तिणे भायर काडलो आनी त्या उप्रांत एक बॉत्ल विस्की काडून त्या लोकाट्यासरशीं दवरली.

'ताका सांगा, सॅली कुरियन आयल्या म्हण!'

■■■

# 19

आनी तांणी ताका सांगलें, सॅली कुरियन आयल्या म्हण.

जेरी पायस भितर आसल्लो, भोवशा कांय थोडें पोटाक घेतल्यान तोंड धुतालो जायजे. ताका उवोनान उलो दितेच जिल्ली आनी इवोन अपराध्यांपरीं सॅलीच्या सामकार उबीं रावलीं. मिक्की पायस सोप्या वयल्या इझी चेराचेर बसल्लो तसोच उरलो.

इवोनान, सॅली कुरियनाक पयसथावन पळेल्लें, पूण आज इतल्या लागशिल्ल्यान तिका पलेताना ताचो उस्वास बांदलो. कसलेंगी कारीस्मातीक आसल्लें हें स्त्रियेथंय. कसलें तें कोणाकच कळानातल्लें. देखून जावयेत ताचो भाव जेरी सॅलीक फुकारतालो, पूण कित्याक म्हण सांगोंक सकानातल्लो. जिल्ली टिचेरीची संगत वेगळीच. सॅलीच्या समोर उभी आसल्ल्या तिका जिणेंत पयल्ले पावटीं शाळेक वेच्या भुरग्याचे धडाधडे आसल्ले. आपल्या सामकार, आपल्याच घरांत विचारीं नासतां, परवणगी घेनासतां येवन, रावण्ड टेबलालागीं कदेल ओडून बसोन एक लोकाटी आनी विस्केची बॉत्ल दवरून म्हणता 'ताका सांगा सॅली कुरियन आयलां म्हण.' आनी आमचें इवोन फटाफट ताळो काडून जेरीक सांगता आनी ताका भायर आपयता? ही स्त्री त्या मोली पिरेरीच्याकय कठीण गाय? केसट्यांक धरून भायर लोट्यां हिका?

'तशें करूंक तुका संपूर्ण हक्क आसा, टिचेर!' जिल्लीचीं चिंतना वाचून म्हळ्ळेपरीं सॅलीन म्हणताना जिल्लीचो उस्वास बंद जालो. 'पूण तूं तशें करिशीनाय म्हळ्ळो भरवसो म्हाका आसल्ल्यान हांव हांगासर आयल्या. सॉरी, मिस्टर पायस, तुमकां वंदन करूंकी हांव पाटीं पडलीं. बरी सांज तुमकां. हां, तूं इवोन आसतेलेंय,' तिची दिश्ट इवोनाचें खाशेलेपण तुकचे रितीर ताचेर चरली. 'वेरी

नायस!' ती म्हणाली.

'तुमीय बसा' सॅलीन कुडसिलें.हें प्रकरण कांय चडवेळ लांबोकय पुरो.'

'कसलें प्रकरण?' विचारलें मिक्कीन. 'आमच्या जेरीन तुज्या कंपेनीक कांय दगो करूंक ना तर... एक ड्रामाच तुवें उबो केलाय, मानेस्तिणी.'

'ह्या घराण्याचो धनी जावन अशें उलवंचें हक्क तुका आसा म्हळ्ळें हांव अभिमानान मानतां, मिस्टर पायस. पूण हो ड्रामा करूंक म्हाका अवकास करून दिला तुज्या पुतान आनी घडणुकेक लागोन तो म्हजो 'स्टाफ' म्हण तुमी जाणांत. म्हाका जवाब्दारी बांदता.'

'तशें तर तुमचे मदलें रुस्तुरुसावं ऑफिसांतच चलाजे आसल्लें मॅडम', म्हणालो मिक्की. 'जेरीक कामांतलो काडचें हक्क तुका आसा, चीटफंड कंपेनी, ताणें कांयतरी नागयलां तर ताका पोलिसांक दिवंचें हक्कय तुका आसा.'

'पूण ताच्या आनी म्हज्या मदलो संबंद पकत त्या रितीचो न्हय!' सॅलीन म्हळें. 'आनी ह्या विभिन्न संबंदांक लागुनच हांव हांगासर आयल्यां आनी हो ड्रामा करतां. ह्या लोकांच्याक आनी विस्की बोत्लीक कितलो संबंद आसा म्हळ्ळें तुमी पळेतेल्यात.'

'त्या फुडें, मॅडम', जिल्ली उलयली 'तुज्या आनी म्हज्या पुतामदलो संबंद कसलो?' हें सवाल विचारताना जिल्लीची दिश्ट सॅली कुरियनाचे कुडीचेर चरताली. हळ्ट वाडल्ल्या केंळब्यापरीं तेल्त्यान अखंड जीव सॅलीचो. बऱ्या मोलाचें आनी रंगान रूचीचें सुती कापड ती न्हेसल्ली आनी तें कापड तिचे कुडीक पुस्पुसीत रितीर रेवडाल्लें तरी तिच्या हर्द्याची सुपुश्टाय लिपवंक सकानातल्लें. तिची प्राय कांय चाळीस उतराल्ली कोण्णा आनी तिच्या केसांमदले थोडे रुप्याळे केंस तिका अनीकी उद्रीकताय दितालें.

'हूं!' मनातच हुंकारली जिल्ली. 'हांवें पळेलां असल्यांक. सिनेमांनी आसतात असलीं, तरनाट्यांक भूल घालचीं.'

'त्या सवालाक जेरीच तुका जाप दितलो, टिचेर!' सॅलीन जाप दिली.

'हॅलो, जॅरी'. आतां सालाच्या दाखाट्याउबो जाल्ल्या जेरीक पळेवन ती म्हणाली.

'सॅली मॅडम', दोन मेटां मुखार येवन म्हणालो जेरी. तूं हांगा कित्याक

आयल्यास म्हण हांव जाणां आनी असलो संदर्भ येतलो म्हण जाणा आसोन हांव म्हज्या बोलसांत राजिनामो घेवनच भोवंतां.'

'पूण तो राजिनामो तुवें येदोळच म्हाका दीजे आसल्लो. तो तुवें दिवंक नाय. कित्याक, भियेलोय या तुका विस्केक पये उणे पडले?'

'तुवें अशें म्हज्या घरांत येवन म्हज्या पुताचो विचार करूंक हांव सोडिशें ना, मॅडम!' जिल्लीन ताळो काडलो.

'विचार करूंदी, मां!' म्हणालो जेरी आपल्या बोलसांत मुडचून आसल्लें एक पत्र भायर काडून. 'म्हजो राजिनामो', तो म्हणालो मेजाचेर बागवोन. विस्केचे बोत्लीची आडी उखलून ताणे ती चीट बोत्ली पंदाक लोटली.

'हांव तुज्या पुताचो विचार करूंक येवंक ना.' जिल्लीचे दोळे धरून जाप दिली सॅलीन. 'जेरी थंय, तुमकां आसल्ले तितली पुणी घमंडाय उबजयजे म्हळ्या उद्देशान हांव हांगासर आयल्यां.'

'विस्केची बोत्ल घेवन?' विचारलें मिक्कीन. तूं कित्याक पुता इवोन चूप आसाय? हें सर्व तुका सारकें दिसता?'

'आतां पर्यांत म्हाका कांय चूक दिसोंक ना, पप्पा.' इवोनान म्हळें. पूण आमी जेरीची सायड आयकाजें.'

'तुमकां केदाळायी जेरीची सायडच दिसची न्हय?' सवाल विचारून सोप्याचे ग्रादीचेर वचोन बसलो तो. 'जेरी पायस एक फुटबॉल.'

'पूण तूं कोणाच्या फिल्डार आसाय, जेरी?' सॅलीन विचारलें. 'तूं एका निघंट फिल्डार आसल्यार तुका खोटं मारतेलेयी शिस्तेन खोट मारतात.'

'मानेस्तेणी,' म्हणालो मिक्की. म्हजी सोसणिकाय आनी चड वेळाक उरची ना म्हण म्हाका दिसता. आमी सादीं मनशां. तुका आसल्लें शिकप आनी जिणेचो अनभोग आमकां ना. देखून तुर्तान सांग, ही संगत कसली म्हण. ही विस्की तुवें म्हाका इनाम जावन हाडल्याय तर सॉरी, हांव अपरुपशें बियर मात्र पियेतां.'

'ही संगत कसली म्हण हांव तुमकां सांगता', म्हणालो जेरी.

'नोरा...' ताचें नांव काडून तितल्यारच रावलो जेरी. 'हूं! पाटल्या तीन म्हयन्यांनी म्हजें आमाल सेवन चड जालां...'

'तें आमकांयी कळीत आसा!' म्हणालें इवोन, लागिशिल्या कदेलार बसोन.

जिल्ली टिचेर ग्रादीच्या आनएके कुशीन बसली.

'शट अप, इवोन!' म्हणालो जेरी. 'आनी हांवें अशें डेली पेग मारूंक कारण कसलें म्हण माम्माक कळीत आसा.'

'माम्माक कळीत ना, जेरी!' म्हणाली सॅली. तुकाच कळीत नातल्लें कारण तुज्या माम्माक कशें कळीत?'

'आनी म्हज्या अमालाच्या तानेक लागोन हांवें तिच्या कंपनीचे थोडे हजार गुळूम केल्या.'

'तर कित्याक घळाय?' विचारलें मिक्कीन. 'जेरीक कामांतलो काड, मेडम. आनी ताणे तुका केल्लो नश्ट जीव उरान तर हांवच भरती करतलों.'

'बराबर!' म्हणाली सॅली सर्वांचेर दिश्ट चरवन. 'पूण दिसानदीस जेरी आपल्या स्वताक करता तो नश्ट तुमी कसो आनी केदाळा भरती करतेल्यात?'

'सॅली मॅडम..' जिल्ली मदें येताना इवोन म्हणालें. 'मां, ती उलवंदी!'

'कितेंगी', सुरू केलें सॅलीन. 'म्हज्या भाच्यान जेरीक म्हज्या कंपेनीक हाडल्ल्या तवळथावन एक विशिश्ट संबंद उब्जालो म्हळ्ळें सत...'

'कसलो विशीश्ट संबंद तो?' जिल्ली बोबाटलीच.

'तुवें चिंतचें तसलो न्हय, टिचेर!' सॅलीची जाप जावन आसल्ली भाल्यापरीं. 'तितलें मुळावें नागरीकपण जेरीथंय आसल्ल्यान हांव हांगासर आयल्ल्यां. हेर कांय तुका विचारूंक आसा, संबंदाविशीं?'

मां, तूं मदें उलयनाका.' इवोनान खड्प सांगलें. 'कसलेंयी महत्त्वाचें नासतां सॅली मॅडम हांगासर येना आनी खंडीत जावन हो तिचो ड्रामा न्हय.'

थोड्यां खिणांचें मौन.

'आनी ह्या अनामीक संबंदांक लागोन जेरीच्या जिणेंतल्या खास घडितांनी हांव परोक्ष रितीर मेतेर जाल्ल्यां.'

'देखीक?' विचारलें जिल्लीन.

'टेरेन्स पिरेरीचें प्रकरण!' सॅली कुरियन आपले खोले चत्रायेन खेळताली. 'चीट फंड ऑफिसांत घडल्लें तुमी जाणात? मोली पिरेर म्हजी क्लासमेट म्हण जाणांत आनी त्या रातीं तुज्या गेटी लागीं येवन तुका येटल्या उप्रांत (काडप) ती म्हज्या ऑफिसाक आइल्ली म्हण तुमी जाणांत?

'आमकां जेरीन कांय सांगोंक ना.' म्हळें इवोनान.

'तों सांगासोना. पूण सांगानाका म्हण हांवें कांय ताका हुकूम दिवंक ना.'

'सोड तें प्रकरण!' म्हणाली जिल्ली. 'टेरी मेला आनी ताका फावो तेंच मेळ्ळें. हेर कितें सांगोंक सोदताय तूं... तुमच्या विशीश्ट संबंदांविशीं?'

'नोरा लुवीस!'

'नॉनसेन्स, सॅली मॅडम!'

ग्रादीवयलो उठलो जेरी. तुका येक पावटीं हांवें सांगल्लें नोराची पांती ओडल्ल्याक वुडलँडसाक व्हरून म्हाका माम्मान लेक्चर दिल्लो म्हण...'

'घरांतलें दूद तूं अशें माडामुळाक ओततायरे, अन्नाड्या! आकलासली जिल्ली.

पूण हें माडाचें मूळ घट सांबाळूंक जाणा, टिचेर!' म्हळें सॅलीन.

'आनी दुसरे पावटीं सॅलिनच तुका फोन केल्लें, म्हाका कॉण्टॅकट करूंक. इतल्याकच तूं एक प्रकरण म्हणताय?'

'त्या सांजेर पाताळा ग्रावंडार तुमचे मदें चलल्लें संभाशण हांव जाणां जेरी.'

'इंपॉसिबल!'

ती मुखार बागवाली आनी मेजार आसल्लें रेजिस्टर्ड कवर तिणें आपडलें.

'हां, तशें सांग!' म्हणालो जेरी. 'त्या ते पिशे चलयेन सगळें पास्तोराल बखन घाडलां तुका?' तो पाटीं वचोन ग्रादीचेर बसलो. म्हज्या माम्मान ताका सांगल्लेंयी बरयलां आसतेलें की हांव ताच्या मोगार आसां म्हण?'

'तोंड धांप, जेरी!' बोबाटली जिल्ली.

'आनी तुज्या माम्मान नोरालागीं अशें म्हळ्याक तुवें पियेवंक सुरू केलेंय? धैरादीक तूं? राजिनामो पत्र बोलसांत घेवन भोवंचो तूं धैरादीक?

'आतां तुज्या सामकारच आसा तें पत्र, सॅली मॅडम,' जेरी म्हणालो कांपेऱ्या ताळ्यान 'तें तूं मानून घे आनी म्हाका सुटका दी. म्हजो ट्रांझीस्टर विकून तरी तुका देवें आसल्लें फारीक करतां हांव.' ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. 'हर वाटांनी हांव पिड्ड्यार मनीस म्हण मानून घेंवक म्हाका हेर रूजवाती नाकात. म्हाका सुटका दी, मॅडम सॅली.'

'उप्रांत कितें करताय तुजी जिणी घेवन?'

संवसारांत कुरियन चीटफंडच दीस पडतो ग्रास दिवंचो संस्थो न्हय!' 'हें तुजेथावन भायर येवंक इतलो वेळ लागलो?' स्थालीच्या मुक मळार जैत उदेलें. तिणे जेरीचें राजिनामो पत्र घेतलें आनी आपल्या बॅगांत चेपलें. 'हावें तुजो राजिनामो मानून घेतला. ती म्हणाली. 'फाल्या थावन तुवें कामाक येवंचें नाका. तुजो जागो हांव शिंटो पावलुसाक दितां. तुजें हिसाब – किताब जातेच हांव तुका फोन करतेलीं आनी हां ही विस्कीची बोत्ल उसवन तुवें तुजी सल्वण, निराशा आनी जाता तर तुजी जीणच खिरवयेत.'

'आतां थंडाय मेळ्ळी तुज्या काळजाक?' मुखार येवन विचारलें जिल्लीन.

'कितले नागयल्यात म्हज्या पुतान? एक हजार, दोन या तीन?'

ती वचुंदी जिल्ले, म्हणालो मिक्की. 'हांवें आयकालें चड जालें.'

पूण तुवें वेच्या पयलें, सॅली मॅडम, 'म्हणालो जेरी. 'नोरा लुविसा विशींतले तुवें सगळें सांगलें नाय? आमच्या घरांत अशें रिगोन तुवें ड्रामा केलोय आसतां आनी आमच्या खासगी विशयांनी नाक लोटलेंय आसतां, तुका कायदो बांदता आमच्या घरांत कामाक आसल्ल्या नोरा लुविसान तुका आमचे विशीं कितें सांगलां तें आमकां कळवंक. होच तुजो निमाणो अवकास'.

'म्हजो न्हय तुजो!' म्हणाली सॅली. 'हांवें तुजेलागीं फटी मारल्यो. तुमी पाताळा ग्रावंडार बसोन उलयिल्ल्या सांजेर नोराचें फोन येवंक नातल्लें, पूण तें खूद आइल्लें!'

हें आयकोन त्या सोप्यार दाट मौन देंवले.

'आनी तुमी ते सांजेर भेटाशें हांवेच विलेवारी केल्ली. तूं ऑफिसाक पाटीं आइल्लो. पयस थावन पळइल्ल्या नोरान उप्रांत फोन केलें शिवाय..'

'तर ताणे येवन सगळी संगत... म्हणजे म्हजी लवस्टोरी तुका सांगलीं', तो हांसलो. 'तुवें माम्माक आपयजे आसल्लें सॅली मॅडम, म्हाका न्हय. पूण कित्याक? नोरानय म्हाका कित्या अशें फटयलें?'

'ना, ताणे तुका फटवंक ना', सॅलीन म्हळें. 'एक अपवंत चली ती. तुवें तिचेर अभिमान पावाजे. आमच्या समाजींत असल्यांक मेळजे आसल्लें शिकप

भलत्यांकच मेळता तरी नोरा लुविसा तसलीं तांचेस्तकीं समाजीक कितें बरेपण करूंक सकतात म्हळ्ळें कोणाकय कळीत ना. नोरा लुवीस एक धैरादीक चली!'

'तसलें कसलें बरेपण करूंक सकात एक बोडकूर?'

विचारलें जिल्लीन.

'आपलें घर उद्धार करूंक आरब्यांच्या चाकरेक गेलें.' कांय कितें गोलमाल करून भावाक विजा हाडली. तूं कित्याक ताका आल्तारीक चडयताय? तुवें वचयेत आनी तुजें दफ्तर आनी बोत्लय व्हरयेंत.'

नोरा लुविसान म्हाका ह्या रेजिस्टर्ड पत्रांत सबार संगती कळयल्यात...'

'पूण कित्याक?' विचारलें जेरीन. 'तुका कितलें ओळकाता तें?'

'म्हाका न्हय, तुका तें ओळकाता!' जाप दिली सॅलीन. 'आनी तूं, जेरी म्हाका ओळकाताय.'

'ओ. के.' तो म्हणालो पूण ताचेथंय कांय ओ. के. नातल्लें. फाल्यांथावन आपणाक काम ना म्हणताना, तेंयी आपलें काम शिंटोक गेलें म्हणताना ताका दोळ्यांक काळोख आइल्लेपरीं भोगलें. 'कसल्यो सबार संगती तुका कळयल्यात त्या नाडगी चेडवान?' आपले आवयचो ताळो जेरीक पयशिल्यान आयकालो.

'सबार संगती', म्हणाली सॅली. 'पूण तुमकां गरजेच्यो मात्र हांव सांगतां.... नोराचो भाव डोल्फी कुवेत कोन्सुलेटान मुंबयंत चलइल्ल्या कड्डायेच्या मेडिकल टेस्टांत फेल जाला.'

'देखून?'

'राव, मां, राव!' इवोनाचो ताळो एकदम चत्रायेचो जाल्लो.

'नोराचो भाव नापास जालो म्हणताना विजा रद्द जाली, सॅली मॅडम?'

'व्हय!' म्हळें सॅलीन. 'आनी ती विजा दिल्या पोदोर्नी लागीं म्हणजे स्पोन्सरालागीं आनएक विजा मागचो अवकास नोराक लाबला. तें रायाळ कुटमाच्या घराण्यांत सिर्वीस करता न्हय?'

'तूं कितें सांगोंक सोदताय, सॅली मॅडम?' हें सवाल विचारताना जेरीचें काळीज असले रितीर ताच्या हर्द्या घुडाक खोटायतालें कीं तो आवाज ताच्यान सोसूंक जालो ना.

‘ह्या लांब पत्रा सांगाता नोरान तुका कुवेतची वर्कींग विजा धाडल्या आनी तुवें घेजे आसचें क्रम विवरिलां. तूं विचारशी, ही विजा आनी पत्र ताणे म्हज्या विळासाक कित्याक धाडलेंगी म्हण? पूण विचारिनाका, कित्याक जाप तूं जाणाय. पूण तूं विचारशी तर इतलें सर्व जाल्या उप्रांत नोरा लुविसान कित्याक तुका विजा धाडली म्हण, म्हजे लागीं जाप ना. ती जाप नोरानच तुका दीजे.

सोप्यार आसल्ल्यांचे मतींत त्या वगता कितें घुंवतालें म्हळ्ळें तांकांच शिवाय हेरांक कळीत जालें ना.

‘आतां ही विजा घेवन तुवें दोन कामां करयेत’ मुकारिलें सॅली कुरियनान. ‘ती विजा दोन अर्दां करून एक अर्द तुज्या माम्मीच्या मुस्काराक मारयेत. दुसरें, ही विस्की पियेवन तुज्या जिणेचो अवस्वर आजूच क्लोज करयेत आनी तवळ ह्या विजाचें दुसरें अर्द हांव तुज्या फोंडाचेर एका बावट्या रूपार उबारतेलीं!’

■■■

## 20

जिल्ली पायस टिचेरीन आपल्या बाप्तीज्माच्यो आंगवण्यो नवीकृत केल्ल्यो. नव्यान आपणे बाप्तीज्म घेतल्ले परींआतांच्या आतां आपूण जॉर्दान न्हंयत बुडोन वयर आइल्लेपरीं तिका भोगतालें. नोरा लुविसान धाडलेल्या विजाच्या रुपार धवो पारवो वालेन्सियांतल्या पायस कुटमाचेर देंवोन जाल्लो.

'कितें फायदो न्हयगी, फादर आमी हेरांचो मोत्सोर करून तांचेर पिन्त ओंकून?' तिणे वालेन्सियाच्या विगारालागीं विचारलें. 'देव आपलीं आशिर्वादां खंचे घडये आनी कसल्यारितींनी आमचेर वोतता म्हण आमच्यान अंदाज करूंक साध्य आसा?'

सकाळींच्या सात वोरांचे मीस जाल्या उप्रांत आनीकी झेमेवंचे दोळे घेवन आसल्ल्या जेरीक घेवन ती विगाराक मेळोंक गेल्ली. 'येदोळ पर्यांत तेसांवाच्या डब्यांत पडचें म्हजें तेसांव पास जावन अर्गांच्या डब्यांत पडचें म्हळ्यार केदें व्हड अज्याप! तुमच्या फिर्गजेंतलें आनएक कुटम नंदन जाता म्हण तुमकां संतोस भोगाजे. खंडीत फादर, आमचो जेरी, वालेन्सिया फिर्गजीक विसरोंचो ना. जायत्या हेरांनी जायतें दिलां आसयेत पूण हांव तुमकां भास दितां...'

'नाका जिल्ली टिचेर', म्हणालो विगार शांत ताळ्यान. 'जेरी आनीकी कुवेत पावोंक ना. थंयसर पावोन ताका आपली जीण सुरू करूंक आसा, एन. आर. ई. एकावंट उगतें करूंक आसा...' तो आपल्या खाडाभितरच हांसलो, पूण सातव्या कोरार आसल्ल्या जिल्ली टिचेरीचे मतीक हें गेलें ना 'तें आसू फादर', तिणे मुकारिलें. 'विजा कबूल करूंक नरगातालो हो म्हजो पूत. पूण एक कुशीन म्हजी, आन एका कुशीन मिक्कीची आनी मेडिकल करूंक आशेवंच्या इवोनाची दिश्ट म्हणताना ताच्यान चुकोवन घेवंक जालेंच ना... कितें म्हळ्यारी

हें ताच्यायी फुडाराचें सवाल.'

'कोणे धाडली म्हळेय विजा?'

जिल्लीन सांगोंकच नातल्लें आनी हो पाद्री घूट काडूंक पळेतालो तर?

'हां, तें सांगोंक म्हाका परवणगी ना', ती म्हणाली भारीच चालाकीन. 'उजव्या हातान केल्लें दाव्या हाताक कळोंक नजो म्हळ्ळें सोम्यान आनी तें पातयेवंचीं ह्या संवसारांत आनीकी आसात म्हणताना अतूखुरीस येवंक आनीकी सबार काळ आसा म्हण आमी पातयेवयेत.'

'तुका आतां मस्त काम आसतेलें, टिचेर', एक इशारो दिवन म्हणालो विगार, आपलें खाड खरपीत. 'देव राकोंदी आनी सांबाळूंदी जेरीक. अशें तशें म्हणताना तो आमच्या फिर्गजीच्या कसल्यायी चटुवटिकांनी आसल्लो हांव नेणा...' ताणे एक फार मारलोच.

'तशें म्हण तो खंच्यायी, तंट्यांनीयी नातल्लो न्हयगी फादर?' तिणे सोडून दिलें ना. 'अशें तशें म्हण, म्हजो जेरी भारीच लजिस्ट सभावाचो. बेश्टेंट... तुमी जाणांत कोणें म्हण...' तिणे लांबायलें.

'देवाच्या समाधानान वचा', म्हणालो पाद्री. 'आनी केन्नायी तुमच्या दुस्मानांक भोगशिया...'

'खंडीत जावन फादर! ती म्हणाली उटोन उबी रावन.' 'ऊठ रे पुता, विगारालागीं बेसावं माग' जेरीन तशेंच केलें.

'कित्याक जेरी तितलो खूश दिसाना?' दोळे अशीर करून विचारलें विगारान आनी जिल्लीन जांव जेरीन जांव ताच्या सवालाक जाप दिली ना.

न्हय, तिच्या सामकार मस्त काम आसल्लें. पयलें काम, सगळे फिर्गजींत जेरीक विजा आइल्ली खबर विस्तारावंची, हें काम तिणे येदोळच सुरू केल्लें.

पूण कालचे सांजेर त्या स्याली कुरियनान एक विंचवण जेरी सामकार दवरताना जिल्लीक जाल्लो आकांत कांय सांगचो न्हय. एका वेळा जेरी सगळोच उचांबळ जावन विजा पिंजून उडयत तर? फकत तीन म्हयन्याची जिणी त्या विजाची. त्या भितर मुंबय वचून मेडिकल जावन कुवेत कोंन्सुलेटांत पासपोर्टाचेर म्होर मारिना तर ती विजा नुल्ल खंय, अशें विवरिल्लें सॅलीन विंचवण जेरी सामकार दवरल्या उप्रांत. नोरान सगळो विवर दिल्लो खंय आपल्या पत्रांत.

जेरी नाका म्हणात तर कितें करूंक जाता? ताका धाडावन पिकवंक जाता? बरें जालें सॅलीन ताका फाल्यांथावन कामना म्हळ्ळें. हूं, जावयेत ते सॅली. कित्याक लग्न जायनासतां रावलें गाय? पूण हें सवाल गरजेचें न्हय म्हण जिल्ली जाणासली. पूण गरजेचें सवाल खिणाक एक पावटीं तिच्या शिंतिदांत उदेतालें. पूण ती, तें सवाल दांबून धरताली.

'नोरा लुविसान खंच्या कारणाक लागोन जेरीक विजा धाडली? फकत आपल्या भावाचें मेडिकल फेल जालें म्हळ्ळ्याक? या निजायकी तें जेरीच्या मोगार पडलां? ह्या गद्याक कांय समजाता तर? आतां पळे कसो बसवापरीं हांवें सांगल्लेकडेन येता!'

विगारालागीं उलवन जातेच आवय आनी पूत मनोहर विलासाक वचोन नास्टो करिलागलीं आनी तांणी इवोनाक आनी मिक्कीक म्हण 'पार्सेल' बांदून घेतलें. नास्ट्यावेळार जिल्लीन लांबायेन पुताक बूद सांगली, मदें मदें माफय मागलें आनी आपणे व्हडलें एक फोकाण केल्लें परीं म्हणाली 'तुवें पुता काल विजाक सय घाल्या उप्रांत सॅली कुरियनान हाडल्ली सगळी बोत्ल खाली केल्ली तरी हांव कांय म्हणतीं ना.'

घरा पावल्या उप्रांत जेरी म्हणालो. 'हांव कंपेनीक वेतां. सॅली मॅडमान म्हाका आजथावन काम ना म्हळां तरी म्हजी जवाब्दारी आकेर जायना आनी एक दोन हप्ते काम करून लेक पक्का करून हांव मुंबय वेतां. तूं आजच पप्पाचे भयणीक फेल्सी आंटीक कागद घाल. तांची म्हाका गरज पडतेली मुंबयंत.'

'हं! सॅलीचो सांगत सोडूंक नाका हाका!' मनातच उद्गारली जिल्ली.

'बरें पुता, बरें' ती म्हणाली 'नोराक तूं कागद बरयताय या हांवेंच...'

'मां', म्हणालो जेरी. 'तूंच बरय. हांव आजपर्यांत एके चलयेक पत्र बरवन नेणा आनी ताचे लागीं विचार, ताका गांवाथावन कांय पुणी जायगी म्हण. हांगासर आसल्लीं, सर्वां परगांवांत आसल्ल्या तांच्या मोगाच्यांक व्हडलीं व्हडलीं पार्सेलां धाडतात...' 'हूं! आतां ह्या चेड्याक नोरा मोगाचें जालें न्हय?' मनांतच म्हणाली जिल्ली. 'म्हाका कितें खंय? आमची भाकरी निसरोन तुपांत पडली न्हय?'

'हांवच बरयतां पुता.' तिणे जाप दिली. 'आनी नोराच्या घरायी वेतां. आमी आमचें किस्तांवपण आतां दाखयजे. तूं पातये या ना पातये, हांव जॉनीकय कागत

बरयतेलीं आनी म्हजे मांयची निमाणी आशा ज्यारी करतेलीं. पुरो ही दुस्मानकाय. तुज्या पप्पान विल्माक दोन पावटीं आमच्या घराथावन गेट आवट केलां आनी त्या खातीरय हांव माफ मागतेलीं. तांच्या सामकार हांव ल्हान जाल्यारी व्हडना, म्हज्या लेन्तुवायेचो फळ देव तुका दिवंदी पुता. सात दर्यां पलतडी तुका कोणाची गरज पडात म्हण सांगोंक कोणाच्यान साध्य आसा?'

आतां तां जिल्ली, 'पुता' म्हळ्ळ्याशिवाय उतर भूंय दवरी नातल्ली.

'तुका कितें करूंक आसा तें कर माम्मा', म्हणालो जेरी. 'म्हजेर सॅली कुरियनाचो उपकार कितलो आसा म्हळ्ळें लेक म्हजे लागीं ना. She is a great lady'

तुवें तुजे आवयक ग्रेट म्हणचे दीस येनात तरी व्हड ना', जिल्ली म्हणाली. 'पूण तुका म्हजो ग्रेट पूत म्हणचो अवकास देवान म्हाका दिल्यार पुरो.'

'तूं जर तर मोली पिरेरीगेर वेताय तर', तिणे चिंतिनातल्लें उच्चारलें जेरीन. 'हांवय येता, मां. म्हज्या लागशिल्ल्या इश्टाचें घर तें. टेरीचें मरण आमी विसरोंचे परीं ना.'

तुका खुशी आसा तर, ती म्हणाली कश्टांनी. 'मोलीगेरय आमी या. सांगल्लेपरीं सबार म्हयन्यां थावन मोली दिसना...'

'ती कुवेत वचोन येता तुवें कंकनाडी मार्केटिक वचोन येवंचे परीं!' तो म्हणालो.

जिल्ली हासली. 'म्हाकायी तसले दीस पयस आसचेपरीं दिसनांत.' ती म्हणाली, जेरीचें मातें पोशेवन.

जेरी, कुरियन चीट फंडाक गेल्या उप्रांत जिल्ली टिचेरीन आपल्या भावाक जॉनीक एक लांब पत्र बरयलें आनी आमी सर्वांनी एक नवीन जिणी सुरू करीजे म्हळ्ळो आदेश दिलो, भोव नम्रतेन. 'जेरीक खंडीत जावन तुमची गरज पडतेली आनी तुमचो विळास (पोस्ट बॉक्स न्हय) आनी फोन नंब्रां म्हाका धाडात आनी तीं आपल्या बोलसांतच दवरूंक हांव ताका सांगतां. देवान म्हजें मागणें आयकालें, ना तर कोण परकी जेरीक विजा धाडता? आनी हां, विल्माक हांगा थावन कांय जायतर दक्षिण नासतां बरवंदी.' आनी हेर थोड्यो सुक्यो गजाली बरवन आपूण आनी जॉनी हप्त्याक एक पत्र बरवनच आसावं म्हळ्ळें परीं चार

पांच पानां लिखून काडलीं.

दुसऱ्यान, ती एकलीच येस्तुबायेगेर गेली.

नोरान, जेरीक विजा धाडल्या म्हण तिका खबरच नातल्ली. पूण तिणे कांय उल्टें म्हळें ना 'बरेंच जालें', ती म्हणाली. 'म्हज्या नोराक तुमगेर मोग मेळ्ळो न्हय? तें तसल्याच मोगाळ काळजाचें. म्हजो पूत डॉल्फी हांगासर पोलिंपरीं भोंवोन आसा, ताका एक विजापुणी धाड पुता म्हण म्हळ्ळ्याक ताणे धाडली. पूण ह्या दळदिऱ्यान मेडिकलांत फेल जायजेगी? हर एकल्याक नशीब आसाना, टिचेर. कसो आसा मिक्की बाब? ना, ना, नोराक कांय व्हरचें नाका. राणयेपरीं आसा खंय तें. तांकल्यार जेरीबाबू वेच्च्या पयलें एक पावटीं तुमगेर येतां हांव. तुमकां जेवण करयां म्हळ्यार तांक आसल्यारय पेंकडांत बळ ना न्हय म्हज्या?' तिचीं सिंतिमेंतां लांबलीं. पूण आतां जिल्ली टिचेरीक सर्वांचे आयकोंचें सैरान आइल्लें.

पूण मोली पिरेरीगेर वेताना मात्र तिका जाल्ले बांदपास विशेस. खुनिगारांचो पूतय गल्फाक पावता म्हळें मोलीक सांगोंक आनी तिचें नाक धुळींत गडूंक मात्र ती जेरीक घेवन तांगेर पावली.

बंगल्यांत डिना मात्र आसल्लें आनी हांका पळेवन ताच्या मुकमळार उदेल्लें भोगप जिल्लीक भारीच मजेचें दिसलें. 'आमी भितर येवंयेत गी, मिस डिना पिरेरा?' तिणे विचारलें. तिचें सवाल आयकोन जेरीन तिका धोंकुळ्ळें.

'डिना', म्हणालो जेरी. म्हाका कुवेतची विजा आयल्या. म्हाका टेरीचो उडास खंय गेल्यारय विसरोंचो ना. तो जिवंत आसताना हांव तुमच्या बंगल्याक येवंक नातल्लों... पूण विदेशाक वेचे पयलेंपुणी.'

'आमचो जेरी बऱ्या कामार वेता!'

'म्हाका फकत वर्कींग विजा मेळ्ळ्या डिना', म्हणालो जेरी. 'काम कुवेत पावल्या उप्रांतच जायजे. माम्मी ना.?'

तुमी भितर येया', तें म्हणालें. 'गुड इवनींग आण्टी!'

'हेत्त, मालुंडाचे धुवे, मनातच म्हणाली कातोलीक जिल्ली टिचेर. म्हजो पूत खंय कुवेत भायर सरलो, तुका हांव आण्टी जालें?

'माम्मी कुवेत गेल्या.' तें म्हणालें तीं भितर सरतच 'म्हजो भाव बॅरनय

आतां कुवेत आयला आनी ताका ब्रोन ट्रान्सवर्ल्ड कॉर्पोरेशनांत काम जालां. तो कुवेतच्या साल्मियांत रावता आनी...' ताचो ताळो गदगदीत जालो. ताच्या दोळ्यांनी दुकां देखलीं जेरीन.

`What is wrong, Dina? ताणे विचारलें.

'कांय ना', तें म्हणालें. 'हांव कितलीं एकसुरीं आसां ह्या संवसारांत!'

'तूं म्हाका बॅरनाचो आनी डेडीचो विळास दी.' म्हणालो जेरी. 'फोन नंब्रांयी दी.' तांकां हांव खंडीत भेटतां आनी मंगळूर सोडच्या पयलें परत्यान तुका एक भेट दितां. तूं खंडीत जावन एकसुरें नाय, डिना.' तो उठलो आनी आपलो हात ताणे डिनाच्या खांदार दवरलो.

डिनान तो धरलो आनी चिरडिलो. `I have not been nice to you and yuonne, Gerry!' तें म्हणालें जिल्लीक आयकानाशें. 'आमकां प्रॉब्लेम आसात, जेरी!' जेरीलागीं उतरां नातल्लीं. खूद एके अनिश्चितायेचे कुशीन भायर सरल्लो तो कसलीं उतरां विंचून डिनाक भुजयत?

'पर्वा ना रे', आपणा इतल्याक म्हणाली जिल्ली. 'मोलीच्या माणकाकच दावली मारच्यार आसाय तूं?'

'तुमकां कितें पियेवंक हाडूं?' एका सुस्कारान डिनान विचारलें.

मोली पिरेरीच्या सोबीत डिवानखान्यांत व्हड जैत तस्वीर आसल्ली, टेरीची. तस्वीरे सामकार उबो जाल्ल्या जेरीच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

'आमकां कांय नाका.' तो म्हणालो. 'टेरीची एक ल्हान फोटो आसात तर म्हाका दिया.'

'डिनान ताका टेरीची फोटो दिली.

*****

फकत सतरा दिसांनी कुवेतथावन जॉनीचें पत्र आइल्लें पळेवन जिल्ली टिचेर थटाक आनी आनी तें फोडून उगतें करताना... बरप, विल्माचें. पळेतेच जिल्लीच्या काळजांत धडक जालें. कसल्यो गाळी शिराप लिकल्यात कोण्णा. म्हाका कित्याक जाय आसल्लें जॉनीक पत्र बरवंक?

पूण वाचताना विल्माची नम्रताय पळेवन जिल्ली शेर्मेली. 'व्हय कित्याक ही कुटमां मदली दुस्मानकाय?' ताणे लिकल्ले. 'आमी जेरीक कुवेताक स्वागत

करतावं आनी ताची जतन घेतांव. जॉनीन करीजे आसल्लें कोणें तरी केलें न्हय? हां, आमकां, गांवाथावन कांय नाका. हांगासर आतां कसकसो मेळना. तुमकां त्रास ना तर, एक किलो कसकसो धाडा. मिक्की भावोजी लागीं हांवें आनी जॉनीन बेसांवं मागलां आनी इवोनाक आनी तुमकां सर्वांक आमचो मोग...'

'जिल्लीच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. आनी ताणें तें पत्र मिक्कीक वाचूंक दिलें.

'तुका हांव कितलेशा पावटीं समजावंचें प्रेतन करून सल्वालां, जिल्ले.' मिक्की म्हणालो. 'हो संवसार आमी चिंतल्या तितलो वायट न्हय म्हण तुवें पातयेजे.'

'पूण हें कितें? विल्माक एक किलो कसकसो कित्याक गाय?' जिल्लीन भुजां उडयलीं.

जेरी मुंबय गेलो आनी सुमार पंदरा दिसांनी कुवेतांत प्रवेश घेवंक कुवेत सरकारान थिरायिल्ले सर्व कायद्याशिरे (Formalities) यशस्वी थरान करून पाटीं आयलो. तितल्यार ताची टिकेटय आयिल्ली आनी तो मुंबयथावन कुवेत उबच्या एअर इंडिया विमानाचेर बसका आनी उबणेची तारीक पक्का करूनच आयलो. आण्टी फेल्सीन ताका बरी कुमोक केल्ली.

आतां ताच्या घरच्यांक ताणे घर सोडची तारीक आनी मुंबयथावन कुवेताक उबची तारीक निघंट कळीत जाल्ली.

दीस पाशार जातां जातां घरच्यांचे उपदेश चड जाईत आयल्ले, इतले चड जावन आयले कीं 'तुवें वेचेंच नाका' म्हण जेरीक सांगयां म्हण जिल्लीक भोगलें. मिक्कीचें आनी इवोनाचें उलोणेंच बंद जाल्लें.

पूण तसलें कसलेंयी तिणे केलें ना...

आनी 1990 इस्वेच्या जुलाय म्हयन्याचे 31 तारकेर रातीच्या नोव वोरांचेर जेराल्ड पायसाक आनी हेर पयणारांक घेवन एअर इंडियाचें एअर बस मुंबय सहारा एअरपोर्टाथावन उबलें.

तवळ कुवेतांत सांजेचीं साडे स वोरां. उबाळ.

पय्ण सुगम जालें तर कुवेतच्या वेळा परमाणे जेरीन नोव वोरांचेर कुवेतचे धरणीक पांय दवरीजे.

आनी उबणेचीं सर्व खुणां पयण सुगम जातेलें म्हण एअर बस कमांडरान खचितायेन सांगल्लें...

आनी चड उणे ह्याच वेळार, कुवेत - इराक गडीचेर सद्दाम हुसेन अल - तिक्रीत अबू आलीचें 80,000 सोजेरांचें सज्ज सैन फकत एके हुमकेक राकतालें.

ती हुकूम सद्दाम हुसेना थावन येवंक आनीकी 33 लांब घंटे बाकी आसल्ले.

तवळ उदेतेली ती तारीक 2 आगोस्त 1990 वेळ फांत्याचेर 3.30.

■■■

# 21

इज्रायेल एअर फोर्स पायलट इलान रामोन ते रातीं न्हिदोंकच ना. ताच्या लस्करी विमान पंगडाक (Airforce squadron) इज्रायेल एअरफोर्स कमांडर डेवीड आयवरीथावन शीदा हुकूम आइल्ली कीं ताणे आनी हेरांनी सकाळींच्या ज्युस्त स घंट्यार सिनाय पर्वताचे उदेंतीक आसच्या येटिझोन एअरबोज हांगासर हाजर आसचें.

एक नीळ स्वासासंगीं इलान रामोन आपल्या खटल्या वयलो उठलो आनी ताणे आपल्या वॉच्याचेर दिश्ट घाली. फांत्याचीं 4.23 ताचे दोळे मिरमिरताले. एक वोळ काडीत तो जनेला सर्शीं गेलो आनी ताणे भायर पळेलें. पयशिल्या दिगंतार थोडी तांबसाण ताका दिसली आनी ते तांबसाणेंत काळेकाळे तिबे उबल्लेपरीं सुकणीं उबोन हेवशीन येतालीं. दिसा उजवाडाक उबोंक तयार जाल्ल्या फायटर विमानांपरी.

ऐलात शहराक आनीकी जाग जावंक नातल्ली. इलान जल्मोन व्हड जाल्लें शहर तें आनी ताका ह्या शहराचेर जब्बोर मोग आसल्लो, जशें ताका आनी संवसारांतल्या सर्व जुदेवांक इज्रायेलाचेर मोग आसल्लो.

दाविदाच्या नेकेत्राचे भद्रतेंत 14 मे 1948 त अस्तित्वाक आइल्लें हें ल्हान राष्ट्र आज सगळ्या संवसारांतलें भोव चड प्रबल राष्ट्र जावन उजळतालें.

इज्रायेलाची राजकीय परिगत आनी अंतर्राष्ट्रीय मट्टार[75] ताका आसचीं दुस्मान राष्ट्रां मेजल्यार जुदेवांचीं अरण्यांतलीं चाळीस वर्सां आकेर जावंक नातल्ले परीं दिसतालें. एक या दोन राष्ट्रांनी सोडल्यार (एजीप्त आनी सिरिया) मध्य प्राच्यांतल्या हेरांनी उज्रायेलाक एक स्वतंत्र राष्ट्र म्हण मानून घेवंक नातल्लें.

इलान रामोनान आपले दोळे घश्टिले आनी परत्यान आपल्या वॉच्याचेर दिश्ट घाली. धा मिनुटां पाशार जाल्लीं. आनी ताचें तें वॉच दाखयतालें तारीक

7 जून 1981.

आयच्या ह्या दिसा इज्रायेलाच्या आनी सगळ्या संवसाराच्या, चड करून मध्य प्राच्य देशांचे चरित्रेंत येदोळ घडोंक नातल्लें घडतेलें म्हळ्ळें तो जाणासलो, पूण ताका विवर कळीत नातल्लें. इज्रायेल एअर फोर्साची मोडच तसली. मिसांव कसलें म्हण कसरत चलताली तरी टार्गेच खंची आनी कसली म्हण पायलटांक निमाण्या थोड्या घंट्यांपर्यांत कळीत आसनातल्लें आनी मिसावांचे तपशिले खातीर एक पावटीं भितर रिगल्या उप्रांत पायलटांनी भायर येवंचें मिसांव आकेर जाल्या उप्रांत मात्र. एकच जिवंत पाटीं येवंक या नास जावंक. एक पावटीं तो एअर बेजाक पावलो, संवसाराचीं सर्व दारां आनी जनेलां मिसांव आकेर जावंचे पर्यांत आनी 'ब्रीफिंग' जावंचे पर्यांत ताका बंद जातालीं.

ताका एकाच्छाणे आपल्या एफ. 16 फायटर विमानाचें पिंतूर मतींत उदेलें आनी ताचें आंग मिरमिरलें. मनशान रचल्ल्या एका यंत्राक असली सकत आसची ताका पातयेवंक जायनातल्लें. विवीध मिसांवांचेर तो शेंबोरांनी लश्करी पासायांचेर (Sorties) मिसांवां (missions) करून तो पाटीं आइल्लो. हें फायटर, घंट्याक 2124 किलोमीटर वेगान उबोंक सकचें हें विमान सुमार धा टन नाशक आयदां – अस्त्रां व्हांववंक सकतालें आनी अशें सज्न जावन तें उबोंक लागताना ताचें वजन सुमार वीस टन आसतालें आनी ताका उबणीं सुरू करूंक आठ हजार 'फूट' रनवे–चेर धावंचें पडतालें.'

वीस टनांचे वजन, वीस टनांचें मरण.

टॉयलेटाक वचोन ताणे निर्मूळाय तिर्सीली आनी तो परत आपल्या बेडरूमाक येताना दारार ठोके पडले. ताणे दार उगडलें.

ताचो बापूय. आपले हात विस्तारोन ताणे बापायक वेंगलो.

'शालोम!' तो म्हणालो.

'आज एक वर्तो दीस इज्रायेलाक' म्हणालो ताचो बापूय. तो कांय चड उलोण्याचो मनीस न्हय. हिटलराच्या मरणा कँपा थावन बचाव जावन आइल्लो जुदेव तो, ओस्वीच मरणा कँपाचें नंबर आतांयी ताच्या बावळ्याचेर आसल्लें.

'शालोम!'

ताणे यदोळच आपल्या माथ्याक 'किप्पाळ' (Kapel, kippah, yaemulke

or Akull cap) जुदेवांनी माथ्याक घालची भावार्थीक संकेताची तोपी. हाचो अर्थ कसलो म्हळ्यार मनशाक एक गड आसा आनी ती गड जावन आसा ताका देवान दिल्लो मेंदू या चिंतपाची सकत. ही तोपी ताका हे गडीचो उडास दिता आनी सांगता. देवापरीं जावंक पेळेनाका) बसयिल्ली आनी हें पळेतेच इलानाक आपणें आतां मागण्याची तयाराय करीजे म्हण सुसतालें.

ताच्या बापायन ताका आरावन धरलो आनी सांगाताच एका ल्हान सिनेगोगापरीं आसच्या कमऱ्याक पावले. थंयसर सांकेतीक रुपार पवित्र कोवळे आनी सोमय आसल्लीं, ह्या सिनेगोगाचें मुख नोयेच्या आर्का कुशीनच आसजे म्हळ्ळें नेम आसल्लें.

तो वेळ सकाळींच्या 'शाक्रीत' मागण्यांचो. ह्या वेळार जुदेव भावार्थी आपल्या हाताक आनी माथ्या भोंवारीं दोन रितीचीं तायितां बांददतात.

हीं तायितां जावन आसात चामड्याचे ल्हान करंडे जातूं मोयजेच्या पांच ग्रंथांनी आसचीं थोडी श्लोकां आसात.

हीं तायितां बावळ्याक आनी माथ्याक बांदच्यांत गुंड[75] अर्थ-भावार्थ आसा जुदेवांक. ही बांदणेची करणी भावार्थांतच न्हय तांणी त्या दिसा करूंक आसच्या हर बऱ्या कामांत तांकां बळीश्ट करतात म्हळ्ळी तांची पातयेणी.

हीं तायितां जरी-तरी 'शाक्रिता' वेळींच बांदलीं तर जुदेव भावार्थांतल्या मागण्यां विधींचो तीर्ल जावन आसचें 'शेमा' प्रार्थन म्हणजे म्हळ्ळें ना तरी इलान रामोन आनी ताच्या बापायन 'शेमा' प्रार्थन सांगाताच उच्चारलें.

''आयक हे इज्रायेला! देव आमचो धनी आनी तोच तो येकलो.''

'भागेवंत आनी आशिर्वदीत ताचें नांव आनी ताचें राज सदां आनी सदां काळाचें.''

''मोग कर तुज्या देवाचो सगळ्या तुज्या काळजान, तुज्या स्पिरितान आनी तुजे सकतेन. आज तुका हांवें दिवंची ही हुकूम तुज्या अस्तित्वाचेर आसतेली. उचार आनी उजार कर हो मंदामेंत तुज्या भुरग्यांथय, उचार आनी उजार कर हो मंदामेंत तूं उलयताना, उठताना, बसताना.''

''भरवशान उमकाळोन राव ह्या मंदामेंताक कित्याक तुजे हात आनी तुजें माथें ह्या तायितांनी बांदून आसा देखून.''

''बरय हो मंदामेंत तुज्या बिडाराच्या दाखाट्यांचेर आनी तुज्या बिडारांच्या गेटींचेर.''

तितल्यार इलानाची आवय आयली आनी तांकां नाश्ट्याक आपय लागली. 'तुज्या बापायन तुज्या मिसावांखातीर आनी आमच्या इज्रायेलाखातीर 'योम किप्पूर' सांबाळ्ळा ती म्हणाली. अभिमानान आपल्या पतीक पळेवन. इलान अजापलो आनी बापयच्या खांदार आपलें मातें दवरि लागलो.

'योम किप्पूर', जुदेवांनी वर्सावर सांबाळचो आनी पाळचो प्राचिताचो एक दीस. ह्या दिसा आदीं तांणी धरल्लो उपास तो दीस उदेवन बुडोंक आयतो (तयार , Ready) जाताना मात्र संपता.

इलान आनी ताचे आवयन सांगाताच नास्टो केलो आनी ताचो बापूय बसोन अभिमानान ताका पळेत रावलो. नास्टो जातेच इलान आपलीं पायलेटाचीं समवस्त्रां न्हेसलो आनी मर्जेन भायर येवन आपल्या व्हडिलां सामकार रावलो. 'हांव तयार आसां', तो म्हणालो. 'नेणा हांव म्हजें मिसांव कसलें तें, पूण इज्रायेलाच्या थोरायेखातीर, संवसारच्या भद्रते खातीर.'

'शालोम!' ताणी ताका मान बागायलो.

तितल्यार भायर एका वाहनाचें हॉर्न वाजलें. 'म्हजें वाहन आयलें म्हणालो इलान आनी घराभायर तो आयलो. ताचें वॉच सकाळचीं 5.23 दाखयतालें....'

आनी ते रातीं, इज्रायेलाचो प्रधानमंत्री मेनहेम बेगीन न्हिदोंक ना. ताच्या सांगाता न्हीद खळल्ले हेर थोडे प्रमुख आसल्ले. मेजर जनरल डेवीड आयवरी मेजर जनरल योशुवा सागुये (इज्रायेलाच्या मिलिटरी इंटेलिजन्साचो मुखेली) इज्रायेली चीफ ऑफ स्टाफ लेफ्टनंट जनरल राफायेल इय्टन आनी इज्रायेली अंतर्राष्ट्रीय गुडाचारी दळ मोस्साद (Mossaad) हाचे कुवेत, सावदी अरेबिया, सिरिया जॉर्डान, इराक, पालेस्तीन आनी लेबनानांत गुडाचार चलवंचे एजेण्ट.

हो सगळो पंगड तेलविवांतल्या एका गुपीत जाग्यार एक म्हहत्वाची विंचवण करचे खातीर जमल्ले, जी विंचवण करूंक मेनहेम बेगीन सुमार एक वर्सथावन पाद्देतालो.

तो जाणासलो अपल्या इज्रायेलाची सकत आनी ताकत. 1913* त पोलेंडांत

जल्मल्लो बेगीन एक अखंड आनी दुसऱ्या म्हाझुजावेळार स मिलिया जुदेवांचो संवार पळयिल्लो जुदेव. 1948 इस्वेंत इज्रायेल अस्तित्वांत येताना संवसारा वयले सात मिलिया जुदेव इज्रायेलाक पाटीं परतल्ल्या वेळारच आइल्लो बेगीन 1977 व्या वर्सा इज्रायेलाचो प्रधानमंत्री जालो. ताचें आदर्श, ताच्याकी फुडें 1969 इस्वेंत इज्रायेलाची प्रधानी जाल्ली गोल्डा मेयर.

इज्रायेलाक अस्तित्वांत हाडून संवसाराचे नकाशेचेर तिका स्थान दिवंच्या खातीर सर्व जुदेवांक उलो दिवंच्या खातीर, बोलसांत फकत धा डॉलर घेवन अमेरिकाक पावल्ल्या गोल्डा मेयराक अमेरिकाच्यांनी विचारलें खंय, 'माने स्तिणी, ह्या येद्या व्हड अमेरिकांत फकत धा डॉलर घेवन तूं कितें करूंक सकशी?'

तिणे जाप दिली, 'हांगासर, येद्या व्हड अमेरिकांत म्हजें सगळें कुटम आसा!'

एके स्त्रियेन अशें म्हळ्ळें आनी इज्रायेल अस्तित्वाक आयलें तरी तिका मानचो बेगीन आतांयी ताणे करीजे आसल्ले विंचवणेचेर न्हीद खळोन पाद्देतालो.

'सर', म्हणालो मे. ज. डेवीड आयवरी. 'सद्दाम हुसेनान चोरयां जमयिल्लें गण्ण युरेनियम ओसिराक अणुस्तावरा भितर फ्रेंच विज्ञानींनी 'बसवंच्या' पयलेंच आमी आमचें मिसांव ज्यारी करीजें. आमच्या मोसादाथावन आमकां दोन तारको मेळ्ळ्यात. ह्याच वर्साच्या जुलाय या सप्टेंबर म्हयन्यांत सद्दामाचें हें ओसिराक अणू स्थावर तयार जातेलें. एका वर्सा थावन आमी हीं विंचवण पाटीं घालीत आसांव. आमी ओसिराक अणू स्थावर नास करिना तर तो मशुघेन्ना सद्दाम मध्यप्राच्यांत कोणायकी समाधानाची न्हीद काडूंक सोडीसो ना.'

'आमी प्रेतन करूंक ना म्हण न्हय, डेवीड', म्हणालो बेगीन.

'अमेरिकालागीं एक उतरावांटो काडल्या खेरीत कांय करचें म्हाका बरें दिसाना.'

'हें आयकोन जनरल जोशुवा हासलो.

'अमेरिका लागीं उतरावांटो?' तो नांज्यांनी हासलो.

'अमेरिकान आपलें नांव शुद्द उराशें करचे खातीर कितलींशीं कामां आमचे मुखांत्र करवंक नात. तांकां तांचें सी. आय. ए. शुद्द उरजे. खंय गेल्यारय आमचेंच

नांव व्हड. आमी जुदेव आकांतवादी आनी पालेस्तिनाचे गतीक कारण आमीच. तो अराफत...'

बेगिनान एक हात उबारून जोशुआचीं उतरां कातरलीं. 'तो सद्दाम बा' आत पार्टीत बळ जावन रगतापाता मदें इराकाचो मुखेली जालो आनी तुमी जाणात ताका जाय इराकान एक सुपर पावर जावंचें. मध्यप्राच्यांत ताका मिकवल्लो[76] कोणयी ताका नाका...'

'आनी आमकां मध्यप्राच्यांत अणुस्थावरां नाकात.

अणुसकत फकत देशाच्या तांत्रिकतेखातीर, वीज उत्पन्नाखातीर म्हण इराकान संवसाराक फटयलां, म्हणालो मोसादाचो वांगडी. 'बेगीन सर, इराकांतलें ओसिराक संकिर्णांतलें थाम्मूज - । अणुस्थावर नास करचें हें काम आमी आतां हात सोडूंक जायना. तुमी जाणात आमी सुर्वात येदोळच केल्या.'

'हांव जाणां,' म्हणालो बेगीन आपल्या दाट वोकलांतल्यान ताका पळेवन. 'आमच्या मोसादान केल्लें काम हांव जाणां.

'पूण ह्या कामावरवीं ओसिराकाचें काम मात्र तडवान जालां सिवाय कैद जावंक ना.' म्हणालो राफायेल एय्टन. हें आयकोन मोसादाच्या वांगड्याक चिक्केशे दुकलें जायजे.

'आमी केल्लें तें तूं बऱ्यान नेणाय म्हण दिसता, लेफ्टनेंट जनरल', तो म्हणालो. 'तुजो उडास हांव जिवो करूं?'

'असल्या उलोण्याची गरज ना!' म्हणालो बेगीन.

'तुमी केल्लें काम आमी सर्व जाणांव.' आनी ह्या उतरां बराबर ताचो उडास पाटीं धांवलो.

1979 इस्वेंत घोर रगतापाता मदें आपणाच्यांकच नास करून उडवन बा' आत पार्टीचो सद्दाम हुसेन अबू आली इराकाचो राष्ट्रपती जाल्लो. हाच्या सरकाराच्यो मोडी सबार. ताचें आसल्लें डकच सपन. 'संवसाराक आपूण हालयतलों. मध्य प्राच्यान म्हज्या नांवाथंय थरथराशें करतलों.'

आनी अशें करूंक ताका जाय आसल्ली प्रचलीत सकत, अणू सकत, हे सक्तेन हिरोशिमा - नागासकीक नास करच्या बराबर, दुसऱ्या म्हा झुजाक पुर्णविराम दिल्लो. पूण हो विराम सद्दाम हुसेनाक लागू जायनातल्लो.

पदवेक आइल्ल्या दुसऱ्याच वर्सा ताणे शत - अल - अरब न्हयंक लागोन इराणा आनी इराकामदें खटपट उब्जवन 1980 त झूज सुरू केल्लें आनी चोर वाटांनी आनी अशीर आकाड्यांतल्यानी मेटां काडून, अणू सक्तेच्या सर्व कानुनांक - निर्बंधांक कुशीन दवरून फ्रान्स आनी इटेली तसल्या राष्ट्रांथावन अणू बॉम्ब तयार करूंक जाय आसच्यो सामग्र्यो (युरेनियम आनी प्लुटोनियम) तलास करचें काम चालू दवरलें. सुमार शंबरां वयर फ्रेंच विज्ञानी इराकांतल्या ओसिराक म्हळ्या जाग्यार वाडोन येवंच्या थाम्मूज - । अणुस्थावरांत सद्दामाचो अणुबॉम्ब तयार करच्याक लागल्ले.

ही खबर इराणाक झूज सुरू जाल्या उप्रांतच जागयलागली कोण्णा, पूण अमेरिकाच्या गुडाचारी सेटलायटाथावन ओसिराकाच्यो तस्वीऱ्यो इज्रायेलाक 1979 तच लाबल्ल्यो. (सी. आय. ए. दस्तावेजांथावन एजेंट बॉब्बी अय्नमेन हें सत म्हण सांगता).

इज्रायेलाचें मोस्साद जागें जालें आनी तांणी आनीकी बाळ हंतार आसल्ल्या ओसिराकाक खाण खंयथावन येता म्हण पयलें सोदून काडलें.

फ्रान्स आनी इटेली!

6 एप्रील 1979 त इराकाक पावीत जावंक फ्रान्सांत तयार जाल्ले अणुस्थावरांचे बोंडू फ्रांन्सातच नास करून उडयले.

13 जून 1980 त इराकाखातीर गण्ण युरेनियम (Enriched uranium) तलास करूंक फ्रान्साच्या पॅरीसाक गेल्या इजिप्ताच्या न्यूक्लियर विज्ञानी याह्या मेशादाची कूड ताच्या हॉटेलाच्या रूमांत भेसां जावन पडल्ली मेळ्ळी.

2 आगोस्त 1980 त इराकाक अणुसामग्र्यो विकच्या फ्रान्स आनी इटेलीच्या दोन कंपनेचीं दफ्तरां मोस्सादान स्फोट करून उडयल्लीं. 30 सप्टेंबर 1980 - झुजाचे दाव्रेन जागृत जाल्ल्या इराणाच्या F-4 फायटरांनी थाम्मूज - । स्थावराचेर बॉम्ब घाले, पूण तांच्या फायटरांक फावोती माहेन आनी तांत्रिकता नासतां हें मिसांव फळादीक जालें ना. तवळ आनी हें पळेवन सद्दाम हुसेनान सगळ्या संवसाराक एक चेतावणी दिली आनी हे चेतावणेचें उज्याळें बोट इज्रायेला कुशी ताणे जोकलें. महणालो तो अशें.

'इराणाच्या लोकान चिंतून भियेवंचें नाका कीं इराकाची अणू सकत तांच्या

नासाक आमी आसाकेल्या म्हण. हें सत न्हय. ही अणू सकत आमी आसा केल्या त्या जुदेवांक आनी तांच्या जुदेव वादाक (Zionism) नास करूंक!' सबार वेळा उप्रांत मेनहेम बेगिनान आपलें मातें उखल्लें आनी सर्वांचेर एक दिश्ट चरयली. व्होरां सकाळींची 5.43 आनी भायर उजवाडा दिसतालो.

दीस आयतार आनी तारीक सात, म्हयनो जून आनी वरस 1981.

ताणे एक निर्धार घेतला म्हळ्ळेंपरीं दिसतालो. तरी, जनरल योशुवा सागुयेन उलवंचें धैर घेतलें. 'सर', तो म्हणालो. 'इराक - इरान झूज चलोन आसा आनी हेवशिल्यान इज्रायेल आनी इजिप्ता मदें सल्लो - समादान जावंच्यार आसा. असले परिगतींत ओसिराक...'

'आमी आतां ओसिराकाचेर घेवंक आसचें क्रम खंच्या कोल्ली राष्ट्राक नाका जालां, जनरल?' बेगिनाचो ताळो करकस जाल्लो 'जुदेवां आनी तांच्या राजकिया खातीर तो बोम्ब तयार करता तर...' तो उबोजालो. 'आज आमी सद्दाम हुसेन अबू अलीक रडाशें करयां. ह्या मुखांत्र आमचें मिसांव बाबिलोन' फुडें सरोंक हांव कबलात दितां. लेफ्टनेण्ट जनरल राफायेल येय्टन It is a `go' for Mission Babylon!"

■■■

# 22

मेनहेम बेगिनान `It is a `go' for Mission Babylon"! अर्थात ओसिराक अणू – स्थावर नास करच्या 'मिसांव, बाबिलोना'क पाचवी निशानी दिवंक दिली, पूण हे विंचवणे पाटल्यान बेगीन लार्गी लार्गी दोन वर्सांभर न्हीद खळवन आसल्लो म्हळ्यार बिलकूल अतिशय न्हय. परिगतच तसली. संवसारार खंच्यायी कडेन उगत्यान एलान केल्लें झूज चलनातल्ल्या वेळार एकाच्छाणे इज्रायेला तसलो एक प्रदेश खंच्यायी अरब राष्ट्रान एक स्वतंत्र देश म्हण मानून घेवंक ना, उटोन वचोन इराकाचेर बॉम्ब घालून ओसिराक अणू – स्थावर नास करीत तर?

त्या शिवाय इराकांतलें अणू सक्ती योजन फकत देशाचे उदरगतीक म्हण त्या स्थावरांनी वावर करून आसच्या इतालियन आनी फ्रेंच विज्ञानींनी समर्थन केल्लें आसतां, इज्रायेलान अशं केल्यार सगळो संवसार उपराटचो ना?

पूण इज्रायेलाचो दोळो इराकाचेर 1948 इस्वेथावनच खंचोन आसल्लो. इज्रायेलाची विंचून काडलेली परजा संगठीत जावन चरित्रीक रितीर इज्रायेल देश आसा जाल्ल्या दिसा थावनच मध्य प्राच्याचे नकाशेचेर कठीण दुखीचें आनी फुटोंक आयकानातल्लें मुंबर जाल्ली. भोवशा, इज्रायेलींचीं अरण्यांतलीं वर्सां आनीकी आकेर जावंक नातल्लीं जायजे.

1979 त सद्दाम हुसेन अल – तिक्रिती अबू आली इराकाचो सर्वाधिकारी जालो आनी तवळ थावन इज्रायेलाचे दोळे आनीकी तेज जाले. इराकाच्या सर्व अणू योजनांचो सुत्रधार विज्ञानी हुसेन शारिस्तानीक, इराकाचो सर्वाधिकारी सद्दाम हुसेन ओसिराकांतल्या थाम्मूज – । त अण्वस्त्रां तयार करच्यार आसा म्हण कळीत जाताना, अणू – शास्त्राच्या नेम – नियमांक मानच्या ताणे तोंड सोडून 'अणू

– बॉम्ब, अणू बॉम्ब' म्हण घांट मारली.

पूण जालो परिणाम, सगळ्या संवसाराक न्हय तरी इज्रायेलींच्या गुडाचारींनी बेगिनाक कळयिल्लो. शारिस्तानींक बंदडेंत घालन कठीण शिक्षेन ताचें तोंड बंद करीशें केल्या उप्रांत, तो ताचें तोंड कायाम बंद दवरतलो म्हळ्ळी हमीदारी मेळचेखातीर ताच्या सगळ्या कुटमाक सद्दामान बंदेंत दवरलें.

1980 वें वरस सुरू जाताना शात – अल – अरब उदका वाटेखातीर सद्दामान आनी इराणान केल्ल्या अल्जिरिया कराराक कूस मारून सद्दाम इराणाचेर झुजाक देंवलो आनी त्याच वर्साच्या सप्टेंबराचे 30 तारकेर इराणान ओसिराकाचेर हमलो केलो, पूण सद्दामाच्या अणू स्थावरांक एक ल्हानशी थोकणी शिवाय हेर कांय करूंक इराणाचें वाऱ्या – दळ सकलें ना. पूण इराणाचें हें पिशें प्रेतन सद्दाम विसरलो ना. इराण – इराक झूज सुमार नोव वर्सां पर्यांत ताणें लांबयलें आनी लाखों इराणींची हत्त्या केली.

आनी त्या वेळार सद्दामान केल्लें एक घोषण कोणाक न्हय तरी सगळ्या इज्रायेलीक लागू जालें. आपल्या झुजा अभियानांत इराणाच्या अबदाना पर्यांत पावल्ल्या सद्दामान उगत्यान म्हळें कीं आपलो रस्तो आतां जाफ्पा आनी जेरूजलेमापर्यांत साफ जावंच्यार आसा. पूण ह्या दोन प्रदेशांक वचाजे तर इज्रायेलाक नास केल्या शिवाय जाता? तर, सद्दामाची अणू सकत आनी हें इराण – इराकाचें झूज शेवटीं इज्रायेलीक नास करूंकच न्हय तर कित्याक?

म्हणालो सद्दाम, स्वाधीन केल्ल्या अबदानांत रावोन. सगळ्या संवसारान आनी चड करून इराणाच्या लोकान इराकाचे अणू सक्ती थंय भियेजे म्हळ्ळी गरज ना. ही सकत आमी वापरतेल्यांव अरब राष्ट्रांच्या एकाच दुस्मानाविरोध, इज्रायेलाविरोध!

ह्या उप्रांत इज्रायेलाची राकाचेर पारोत दोडी जाली आनी मेजर जनरल येशुआ सागुयेच्या निर्देशनाखाल मिलिट्री गुडाचाराच्यो दावल्यो इराकाच्या आनी सर्व अरब राष्ट्रांच्या शिरां पाळांनी रिगल्यो.

तशें हे मिसांव बाबिलोन एकाच्छाणे उदेल्लें न्हय. ह्या मिसांवाक एक खड्प लक्षण आसल्लें. ह्या मिसांवाची कोणाकच खबर नातल्ली, जावं अमेरिकाक या इज्रायेल सरकार चलवंच्या केनेसेट्टाच्या 22 सांद्यांक. पूण शिमोन पेरेजालागीं

एक उतरांवांटो बेगिनान काडल्लो, पूण बेगिनाक ओळकोंच्या पेरेजान हां या ना म्हळें ना. पूण घूट सांबाळ्ळो.

तांत्रीक दिश्टीन बेगीन, येप्टन आनी ऐवरी हांणीं अंदाज केल्ल्या प्रकाराक, सद्दामाक आनी ताच्या अणूस्थावरांक तशेंच सोडल्यार 1992 व्या वर्सा भितर इराकालागीं, हिरोशिमाचेर अमेरिकान घाल्ल्या अणू - बोम्बाच्या गात्राचे आनी शक्तीचे तीन या पांच बोम्ब तयार आसतेलेच. ज्युमला, सुमार वीस किलो टन, हे तयार करूंक साठ किलो enriched uranium या एकवीस किलो Plutonium ची सद्दामाक गरज पडतेली आनी ही गरज पूर्ण करूंक फ्रान्स आनी इटेली तयार आसल्ली कित्याक सद्दामान तांकां कच्चा तेल भासइल्लें.

'हें आमी घडोंक सोडल्यार' म्हणालो बेगीन तांच्या एका गुप्त मिटींगा वेळार '200,000 मरणां खचीत. आमच्या डॅन प्रांत्यांत 600,000 जीव वेतेलें म्हळ्ळें खंडीत. उप्रांत कितें उरलें इज्रायेलांत? नाका आमकां दुसरो हत्याकांड. पयल्यांत हिटलरान संवसारांतल्या स मिलिया जुवेदांक नास करून उडयिल्लें. हें Holocaust परत घडोंक आमी सोडिशेनांव. तयाराय आतांच सुरू जायजे. पूण हें मिसांव भिरांकूळ. आमच्या पायलटांक दुस्मान राष्ट्रां वयल्यान उबोंक आसतेलें. पूण चिंतया आमी आमच्या नेण्ट्यां विशीं आनी आमच्या आवयच्या गर्भांत आसच्या पिंपऱ्यांक आनी उडास काड्यां आमी हिरोशिमांत चलचीं मडीं जाल्ल्यांचो.'

'आमच्या गुडाचारींच्या वरदें परमाणे ओसिराकांतलें अणू स्थावर 1981 जुलाय या सप्टेंबरांत बोम्ब तयार करचे खातीर 'गरम' जावन तयार जातेलें,' म्हणालो येशुआ. 'त्या उप्रांत तर आमी आमचें मिसांव ज्यारी केलें तर सगळो अरब प्रदेश अणू विकिरणां आनी अणू प्रदूषणान फुडलें संततेक विकाळ जातलो. आमी अशें जावंक सोडूंक नजो. आमकां आसा दुस्मानकाय आरब्यांनी चलवंच्या सरकाराचेर शिवाय तांचे निर्द्रोस परजेचेर न्हय.'

'देखून, येशुआ?' विचारलें बेगिनान.

'आमी जाता तितले वेगीं आनी खंडीत जावन जुलाय सप्टेंबरा भितर, सद्दामान विलेवारी केल्लें युरेनियम आनी प्लुटोनियम स्थावरां भितर पावच्या पयलेंच मिसांव बाबिलोन ज्यारी करीजे'.

‘सगळ्या संवसाराची प्रतिक्रिया जावन आसतेली फकत उलटीं’, म्हणालो येयटन. ‘इराक Nuclear non-Proliferation treaty चो वांगडी आनी असल्या राष्ट्रांचेर कसलेच पुरावे नासतां आमी हमलो केलो म्हळ्ळी केज आमचेर संयुक्त राष्ट्रां थापतेलीं आनी आमी ह्या कराराचे वांगडी न्हय, बेगीन सर.’

‘आनी आमी वांगडी जावंचे नाव!’ मेजाक मूठ मारली बेगिनान. ‘पयले सुवातेर इज्रायेल एक स्वतंत्र राष्ट्र म्हण हे आरबी एका मतान मानून घेवंदीत आनी आमचे लागीं राजनैतिक संबंद घोशीत करूंदीत. पूण त्या पयलें ह्या मतिभ्रस्ट सद्दामाचीं स्थावरां आमी फुटयजे.’

उप्रांत चलल्या. स म्हयन्यांचे तरबेतींत[77] सोळा पायलेटांक विचल्ले. तांची तरबेती चल्ली आनी ती इतली तीक्ष्ण आनी शिस्तेची व्हय, पूण पायलेटांक तांचो शेवटी तीब खंचो म्हण कळीत नातल्लें, जावं तांकां कळीत नातल्लें की मिसांवाचे उडणेची नकाशा कसली म्हण. ह्या पायलेटां पयकीं सत्तावीस वर्सांचो इलान रामोन एकलो... आनी आतां बेगिनान पाचवी निशानी दिल्ली.

इज्रायेल एअरफोर्स कमांडर ऐवरीन सोळा पायलेटांक आपल्या भोंवारीं एकटाय केले. येटिझोन वाऱ्या - थळाच्या अत्यंत भद्र briefing room त ते आसल्ले. सर्व तर्णाटे, खरे इज्रायेली. हून रगताचे. ऐवरीन तांचेर एक दिश्ट चरयली. ‘शालोम’, तो म्हणालो आनी मटव्यान हासलो. ‘एका भिरांकूळ मिसांवाचेर तुमी भायर सरल्यात आनी हांव तुमकां समाधान पाटयतां म्हळ्ळं एक विपर्यासच सत्य. तुमचे पयकी कितले जिवंत उरतेले हें हांव नेणां. पूण हें मिसांव शेंबर टक्के यशस्वी जायजे नातर इज्रायेल मोरतेलें.’

इलान रामोनाचें सगळें आंग मिरमिरलें. आकरेक तरी ती घडी आइल्ली. ताणे आपल्या उजव्या हाताक बांदल्ल्या टोर्राच्या (मोयजेच्या पांच ग्रंथांचो एक भाग) ल्हान कोवळेक मानान आनी भक्तिपणान आपडलें. हर एक पावटीं तो इज्रायेलाखातीर कसल्यायी मिसांवाक वेताना ही कोवळी विसरनातल्लो, ताच्या ‘योम किप्पूर’ मिसांवाचेर सयतय ताणे ही कोवळी व्हेल्ली.

आपल्या हर्द्याच्या उजव्या भागाचेर आसल्ल्या एका बोल्साचेर ताणे मोवाळ सिंतिमेंतांनी आपलो हात चरयलो. तांतू रोना म्हळ्ळे इज्रायेली चलयेची तस्वीर आसल्ली. तिचेलागीं रामोनाचें लग्न थीर जाल्लें आनी हें मिसांव ज्यारी जातेच

तो तिचे लागीं लग्न जावंच्यार आसल्लो.

ज्रायेलांतच 1954 इस्वेंच्या जून म्हयन्याचे वीस तारकेर जल्मल्ल्या इलान रामोनाचें शिकप इज्रायेल युनिवर्सिटींतच जाल्लें. तो एक इलेक्ट्रॉनिक्स / कंम्प्यूटर इंजिनियर. हेंडसम तर्णाटो तो, हासताना ताच्या गालांक फोंडकुले पडताले.

तुजें गमन खंय तेवशिल्यान चरता, इलान रामोन? चिवारले ऐवरीन.

'सॉरी सर!' म्हणालो रामोन मंद हास्या संगी' 'हांव तयार आसां सर'.

'तुमी सर्वांनी तयार आसचें, इज्रायेलाखातीर'! म्हणालो ऐवरी. 'तुमी सर्व शाबितायेन पाटीं येतेल्यात म्हण हांव नेणा पूण येतेल्यात म्हण पातयेतां.'

ह्या उतरां बराबर एवरीन मिसांव बाबिलोनाची नकाशा त्या सोळा जाणां सामकार उगतें केली. ताचें विवरण जाताना त्या रूमांत उस्वासांचो आवाजय नातल्लो. एकामेकाचीं मुकमळां पळेवंचें धैर्य त्या सोळा जणांक नातल्लें. स्थावरांची विविध मोडेलां घेवन तांणी सुमार स म्हयन्यां थावन ह्या मिसांव बाबिलोनाक तयाराय केल्ली पूण शेवटींचो तीब खंचो म्हण तांकां कळीत जाल्लें आत्तांच.

इलान रामोनाचो उडास आदल्या दिसाचे सांजेक पाटीं गेलो. तवळ रोना ताका भेटल्लें. रामोन कसल्यागी मिसांवाचेर वचोंक आयतो जातेच आसा म्हण रोनाक कळीत आसल्लें पूण तितलेंच. रामोनाचो जोस ताका कळीत आसल्लो. आनी ताका[78] एका दिसा अंत्राळयानी जायजे म्हळ्ळी जब्बोर आशा आसा म्हणयी ताका कळीत आसल्लें.

'म्हाका अंत्राळेच्या गुंडायेथावन ही सोबीत पृथ्वी पळेजे, रोना' तो म्हणतालो. 'हांव इज्रायेलाचो खरो पूत आनी...'

'तुका म्हजेथावन तितल्या पयस कित्याक वचोंक जाय, रोमांन?' रोनान विचारल्लें आनी तवळ रामोनान जाप दिली म्हणोन. : 'ह्या प्रितुमेक आनी आमकां रचल्ल्या देवाचो दळबार पळेवंक! एक अंत्रळयान मनशाथंय दोन रितीचीं नवालां आसा करता, रोना. हीं नवालां दोड्या धारेच्या तलवारींपरीं. पयली धार, देवाची अगणीत सकत मनशा रचने सामकार उगती करता तर दुसरी धार ताका एके रितीचो हंकार दिता. पळे, हांव कितल्या उंचायेर आसां पळे. देवान घाल्ल्या सर्व नैसर्गिक गडींक उतरोन आज हांव हांगासर उबो आसा. अशेंच चिंतल्लें

जायजे बाबेलचें बुरूज बांदूक धरल्ल्या लोकान. त्या फुडें भुमी वैकुंठांत एवेन आनी आदांवान (Eve & Adam) आदरल्लें पातक देवापरीं जावंच्या उद्देशा दिशेनच आसल्लें न्हय? पूण म्हाका अंत्राळाच्या गुंडायेथावन प्रितुमेक पळेवन देवाचीं मयमां गावंक जाय.'

रोनान कांय म्हळें ना. इज्रायेलाच्या खऱ्या पुताचो भावार्थ जाणा आसल्लें तें फुडें उलवंक सकलें ना. ताणे रामोनाच्या खांदार आपलें मातें तेंकलें...

आनी आतां,

इज्रायेलाच्या गडी - गिटाथावन इराकाच्या गडी - गिटा पर्यांत फकत सायशीं मैलांची वाऱ्या - वाट, पूण इराका भितरल्या ओसिराका पर्यांत सुमार देडा घंट्याचें वाऱ्या.[79]

सांजेच्या चार वोरांचेर सोळा F-14 आनी F-16 विमानां तयार रावल्लीं. कमांडर ऐवरीन हर एकल्या पायलेटाक पोटलून धरलो आनी म्हळें. शाबितायेन पाटीं येया. देव तुमचे संगीं आसोंदी.' रामोनाक ताणे पोटलून धरताना रामोनाचे दोळे भरोन आयले. 'हांव जाणां' म्हणलो ऐवरी. तुजीं आवय - बापूय ओस्वीच नाझी केंपाथावन चुकोन धांवोन अइल्लीं म्हण. जुदेवांचो हत्याकांड म्हळ्यार कितें म्हण तीं जाणात, कर्नल रामोन. तो हत्याकांड ह्या सद्दामान परत आसा करचो नाका. आमचें अरण्यांतलें रुदान आकेर जायजे आनी संवसारार समाधान उदेजे. पूण अशें जायजे तर थोड्यो नलियो आमी हुमटून काडून हुलपावंक आसात.'

आठ हजार फूट लांबायेचे रानवेचेर वेग आरावन हीं सोळा विमानां इराका कुशीन उबताना कमांडर ऐवरीन दुकां पुसलीं. पाटीं वचोन तो, बेगीन आनी येय्टन सांगाता briefing room त बसलो. मिसांव बाबिलोन आकेर जावंचे पर्यांत - यशस्वेन या नासान - हे तेग मनीस त्या रूमांत बसोन आसतेले. सोळा विमानां सदांच्याकी उणे उबारायेन उबतालीं.

जोर्डान उतरलें. तांच्या एअरफोर्स कंट्रोल टावराथावन आवाज ना, सवालां नात. उप्रांत आयलें सावदी अरेबिया. कठीण धूळ वादळ आसचें रामोनाक दिसलें. तांणी सर्वांनी तुर्तान एक विंचवण केली आनी सावदी थावन कसलींयी रेडियो सवालां येवंच्या पयलेंच तांणी अरेबीक भाशेन स्वताची ओळोक दिली म्हणोन, 'आमी जॉर्डनाचे, तुमच्या वाऱ्या परिसरांत चुकोन आयल्यावं.' उबणेची

दिशा बदलून तीं विमानां कुवेतां कुशीन मालवलीं. कुवेतान कसलेंच प्रतिभटन दाखयलें ना, कंट्रोल टावरान सवालां केलीं नात.

सुमार सांजेच्या 5.35 वोरांचेर इराकाच्या ओसिराकाचेर हमलो चललो. तीन विमानांनी पयली पंगत जावन मारल्ल्या भिसायलांनी ओसिराक अणूस्थावरांत तीन व्हड धोंपळे आसा केले. पाटापाट तीन आसल्ल्यो शिंकळ्यो. उप्रांत आइल्ल्या हेर विमानांनी बोम्बांच्यो शिंकळ्योच ह्या धोंपळ्यांनी रिगयल्यो.

स्पोटन जावन आसल्लें क्षणीक, पूण भिरांकूळ.

सर्वांच्याकी वयल्यान उबच्या तीन विमानांनी मिसांव बाबिलोनाचें जशें घडलें तशें, फिल्म चित्रीत केलें. हमलो चलल्ल्या फकत एक मिनूट वीस सेकंडांनी ओसिराक अणूस्थावर धरणी समा जालें.

आपणे मारल्ल्या मिसायलांनी अणू स्थावराच्या पोटाक धोंपळो करचो पळेताना इलान रामोन म्हणालो. 'खंडीत जावन ह्या फुडें जुदेवांचो हत्याकांड ह्या संवसारांत जावंचो ना.'

मिसावं बाबिलोन यशस्वी करून इज्रायेलाचीं सोळाय विमानां येटिझोन वाऱ्याथळाक पाटीं आयलीं.

'इज्रायेलाचे वीरपूत्र पाटीं आयले' म्हणालो बेगीन. 'आनी तरी आमचीं भुरगीं भिरांती विणे जियेतेलीं, सद्याक.'

आनी ते सांजेर सद्दाम हुसेन अल – तिक्रिती अबू आली, रडलो.

**वाचप्यांचे माहेतीखातीर :**

इलान रामोनाविशीं हांवें आराइल्ली माहेत ह्या 'मिसांव' बाबिलोनांत इतली सविस्तारायेन मिसळावंक म्हाका थोडीं बाजबी कारणां आसात.

इज्रायेली एअरफोर्सांत उंचायेच्या हुद्याक पावल्लो इलान रामोन आपल्या इराद्याक विसरालो ना. 1997 त अमेरिकाच्या NASA त तो Payload Specialist जावन सरवालो.

ताची तरबेती 2003 पर्यांत चल्ली आनी ताका कोलोंबिया STS - 107 मिसांवाचेर अमेरिकाच्या NASA- न अंत्रळयानी जावन धाडलो. इलान रामोन संवसारांतलो पयलो जुदेव[40] अंत्रळयानी. कोलोंबियांत आसल्ल्या स जणां यानीं पयकी रामोन मात्र एकलो इज्रायेली आनी उरल्ले सर्व अमेरिकन या अमेरिकन मुळांचे.

हें पदरां दीस, बावीस घंटे आनी त्रीस मिनुटांचे मिसांव यशस्वेन आकेर करून कोलोंबिया 1 फेब्रेर 2003 त पाटीं भुमिक देंवताना, भुमीच्या वाऱ्या पदरांत प्रवेश जांवच्या वेळीं घर्शणाक लागोन भस्मालें. मरण पावलो इलान रामोन आनी सर्व अंत्रळयानी. हांच्यापयकी भारतीय मुळाचें कल्पना चावलायी एकलें.

मरताना ताका 49 वर्सां प्राय. ताच्या मुक्काल वांटो[81] भस्मल्ले कुडीर टोर्राची कोवळी[82] मेळ्ळी आनी ताच्या बोल्सांत ताची डायरी जातूं ताची, ह्या अवस्वरांत दिल्ली फिलोसोफी लिखून आसल्ली.

इलान रामोनाचे मरणाविधी वेळार रोना रामोना सामकार ताच्या चवगां भुरग्यांक आरावन घेवन अध्यक्ष जॉर्ज बुश म्हणालो. 'तुमच्या बापायन वर्सां आदीं सुरू केल्लें तें एक मिसांव आतां हांव पूर्ण करतां!'

■■■

# 23

1981 इस्वेच्या जून सात तारकेच्या आयताराच्या दिसा, सद्दाम हुसेन अल – तिक्रिती अबू आली आपली प्रेयसी परिसोला लांपसोस हिच्या उबार हर्द्यार आपलें मातें तेंकोवन गळागळ्यां रडलो.

रगतापाता मदेंच वयर आइल्ल्या सद्दामान अशें रडचें पळयल्ल्या भोवच थोड्यां पयकी एकवीस वर्सां थावन ताची प्रेयसी जावन आसची परिसोला लांपसोस एकली जावयेत. सद्दामान रडचें म्हळ्यार सगळें भूमंडळ आपल्या खांदार घेवन आसच्या एटलास टिटानान आपली भुजां हालयिल्लेपरींच.

तशें, रडचो – पडचो मुखेली, सर्वाधिकारी, सद्दाम न्हय. तो इराकाच्या तिक्रितांतलो सद्दाम. ह्या ताच्या नांवाचो अर्थच 'घर्शणकार या झगडेली...'

चवदाव्या शेंकड्यांत तामरलेनथावन आइल्ल्या मंगोल झुजाऱ्यांनी मेझोपोटेमिया निवास्यांचेर हत्याकांड सुरू केलो आनी असलो रगतापात जालो कीं 1394 इस्वेंत तिग्रीस न्हयच्या किनाऱ्यार बगदादथावन सुमार शेंबोर मैलां उत्तरेक आसच्या तिक्रितांत तांणी[83] मेझोपोटेमिया निवास्यांच्या कट्ट्यांनीच एक बुरूज उबारलें. आरब्यांचें थोर थळ मंगोल्यांच्या हातांनी नास जालें म्हणच्याक ही एक रूजवात.

सल्लादिनाच्या ह्या गांवांत सुमार आठ शेकड्या उप्रांत 1937 एप्रिलाचे 28 तारकेर हुसेन अल माजीद अल तिक्रिती सबहातिक्रितीक सद्दाम हुसेन जल्मलो. ताच्या आवयबापायक तांच्या अलओझा म्हळ्ळे हळ्ळेंत तांचेंच म्हळ्ळें बिजार नातल्लें. आनी तो आपल्या बापल्या खैरल्ला अल–तुल्फाच्या मातयेच्या कोडक्यांत जल्मलो. तो जल्मोन थोड्याच तेंपान ताच्या बापायक चोर – लुटकारांनी लगाड काडलो म्हण थोडे म्हणतात तर हेर थोड्यांनी म्हणच्या परमाणे दुबळिकायेक

लागोन भुरग्यांक पोसची तांक ना जाल्यान सद्दामाच्या बापायन कुटमाक सोडून पोळापळ घेतली. सबहाच्या भावान तिका आसरो दिलो आनी तिणे शाजाराच आसल्ल्या इब्राहीम हसन म्हळ्ळ्या एकल्या काजारी दादल्याक भूल घालून, ताणे ताचे पतिणीक सांडीशें करून आपणा लागीं लग्न जायशें केलें.

सद्दामाच्या अशिकपी सवती बापायन ताका गाद्या शेतांनी कामाक लायलो आनी कथा अशी आसा. इब्राहीम हसनान भुरग्या सद्दामाचेर लैंगीक जुलूम चलयल्लो म्हण. पूण म्हणतात सद्दामाक लागशिल्यान ओळकल्ले, हें सत व्हय तर इराकाचो सर्वाधिकारी जाल्ल्या दिसाच सद्दाम आपल्या सवती बापायक लगाड काडयतो आनी हो घूट सासणाच्या सासणाक लिपयतो. कित्याक म्हळ्यार सद्दामाचो क्रुरी जिनोसच तसलो.

आनी असलो सद्दाम आज रडतालो.

सद्दामाचो बापुलभाव अदनान खैरल्ला शाळोक वचोंक लागताना सद्दाम शिकापाखातीर कितलो लालेलो म्हण सबार पावटीं ताणे परिसोलाक सांगल्लें आसा. पूण ताच्या सवती बापायन ताका परवणगी दिलीना.

तरी सद्दाम जिणीभर आशिकपी जावन उरलो ना. 1950 त तो बा' अत पार्टीक सेरवलो आनी बगदादांतल्या नॅशनल स्कुलांत भर्ती जालो. ही बा'अत पार्टी ग्रीक ऑर्थोडोक्स क्रिस्तांव मिचेल अफ्लकान सुरू केल्ली. 'एकवट, स्वतंत्राय आनी समाजवाद' म्हळ्ळ्या ह्या तीन नेमांचेर उबी जाल्ल्या हे बा'अत पार्टीत सेर्वल्ल्या सद्दामान इराकी राय आनी ताच्या प्रधानमंत्रीचेर पार्टीन उठइल्ल्या दंग्यांत पात्र घेतलो. पूण दंगो फल्सालो ना, 1958 त आपले भयणीच्या कम्युनिश्ट पतीक लगाड काडल्ल्या अपराधाक लागोन ताका स म्हयन्यांचें जेल जालें.

1959 त परत इराकी प्रधानमंत्रीचेर हल्लो केल्ल्या दंग्यांत पात्र घेतल्लो सद्दाम आपलो घायेल्लो पांय घेवन सिरियाक पळ्ळो. ऐन वेळार ताका इजिप्ताच्या घमाल अब्दल नास्सराचें पोदोर्नपण मेळतच तो इजिप्ताक गेलो आनी कैरो युनिवर्सिटींत भर्ती जालो. ताचें शिकप हांगासर चालू आसतांच इराकांत बा'अत पार्टी बळीश्ट जाली. आनी चलल्ल्या दंग्यांत इराकी प्रधानीचो आधिकार उसळ्ळो. आपली वाट साफ जाल्ली पळेवन आपलें शिकप संपतच सद्दाम इराकाक पाटीं आयलो आनी आपलीच बापुलभयण साजिदा खैराल्ला लागीं लग्न जालो.

सरकारा विरोध येवजण केल्ल्याक ताका दोन वर्सांचे जेल जालें. 1968 त जेलाथावन भायर आइल्ल्या ताका बा' अत पार्टीचें, परिपूर्ण सुकाण हातीं मेळ्ळें आनी तो Baa'th Party's Regolutionary Command Council हाचो मुखेली जालो. ह्या वेळार मिचेल अफलाक, हाका ताणे इराकांत हाडलो. त्याच वर्सा इरकांत जाल्ल्या बृहत दंग्यांत इराकी सरकार उसळ्ळो आनी बा'अत पार्टी गादयेर चडली. 1972 त रशियाक गेल्ल्या सद्दामान शस्त्रास्त्रांखातीर मास्कोंत पंदरा वर्सांचे कंत्राट दस्तखत केलें.

1975 त आल्जिरिया करारा मुखांत्र शात - अल - अरब न्हंय वाटेचीं समासम हक्कां इराकाखातीर जोडून घेतलीं.

1979 इस्वेंत सद्दाम हुसेन इराकाचो सर्वाधिकारी अध्यक्ष जावन थीर जालो. अधिकाराक आइल्लोच अल्जिरिया कराराक कूस मारून इराणालागीं झुजाक देंवलो. असलो सद्दाम आज राडताले.

उडास आयलो परिसोलाक, सद्दाम अधिकाराक आइल्ल्याच वर्साच्या जुलाय अठरा तारकेर घडल्ल्या एका भिरांकूळ घडिताचो. त्या दिसाय तो रडल्लो. आपल्या रावळेराच्या व्हड एका सभासालांत ताणे बा'अत पार्टीच्या सर्व वांगडींक जमोंक आपवणे दिल्लें. सभासालाच्या चारय कुशींनी विडियो कॅमेरा लागइल्ले.

सद्दाम, मिलिटरी समवस्त्रांचेर आसल्लो आनी ताच्या बोटांमदें मोटें सिगार धुंवरतालें. अबू आली सद्दाम आयलो म्हळ्ळे पिसपिसे सभासालांत चरोन ते मौन जाले. आज सद्दामाचीं चौक भुजां चिक्केशे गळल्ले परीं दिसतालीं. तो सबासालाचे पुल्पुत्रीर उबो जालो. ताच्या सामकार दोन मायकां आसल्लीं.

तुमच्यापयकी थोड्यांनी म्हाका विक्रीत केलां!' तो म्हणलो तगसल्या ताळ्यान. त्या ताळ्यांतली शितळाय आनी ताची धार कळीत आसल्ल्यांक घाम सुटलो. 'आज हांव दुखेस्त जालां. सिरियाच्या त्या हुसेन अस्सादा सांगाता मेळोन तुमी थोड्यांनी म्हज्या आनी बा'अत पार्टी विरोध फितुरी केल्या!' इतलें म्हणोन तो बसलो.

आनी तितल्यार बा'अत पार्टीच्या कमांड कावन्सिलाचो कार्यदर्शी, मुहयी अब्द अल - हुसेन मश्यादी, सद्दाम बसोन आसल्ल्या बसकेच्या पाटल्यान

आसलल्या बसकेच्या पाटल्यान आसलल्या दाट पडद्याक देगेन लोटून मुखार आयलो आनी खूद आपुणच हे फितुरेंत शामील आसां म्हण ताणे उच्चारून सांगलें. मश्यादीक एका हप्त्या आदींच बंदीत करून अमानूश हिंसेक ओळग केल्लो[84] आनी आतां आपणें आपलो अपराध आनी हेर फितुरेगारांची नांवां सागल्यार सद्दाम हुसेन आपणाक जीवदान दीत म्हळ्ळी पातयेणी मश्यादीची. तो गळागळां रडतालो.

ह्या रडण्यामदें मदें ताणे फितुरेगारांचीं नांवां उच्चारून सांगलीं. खंच्या दिसा हे फितुरेगार आनी खूद आपूण खंयसर मेळतल्यावं, कसल्यो सर्व जमाती सद्दामाच्या बा'अत पाटी खिलाफ चलताल्यो... मश्यादीन सर्व उच्चारून सांगलें.

फितुरेगारांचीं नांवां तो सांगताना सद्दामाच्या खासगी रायाळ सोजेरांनी तांकां सभेंतलें उठवन खोडो घालून सभासालांतलें भायर व्हेलें. तांच्या पयकी एकलो हर्दे पेट्टून, अल्लाहचो सोपूत घेवन आपूण निर्दोशी म्हण बोबाटूंक लागलो. हें आयकोन सद्दामान बोब मारलीं. 'येतला येतला!'अशें सुमार साठ फितुरेगारांक कुडायतच[85] सद्दाम परत पुलपुत्रीचेर उबो जालो आनी रडलो. त्या साठ जाणांची नांवां ताणे परत वाचून उच्चारलों.

ह्या भिरांकूळ नितीफेसलाचो परिणाम उरल्ल्या सुमार तीनशीं वांगड्यांचेर कसले रितीर जालो म्हण सांगोंक असाध्य. सभासालांत उरल्ले, बसल्लेकडेनच कसकसोन रडताले. सद्दामाच्या सर्वाधिकारांत ह्या फुडें इराकांत कितें आनी कसलें चलतेलें म्हळ्ळें तांकां स्पश्टायेन गभल्लें. तांचें भय इतलें जावन आसल्लें की, सद्दामाच्या ह्या निती फैसलाचेर तांणीं ताळयो पेटल्यो. पयलें थोड्या ल्हान पंगडांनी अशें करूंक धैर घेतलें पूण उप्रांत सगळो जमोच उबो जालो आनी ताळयो पेटुनच रावलो. पूण तांच्यो शिरो पिगळोन गेल्ल्यो.

एका हप्त्या उप्रांत जेलांत कुडाइल्ल्या साठ जणांक फायरींग स्कॉडा सामकार उबे केले सद्दामान. ताच्या ओठांक अंट[86] टेप मारल्ली आनी मांच्याथावन भायर येवंचें कसलेंच मागणें-रुदान आयकानातल्लें. तांचो अपराध वाचून सांगतच सद्दामान तांकां लगाड काडयलें. हें दृश्य पळेवंक ताच्या कमांड कौन्सिलाच्या उरल्ल्या वांगड्यांक ताणे खास आपवणें दिल्लें.

आपणें उच्चारून सांगल्ल्यांन सद्दाम आपणाक जीवदान करतलो म्हण

पातयेल्ल्या मशादीकय फाशी जाली.

त्या उप्रांत पाशार जाल्ल्या थोड्या हप्त्यांनी सुमार पांयशीं जणांक सद्दामान लगाडकाडलें.

आनी होच सद्दाम आज रडतालो.

1981 वर्साचो जून म्हयनो. तारीक सात. सांजेचो वेळ, इराकाचेर काळोख पडोन येतालो. भायर आनीकी गर्मी आसल्ली आनी एक धूळ - वादाळ व्हाळतालें.

सुमार एका घंट्या आदीं तारीख अज्जीज आनी राखण मंत्री अदनान खैरल्ला उल - तुल्फान ताका एक भिरांकूळ खबर दिल्ली. तो आपल्या खासगी कमऱ्यांत आसल्लो आनी त्या दिसाच्यो राटावळी ताणे संपइल्ल्यो. ताचें प्रेयसी परिसोला भितर आसल्लें.

'कितें कितें कितें?' तो बोबाटलो सांगाताच भितर आइल्ल्या तारीख अजीज आनी अल तुल्फाक पळेवन. 'कित्यात आयल्यात'?

ताचो बापोलभाव जावन आसच्या अल - तुल्फान इल्लीशी घळाय केली. पूण इराकाचो उपाध्यक्ष तारीख अजीज, एकातेंपार पत्रिकोद्यमी आनी सद्दामाच्या बा'अत पार्टीच्या दोन पत्रांचो - अल - जमाहीर आनी अल - थावरा - संपादक, हाणे घळाय केली ना.

'आमचें ओसिराक नास जालें, अबू अली! तो म्हणालो. आमचें थाम्मूज - । इज्रायेलींनी परिपूर्ण नास केलां.'

कमर्यांत परिपूर्ण मौन.

'संपदलें', उप्रांत उलइल्ल्या सद्दामाचीं उतरां तांकां एकदम नाजूक लागलीं. 'मायकल युहन्ना, अशेंच म्हळ्ळें न्हय तुज्या स्वाम्यान खुरसार आपलो प्राण सोडताना?'

इराकाचो उपाध्यक्ष तारीख अजीज एक ग्रीक सिरियन क्रिस्तावं. ताचें खरें नांव मायकल युहन्ना. बगदाद कॉलेज ऑफ फायन आर्टस हांगासर इंग्लीश साहित्यांत पदवीधर. बा'अत पार्टीक सेरवल्ल्या उप्रांत आपल्या नांवाचो मेळ अरब्यांच्या नांवासंगीं सुडाळयेन जायजे म्हळ्ळ्याखातीर ताणे आपलें नांव तारीख अजीज म्हण बदलिल्लें. ताका भोव लागशिले मात्र ताका युहन्ना म्हण आपयताले. त्या

पयकी सद्दाम एकलो.

'आतां हांव!' तो उबो जालो. 'आतां हांव, सद्दाम हुसेन अल तिक्रिती अबू आली म्हणतां संपदलें. कितले बिलिया डॉलर हांवें खर्चिल्ले हें अणू-स्तावर बांदूंक, अल - तुल्फा?'

'धा बिलिया डॉलर, अबू आली.' मातें मुळांत घालून [illegible] दिली अल तुल्फान.

'आनी कितले ते देशी - विदेशी ह्या म्हज्या अण्वस्त्रांच्या सगळ्या योजनांत काम करतात?'

'सुमार वीस हजार अबू आली.'

'हांगाथावन सुमार चाळीस किलोमीटर पयस आसच्या अल अथीर स्थावरांत 1992 वर्सा भितर इराकाचो अणूबॉम्ब तयार जातो या ना?'

'जातो अबू अली.'

'आनी आतां...' तो बसलो. 'संपदलें, युहन्ना?'

'ह्या पाटल्यान अमेरिकाचो हात आसा, अबू आली.'

तारीख अजीज म्हणालो.

'व्हय तरी?' नंजाळी ताळ्यान विचारलें सद्दामान. 'आनी तवळ तुमचे हात खंय आसल्ले? तुका युहन्ना, इराकाच्यो पॉलिसी कसल्यो म्हण संवसाराक दाखवंचे खातीर नेमला. पूण... विवर दिया, बिवर दिया!' तो आतां बोबाटलो.

'सांजेच्या सुमार 5.35 वोरांचेर 16 इज्रायेली F-14 आनी F-16 विमानांनी ओसिराकाचेर हम्लो केलो आनी थाम्मूज - I, दोन मिनुटांभितर नास जालें. सुमार सतरा फ्रेंच विज्ञानी मरण पावल्यात आनी आमच्यांचो अंदाज आमकां ना.'

'इज्रायेलींचे फायटर प्लेन कसलें म्हळ्ळी खबर आतां पुणी तुमकां आसा?'

'तांचीं विमानां जॉर्डान, सावदी अरेबिया आनी कुवेटा वयल्यान उबोन आइल्लीं आबू अली. तीं उंचायेर उबोंक नांत जाल्ल्या...

'ह्या खंच्यायी अरब देशांनी आमच्या सामान्य दुस्मानांचीं, विमानां तांच्या वाऱ्या परिदीं भितर अक्रम प्रवेश करताना कांयच केलें ना?'

'जॉर्डनान थोडे anti-aircraft फार मारले पूण फल्सालेनांत. हेर राष्ट्रांक इज्सयेलींनी अरेबिकांत उलवन फसयलें...'

'कुवेत आनी सावदी, न्हय?' दांत चाबून म्हणालो सद्दाम. 'तांचेय दीस येशे करतलों हांव. पूण तो सिरियाचो आसाद आनी जॉर्डनाचो हुसेन म्हाका जाय न्हय? तर उरले कोण? सावदीचो लुच्चो फैजल आनी कुवेतचो प्रद्वारी सबहा सालेम. सल्लो केल्ल्याच्याकी चड मापान तेल काडून कुवेत विकता न्हय? आमकां कितल्या बिलियन डॉलरांचो नश्ट जाला येदोळ?[८७] पावनातल्ल्याक संगटीत ड्रिलींग म्हण कुवेतान म्हजें तेल चोरलां... इराणालागीं झूज चालू आसा आनी म्हजीं इराकी भुरगीं मोरोनच आसात. एकाच्छाणे तो बोबाटलो. 'येतला, येतला, येतला! निखळा हांगाथावन. फाल्यां सकाळीं भितर म्हाका परिपूर्ण वर्दी जाय.. येतला भार्राआ[८८]

ते वेतेच सद्दामान परिसोला लँपसोसाक भितर आपयलें.

'तूं पडद्याच्या आडोसाक रावोन आयकातालेंय म्हण हांव जाणां, हबीबी! तो म्हणालो. खंय आसा म्हजी स्कॉच?'

'तुवें असले परिगतींत साझिदाच्या वेंगेंत आसजे, आबू आली!' परिसोला म्हणालें. 'तुजी तान स्कॉच विस्केन थांबची न्हय म्हण हांव जाणां.'

'साझिदाचें काम जालां,' म्हणालो सद्दाम. 'ताणे म्हाका पूत दिल्ल्यात, एकलो उदे ये आनी दुसरो... आसूं... पूत आनी धुवो.... कितें करूंक? खंय आसा तो उदे'ये?

'हांवें त्या हुसेन शारिस्तानीक 1979 तच लगाड कजिजे आसल्लो, पेरी', तो मुखारून म्हणालो. 'शारिस्तानी, इराकाचो खास अणू विज्ञानी. सद्दामाचीं सर्व अणूसक्तेचीं योजनां शारिस्तानीच्या निर्देशनाखाल चलतालीं. विदेशांनी तरबेत जाल्लो विज्ञानी तो. पूण केन्ना ताका कळीत जालें की सद्दाम न्युक्लियर बॉम्ब करचे खातीर अणू सकत वापरचें योजन करता, शारिस्तानी उपराटलो. सद्दामान Nuclear non proliferation treaty क दस्कत केल्ली तरी आतां ताचें शिंतीद घुंवल्लें पळेवन शिस्तेचो शारिस्तानी उगत्यान उलयलो. सद्दामान ताका आनी ताच्या सगळ्या कुटमाक बंदणेत घालून चित्र हिंसा दिली, पूण शारिस्तानीची ताका गरज आसल्ल्यान ताचो जीव मात्र काडलोना.

ताच्या सवालाक परिसोलान जाप दिली ना. बगार ताका स्कॉच हाडून दिली. ताका स्पश्ट कळीत आसल्लें असल्या सन्निवेशांनीं आपणे कितें करीजे म्हण.

देदेस्पार जाल्ल्या वेळार सद्दाम होल्लिवुड फिल्मांतल्या काव बॉयापरीं न्हेसतालो, हॅट दवरतालो आनी आपल्या संग्रहांतली मेनचेस्टर रायफल घेवन बसोन स्कॉच सेवतालो आनी पावनातल्याक एका लांब हारशामुखार बसोन अमेरिकन गावपी फ्रँक सिनाट्राचें गीत परत्यान आनी परत्यान आयकतालो.

'हांव ह्या कुवेताक आनी सावदी खंजिरांक सोडिसो ना' तो म्हणालो, स्कॉचाक घोंट मारून. 'म्हाका कितलीं वर्सां लागल्यारय पर्वा ना; त्या ब्रिटीश सुण्यांनी सुप्यांनी म्हजें आसल्लें कुवेतक, ऑत्तोमन राज्यांतलें म्हजें कुवेत, म्हजें एकुणिसावें प्रांत्य एक नक्शा तयार करून विंगड केलें आनी हांव तें पाटीं घेतलोंच...' तो रडलो.

आनी नोव वर्सां उप्रांत 1990 इस्वेच्या ज्युलाय म्हयन्याचे 31 तारकेर रातीच्या नोव वोरांचेर जेराल्ड पायसाक आनी हेर पयणाऱ्यांक घेवन एअर इंडियाचें एअर बस मुंबय सहारा एअर पोर्टाथावन उबताना, सद्दाम हुसेन अल तिक्रिती अबू आलीचें 80,000 सोजेरांचें सज्ज सैन कुवेत – इराक गडीचेर फक्त एके हुमकेक राकतालें.[89]

■■■

# 24

'म्हाका कुवेट वचोंकूच नाका रे, शिंटो पाव्लूस!' शिंटोच्या खांदार आपलें मातें दवरून जेरी रडलो. 'हांवें घरच्यांकय सांगलां, म्हाका वचोंक नाका म्हण.'

'बरें केलेंय!' म्हणालो शिंटो. ते दोगय उशा हॉटेलांतल्या ए. सी. रुमांत बसोन आसल्ले. दुसऱ्या दिसाच्या बसार जेरीक मुंबय वचोंक आनी त्या उप्रांतल्या दिसाच्या सांजेर चार वोरांचेर ताचें एअरइंडिया फ्लायट कुवेटाक. 'बरें केलेंय', परत्यान म्हणालो शिंटो. 'कुरियन चीट फंडांत आनीकी लायट दिसता. वचोन सॅली आण्टीलागीं विचारयां तुजें काम पाटीं दिवंक?' स्टुपीड फेलो! वोगो रावोन बियर पिये. कुवेटांत सोरो – बियर ना म्हळ्ळें नेणाय? ह्या उप्रांत आमी कितल्या तेंपा उप्रांत सांगाता मेळचेंगी देव जाणा.' 'हांकां बियर पियेवंक एक नीब जाय म्हणतेली म्हजी माम्मी', म्हणालो जेरी. 'ह्या उप्रांत कितें करताय तूं?' सदांनीत सॅली आण्टीच्या गिदा नदरेंत आसतलोय तूं!'

'नॉनसेन्स!' म्हणालो शिंटो आपले बियरीक एक घोट मारून. 'आमी फेल जाल्ल्या दिसा दोनशीं वसूल करूंक नांत हांवें?'

'आतां ते दोनशीं दोन हजार करून पाटीं घेतेली तुजी आण्टी.' म्हणालो जेरी. 'तिचें देवें सेटल करूंक म्हज्या बेनेफिटसांतले काडचे काडुनय ट्रान्झीस्टर विकीजे पडलो म्हाका!'

'देखूनचरे तुवें कुवेट वचाजें' ताच्या खांदार हात दवर्न म्हणालो शिंटो. 'रडानाका, चेडवांपरीं. सॅली आंटीक आदेव्स मागोंक गेल्लोय न्हय? थंयसरय रडलोय कितें?'

'ती दुकां काडवंचीच मनीस न्हय?' आपली दिश्ट शुन्य करून म्हणालो जेरी.

म्हजे आवयक आदेव्स मागताना म्हाका तितलें भोगचें ना म्हण म्हाका आतांच भोगता. लक्की फेलो तूं, सॅली मॅडमाचे सावळेंत उरचो.'

हें आयकोन शिंटो ताका एके विचीत्र दिश्टीन पळे लागलो. शिटोक आठ वोरांचेर हॉटेल उशांत मेळतां म्हण सांगोन सुमार सात वोरारशें जेरी निमाणे पावटीं कुरियन चीट फंडाच्या दफ्तराक गेल्लो. थंयसर चपरासी रामू आनी सॅली कुरियन मात्र आसल्लीं. भोंवतीं पळेताना आपूण ह्या वातावरणाक कितलो वोंबोन गेल्लों म्हळ्ळें जेरीक भोगलें. तो चिक्केशे उस्मडलो.

आपल्या कॅबिनाथावनच भितर ये म्हण सॅलीन ताका इशारो केलो. कितलेशे पावटीं जेरी तिच्या केबिनाक गेल्लो तरी ताका अशें केदाळारी भोगल्लें ना.

'आदेव्स!' तो भितर रिगल्ल्या तक्षणा म्हणाली सॅली कुरियन. 'म्हाका लांबायेन आदेव्स मागचें बरें लागाना.

'तुका कितें बरें लागता?' म्हण तो विचारतो, पूण ताणे तशें केलें ना. जेरीन विचारच्या पयलेंच ताचीं सवालां तिका कळीत जातेलीं.'

'चिंतिनाका की तूं कुवेटाक वेताय तुज्या आवयचीं समनां ज्यारी करूंक म्हण, ती म्हणाली. 'तुका थंयसर कितें राखोन आसा म्हण आमी कोणच नेणांव' पूण सबार पावटीं आमी खचितायेन जातेलें म्हळ्ळेंच जिणेंत घडाना. उडास आसा तुका हांवें म्हळ्ळीं उतरां. जिणेंत नावां बदलियेत, पूण ज़ागे न्हय. वच आनी बरो जा. पाटीं येताना म्हाका एक किलो बादाम – पिस्ता हाड!'

सॅलीच्या ह्या मागण्यांत इतलें मनशापण आसल्लें कीं तो रडलोच आनी सॅलीन ताका रडोंक सोडलो.

'ह्या संवसारांत मनशापण म्हळ्ळें मोरोंक ना म्हळ्ळें तुवें उडास दवरीजे, जेरी!' उप्रांत ती म्हणाली. 'सर्व संपदलें म्हण तूं चिंतताना आनी देदेस्पारायेन केंस भुरडिताना अजापां जातात कित्याक क्रिस्त म्हळ्ळो एकलो जो आपल्या राज्यांत आतांयी रायकुंवर जावन वरतोवता, म्हाका वर्तें समाधान कितेंगी म्हळ्यार नोरा लुवीस कुवेटांत आसा म्हळ्ळें...'

'पूण मॅडम...'

'हांव जाणां!' ती म्हणाली. 'तुमचे मदें कांय ना म्हण. पूण मनशापण आसल्यार पुरो.

'तें आसतेलें.' म्हणालो जेरी, एक पावटीं तिच्या हातांतलो सुटतां म्हळ्ळ्या इराद्यान. 'पूण वेच्या पयलें म्हाका एक सवाल आसा सॅल्ली मेडम.'

'पासपोर्ट कॉपी?' तिणे विचारलें.

'न्हय! त्या सांजेर तुवें नोराचें रजिस्टर्ड पत्र आनी विस्केची बॉत्ल घेवन आमगेर येवन केल्लो ड्रामा गरजेचो आसल्लो? आसल्लो तर, कित्याक?'

'गरज आसल्लो' फटक्क करून आयली जाप. 'कित्याक म्हळ्यार तूं तुजी जिणी घेवन ड्रामा करतालोय आनी तुज्याकी, चड कित्याक, तुज्या घरचीं सर्वांयी ह्या ड्रामांत शामील आसल्लीं. देखून तुमच्या सर्वांच्याक चड व्हडलो ड्रामा करचीं ह्या संवसारांत आसात म्हण तुमकां दाखवंचे खातीर हांवें अशें केल्लें. इतलें म्हणोन सॅली उठली आनी तोयी आपापींच आपल्या पांयाचेर उबो जालो आनी तवळ जेरीन चिंतिनातल्लें घडलें. सॅली कुरियन चिक्केशे मुखार बागवाली, जेरीचें मुकमळ तिणे आपल्या हातांनी घेतलें आनी ताच्या कपालाचो उमो घेतलो. 'तुजो ट्रान्झीस्टर होगडायशें केल्ल्याक एक ल्हान परयार! ती म्हणाली आनी जेरीन कितेंय म्हणच्या पयलेंच घुंवोन त्या जनेला लार्गी गेली.

*****

'व्हयरे, लफंग्या?' उद्‌गारलो शिंटो. 'म्हज्या सॅली आण्टीन तुज्या कपालाचो उमो घेतलो रे? हाच्याकी परतें गॉड ब्लॅस तिणे कोणाकी दिल्लें ना रे. ये हांगासर! त्याच कपालाचो हांवय उमो घेतां.' ह्या उतरां बराबर ताणे आपल्या मित्राक बळान वेंगलो. 'कसल्याकी भियेनाका रे,' तो म्हणालो. 'हो संवसार ल्हान आनी जिणी मटवी. पयस सरल्यारीय लार्गी रावंचें आसा पळे तीच जावन आसा खरी इश्टागत. आदेव्स आमी परत मेळचेपर्यांत.'

'आनी तुका कितें हाडूं?'

'खाली हातांनीच ये' म्हणालो शिंटो दुकां भरल्ले दोळे अशीर करून. 'पूण म्हाका तुजे हात केदींच रिते दिसचे नांत'

दोन बोत्ली बियर माथ्यार, आसल्यारीय जेरीचे शिंतीद सारकें आसल्लें. ताणे आपल्या वॉच्याक पळेलें. फाल्या ह्या घंट्यार आपूण मुंबय वेच्या बस्सार आसतलों, पोरवां विमानार आसतलों... हींच चिंतनां घेवन घरा रिगल्या ताका इझीचेराचेर बसोन आसचो बापूय आनी लागसार रोतांच्या कदेलार बसोन

आसल्ली आवय आनी सोप्याच्या पोंतार आसल्ल्या मेजालागीं बसोन कसलेंगी लिखचें इवोन दिसलें. हें दृश्य ताणे आपले मतींत खंचयलें. कित्याक आपूण इतलो सिंतीमेंताळ जातां?

''हांव सॅली मॅडमाक आनी शिंटोक आदेव्स मागोन आयलों', तो म्हणालो, तेगांकय उद्देसून. 'मोली पिरेरीगेर वचाजे म्हण म्हाका आसल्लें...' ताणे आपली उतरां तितल्यारच जिरयलीं तरी इवोन एके मतलबी दिश्टीन भावाक पळेलागलें. थोड्या वेळाचें मौन.

'नोरान आपल्या पत्रांत बरयिल्ल्यो सर्व संगती बऱ्यो करून मतींत खंचय, जेरी!' म्हणाली जिल्ली, एके टिचेरीच्या दर्पान. 'तूं हो देशच सांडून वेताय म्हळ्ळें आमकां पातयेवंकच जायना, पूण हें सिंतिमेंत हांगासर गरजेचें न्हय. मुंबय गेल्लो तूं फेल्सी आंटीगेर रावताय जाल्ल्यान म्हाका समाधान. पूण खंय तूं त्या विमानचेर बसलोय, उप्रांत तूं तुज्याच आनी देवाच्याच हातांत...'

'मां! हांव कांय रानाक वचाना', म्हणालो जेरी.

'न्हय पूण रेगिस्तानाक वेताय! नेणाय तूं भास-वेस-देस. देखून चत्राय. तुज्या पासपोर्टाची आनी विजाची कॉपी आनी सकडांचे एड्रेस आनी फोन नंबरां म्हणजे नोरा, जॉनी, आंब्रोज, बॅरन... हीं बरवन तुज्या बोलसांतच दवर कोणाचीं नांवां हांवें सोडलीं तरी?'

'ना मां,' आतां उठोन हेवशीन आइल्लें इवोन म्हणालें. 'भोवशा कुवेटच्या अमिराचें नंबर आसल्यारी बरें न्हय?' तें किस्स करून हांसलें.

'तुमकां शिंगां फुटल्यांत?' ती दुरसाली. 'आतांच तुमकां हांव काट दिसतां. जावं...'

'मां!' म्हणालें इवोन. 'आमचो जेरी काळ्या भांगाराच्या देशाक वेता. संवसारांतलें अदीक धनादीक राष्ट्र कुवेट. थंय हजारांनी हेर देशांचेय आसात. आमच्या भारतांतलेच देड लाख आसात म्हण हांवें वाचलां. आतां देड लाख एक चड जांवचो ना काळ्या भांगराच्या वांट्याक'.

'तुजो सूट तयार आसा पुता!' म्हणालो मिक्की विशय बदलून. 'मुबयथावन विमानार बसताना तुवें सूट घालीजे म्हळ्ळी आशा तुज्या माम्मीची. आमकां मुंबय येवंक आशा आसा तरी... हो आदेव्साचो ड्रामा थंय पर्यांत व्हरूक म्हाका





नाका. त्या शिवाय म्हजी भलायकी... तूं जाणाय.'

'हो आदेव्साचो नाटक न्हय मिक्की!' म्हणाली जिल्ली. 'येदोळ पर्यांत हांवेच नाकाक दोरी घालून जेरीक लोटलो विदेशाक वच म्हण. आतां म्हजें आवयचें काळीज कशें रगडाता म्हळ्ळें तुमी जाणात? पूण हांव म्हाकाच समादान करतां चिंतून कीं म्हज्या जेरीन एक धा वर्सां काम करून बरो मुदगो कमायल्यार पुरो म्हण. एका दोन वर्सां उप्रांत पाटीं येवन बऱ्या शेगुणाच्या चलयेक सोदून लग्न जावंदी...' ती एक खीणाभर रावली. 'बरें चेडूं मेळाजे... विल्मा तसलें न्हय.'

'तूं भारीच पयशिलें चिंतताय मां!' म्हणालो जेरी एका लांब स्वासासंगी. 'तुजो नव्यान बाप्तीज्म जाल्लो म्हण चिंतल्लें हांवें.'

'न्हय', ती म्हणाली. 'हांव तसलींच आनी पयशिलेंच हांव चिंततां!' तिणे जेरीच्या टिंकराचें गुमान केलें ना. 'तेंच हांव म्हज्या विद्यार्थिंक शिकवन आयल्यां. आपणाक चंद्रच जाय म्हण आकासाक उडकी मारल्यार सकयल पडतान एक नार्ल पुणी हाताक मेळत, पूण आपणाक नार्लच पुरो म्हण उडकी मारल्यार कितेंच मेळचें ना.' तिणे उद्देश पुर्वकीं मिक्कीक पळेलें.

थोड्या वेळाचें मौन थंयसर देंवलें.

दुसऱ्या दिसा मिलारच्या नाक्यार जेरीन आवयक, बापायक आनी भयणीक मागल्लो आदेव्स जावन आसल्लो मटवो. आतां जेरीची मत सेट्ट जाल्ली. एक दोन वर्सां उप्रांत मंगळुराक पाटीं येवंचें कुवेटगार जावन - टाय - सूट, काळीं चश्मां, परमळीत सेंटा - आफ्टरशेव... मोली पिरेरीच्या स्टँडर्डाक कित्याक हांवें म्हज्या कुटमाक चडवंक नजो? पळे, हांव कुवेट वेतां म्हळ्ळ्या तक्षण तें डिना कशें मोव पडलें.

ताणे आवयलागीं बेंसांव मागलें आनी तिच्या गालांचे उमे घेतले. 'तू मिडल स्कुलांत आसताना जेज्वितां सांगाता उटी गेल्लोय पुता!' जिल्ली म्हणाली दुकांमदें. 'तूं पाटीं येता पर्यांत हांव न्हिदोंक ना. आतां अनीकी पयस वैताय पुता... वच. देव तुका राकोंदी.'

आतां सर्ती मिक्कीची. तो चड उलयलो ना, पूण हात उबारून खुरसाचो धुर्त काडून ताणे जेरीक बेसांव दिलें. 'जेन्ना जें घडोंक आसा तेन्ना तें घडता!' तो म्हणालो. 'तूं हांगासर आराच्या आमची खंत करिनाका. खंत करून करचें कांय

ना. कसल्याकी भियेनाका. त्या नोरापरीं धैरादीक जा...'

'संवसरांत तेंच एकलें धैरादीक म्हळ्ळेपरीं तुमी उलयतात मूं?' आदेव्साची घडी लागीं येताना जेरी बेश्टेंच चाळवालो.

`Not today and now now', Gerry! ताका चत्राय दिली इवोनान 'उडास दवर नोरानच तुका विजा धाडल्या.'

भयणीचीं उतरां आयकोन जेरीन आपलें गुमान ताचेर घुंवडायलें. इवोनासरशीं वचोन ताणे ताचीं भुजां धरलीं. `After all' ताणें म्हळें. 'डॉक्टर जावंचें तुजें सूपन कांय ज्यारी करूंक हांव सकतां कोण्णा'. ताचो ताळो कांपलो. 'त्या खातीर म्हाका तुमच्याथावन इतल्या पयस वचोंक पडता नह्य? म्हजी च्या म्हाकाच करूंक पडतेली, न्हय इवोन?'

भावाचीं उतरां आयकोन इवोनाच्या दोळ्यांनी दुकां भरलीं. पूण तीं गळोंक ताणे सोडलीं नात `I'll miss You!' तें म्हणालें. 'तुज्या त्या शिंटोक केन्ना तरी येवन वचोंक सांग. तो तुजेपरींच सिल्ली आनी स्टुपीड. तुजो जागो भर्ती करूंक सांगल्लो. पूण ताची बियर तोच हाडून येवंदी.

जेरीन आपले भयणीक वेंगलें.

तो परत्यान स्तिमिताक येताना कॅनरा पिंटो बस सुरतकल पावल्लें. आनी अनीकी धांवतालें. तवळ ताणे आपल्या दाव्याक आसल्ल्या सहप्रयाणीकाक पळेलो. 'हॅलो!' म्हणालो तो मध्यम प्रायेचो दादलो. 'पयल्या पावटीं गल्फाक?' ताणे विचारलें 'हांव सालू फेर्नांद' ताणे आपलो हात मुखार हाडलो.

'तुका कशें कळीत?' जेरीन ताचो हात धरलो. 'हांव जेराल्ड पायस, वालेन्सियाचो. तुका कशें कळीत हांव गल्फाक भायर सरलां म्हण?

'हांवें आत्तां पळयिल्लो आदेव्स आसा पळे!' तो म्हणालो बुळ बुळो हांसो हांसोन. 'गल्फ गुडबाय वेळार मात्र जातात. पूण एक पावटीं आनी पयले पावटीं रजेर येवन पाटीं वेताना असले आदेव्स पळेवंक मेळानात.'

'कित्याक म्हळेंय?'

'कित्याक म्हळ्यार तुवें हाडल्ले सर्व खर्चून तुवें हेरां लागचें रीण काडल्लें आसता या तुवें गल्पाथावन हाडल्लें सर्वांक दिवंक पावोंक ना!' तो हासलो.

'तुका ह्या विशयांचेर बरी माहेत आसचे परींच दिसता, अंकल!'

'अंकल गेलो डब्यांत!' म्हणलो सालू. 'हांव आसल्लों सावदींत सोळा वर्सां'

'कशें सालू अंकल गल्फांत?' जेरीन तिरकास बसोन ताचे लागीं विचारलें.

सालून एक लांब उस्वास सोडलो. 'तुका निराशी करचे तसलें कसलेंयी सांगोंक म्हाका नाका, कित्याक गल्फांतच हांवें बरे कमायल्यात आनी आतां बोरीवलींत एक फ्लॅट करून आसां, मजेन दीस सारतां... म्हजीं भुरगीं सेटल जाल्यांत... पूण कितें म्हळ्यारी त्या आरब्यांच्या देशांनी आमकां इंडियनांक नीत, स्थान – मान ना जेरी... सावदींत, आतांयी फाशी कशी दितात जाणांय? सुक्राराचीं तांचीं मागणीं जाल्या उप्रांत फाशयेचें फर्माण जाल्ल्याक दुकराक बांदून हाडलेल्यापरीं उगत्या मैदानार हाडतात आनी एका तलवारीन 'रफक्क' करून ताची तकली कापतात.'

'हें तुवें पळेलांय सालू अंकल?' जेरीन आंगू काडलें.

सुरवेच्या सुरवेरच आपणाक कितें सर्व आयकोंक मेळता, आपणाकच विचारूंक पडलो.

'पूण तूं खंय वेताय? कुवेटाक मूं?' सालू फेर्नांदान विचारलें.

'थंय तकली उसळायनांत, उगताडांत गोमट्याक दोरी घालून उमकाळायतात... शे शे कसलें नापास उलोणें हांव उलयतां.'

तो आपल्या कपालाक हात मारि लागलो. 'तूं कांय भियेनाका! पूण आरब्यांच्या कसल्यायी लफड्यांनी सांपडेनाका.'

जेरीन कांय जाप दिली ना.

सालू फेर्नांदाचीं उतरां आपले मतींतलीं भायर घालून ताणे आपली येदोळची जिणी आपणाक उडासांत आसल्ल्या भोव आदल्या घडिताथावन सुरू करून नियाळ्ळी.

मुंबय सायान नाक्यार फेल्सी आण्टी कार गेवन ताका मुखार आइल्ली. तांचें पलॅट लिंकिंग रोड, बेंड्रांत आसल्लें आनी आपल्या विजाच्यो formalities करच्या वेळार जेरी फेल्सी आंण्तीगेर थोडे दीस रावल्लो. तिणे सबार वर्सां थोमास कूक ट्रावेल एजेन्सींत काम केल्लें आनी तिची घोव रिजर्व बेंकांत आसल्लो. मुंबयच्या

: मट्टाक तांची 'पोश' लायफच म्हण्येत. तांकां दोगां भुर्गीं. एक्लो चलो आनी एक धूव आनी तांणीं आदल्या पावटीं जेरी तांगेर वचोन रावल्ल्या वेळार ताचें तितलें गुमान केल्लें ना. 'आमी मेंगलोरियन्स न्हय, आमी मुंबायटस' म्हण्ची संतत ती. जेरीक ताणीं उलंवचें मुंबय हिंदूळीश वेगींच सम्जानातल्लें. एकेक पावटीं तीं ताचीं नकलां करतात म्हळ्ळो जब्बोर दुबाव जातालो जेरीक.

ह्या पावटीं So You Gonna go to Make big bucks, eh Cousin Gerry?' असें ताणी ताका चिडायलो.

फेल्सी आण्टीच्या घोवाक गल्फ म्हळ्यार भिकाऱ्यांनी भीक मागोंक वेचो एक भूखंड म्हळ्ळें भावन मतींत आसल्लें तें जेरीक आपल्या पयले भेटेंतच कळीत जाल्लें.

'तुमकां तरनाट्यांक लागलां गल्फाचें पिशें!' ताणे म्हळ्ळें. 'थंयचें काळें भांगार नितळ केल्यशिवाय तें दुडू दिता? आनी तें काळें भांगार ते आरबी नितळ करतात आमच्याच रगतान!'



# 25

कोणें कोणाच्या रगतान कितें नितळ केलें या करूंक ना हें आपणाक पडोन वचोंक ना म्हळ्ळें भोगाप जेराल्ड पायसाचे मतींत तो सहारा एअरपोर्टांत रिगल्ल्या खिणाच थिरलें आनी आपूण एकाच्छाणे कसल्यागी एका संवसाराच्या पर्लारांत रिगल्लेपरीं ताका भोगलें.

भितरली ती शिस्तेची गड्दी, प्रकाशभरीत वीज दिव्यांनी फळफलचें विविध एअरलायनींचे कावंटर आनी त्या कांवटरां पाटल्यान तांच्या वावरांत मग्न जाल्ल्यो सोबीत सोबीत चलयो आनी तांकां तेंको दिवंक म्हळ्ळ्या परीं स्मार्ट युनिफॉर्मांचेर आसचे तरनाटे, आपापली ट्रॉली लोटीत हेणेतेणे वेचे पायलेट आनी गगनसखियो ... आपूण एका भलत्याच संवसारांत रिगल्ले परीं ताका भोगलें.

मिक्की पायसान आपणाक शिंवयिल्लो सूट सारको फिट्ट जायना म्हण ताका भोगलें. त्या दोनपारांच जिणेंत पयले पावटीं सूट घालून तो तयार जाताना फेल्सी आण्टीचीं भुरगीं वोंट ओळावन हांसल्लीं. `Posh, eh? तांणी ताका चिडायिल्लो. तिच्या घोवान उतरांनी काय म्हळेंना तरी ताची दिश्ट कांठभर उलयली. जेरीक इतलें उणेपण केदाळारी बोगल्लें ना. मंगळुरांत जाल्यार सूट घाल्ल्याक दोदोन पावटीं पळेताल्यो चलयो.

'कुवेटांत कामाक लागल्ल्या उप्रांत हाच्याकी उंची सूट तूं शिंवयतोलोय, जेरी!' फेल्सी आण्टीन म्हळें. 'पूण आमचो मिकीबाब पाद्रींचे लोब शिंवच्या मट्टारच उरलो न्हय? हो 'कट' पांच वर्सां आदलो रे बाब जेरी – लुगट हाडल्लें तर हांगाच होंगकोंग टेलरालागीं पांच घंट्या भिंतर सूट शिंवयत्यांव तुका. नेवर मायंड... आनी तूं कितें येदी व्हडली 'स्मगलर सायज' सुटकेज हाडून आयलाय? कसलें भरलां व्होनयेन?'

पूण आतां जेरीक ह्या सर्वाची पर्वा नातल्ली. 'चेक - इन' कांवंटराचेर आपले पर्जळीत दांत दाखवन ताका 'सर, सर' म्हण ताची लगेज बिल्लो बांदून भितर घेवन ताका इमिग्रेशन कार्ड आनी बोर्डींग पास दिल्ले चलयेन् 'Have a nice flight sir!' म्हणताना जेरीक सर्ग एकच गेण (वेत) वयर उरलो. ताका कितें कळीत कीं हीं औपचारिकां घरचाकरेक वेच्यांकी 'सर, मदाम'. म्हणतात म्हण कितेंयी तरी जेरीक कोणेयी 'सर' म्हण मान दिवंचो पयले पावटीं कुरियन चीट फंडांतलो रामू सयत ताका सर म्हणानातल्लो.

फेल्सी आण्टीचे मजतीन ताणे इमिग्रेशन कार्ड भरलें.

तें काम जाताना फेल्सी आण्टीन एक नोट काडून ताका दिलो. त्या नोटाची ओळक ताका कळ्ळी ना.

'पांच डॉलर!' ती म्हणाली. 'म्हजे थावन एक ल्हान गिफ्ट. प्लेनाचेर इंडियाची करेन्सी चलाना. कांय तुका एक दोन टिनां बियर मारूंक जाय तर हे डॉलर उपकाराक पडतेले. फस्ट क्लार बियर मेळता प्लेनाचेर आनी हां हे पांच डॉलर आसल्ले ते पांच लाख करची शाती तुजी.'

'आनी मागणें तुमचें. फेल्सी आण्टी!' उमाळ्यांनी भरोन म्हणालो जेरी.

'नारे, बाबा जेरी!' ती म्हणाली. 'मागणेंयी तुजेंच. ह्या दिसांनी आमकां आमचे खातीरच मागोंक फुरसत ना... तुजे हात आतां तुज्याच माथ्यार. तूं कोणायच्याय मागण्याक राखों नाका, पातयेनाका.'

एअर इंडिया फ्लायट ए. आय. 181 गेट नंबर चवदाचेर बोर्डिंग करतालें आनी फेल्सी आण्टीन ताका थंयसर व्हेलो. थंयच फेल्सी आण्टीन ताका आदेव्स मागलो आनी 'चुब्क' करून ताच्या गोलाक एक उमो दिलो.

एअर बस्साच्या पोटांत रिगल्ल्या जेरीक आन एक संवसार राखोन आसल्लो. सुटार आसल्ल्या हाचेर कोणाचेंयी गुमान आसल्लेपरीं दिसनातल्लें. गगनसखियांचे मजतीन पयणारी तातांची सीट सोदच्यांत पडल्ले, कांय थोडे सिटींच्या वयर आसल्ल्या कंत्राळांनी तांची 'हॅण्ड लगेच चेपूंक प्रेतन करताले. खंच्यागी एका मुल्यांत एक बाळशें रडतालें.'

गगनसखियेन दाखयिल्ले सिटीचेर जेरी बसलो आनी आपलें धाकटुलें बॅग जांतू ताचीं खासगी दत्तावेजां आनी पासपोर्ट आसल्लो ताणे आपले मांडयेर

दवरलें.

तितल्यार ताचो सहपयणारी येवन 'धसक्क' करून बसलो. ताच्या कुडीवस्त्राथावन येवंच्या अत्तराच्या परमळान जेरीक कळ्ळें कीं तो एक मुस्लीम म्हण. ताका ताची एकल्याची सीट पावनातल्ली. आनी आपले कुले फिट्ट करूंक तो उरडलो आनी अशीर सिटी केल्ल्या एअर इंडियाक गाळी येटिलागलो. जेरीचें गुमान आपणाचेर पडलें म्हळ्ळें नक्की करून तो हिन्दीत म्हणालो 'हांवें केदाळारी फस्ट क्लास फ्लायट करचें' आज म्हाका रिझर्वेशन मेळ्ळें ना.' तो आपलो उजवो पांय दोडून सिटीर दवरून तो म्हणालो. 'खंय काम करताय कुवेटांत?'

'आनी पळेजे सर!' म्हणालो जेरी. पयले पावटीं वेचें...'

'कसली वीजा? खादिमाची या शुनाची?'

'म्हाका समजालें ना, सर', जाप दिली जेरीन. 'तुका जाय तर...' ताणे आपलें बेग उगतें करूंक सुरू करताना,'

'नहीं नहीं', तो म्हणालो. 'तुका घरकामेल्याची विजागी या वर्कींग विजागी म्हण हांवें विचारलें, तितलेंच.'

जेरीन आपलें बॅग धांपलें आनी ताचेर एक दिश्ट चरयली. पठाणांनी घालचें सदोळ दिरूस ताणे न्हेसल्लें आनी ताच्या जुब्बाचेर तीन चार तंबाकूचीं खतां आसल्लीं.

'तुमचें नांव कितें सर?' जेरीन विचारचें धैर घेतलें. 'कुवेटांत खंच्या कंपणेंत आसात?'

तो हासलो आनी जेरीक ताच्या मुखल्या दांतांपयकी दोन भांगारान बसइल्ले दिसले. 'आमी बोहरी कुळयेचे!' तो म्हणलो. आमी कोणायखाल काम करिनांवं. पुण आमचोच धंदो चलयतांव. आमकां आमचीच सुपर मार्केट आसा! म्हजें नांव सैफी बुहरानी.

'ओ!' उद्‌गारलो जेरी. पूण जाणा कितें तो कीं हो सैफी आनी असलेच हजार हेर नुक्काड, गल्ल्यांनी ल्हान ल्हान दुकाना चलयताले. पूण जिलली टिचेरीच्या मट्टाक त्यो सुपर मार्केटीच सय!

एअर बस्सांत चडावत पॅसेंजर बसोन जाल्ले आनी तवळ इल्लोसो सुसेग मेळतच जेरीन विमानाची सोबाय चाकली. येदें व्हडलें हें यंत्र वाऱ्यार कशें उबता

म्हळ्ळें सवाल ताचे मतींत भिरांतीन उदेलें. पूण ते भिरांतीक ताणे ग्रास घालो ना, ताची सीट जनेला सरशींच आसल्ली आनी एअर बस उबोंक लागताना आपूण वयरथावन सगळो संवसार पळेतोलों, अशें ताणे चिंतलें.

ल्हान प्लास्टीक कपांनी फळांचो रोस आनी एके ड्रेंत विवीध नमुन्यांची चॉकलेटां आयलीं. सैफी बुहरानीन चॉकलेटांक मुठच मारताना गगनसखियेन जेरीक एक दिश्ट दिली. उप्रांत सिटीचेर पांय मुडचून बसल्ल्या सैफीक ती म्हणाली `Sir We're about to take off. Please put your leg down and fasten seat belt.'

पूण सैफीन आयकोन आयकानातल्लेपरीं केलें आनी ती दोळे वाटारून गेली.

'म्हाका दिसता,' नम्रतेन म्हणालो जेरी 'तिणे सांगल्लेपरीं आमी करचें बरें म्हण.' ताचें गुमान वाऱ्या - पयणावेळार कसलीयी तुर्त परिगत उदेल्यार कितें करजे, ऑक्सिज्जन मुकवाडांचो आनी विमान उदकांत देवलें तर गोमट्याभोंवारी life Jacket कशी घालची आनी ती फुगवंची म्हळ्ळो देखाव करच्या गगन सखियेचेर आसल्लें.

'पूण तें हिन्दींत सांगोंदी!' खेंचलो सैफी. 'हें एअर इंडिया न्हय? आनी आमचीं राष्ट्रभास हिन्दी न्हय? हिन्दी में बोलने दो साली को! जेरीन सायबा देवाक हाक मारली. हें भास संस्कृतीचें पिशें विमानारय आसा तर? मंगळुरांत सुरू जाल्लें पावाना?

तुर्त परिगतींत कितें करीजे म्हळ्ळो देखाव जाताना विमानाच्या सिटीं मदल्यान पासायो मारून गगनसखियो पयणांच्यांनी सीट बेल्ट बांदून, सीट उबीच दवरल्यागी म्हण तपासताल्यो.

सैफी सरशीं येताना तो बसल्लेपरींच आसल्लो आनी तिणे परत्यान इंग्लिशांत सांगताना तो भेकऱ्यापरीं तिका पळेवन म्हणाला 'नो इंग्लीश!'

पाप बावडी. तिणे हिंदींत सुचन दितेच सैफीचो पांय सकला देंवलो, पूण व्हडल्या पोटावयर सीट बेल्ट बांदचें ताचें प्रेतन फल्सालें ना. तितल्यार गगनसखियेचो ताळो नाजूक रितीर पी. ए. सिस्टमाचेर आयकालो.' 'मानेस्तिणींनो आनी मानेस्तांनो, एअर इंडिया आनी कमांडर अर्जूनसींग राठोड आनी ताची

शिबंदी तुमकां स्वागत करता. आमी थोड्याच घड्यांनी कुवेटपर्यांतलें वाऱ्या पय्ण सुरू करतेल्यावं. सुमार तीन हजार सातशीं किलोमिटरांची ही वाऱ्या पयण आमी साडेतीन घंट्याभितर संपयतेल्यांव. हें तुमचें पयण करूंक आमी सर्वांई तुमचे... सेवेंत हाजर आसावं...'

एअर बसाच्या गर्भांत एका थराचें मौन देंवलें, खंय एका मुल्यांत तें बाळशें आनीकी रडतालें. कॅबिनाभितरल्या ओत्तडाचें नियंत्रण जाताना जेरीच्या कानांनी दाब चडलो. रनवेचेर धांवचें विमान घुंवलें आनी जेरीक रनवेचे निळशे लायट मंद प्रकासान पेटचे दिसले. एकाच्छाणे विमानाच्या इंजिनांचो आवाज तिदोडो जालो आनी विमानान रनवेचेर वेग आरायलो, रनवेचे दिवे आतां फकत एक लांब निळसो गीट जावन विमानच्या भायल्यान धांवचेपरीं दिसताले आनी थोड्याच घड्यांनी हो निळसो गीटय मायाग जालो[९०] आनी जेरीक कोणेगी आपलो सगळो जीवच न्हय पोटांतली आनकिटी सयत शेळमड्या हातांनी उखलून धरल्लेपरीं जालें.

एअरबस उबोंक लागल्लें. 'पळे पळे बेंड्राचो दर्यो दिसता' कोणेंगी म्हळें. जेरीन भायर पळेलें पूण ताका काजुल्यांपरीं निटायेन मिणमिणचे दिवे शिवाय हेर कांय दिसलें ना. थोड्याच घडयांनी हे दिवेय मायाग जाले.

केनरा पिंटो बसान ताका मंगळूरथावन पयस करून मुंबय हाडल्लो आनी आतां हें विमान ताका ताच्या भारता थावनच पयस व्हरतालें. जेरीच्या दोळ्यांनी दुकां उदेल्लीं.

पूण हीं सिंतिमेंतां ताचे थंय, चडवेळ उरलीं नात.

सैफीची प्लेट सुरू जाल्ली आनी 'सीटबेल्ट' बांदून रावा म्हळ्ळी निशानी पालवतच तो उठलो आनी टॉयलेटाक वचोन आयलो. गगनसखियो भारीच कामार पडल्ल्यो आनी पयणाऱ्यांथावन पिवनांचीं[९१] ऑर्डरां घेतालीं.

सैफीन तीन जॉनी वॉकर ऑर्डर करताना जेरीक विज्मीन जालें कित्याक हौ सैफी मुस्लीम म्हण ताका कळीत जाल्लें. 'कुवेटांत सोरो मेळाना!' तो स्पश्टीकरण दीलागलो. 'आमकां पियेवंक नजो. अरे! छोडो यार... तूं कितें पियेताय, सूट साहब?'

'हांव बियर घेतां!' म्हणालो जेरी. मर्जेन पांच डॉलरांचो नोट भायर काडून.

‘तुजो नोट भितर दवर!’ म्हणालो. ‘तुजी बियर म्हज्या लेकार आमी हिन्दुस्तानी यार. मजा करेगा.’ ताणे जेरीक तीन बियरीचीं टिनां ऑर्डर केलीं. ‘आनीकी जाय तर बंदा हाजीर है!’ तो म्हणालो, पिसोळ्यांपरीं हेणे तेणे उबच्या गगन सखियांक मिटयोमारीत उप्रांत ताणे रोथमेन्स सिग्रेट पेटयली. जेरीन आपणाक ती नाका म्हळें. ‘कुवेटांत सिग्रेटीची सवय खिणान जाता!’ बोल्में उच्चारलें सैफीन.

विदेशी बियरीचो पयलो मिरमिरो घोट आपल्या ताळ्यांत देंवताना जेरी आपणा इतल्याक उद्गारलो. गल्फाचें पयणच इतलें सुखाळ तर गल्फ कशें आसात? सर्ग?

चार बियर टिनां आनी एका रोसाळ जेवणा उप्रांत जेरीक न्हीदशी आयली आनी तो एका रंगाळ संवसारांत रिगलो. तोच नेणा कितल्या वेळा उप्रांत म्हण सैफीन ताका धोंकळून उठयताना ताका जाग जाली आनी सैर – भैर जाल्लेपरीं तो हेणे तेणे पळेलागलो.

‘आमचें कुवेट आयलें!’ म्हणालो सैफी. ‘भायर पळे’ आनी जेरीन भायर पळेलें. इंजिनाचो आवाज बदलाल्लो ताच्या गुमानाक गेलो आनी जनेलांतल्यान दिसल्लें ते दृश्य ताका उस्मडीत करिलागलें. ताका फकत दिसली वीजे दिव्यांची एक ‘कार्पेट’ जी खिणान खीण वयर वयर येताली. मदें मदें ताका बांदपां आनी काड्यांपेटे गात्रांचीं वाहनां दिसतालीं जीं खिणान खीण व्हड व्हड जायीत्त येतालीं.

विमान चिक्केशे हालतालें आनी इंजिनां घडये घडये आवाज बदलितालीं.

‘म्हाका एअरपोर्टांत तुवें कुमोक करीजे.’ आपलो बेल्ट बांदताना.

‘हांवें पयले पावटीं येवंचें न्हय?’

‘हूं!’ म्हणालो सैफी ‘तुका कोणतरी मुखार येतेले न्हय?’

‘व्हय’, म्हणालो जेरी. ‘नोरा लुवीस येतेलें.’

एअर बस कुवेट अंतर्राष्ट्रीय एअरपोर्टांत देवताना जेरीक आपूण निजायकी सर्गांत देवंलों म्हळ्ळेंपरीं जालें. विमाना भितर परत आवाज उठलो आनी पयणारी, आनी एकाच सेकंडान विमान परत उबता म्हळ्ळेपरीं गडदी करूंक लागले. जेरी, सैफी पाटल्यानच लांबलो. विमानाच्या दारालागीं तो उबो जाताना कुवेटचो उबाळ

ताच्या मुकमळाक मारलो. एका खर्नासामकार बसल्लेपरीं ताका भोगलें. विमानाक तेंकल्ले निसणीचेर तो आनी हेर पयणारी देंवले आनी तांचे खातीर सालान राखोन आसल्ल्या बस्सांनी रिगलो. बस्साथावन ताका दिव्यांच्या प्रकासभरीत उजवाडांत एअरपोर्टाचें बांदप दिसतालें.

पयलो आयलो कावंटर इमिग्रेशनाचो. लांब जयत लायन आसल्ली आनी सबार ऑफिसर मातये रंगाच्या समवस्त्रार आसचे ताका दिसले. कुवेटी पोलिस जायजे, ताणे लेखलें. हेणे तेणे ताका अपरिचीत भास आयकाताली. मदें मदें 'अब्दुल्लाह, महम्मद, इनशाअल्लाह' आनी हेर उतरां ताका आयकातालीं.

जेरी, लायनीर रावलो. सैफी ताच्या पाटल्यानच आसल्लो.

आपली सर्ती येताना जेरीन आपलो पासपोर्ट आनी इमिग्रेशन कार्ड कावंटरा पाटल्या अधिकारीक दिलें. ताची विजा मुंबयतच मारल्ळी. अधिकारीन प्रवेशाची म्होर मारली. 'वेय्न शिगुल?' (खंय कामाक आयलाय) ताणे विचारलें दर्प ताळ्यान.

जेरीक समजालें ना 'अव्वल मर्रा ईजी हादा हिन्दी!' सैफीन जाप दिली. हेंयी जेरीक समजालें ना.

'कस्टम, कस्टम!' तेवशीन दाकवन म्हणालो अधिकारी हें जेरीक समजालें.

'कांय बाटली गिटली हाडूंक नाय मूं?' विचारलें सैफीन. 'थोडेपावटीं प्लेनार पियेवन आयिल्ल्यांकच भितर घालतात हे लुच्चे.' जेरीचें काळीज कितेंगी दडदडतालें.

कस्टम हॉलांत कन्वेयर बेल्टाचेर आपली सुटकेज येवंक राखलो जेरी. सैफीची लगेच पयलींच आयिल्ली आनी तो एक 'बाय' म्हणानासतांच एका कस्टम्स कांवंटरालागीं येदोळच उबो जाल्लो.

जण उणे म्हण दिसल्ल्या लायनीक सेर्वालो जेरी. कस्टम्स् चेकींग कठीण म्हण ताका दिसतालें. कोणेगी हाडल्लीं सर्व खाणां – रांदवय अधिकारींनी काडून उडयललीं, कोणे गोंयकारांनी लिंगिसां हाडल्लीं एके बडयेन काडून ताणीं पयस उडयलीं आनी तीं हाडलेल्या पयणाऱ्याक मारूंक म्हळ्ळेपरीं अधिकारीन हात उबारलो.

आपली सर्ती येताना जेरीचें सर्वांग कांपतालें पूण ताका कारण कळीत नातल्लें. सैफी खंयसरी दिसनातल्लो. हेर पयणारी संवसारांत तांचे शिवाय हेर कोणच नात म्हळ्ळे परीं करतांले.

जेरीची सूटकेज उगती जाली. एकलो अधिकारी ती तपासताना दुसऱ्यान ताचो पासपोर्ट पळेलो. तितल्यार...

ताची सूटकेस तपासच्या अधिकारीन एक पॅकेट भायर काडली आनी उसयलो. 'शिनू हादा?'[९२] पेकेट जेरीच्या नाका पदांकच धरून विचारलें अधिकारीन.

भास समजानातल्ली तरी तो अधिकारी कितें विचारता म्हळ्ळें जेरीक कळीत जालें.

ह्याट इज कसकसो! तो म्हणालो. 'फॉर इटींग, कुकींग...'

'अब्दुल्ला, थाय यबा, शूफ[९३]!' त्या अधिकारीन दुसऱ्याक हाक मारली.

तो अधिकारी जरीचो पासपोर्ट हातीं घेवनच हेव्शीन आयलो.

'कसकसो फॉर इटींग... कुकींग...' जेरीचो ताळो कांपतालो.

ताका फुडें कितें जाता म्हण कळच्याफुडेंच पासपोर्ट घेवन आइल्ल्या कस्टम्स अधिकारीन ताच्या कान पट्टेक एक बळीश्ट थापड बसयलें.



# 26

नोरा लुविसान त्या दोनपारां उप्रांत कितले पावटीं वॉच्याक पळयिल्लें म्हळ्ळ्याक हिसबच नातल्लो. सांजेचीं साडे स जाताना तें वॉच्याक पळेवन गुणगुणलें. 'जेरीचें फ्लायट सहारथावन उठलें!' ताचें काळीज कठीण रितीर धडधडतालें आनी ताणे कितें करचें म्हण कळीत नासतां शेक फाहद अल सालेम अल-सबहा-हाच्या विस्तार बंगल्यांत येदोळच तीन पावटीं भोंवडी मारून जाल्ली. शेक बंगल्यांत नातल्लो. आलिंपीक खेळांक लगती जाल्ल्या एका मिटिंगाक लागोन फ्रान्साक गेल्लो.

त्या फुडें एका म्हयन्याक लागोन शेका मिरियम आपल्या तेगां भुरग्यांक घेवन युरोपाच्या भोंवडेक गेल्ली. कुवेटांत कठीण उबाळाचे दीस आनी दुड्डू आसल्ले कुवेटी कोणय देशांत रावनातल्ले. तांकां युरोपाची भोंवडी स्वताचे विंचवणेची कड्डाय. कुवेटी सरकारान आपली परजा उबाळांतय देशांतच आसोंदी म्हळ्ळ्या इराद्यान दर्या करावळीचे सबार जागे फॅमिली बीच जावन परिवर्तन केल्ले आनी हांगासर सांजेचें थरावळ मनोरंजन, खेळ, संगीत... 'हफला'[९४] चलताल्यो. पूण बियर विस्केची रूच आनी टर्की, इजीप्त, बेंगकॉक असल्या देशांच्या जन्नतांची रूच लागल्ल्या कुवेटींक सेवेन - अप, पेप्सिकोलाच्यो बीच पार्टी खंय रूचतात?

पूण ताचो धनी शेक फाहद असल्या कुवेटींपरीं न्हय. ताचेपरीं सबार खरे कुटामागार आसल्ले कुवेटीं मदौं आनी ते तांच्या कुटमांक दोळ्यांच्या मंडळेपरीं राखताले आनी मोग करताले. युरोपाचे भोंवडेक गेल्यार सगळ्या कुटमाक आनी एका दोगां कामाच्यांक घेवनच वेताले. असलो एक संदर्भ येवंच्या उबाळांत नोराक दितां म्हण शेक फाहदान आपल्या नुरीक भास दिल्ली.

आनी हां, ताका नोरा इतलें पसंद आसल्लें कीं तो ताका मोगान 'नूरी' म्हण आरब्यांच्या नांवान उलो करतालो. हें चिंतून नोरा हांसलें.

बंगल्यांत सर्व कामेल्याक एक वारेसदार्न आसल्ली, कार्कळची तेज्जुबाय. ती पयशिल्ल्यान येस्तुबायेक लेखताली आनी तिणेच नोराक विजा दिवयल्ली. खड्प मनीस ती आनी आतां तिची प्राय सत्तरांक लागीं सरताली तरी तिणे शेक फाहदाच्या बंगल्यांत चलवंचे आदवाज कांय उण्याचें न्हय. शेक फाहद तिच्याच उसक्यार म्हळ्ळेपरीं व्हड जाल्लो आनी आतां ताचीं भुरगीं तेज्जुबायेक 'माम्मा' म्हण उलो मारतालीं.

बंगल्यांत हेरांक ऊठ – बस करचें सोडल्यार ती कसलेंयी काम करिनातल्ली. कित्याक तिणे काम करीजे म्हण सवालय उदेनातल्लें. शेकाच्या कुटमा सांगाता भोंवडी मारून तिणे मुक्कालांश संवसार पळयिल्लो. बंगल्यांत आतां काम करूंक तिणे उठचें आसल्लें शेक फाहदाच्या कुटमाक तिणे तयार करची सुपर बिरयाणी खावंची आशा आइल्ल्या वेळार मात्र! पूण शिंदप सुटीगिटी करीजे हेरांनी. ती बासमती तांदूळ शिजवंक आनी मसाल्याचें हळट करूंक आनी बिरयाणी 'धम्माक' दवरूंक मात्र येताली.

तिका त्या बंगल्यांत कितलो मान आसल्लोगी म्हळ्यार कांय अपरूब शेक विस्की घेवन बसात तर तिका एक पेग जरूर मेळतालो, चड जावन हिंवाळांत. शिकपी ती न्हय पूण हेरांथावन मान – भरम आपणांवची सकत तिचेथंय आसल्ली. शेका मिरियम तिका आवय म्हणच मानताली.

एकेका कुवेटी कुळारांत असलें वातावरण तर सबार कुळारांनी घर – कामेल्यांक नाना ते कश्ट मेळताले. ती कथा वेगळीच, पूण खरी संगत उझवाडांत येनातल्ली आनी गांवांक आइल्ल्या वेळार कोणय ओंठ उसयनातल्लीं. तेज्जूक आनी नोराक आइल्लें बरें भाग सर्वांक येनातल्लें, बंगल्यांतली सर्वां शेक फाहदाक तांच्या मट्टाचो देवच मानतालीं.

कातोलीक भावाड्त पाळच्यांत शेकान आपल्या कामेल्यांक कसलीच आडकळ हाडल्ली ना. चड कित्याक आयताराचें बिजिताक आनी नोराक कातेद्रालाक मिसाक व्हरूंक आनी हाडूंक शेकाच्या सबार कारां पयकी एक जरूर आसतालें.

नोराच्या भावाक डोल्फीक विजा मेळोंक कारण तेज्जूच. एका दिसा, कामाक सेर्वोन सुमार एका वर्सा उप्रांत, नोरान, तेज्जू 'आण्टी'च्या कानांक गुर्मां घालीं. आपल्या पारपोळ भावाक एक विजा जाय!'

'आतां तुका हांव 'आण्टी' जालीं गो नोरा? तिणे विचारलें 'मिशी भितर रिगोन एक वर्स जालें मात्र आनी सुरू जालें. घमट. शेकाक मोगाचें नुरी जालांय तूं आनी आतां म्हाका आण्टी केलीय? तूंच विचारिनाय शेकालागीं.'

'पुण तूं एक मध्यस्तीण जाय न्हय तेज्जांटी?' नोरान गोमटी आड घाल्ली. 'म्हजो भाव डोल्फी खंडीत पारपळ जावन पिड्ड्यार जातलो. आतांच सिग्रेट फुंकोन फुंकोन ताचीं पोपिसां उरल्यांत गी नागी.'

'विचारतां गो, विचारतां', म्हणाली तेज्जूबाय. 'ड्रायवींग येता म्हळेंय?'

'व्हय खंय.'

'व्हय खंय म्हळ्यार कितें गो?' तिणे दोळे अशीर केले. 'तूं पळे हांगासर त्या इशाना सांगांता बाजारात वेताना ताका फुसलावन पिक अप चलयताय. तुका भंय दिसानागो?' शोक फाहदाच्या नावान तूं अशेंयी उडताय या तुका भंयच दिसना?'

'म्हाका भंय म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें कळीतच ना!' ताणे जाप दिली. 'आनी कितें? कांय कसल्यांतय सांपडून पडल्यार शेकान पयलेंच सांगलां न्हय, ताचें नांव मदें हाडूंक नजो म्हण?' तें हांसलें.

'आनी तुका मेळ्ळा पळे तो कोंबलो!' तिणे तकलेक हात मारलो. 'समा जोड तुमकां. तुमी दोगांय सांगाता मेळ्ळ्यार नेकेत्रांच न्हय चंद्रय काडशात. हाका म्हणतात घोडे घालचे म्हण!'

'चंद्र नेकेत्रांच्याकी लागीं आसा तेज्जाप्टी. तें म्हणालें पोक्री हासो हांसोन. 'म्हज्या घोड्या कोंब्याची खबर नाका तुका.'

डोल्फी लुविसाक विजा मेल्ळी.

पूण नोरान आनी येस्तुबायेन चिंतल्लेपरीं जालें ना. डोल्फीच्या पोपसांचेर दोन खतां सांपडलीं मुंबय मेडिकला वेळार. हे परिगतींत तांकां शेक फाहदच कित्याक, कुवेटचो अमीरच कुमोक करूंक सकतो ना.

आपापींच डोल्फीची विजा रद जाली.

आनी त्या वेळार एकाच्छाणे जेरीचें प्रकरण जें नोराचे मती थलार आसल्लें तें वयर आयलें.खंचे कुशीन थावन पळेल्यारय जेरीक कुवेट हाडवंची साध्यताय बरीच आसा म्हळ्ळें खूण नोराक बराबर दिसलें. पूण कित्याक, म्हळ्ळें सवाल तक्षण उदेलेंच.

त्या एका दिसा जिल्ली टिचेरीन वोणीचे तुदियेर (पाळणी तोंकार) आपलो पूत जेरी तुज्या मोगार पडला म्हण सांगताना नोराथंय कसलोय परिणाम जालो म्हण सांगोंक जायना. ताचे मतीक आयिल्ली पयली प्रतिक्रिया म्हळ्यार आपल्या पुताच्या बरेपणा खातीर एक आवय कितेंय करूंक सकता आनी चड करून जिल्ली टिचेरीचे परिगतींत आसल्ली आवय.

एके कुशीन दिसानदीस लाच्यार जावन येवंचो पती, मेडिकल शिकपाक आवंडेवन आसचें मोतयासारकें सोबीत सुंदर धूव, कुटमादारांचें पॉलिटीक्स आनी आपणाक कांय पडोन वचोंक ना म्हळ्ळे परीं सॅली कुरियनाच्या फिलोसोफीचेर दीस काडचो जेराल्ड पायस.

पूण हें तिचें ओक्काणें तशेंच सोडूंक जाता? तशें म्हण जेरीक सर्वां सामकार उबो करून 'न्हय-व्हय' करूंक जाता? थोडे दीस पर्यांत कितें करचें म्हळ्ळ्या सवालाक जापी जावन उदेल्ल्या सर्वाक ताकडेंत दवरून तुकलें नोरान. आखरेक ताकडेचो कांटो सॅली कुरियना कुशीनच मालवलो. तिच्या मुखांत्रच आपणे जेरीच्या अंतरमळां पर्यांत पावयेत.

उप्रांत आइल्लें तें चारित्रीक पाताळा ग्रावंडावयलें प्रकरण जातूं जेरीची अस्कतकाय नोरा सामकार उगताडांत आइल्ली.

पूण तें कांय करूंक सकताले? ताच्यो व्याप्ती जावन आसल्ल्यो परिदें भितरल्योच. कुरियन चीट फंडाक वचोन तें लांबायेन सॅली कुरियनालागीं उलइल्लें. आपणाविशीं आनी जेरी विशींय.

पूण सॅली कुरियनान कोणायचीयी पाझ घेतली ना. 'हांव जेरीक नाकाक दोरी घाल्न म्हाका खुशी आइल्लेपरीं गाद्याक या बयलाक ओडतां म्हण तुमी चिंततात तर तुमी चुकल्यात.' सॅलीन म्हळ्ळें. 'जिल्ली टिचेर एक खोलो खेळ्ळ्या, पूण हो खोलो खेळताना तिणे पुताक आपलो पार्टनर करून घेवंक ना. देखून हो खेळ तुज्या आंगणांत हाडून तिणे सोडला. आतां तुवें हो खोलो कोणाच्या उसक्यार

पडाशें करचो म्हल्ळी विंचवण करीजे. म्हाका दिसता इतलें तुवें आनी जेरीन मुकामुकीं भेटोन उलयजे. ती विलेवारी हांव करतां. पूण एक संगत म्हाका सतान कळय. तुका जेरीथंय कसलीय वोडणी आसा?'

'आसा तर एका खरे इश्टागतीची मात्र'. जाप दिली नोरान. 'हाच्याकी वरतें' हांव कांय करूंक सकाना. हांवें येदोळच म्हज्या भआवाक विजा हाडून जाल्या आनी हांव कितें विजा मारचें मिशीन न्हय.'

हें आयकोन सॅली कुरियन हासली. 'आमी सर्वांय एकेका थराचीं मिशिनां नोरा' ती म्हणाली 'पूण आमी तयार करचीं उत्पदनां आसात पळे आमकांच नाका जाल्लीं. जेरी म्हज्या खाल काम करता आनी ताका सांबाळ आनी कमिशन मेळता. होच आमचो संबंद. ह्या संबंदांभायर तो म्हाका कांय न्हय आनी ताका हांव कांय न्हय. पूण पळे कशें आमी न्हय जाल्ल्या संगतींनी अपापींच मेतेर जातांव पळे.'

'तू कितें सांगोंक सोदताय, सॅली मॅडम?'

इथलेंच कीं जेरी तसले तरनाटे पिगळोंक, भस्म जावंक फकत एक खीण आनी किटाळ पावता. आसूं. विलेवारी करतां हांव तुमी एकांतांत भेटाशें. जेरीच्या आवयन उबें केल्लें प्रकरण तुमीच हाळू करीजे.'

त्या दिसा पाताळा ग्रावंडार तें कांय थोडीं तत्वां तें उलइल्लें आनी ताणे विचारल्लें सवाल आनी घाल्लो बदलाम. संवसारांतल्या मनशांक तुवें लागशिल्यान पळेवंक नाय.

नोरान अशें म्हळ्ळें, जेरी खचीत जावन आपणाच्या मोगार ना म्हळ्ळें ताका सुसतातच. जिल्ली टिचेरीचें तुरूप पास जावंक नातल्लें आनी पाताळा ग्रावंडार नोरान आनी जेरीन एकामेका आदेव्स मागताना तीं एक खरो इश्ट आनी खरी इश्टीण जावन पयस सरल्लीं. या तशें पळेतेल्यांक - आयकातेल्यांक दिसतें. पूण आदेव्सा उप्रांत जांव नोरान या जेरीन इश्टागतीचें कसलेंय खूण - किसर उस्काइल्लें ना. सॅली कुरियनान तरी नोराचो संपर्क केलो ना.

अशें म्हणताना जेरीचो संवसार सुगमायेन चलता म्हण मानून, घेवचेंयी न्हय म्हण नोराक भोगतालें. पूण ह्या मोगणां मदेगात आपणाचोयी संवसार रूता जावंक आसा म्हळ्ळी सोबीत हकीगत नोराक झळकाल्ली आनी थोड्याच तेपां आदीं एक चलो ताचे जिणेंत आइल्लो आनी थीर जाल्लो.

हे थिरावणे सांगाता आपणाचे जिणेंत कसलोच मुलाजो नासतां जेरीकच न्हय कोणा हेरांकय कुमोक आपणे करयेत म्हळ्ळें ताका गमलें, कुमोकच न्हय, कोणायकी आपलो/आपली खरो इश्ट / इश्टीण करून घेवयेत म्हळ्ळें ताका नक्की जालें आनी ह्या कारणाक लागोन डोल्फीची विजा रद जाताना ताका जेरीचो उडास आयलो.

आनी होच उडास घेवन तें शेक फाहद सालेम अलत्सबहा सरशीं गेल्लें.

शेक आपल्या थोड्या इश्टां सांगाता दिवानियांत बसोन टर्कीश कॉफी पियेतालो. स्त्रियांक असल्या दिवानियांनी प्रवेश नातल्लो, पूण शेक फाहदाच्या दिवानियांची संगतच वेगळी.

'ये, ये, नुरी!' म्हणालो शेक फाहद. 'आखरेक तरी तुवें तुजे लांब केंस कात्रयलेच', तो दुरसालो. 'तुमी इंडियनानी देशाभायर गेल्ल्या कूडले करचें इतलेंच', तो म्हणालो हेरांक पळेवन. 'पयले केंस मटवे करचे आनी त्या उप्रांत तुमची संपद्राय[95] विसरोंची.'

'पूण म्हजेथंय तशें न्हय म्हळ्ळें तूं जाणाय, अबू फैसल!' नोरान सुडाळ अरेबिकांत जाप दिली. पैसल, शेक फाहदाच्या म्हालगड्या पुताचें नांव. कोणा आरब्याक फलाण्या म्हालगड्याचो बापूय म्हळ्यार भारीच मर्याद जाताली, संतोस जातालो.

'हांव जाणां नुरी', म्हणालो शेक फाहद. 'कितें आयलेंय?'

मिरियम खंय आसा?'

'शेका मिरियम गोल्ड सुखाक गेल्या आनी हांव...' ताणे सर्वांचेर दिश्ट चरयली. हांव विजा विचारूंक आयल्ल्यां!'

एका मिनुटाचें मौन, उप्रांत शेक फाहद आनी हेर सांगाताच हांसले. 'कुवेताक आयल्या उप्रांत ह्या इंडियनानी करचीं दोन कामां हांवें तुमकां सांगलीं' तो म्हणालो हास्याच्या बुळबुळ्यां मदें. 'तिसरें कसलेंगी म्हळ्यार विजा विचारची.'

'इंडियांत आसचे सर्व मस्कीन[96] न्हय अबू फैसल?' म्हणालो खालीद अल - फौजान, शेकाचो बापूलभाव. 'पूण खंय एक विजा मेळोन ते आमच्या देशांत येवन देंवलें... उप्रांत खिणाभितर ते सिक्कीन[97] जातात.'

शेकान, अल फौजनाक एक दिश्ट दिली आनी तो मौन जालो. 'पूण एका

स म्हयन्या आदीं एक विजा दिल्ली न्हय, नुरी? तुज्या भावाक म्हण म्हणालेंय तू?'

'व्हय, अबू फैसल', नोरान मातें मुळांत घालें. पूण म्हजो भाव मेडिकलांत फेल जालो. आनी विजा रद जाली.'

'मंदूप हाशीम ह्या विशीं जाणा?

'व्हय, शेक फाहद!' नोरान तक्षण जाप दिली. विजारद जाल्या म्हण ताणे म्हाका सांगलां.'

'पूण घडये घडये म्हाका विजा दिवंक जायना न्हय, नुरी?' माते हालवन म्हणालो शेक.

येदोळच ताका बऱ्यान ओळकोचें नोरा चूप रावलें. 'म्हाका एक चिरपूट मारल्यार विजा मेळता आनी कांय विजा नातल्ल्यांकयी हांव एक फोन कॉल करून देशाभितर हाडूंक सकतां पूण हांवें म्हजें घमंड दवरीजे न्हय, नूरी?'

आतांय नोरान कांय म्हळें ना तें पळेवन शेकान विचारलें. 'कितें नुरी, तुजें अरेबीक विसरालेंय?'

आतांय नोरान कांय म्हळें ना तें पळेवन शेक हासलो. 'खालीद अल फौजान', तो म्हणालो आपल्या बहापूल भावाक पळेवन 'आमच्या नुरीक एक बलाश[९८] विजा दी. तूं एका विजाका सयशीं आठशी दिनार वसूल करताय म्हळ्ळें आमी जाणांव'. शेकाचीं उतरां आयकोन सर्व हांसलें.

'कांय आसल्ली कुवेतीची मर्याद ह्या हिन्दी सामकार विकून गेली!' म्हणालो खाली अल-फौजान. 'फाल्यां वचोन शुवेकांत आसच्या म्हज्या दफ्तरांत मंदुपाक भेट आनी ताका...'

'कोणाक विजा जाय, नुरी?' मदेंच विचारलें शेकान.

'म्हजो लागशिलो सदीख[९९], अबू फैसल!' नोरान लट्ट करून जाप दिली. ताच्या ताळ्यांतली निर्दिश्टाय पळेवन शेकान चडीत सवालं केलींनात.

जेरीन पासपोर्ट करयला म्हण ते जाणा आसल्लें पूण विवर आनी झेरोक्स कॉपी कशो हाडवंच्यो? ताका सॅली कुरियनाक बरयजेच पडलें आनी कशें पुणी करून, जेरीक कळयनाशें ताच्या पासपोर्टाच्यो डिटेल्स आपणाक धाड म्हण आनी विजा मेळत तर ती आपूण सॅली कुरियनाकच धाडतेलीं म्हळ्ळो निर्धारय

ताणे केल्लो.

एका म्हयन्या भितर सॅली कुरियनान जेरीच्या पास पोर्टाची कॉपी नोराक धाडली.

आनी एका म्हयन्यान जेराल्ड पायसाक खालीद उल फौजानान विजा दिली.

आनी आज जेरीचें कुवेटांत पयलें लँडींग.

'आज कितें तितल्याय गंभिरायेन आसाय?' शेकाच्या पाकिस्तानी ड्रायवर इशानान विचारलें, एअरपोर्टाक वर्चीक .'पीक-अप' भायर काडताना. 'आज पीक अप चलयतां म्हण हट करिनाय, नुरी?'

नोरान जाप दिली ना.

ते राती इंडियाथावन आशिल्लीं तीन फ्लायटां कुवेट एअर पोर्टांत चड उणे एकाच वेळार देंवलीं.

रातीचीं सुमार साडे अकरा जाताना ह्या फ्लायटांचेर आइल्ले सर्व पयणारी इमिग्रेशन - कस्टम्स जावन भायर आयले. पूण तांचे पयकी जेरी नातल्लो.



# 27

1 आगोस्त 1990

सांजेची स वोरां जाताना मोली पिरेरान आपल्या पुता बॅरनाक फोन केलें. बाहरेनाथावन बॅरनाक ब्रोन ट्रान्सवर्ल्ड कॉर्पोरेशनान (BTC) KNPC Mina Abdullah Refinery Modernization Project क खास करून ताका कुवेटाक हाडयल्लो. मध्यप्राच्यांत पइल्लो आनी सगळ्या आशियांत बृहद कोक युनिटांचो प्रोजेक्ट मॅनेजर जावन बॅरन आशिल्लो म्हणताना ताका मेळच्या पागाचो आनी सौलतायांचो अंदाज कुवेतांत काम करून आसल्ल्यांक मोसराक घालूंक सकचो तसलोच. ताका कंपेनीन साल्मियांत तीन बेडरूमाचें सेंट्राल ए. सी. एपार्टमेंट, कॅप्रीस क्लासीक कार आनी हेर सौलतायो दिल्ल्यो.

'हलो पुता', म्हणाली मोली. 'आयचें काम जालें? कसो जालो दीस? विशी कशें आसा?' आपल्या पंजाबी सुनेथंय, विशाखाथंय तिणे व्हड हुसको दाखयलो. बाहरेनांत दोन पावटीं गर्भ पडल्या उप्रांत आतां विशी परत गर्भान आसल्लें आनी ताका कुवेतच्या दाक्तेरांनी परिपूर्ण हांतुळणा – विशेव कड्डाय केल्लो.

तेवशिल्यान बॅरनान एक लांब उस्वास सोडचो तिका आयकालो. 'आयचें काम जालें मां', तो म्हणालो. 'म्हज्या वांट्याचो तो कोक युनीट! आसूं. विशी? विशी बरें आसा. हां, मां, तुका कितल्या पावटीं हांवें परातलां, त्या अहमदीथावन येवन म्हज्या सांगाता राव म्हण. तूं कांय आयकानाय. विशीक तुजी गरज आसा म्हण तूं जाणाय...'

'ह्या विशीं आमी सबार पावटीं उलयल्यांव बॅरन' ती म्हणाली, एका खचीत ताळ्यान. 'म्हज्या सुनेच्याकी चड आज म्हजी म्हाकाच गरज आसा पुता. म्हज्या कुटमाक म्हजी गरज आसा. म्हज्या आंब्रोजाक म्हजी गरज आसा.' तिचो ताळो

गदगदीत जालो. तिचो आंब्रोज, ती ताका 'सांगानासतां' कुवेत येवन पावल्ल्या थोड्याच दिसांभितर अहमदींतलें आपलें घर सांडून लागसारच आसल्ल्या मंगफ म्हळ्ळ्या वाड्यांत रावोंक गेल्लो, त्या फिलिप्पिनो चलये संगीं.'

तिचो ताळो गदगदीत जाल्लो तो आयकाताना बॅरनान विशय बदलिलो. 'कठीण धग पडल्या न्हय मां?' ताणे गरज नातल्लें सवाल केलें. 'सर्व सुगम आसामूं अहमदींत? आज मिसाक वचोंक नाय?'

'कितेंगी मन आयलें ना, पुतां', तिणे जाप दिली 'पयलें डिनाक फोन केलें. पूण कितेंगी म्हाका लायनच लागली ना. कांय गडबड पुणी ना मूं?'

`What do you mean, Mom?'

'न्हय पुता,' ती म्हणाली. 'तुवेंच न्हय म्हळ्ळेंय कुवेत इराका मदें कसलीगी खटपट चलोन आसा म्हण? तुमकां सुमार वीस दिसां आदीं...'

व्हय. सुमार वीस दिसां आदीं अमेरिकन कंपेनी जावन आसल्ल्या बी. टी. सी. न एक गुप्त परिपत्र आपल्या पागा-पट्टेर आसल्ल्यांक पाटयिल्लें. मध्यप्राच्यांत परिगत सदांच्या समतोलनाक मारक जावन येवंची दिसोन येता, चड करून कुवेत इराकामदें घर्षणाचीं खुणां उगतीं दिसतात. देखून बी. टी. इसी. आपल्या कामेल्यांक, चड करून अमेरिकन राष्ट्रत्व आसल्ल्यांक चेतावणी दिता कीं, तांकां जरी तरी खुशी आसा, परिगत सुदारता पर्यांत तांणीं दुबाय, बाहरेन, सायप्रस ह्या जाग्यांनी वचोन रांवच्याक अमेरिकन सरकार विलेवारी करतलो. पूण तांणी तांच्या कुटमांक ह्या सर्व विलेवारींक राखनासतां पाटीं अमेरिकाक धाडीजे म्हळ्ळो जडायेचो इशारो बि. टी. सी. दिता. पूण कितेंय तरी ही येक मांडावळ स्वताचे भद्रतेची जाल्ल्यान हे विलेवारीचो फायदो जोडची विंचवण तुमची. पूण कितेंयी घडात तर उगताडांत पडानाकात. Be Watchful, keep a low profile!

बॅरन, आवयचें आयकोन मटव्यान हासलो 'आतां तें चिंतून' भियेताय मां?' ताणे विचारलें. 'कुवेतांत तशें कांय जावंक संवसार सोडीत, अमेरिका सोडीत? संवसाराक काळें भांगार जाय, मां. आतां सावदीच्या झेद्दांत ईराकी आनी कुवेतच्या रायकुवराचे शिबंदेचें तेमूक (Summit) चलोनच आसा न्हय? खंडीत जावन ह्या दोगां मदली खटपट नुल्ल जातेली.'

'हांचे मदें जालां तरी कितें?'

'ती राटावळ तुका कित्याक मां?' बॅरनान विचारलें. तूं फिकिर करिनाका. हांव आसा न्हय, तुजो खरो पूत?' ताणे दांबून म्हळें. 'तूं आतां रिलॅक्स कर, डिनाची लायन मेळता गी पळे आनी त्या उप्रांत तुज्या मोगाचें सिरियल Falcon Crest पळे. कांय गरज पडल्यार म्हाका फोन कर...'

'तर कितें तरी जातेलें म्हण तुवें म्हणचें?' तिणे विचारलें. 'तुज्या कंपेनीची चेतावणी घेवन पुणी तूं थोड्या दिसांक बाहरेनाक पार्टी वेतोय...'

'पूण ह्या स्थितेंत आसल्ल्या विशीक पयण करूंक जाता, माँ?' बॅरनान वाजबी सवाल केलें. 'तूं आतां फोन सकयल दवर आनी हांवें सांगल्लेपरीं कर. गुडनायट मां!'

'गुडनायट, पुता!' गुडनायट म्हज्या खऱ्या पुता म्हण म्हणोंक तिका गळ्यापर्यांत आयलें पूण तिणे म्हळें ना. फोन पार्टी खिळायतच तिणे डिना लागीं उलवंक नंबर लागयलें पूण संपर्क मेळ्ळो ना.

हांव आसा न्हय तुजो खरो पूत?

खरें आनी व्हय. पूण म्हजो खरो पती आज एका फिलिप्पिनो चलयेचे वेंगेंत आसा. संदांचेपरीं मोली पिरेरीचे मतींत ती आंब्रोजाक सांगा नासतां' कुवेत आइल्ल्या उप्रांत घडल्लीं घडितां एका सिरियलापरीं तिच्या दोळ्यां सामकार घुंवोंक लागलीं. आतां तिच्या शिरांक बळ दिवंक हांगासर जीन आनी टॉनीक नातल्लें. आसल्लें तरी, मोली पिरेरीचे प्रस्तूत मानसीकतेक तें लागतें ना.

आपणे विंचवण आनी निचेव केल्लोच मोलीन आपले धुवेक डिनाक लागीं आपयिल्लें. 'हांवें सांगोक आसचें बऱ्यान चीत दिवन आयक डीन!' ती म्हणाली. 'हांव सबार रितींनी ह्या कुटमाची गुन्यावकार म्हण तूं जाणाय!'

हें आयकोन आपले दोळे अशीर करून डिना म्हणालें, 'हांव कसलेंच नेणां, मां! टेरीच्या मरणाचें पाप तूं तुज्याच माथ्यार कित्याक घेताय? हांव अशें न्हेसतां, बियर पियेतां, डान्स पार्टींक वेतां... ह्या सर्वांक तूंच परिपूर्ण रितीर कारण? म्हजीयी विंचवण ना हांतूं? एका हातान ताळयो पेटूंक जातात? फाल्यां हांव खंयतरी निसरलीं...'

डिनाची उतरां पुरतीं भायर येवंच्या फुडेंच मोलीन 'नो!' म्हळ्ळी किंक्राट

मारली आनी डिनार्ची दोनय भुजां धरून हालयलीं.' 'तें एक उतर मात्र तूं उच्चारी नाका!' ती बोबाटली. 'हांव निसरलीं पुरो! कोणेंच निसरचें नाका'. ती कुसकोन रडली. तिचो आवतार पळेवन डिना शेरमेलें. 'म्हजें प्रतिरूप परत त्या कुटमांत उदेवंचे नाका.' तिणे धुवेक आरावन धरून म्हळें. 'हांव प्राचीत करूनच आसां आनी तें प्राचीत चडोनच येता शिवाय उणें जायना. गेलो म्हजो पूत आनी आतां आंब्रोज...' डिनाक कसलेंच अर्थ जालें ना. जीन आनी टॉनीक म्हण म्हजे आवयच्यो शिरो पुणी भेसां जावंक नात मूं?

'तुवें चुकोन पडोंक नजो पुता, डीन!'

'मां, तूं कितें उलयताय?' डिना म्हणालें. 'हांव आसां न्हय तुका?' टेरी गेलो व्हय पूण बॅरन आसा न्हय? आनी हें कितें नवें तूं डॅडी विशीं?

'तूं इतलीं सर्व सवालां सांगाताच विचारशा तर कशी जाप हांव दिवं पुता, डीन?' तिणे दोळे पुसले आनी नाक पिळ्ळें. 'पूण एका न्हय तर एका दिसा हांवें हांवें ह्या सवालांक जाप दीजेच पडतेली.'

'तर त्यो जापी आजच दी, मां!' म्हणालें डिना आवयक आरावन धरून. 'तुजें काळीज हाळू जावं.'

मोलीन आपले धुवेक एके तीक्ष्ण दिश्टीन पळेलें 'हांवें सांगचें आयकोचें तितलें घट काळीज तुका आसा, डीन?'

'तरनाटपणाच्या हुंबार उबो जाल्लो भाव करगोन पिगळोन वेचो हांवें देखलो!' तें म्हणालें. 'तुका आदाराचें बुरज जावन हांव रावलीं. डॅडी आनी बॅरन आसल्ले व्हय पूण ते फकत आसल्ले मात्र मां. हांव अशें उलयतां म्हण तूं शेर्मेताय?'

'हांवें गरज नासतां सबारां लागीं दुस्मानकाय जोडली आनी हांतूं तुकायी हांवें मेतेर केलें...' ती म्हणाली.

'तूं विशय सांडून पयस वेताय मां! उलय, हांव आयकोंक तयार आसां. कितें म्हणतालीय तूं डॅडी विशीं?'

मोलीन एक बळाचो स्वास सोडलो. व्हय, आतां वेळ आयिल्लो. टेरीचो वेळ आइल्लो आनी गेल्लो आनी सांगाता ताकायी आपवन व्हरून गेल्लो.

'तुका कांय धैराक जाय तर...' डिनान कुजना कुशीन इशारो केलो.

'आज म्हाका कसल्याचीच गरज ना', म्हणाली मोली. 'आज म्हाका म्हजीच

आनी तुजी गरज आसा!'

डिनान कितेंच म्हळें ना.

'तुवें एक पावटीं म्हळ्ळें आसा, डीन!' मोली शीदा विशयांक येंवचेपरीं दिसतालें डिनाक. 'तुवें म्हळ्ळेंय की बॅरन कित्याक आमचो न्हय म्हळ्ळेपरीं व्हड जाला, कित्याक हांव ताका विभिन्न गमन दितां म्हण?'

डिनान फकत मातें हालयलें. पूण आवयचेर खंचयिल्ली दिश्ट मात्र काडली ना. ताच्या गुमानाक गेलें कीं तिचे वोंट निर्मतीचे पाकाटे कांपल्लेपरीं कांपताले. डिनान एक हात तिच्या बावळ्याचेर दवरलो.

'बॅरन', ती म्हणाली. 'तुज्या बापायचो पूत न्हय!' मोली पिरेरीच्या ह्या उतरांनी थंयसर देवंइल्लें मौन कोंचावन – खोरावन – भोकरून काडयेत म्हळ्ळें तितलें दाट आसल्लें.

डिनाच्या मुमकमळार कसलीच बदलावण जाली ना. प्रतिक्रिया मोलीन अपेक्षिल्लें न्हय आनी देखून ती चाळवाली.

'कित्याक बोबाट मारिनांय तुज्या प्रदुवारी आवयक?' तीच बोबाटली.

'कित्याक थुकिनाय म्हजेर?'

डिनान विचारल्ल्या सवालाक ती तयार नातल्ली. 'रघू शेट्टी?'

नो, नेवर! जाप दिली मोलीन. 'म्हाका दगो दिल्लो ...चे चे... हांवें तशें म्हणोंक नजो. एका हातान ताळयो पेटूंक जायनात म्हण तुवेंच म्हळांय... न्हय रघूशेट्टी•न्हय. पूण ताचो बापूय, जो डॉक्टर, ज्याचे सरशीं हांव गेल्लीं नितळजावंक... ताणे कांय आपल्या पुताक सांगलां आसतेलें.

'आनी त्या खातीर तो रघू तूं एक चालू बायल म्हण...'

'पुरो डीन, पुरो!' हात जोडि लागली मोली. 'आतां म्हजी जीण आयक.'

आनी मोलीन, डिनाक एकच एक संगत सोडिनासतां आपली गुपीत जिणी उगती केली. 'सॅली कुरियना तसल्यांनी म्हाका धाराळ कुमोक केल्या पुता... आनी रघूच्या बापायच्या उपदेसाचेर हांवें नितळ जावंक विंचल्ली वाट सारकी म्हण म्हाका आतां भोगता. किरलाल्लो जीव काडचें कसलेंच हक्क आमकां ना.' तिणे परत धुवेच्या भुजांक धरलें आनी म्हळें, 'ह्या शिवाय समाजीचेर फारीकपण घेतेलीं म्हळ्ळ्या उद्देशान हांवें सबारांचे जिणेत कांटे फाफुडल्यात डीन. जिल्ली टिचेर आनी म्हज्या मदली खटपट वालेन्सियांत भारीच फेमस न्हय..? हेंच म्हजें

कुमसार आनी आतां हांव तुज्या तिर्पाक[100] राखतां!'

डिनान तिका जाप दिवंक चड वेळ काडलोना. 'हांव तुका आनी चड करून डेडीक मानतां आनी वंदितां!' तें म्हणालें. 'तुमी दोगांय ग्रेट मनशां' पूण मां, समाजीक बूद शिकयतां म्हण तुवें टेरीक होगडायलोय', तें हाळवायेन सुस्कारलें. 'तरी मां, हांव दितां भास तुका, तूं म्हाका होगडावंची नाय.'

'पूण डॅडीन टेरीचें मरण भलत्याच दिश्टीन पळेलां, डीन!' मोली म्हणाली. 'आनी तो म्हाका बूद शिकवंचे खातीर असल्या वाटेर चलोंक लागला. हांवें कुवेत वचजेच पुता, ना तर आमी डॅडीक होगडावन घेतेल्यावं'

'जालां तरी कितें?'

'ताणे एका फिलिप्पिनी चलयेक घरकामाक दवरलां डीन!' ती म्हणाली कळवळ्यांनी. 'ताचे दैहीक कालेतीक हांव बऱ्यान ओळखातां डीन. म्हजे विणे तो चड तेंप रावोंक सकना, पूण ह्या पावटीं कित्याक ताचेथावन एक आंवडो या आपवणें म्हाका आयलें ना? आतां ताका हांव निस्तेज दिसतां? हांवें फोनार कांय उलयल्यार तो अशी जाप दिता कीं... खंच्याय घडये म्हजें पातक मुखार हाडून आपलेंच पातक लिपवंच्यार तो आसा म्हण ताच्या उलवण्यान म्हाका भोगता.'

'तशें म्हणताना ताणे ते चलयेक दवरून काण्घेलां म्हण जायना, मां!' तें म्हणालें.

'तुजें चिंतप कित्याक अशें अशीर जालां म्हण म्हाका कळता मां. म्हाका माफ कर, पूण हांवें उच्चारीजे आसल्लें उच्चरीजेच. तूं डॅडीक तुज्या पातकाच्या नदरेन पळेताय मां. Your guility concience is ruling your judgement!'

'तत्वां उलवंक सुलभ, डीन.' मोलीन म्हळें. आत्तांचें आत्तां तुवें म्हळेंय कीं तूं आमकां दोगांयकी मानताय आनी वंदिताय म्हण. अशें उलवंची तुजी प्राय ही कित्याक हें सर्व तुका आतां लागू जायना. वेळ येताना तुजें लग्न जालें आनी तुं एका नव्या संवसारांत रिगलेंय आनी त्या नव्या संवसाराच्या ओडतांडी मदें खंय तरी म्हजी जिणी उगताडांत पडली तवळ मात्र तुका कळीत जातेलें कशी ही समाज मीठ आनी खोलो घेवन हेरांचीं पातकां मेजूंक केदाळाय तयार आसता म्हण. तवळ पर्यांत नाका येवंचें तें 'तवळ'–तूं म्हाका नेगार करीशें नांय.'

'कसलो मतलब तुज्या ह्या लांब उलवण्याचो. तूं कांय कुवेत वचोन

बॅरनाक...'

'व्हय!' खचितायेन म्हणाली मोली 'हांव ताका म्हजी जिणी उगती करतेलीं. आंब्रोजान कसल्याय कीळ रितीर हो घूट ताका सांगच्याफुडें हांव ताका खरी गजाल सांगतेलीं आनी ओपतेलीं (मानून घेतलीं) कीं हांव निसरलीं म्हण. आनी तवळ तुज्या बापायक ताच्या प्रस्तूत जिणेक कसलेंच स्पश्टिकरण दिवंक आवकासच आसचे नांत.'

'परत्यान तूं फारीकपणाचे वाटेनच वेताय, मां!' तें म्हणालें.

'कुवेतांत डॅडी कसली जिणी जियेता म्हण तूं नेणाय. आतां बॅरन आनी विशी आयल्यांत आनी तांच्या सामकार डॅडी असली-तसली जिणी जियेत? एक फावटी फोन करताना ती फिलिप्पिनो चली लायनीर आयली म्हणताना.... ना मां, तूं घोड्या सामकार गाडी हाडताय.'

'तूं कितेंय म्हण डिना', आपल्या हटाक उमकाळ्ळी मोली. 'हांवें कुवेत वचजेच. म्हजी रेसिडेन्स परमीट वॅलीड आसा. आनी तुका एकल्याक सोडून वचोंक म्हाका भंय दिसना. तुका कांय करूंक आसल्यार हांव आसतानाय तूं करशी...'

'मां! तशें उलयनाका. तुका तुज्या घावोसरशीं वचोंक जाय, वच. पूण आतां तुवें सांगल्ले उद्देश घेवन तूं वेशी तर...'

'तर तुंयी येनांय म्हजे संगी?'

'पूण हें तुवें उबें केल्लें प्रकरण. हांव न्हय सगळी वालेन्सिया फिर्गजच सांगाता आयल्यारी तुका फरक पडचो ना. केदाळा वेताय?'

'कोणाकच सांगनासतां वेचें म्हण हांवें चिंतलां! ती म्हणाली.

'डॅडीकय खबर दिवंची नाय?'

मोलीन जाप दिली ना.

'What? you want to catch him red - handed? तें हळटार किळंचलें.

'मां, परत्यान चिंतून पळे. आमी सर्वांनी जायतें होगडायलां. पूण टेरीच्या मरणावरवीं हांवें जायतें पाटीं जोडलां[101] पूण आतां, तुवें करूंक चिंतल्ल्या घोटाळ्यान परत कितें आनी कितलें होगडावंक आसा म्हळ्ळ्याचो अंदाज म्हाका ना. उडास दवर, तुवेंच आत्तां म्हळेंय... डॅडीन तुका त्या स्थितेंत आसतानाय

स्वीकार केलें आनी तुका एक नवें रूप आनी जिणी दिली म्हण?'

'अशें केल्ल्यान ताका आतां फिलिप्पिनी चलयेसंगीं मिरवंक पासपोर्ट मेळना, डीन!' तिच्या ताळ्यांत आतां धार आसल्ली. 'हो धोवा बायले मदलो विशय. तूं पयस राव आनी भास दी म्हाका कीं तूं डॅडीक म्हज्या येण्याची कसलींच खबर दिवंचें नांय म्हण!'

पूण डिनान तसंली कसलीयी भास दिली ना.

■■■

# 28

मोली पिरेरीची मानसिकता असली जावन आसल्ली. की तिका जिणेंत एक न्हय तर एक संकट आसजेच आसल्लो. ह्या संकटांक लागोनच ती जिवी उरताली म्हळ्ळ्याक सबार देखी आसल्ल्यो. जिल्ली टिचेरी तसल्यां लार्गी कांटे फापूडचो संकट तिणेच रचून मागोन हाडल्लो म्हळ्ळें सर्वांक कळीत आसल्लोच विशय.

मतीचो सुसेग जाय आसल्लीं तिचेथावन पयस रावतालीं पूण टेरी आनी डिनाक तिचे थावन व्यक्त कारणांक लागोन पयस रावोंक जायनातल्ल्यान ताणे धुस्पटाये खुशीन मेटां काडल्ल्यांत नवाल ना. तरी पूण मोलीचे दोळे आनीकी उगते जावंक नातल्ले.

आनी ते रातीं कुवेत अतर्राष्ट्रीय एअरपोर्टाचे इमिग्रेशन लायनीर रावल्ल्या तिचे मतींत एक निर्दीश्ट योजन आसल्लें. भायर येतच एकच एम. के. एफ. या बदर अल – मुल्लाचे टॅक्सीक फोन करचें. अहमदी वाठार तिका आपल्या हाताच्या तळव्यापरीं वळखीचें आनी सभावाक लागोनच ती धैरादीक आनी रातीचें एकसुरीच टॅक्सेर वेचें म्हळ्यार तिका भियाची संगत न्हय.

बॅरन, साल्मियांत रावतालो म्हण तिका कळीत आसल्लें पूण ताच्या एपार्टमेंटाचें थळ तिका नक्की नातल्लें. एअरपोर्टाथावन बॅरनाक फोन करयेत आसल्लें. पूण तिणे 'शीदा' वाट धरूंक विंचली. पयलें आपूण म्हज्याच घोवासर्शी वेतेलीं. खबर आसोन या ना आसोन त्या घरांत रिगचें हक्क म्हजें.

तिचीं सर्व दत्तावेजां आनी हकामां पक्का आसल्ल्यान तिका इमिग्रेशनांत कसलेच बांदे जालेनांत आनी कस्टमांत अधिकारींनी तिची लगेज आफडून सयत पळेली ना.

Arrivals लाँज्याक वेतां वेतां आपल्या बॅगांत उरतून तिणे फोन नंबराचो ल्हान बूक भायर काडलो आनी तांतूं एम. के. एफ. टॅक्सीचें नंबर सोदलें. अशें करताना तिचें माथें मुळांत आसल्लें आनी

'हली मोली!' ह्या उल्याक ती तयार नातल्ली.

गक्क करून तिची चाल रावली आनी तिणे मातें उखल्ले.

आंब्रोज आनी बॅरन सांगाताच एका रेलिंगाक ओणकोन उबे आसल्ले. हातांत आसल्लें तिचें बॅग जशें उगतें आसल्लें तेचपरीं तिचें तोंडय उगतें उरलें.

'हलो, मोली!' परत म्हणालो आंब्रोज. 'वेलकम टू कुवेट.'

'हाय, मां!' आपले हात विस्तारोन मुखार आयलो बॅरन. 'कशी आसाय मां? जाप जाणां हांव, तूं दिसान दीस तर्नाटी जावन येताय.' ताणे मोलीक बेंगलें. तिच्या पोल्यां वयल्यान दोन दुकां देंवलीं.

'तर आमच्या डिनान तुमकां खबर दिलीच, न्हय?' तिणे विचारलें सुस्कारां मदें.

'तुज्या पत्तेदारी वावराक धको जालो, माय डार्लींग, मोली?' मुखार सरोन विचारलें आंबून. 'म्हाका सरप्रायज दीजे म्हण तुवें चिंतल्लें न्हय? पूण कितें करयां? रगत, उदकाच्याकी दाट म्हणतात न्हय? डिनाक तुज्या भद्रतेची खंत जाली जाल्ल्यान ताणे तुवें घराथावन भायर सरल्ल्या तक्षण आमकां खबर दिली. पळे हांगासर तुजो पूत आसा आनी तुजो घोवय आसा.' आंबूचीं उतरां आयकोन बॅरनान ताका एक दिश्ट दिली तरी आंबून आपल्या उतरांची धार बदलीली ना. 'आतां डिरेक्टीवगिरी करूंक कोणाच्या घरा वेताय म्हळ्ळी विंचवण कर. अहमदींतलें म्हजें घर पयलेचेंच, परनें, पूण तुजो पूत बॅरन साल्मियांत पॉश एरियांत, पॉश एपार्टमेंटांत रावता.'

'तूं कितें घडये घडये तुजो पूत तुजो पूत म्हण रंदिताय आंबू?'

तिणे विचारलें, आंबून तिच्या दोनय पोल्यांक जुदासाचे उमे दिताना. तिका नक्की कळीत जाल्लें कीं तिचें हें 'साहस' संकटांचो शिखरच हाडतलो म्हण. पूण आतां मेटां पाटीं काडूंक साध्य नातल्लें. 'तो तुजो पुतय न्हय?' तिणे मुखारून विचारलें.

'आंबून कांय म्हळें ना.

'आमी अहमदीच वेचें!' सर्वांखातीर विंचवण केली बॅरनान.

'कित्याक सांगनांय डॅडी?' माम्मी, विशी डॅडीगेरच आसा. ताका साल्मियाथावन अहमदीं हांवेंच व्हेल्लें आनी एअरपोर्टाक येवंक आपणाक तांक ना म्हण तें म्हणालें. उप्रांत दोन कारां हाडचीं नाकात म्हण हांव म्हज्या काराचेर डॅडीक घेवन तुका मुखार आयलों.

'इतली सिंपल संगत जाता तितली कॉम्प्लिकेट करची सवंय तुज्या डॅडीची!' परिगत चिक्केशे हाळू करचे प्रेतन केलें मोलीन, पूण आंबू सदीळ जावंचीं खुणां दाखयनातल्लो.

कॉम्प्लिकेशन्स करचीं तुवेंच मोली! म्हणालो आंबू तिचेथावन पयस सरोन. 'ह्या ड्रामाची गरज आसल्ली? कोणाची चोरी धरूंक आयलांय तू?' ताणे चिक्केशे ताळो काडलो. Stop it, both of you म्हणालो बॅरन आनी मोलीची लगेज ट्रॉली भायर लोटली.

बॅरनाच्या कॅप्रीस क्लासीक कारांत बसताना तिका बरो सुशेग जालो. भायर उबाळ पडल्लो आनी बॅरनान कारांतली ए. सी. चालू केली.

'विशीक कितें तांकाना म्हणलोय?' तिणे विशय बदलिलो. 'कांय गुड नीव्स?'

'व्हय मां', ताणे जाप दिली चिक्केशे मातें घुंवडावन पाटल्यान बसल्ल्या तिका पळेवन 'दुसरो म्हयनो चलता. दाक्तेरांनी ताका जाता तितलो आराम कड्डायेचो केला. पयलें दोन पावटीं...'

'हांव जाणां!' ती म्हणाली 'बट नॉट टू वरी. ह्या पावटीं कांय जावचें ना.'

उप्रांत अहमदी पावच्या वरेग तांच्या मदें कसलेंयी उलोणें चललें ना. घरा पावतेच बॅरनान कार पिकेट फेन्साभायरच रावयलें कित्याक शेडांत आंबूचें डॉडज (Dodge) आसल्लें. कै. ओ. सीचे आदले क्वॉर्टर्स ते, भौंवतीं पिकेट फेन्स, ल्हानशें एक गार्डन, परिपूर्ण खाजगी वातावरण.

मोलीची सुटकेस घेवन बॅरन देंवताना आंबून घराच्या दाराची बेल मारली.

'हाका चावी हाडून येवंक जावंक ना?' पुसपुसली मोली. 'आतां विशीन उटोन दार काडीजे मूं?' पूण बॅरनान जाप दिली ना.

दार उगतें जालें आनी भितरल्या उजवाडांत आकृती जावन उदेल्ली स्त्री

खंडीत जावन विशी न्हय म्हण मोलीक खिणा भितर कळीत जालें. ती स्त्री देगेन सरतेच हीं भितर रिगलीं. फिलिप्पिनो चली.

'हें म्हजें नवें मेड!' म्हणालो आंबू. ताचें नांव स्टेल्ला मारीस...'

'नवें?' मोलीन विचारलें. 'येदोळ सबार जालीं तर?' कसलीयी प्रतिक्रिया येवंच्या पयलेंच बेडरुमांतलें विशी भायर आयलें.

'हॅलो माम्मी!' ताणे वंदन करून मोलीक वेंगलें. मोलीन आपले सुनेक उम्यांच्या शिंवोरान भरलें. 'कॉंग्रॅट्स विशी! ती म्हणाली. ह्या पावटीं कांय जावचें ना. हांव आयल्ल्या न्हय? सर्व सारकें करतेली हांव.'

थोड्या वेळाचें मौन.

'मॅडम', मान बागावन मुखार आयलें स्टेल्ला मारीस. 'गुड इवनींग मॅडम. तुका कितें तरी पिवंक हाडूं? गीजर घाला. तुका शावर जाय तर?'

मोली लट्ट करून उठली आनी सट्ट करून घरांत एक पासाय मारून गेली. किचनांत आंबूची भाटी चडल्ली आनी सोऱ्याचो मंद वास आसल्लो. सुयेपरीं बारीक सोन्याची धार एके बोतलींत पडताली. हें कांय तिका नवें न्हय. 'आंबू, प्लीज कम हियर!' तिणे आपयलें. थोड्या घडियांनी तो भितर आयलो.

'आतां कितें?' ताणे राग भरसल्ल्या ताळ्यान विचारलें. तिणे भाटयेक दाकयलें. 'हें तुवें बंद करचें बरें', ती म्हणाली. 'कितल्या वर्सांथावन हें संकपाशण तूं पियेताय? आनी तें गाडांव रातभर हांगासर कितें करता?'

'आतां विशयाक आयलेंय तूं!' म्हणालो आंबू. ताणे एका टीस्पुनांत, बोतलींत पडच्या सोऱ्याची धार धरली आनी काडी मारून टीस्पुनाक लायली. 'भुग्ग' करून निळोच उजो पेटलो. 'वंडर्फूल!' तो म्हणालो. 'प्युअर स्टफ! हां, स्टेलाक हांवेंच रावइल्लें. विशीक सांगात दिवंक आनी दुसरें, म्हजी एल. पी. जी. भाटी चडताना तें रावताच!' 'आतां', म्हणाली मोली आपलीं उतरां विंचून 'आतां विशीक सांगात दिवंक ताचो घोव आयला आनी तुजी भाटी चडवंक हांव आयल्यां.'

'पूण सांगानासतां कितें डिटेक्टीवगिरी करूंक आयलांय तूं?' तो सगळोच चाळावलो. 'तूं कितें पाप खत नातल्ली शेळी म्हजो विचार करूंक?'

मोलीन जाप दिली ना. तिका कळीत आसल्लें कीं भितर रिगल्ल्या क्षणा

जुजेफात फाल्कें उगतें करचें न्हय म्हण. वेळ जून जातलो. आंबोट खेल्ल्याक गळ्याकडे लासताच आनी तो उदक पियेताच.

'न्हाण बी जातेच, सुनेलागीं चार मोगाचे सब्द उलवन ती आपल्या बेडरुमाची ए. सी. चालू करून आडपडली. तिका जाग जाताना रात जून जाल्ली. पूण घरांत आनीकी जाग आसल्ली. सिटींग रुमांत पळेताना विशी सोपाचेर आड पडल्लें, बॅरन आनी आंबू बसोन उलयताले, आंबूच्या हातांत ग्लास आसल्लो. बॅरन असलो स्टफ सेविनातल्लो जाल्ल्यान ताच्या हातांत सेवेनअप बोत्ल आसल्ली. स्टेल्ला मारीस टी. वी. लागीं उबें आसल्लें. मोलीक पळेलेंच तें खिणाभितर सुडसुडीत जालें.

'मदाम तुका जेवण काडूं?'

खोंच मारूंक आयती जाल्ले नागिणेपरीं मोलीन घुंवोन ताका पळेलें 'तूं खंय रावताय?'

'मंगफांत, मेडम'. एक दिश्ट आंबूचेर घालून जाप दिली स्टेला मारीसान.

'म्हाका जेवन नाका!' जेराल रितीन म्हळ्ळेपरीं कळयलें मोलीन. 'तुमी जेवा. तूं जेवलांय पुता, विशी? तुवें केन्नायी पोटतापोवंक नजो. तूं कांय आतां एक जीव न्हय. And Baron?

`Yes Mom?'

'तूं पार्टी साल्मियाक वेताय?' तिणे विचारलें आनी जापीक राकनासतां कुडसिलें म्हणोन, 'ह्या चलयेक मंगफ पावय!' इतलें म्हणोन ती स्टेल्ला मारीसाक पळेलागली 'आतां थावन हांगासर तुजी गरज ना!' तिणे खचितायेन कळयलें. 'तूं जाणाय, तूं आंबूच्या विजाचेर नाय आनी तुवें तूं कोणाच्या विजाचेर आयलांय तांगेर मात्र काम करयेत.' Am I being very clear?

ते रातीं मोली आनी आंबू एकेच खाटियेर न्हिदलीं तरी तो तिचे सरशीं आयलो ना.

आंब्रोज अनी मोली पिरेरीच्या घरांत तुफान दाटोन येतालें आनी एका दिसा खजनो जावन तें फुटलें.

एका ब्रेस्तारा बॅरनान मोलीक आपल्या एपार्टमेंटाक आपवन व्हेल्लें.

'ह्या Week-end क तूं आमच्या सांगाता राव, मां!' तो म्हणालो. 'विशीक

संतोस जातलो. डेडीक आपवन कांय प्रेजन ना. तो ब्रेस्तार – सुक्रारासयत आपल्या फार्मेसींत बसता. तुवें फाल्यां सांजेर पार्टी गेल्यार जालें. मोलीन संतोसान कबलात दिली आनी त्या ब्रेस्तारा बॅरन साल्मियाथावन तिका 'पिक' करूंक आयलो.

पुताच्या पॉश एपार्टमेंटांत मोलीचो Week end बरोच जालो म्हणयेत. बऱ्या वातावरणांत मोलीचें शिंतीद शांत जावन बसताना आपूण कांय आबूचो बेश्टोच दुबाव करतां कोण्णा म्हण तिचे मतीक आयलें. तो लागी येना तर कितें, हांवें मुखार सराजे म्हळ्ळें चिंतप तिचे थंय उदेताना तिणे येवजिलें सुनेलागीं आनी पुतालागीं वयल्या भार आंबूचो आनी त्या स्टेल्ला मारीसाचो उल्लेख करचो म्हण. पूण ह्या आनी असल्या विशयांचेर कसलीच उर्बां या उतरां – वांटो काडिनतल्ल्या ह्या जोड्याचें चिंतप आपणें कित्याक आंबोट करीजे म्हळ्ळ्या चिंतपान मोलीन विशय काडलोच ना.

पूण वेळ म्हळ्ळ्या खचितायेन येवजिल्लें कोणाच्यांनी बदलूंक जायना म्हळ्ळें पिरेरीगेर त्या सुक्रारा रूजू जालें.

मोलीक पार्टी पाववंक आइल्ल्या बॅरनान आपलें कॅप्रीस क्लासीक पार्क करताना घराथावन सरारां भायर आइल्लें स्टेला मारीस सुरांटी मारून अहमदी सिनेमा कुशीन घुंवलें आनी हांणीं कितेंयी करच्या या म्हणच्या फुडेंच ते घुंवडेर मायाग जालें.

'पळेलेंय मूं?' मोलीचीं दुकां फुटलीं आनी उतरां कांपेरीं जावन भायर आयलीं. 'हांव नाका जाल्यां तुज्या बापायक... तूंय कित्याक सर्व देखून देखनातल्ल्यापरीं करताय बॅरन? आज, हो विशय इत्यर्थ जायजेच. हांव आयल्यांच त्या खातीर... तूं म्हजो खरो पूत व्हय तर, तूं म्हाका सांगात दितलोय.'

'तें कसलें उतर, मां?' कारा थावन भायर आइल्ल्या बॅरनान विचारलें. 'हांव आसां तुजे सांगाता. समादानान वचोन डेडी लागीं आमी उलयां. कुडीचे पाशांव केन्नाय विविधाय सोधतात, मां. पूण तूं कित्याक म्हजे लागीं मिस्तेरांनी उलयताय?'

तीं भितर वेताना फकत 'बॉक्सर शॉर्टसांचेर सोफाचेर बसोन आसल्लो आंब्रोज तांकां दिसलो. हांका पळेवन ताणे एक व्यंग्य हासो वोंटांचेर हाडलो आनी लागसारच आसल्लो ग्लास काडून वोंटांक तेंकलो.

‘तुवें म्हजे आवयक ह्या परीं दगो करचें बरें दिसना!’ बॅरन शीदा विशयाक आयलो आनी अशें करताना ताणे मोलीक तूं उलय नाका’ म्हळ्ळो इशारो दिलो.

‘ओ!’ उद्‌गारलो आंबू. ‘तर तुमी स्टेलाक पळेलें. वेरी बॅड. इल्लेंशें टायमींग चुकलें’ तो पिशांपरीं हांसलो.

‘कित्याक तूं अशें करताय?’ विचारलें बॅरनान. ‘कितें उणें आसा तुका? कसले ऊण तुका दिसतात म्हज्या मामी थंय?’

‘तुजी माम्मी, न्हय?’ तो लकोनशें उबो जालो. ‘आइल्ल्या तवळथावन तूं म्हजी माम्मी, म्हजी माम्मी म्हण रंदिताय. खरेंच ती तुजीच माम्मी. तुका हेर कोणयी नांत ह्या संवसारांत. आइल्ल्या घडयेथावन तुवें डॅडी म्हळ्ळें उतर वापरलेंय? कसो वापरतलोय? ताळ्यांत शिरकाना तें उतर?’

‘कितें तूं उलयताय?’ बॅरनाचो ताळो आतां दुबावी जालो.

‘विवरून सांगूं तर आयकाल्ल्या उप्रांतय जीव उरचें धैर आसात तुजे लागीं?’

‘आंबूचें उलोणें कसली धार आनी दिशा घेता म्हळ्ळो अंदाज मोलीक जाताना तें किळंचलें. ‘नाका आंबू! तुवें सांगल्लेपरीं करूंक हांव तयार आसां पूण तो एक घूट मात्र... हांवें केल्लें प्राचीत पावना?’

‘म्हज्या पुताक’, हर्दे पेटलें आंबून ‘म्हज्या पुताक भाजून खेलोय तुवें आनी म्हजे धुवेक शेळयेपरीं सोडलांय? तुका हातभर कांकणां आनी गळोभर नेकलेस घालून बोंवोंक जालें आनी रघू शेट्टीक...’

‘शट अप आंबू!’ मोली आंब्रोजाचो गळो धरूंकच गेली. ‘तो रघू तुजो इश्ट. ताका तुवें माथ्यार चडवन दवरलांय. देखून तो म्हजो फायदो जोडूंक पळेता. पूण तो बिलकूल म्हजेर जैत व्हरीसो ना...’

म्हजो इश्ट आनी हांवें ताका सळगी[102] दिल्ल्यान तो तुजो फायदो जोडूंक पळेता? कोण पातयेत ही काणी मोली पिरेरा? तुजी असली जिणी जाणा आसल्लो कोण ही काणी गिळीत? कितें चिंतताय तूं? रघूशेट्टीक तुजी काणी कळीत आसल्ल्यान तो फायदो मारूंक पळेता शिवाय तो म्हजो इश्ट म्हळ्ळ्या खातीर न्हय. आतां म्हजें धुवेंक ताच्या पासाक पडोंक सोडून आयलांय तूं? डिनान म्हाका फोन केल्लें. तूं बजप्यां डरपोर्टा थावन उबल्या फरा आनी आतां तुवें म्हजी

चोरी धरलीय. कितें कर्ताय तूं? डिवोर्साक दस्तावेजां तयार करताय या ह्या तुज्या पुता सांगाता ह्याच घरांत रावोन म्हाका भायर घालताय?'

इतलें आयकोन बॅरन मदें उलयलो. 'कसलें उलोणें हें?' म्हजो पूत, तुजो पूत? कसलो घूट माम्मीचो? कसलें म्हजेथावन लिपयताता तुमी? हांव तुजो पूत न्हय म्हळ्ळेपरीं उलयताय मूं तूं? कित्याक?'

आंबू डब्ब करून बसलो आनी विकट हासो हासलो. कित्याक म्हळ्यार तूं म्हजो पूतच न्हय. तूं मोलीक जल्मल्लोय व्हय, पूण म्हजेवर्वी न्हय!'

■■■

# 29

आंबून, पिरेरींच्या कुटमाचो घूट फोडल्लो. आपलो पूत, आपलो पूत म्हण ताची व्हडविकाय संवसाराक सांगच्या मोलीचें घमंड मोडीजे म्हण आंबून, टेरीच्या मरणाक आइल्ल्या वेळावरच निचेव केल्लो आनी एका अवकासाक तो राकतालो.

विचीत्र दिसोंक पुरो कोणायकी, जरीतरी ते जाणात, तिसरलेले स्थितियेंत ताणे मोलीक आपणायिल्ली संगत. तसलो मनीस आज कित्याक उळटो रावलो? कित्याक ताणे बोतलीक सुरवेर आनी उप्रांत फिलिप्पिनो चलयेक वेंगलें आनी इतलीं वर्सां पर्यांत बॅरनाक आपणाचोच पूत लेखून आतां ताका एकाच्छाणे धरणीक मारलें?

पूण दादल्यांची मानसीकता जाणा आसल्ले तज्ञ तक्षण जाप दितीत अशी. एका दादल्याक आपणाचें न्हय आसल्लें केदाळारय परक्यांचेंच कितलोसो काळ ती वस्त आपणाची म्हण तो आपणाकच आनी हेरांकय फटयत, पूण एका दिसा तो त्या वस्तूक नेगार करतलोच.

आंबूचीच केस पळेवंची तर, ते परिगतींत आसल्ल्या मोलीक आदाराचो खांबो जाल्यार आपूण तुका कुवेत धाडतेलीं आनी उद्धार करतेलीं म्हण मुंबयचे आकयत ताचेलागीं सल्लो[103] केल्लो. एक वयवाटी ओप्पंद[104] तो आनी त्या वेळार हेर कसलेंयी मतींत. हातांत नातल्लो आंबू आपणाक मोलीचेर कठीण मोग आसा म्हण आपणेंच पातयेशें करी लागलो आनी मोलीक ताणे आपणायलें. पूण ताच्या मती पड्ड्याच्या एका मुल्यांत दोन वाक्यां लिखून आसल्लीं. मोलीक हांव प्रथम न्हय, बॅरन म्हजो पूत न्हय.

ह्या दोन वाक्यांक वर्सान वर्स बळ चडोनच येतालें कित्याक आंबूक

मोलीवयलें आकर्शण उठोंक लागल्लें. येता एक काळ काजारी जिणेंत जेन्ना एक पतीण आपले पतीक आनी पती आपले पतिणेक मोगाचो आनी पातयेणेचो इश्ट जातात. कुडीचें आकर्शण माजवाताना, एका तेंपार नेकेत्रापरीं दिसल्लो पोल्यावयलो तिबो आतां फकत एक काळो तिबो जावन दिसताना, फुटोन आंक्रेता एक देवाळ, पवीत्र आनी सुगम इश्टागत. पूण आंबू आनी मोलीचे जिणेंत अशें घडलें ना.

परिणाम जावन मोलीन समाजीचेर झूज मांडलें आनी आंबून बोतलीक आनी परकी स्त्रियेक वेंगलें. केल्लो तर कोणेयी हांचो विचार तांकां मेळती जाप. हो आमचो विशय, तुमी मेतेर जायनाकात!'

आनी असले धुंवरचे परिगतीक टेरीचें मरण जावन आसल्लें घासलेटाचें भांडें, जें आज फुटल्लें. आनी देखून आंबू उच्चारचें उच्चारून विकट हासो हासतालो. पूण पयलोच आमालाच्या उज्यान सुकल्लो ताळो चड वेळ विकट हासो हासोंक सकलोना. बॅरना थावन हाको बोबो मारची कसलीयी प्रतिक्रिया येनातल्ली पळेवन ताच्यो हासो आपापींच बंद जाल्यो, पूण घमंड जिरलें ना.

'तूं कितें हांव फोकाणां करतां म्हण चिंतताय?' आबून विचारलें.

'बि. टी. सी. न तुका खास करून हांगासर हाडलो आनी कुरवार केलो न्हय? आतां तुका आनी तुजे आवयक कोणाचीच गरज ना, न्हय? हांवें पळे कशें तुमकां दोगांयकी अंत्रळाथावन पाताळाक आपटिलें!'

एका नीळ उस्वासासंगी बॅरन लागशिल्ल्या एका सोफाचेर बसलो. ताणे आंबूचेर आनी मोलीचेर समासम वजनाची दिश्ट घाली.

'नां हांव, अंत्रळार आसल्लों, ना आतां हांव पाताळाक आपटालां डॅडी', ताणे परिपूर्ण स्थिमितांत आसल्ल्या ताळ्यान कळयलें.

'तूं म्हाका डॅडी म्हण उलो मारिनाका!' आंबून आतां परत्यान आपलो ताळो आरायिल्लो. 'जालें, फिनीश्ड. आतां तूं आनी तुजी आवय तुमचे इतल्याक.'

'तूं कित्याक अशें करताय, आंबू?' मोलीक हेर कसलंयी नवाल सुस्तालें ना.[105] व्हय पुता, डॅडीन सांगचें सर्व सत. हांव चुकोन पडल्ली स्त्री आनी ताणे म्हाका आपणायलें आनी तुका ताजेंच आलकुन्य दिलें. म्हज्या वांट्याचो सोडवोणदार तो. पूण जिणेत खंच्या वगता हांवें ताचो हात सोडलो या ताणे म्हजो

हात सोडलो म्हळ्ळें म्हाका कळीत ना. This happened over a period of time, my son!'

'पूण आतां घड्याळाचे कांटे पाटीं करूंक जायनात, मां', म्हणालो बॅरन. फाल्यां डॅडी कुवेट टायम्स, अरब टायम्स, दिसाळ्यांचेर आज उगडातांत आइल्लो घूट परगट करीत तरी म्हाका कसलोच फरक पडचो ना.' म्हजो खरो बापूय जिवंत आसा, मां?'

'कित्याक?' मदेंच खंचलो आंबू. 'ताका आपवन हाडून तुज्या आवयलागीं रेस्पेर करताय आनी म्हाका भायर घालताय?'

'ना पुता, बॅरन', मोलीन जाप दिली. 'तो जिवंत ना म्हण हांवें आयकालां.'

'आयकालां खंय, ह. ह!' म्हणालो आंबू. 'तो पाटीं येतलो म्हण आनीकी पातयेता तुजी आवय.'

'डॅडी', म्हणालो बॅरन आपल्या स्थिमितायेक उमकाळोन. असलें उलोणें कोणाकच फायद्याचें न्हय. हांव तुका आभारी आसां, म्हजी आवय तुका आभारी आसा. म्हज्या भांवडांचो हांवें खरो मोग केला...'

'पूण तूं टेरीक सारक्या वाटेक हाडूंक सकलो नाय!' दुरसालो आंबू.

'तवळ तुका तुज्या मेरीट शिकपाचीच खंत आसल्ली. I Want to pursue a career म्हणालोय तूं.'

'ती ताची चूक न्हय!' म्हणाली मोली. 'टेरीच्या अवनतेक हांव म्हाकाच जवाब्दार करतां.'

'पळे कशें आपल्या पुताच्या वकालतेक आयलें तें' म्हणालो आंबू ताळयो पेटून.

बॅरन उबो जालो 'ह्या आनी असल्या उलण्यान जावचें काय नां', तो म्हणालो खचितायेन. चड म्हळ्यार तूं आनी एक बॉत्ल एल. पी. जी. खाली करशी. हो घूट नवें फोडलेय म्हाका आनी म्हजे आवयक डावन करूंक आनी कीळ करूंक ना, तुवें निराशी जायजेच कित्याक म्हाका ह्या घूट फोडणे वरवीं कसलोच फरक पडलो ना आनी पडचोय ना. कित्याक म्हळ्यार, म्हज्या शिरांनी कोणाचें रगत व्हाळता, त्या रगताक हांवें निराशी करूंक ना म्हळ्ळें घमंड म्हाका आसा. हांवें

तुमचो, म्हज्या भावंडांचो, म्हज्या बायलेचो आनी चड करून म्हज्या देवाचो मोग केला आनी करीत हांव रावतलो. मां हांव तुजो खरो पूत बॅरन तुज्या संगीच आसां मां!'

ब्रॅरनाच्या ह्या उतरांवरवीं दोन संगती थंयसर घडल्यो. पयली, आब्रोज पिरेर परिपूर्ण सलवलो.

दुसरी, मोली पिरेर परिपूर्ण बदलाली आनी बॅरनाचे पासळेक सेरवाली. तिणे सोपूत घालो म्हणोन 'अहमदींतलें हें घर हांव सांडचीं ना आनी कोणा परकी स्त्रियेक ह्या घरांत रिगोंक सोडीशीं ना.'

ह्या सोपुताचो परिणाम जावन, आंबून घर सोडलें आनी मंगफाक वचोन स्टेल्ला मारिसा सांगाता तो जियेवंक लागलो.

जावं मोलीन या बॅरनान ताका आडायलें ना, पूण ही संगत तांणी डिनाथावन मात्र लिपयली...

परत परत डिनाचें नंबर लागनातल्लें पळेवन मोलीन भुजां उडयलीं. वोरां सांजेचीं साडेसात. वचोन थोडीं मिनुटां शावरा पंदाक रावतां आनी त्या उप्रांत 'पिज्जा इतालिया' थावन एक पिज्जा ऑर्डर करतां म्हणताना तिचें फोन वाजलें. डिनागाय? कपालाक मिरयो घालून तिणे रिसीवर उकल्लें.

'हलो!'

'गुड इव्नींग', तेवशिलो ताळो चलयेचो पूण डिनाचो न्हय. 'हें नंबर मिस्टर आंब्रोज पिरेरीचें?' अपरिचित ताळो.

ती, ते चलयेक जोगती जाप दिती, पूण तिणे आपलें नागरीकपण सांबाळ्ळें.

'कोण जाणा जावंक अपेक्षिता म्हण हावें जाणा जावंयेत?' तिणे नम्रतेन विचारलें.

'तुमकां म्हजी ओळोक आसची ना, आण्टी!'

'तर ओळोक करयेत न्हय?' ती म्हणाली थोड्या हास्यासंगीं 'कशेंयी म्हाका आण्टी म्हण उलो केलेंय आनी बरी कोंकणीय उलयताय..'

तेवशीली चली किणकुळ्यांचो हासो हासली. 'म्हजें नांव नोरा लुवीस, आंण्टी,' तें म्हणालें. हांव मंगळूरचींच...'





हें कांय आंबूचें आन एक कॉन्ट्याक्ट अशें दुबावली मोली. 'मि. आंब्रोज पिरेरा घरा ना!' तिणे चत्रायेन जाप दिली.

'तर तूं मिसेस पिरेरा, मिसेस मोली पिरेरा?'

'व्हय पूण तुका....'

'म्हाका सॅली कुरियनान तुमचें नंबर दिल्लें....'

'कांय आकांताचें जालां गावांत?' ती सगळीच कालबुली जाली.

'म्हजें डिना आसा...'

'तशें कांय ना म्हण हांव पातयेतां, आण्टी!' नोरान जाप दिली.

'तुमचें नंबर घेवन हांव आतां गावांथावन आइल्ली न्हय आनी म्हाका ह्या घडये गावांत कितें जाता म्हळ्ळें कळींत ना. सॅली कुरियनान कांय गरज पडात म्हण थोड्या तेंपा आदीं हांव गावांत आसल्ल्या वेळार हें नंबर दिल्लें...'

'आतां तुका कसली गरज पडली? खंय रावताय तूं? कसलें काम करताय?' मोलीन सवालांचो शिताडोच मारलो.

'आण्टी', म्हणालें नोरा 'तूं आकांत करिनाका. आकांत करीजे तर हांवें, कित्याक म्हजो एकलो इश्ट जो काल एअर इंडियाच्या गल्फ फ्लायटार येजे आसल्लो येवंक ना'.

'तर हांवें कितें करीजे?' म्हण ती उल्टी उलयती पूण तिच्या जिनोसाथंय इतलें बदलाप जाल्लें की 'कांय फ्लायट चुकलां आसतेलें कितें म्हळेंय तुजें नांव? हां, एस. नोरा. फ्लायट चुकलां आसतेलें.'

'ना आण्टी!' म्हणालें नोरा. ताच्या ताळ्यांतले कळवळ धरधर म्हण दिसताले. 'हांवें मुंबय पोन केलें. ताची आण्टी फेल्सी आसा थंयसर. तिणे म्हाका सांगलां कीं तो एयर इंडियाच्या फ्लायट 181 चेर आसल्लोच म्हण. तिणेच ताका डिपार्चर गेटी पर्यांत पावयिल्लो म्हण.'

'गांवाक फोन केलेंय?' मोलीन विचारलें.

'ना,' म्हणालें नोरा. 'खंचेंयी नक्की कळीत नासतां म्हाका आकांत उब्जवंक नाका.'

'एअरपोर्टाथावन कांय सुलूस मेळोंक नात?'

'हांगा आमकां इंडियनांक खंचे रितीर पळेतात म्हण तूं जाणाय, आण्टी' तें

म्हणालें. त्या शिवाय म्हजी विजा सर्वेंटाची... म्हजो बॉस कुवेतांत ना आनी ताका विजा दिल्लो कुवेती खलीद अल–फौजान थायलेंडाक गेला खंय. आनी आमचो मंदूप कसल्यायी लफड्यांत पडोंक तयार ना.'

'लफडे कसले?'

तो चिंतता कांय म्हज्या इश्टान आमाल[106] या ड्रग्स हाडल्यात कोण्णा या फ्लायटाचेर चड अमाल सेवलां कोण्णा म्हण. त्या शिवाय हो मंदूप एक इराकी. तूं जाणाय आजकाल इराक – कुवेट हुनार हून आसात म्हण.'

हें आयकोन मोलीच्या कुडींतल्यान एक शिरशिरो धांवलो आनी बॅरनान तिका सांगल्ले संगतीचो उडास तिका आयलो. आपणाकच सुदारसून तिणे विचारलें. 'ह्या तुज्या इश्टाक एक नांव पुणी आसा?'

'सॉरी हांव सांगोंक विसरली.' तें म्हणालें. 'ताचें नांव तेराल्ड पायस.'

'दोन खिणाचें मौन

'जिल्ली टिचेरीचो पूत?'

'न्हय, मोली आण्टी! नोरान म्हळें. 'तुज्या देवादीनं पुताचो आप्तमित्र तो. हांव आनी माय जिल्ली टिचेरीगेर कामाक आसल्ल्यांव. हांवेंच जेरीक विजा करून दिल्ली म़्हज्या बॉसा मुकांत्र... कितें जालें म्हण म्हाका कळना मूं?'

'राव राव', म्हणाली मोली. 'आकांत करिनाका. तें एअर इंडियाचें फ्लायट डायरेक्ट?'

'म्हाका पक्का कळीत ना आण्टी...'

'तुमची तरनाट्यांची दोस तीच. तुमकां खंचेंयी पक्का कळीत आसाना. तें फ्लायट डायरेक्ट न्हय तर तो कुवेत म्हण चिंतून दुबाय, सावदी या मस्कतांत देंवोन शिरकाला तर?'

'हांवें त्या विशीं चिंतूकच ना!'

'आतां जेरी नापत्तो जावन चोवीस घंटे उतरोंक जाले...'

बेजार करिनाका[107]. जरीक आमालाची सवंय आसल्ली म्हण हांव जाणां. प़्लेनाचेर थरावळ विदेशी सोरो पळेवन एकच चड पियेला आसतलो... पूण एअरपोर्ट सेक्युरिटी या इमिग्रेशन ताका विजा दिल्ल्याक कोंटॅक्ट करती न्हय?'

'न्हय कोण्णा!' नोराचो ताळो क्षीण जाल्लो. जोरीची आस्कतकाय सॅली

कुरियनान ताका कळयिल्ली.

'तूं जाणाय नोरा', ती म्हणाली. हे कुवेती आमकां इंडियनांक कितले कांटाळतात म्हण. तांणी जेरीक सतयजेच म्हण तीन चार दिसांक भितर घाला कोण्णा'

'ये देवा!' उदागरलें नोरा. 'आरब्यांच्या जेलांत एक घंटोयी रावोंक सकचोना, जेरी.'

'आनी कोणाक रावोंक जायत?' तिणे विचारलें. 'तूं एक काम कर. कोणा डिसेंट आरब्याक सांगाता घेवन थोड्या जेलांनी एन्ववायरी कर... जेरीचे कोणी नात कुवेटांत?'

'जिल्ली टिचेरीचो भाव आसा, पूण ताचें नंबर म्हजे लागीं ना.'

'आतां हें सांगताय?' ती चिक्केशे उत्साहीत जाली. 'तो कांय मावळ्या सांगाता एअरपोर्टाथावनच गेला आसतलो...'

'तें साध्य आसा कित्याक काल तीन गल्फ फ्लायटां आसल्लीं. कठीण गड्दी आसल्ली. तुवें केल्लो अंदाज खरो तर, म्हजो जीव पाटीं आइल्ले परींच आंण्टी!'

'खंडीत जावन अशेंच जालां!' म्हणाली मोली. 'ताचो मावळोयी एअरपोर्टाक आइल्लो जायजे आनी ताका आपल्या घरा आपवन व्हेला. मावळ्याक ना म्हणोंक जालें ना जायजे'.

'पूण जेरी म्हाका येदोळ फोन करतो, आण्टी!'

'कितें नांव ताच्या मावळ्याचें?'

'जॉन... जॉनी.... आलकून्य... डिक्रूज म्हण दिसता.' तें म्हणालें. 'तिनापयकी एका रिफायनरींत काम करता तो.'

'जॉनी डिक्रूज', हें नांव आपल्या तोंडांत आनी मतींत घोळयलें मोलीन 'खंयगी आयकाल्ले परीं जाता हें नांव. म्हजो पूतय रिफायनरी प्रॉजेक्टांत काम करता... तूं एक काम कर, नोरा. पयलें धैर सांडिनाका. दुसरें, म्हाका तुजें नंबर दी. हांव म्हज्या पुताक फोन करून ताका कोणा जॉनी डिक्रूजाची ओळोक आसागी म्हण विचारतां. But you take courage and be brave!'

'जायत, आंटी.'

फोनाचो संपर्क तुटयेतच तिणे बॅरनाक फोन केलो.

'आतां कितें मां?' ताणे विचारलें. 'डिना लायनीर मेळ्ळें?'

'ना पुता', ती म्हणाली 'कोणा एकल्या नोरा लुविसाचें फोन आइल्लें...' तिणे बॅरनाक तिच्या आनी नोरामदें चलल्ल्या संभाशणाचो विवर दिलो.

'जॉनी डिक्रूज म्हळ्ळें नांव हांवें खंयगी आयकालां!' उप्रांत ती म्हणाली.

'तुवें आयकालांय तर, हांवेंच तें उच्चारलां!' म्हणालो बॅरन. 'के. एन. पी. सी. मीना अब्दुल्लाह तर्फेचो प्रोजेक्ट इंजिनियर, मां तो! हांवें ताच्या सांगाता मेळोनच हो प्रोजेक्ट कोऑर्डिनेट करचो.'

'ताचें नंबर दी म्हाका?' ती दरवडली. 'तो कांय आपलो भाचो येवंक आसा म्हणालो?'

'कोणाक उडास आसा मां? ताणे पाटीं सवाल केलें. 'तुका कित्याक नंबर? तुका ही राटावळ नाका. तूं रिलॅक्स कर. हांवच जॉनीक फोन करतां...'

'खबर आसल्यारी, नासल्यारी म्हाका फोन कर!' ताकीद दिली मोलीन. 'तें पाप नोरा म्हज्या कॉलाक राकतेलें. बॅरनान जाप दिली ना आनी फोनाचो संपर्क तुटयलो.

सिटींग रुमांत बसोन कुवेट टि.वी. चेर सुलेमान कलंदरान वाचचें नीव्स पळेतालें विशाखा.

'झेद्दांत चलचें कुवेत - इराक सम्मीट कोसाळ्ळें, बॅरन'. तें म्हणालें. 'क्रावन प्रिन्स आनी ताची शिबंदी पाटीं भायर सरची दाखयली.'

बॅरनाच्या पोटांत बर्फ लोळ्ळें.

'ही खबार बरी न्हय, विशी' तो म्हणालो. 'ही खबार बिलकूल बरी न्हय'. उप्रांत ताणे जॉनी डिक्रुजाच्या एपार्टमेंटाचें नंबर लागयलें.

■■■

# 30

जॉन डिक्रुजाची लायन सराग एंगेज्ड आयली. सुमार सात आठ पात्रटीं डायल करून आनी पुरो म्हणच्या पयलें एक ट्राय मारलो बॅरनान आनी तवळ लायन लागली. तक्षण ती उकल्ली विल्मान. भोवशा तें फोना सरशींच आसल्लें जायजे. 'हलो विल्मा', म्हणालो बॅरन. 'बॅरन उलयतां. कशें आसाय? भुरगीं कशीं आसात गांवांत?

'बरीं आसात!' ताची सुकी जाप आयली. 'म्हजी भयण वीरा आसा न्हय? तांची जतन घेवंक. तांचेच लागीं उलवन आसल्लीं हांव. बरो पावस येता खंय गांवांत.'

'गुड, म्हणालो बॅरन. 'जॉन लागसार आसा?'

'आसा!' तें म्हणालें 'सुरू जांव तुमचें रिफायनरी उलोणें' ताच्या ताळ्यांतलें व्यंग्य बॅरनाक कळनासतां गेलें ना.

'जॉन डिक्रूज बॅरना तितलो तांत्रीक शिकपांत तितलो शाणो न्हय तरी के. एस. पी. सी. मीना अब्दुल्लाह रिफायनरी, अमेरिकन इंडिपेंडेंट ऑयल कंपनी (Aminoil) जावन आसल्ल्या तवळ थावनच तो तांतूं वावरून आसल्ल्यान ताका इतल्या वर्सां उप्रांत सिनियर इंजिनियराचो जागो मेळल्लो. मदें मदें ताणे सबार तांत्रीक कोर्स केल्ले. अनभोग आसल्लो ताका आनी रिफायनरीचो हर एक युनीट आनी ताच्यो शिरो तो जाणा आसा म्हण सर्व मानताले.

बॅरन आनी ताची चंगाय फकत वावरा जवाब्दारेची. त्या मट्टाक बॅरनय व्हडलें सोशल लायफ जियेवंचो मनीस न्हय आनी ताचें विशाखा तरी तसलेच कालेतीचें. ताका आपूण जालीं, आपलो पती आनी आपलें घर जालें. तरी नव्या प्रॉजेक्टाक लागोन लागीं आइल्ल्यान जॉनीच्या एपार्टमेंटाक वचनासतां बॅरनाक आनी

विशाखाक रावोंकं जालें ना. सिनीय इंजिनीयर जांवच्या पयलें जॉनी फाहाहिलांत सूखसभाह परिसरांत. फाहाहील क्लिनिका सामकार जियेतालो. आतां, सिनीयर इंजिनीयर जाल्या उप्रांत ताका फाहाहील मासळे मार्केटीच्या Sea front र (दऱ्या करावळ) उदेल्ल्या के. एन. पी. सी. च्या नव्या एपार्टमेंटात वस्ती मेळल्ली. पूण बॅरन आनी विशाखा तांकां भेटोंक गेल्लीं तीं सूख सभाहांत आसताना.

पयले भेटेंतच विल्माक पारखिल्लें बॅरनांन. विल्मान तांकां जेवणाकच आपयिल्लें पूण पळेताना तांकां कांय एका बोंकेतीकच आपयलां म्हळ्ळेपरीं न्हेसोन रावल्लें विल्मा.

जॉनी सादोच आसल्लो तरी बॅरनाक आनी विशीक चिक्केशे बांदपासच जाले.

'आमकां वेगींच कंपणेचें एपार्टमेंट मेळच्यार आसा!' तीं भितर रिगतानाच कळयलें विल्मान 'जॉनीक सिनीयर इंजनीयराचो हुद्दो मेळ्ळा.'

'इतल्या वर्सां उप्रांत तो मेळजेच.' म्हळें बॅरनान.

'हूं!' हुंक्रारलें विल्मा. 'तुमकां बीटीसीच्यांक कितें उणें?'

ताणे विचारलें.

'गेल्ल्याकडेन तुमकां रावळेरांच मेळतात.'

'हेय विल्मा!' मदें पडलो जॉनी. 'हर एक पावटीं हांवच रिफायनरीचो उल्लेख करतां म्हण तूं दुर्साताय, पूण आज तुवेंच सुरू केलेंय मूं?'

'रिफायनरीचें उलोणे तुमचें!' ताणे फटाफट जाप दिली. पूण हो विशय एपार्टमेंटांचो आनी हो विशय आमचो न्हयगी विशाखो...

पूण विशाखान जाप दिली ना. वेगींच जेवण करून तीं निखळ्ळीं. उप्रांत तांकां प्रती सरबराय करूंक विशाखान कसलीच उर्बा दाखयली ना जाल्ल्यान बॅरनान तो विशयच काडलो ना. तशें जावन बॅरन आनी जॉनी मदलो संबंद रिफायनरी भायर वाडलो ना. पूण कामाचे जवाबदारेक लागोन ते एकामेका सबार पावटीं फोन करताले. तितलेंच.

'विशाखा कशें आसा?' विचारलें विल्मान 'गूड नीव्ज आसात म्हण जॉनी म्हणतालो.'

'व्हय पूण थोडी कॉम्प्लिकेशन्स आसतीत म्हण डॉक्टरांनी म्हळां.' आपली

सौजन्यता सांबाळचे खातीर उलोणें मुखारीलें बॅरनान. पूण, आपणे केल्ली ही चूक म्हण ताका भोगलें कित्याक फुडल्या पांच-सात मिनुटांनी आपणाच्या दोन बाळतेरां विशीं, आपणाक जाल्ल्या कॉम्पिलकेशनांविशीं विल्मान बॅरनाक तुवाल्याचो शेमांव दिलो.

'हां!' आखरेक तें म्हणालें. 'जॉनी आयलो.'

'हेल्लो, जॉनी', म्हणालो बॅरन जॉनीचो ताळो लायनीर येतच.

'हेल्लो बॅरन', म्हणालो जॉनी. 'युनीट' 20 चेर फाल्यांच एक निर्धार आमी घेजे. फाल्यां ब्रेस्तार न्हय? आमकां ब्रेस्तार - सुक्रार म्हण ना जाला ह्या दिसांनी. तुमी हो युनीट हस्तांतर केल्या उप्रांत म्हज्या गोमट्याक येतेलें.ताचें मेंटेनन्स तो उलवनच गेलो.

'जॉनी, जॉनी... Slow down! मंद हास्यासंगीं ताचीं उतरां कातरलीं बॅरनान. 'हांवें ह्या विशयाखातीर तुका कॉल केल्लें न्हय...'

'झेद्दा, सम्मीट मूं?' जॉन परत मदें पडलो. 'टी. वी. चेर पळेलें. हें म्हाका बरें दिसना बॅरन. त्या सद्दामाक पातयेंवक जायना. ह्या कुवेय्टीकंय बूद ना. सद्दामाक कित्याक चुगली करूंक वचाजे? आसूं, जाल्लेपरीं जातेलें. आनी सर्वांकयी जातेलें. कित्याक पोन केलें म्हणाय?'

'कांय म्हणोंक तूं अवकास खंय दिताय?' हळतार दुर्सालो बॅरन[108]. 'सांग तुजो भाचो पुणी ह्या दिसांनी कुवेयटभ्येवंच्यार आसल्लो...?'

'कोण याचो? खंचो भाचो?... हो जीजस क्रैस्ट!' ताचो उद्गार आयकालो बॅरनाक. 'विल्माचे विल्मां, जेरी कुवयट येवंक आसल्लो न्हय? कैदाळा येवंक आसल्लो?

'म्हाका तारीक कोणेंयी सागोंक ना.' थोडे घळाये उप्रांत विल्मान जॉनीक दिल्ली जाप बॅरनाक आयकाली. 'भाचो, तुजो न्हय? तुका उडासांत आसजे आसल्ली तारीक!'

'जालें तरी कितें बॅरन?' जॉनीन विचारलें. 'तुका आनी म्हज्या भाच्याक... कित्याक हो विचार? Is anything wrong?'

'सत सांगचें तर म्हाका कांय कळीत ना, जॉनी!' जाप दिली बॅरनान.

'म्हज्या माम्मीचें कॉल आइल्लें...' ताणे सगळो विवर दिलो.

`What the hell!' दातां इड्यांतल्यान पुसपुसलो जॉनी. 'हांव आतांच जिल्ली बायेक फोन करतां...'

'जिल्ली बायेगेर फोन ना!' कसलें गी तुरूप खेळचे परीं उलयलें विल्मा. ताचीं उतरां बॅरनाकय आयकालीं.

'ब्लडी हेल्ल!' म्हणालो जॉनी, विल्माक दोळेवाटारून. 'जिल्लीबायेक केदाळा बूद येवंची म्हण म्हाका कळाना. फोन म्हळ्यार एक सुशेग न्हय, एक गरज म्हण तिका केदाळा समजत? कोण म्हळेंय तुवें ताका विजा दिवयिल्लें? नोरा... हां... जेरी तर कालच्या फ्लायटार येवंक आसल्लो, तो येवंक ना म्हण त्या नोराक आतां जाग जाली? हांव आतांच वीराबायेक[109] कॉल करता.''

'दरवडनाका, जॉन!' सयरणान म्हणालो बॅरन. 'कांय नोराकच तारीक चुकल्या कोण्णा या कसल्यायी विजा प्रोब्लेमांक लागोन तो एअरपोर्टांत...'

'इम्पॉसिबल!' खचितायेन म्हणालो जॉनी. 'तरी हांव चेक करतां. जिल्ली बायेन बरइल्लें पत्र आसतेलें खंयतरी...'

'तूं मावळो न्हय? कांय तुवें पुणी ताका एअरपोर्टाथावन पीक केलाय कोण्णा म्हळ्ळो दुबाव नोराचो. Anyway, जेरी येवंक आसल्ली तारीक खंची म्हण कळत तर म्हाका पार्टी फोन कर. पूण जॉन, सर्व विचार गिचार केल्याशिवाय गांवांक पोन करिनाका. आतां थंयसर रातीची इक्रा. बेश्टेंच आकांत घालीनाका आनी तूं जाणाय There's nothing we can do in this country!'

बॅरनान संपर्क तुटयल्या उप्रांत जॉनी, विल्मा कुशीक घुवंलो. सगळी संगत मटव्यान ताणे विल्माक सांगली. पूण विल्माथंय कसलीच बदलावण जाली ना.

`So What are we supposed to do?' ताणे शेळें सवाल विचारलें.

'जिल्लीबायेचें तें लेटर खंय आसा, विल्मा?'

'आसतेलें खंय तरी! कितें आसा म्हण त्या लेटरांत? हांवें कितें तुज्या भयणीच्या लेटरांचें फायलींग करीजे आसल्लें?'

'असल्या उलोण्याची गरज ना, विल्मा!' जॉनीन ताळो काडलो. 'तुका म्हज्या कुटामाचेर चीड कित्याक?'

'चीडगी कीडगी?' विल्मान बसल्लेकडेनच पांयार पांय घालो.

'बरी लांब आनी मोगाळ जाप बरयल्या हांवें तुज्या मोगाळा भयणीक.'

'आनी, हें धाड, तें धाड म्हळ्ळी पट्टीयी धाडल्याय आसतेली. हांगा कितें कांय इंडियाचें मेळाना म्हण? तुका कसलेंयी धर्मार्थ मेळ्ळ्यार जालें. स्टुपीड वुमन!'

'आतां तूं उळ्टें उलयाताय जॉन' तें सणसणलें. 'तुवें कांय जेरीक विजा धाडल्याय? ना न्हय? तर तुका कित्याक खंत हुसको? आयला तर आसतलो कोणा घरा कंट्री पियेवन आनी त्या सर्वेंट चलये लागीं मजा मस्ती करून. तुवें कित्याक संवसार माथ्यार घेतल्याय़ आतां?'

'हांव ताचो मावळो, विल्मा.'

'तें तुका आतां उडासांत आयलें?' ताचीं उतरां उसळ्ळीं. 'आपलो पूत कुवेय्ट येता म्हण जिल्लीन कांय तुज्या मोगान बरयिल्लें? तुका आनी म्हाका डावन क्ररूंक बरयिल्लें. तूं म्हजो भाव इतलीं वर्सां कुवेय्ट आसुनय विजा धाडूंक सकलो नाय पूण आतां एका सर्वेटान म्हज्या पुताक विजा धाडली म्हळ्ळो हंकार दाखवंक जिल्लीन लेटर बरयिल्लें. आतां तूं भयणी भाच्याचो मोग म्हण तोवानाका आनी म्हाका येटिनाका.'

'जिल्लीबायेचें लेटर सोडून हाड.' खडाखड फर्मायलें जॉनीन. 'पूण तांतूं जेरी येंवची तारीक ना. माय डियर हस्बेंड!'

'सर्व एक्के विल्मालागींच आसल्लें. 'आतां कितें म्हणताय?'

'पूण नोरान म्हणचे प्रकार जेरीन कालच्या गल्फ फ्लायटाचेर येजे आसल्लें कितें जालें जावयेंत? म्हाका गांवांक फोन करीजेच.'

'कांय गरज ना!' तें म्हणालें उबें रावून. 'इंटर नॅशनल कॉल कितें धर्माक जाता? इंडियांत मध्यान रात लागीं सरता. कितें करीजे विराबायेन? रातांरातीं तुज्या जिल्ली बायेगेर वचोन जेरी भायर पडला म्हण सांगाजे?'

'तशेंच कर म्हण विराबायेक हांव सांगतों आसल्लों! म्हणालो जॉनी. पुण मुंबय थावन सुटल्ल्या एअर इंडियाच्या फ्लायटाचेर जेरी आसल्लो म्हळ्ळें खचीत जालां न्हय?

'तर, ताका कांय विजाचे रगळे आसतेले तें म्हणालें, परत्यान बसोन. 'आइल्ल्याच फ्लायटार ताका पाटीं धाडला आसतोलो. अशें साबार पावटीं

जाता म्हण तूं जाणाय. कोण जाणा, ताची वर्कींग विजा या सर्वेंट विजा म्हण?' तें हांसलें 'आतां फिलिप्पिनी माजरां बोकूल आयल्या उप्रांत इंडियन चले – चलयो कोणा आरब्यांक जाय?' तें आनीकी हासलें.

'स्टॉपइट, विल्मा!' ताणे आड हात दाखयलो. 'म्हाका चिंतूंक अवकास दी आनी तूंयी चींत. What Could have gone wrong?

थोड्या वेळाचें नाटकीय मौन थंय देंवल्या उप्रांत...

'तुजो भाचो कांय कुडकुड्यांतलो सांत न्हय, जॉन!' तें म्हणालें.

'गांवांत खंच्यागी ड्रग्स सप्लाय करच्या गेंगांत तो आसल्लो म्हळ्ळें हांवें आयकालां आनी त्या गँगाक लागोन एका तरनाट्याचो जीव गेल्लो खंय.'

'देकून?' जॉनान कपालाक मिरयो घाल्यो आनी दोळे अशीर केले.

आदल्यो बुदी आनीकी सोडूंक नांत जायजे! तें म्हणालें आपलें हर एक उतर तुकून[110] पळेवन. 'कांय ड्रग्स हाडून आयला कोण्णा, या सोरो या...

हें आयकोन जॉनीचे मतींत एक तांबडो दिवो पेटलो. तो उठलो आनी विल्मासरशीं गेलो. सोफाचेर बसोन आसल्ल्या विल्माचेर तो बागवालो आनी आपले दोनय हात ताणे ताच्या भुजांचेर दवरले.

'म्हाका सत सांग विल्मा! तो म्हणालो.गांवाथावन कितें हाडूंक पट्टी दिल्ली तुवें?'

'सांबार पिट्टे...' आतां विल्माच्या ताळ्यांत भंय आसल्लें.

'हांगा मेळनात म्हण? आमच्या इंडियांतले सांबार पिटे, लोंगां तिकेसाल इंग्लेंडाक व्हरून सोबीत डब्यांनी घालून आमकांच विक्रो करीनात ब्रिटीश आनी अमेरिकन कंपेनी? तुका कितें ह्या कंपनेलागीं शीदा वेव्हार करूंक जाय? कितें मेळाना म्हण कुवेय्टांत?

'मेळाना म्हळ्यार...' ताच्या उतरांक खाडूं पडलें. 'सत सांग विल्मा!' तो आतां बोबाटलो आनी ताणे विल्माचीं भुजां बळान हालयलीं. 'तुवें कांय कसकसो हाडूंक सांगोंक नाय? आतां कसकशाचेर प्रतिबंद आसा म्हण तूं जाणाय. हे आरबी चिंततात Poppy Seeds मादक द्रवां तयार करूंक पडची मुळावी वस्त म्हण. कसकसो हाडल्ल्या कितलेशा जणांक तांणी भितर घालां.... सतेंसांग म्हाका?'

कसकस्याची गरज आसा म्हण एक किलो हाडूंक सांगलें हांवें!' तें आतां हाळवायेन हांसतालें. 'थोड्यांक भितर घाल्यार कितें? कितलेशे जण पाशार जावंक नात? तुवेंच एक पावटीं तीन बोत्ली फेणी आनी पांच किलो गोंयचीं लिंगिसां हाडूंक नात? तूं कितें शिरकालोय? तें हासलें.

'एक किलो कसकसो?' हांक्रेलो जॉनी 'कसकसो ड्रग्स न्हय म्हण ह्या बेंकऱ्यांक रुजू करूंक आमची एंबेसी आनी सरकार प्रेतन करीत्त आसा, पूण हें रूजू जाता पर्यांत भितर पडल्ल्यांक भायर येवंक साध्यच ना.'

'Bad Luck!' तें म्हणालें. 'कोणे कितें करूंक जाता? तांणी तांणी तांचें तांचें देवें फारीक करूंक आसा ह्या संवसारांत.

'तुजी फिलोसोफी म्हाका नाका!' बोबाटलो जॉनी, आतां नीट जावन. 'जेरीचें कसलें देवें आसा तुका?'

विल्मान भुजां उडयलीं. 'जेरी फकत कसकस्याक लागोन भितर पडला म्हण कसले हमीदारींचेर तूं सांगाताय जॉन? ताणे खरेच ड्रग्स हाडल्यात कोण्णा. तेंच म्हळें न्हय हांवें? रगताचो गूण बदलता? तांच्या तांच्या कर्तुबाचें देवें सर्वांक दिवंक आसता म्हण!'

'पूण जेरीन तुका कितें केलां?' विचारलें जॉनीन 'तुका' म्हळ्ळ्या सब्दाचेर वजन घालून.

'ताणे न्हय जावंक पुरो!' ताणे जाप दिली. 'ताच्या हेरांनी जांवयेत!'

'म्हणजे, मिक्की भावोजीन आनी जिल्ली बायेन?'

'हो अंदाज तूं उच्चारताय, हांव न्हय!'

'तूं उलवंक शिकलांय विल्मा?' तो ताच्या लागीं सरलो आनी ताच्या ताळ्यांतलो क्रोध आतां दाट जाल्लो.

'तुमच्या डिक्रुजांच्या सहवासान हांवें उलवंक शिकजे पडलां!' तें म्हणालें. 'आतां कितें तूं आस्वेलापरीं म्हजे सरशीं येता? म्हाका मारताय? तर बाकी कित्याक? तुज्या मिक्की भावोजीन म्हाका दोन पावटीं 'गेट आवट' केल्लें हांव विसरान? म्हाका मारताय तर मार. खंडीत जावन तुज्या भाच्याक कसकसो हाडल्ल्याखातीरच धरून दवरला आसतलो. हांवें सांगल्लें तुज्या भावोजीक कीं ताचें कर्तुप ताका म्हारग पडतेलें म्हण. एक किलो कसकसो... वंडरफूल. हं!

म्हाका गेट आवट करून कोणयी समादानान जियेवंक हांव सोडीन?'

खिणाभितर जॉनीक सर्व अर्थ जालें. ताणे विल्माक थापडावंक म्हण हात उबारलो, पूण ताणे तशें केलें ना. ताच्या दोळ्यांक दिसलो जेरी, कुवेय्ट जेलांत एका मुल्याक बसोन आसचो आनी ताच्या भोंवती इरानी, अफघानी, आनी हेर अट्टांग मनीस, स्वलिंग रसीक, जेलांत जावंच्या विशीं सबारशो काणयो ताणे आयकाल्यो... ताच्या दोळ्यांक काळोखसो आयलो आनी तो लागशिल्या सोफाचेर कोसाळ्ळो.

'पुरो तुजो ड्रामा!' तें म्हणालें! 'फाल्यां ड्यूटी आसा मूं? जेवण कर आनी न्हिदे. जेरीन कसकसो हाडला या नां, या कसकस्याक लागोनच तो भितर पडला, या भितर पडलाच या ना म्हळ्ळें कोंणाकयी कळित ना.' तें ताचे सरशीं आयलें. 'तुका समादान जाता तर हांव सॉरी म्हणोंक तयार आसां डार्लींग!' तें मादक हासो हासलें. 'सॉरी म्हळ्ळ्यांत म्हज्या फारीकपणाचीं रूच कुस्कूट उणी जावंची ना!'

फटाक्क... जॉनीचें बळीश्ट थापट विल्माच्या कान पट्टेचेर बसलें. विल्माचो जीव सगळोच काणसिरलो आनी तें पार्टीं उसळोन सोफाचेर पडलें.

जॉनीन, विराबायेचें नंबर घुंवडायलें.



# 31

2 आगोस्त 1990

स्याली कुरियनाक मारून उठयिल्ल्यापरीं जाग जाली. बेडरुमांत बरें थंड जाल्लें, भायर शिरांधारींचो पावस पडतालो. आगोस्त म्हयनो सुरू जाल्लो तरी ह्या पावटीं पावसाचें तर्नाटपण प्रायेस्त जावंचेपरीं दिसनातल्लें.

टायम पिसाचेर दिश्ट घालताना तें पावणे स दाखयतालें. ती उठली आनी शीदा जनेलासारशीं गेली. तिचो हर दीस जनेलांतल्यान भायर पळेवच्यांत सुरू जावन, निदोंक वेच्च्या संवसाराक जनेलांतल्यानच बरी रात मागच्यांत आकेर जातालो

जनेला लागीं रावल्ल्या तिका पावसाचो शेळेर मारलो आनी एका मंद हास्यासंगी ती चिक्केशे पाटीं सरली. तिचे न्हिदेची आवदी जाल्ली. सदांयी जुस्त स वोवार ती उठताली. मद्यानेर न्हिदोंक वेच्च्या तिका फकत स घंट्यांची न्हीद प्रफूल्ल करताली आनी ती फुडल्या दिसाक तयार जाताली.

पंदरा मिनुटांभितर सकाळची निर्मळाय तिर्सून ती किचनाक गेली. स्टुडियो मादरेच्च्या[111] एपार्टमेटांत ती एकसुरीच जियेताली. साफसफाय करूंक एक मलबारी स्त्री येताली, तितलेंच. रांदप, शिंदप सॅलीच करताली. तिणे च्या करूंक तोपल्यांत उदक दवरलें आनी फ्रिडज्यार आसचो ट्रान्झिस्टर चालू केलो. तो ट्रान्झिस्टर जेरीचो न्हय. देवें वसूल करूंक तिणे जप्त केल्लो जेरीचो ट्रान्झिस्टर जेरीक लग्न जाताना ताकाच इनाम दिवंक म्हण जोगासाणेन दवरल्लो.

हें चिंतून ती हासली.

तिचो ट्रान्झिस्टर केदाळायी बी. बी. सी. वर्ल्ड सर्विस स्टेशनाक लागइल्लो आसतालो. तिची च्या तयार जाताना आनी तिणे ती पियेवंक सुरू करताना बी. बी.सी. वार्ता प्रसाराचे मुक्यांश तिका आयकोंक मेळताले. बी. बी. सी. चें शिर्शक

बँड वाजलें आनी तीन पावटीं क्लीक, क्लीक, क्लीक आवाज आयलो.

This is BBC world service. Here is the news. First the headhines; Iraq has invaded kuwait. थोड्या खिणांचें मौन. परत्यान Iraq has invaded Kuwait... सॅली कुरियनाच्या हातांत आसल्लें च्या चें कप हालकांदलें आनी थोडी हुनोनी च्या तिच्या बोटांचेर पडली. रेडियो उलवनच वेतालो.

'इराकान कुवेय्टाचेर आक्रमण केलां. कुवेय्टाच्या वेळाप्रकार फांत्याच्या साडे तीन घंट्यार सुमार ८०,००० इराकी सोजेर बसरा कुशीथावन कुवेय्टा भितर रिगल्यात. कुवेय्ट मिलिट्री थावन तांकां कसलोच प्रतिबंद मेळोंक ना म्हळ्ळी वर्दी आयल्या आनी इराकी सैन तुर्तान कुवेय्ट सिटीचे वाटेक लागलां. अस्तबदीक, जीवनश्टांचो कसलोच विवर येदोळ येवंक सुरू जावंक ना.

'ह्या आक्रमणाचें कारण कालच विफल जाल्लें झेद्दा सम्मीट. ह्या सम्मिटांत इराकान कुवेय्टाचेर बदलाम घालें की कुवेय्टान ऑपेक करारापरस चडीत मापान तेल भायर काडलां आनी खुशी आसल्ल्या मोलाक पयस दर्यांत रावयिल्ल्या ऑयल टँकरांक दिलां तितलेंच न्हय संगठीत ड्रिलींग म्हणोन कुवेय्टान इराकाचें काळें भांगार चोरलां आनी इराकाक बिलियागटल्यान डॉलरांचो नश्ट जाला. इत्यर्थ जायजे आसल्लें. पूण बऱ्या मनाचो इत्यर्थ जालो ना आनी कुवेय्टाचो रायकुंवर शेख साआद अल – अब्दुल्लाह सभहा खाली हातांनी पाटीं आयलो. कुवेय्टी रायाळ कुटमाची कसलीच खबर येदोळ पर्यांत ना...'

सगळो संवसार आपले भोंवतीच स्तब्द जाल्ले परीं सॅली कुरियनाक भोगलें. आपल्या हातांतलें कॉप ती विसरली आनी किचनाच्या जनेला लागीं वचोन तिणे भायर पळेलें. पयस दिगंतार तिका मस्क मस्क उजवाड दिसलो. पावसाचो जोश तसोच आसल्लो. किचनाच्या भायर एका लांब – दीग सागवणीच्या रुखार भिजोन मुदो जावन बसोन आसचो एक कावळो तिका दिसलो.

रेडियो उलवनच आसल्लो. पूण तें आयकोन जिरवंची सकत तिका नातल्ली. शिकपी ती, एका देशाचें आनएकाचेर आक्रमण म्हळ्यार कितें म्हळ्ळो अंदाज तिका आसल्लो. पूण हीं दोन मुस्लीम राष्ट्रां. संवसाराचे नक्शेर फकत एक तिबो जावन आसचें कुवेय्ट आनी एका तेंपार ओतोमन साम्राज्याचो बळीश्ट वांटो

जावन आसचो इराक.

काळ्या भांगाराक दोनयी राष्ट्रांनी कसलोच बोरगोळ नातल्लो. कुवेतान आपल्या काळ्या भांगाराच्या दुडवान देशाक सुशेगांच्या दर्यांत बुडवन स्वताच्या दळबारांत संवसारांत लजेक घालचे तसलें कुवेत बांदताना आनी कुवेती खद विलासी जिणेक वेंगताना तेणे, इराकांत बाअत पार्टीक गादयेर चडयिल्ल्या सद्दामान मिलिट्री बळांत एक घटमूट इराक तयार केलो. ही संगत संवसारांत कितें जाता म्हण विविध माध्यमां मुखांत्र जाणा जावंच्यांक कळीत आसल्लीच. ह्या पयकी सॅली कुरियन एकली.

तिणे रेडियो बंद केलो, एक लांब उस्वास सेवलो. हो चेडो कुवेय्ट पावल्याफरा अशें जायजे?' तिणे आपणाकच विचारलें आनी आतां न्हिवोन येवचे च्यायेक घोट मारलो. 'ज्युलाय एकतीस तारकेर तो कुवेय्टाक पावला. आनी ताका नोरा एअरपोर्टांत मेळोंक खंडीत मुखार आयलां. म्हणतच तो खंडीत जावन भद्र हातांनी आसा. पूण बिर्मत चेड्याची आगोसताच्या एका तारकेचे रातींच आक्रमण जायजेगी?'

अशें आपले मूर्तींत घोळयीत्त तिणे च्या काबार केली आनी कोप धुलें. 'पूण हें आक्रमण कितलेदीस पर्यांत चलत? खंडीत जावन संवसार, हें आक्रमण बिगडोंक, रगतापात जावंक सोडीसो ना. सर्वांक जाय तें काळें भांगार. अमेरिका, युरोप आनी संयुक्त राष्ट्रां येदोळच कार्यगत जाल्यांत आसतेलीं. चड म्हळ्यार आमच्या जेरीक काम मेळोंक कांय चडीत वेळ लागात, पूण तो नोराचे तावेंत आसता पर्यांत कसलेच वांदे नांत. हांव हर घंट्याक निव्ज आयकातेलीं... कोण जाणां सांजेभितर सद्दामाचें सैन पार्टीं गेल्यारय गेलें.

सकाळींचीं पावणे सात जाताना मंगळुरांत शिरांधारींनी वोतचो पावस एकाच्फाणे म्हळेपरीं रावलो.

'हांव मिसाक वेतां गो, पुता इवोन!' म्हणाली जिल्ली टिचेर! 'हांवें पाप्पाक च्या दिल्या आनी मिसाथावन येताना इडली सांबार हाडतां. तुका कॉलेजीक वेगीं वचोक आसा मूं?'

'कित्याक मिसाक वेताय मां?' इवोनान विचारलें. 'पावस सुटला मात्र. तुका घडये भितर शेळ जाता. जेरी खातीर मागोंक वेताय? तो येदोळच नोरा सांगाता

आसतलो. आज, ताका तें कुवेय्ट भोंवडायतेलें. फाल्यां कसोयी सुक्रार, तांकां रजा. कितलें जॉल्ली न्हय?'

'कसलें जॉल्ली मात्ती गो पुता, इवोन!' म्हणाली जिल्ली. 'तो गेल्या तवळथावन घर खावंक येता...'

'हांगा आसताना कुवेय्ट, कुवेय्ट म्हण ताचो मेंदु खातालेंय..! म्हणालो मिक्की मंद हास्यासंगीं. 'आतां पळे कर्लां गळेवन रडता.'

'आनी कितें तर?' विचारलें जिल्लीन. 'ताच्या आमच्या फुडारा खातीर चेरको गेला तरी ताका कसलें काम आनी कश्ट राकोन आसात कोण जाणा? नोरा म्हणतालें, तांच्या गिमांत रस्ते इतले तापतात खंय, एक तांतीं मारून घाल्यार ओमलेट जाता खंय!'

'मां', म्हणालें इवोन. 'तुका मिसाक वचोंक जाय मूं? तूं वच आनी म्हजेखातीरय माग.' ताणे हात जोडले.

'हांवें उलयिल्लें आज पर्यात कोणाकी रूचला?' दुर्साली जिल्ली.

पूण तिच्या ताळ्यांत समादान आसल्लें, संतृप्ती आसल्ली. तशेंच भोगतालें मिक्कीक आनी इवोनाक. तांकां बरें दीस येवंच्यार आसल्ले...

सुमार पावणे आठ जाताना वेलेन्सिया इगर्जींत सात वोरांचें मीस जालें. पावस सुटल्लो तो सुटोनच रावल्लो. सुर्या किरणांचे एक दोन खुंदे मोडांक शिंदून आगसार[112] येवंक उरडाताले.

इंग्रजी थावन आइल्ल्या जिल्लीन सामकारच आसल्ल्या भटाच्या हॉटेलाथावन तीन प्लेटी इडली सांबार घेतलो आनी सरारां मेटां काडून ती आपल्या घराचे कुशीन लागली.

वोणी लागीं पावताना कोणेगी तिका 'जिल्ली बाये' म्हण उलो मारलो. ती रावली आनी तिणे फाटीं पळेलें. एकली स्त्री तिची फाट धरून येताली. 'चिक्केशे राव जिल्ली बाये' ती स्त्री हात दाखयताली. 'तुजेपरी सरारां चलोंक म्हाका जायना पळे.'

ती स्त्री लागीं सरताना जिल्लीक तिची ओळोक कळ्ळी. तरी पूण तिचें कपाल घांटाले.

'हांव वीरा, विल्माची भयण!' ते स्त्रीयेन आपली ओळोक दिली. 'तें कळ्ळें

म्हाका.' म्हणाली जिल्ली. 'पूण तूं?' हें सवाल करताना तिच्या हर्द्यांत नाळींचे फार जाले. तिचे मतीक विल्माचें भयण विराक हांगासर येवंक कसलें कारण आसयेत म्हळ्ळें सुस्तालें ना.

'गुड मॉर्नींग, जिल्ली बाये.' विरान वंदन केलें. 'कशी आसाय तूं? मिक्कीबाब कसो आसा?'

'गुड मॉर्नींग. सर्वां बरीं आसात. पूण तूं...'

'आमी घरा वचोन उलोवयेत?' विराच्या ताळ्यांत कसलेंगी अस्पश्ट आसचें जिल्लीक गमलें.

'जरूर'. तिणे जाप दिली. 'पूण कसली गजाल? आमचो जेरी कुवेय्ट गेला... आज काय जॉनीगेर वेता कोण्णा. ताचीं भुरगीं कशी आसात?'

'खंच्याकी आमी घरा या.' विरान ओत्ताय केली. तिच्या ताळ्यांतली खचिताय आयकोन जिल्लीक 'कल्ल' जालें. उप्रांत चडीत उलयनासतां तीं घरा गेलीं.

इवोन न्हेसोन तयार जाल्लें मात्र तशें दिसतालें आनी मिक्की सोप्या वयल्या खुंद्याक चिडकाइल्ल्या आरशांत पळेवन खाड काडतालो.

'गुड मॉर्नींग, भावोजे' ताका पळेवन म्हणालें वीरा. 'ओळोक कळ्ळी?'

'आमच्या विल्माचें भयण वीरा', जिल्लीनच कळयलें. 'कसलेंगी गरजेचें उलवंक आसा खंय.'

'तितल्यार इवोन मुखार आयलें. ताका विराची तितली ओळोक नातल्ली.

'गुड मॉर्नींग.' म्हणालो मिक्की दोळे अशीर करून. 'ये आनी बस. कितें गजाल खंय?'

'वीरा बसलें आनी इवोन आनी जिल्ली उबींच रावलीं.'

'काल रातीं सुमार मद्यानेचेर म्हाका जॉनी भावोजीचें फोन आइल्लें.' वीरा शीदा मुख्यांशाक येवंचेपरीं उलोणें सुरू करिलागलें.

'आयकाताना खबर वायट कशी दिसता, पूण कांय वायट ना जावंकय पुरो...'

'ह्या उतरांचो अर्थ कितें?' जिल्ली सळसळ्ळी 'जावंकय पुरो, ना जावंकय पुरो म्हळ्यार?'

विरान तांच्या तेगांयच्या मुकमळांक एक चोरपी दिश्ट दिली. ह्या विशयांनी हांव कांय एक्सपर्ट न्हय. विदेशी पयण म्हळ्यार कितें म्हण हांव नेणां... तुमचो जेरी कुवेट पावोंक ना खंय!'

थंयसर देंवल्लें मौन कितल्या घड्यांक, मिनुटांक वोरांक, म्हयन्यांक आनी वर्सांक लांबलें तें कोणयी नेणांत.

वीरा उलवनच वेतालें. 'तुमी धैर सांडिनाकात. म्हण जॉनी भावोजीन सांगलां. तो बरो देव आमकां सोडून घाली सो ना.'

विरान उलयिल्लें कांय समजालें म्हळ्यार इवोनाक मात्र. नोरून फेल्सी आण्टीक फोन केल्लें. जेरी एअरपोर्टा थावन बायर येवंक ना म्हण. फेल्सी आण्टीन नोराक सांगलें कीं जेरीक आपणेच प्लेनार बसयला म्हण. उप्रांत नोरान मोली पिरेरीक फोन केलें आनी तिणे आपल्या पुताक बॅरनाक सांगलें आनी बॅरन जॉनी अंकलाक वळखतालो जाल्ल्यान जाणे जॉनीक खबर दिली. मिक्कीगेर अनीकी फोन नातल्ल्यान ताणे विराक रातारातीं फोन केलें...

'मद्यान रातीं म्हाका कांय हांगासर येवंक जाता गी भावोजे? विचारलें विरान. 'देखून आतां भुरग्यांक इस्कोलाक तयार करून हांव तुर्तान आयिल्लीं... नोराचें फोन येवंच्या पयलें मोली पिरेरीन सबार पावटीं आपले धुवे लागीं उलवंक फोन घुवंडायलें खंय, पूण लायन लागोंक ना खंय.

'तर, डिना हें सर्व जाणा?' आपल्या वॉच्याक पळेवन विचारलें इवोनान. 'आनी अर्द्या वरा भितर तें म्हाका मेळता. जेरी कुवेय्ट पावोंकच ना म्हळ्यार कितें?' ताच्या ताळ्यांत आकांत आसल्लो.

'कांय विमान पाड जावन वाटेर रावलां आसतेलें.' म्हणालो मिक्की.

'पूण विमान म्हळ्यार बस्स न्हय पप्पा!' विरारायेन म्हणालें इवोन. 'तें पाड जावन रावाना, पाड जाल्यार पडता आनी विमान क्रॅश जाल्यार खिणाभितर खबर येता...'

'कोणा हर्द्यार घालो म्हज्या चेरक्याक!' हाक मारली जिल्लीन.

'मां!' म्हणालें इवोन तिचे सामकार उबें जावन. 'मिसाक वचोन आयल्याय, पातयेणेंत राव. जेरी मेलो म्हण कोणेयी सांगोंक ना. तो कुवेय्ट पावोंक ना म्हण मात्र आमकां कळीत. तो बसल्लें विमान कुवेय्टाक सुरक्षीत पावलां म्हणताना जेरी

एअरपोर्टाथावन भायर येनाशें रावोंक सबार कारणां आसयेत आनी त्या पयकी तो मेला म्हळ्ळें कारण एक न्हय म्हण सर्वांनी घट पातयेजे.'

'पातयेल्ल्यांत कितें जातां?' जिल्लीच्या उलोण्याचें स्थिमीत अस्कत जायीत येतालें. ती सोप्याचे धरणीरच बसली. 'त्या गावडी चलयेक पातयेवन फसलीं हांव. भास वोडतेल्यांक केदनाय पातयेवंक नजो.'

'शटअप मां!' बोबाटलें इवोन. 'देवाखातीर आनी जेरीखातीर पुणी हें तुजें पिसांट उलोणें रावय. तूं जातीन/कुळयेन सेकेंडक्लास, व्हय मूं? तर तूं कांय उण्याची शनी? तूं ह्या घराक माट हण आमी म्हळ्यार कशें?'

हीं उतरां जिल्लीक नाटवल्लेपरीं दिसलीं, पूण ती इवोनाक पळेवन सगळीच चाळवाली. 'हांव तुमकां माट जालीं न्हय?' तिचो ताळो किंद्री जायीत्त येतालो.

'आतां फुडें कितें म्हळ्ळें सवाल', म्हणालो मिक्की. 'पयलें बऱ्या देवाचेर आमी पातयेणी दवरीजे आनी खबर काडीजे... गरज तर फेल्सीक फोन करयां...'

'नाका पप्पा!' परिगत आपले हातीं घेतली इवोनान. 'तिका आकांत दिवंचो नाका, तिका येदोळच कितलो धको जाला कोण्णा. हांव पयलें डिनाक फोन करतां. पळे मां, फोन नाका नाका म्हण रावलीय न्हय? आज कितल्या बऱ्याक पडतें फोन आसल्लें तर?'

'म्हजो जेरी कितें फोनाच्या वयरांतल्यान भायर येतो?' ती सणसणली.

'हांव माट जालीं ह्या घराक? हांवेंच खावन घालो म्हज्या पुताक?'

'तिचें कोणेयी गुमान केलें ना.'

'तुका कांय कॉफी या टी करून हाडूं वीरा आण्टी?' सभ्यता पाळ्ळी इवोनान.

'नाका पुता', म्हणाली वीरा. 'तूं वच आनी तुवें करूंक आसचें कर.'

'एक घडी शॉपाक वचोन हांव येताना तडव[113] जातलो म्हण गुरूराजाक कळय...'

'जायत पप्पा', कबूल जालें इवोन 'आण्टी वीरा, हांव पार्टी येता पर्यांत...'

'हांव हांगाच बसोन तेर्स करतां, पुता इवोन!' ती म्हणाली. 'म्हजेर पातयेया, म्हळां आमच्या स्वाम्यान'

हें आयकोन इवोनान आवयक एक दिश्ट दिली आनी हे दिश्टीचो अर्थ इतलोच म्हणयेत. कश्टां अन्वारांत कोणय एकसुरीं नांत. देवरुपार मनशांच आमचे कुमकेक[114] येतात.

'सॉरी मां!' तें म्हणालें आतांयी धरणीर बसोन आसल्ल्या जिल्लीक उठवन.

'हांवें तशें उलवंक नजो आसल्लें.'

ताचीं उतरां आकेर जायजे तर गेटींतल्यान भितर सरल्या सॅली कुरियनाक पळेवन तांचो आकांत वाडलो. सॅलीक पळेलेंच एका दमान जिल्ली उठोन ताका मेळोंक धांवली

'धर्माक गेलो म्हजो, जेरी, मेडम!' ती म्हणाली. 'आतां आमी कितें करचें?'

सॅली आक्रमणाची खबर घेवन आयल्ली. तिणे चिंतलें, हेरांथावन नाका जाल्लें आयकोंचें पयलें आपुणच हांका आक्रमणाची खबर दितां आनी सांगाताच धैरय दितां म्हण. जेरी येदोळच नोराचे ताबेंत पावला जाल्यान सुरक्षीत आसतलो म्हळ्ळो संदेश दिवंक ती आयिल्ली.

पूण तिका, जेरी कुवेय्ट पावोंकच ना म्हळ्ळी खबरच नातल्ली.

■■■

# 32

रातीचीं सुमार साडे इकरा जाताना गल्फ फ्लायटांचेर आइल्ले सर्व पयणारी इमिग्रेशन – कस्टम्स जावन भायर आयले म्हळ्ळीं खुणां दिसलीं. एअरपोर्ट मोनिटरॉवयलीं तीन फ्लायट नंबरां एअर इंडिया, कुवेय्ट एरवेज, गल्फ एअर – नपयंच जालीं.

पूण जेराल्ड पायस भायर आयलो ना....

नोरा लुविसान, पाकिस्तानी ड्रायवर इशानाच्या मुकमळाक पळेलें आनी तो ताका पळेवन हासलो, ताचो भांगराचो दांत उजळ्ळो.

'म्हजो मनीस येवंक ना, इशान!' तें म्हणालें विरारायेन.

'इंडियाथावन येवचीं तिनय फ्लायटां आयलीं, पूण तो ह्या तिनांचेरय ना.'

'तुमी केदाळारय पाकिस्तान इंटर्न्याशल बोइंगाचेरच येजे!' तो म्हणालो. चीप ॲण्ड बेस्ट.'

कितेंगी म्हणोंक नोरान ओंठ उसयले, पूण म्हळें ना. ह्या पाकिस्तानी लागीं उलवन फायदो नातल्लो.

तितल्यार समवस्त्रार आसल्लो एकलो तुर्तान भायर येवंचो ताका दिसलो आनी तो इंडियन म्हण नक्की करून नोरा ताचे सरशीं गेलें. तो ग्रावंड स्टाफ.

'सर', तें म्हणालें 'एअर इंडियाचे सर्व पयणारी भायर आयलो?'

'व्हय म्हण दिसता', तो म्हणालो आपल्या वॉच्याक पळेवन. नोरा उलयताना सयत ताणे आपली चाल सवकास केली ना. 'कित्याक ते भितर रावतले?'

'तूं कुवेय्टांत बरो जून जालाय, मनांतच म्हळें नोरान. तुका कुवेय्टी नॅशनॅलिटी दीजे. पूण आपली नम्रताय सांबाळून ताणे म्हळें. 'आमचो एक पॅसेंजर येवंक आसल्लो, पूण येवंक ना.' नारान आपली चाल ताचे चाली सांगाता मेळयली.

‘म्हाका पॅसेंजर लिस्ट पळेवंक मेळत?’

त्या मनशान नोराचेर एक दिश्ट चरयली आनी चलतेच रावलो.

एका नीळ श्वासासंगी नोरा, इशाना सरशीं पाटीं आयलें. ‘आमकां एअरपोर्टा भितर वचोंकय जायना’, तें म्हणालें आपले हात मुरडोन आतां कोणाक फोन करचें? शेख फाहद फाल्यां रातीक फ्रान्साथावन येवन पावतलो. खालीद अल फौजान वर्साच्या ह्या वेळार येरोपाक वेता, विजा दिवन कमयिल्ले पयशे खर्चूंक.

‘आतां कितें करचें, इशान?’ ताणे विचारलें, कसलोयी फायदो जावंच्यार ना म्हण कळीत आसोनय.

‘म्हाका कळीत ना नुरी’, ताणे सत सांगलें. ‘शेख येतापर्यांत राखचें. तो आइल्ल्या तक्षण सर्व कामां जातात, इनशा अल्लाह.’

आनीकी अर्दे वरभर रावयां म्हण नोराक भोगलें, पूण ताचे चुरूक मतीन ताचें हें चिंतप रद करून उडयलें. रात बळ जाल्ली आनी आपणाक पोलिसांनी पाकिस्तानी सांगाता धरल्यार बेश्टेंच शेकाची मर्याद वेतेली म्हण तें जाणा आसल्लें.

‘चलयां, इशान!’ तें म्हणालें. ‘रावळेराक पाटीं या. देव कसलीयी वाट दाखयतालो. एकल्यान येनाशें रावोंक सबार कारणां आसात न्हय?’ ह्या उलोण्यान तें आपणाकच समादान करूंक पळेतालें.

एअरपोर्टाथावन शेख फाहदाच्या रावळेरा पर्यांतली बाट तांणी उलोण्याविणें खर्चिली. इशान, आपलें वाहन सुमार देडशें किलोमीटर वेगान चलयतालो.

रावळेराक पावल्ल्या नोरान इशानाक सुटी दिली आनी ताका त्रास दिल्ल्याक माफ मागलें. ‘तुजे खातीर आमी कितेंयी करूंक तयार आसांव नुरी!’ तो म्हणालो.

‘शुक्रन शुक्रन!’ तें म्हणालें ओंटांचेर एक हासो हाडचें प्रेतन करून. ‘आतां त्या अल्लाहन म्हजे खातीर कांयतरी केल्यार पुरो.’

‘इनशा अल्लाह!’ इतलें म्हणोन इशान गेलो.

रावळेराच्या सेक्युरिटीन ताका गेट काडली आनी भितर गेल्लेंच तें तेज्याण्टीक सोदून गेलें. म्हातारी न्हिदोन आसल्ली आनी धोरेताली. तिची समाधानाची न्हीद

पळेवन तिका जागवंचें मन आयलें ना नोराक. सुसज्जीत कुजनाक वचोन ताणे थोडें जेवन घेतलें आनी माक्रोवेवांत घालून हून करून तें जेवलें. उप्रांत निर्मळाय तिर्सून न्हिदोंक गेलें. पूण सहज आनी नीज, ताका न्हीद पडली ना.

इंडियाक संपर्क करूंक ताचे लागीं तीन नंबरां आसल्लीं.

एक मुंबयच्या फेल्सीचें जिका ताणे जेरीचे टिकेटीचो आदेश धाडल्लो, दुसरें सॅली कुरियनाचें आनी तिसरें कुवेय्टांतच आसच्या मोली पिरेरीचें जें ताका सॅलीनच दिल्लें.

पूण संगत कसली म्हण कळीत नासतां कोणाक म्हण फोन करचें? इंडियांत आतां फांत्याचीं तीन. कुवेय्टांत रातार्चीं साडेबारा आनी मोलीक या हेर कोणाकय ह्या वगता धोसचें सारकें न्हय. कितें तरी, रात पाशार जायजेच.

पूण जालां कितें जावयेत? हें सवाल ताच्या मर्तीतलें भायर वचोंक आयकालें ना. खालीद अल फौजानान दिल्ल्या विजांत गडबड आसोंक साध्य ना. शेखान सांगल्ल्या उप्रांत खालिदाचो मंदूप तीदोड्या मापान चत्रायेन आसतलोच. जेरी कांय अमालाच्यो बोतली हाडून आयला? चे, चे... तिलो भेरो न्हय. तो जाणा, कुवेय्टांत आमाल ना म्हण. आपणे तें सर्व कित्याक चिंतचें? तें आपणाकच विचारी लागलें. जेरीक कांय मुंबयच वांदे जालें कोण्णा. ताचो पासपोर्ट सारको ना जावयेत. ह्या दिसांनी नकली पासपोर्टांचीं सबार प्रकरणां उगताडांत आइल्लीं. खंच्याकी फाल्यां सकाळीं फेल्सीक फोन करचें. नक्की खबर मेळाजे तर तिचेथावनच.

ह्या चिंतनांनी आपले गज्डेर[115] लोळोंक सुरू केल्ल्या ताका कितल्या वेळा उप्रांत न्हीद पडली म्हळ्ळें कळीत जालें ना.

ताका जाग जाताना सकाळींचीं सात, 'देवा म्हज्या!' तें उद्गारलें.

'इंडियांत सकाळींचीं साडे नोव!'

कसल्यागी एके पिसांट पातयेणेक लागोन ताणे भायर सेक्युरिटीलागीं वचोन रातीक कोण पुणी इंडियन तरनाटो आयल्लोगी म्हण विचारलें. तें जाप जाणा आसल्लें. कोणयी येवंक नातल्ले.

पार्टी रावळेराक येताना ताका तेज्जांटी मुखारच मेळ्ळी. 'खंय गो तूं?' तिणे ताळो काडलो. 'सगळी रात राकोन बसलीं हांव. खंय आसा तुजो कोडियाळगार?

न्हिदला तर उठयनाका. उठला तर आरब्यांचो नास्टो दी ताका.'

नोरा तिचे सरशीं गेलें आनी ताणे तिका आरावन धरलें. 'जेरी येवन पावोंक ना तेज्जाण्टी!' तें म्हणालें. 'हांव नेणां कितें जालां म्हण. गल्फाचीं तीनय फ्लायटां टायमार आयल्यांत.'

'व्हय गो पिसांटा!' ती म्हणाली. 'तितलेंच गो? तुजे तांबडे जाल्ले दोळे पळेवन हांवें चिंतलें कांय संवसारच आकेर जालो म्हण. अळेगो, म्हाका शिकप ना, व्हय पूण हांवें ह्या शेखा सांगाता बलाश[116] भोवंल्ले गांव, पळयिल्ले एअरपोर्ट कोड्याळच्या खंच्यायी पुतान पळेवंक ना आसतेले. तूं भियेनाका. काल येवंक ना तर आज येतलो. आज येना तर फाल्यां येतलो. तूं अशेंयी कित्याक भियेतायगो? तूं नकेत्रां काडचेंच म्हण हांव केदाळारी म्हणाना? आतां हेणे तेणे फोन करून आकांत करिनाका. नास्टो केलायवे तुवें?'

'तो लोकामायेचो भुरगो, तेज्जांटी!' तें म्हणालें. हांव भियेना तें खंडीत, पूण फुडें कितें करचें म्हण म्हाका समजाना.'

'पयलें पोट घट कर आनी त्या उप्रांत मत सारकी काम करूंक सुरू करतेली. शेख आज येवंक मूं? त्या उप्रांत सर्व सारकें करतलो तो. वच, निखळ हांगाचें. देवाचेर पातयेणी दवर.'

'आनी हेर कांय ना म्हजे लागीं देवाचेर दवरूंक!' तें म्हणालें भुजां उडवन.

कुवेय्टाची सुमार धा जाताना तें न्हेसोन तयार जालें. इशान ड्युटेर आसल्लो आनी नोरान तेज्जाण्टी लागीं ताका घेवन सिटीक वेची परवणगी विचारली. रावळेरांत शेखाच्या कुटमांतलीं हेरां, लागशिलीं पयशिलीं आसल्लीं तरी तेज्जाण्टीच इन-चार्ज, शेख आनी शेखा मिरियम नातल्लेवेळार.

'हांव एअर इंडियाच्या आफिसाक वचोन येतां, तेज्जाण्टीं, तें म्हणालें.

'कांय पॅसेंजर लिस्ट पुणी आसागी म्हण विचारतां.'

पूण एअर इंडियाच्या ऑफिसांत नोराचें नशीब उगतें जालें नां. एअरपोर्टाथावन पॅसेंजर लिस्ट येवंक ना खंय, कुवेय्टांत कसलेंगी शिजात्त आसा खंय. गेल्ल्याकडेन 'बत्तका मदनिया'[117] चेक करतात खंय.

नोराची मत पिशांतूर जाली. असलें चेकींग कुवेय्टांत सदांचें जाल्लें. सगळ्यानीतल्यांनी आकांतवादींची भिरांत शिया आनी सुन्नी मुस्लिमांचें तक्रार.

थोड्या तेंपा आदीं येका दिसा कुवेय्टांत सात जाग्यांनी स्फोटनां जाल्लीं. कुवेय्टा भितरल्याच एका क्रांतीकारी पंगडान रांदपा गॅसाचे सिलिंडर वापरून स्फोटना केल्लीं. आनी परिणाम जावन ह्या पिसांट कुवेय्टींनी गॅसाचे सिलींडर कोणेयी मोलाक घेताना ताचें नांव आनी विळास बरवन घेवंक सुरू केलें आनी आयडेंटिटी कार्ड नातल्ल्यांक गॅस दिवंचो बंद केलो. ही कसरत थोडो तेंप चलली. उप्रांत कुवेय्टीकच वोळ्ळें आनी ही रूल रद जाली!

'कितें चलता खंय, इशान?' नोरान विचारलें 'कितें आयलां पत्रांनी?'

इशानाक अरेबीक उलवंक आनी बाचूंक येतालें. आपणाक उलवंक येता, पूण आपणे खंडीत जावन अरेबीक भास वाचूंक बरवंक शिकाजे म्हण नोरान निचेव केल्लो.

'हांवें अल – रायी अल अलम[118] वाचलें' तो म्हणालो.

'झेद्दांत कुवेय्ट – इराकाचें कसलेंगी मिटींग चलता खंय. कसलेंगी प्रेट्रोला विशीं. तें थंय मिटींग चलयतात आनी हे पिशें हांगासर 'हविया'[119] चेक करतात.'

'तुमचेच भाव न्हय, हे कुवेय्टी? नंजज्यांनी[120] म्हणालें नोरा.

इंडियनांच्यो चेश्टायो[121] तुमी करतात आनी खेंडतात...'

'फुडें खंय वेचें, नुरी? ताच्यो नंज्यो मुकारून व्हरूंक इशानान अवकाश दिलो ना.

ह्या सवालाक नोरा लागीं जाप नातल्लीं.

पार्टी रावळेराक आयिल्ल्या ताका सेखाच्या पार्टी येण्या खातीर तयाराय जावंची दिसताली. भायर एक दोन तंबू उबारल्ले. म्हळ्यार करपाच्या (CAMEL) आनी विस्तार वाठाराच्या मुल्याक एक 'खुझी' तयार जाताली. खुझी करपाच्या गायेच्या भोव तरण्या पिलाक कातरून, साफ करून ताच्या पोटांत नितळ केल्लें बोकड्याचें पील आनी त्या बोकडे पिलाच्या पोटाभितर नितळ केल्लीं कुकडां, आरब्यांनी रानपांत वापरचें सांबार पिठे, आलोपालो इत्यादी घालून भरून त्या करयाच्या पिलाचें पोट शिंवोन घुंवचे सारियेर चडवचें आनी पोंदाक उजो घालून ह्या करयाच्या पिलाक घुवंडावनच रावचें. हें काम सगळी रात चलल्लें आसा. करयाच्या पिलाक येदळच हाडून बांदून घाल्लें. ताका पळेवन नोराच्या जिवांत

एक थर्रशें जालें आनी थोड्याच वेळान आणालो गळो शिंदतेले म्हळ्ळें कळीत नासतां तें पील तण खातालें. एकाच्छाणे नोराचे मतींत आपणाचे जिणेंत आइल्ल्या जेरीचें प्रकरण उदेलें आनी बुडलें.

रावळेराभितर वचोन ताणे तेजाण्टीक गजाल विवरली. 'आतां हांव मुंबय फोन करतां! हो चोर मुंबयथावन सुटलागी नागी? आमी हांगासर बेश्टेंच चडपडतावं जावंकय पुरो.'

पूण नोराच्या नशिबाक मुंबय आसच्या फेल्सीचें नंबर लागतालें, तुटतालें. सारकें लागल्यार कोणय फोन उकलिनातल्ले.

मुंबय आनी मंगळुरांत शिरांधारांचो पावस येता म्हण ताणे आयकाल्लें. कुवेय्ट टेलिफोन एक्सचेंजा मुखांत्र प्रेतन करताना 'लायन खरबान, लायन माय्तशिगूल' म्हळ्ळी मामूल जाप आयली. इंडियाच्यो लायनी विचारताना तांणी असलीच जाप दिवंची आसल्ली.

नोराक रावळेरांत हेर कामां आसल्लीं आनी तें तत्कालाक जेरीक विसरालें. कितेंयी म्हळ्यार शेख येता. सांजेर पुणी लायन ट्राय करची, मेळाना तर शेखाक सांगचें. तो मुंबय आसल्ल्या कुवेय्ट कोन्सुलेटाक फोन करून कांय तरी करतलो.

नोराक आन एका मनशाक फोन करूंक जाय आसल्लें, पूण तो मनीस कुवेय्ट इराकाचे गडीर आसच्या कॅम्पांनी काम करचो मनीस. चडावत ताका इराकाच्या बसरा आनी अल - नस्सरियाक वचोंक पडतालें. कितेंगी चिंतून तें हांसलें.

सांजेचीं सुमार पावणेआठ जाताना इशान शेकाचें लिमोसीन[122] घेवन एअरपोर्टाक भायर सरलो. ताच्या सांगाता दोन सेक्युरिटी वाहनाय तयार जालीं. 'आमचो मनीस पुणी येतागी पळे,' इशाना लागीं म्हणालें नोरा 'म्हाका आतां निजायकी भंय दिसता.'

'इंडियाक एक लायन मार, नुरी!' म्हणालो इशान. 'हेर कितें सांगचें म्हण समजाना.' तो आपल्या शेकाक रावळेराक हाडचे सरबरायेचेरच आसल्लो.

इशानाची शिबंदी वेतेच नोरान फेल्सीचें नंबर लागयलें. विचित्र आंनी नीज. पयल्या पावटींच ताका लायन मेळ्ळी आनी चलल्ल्या उलोण्यान नोराच्या पांया पंदली धरण नपंयच जाली आनी थळ नातल्लो एक खंदक ताका गिळूंक आयलो.

ति तीन पावटीं जेरी एअर इंडियाच्या फ्लायट AI 181 चेर चडला म्हण फेल्सीथावन आयकालेंच तें फोन पाटीं खिळावन थयंच कोसाळ्ळें.

खंडीत, कुवेय्ट एअरपोर्टांत कितें तरी जालां. कोणालागीं तें उलयलें ना. ताचो शेख आनी एका दोन घंट्यांनी येतलो. पूण आयिल्लेपरींच ताचे लागीं आपणाचे कश्ट सांगोक साध्य आसा? बिलकूल ना. कुवेय्टी तो कुवेय्टी आनी आपूण इंडियन खादिमा[123] तें इंडियन खादिमाच.

तेज्जाण्टीक ताणे कांय सांगलें ना. कऱ्याच्या पिलाचो पाडकाचो[124] साक्रिफीस जाल्लो आनी तेज्जांण्टी भितरल्या किचनांत बिरयाणी करच्यांत बुडोन गेल्ली. किचनांतल्या सर्वांक तिणे तेमेट्यांचेर उबीं केल्लीं.

आपल्या गोवेतांत सोदून ताणे मोली पिरेरीचें नंबर वयर काडलें. सॅली कुरियनाचें नंबरय ताचे लागीं आसल्लें पूण आतां परिपूर्ण स्थिमितांत आसल्ल्या नोराचें शिंतिदान ताका अशें सांगलें. गरज नासता गावांत आकांत उब्जयनाका. जेरी, इंडियांत ना म्हळ्ळें खंडीत. तो खंय शिरकाला तर कुवेय्टांतच शिरकाला आनी ताका भायर काडीजे तर शेकावरवींच साध्य आनी थोड्या घंट्यांनी शेख येतलो. काल रातींथावन जेरी खंच्यागी जेलांत आसा तर फाल्यां सकाळीं खंडीत जावन ताका हांव भायर काडतेलीं. हे रातीं ताका कांय जावंचें ना...

अशें ताचें चिंतप तरी ताणे मोली पिरेरीक फोन केलें.

पूण सत सांगचें तर, मोली पिरेरीन नोराक पाटीं फोन करतां म्हळ्ळें, शेख फाहद येवंच्या सरबरायेर तें विसरोन गेलें. ताका कितें कळीत, जॉनी डिक्रुजान बॅरनाक पाटीं फोन केलें ना म्हण आनी बॅरनान आवय मोली पिरेरीक कॉल केलें ना म्हण?

हो जावन आसल्लो कुवेय्ट देश भारतीयांक आनी काळ्या भांगाराचो कितलो वांटो आपणाक मेळता म्हण हांगासर आइल्ल्या सर्वांक. आपूण आपणाक, देव समेस्तांक, म्हजे कश्ट म्हाका हेरांचे कश्ट देवाक.

नोरा प्रफुल्ल जालें. कितेंयी तर, कुवेय्टी रायाळ कुटमांतलो बरो मनीस शेख फाहद आत्तां येवन पावता आनी तो आपल्या नुरीक कित्यांतय उणे करीसोना. कांय ना तर तेज्जोण्टीचो 'वास्ता'[125] आसा न्हय? हूं, आज गंमत आसतेलें. खुझी कशीय तयार जाल्या, लांब केसांचें 'वीग' बसयिल्ल्यो कुवेय्टी चलयो आज

दिवानियांत नाचतल्यो. हांचो संभ्रम म्हण आमकां न्हिदोंक आसागी नागी?

हां, फाल्यां खंचो दीस? ब्रेस्तार. हूं शेख फाहदाचें फेस्त सनवारा सकाळी पर्यांत लांबल्यारय लांबलें. चे! शेखा मिरियम आनी भुरग्यांनीय हांगासर आसाजे आसल्लें.

आनी शेख फाहदाच्या पार्टी येण्याचो संभ्रम[126] सगळी रात लांबलो.

सुमार फांत्याचीं तीन जाताना दोळे उगते दवरूंक जायनासताना थोडी न्हीद काडूंक म्हण नोरा आपल्या रूमाक निकळ्ळें. न्हेसल्ल्या वस्त्रांचेरच आड पडलें आनी खिणा भितर ताका न्हीद लागली.

...कसलो आवाज तो? सगळी धरण कांपताली. भुंयकांप?

परत्यान एक भिरांकूळ स्फोटनाचो आवाज. पयशिल्यान, 'भुर्र' करून उबलेल्या पारव्यांच्या पाकाट्यांचो आवाज. नोरान आपल्या वॉचाचेर दिश्ट घाली.

फांत्याचीं फकत चार.

तारीक आग्रोस्ताची दोन.

■■■

33

नोरा लुविसान आपले जिणेंत चड आवाज आयकोंक नातल्ले. आयकाल्ले तर असले आवाज न्हय. खंय एक पावटीं तें बारा वर्सांचें आसताना येस्तुबायेन ताका हळ्ळेंतल्या एका काजाराक आपवन व्हेल्लें. व्होर भितर रिगताना बारा खजने मारतात म्हण तिणे ताका सांगल्लें, खजने भरचे आनी फुटवंचे मनीस वेगळेच आसतात आनी तांका चडावत कान आयकानांत म्हण तिणे नोराक सांगल्लें. म्हळ्यार खजन्यांचो आवाज इतलो आसता कीं कायम तो आवाज आयकोन आयकोन तांच्या कानप्यांचीं फुलां बसतात म्हण तिणे ताका सांगल्लें. ह्या भिंयान नोरा गाद्या मेरेंथावन काजाराच्या माटवापर्यांतली वाट आपली बोटां कानांत घालूनच चलल्लें. तरी, ते बारा खजने फुटताना ताचें काळीज बारा पावटीं बसोन उठल्ले. त्या उप्रांत ताका आवाज म्हळ्यार आकांत. वागाक भियेंना, शिंवाक भिंयेना पूण खतखत्याक भियेता म्हळ्ळी परिगत नोराची.

आनी आतां ह्या आगोस्ताचे दोन तारकेच्या फांत्यार.[127] स वोरांचेर ताणे आयकाल्ले मिश्रीत आवाज ताणे त्या फुडें आयकोंकच नातल्ले. बऱ्याक पडलें तें न्हेसल्ल्या मुस्तायकेरच आसल्लें. आकांताची एक क्षीण बोब मारून तें आपल्या रुमाथावन भायर धांवोन आयलें. रावळेरांतले सर्व दिवे जळताले. वाऱ्यांत कसलेंगी करपाल्लेपरीं वास आसल्लो. कांय शेखाच्या संभ्रमाची खुजी चड करपाली या भायर व्हेल्ले गॅस सिलिंडर स्फोट जाले? हजार चिंतनां आनी सवालां ताचे मतींत धावंली आनी तांच्या सांगाता तेंयी धावोंक लागलें.

रावळेराच्या विस्तार दिवानखान्यांत पातळयिल्ल्या पर्शियाचे रतन कांबळीचेर एक दोन कडेन उज्याचे गोल पडोन धुंवरताले. रावळेरांत शेखाच्या कुटमाचीं बारा-तेरा जणां आसल्लीं. तांची सारकी ओळोख येदोळपर्यांत नोराक जाल्ली ना.

चड जावन तीं बुरखाचेर आसतालीं. आनी तांची शेखा लागीं सयरीक म्हळ्यार आकय, मावशी, बापूल भयण आनी तसली कसलीच. चडावता तीं निराश्रितां म्हणयेत. आपूण तुजीं संबंदीक आनी तुज्या बापायक फलाण्या रेगिस्तानांत जल्माल्लीं म्हण सबार स्त्रियो आनी तार्नाटे सयत शेखाच्या रावळेरांत आरामायेचें जिणें सरताले. कुवेती मूळ निवासींचे कायदे आतांयी लागू जाताले जाल्ल्यान शेखाक कांय म्हणोंक ज़ायनातल्लें. पूण ताचे लागीं आसल्लो दुडू इतलो घण्ण जावन आसल्लो कीं ताका आनीकी तितलींच जणां येवन रावळेरांत तंबू मारून रावल्यारय फरक पडतें ना.

सगळेंच कालुबुलू जावन तें दिवान खान्याच्या मदेगात उबें जालें. एक नोवोच आवाज ताच्या कानांक आपटालो.

राट्ट... ट... ट... ट.. वणदींक खिळे मारल्ले परीं आवाज. कोण सोजेर थंय आसल्लो तर ताका सांगतो. हो आवाज मशीन गनाचो. उबें रावानाका, धरणीर ओमथेंच पड. पूण नोराक या रावळेरांतल्या हेरांक हें सर्व खंय कळीत?

एक भिरांकूळ स्फोट जालो. आनी रावळेराच्या जनेला बागलांचे हारशे चुरान चूर जावन 'भसक' करून चवकटां थावन झडले. नोरान एक किंक्राट मारली. दिवानखान्याक रिगच्या सात आठ दारांतल्यान स्त्रियांचे पंगड बुरखा काडून उडवन 'या उल्लाह' म्हण बोबाटून हेणे तेणे धावोंक लागले. थोड्यांच्या पासळ्यांनी बाळशीं आसल्लीं आनी हेरां थोडी तां 'तांच्या भुरग्यांक हॅण्ड बॅग ओडून व्हेल्लेपरीं ओडून व्हरताली.

'शू सार्र?' नोरा बोबाटलें. 'सू मामला ह्या ओक्ती?' एकलेक आडावन रावन ताणे विचारलें. 'हयात, अल्लाह?'[128]

ताणे आडायिल्ले स्त्रियेच्या दोळ्यांनी विणगी भिरांत पळेली नोरान.

'हादा हर्ब!' आंगार आयिल्लेपरीं ती बोबाटली, नोराच्या हातांतलें सुटचें प्रेतन करून. 'हादा हर्ब' झूज. नोराचे आडावणेथावन सुटताना तिणे ताका थोकरलें सयत.

कोणाचें कोणाचेर झूज?

परत्यान एक आवाज आनी रावळेराच्या पाक्याचो एक व्हड भाग दिवानखान्याच्या मदेंच पडलो. एक दोन घोंस दिवये झडोन पडले आनी

भस्माले. नोरान आपलीं बोटां कानांनी चेपलीं. खंय आसा तो इशान? खंय गेले हेर कामेली?

तेज्जाण्टी खंय आसा?

खंयचे कुशीन वेचें म्हण ताका सुस्तालें ना. सगळ्या वातावरणांतलो तो हुलपाल्लो वास तिदोडो जाल्लो. दोन तीन मिनुटांपर्यांत भायलो आवाज रावताना नोरान फुडल्या दारवाट्याचे खांचींतल्यान भायर तिळ्ळें. वटाराक आसचें लोहाचें महाद्वार ताका दिसले. आनी थंयसर चार सेक्युरिटी मानाय हातांत मिशीनगन घेवन मुडकेवन बसल्ले ताका दिसलें.

वटाराच्या दाव्याक दिवानियाचे दोन तंबू ताका दिसताले आनी खावन घाल्ल्या खुझीची एक कुसय दिसताली. पंदलो उजो मुरमुरतालो. पूण सगळ्या वातवणांतलो वास त्या उज्याचो न्हय म्हण नोराक आतां कळीत जालें. कित्याक त्या वासाची ओळोक ताका कळ्ळी. वर्सां आदी ते खजने फुटताना असलोच वास उठल्लो, व्हय, दारवेचो वास!

दादा हर्ब, दादा हर्ब![129]

शेख फाहद खंय आसा?

दारवाट्या सरशीलें तें परत दिवान खान्याच्या मदेंगात आयलें आनी देवाक ताणे हाक मारली. आरब्यांच्या राजकियाची ताका माहेत नातल्ली. कुवेतांत आसचीं दोनच इंग्लीश दिसाळीं पत्रां, 'कुवेय्ट टायम्स' आनी 'अरब टायम्स' रावळेराक येतालीं, पूण नोरान आज पर्यांत गुमान दिवन तीं वाचल्लीं नांत. कुवेटी डिनारां सामकार इंडियाच्या रुपयाची रेट कितली म्हण पळेवन लेक घालूंक ताका इशानान शिकयिल्लें.

रावळेरांत सात आठ इंडियन, बांगला आनी श्रीलंकेचे तरनाटे आसल्ले, पूण नोरान तांकां सर्वांक पयसापयस दवरल्लें. तांचे पयकी तेग चौग इंडियन सोरो रांदताले. तांकां हेर कसलीच पिसाय नातल्ली. तांका कोपाचें मेळ्ळ्यार जालें. पूण हेर आयताराचें कातेद्राला भायर घर कामेल्यांक लायन मारूंक रावताले आनी ह्या 'धंद्याक' लागोन शेख फाहदाच्या रावळेरांत, आमी शेखाच्या कुटमांतले म्हण हर्दे बडवंच्या तरनाट्या कुवेतींचो बरोच पाटिंबो हांका आसल्लो. एक दोन पावटीं हाणी नवेंच आइल्ल्या नोराक फसवंचें प्रेतन केल्लें आसा आनी तवळ

तेज्जाण्टीच ताचे राकणेक आयिल्ली.तिणे ताका सांगल्लें, ह्या देशांत आमच्या रँकाच्या हर एक तरनाट्या चलयेक एकलो तरनाटो आसाजे गो पुता. कसल्यायी वायट इराद्याक लागोन या कुडीचो पाशावं थांबवक न्हय, पूण भद्रतेक लागोन. कोणाक तरी तुजो सांगाती करून घे. रावळेरांत इशानाक तुजो दोस्त कर आनी ताका तुजो भाई म्हण मानला म्हण तूं सांग. उप्रांत तो तुजेखातीर जीव सयत दितलो. पूण भायर एका बऱ्या हिंदीची[130] ओळोक कर. आसा म्हज्या लेकार एकलो... भेटलांय.. ताका तूं पळेवयां... येता तो केन्नायी हांगासर...'

इशान पाकिस्तानी आनी एक खरो मुस्लीम. नोरा ताका पयले पावटीं भेटल्ल्या वेळार आनी ताका भाई इशान म्हण उलो मारल्ले वेळीं तो म्हणालो, 'नुरी, तुकायी हांवें भयण मानलां. हांव लाहोरचो, आमी लाहोरी भयणी खातीर जीव दितांव.' हें सत म्हण नोराक कळीत आसल्लें.

पूण आतां इशानाची झळक नातल्ली. खुझी चलताना तो वठाराच्या कोनशाक उबो आसचो नोरान पळयिल्लो आनी ताच्या मुकमळार खुझीच्या उज्याच्यो जिबो नाचताल्यो. लांब केसांच्यांचो नाच चलतना नोराची दिश्ट शेखाचेर पडली. तो रावळेरांत रिगल्ल्याक तें ताका मुकामुकीं भेटल्लें ना. शेखाच्या मुकमळार ताणे येदोळ पळेवंक नातल्लें एक भावन आसल्लें. ताची मत संभ्रमाचेर आसाचेपरीं दिसनातल्ली. पयणाची पुरासण कोण्णा म्हण ताणे चिंतले. पूण ना. कसलीगी भिरांत ताच्या मुकमळार आसल्ली.

हेच परीं रात आनी संभ्रम (Celebration) जून जाताना नोराक न्हीद आयली आनी तें हाताक मेळल्लें कितें, कबाब, हमुराचो[131] रोस्ट, हम्मूस, मुतब्बल आनी खुबूज, ह्या सर्वांचें थोडें थोडें खावन तें चुकाऱ्यांनी न्हिदोंक गेल्लें...

आता परत दिवानखान्यांतच... 'तूं हांगासर कितें करताय गो पिंसटा?!' तेज्जाण्टीचो ताळो आयकोन ताका इल्लोसो जीव भरलो. 'तुका सोदून सगळें रावळेर भोंवली हांव. चल-गो आमी स्त्रियांनी आसच्या कमऱ्यांनी लिपोन रावचेंच बरे...'

'लिपोन रावचें? कित्याक?' नोरान विचारलें. 'कोणगी एकली हें झूज, हें झूज म्हण बोबाट मारून धांवली..'

'सबार स्त्रियो ता' तांच्यांक घेवन पाटल्या दारवाटांतल्यान पोळून धांवली.

ते, स्त्रियांक आनी भुरग्यांक कांय करिनांत खंय, तांकां जाय फकत कुवेटी दादले खंय.'

'कोणाक जाय खंय कुवेटी दादले?' नोराचें सवाल भायर पडाजे तर दिवानखान्याची दावे कुशीक वणत येरेवन फुटली, कोसाळ्ळी आनी ताका कसलेंगी आपटाल्लो आवाज उप्रांत आयलो. आतां ताका फुडलो म्हा - दारवाटो सारको दिसतालो. मुडकेवन बसल्ले चोवग सेक्युरिटी सोजेर हातांत मिशीनगन घेवन दारवाट्या भायर आसल्ल्यां लागीं झुजतालें.

'तितलेंयी तुका कळीत जावंक नागो नोरा?' त्या आवाजां मदें बोबाटली तेज्जाण्टी. 'इराकी भितर आयल्ल्यात खंय गो. तो आसा पळे सद्दाम... कोणगी हून उदक पडल्लो.

परत्यान एक स्फोटन आनी हें इतलें भिरांकूळ जावन आसल्लें कीं, तीं दोगांयी धरणीक शेवटालीं. तांच्या माथ्यांवयर धूळ माती पडली आनी नाका-ताळ्यांत धूळ रिगली.

'उटानाका नोरा!' बोबाटली तेज्जाण्टी. पूण नोरान पडल्लेकडेन थावनच आपलें माथें उखलून भायर दिश्ट व्हेली. वठारांतल्या दिव्यंचो प्रकास तवळय आसल्लो. आनी ताणे पळेलें कीं म्हा दारवाट्या लागचे चोवगयी मोरोन पडल्यात. दारवाट्याचें लोहाचें दार केळंब्याची शिरोती पिंजल्ले परीं पिंजून गेल्लें. खिणा भितर त्या दारवाट्यालागीं नोरान येदोळ पळेवंक नातल्ल्या समवस्त्रार आसचे सोजेर ताका दिसले.

तांच्या माथ्यार तांबडी बारेत (Red beret) हातांत विवीध नमुन्यांची आयदां, हर्द्याचेर खुरसारुपार बांदल्ले बेल्ट आनी त्या बेल्टांक दांतांचे सेट्ट बयलसिल्ले परीं गुळे, पेंकडाक[132] पिस्तुल्यो.

खिणाभितर ते वठारांत घुसले आनी विवीध मुल्यांनी जागो घेवन तांची दिश्ट आनी आयदां रावळेराचेर जोखिलागले.

तांचे पयकीं एकलो उठलो आनी आपल्या खांदार ताणे ल्हान नाळीपरीं आसचें कसलेंगी[133] एक आयद दवरलें. त्या आयदाचे तुदियेर बोडयेपरीं आस्चें कसलेंगी आसल्लें. त्यो सोजेरान निशानी घेतली आनी ती निशानी रावळेराच्या बुरजाकच जोखल्या म्हण नोरान अंदाज केलो. ताणे हेर कितेंयी चिंतच्या

पयलेंच त्या नाळीचे तुदियेर आसल्ली बोंडी दुर्सुबाण सुटलेल्यापरीं सुटली आनी खिणाभितर रावळेराच्या वयर ताका भिरांकूळ स्फोटन आयकालें.[134]

स्फोटनाचो आवाज ताचे कान्पे शिंदिलागलो आनी एका आक्रंदना सांगाता ताणे कान धांपले आनी पाटीं पळेलें. तेज्जाण्टी थंयसर नातल्ली तितल्यार–

'अल्लाह हो अकबर!' ओळकीच्या ताळ्याथावन सुटल्ली बोबाट ताका आयकाली. ताणे आपली गोमटी आनीकी कोंकी केली आनी ताका दिसलो शेख फाहद आनी ताच्या सांगाता आसचे सात आठ कुवेती तरनाटे. तांच्या सर्वांच्या हातांनी मिशीनगन आसल्ल्यो. पूण ते इतले घुस्पडीत आसल्ले आनी भियान तोवल्ले की तांच्या तोंडांतल्यान सतत 'अल्लाह, अल्लाह' म्हळ्ळे उद्‌गार भायर सरताले.

शेख फाहदाच्या हातांत नोरान हातेर पळेवंचें पयले पावटीं न्हय. उबाळांत रेगिस्तानांत गोरपाडेंची[135] शिकारी करूंक विशिष्ट हेडलायट आसच्या जिपांचेर वेताना शेरवाच्या हातांत हातेर आसतालें.

'शेख फाहद, अबू फैजल!' किळंचलें नोरा.

शेखान एकाच्छाणे धरणीर पडोन आसच्या ताका पळेलें. 'तूं हांगासर कितें करताय, नुरी?' तो म्हणालो. पूण ताची दिश्ट दारवाट्यार आसल्ली. इराकी सोजेर आतां भितर सरल्ले 'वच स्त्रियांच्या कमऱ्यांत वचोन राव. ते तुमकां कांय करीशे नांत.'

'पूण तू अबू फैजल...'

म्हज्या कुवेय्टाखातीर... हांव तयार... अर्गां अल्लाहक, म्हजी आयिला[136] युरोपांत सुरक्षीत आसा.'

'नाका अबू फैजल!' नोरा रडलें, 'कितें जाता म्हण हांव नेणां, पूण हें झूज तर तुवें एकल्यान मात्र कित्याक जीव दीजे?'

'तयार रावा!' शेख बोबाटलो त्या तरनाट्यांक पळेवन. अल्लाह खातीर आनी कुवेय्टा खातीर जीव दिवंक तयार रावा... हेर कोण आसात नुरी?' विचारलें शेखान.

तितल्यार ताच्या सांगाता भायर आइल्ले तरनाटे 'अल्लाह हो अकबर' म्हण हातांनी आसल्ल्या हातेरां थावन फार सोडीत म्हादारखाट्या कुशीन धांवले. पूण

एकाच खिणाभितर इराकींच्या हातांनी आसलल्यो मिशनगन उजो ओंकल्यो आनी ते सर्व तरनाटे धरणीक शेवटाले, दडबडले आनी मेले.

'कोण आसात नुरी?' परत विचारलें शेख फाहदान. 'आमचें सैन सावदीचे कुशीन पाळोन धांवला. झेद्दाक गेल्लो आमचो रायकुंवर पार्टींच येवंक ना आनी सगळें रायाळकुटम आनी आमचो अमीर सयत सावदीक हेलिकॉप्टराचेर पळ्ळ्यात म्हणताना कोणे म्हज्या कुवेय्टात राकोन व्हरचें? शेखाचो ताळो गदगदीत जालो. 'फी अमान्हल्ला या बिन्ती, नुरी!'[137] ह्या उतरांबराबर शेख फाहद म्हा दारवाट्या कुशीन धावंलो. ताच्या हातांतली मिशीनगन उजो ओंकताली.

पंगड करून मुकार येवंच्या इराकीं पयकीं एक दोग धरणीक शेवटाले. नोरा, उठोन धरणीर बसलें.

ताका शेकाची फाट दिसताली.

'तूं कुवेय्टी रायाळ कुटमांतलो तर, तुज्या हातांतलें आयद गळय आनी शरणागत जा!' त्या पंगडाचो मुखेली कसो दिसच्यान हुकूम दिली.

'हांव कुवेय्टी रायाळ कुटमातलो व्हय, पूण हांव आलद गळवंचो ना, शरणागत जावंचो ना. हांव म्हज्या देशाक विक्रीत करीसो ना!'

'कसलो देश? कसलो सरकार?' इराकी मुखेल्यान विचारलें 'कामांद अमीर आनी ताचो देश हो? तुमी कांय खरे मुस्लीम?'

'ही दोतोर्न तुमकां सद्दामान शिकवन धाडलां. हें कितें तुमचें झिहाद?'[138]

'इस्लामाच्या नांवान सद्दाम कांय वायट करिना!' मुकेलीन आपली मिशीनगन शेखाक जोखली. 'हें कुवेय्ट, न्हय तुमचें पूण इराकाचें. आमचें एकणिसावें प्रांत्य हें आनी ब्रिटीश कुतंत्रांक लागोन तें आज कुवेय्ट जालां. जें कितें ताचें आसा, तें सद्दाम फाटीं घेता तितलेंच. आमकां तुजेर कांय दुस्मानकाय ना.

'म्हाकायी ना!' बोबाटलो शेख फाहद. 'पूण कुवेय्टचें एकच एक इंच भितर घालूंक हांव तुमकां सोडीसो ना.' तो मुखार धांवलो आनी ताची मिशीन गन परत उजो ओंकी लागली. 'म्हज्या कुवेय्टा खातीर, ह्या आमच्या ल्हान वस्ते खातीर!'[139]

'शेख फाह्द!' तांणीं अरेबीक भाशेंत उलयिल्लें समाजाल्ल्या नोरान बोबाट मारली.

पूण तें जावन आसल्लें खीण, अंतीम खीण.

कोणाची मिशीनगन उजो वोंकली म्हण नोराक कळ्ळें ना. शेख फाहद धरणीक शेवटालो.

एकाच्छाणे सगळें परिसर मौन जालें. वेळ रावलो. पूण ते इराकी सोजेर रावले नांत, दिवानखान्या कुशीन तांणी मेटां काडलीं.

आतां, नोराच्या निस्कळपणाक, नोराच्या जिवाक बचाव करतलो एकलोच, फकत एकलोच आसल्लो. सर्वेस्वर देव!



# 34

कुवेटी कस्टम्स अधिकारीचें बळीश्ट थापड आपले कानपट्टेर बसताना जेरीचो सगळो जीव काणशिरलो आनी तो दोन मेटां पाटीं लकलो. ताका त्या वगता आपूण खंयसर आसां आनी कित्याक त्या अधिकारीन आपणाक थापडायलें म्हण कळीत जालें ना. आपणे कसलीगी चूक केल्या म्हळ्ळें खंडीत, पूण अशें पयिल्ले पावटीं आइल्ल्याक अशें थापडावंचे?

'सर, सॉरी!' ताचीं उतरां कश्टांनी सुटलीं. 'व्हॉट इज द मिस्टेक? आय डोण्ट नो...' तो उलवनच गेलो आनी ताच्या दोळ्यांथावन दुकां देंवोनच गेलीं. ताचे भोंवती आसल्ले सर्व पयणारी[140] इंडियनच, पूण एकच एकलो ताचे कुमकेक आयलीं नात.

'प्लीज हेल्प मी?' ताणे भोवंती पळेवन परातलें. 'हे कित्याक म्हाका मारतात?' पूण सर्वांच्या मुकमळार उदेल्लें भावन आनी फैसल एकच. आमकां ह्या कुवेतींचे लफडे नाकात.'

'नो टॉक, नो टॉक!' परत हात उबारून मुखार आयलो अधिकारी. पूण ताणे जेरीक थापडायलें ना बगार लोटून देगेन व्हेलो आनी मुल्यांत रावयलो. हेणे तेणे झाडू मारून आसचो एकलो आयलो आनी जेरीची सूटकेज घेवन कस्टम्स् हॉलाच्या सबार दारवाट्यांपयकीं एकांतल्यान रिगोन नपयंच जालो. ताचो पासपोर्ट घेतल्ल्या अधिकारीन कसकसाची पॅकेट परत परत दांबून पळेली आनी पॅकेट आनी पासपोर्ट घेवन तो एक कंप्यूटर टरमिनला सर्शी गेलो. थोड्या वेळान तो अधिकारीय ताका दिसलो ना.

पॅसेंजरांची लायन मटवी मटवी जाताली, सर्व हाका पळेताले शिवाय सर्शीन येनातल्ले.

निमाणेंतरी लायनीचे आखरेक आसल्लो एकलो प्रायवंत आपलें चेकींग जाल्या उप्रांत शीदा जेरी सरशीं आयलो.

'तुवें हाडल्या त्या वस्तूक हांगासर निर्बंध आसा म्हण तुका कळीत ना?' तो पिसपिसलो. 'कोणे पिशान दिली तुका ती पॅकेट?'

'म्हज्या आण्टीन हाड म्हण बरयिल्लें. देखून एक किलो कसकसो...'

'तें नांव काडिनाका इडियट!' म्हणालो तो मानेस्त. 'हांगासर त्या सब्दाचो अर्थ आवयक लगती जाल्ली एक कठीण बुरशी गाळ जाता...'

ताणे चडीत उलवंच्या पयलेंच एका अधिकारीन ताका पळेलो आनी शीदा तांचे सरशीं तो आयलो. जेरी लागीं उलयिल्ल्याक ताणे त्या पॅसेंजराक बरोच धमकिलो पूण ताणे म्हळ्ळें कसलेंयी जेरीक अर्थ जालें ना. फकत, 'गेट आवट, गेट आवट' म्हण इंग्लिशांत म्हळ्ळें मात्र समजालें.

'हांव सॉरी म्हणतां म्हण तांकां सांग, सर', परातलें जेरीन. 'म्हाका कळीत नातल्लें म्हण तांकां सांगा, सर, प्लीज सर.' पूण ताचें गाराणें आयकोंक तो मनीस थंयसर रावलो ना. एक संगत जेरीचे मतींत येजे आसल्ली, पूण आयली ना. 'भायर नोरा नावाची चली म्हाका राखता[141]. तिका दया करून अशें जालां म्हण सांगा.' पूण अशें जातेलें म्हळ्ळीं कसलींच खुणां तातल्लीं जाल्ल्यान जेरी कशें तशें चिंततलो?

ह्या सर्वाच्या इडयांत ताका एक संगत गमली. विल्मा आण्टीन, कुवेय्तांत आसोन, कायदे जाणा जावनय आपणाक फसयलो. आतां तो उगत्यान रडलो. पूण ताचें रुदान कोण आयकात? इंडिया थावन आयिल्ल्या पयणाऱ्यांची तपासणी आखेर जाल्ली आनी पाटापाट हेर देशांथावन आयिल्ल्या पयणाऱ्यांची लायन लागली.

जेरी पाटीं पाटीं सरलो आनी एक वणदीक ओणकालो आनी कुसकोन थंयच धरणीर बसलो. तानेन ताचो ताळो सुकल्ल्या धुमटे पानापरीं जाल्लो, दोळ्यांनी दुका सुकल्ल्यीं. आपलो कसकसो आनी पासपोर्ट घेवन गेल्लो अधिकारी कांय नोराक घेवनच पाटीं येता कोण्णा म्हण तो भरवसलो. नव्यान आयिल्ल्याक कोण तरी मुखार येता म्हळ्ळें राजांव त्या अधिकारी थंय आसतेलें म्हण ताणे मागलें.

कसल्या पातकाक म्हाका देव असली शिक्षा दिता? बियर पियेल्याक?

देवास्पण सांबाळी नातल्ल्याक? वडिलांक मान करिनातल्याक? ह्या ताच्या खंच्यायी सवालांक ताचेलागीं जाप नातल्ली. हें एक वायट सपन आनी थोड्याच वेळान तें आखेर जातेलें म्हण ताणे आपणाकच एक मिचटो काडलो, पूण तें सपन आखेर जालें ना.

त्या शिवाय तुवें कसकसो म्हळ्ळो सब्द उच्चारून अधिकारीचे आवयकच बुरशी गाळ दिलीय? हांव ताच्या पायांक पडोंक तयार, हजार पावटीं सॉरी म्हणोंक तयार. पूण तो अधिकारी खंय आसा?

तवळ ताका बस्सार भेटल्या सालू फेर्नांदाचीं उतरां मतीक आयलीं. कुवेतांत अपराध्यांची तकली उसळायनांत, बगार उगडांता गोमट्याक दोरी घालून उमकाळायतात!

मदें मदें ताका विमानां चडचो देंवचो आवाज आयकातालो.[142] एअरपोर्टांतले सबार आवाज, मदें मदें ध्वनिवर्धकांथावन अरेबिकांत येवचीं सुचनां, घोशणा ताच्या ताच्या कानांक गुर्मू घालून ताच्या मेंदवांत रिगोन ताका कठीण धणसितालीं. एक भिरांकूळ भ्रमीद ताचेर देवंली... कितलेशागी वेळा उप्रांत ताका एका अधिकारीन धोंकळून उठयलो. हो नवोच कोणगी एकलो. धडधडो मारल्लेपरीं जेरी उबो जालो आनी ताणे ताका हात जोडले. 'सॉरी सर.' तो रडलो. 'म्हाका माफ करा सर. म्हाका जाय तर इंडियाक पाटीं धाडा सर...'

ऑफिसराच्या मुकमळार कसलीच बदलावण जाली ना. ताणे जेरीच्या बावळ्याक धरलें आनी पोंतार आसल्ल्या एक रुमाक व्हेलो. थंयसर एक खटलें, एक कंप्यूटर टर्मिनल, एक मेज आनी एक कदेल आसल्लें. दोग पोलीस आसल्ले.

तांणी केल्ली संज्ञा जेरीक समजाली. ताका विवस्त्र जावंक ताणीं सांगलें. ताचीं अंतर्मळां उडलीं. ताणे आरब्यांचें सलींग रसीकते विशीं आयकाल्लें आनी गांवांत मित्रां सांगाता मेळोन फोकाणांयी केल्लीं. तो एक काळ आसल्लो. आतां जेरीन परत हात जोडले.

'चेकींग, नो प्रोब्लेम!' म्हणालो तो ऑफिसर. इंग्लिशाचे हे दोन सब्द आयकोन जेरीक आपले सर्व कश्ट खिणाभितर करगोन गेले म्हण भोगलें आनी आपूण मंगळुरांत आपले आवयचे पासळेंत पावलां म्हळ्ळेपरीं भोगलें.

'येल्ला! शील पंतलून व खमीज'[143] जेरीन तशेंच केलें. आतां तो फकत आपल्या ब्रिफ्सांचेर आनी सिंग्लेटाचेर आसल्लो. दोळ्यां खांचींतल्यान ताका दिसलें कीं ते दोग पोलीस ताच्या कोटाचीं आनी पॅण्टाची बोलसां पिंजून तपासताले आनी तांतूं मेळल्ल्यो सर्व चिटी तांणीं पिंजून घाल्यो. जेरीन बरवन हाडललीं सर्व टेलिफोन नंबरां नास जालीं. विजाची कॉपी मात्र तांणी मेजार दवरली. थंयच ताचो पासपोर्टेय आसल्लो.

ऑफिसरान ताच्या ब्रिफ्सांक दाखयलें आनी म्हळें 'शील हादा'.[144] जेरी आतां ताच्या पांयाक पडलो. 'सॉरी! म्हाका असली शिक्षा दिनाकात.' ऑफिसरान आनी पोलिसांनी एकामेका पळेलें आनी ते मातें हालय लागले. 'लाअत खाप'[145], म्हणालो ऑफिसर. 'नो प्रॉब्लेम.'

दुकां गळयीत्त जेरीन आपले ब्रीफ्स देंवयले. तवळ हाताक रब्बराचीं लुवां घालून तयार जाल्ल्या पोलिसान ताका खाटल्यार ओमथो न्हिदोंक फर्मायलें. तो न्हिदतच ताणे ताचे हागणेची परिक्षा केली. जेरीक कितें कळीत कीं सबारशे पाकिस्तानी, अफगाणी, इंडियन आनी आरबीसयत मादक ओग्तां हागणेंत लिपवन हाडताले. म्हण. जेरीची तपासणी चड वेळ लांबली ना. ती जातच परत ताणे न्हेसयेत म्हण अधिकारीन सुचायलें.

उप्रांत मेजाचेर मांडून दवरिल्ल्या कॅमेरान ताचो फोटो ताणी काडलो आनी निमाणें ताच्या बोटांचे धुर्त काडले. तवळ ताका नोरान, सॅली कुरियनाक लिखल्ल्या पत्रांतले विशय ताच्या उडासाक आयले.

रेझिडेन्स परमीट मारच्या पयलें तुज्या बोटांचे धुर्त काडतात. तर आपणाक आतां रेडिडेन्स परमीट मेळता म्हण जालें, तो चिंती लागलो आनी ताचे मतींत परत भरवसो आंकरेलो. पूण हें सर्व कळताना त्या तेगांमदें चलल्लें संभाशण तर जेरीक समजाल्लें, तवळ ताका कळीत जातें तो कितल्या आनी कसल्या लफड्यांनी शिरकाला म्हण.

मेजार आसल्ली विजाची कॉपी पळेली त्या अधिकारीन. 'खालीद अल फौजानाची विजा गी?' तो म्हणालो दोगां पोलिसांक पळेवन. 'ह्या लुच्चाक धरूंक आमी कितलो तेंप थावन राकोन आसावं. ताका एकच काम विजा विकून पयशे करचे आनी ताच्या हर एका विजाचेर येवंचे ड्रग्स हाडतात या तो हाडूंक

लायता म्हळ्ळी खबर आम्कां गुप्त पोलिसांक आसा.'

'पूण ताका शेख फाहदाचो वास्ता आसा म्हण...'

शेख फाहद दाहब[146]! म्हणालो अधिकारी. 'ताका कसलेंच कळीत ना. ताका हातूं मेतेर करचो नाका. आनी हो अल फौजान सरसरी अर्स[147] येरोपाक गेला, विजान कमायिल्ले गोऱ्या कातीचेर खर्चूंक.'

पूण हो इंडियन पिसो! म्हणालो पोलिसांपयकी एकलो. 'उगत्यान म्हाल हाडून आयला.'

'पूण हो म्हाल मादक न्हय म्हण इंडिया सरकारान अपील केलां आनी आमच्या प्रयोग शाळांनी हाचेर तप्तीश चलोनच आसा.'

'पूण हाका कितें करचो?'

'केज दाखल जाल्या न्हय?'

म्हणालो ऑफिसर. 'अल फौजान पाटीं येता पर्यांत ताणे जेय्लांत आसजेच. त्याशिवाय येतानाच हो गाळी शिकोनच आयला मू' तो मातें हालवन हांसलो.

'पूण तो कुवेय्टाक पावला म्हण कोणाक तरी खबर...'

ताणींच चुरो केल्ल्या चिटीं कुडक्यांक दाखवन एकल्यान विचारलें.

'असल्या केजींनी आमी कोणाकच कसलीच खबर दिनावं म्हण तुमी नेणांत?' ताणे दर्पान विचारलें. 'विदेशांनी एक फोन कॉल तरी मेळता, पूण हांगासर मादक ओखदांच्या केजींनी अपराध्याक कसलीच सोडदोड ना. ताका जावंची शिक्षा भोगतच आमी इंडियन एंबसीक खबर दितावं आनी तांचे लागचे पयशे वसूल करून हाची टिकेच काडतावं... आमकां नाकात असले आमच्या गांवांत. आसल्ले लफडे पुरो. आता पळेया... झेद्दांतलें उलवप....'

'सर', म्हणालो एकलो पोलिस. 'हो चेडो सगळोच थकला. हाका खंडीत जावन फसयला.'

'बरें तर,' म्हणालो ऑफिसर. ताका दोन सँडवीच आनी च्या हाडवंची विलेवारी करा. जायतर टॉयलेटाक वचोंदीं.' उप्रांत जेरीक पळेवन तो म्हणालो. 'सीट सीट, नो प्रोब्लेम... गोयींग हम्माम?[148]' ताणे एका दाराक दाखयलें आनी तवळ जेरीचे मतीक गेलें कीं ताणे कितल्याशा घंट्याथावन कुडीची गरज तिरसूंक नातल्ली. तो शीदा टॉयलेटीक धांवलो. कुडीची गरज तिरसून ताणे

आपलें मुकमळ धुलें. तितलें नितळ निर्मळ टॉयलेट ताणे तवळ पर्यांत खंयसरय पळेवंक नातल्लें.

धा-बारा मिनुटा उप्रांत तो भायर आयलो. ऑफिसर आनी एकलो पोलिस मात्र आसल्लो. वोरां कुवेतची साडेबारा. जेरीचें भय मातशें उणें जाल्लें. धरणीर पडोन आसल्लो आपणाचो कोट तणें विंचलो. ताचीं दाट बोलसांत ताणीं पिंजून घाल्लीं आनी पळेवंक गेल्यार तो कोट कसल्यायी उपकाराक पडचो न्हय. फेल्सी आण्टीन कितें म्हळ्ळें? हें कट्ट[149] पांच वर्सां आदलें.

घरच्यांचो उडास येवन तो कसकसोन रडलो. हो कोट सारको करीजे तर ताच्या पप्पाक एक म्हयनो लागतो कोण्णा. कित्याक तुवें म्हाका हांगासर धाडलोय मां? ताणे मौनपणी हाक मारली.

तितल्यार तो पोलिस एका वेय्टराक घेवन भितर आयलो. वेय्टरान एक ट्रे मेजार दवरली आनी तांतूं लांबशा उंड्यांच्यो दोन सँडवीच आनी ग्लासांत फुटी च्या आसल्ली. एक तांब्लेर उदकय आसल्लें. खाण पळयिल्ल्या कुडले आपल्याक कितली भूक लागल्या म्हळ्ळें जैरीक गमलें.

ताणे त्यो सेंडवीच खेल्यो[150] आनी उदक आनी च्या सांगाताच तो पियेलो. दोग पोलिस सिग्रेट सेवताले आनी ऑफिसर 'हॅबीबी, हबीबी' म्हण फोनाचेर उलयतालो.

जेरीचें खावन जाताना ऑफिसराचें फोन कॉल आखेर जालें आनी ताणे पोलिसांक लागीं आपयलें. 'आमचीं सर्व जेय्लां फुल्ल जाल्यांत. ह्या शियांची[151] धोस म्हण आमचीं जेय्लां फुल्ल जाल्यांत. ताका उल- जाहराक व्हरीजे म्हळ्ळी हुकूम आयल्या. पूण थंय थावन जीप येताना कांय उजवाडोंक पुरो.' तो हासलो. 'ड्युटी मेळाजे तर अल - जाहरा जेय्लांत!'

ते सर्व हासले. अल जाहरा जेय्ल इराक गडीक लागीं, जाहरा आनी अल-मुथला म्हळ्ळ्या हळ्ळ्यां मदें आसल्लें. एका तेंपार कामेलीं जावन गुंपान इंडिया-बांगला-श्रीलंका थावन आइल्ल्यांक दवरचें कँप हें.

हाका कॅम्प G-1 म्हणताले आनी क्रमेण[152] 'भारतीकरणाक' लागोन जी-वन आसल्लें 'जीवन कॅम्प' जालें.

पूण ही वर्सां आदली गजाल. आतां हें कॅम्प एक जेय्ल जावन परिवर्तन केल्लें

कुवेय्त सरकारान. ह्या जेय्लांत इराकथावन चोरयां भितर येवंचो सोरो आनी मादक ओग्तां धाराळ मेळतालीं आनी बासरांत आसचे शिया मुस्लिमांच्यो हुतावळी करूंक हांगासर तंबू मारताले. गडीर आसलल्या इराकी स्त्रियांचो अनैतिक वेव्हार ह्या जेय्लांत चलता म्हळ्ळी खबरय आसल्ली.

अमाल आनी मादक ओकतां हाडच्या – सेवंच्या अप्राधांचेर कैद जाल्ल्यांक आनी कोणाक नाव – गांव ना हांकां हांगासर दवरताले, म्हळ्ळी खबर आसल्ली. हांगासर भितर आइल्लो चडावत भायर येनातल्लो. पूण कितेंयी तरी हांगासर मजा आसल्ली.

कितेंगी उलवंक म्हण तोंड काडल्ल्या जेरीक ओगोच बस म्हण पोलिसंनी सायन करून चेतावणी दिली.

आनी जेरी चूप बसलो.

ताका हेर वाटच नातल्ली. ताका खाण आनी पिवन दिल्लें, आरब्यांचें वर्तन ताका सांगतालें, ताचेर आयिल्ल्या ह्या मोडाक रुपयाळी देग खंडीत आसा म्हण. एक थापड सोडल्यार आपणाक कुडीक त्रास दिवंक नात, पूण ताका विवस्त्र करून केल्ली तपासणी नालिसायेची, पूण ताका हेर वाटच नातल्ली. कसल्या नक्की कारणाक लागोन आपणाक कैद करून दवरलां म्हळ्ळें ताका आनीकी स्पश्ट जावंक नातल्लें. कसकस्याचेर निर्बंध आसा म्हण जाणा आसोनय विल्मा आण्टी ताचेर आनी ताच्या कुटमाचेर अशें फारीकपणा घेत?

म्हाका एक फोन करूंक अवकास हांणी दिल्लो तर? प्लीज देवा, प्लीज. ताचे दोळे न्हिदेक आशेताले. कालच तो चिंततालो. फाल्यां ह्या वेळार हांव कुवेय्ट आसतलों. नोरालागीं बसोन फालां मारतलों. एका शेखाच्या रावळेरांत आपणाक काम मेळचे वरेग रावयेत म्हळ्ळी परवणगी ताका शेकान दिल्ली खंय.

हूं. हें नोरा कांय उण्या कारबाराचें मूर्त न्हय. जावयेत हाबा हें चेडूं. हेर खंची चली, फकत मॅट्रीक शिकल्ली, पाताळा ग्रावंडार ताचेलागीं तशे तर्क वितर्क करीत? असल्या बऱ्या आनी संतोसाच्या चिंतनांनी जेरीन वेळ पाशार करूंक सुरू केलो.

ताका बंदी करून दवरल्ल्या कुडांत सुशेग आसल्लो. थंयसर ताका पारोत करून आसल्ले झेमताले आनी एकलो येदोळच खटल्यार न्हिदोन घोरेतालो. जेरी

धरणीरच बसलो आनी ताचे दोळे इतले जड जाले कीं, ताका बसल्लेकडेनच न्हीद पडली.

कोणेगी ताका धोंकळून उठयताना तो सैर भैर जाल्लेपरीं उठोन बसलो. दोग नवेच पोलीस थंयसर आसल्ले.

चडीत सेरेमनी नसताना तांणीं ताच्या हातांक खोडो घालो आनी खंच्यागी एके वाटेंतल्यान भायर हाडून एअरपोर्टा भायर आसल्ल्या पोलीस जिपाचेर बसयलो.

'कुवेतांत तवळ उजवाडल्लें जेरीचो पयलो सकाळ कुवेतांत उदेल्लो.

■■■

# 35

जेराल्ड पायसाक आपणाचेर आनी देवाचेर कसलो पुणी भरवसो आसल्लो तर तो आतां ताच्या हातांत खोडो पडताना उबोन गेलो. ताणे सर्व पातयेणी सोडली आनी आपणाच्या मरणाक तो तयार जालो. कोणालागीं परातून माफ मागोन कांय फायदो ना, आपूण भलत्याच एका ग्रहाक येवन पावलां आनी हांगासर मनशांची भोस समजोंचें कोणय नांत म्हळ्ळें ताका नक्की जालें. एका अमानूश व्हाळ्यांत आपूण शिरकलां आनी ह्या व्हाळाच्या विरोध उफेवंक करचें कसलें प्रेतनय फलसोंचें ना म्हळ्ळें कळतेच ताणे कितें जावंक आसा त्या सन्निवेशांक माथें बागायलें.

चड म्हळ्यार कितें जायत? म्हाका ते उगताडांत फाशी वोडतीत. म्हज्या संवसारांत जीं कोण आसात तांकां जेराल्ड पायस फाल्यांथावन, ना जातलो. माम्मा, पप्पा आनी इवोन खूब रडतेलीं, आनी हां शिंटो पावलुसय रडतलो. कांय डिनायी रडात गाय? हे! नोरा? नेवर! डिना, कोण जाणा? वॉट ए बिवटी? ताका आदेव्स मागोंक वेताना तें सगळेंच मोव पडल्लें. गुड गर्ल. तो हासलो.

ताका जिपाचेर चडवन बसोंक कुमोक केल्ले पोलिस तो हासताना एके विचीत्र नदरेन ताका पळेवंक लागले. जीप सुटताना एकल्यान 'मार्लबरो' सिग्रेटीची पॅकेट थायर काडली आनी ताका वोड्डायली[154] 'इग्रफ सिगारा?'[155] ताणे विचारलें. जेरीन हात जोडले. 'हादा हिन्दी मस्कीन!'[156] म्हणालो तो पोलीस. ताणे आपली सिग्रेट पेटयली.

आनी कसलो विपर्यास! संवसारांतल्या एका भोव गिरेस्त राष्ट्राची भोंवडी जेरीक एका पोलिस जिपांतच सुरू जाली. ताणे आपलो कोट एअरपोर्टांतच सोडल्लो आनी कित्याक नजो? म्हाका फाशी वोडताना कितें हांवें सुटाचेरच

आसजे?

ताका जब्बोर आशा आयली एक बोत्ल बियरीची, या ताच्याकीं बळीश्ट कांय तरी आसा तर आतां तें म्हाका हाडा. मोरच्या पयलें अपारध्याक सिग्रेट वोडूंक दितात खंय आनी ताचे पसंदेचें खाण जेवण दितात खंय...

कुवेतच्या गिमांतलें फांतें. गर्मी इतली आसल्ली की जेरीच्यान सोसूंक जाली ना. सकाळीच इतली गर्मी तर दोनपार जाताना कशें? पूण हें सवाल, सवाल जावनच उरलें. ताका जाप नाका आसल्ली. आपणाचें मोडें कशेंयी दोन तीन दिसां भितर कंकनाडी मार्केटींतल्या खाऱ्यापरीं सुकोन कोट्टाय जातेलें.

ताका पारोत करचे खातीर आयिल्ल्या पोलिसां पयकी एकल्यान ताचेलागी उलवंचें प्रेतन केलें पूण जेरीक भास येनातल्ल्यान तो सलवालो. भास आयिल्लीं तरी तो उलवंचे स्थितीर नातल्लो.

कुवेत! जेरीन ताचे जिणेंत असलो एक देश पळेवंक ना आनी संवसारांत असलो एक देश आसात म्हळ्ळें ताचे मतींत नातल्लेंच. ते रस्ते, तीं बांदपां आनी वाहनांचो वेग. हें कसलें बांदप, हो खंचो रस्तो म्हण तो कोणालागीं विचारतलो? ते दोग पोलिस तांच्याच उलवण्यांत मग्न जाल्ले आनी पांच स मिनुटांक पोलिस तांच्याच उलवण्यांत मग्न जाल्ले आनी पांच स मिनुटांक एक पावटीं घुंवोन ताका पळेताले, तो कांय उडोन धांवत म्हण कोण्णा. जिपाचो वेग चडउणे एकशेंवीस किलो मीटर आसल्लो.

ट्राफीक सिग्नेला सरशीं निशान्यो आसल्ल्यो आनी त्यो इंग्लीश आनी अरेबिकांत आसल्ल्यान जेरीक वाचूंक सलीस जालें. अशें तर हांव एका म्हयन्याभितर अरेबीक शिकतां म्हण चिंतून तो हासलो. पोलिसान घुंवोन ताका पळेलें. 'शिनू? इंते मजनून?'[157] ताणे विचारलें.

'येस, येस', म्हणालो जेरी कांयच समजनासतां. सबार फ्लाय ओवर ते उतराले आनी आतां तांणी धरल्लो रस्तो शुवेय्काक वेता म्हळ्ळें ताका निशान्यांवरवीं कळीत जालें. त्या उप्रांत अल जाहरा, अल मुथला आनी अब्दाली म्हळ्ळे बोर्ड दिसोंक लागलो. पूण ताच्या कानांनी फकत एक जाग्याचें नांव आयकाल्लें. अल - फाहाहील. जॉनी अंकल थंय वस्ती करतालो, पूण आतां ताचें नवें एपार्टमेंट थंयसरच खंयगी आसा म्हण विल्मा आण्टीन ताका बरयिल्लें. व्हय, सोबीत सुंदर विल्मा

आण्टीन ताचे माम्मीक सर्व बरयिल्लें, पूण कसकस्याविशीं मात्र बरवंक नातल्लें.

कितलेशे किलोमीटर आनी कितलींशीं मिनुटां पाशार जालीं म्हण तो नेणाः पूण एकाच्छाणे, 'येल्ला, येल्ला, नजल, नजल' म्हण पोलिसान ताका धोंकळिताना तो आपले भ्रमिदेंतलो भायर आयलो. ताच्या सामकार मातयेन बांदल्लें तशें दिसचें व्हड एक बांदप आसल्लें आनी त्या बांदपाक लोहाचो व्हड एक दारवाटो. त्या दारवाट्या भायर दोन चेक पोस्ट आनी तांतूं दोग पोलिस. तांच्या खांदार मशीनगन्स. हां, म्हाका हांगा फाशी वोडतात, तर!' आपणा इतल्याक पुसपुसलो जेरी.

दरवाटो उगतो जालो आनी जीप भितर सरलें. एकल्या पोलिसाच्या सांगातान जेरीन त्या बांदपाभितर पांय दवरले. व्हडल्या चवक आकाराचें बांदप तें आनी ताचे परिदीचेर सबार कुडां आसल्लीं. मदेगात जालापरीं एक सुवात, थंयसर थोडे मनीस भोंवोन आसल्ले. तांच्या मदल्यान जेरी वेताना ताका पळेवन पळेनातल्लेपरीं तांणीं केलें.

पोलिसान ताका एका दफ्तराक व्हेलो. थंयसर थोडे समवस्त्रार आसल्ले पोलिस आनी हेर थोडे आरब्यांच्या लांब दगल्यांचेर आसल्ले, कसल्यागी फोकाणांनी बुडल्ले आनी दफ्तरांचें पाकें उसळचे परीं हासताले. जेरीक पळेलेंच तांचो हासो चिक्केशे न्हिवलो.

डेस्का पाटल्यान बसोन आसल्लो कांय अधिकारी जायजे. हांका पळेतच, 'अहलन व्हसालन, या रफीक!'[158] म्हंणोन हासलो. 'थाल.. फद्दल... इश्रफ छाय?'[159]

जेरीक कितें म्हणचें म्हळ्ळें कळीत जालें ना. ताका आपवन हाडल्ल्या पोलिसान ताची दस्तावेजां अदिकारीक दिलीं आनीं येक सेल्यूट मारलें. 'कल्ली वल्ली य्या अहम्मद!' म्हणालो पोलिस अधिकारी. 'कल्ली वल्ली' उप्रांत तांणी ताचो खोडो सुटयलो.

'क्या करके आया, भाई साहब?' हें सवाल आयकोन जेरीक आपूण जीव जाल्लेपरीं भोगलें. हिन्दी / उर्दूंत विचारल्लें सवाल हें. जेरीची हिन्दी कांय परिशुद्ध न्हय पूम हिन्दीक हिन्दी म्हणच्या तितली शुद्ध.

दफ्तरांत आसलल्या एकल्याथावन हें नवाल, आपणाक समजोंचें सवाल आयकाताना जेरी सगळोच पिगळ्ळो आनी दोडून कोवळो जावन धर्णीर बसलो. खंचे भाशेन ताका जाप दिवंची म्हण कळ्ळें ना.

'हमने कुछ नहीं किया!' तो बडबडलो. हांवें कांय करूंक ना. नानू येनू माडलिल्ला. यान दाला मल्तजी अण्णेरे... Me not doing anything... only ... bringing... Khuskhus! sorry sorry, sir...'

'चूप कर सुवर!' म्हणालो तो मीनस. 'हांव पाकिस्तानी आनी एक गुप्त पोलिस. हें उतर हांच्या सामकार उच्चारीनाका तुका कळीत ना, ही वस्त हांगासर हाडूंक नजो म्हण?'

'म्हाका निजायकी कळीत ना!' म्हणालो जेरी. 'म्हजी चूक जाली. म्हाका माफ करा.'

'पिसो तूं!' म्हणालो तो पाकिस्तानी. 'हांव शेरखान. सलाम आलेकूम.'

जेरी रडोनच आसल्लो. 'कायको रोता है? आप इंडियन है ना? आज रातको खाझी[160] आता है. वांदा न्हय.'

आज रातीं खाझी येता. म्हळ्यार तांचो पाद्री येता. ताणे आयकाल्लें हिन्दी सिनेमांनी. 'मिया बीबी राजी तो क्या करेगा खाझी? व्हय, म्हाका फाशी वोडच्या पयलें मापळ्यांचीं मागणीं शिकवंक तांचो पाद्री येता खंय. फाशी दिवंच्या पयलें म्हाका कांय एक पेग पुणी दितीत हे?' ताका तांणी तेवशीन व्हेलो. तें एक कूड वीस या पंचवीस फुटीं रूंद आनी पंचवीस फुटीं लांब. तांतूं काय धा बारा जण आसल्ले. चडावत एक जामकांडाचेर न्हिदोन आसल्ले आनी सिग्रेट सेवताले आनी हेर थोडे खरेच न्हिदेंत बुडल्लें.

जेरीक तांणी ह्या कमऱ्यांत सोडलो आनी ताची तांकां विसर पडली. थंयसर तो थोडीं मिनुटां तसोच उबो रावलो, पूण कोणायचेंयी गुमान आपणाचेर ना म्हळ्ळें कळीत जातेच, तो बसलो.

त्या कमऱ्यांत उबो जाल्या ताका निळशा समवस्त्रांर आसलल्या एकल्यान एक दाट भाकरी आनी कसीलीगी एक चेटणी हाडून दिली. सांगाताच एक फुटी च्या.

'हें कितें?' जेरीन विचारलें. 'फाशी दिवंच्या पयलं दिवंचें खाण?' ताणे

हिंदीत विचारलें.

'तुम पागल है क्या?' त्या मनशान विचारलें. 'हम बांगला का आदमी है... अरे भाई, कायको डरता है?'

जेरीक कसली जाप दिवंची म्हण कळ्ळें ना. 'पळे हें आसा पळे, हें मुतब्बल. वायंगीं आनी चणे वाटून तयार केल्लो पेस्ट, भारीच घट आनी हो खुबुज. हे आरबी आसात पळे एकेक पावटीं धा पर्यांत खुबस खातात. आमकां एकयी देंवाना. आसूं. पूण हें तूं खा, हें तेल वयर निशेता पळे, तें ओलीव फळांचें तेल. भारीच बरें, शिरांक आनी...' तो किडकिडोन हासलो. 'तूं कसलें फाशी गिशी म्हणतालोय?' हांगासर आयिल्ल्यांक फाशी जायना. तुवें कोणाची खून करूंक नांय - ने? जॉल्ली जाता. पळे तूं, आज रातीं तो पडपशी काझी येता न्हय?'

कोण हो खाझी? जेरीन आपल्या वांट्याक आइल्लें खाण खेलें आनी अशें करताना ताणे भोंवती पळेलें. कसलीच फिकर त्या कैद्यांक आसच्यापरीं दिसनातल्लें.

सुमार दोनपारांची बाराशीं जाताना जेरीक त्या कैद्यांमदें एक नवीच चटुवाटिका दिसोन आयली. तांचे पयकी सबार जण विवस्त्र जाले आनी हातांत एक तुवालो आनी साबू घेवन सालान त्या कमऱ्याच्या एका कोनशाक वोंदाले. थंय एक मोरीशी आसल्ली. पाक्याच्या त्या मुल्यांत एक उगतो पायप भितर आयिल्लो दिसतालो. तो पळेत आसतां एकाच्छाणे कसलोगी गरगरो आवाज जालो आनी 'बसक्क' करून उदकाचो लोट त्या पायापांतल्यान देंवलो. जेरीक आतां गमलें. हो हांचो शावर पायप. सर्तेन[161] त्या कमऱ्यांतले कैदी ह्या शावरा पंदाक रावोन न्हाण करिलागले.

'अरे मिया, जाओ... कायकू बैठा है? गर्मी में मरेगा तुम टावेल, साबून उधर कबार्ट में है.' बंगलाच्यान म्हळें. आनी तवळ जेरीक कळीत जालें की गर्मी कितली आसल्ली म्हण आनी लजेवन फायदो ना म्हण लेखून ताणे आपलीं वस्त्रां निखळायलीं आनी ताची सर्ती[162] येताना तो शावरापंदाक वचोन रावलो. उदक खतखततालें.

'गर्मेतय कित्याक उदय तापयतात?' ताणे त्या बांगला देशी लागीं विचारलें.

'हें तापयिल्लें उदक न्हय!' तो बांगला देशाचो हासलो. वयल्या टांकींनी आसल्लें उदक सुर्याच्या दावाक अशेंच तापता! शावर जातेच जेरीक जाल्लो सुशेग इतलो आनी तितलो न्हय. कमऱ्यांतलो हवोयी चिक्केशे मोव पडल्लो.

'तुमको संडासको जाना है तो वो उधर जाओ.' म्हण बांगला देशीन ताका सांगलें. जेरीन जायत म्हण मातें हालयलें.'

न्हाण जातेच आंग पुसच्या पयलेंच तें सुकलें आनी ताची कात मिरमिरली. हेरांनी केल्ले परीं ताणे आपणाचो तुवालो उदकांत भिजयलो आनी कुडीभोंवती रेवडायलो. बदली करूंक ताचे लागीं सिंगलेट या ब्रिफ्स नातल्ले देखून ताणे येदोळ घाल्लेच उदकाक धरून ताणे धुले आनी जनेलाच्या ग्रिल्लाचेर सुकात घाले.

'तुम जल्दी सीख जायेगा!' हें पळेवन म्हणालो बांगलाचो मनीस. तितल्यार व्हडल्या व्हडल्या हरवणांनी खाण आयलें. परत्यान त्योच भाकऱ्यो.[163] दाळ. कसलोगी पालो आनी एक कॉप दाट दाट धंय.

चोवग - पांचजण एकाच हरवणांत हात घालून जेवंक लागले. आमच्या भारतांत मिलियागटल्यान लोकाक आसलें एक जेवण मेळाना आनी हांगासर कैद्यांक असलें जेवण दितात. तितलोयी गिरेस्त हो गांव?

ताणें तें दाट दाट धंय खावंची स्टायल पळेवन कोणेंगी एकल्यान आपणाचें कोपय जेरीकच दिलें. ताच्या पोटाक आनी मतीक थंडाय मेळ्ळी. पूण तो कसलेंयी चिंतूंक सकलो ना. ताका लाभल्ल्या ह्या नव्या संवसारांत कैदी आनी कुवेती अधिकारी मात्र आसल्ले. मिक्की पायस? जिल्ली टिचेर? इवोन? शिंटो? सॅली कुरियन? कोण हीं सर्वां? जेवण करता करता ताची मत परत्यान भ्रमिदेंत रिगचीं खुणां दाखय लागली.

जेवण जाताना ताचे कुडीक रेवडायिल्लो तुवालो सुकलो आनी ताणे जनेलाचेर सुकात धाल्ली मुस्तायकी सुकोन कोट्टाय जाल्ली. तो न्हेसलो. इतली आनी तितली गरमी आसल्ली तरी ताका झेम पडली.

ताका जाग जाताना वोत मोव पडल्लें पूण उबार् वारें बळान व्हाळतालें. 'भोवशा धूळ वादाळ उठता म्हळ्ळेपरीं दिसता!' म्हणालो बांगलाचो. 'नाका तोंडांत, काना दोळ्यांत धुळच धूळ...'

सांजेचीं स जाताना धूळ वादाळ सुरू जालेंच. उगताडांत कांयच दिसानातल्लें. सर्वांनी तां' तांचे तुवाले तोंडाक बांदले पळेवन जेरीनय तशेंच केलें. नाकांत

रिगची धूळ चिक्केशे उणी जाली.

आठ वोरांचेर जेवण आयलें आनी कसलें अजाप जेरीक! तुपांत शिजयिल्ल्या तांदळाचेर कुकडा मासाचो एक व्हडलो कुडको. 'कुवेय्ट का चिकन है. खावो खावो!' म्हणालो बांगलाचो.

जेरीन कितेंय म्हणच्या पयलेंच कोणेंगी म्हळें. 'काझी आयलो!'

जेरीन आपले हात पांय चालू केले. हें पळेवन बांगलाचो म्हणालो. 'दरवड नाका, काझी हांगायी येता पळे. पयलें, बासराथावन हाडल्ली व्हिस्की कुवेटींक वांटून जावंदी. उप्रांत तो हर एका कैदी लार्गी येता.'

जेरीचें काळीज डबाडबा करतालें. कांय हो काझी म्हाका सुटका दीत? असल्याच चिंतनांनी ताणे जेवण केलें. त्या उप्रांत पंदरा वीस मिनुटां पाशार जालीं. भायल्यान व्हड हासो आयकाल्यो. तेग पोलिस भितर सरले आनी तांकां पळेताना ते टायट जाल्यात म्हण कळतालें.

तांच्या मदें एकलो नवो मनीस. सुमार स फूट लांब, रूंद आनी चोव्क भुजां, आरब्यांनी घालचो लांब दगलो, खाडकेचेर शिस्तेन वागयिल्लें काळेंच खाड आनी माथ्याक मुस्लिमांनी दवरची कट्टेंतोपी. तो कसलेंगी गंभीर उलवंचे परीं दिसतालो, पूण अधिकारी हासताले.

'तोच काझी!' म्हणालो बांगलाचो. 'वच वच आनी ताका सलाम कर! भारीच वास्ता आसा ताका हांगासर... कांय तुका ए. सी. रुमांतच न्हिदायतीत.'

'पूण तो आरबी...?'

'न्हयरे भाई! तो असली इंडियन.'

हें आयकोन जेरी उठलो.

तवळ...

'आतां तुमी विस्की पियेवन हासतात रे पाडपडलेल्यांनो? हांवें सांगचें पातयेनांत तुमी? सुण्यांची गत करतले इराकी!' काझीचें हें उलोणें आरब्यांक या हेरांक समजालें ना, पूण जेरीक समजालें.

पूण खाझीन त्या आरब्यांक कोंकणींत येटलें म्हण[164] जेरीचे मतीक वचोंक थोडो वेळ लागलो!

■■■

# 36

“पाड पडलेल्यांनो!”

पाकाझीच्या वोंटांथावन आयिल्लीं हीं कोंकणी उतरां आयकोन तो असली इंडियन म्हण जेरीक नक्की जावंक हेर दाखलो नाकासलो. तो गोंयकार म्हण ताका कळीत जालें ताणे उच्चारल्ल्या कोंकणी उतरां वरवीं. तर हो काजी गोंयकार. गल्फ राष्ट्रांनी जायते गोंयकार आसात म्हण ताणे आयकाल्लें, एअरपोर्टांत कस्टम्साच्यांनी बडयेन उखलून काडून उडयिल्लीं लिंगिसांयी गोंयकारांनी हाडल्लीं. तीं काडून उडयताना तो गोंयकार पुसपुसल्लो म्हणोन ‘पाडपडलेले’. हें आतां जेरीचे मतीक आयलें.

आतां कितें करूं? कझीक वेंग मारून ताच्या पांयाक पडूं? म्हजे बचावेखातीर देवान धाडल्लो आंज भडवो म्हणोन ताचे लागीं बेसावं मागूं?

तितल्यार तो बांगलादेशी ताचे कुमकेक आयलो म्हणयेत. रावल्लेकडेनच रुख जाल्ल्या जेरीक ताणे मुखार लोटलो आनी ‘काझीभाई!’ म्हण ताळो काडलो. ‘पळे एक नवो सयरो आयला.’ ताणे कळीत केलें. ‘अरे जाओ’, जेरीक ताणे आनिकी मुखार लोटलो. ‘तुम्हारा हाल उसको बताओ!’

जेरीन तीन चार मेटां मुखार काडलीं, पूण काझीचें गुमान चड वेळ हाचेर रावलें ना. कसलेंगी घडच्यार आसा म्हळ्ळेंपरीं तो पाटीं फुडें पळेतालो. ताचे सांगाता आसल्ले कुवेती ऑफिसर आनी जेलर मात्र मस्तेर आसल्ले.

‘हांव मंगळुरगार, काझीभाई!’ ताचे सामकार हात जोडून उबो जालो जेरी. ‘हांवय कोंकणी उलयतां. हांवें कांय करूंक ना...’ हांणी म्हाका बेस्टोच अरेस्ट करून हांगासर हाडला...’ हांव काल रातीं मुंबयथावन आइल्लों.... एअरपोर्टांतच म्हाका धरलो.’ ताणे आपलो ताळो फुसफुसो केलो. ‘कसकसो

हाडूंक नजो खंय'

'पाड पडलेल्या!' म्हणालो काझी भाई. तुका कोणेंच सांगोंक ना रे? या तुका कोणें तरी फसयलो?'

''म्हज्याच आण्टीन जायजे... काझी भाई म्हाका एक पावटीं हांगाथावन सुटय. म्हाका आवय बापूय आनी एक भयण आसा. तिका मेडिकल करूंक...'

'हो होय!' म्हणालो काझी ताच्या भुजांक धरून हालवन. 'कितें हांव हांगाचो अमीर? हांकां पाडपडलेल्यांक विस्की सप्लाय करतां म्हळ्ळ्याफरा म्हज्यान सर्व साध्य म्हण तुका कोणे सांगलें? ह्या पाडपडलेल्या बांगलादेशीन? आयक, हांव हांगाच्या काळ्या भांगराच्या दुडवाक आरावंकच आइल्लों आनी कितलो जाता पळे तितलो आरायतलोंच. हें विस्कीपिस्कीचें बिझनेस हांव कांय धर्माक करतां म्हण तूं चिंतिनाका. कितें म्हणतात तें इंडियांत? हांव नगद नारायण,' हांगाचीं डिनारां कमावंक हांव कितलीशीं कामां करूनच आसां. म्हाका कसल्याचेंच, कोणाचेंच भय ना. पूण हां, देवाक भियेतां हांव.'' अशें म्हणोन ताणे आपल्या दगल्याचें वयले बुतांव उसवन गळ्यांतलें कोंत – वेंतीण काडून जेरीक दाखयलें.

'तर तूं क्रिस्तांव?' जेरीन परत हात जोडले.

'क्रिस्तावं मात्र न्हय, हांव एक कातोलीक सयत!' ताणे कोंता – बेतिणेचो उमो घेतलो. 'म्हजें नांव काजितान गेमीस रे बाबा. हांणी म्हाका 'मटवो' करून 'काझी' केला. तूं पुर्णी म्हाका काजितान म्हण उलो मार. आसूं. तूं कित्याक इतलोयी भियेलाय? कोणयी नांत तुजीं कुवेय्टांत?'

'आसोंक आसात', म्हणालो जेरी. 'पूण तांचें सर्व विळास, टेलिफोन नंब्रां हांवें चिटींचेर लिखून हाडल्लीं. तीं ऑफिसरांनी पिंजून घालीं. आतां म्हजे लागीं कांय ना, पासपोर्ट कॉपी ना. विजाची कॉपी ना.'

'तूं आसाय न्हय?' काझीन ताका धेंकणो घालो. 'तरनाटो जावन तुवें अशें भियेवचें? कांय तरी जातेलें. कोण न्हय तर तुका सुटवंक तो सद्दाम हुसेनच येतलो. पूण हें सर्व ह्या बोब्रयांक खंय समजाता?' तो घडघडो फुटल्ले परीं हासलो.

'म्हाका समजाना', सत उच्चारलें. जेरीन.

'तुका समजोन जावंचें कांय ना.' म्हणालो खाजी. 'आतां हांव थकलां. म्हाका न्हायजे आनी जेवण करून न्हिदाजे. तू जेवलोय? चिकन खेलेंय? व्हय आतां वच आनी न्हिदे. फाल्यां सकाळी हांव म्हज्या पिकपाचेर सिटीक वेतां. त्या फुडें तुजी कथा आयकोव्यां आनी कितें करूंक जाता म्हण पळेतां. पूण एक संगत... फाल्यांचो सकाळ ह्या कुवेताक आसागी ना म्हळ्ळो सवाल...'

'पूण...?'

'हांव बसराथावनच आयिल्लो रे बाबा', म्हणालो खाजी.

'खबर आसा कीं सद्दामाचें सैन कुवेताचे गडीर जमात्त आसा म्हण... अल नसरियाथावनच लांबलां सद्दामाचें सैन.'

पूण आपल्याच संकश्टांनी पिगळोन गेल्ल्या जेरीक काझीच्या उतरांचो महत्त्व आनी भिरांकुळाय मतीक गेली ना आनी भोवशा विस्केच्या अमालान पिगळाल्ल्या त्या कुवेती ऑफिसरांक सयत ही खबर मतीक गेली ना.

'तूं फिकीर करिनाका', काझी म्हणालो. 'ह्या जेयलांत तुजे कुडीक कसलेंच बाद येनाशें हांव पळेतां. तसलें कसलेंच तुका जावंचें ना. हाच्याकी वर्ते कांय करूंक हांव ह्या घडये शक्त न्हय म्हज्या भावा!'

ताणे कितेंयी चिंतच्या या करच्या पयलेंच काझी जेय्लराच्या ऑफिसाक गेलो.

आनी जेरी उबो रावल्ले कडेनच रडलो, संतोसान. कोणे तरी ताका भावा म्हण उलो केल्लो.

'आतां तूं न्हिदे', म्हणालो बांगलाचो. 'काझी भाई कितें तरी करतलो. पिशांपरीं रडनाका.'

सर्वांनी न्हिदोंक वेच्या पयलें येका ऑफिसरान येवन तांचें लेक केलें आनी कोणय चुकोन धांवोकनात म्हण नक्की करून गेलो. कमऱ्याच्या दारालागीं पारो उदेलो.

धरणीर हांतुळ्ळेल्या जमकांडाचेर जेरीन फाट तेंकली. ताका खिणाभितर न्हीद पडली व्हय, पूण ती सभावीक न्हीद न्हय...'

कितलीं मिनुटां, घंटे, दीस, म्हयने या वर्सां तो न्हिदलो म्हळ्ळो अंदाज ताका नातल्लो. कसल्यागी आवाजान ताका उठयलो. तो न्हिदोन आसल्ली धर्ण

कांपताली आनी पयशिल्ल्यान कसलींगी स्फोटनां आयकातालीं. एकाच्छाणे साताठ विमानां सांगाताच तांच्या माथ्यावयल्यान उबोन गेली आनी पाटापाट घडघड्यांपरी स्फोटनां.

कमऱ्यांतले सर्व उठोन बसल्ले आनी सर्व दिवे पेटताले. धरणीची कांप आतां तिदोडी जाल्ली. जेय्लांतले सर्व कैदी उठोन भायर धांवताना जेरीनय तशेंच केलें. भायल्या व्हड जालांत ते एकठांय जाल्ले आनी तांची मुकमळां सगळींच पांट्रेल्ली. जेय्लाचे अधिकारी हातांनी मेशीन गन्न घेवन म्हादारखाट्या लागीं एकटांय जाल्ले. तांतले एक दोग मेशीन गन्ना लागीं उर्डोचे परीं दिसताले. खिळी शिरकाल्ल्यो जायजे.

जेरीचे दोळे काझीक सोदताले.

तो, ताका कैद्यांमदेंच घुसोन आसचो दिसलो. 'आयल्यात तुमचे बापूय!' तो म्हणालो कोंकणींत. 'हांवें सांगताना पातयेवंक नात तुमी आनी आतां तुमच्या मेशीन गन्नांच्यो खिळी सयत माती खावन गेल्यात म्हळ्ळें तुमकां गमता...'

तितल्यार मळबाचो दाट काळोख शिंदून उजवाडांचे तीर उबोंक लागले, गांवांत फेस्तां परबेंक दारू लासताना जावंचे परीं. पाटापाट भिरांकूळ आवाज.

कशेंयी पुणी करून जेरी, काझीचे कुशीन पावलो. 'कितें घडता? कितें हें?' ताणे बोबाटून विचारलें.

'हें आक्रमण रे!' म्हणालो खाझी. 'इराकींनीं आमकां सोडलें तर तूं जिकलोय. आनी धा किलो कसकसो हाड तूं!' तौ कटाकट करून हासलो. 'आनी हांवें विस्की हाडीजे म्हण ना, ती आपापींच कुवेतांत व्हाळतेली. सद्दाम आयलारे, सद्दाम!'

'इराकींनी आमकां सोडल्यार... म्हळ्यार?' जेरीन विचारलें. 'हेरांक ते जिवेशीं मारतेले? म्हाका मोरोंक नाका.'

'तुवें कसलें मोरचें?' म्हणालो काझी रागीश्ट ताळ्यान. 'ज्यो डर गया, समझो मर गया!' ताणे शोले फिल्मांतले डायलोग मारले. 'पळे सद्दामाचो व्होर कसो भितर रिगता पळे!'

तो मुखारून म्हणालो.

'जाले दीस ह्या कुवेतींचे'

'कसलो मनीस तूं?' उद्‌गारलो जेरी, थोडें धैर आरावन. 'आक्रमण

म्हणताय.. आनी धांवचें प्रेतन करचें सोडून.....'

'धांवताय? धांवोक जाय?' खाझी खेंचलो. 'धांव? हांगाचे कोणय तुका आडावंचे नात, पूण धावंतलोय खंय? चूप बस थंय. आमी युनिफॉर्माचेर आसावं आनी आमी सर्व कैदी म्हण इराकी समजतले. अळे तो एकलो पिसांट जेय्लर व्हडलोथावन रेडियो ट्रान्समीटर घुंवडावनच आसा. ताका संपर्क मेळाजे न्हय?' तो एकाच्छाणे उबो जालो आनी भायल्या सर्व आवाजां वयल्यान ताणे ताळो काडलो आनी अरेबिकांत कितेंगी म्हळें.

तांची उतरां भायर पडाजे तर भायर आसल्ले सर्व कैदी कमऱ्यांनी रिगले. काझीन तांका कसली हुकूम दिल्ली म्हण जेरीक आतां कळीत जालें.

'पूण ते कुवेती ऑफिसर...' म्हादारबाट्यालागीं आसल्ल्यांक दाखवन म्हणालो जेरी.

'तुजें नांव कितें रे?' विचारलें काझीन

'जेराल्ड पायस' हांव मंगळूरगार!'

'बराबर! आनी हांव गोंयकार, अणजुणांतलो. अळेपळे तो बांगलाचो, तो पाकिस्तानी, तो इरानी, तो मस्कती आनी हो सुडानी. तूं आनी हांव इंडियन, ब्लडी इंडियन, हिन्दी मस्कीन, हिन्दी छेल्प[165], हिन्दी हमार[166] आनी ते म्हारवाट्यालागीं आसचे कुवेती. हो देश तांचो देखून हें झूज आमचें न्हय, तांचें! समजालें तुका, पाड पडलेल्या?'

'हांव तुवें सांगचे परींच करतां!' कांपेऱ्या ताळ्यान म्हणालो जेरी. 'जाय तर तुजे सांगाताच रावतां 'जेरीन ताच्या दगल्याच्या हाताक धरलें आनी तवळ काझीन घुंवोन जेरीच्या मुकमळाक खोलायेन पळेलें. कसलीगी आत्मियता ताचे थंय उठलूले परीं जेरीक दिसली. 'तूं भियेनाकारे. मंगळुरी!' म्हणालो बुळबुळ्यांनी हांसोन. 'हांव आसतां पर्यांत तुका कांय जावंचें ना.'

जेरीन कितेंयी म्हणच्या फुडेंच जेय्लाच्या म्हादारवाट्या लागीं दारवेचे हजार 'एटम' बोम फुटलेले परीं आवाज जालो. त्या स्फोटनाचो उजवाड इतलो तीक्ष्ण जावन आसल्लो कीं दोन तीन खिणांक तांका तो म्हादरवाटो दिसलोच ना, पूण उप्रांत...

तो म्हादारवाटो थंयसर उरोंकच ना. मेशीन गन 'झुजचे' सर्व कुवेती ऑफिसर

मोरन पडल्ले. जेय्लराचें मोडें भेसां जाल्लें, पूण ताचो उजवो पांय मात्र कातरून घाल्ल्या कुकडाच्या पांयापरीं झटको दितालो. जेरीच्या पोटांत आडवळोन आयलें.

सर्व बळीश्ट आवाज बंद जाले. पयशिल्ल्यान कसलींगी जडायेचीं वाहनां मंद, पूण खळमीत नातल्ल्या आवाजान पाशार जातेच आसात म्हळ्ळें जेरीक गमलें.

'आतां', म्हणालो काझी 'म्हज्या सांगाताच राव इराकी सैनीक जेय्लाभितर येवंचे परीं दिसतात!' हें आयकोन जेरीन उस्वास बांदलो. ह्या काझीक आक्रमणां-झुजाची इतली माहेत आसा तर?

आनी सतच व्हय, एक सुसज्जिच इराकी सोजेरांचो पंगड भितर रिगलो. हर एकल्याची दिगाय[167] स फुटींच्याकी उणी नातल्ली संगत जेरीच्या गुमानाक गेली. आपूण मटवो म्हळ्ळें उणेपण ताका केदाळाय धोसतालें.

'हे सद्दामाचे रॉयल गार्डस्!' पुसपुसलो काझी. 'हांकां भारतीय सैनांत तर्बेत[168] केलां म्हण हांवें आयकालां.'

'तर आमी इंडियाक पावल्लेपरींच!' म्हणालो जेरी.

'आसात कशे पळेरे!' म्हणालो काझी. 'हांचे मुखार अमेरिकाचो रॅम्बो मेलो... तांचो कॅप्टन पळे...'

जेय्लाच्या जालाच्या चारांयी कुशींनी पोजिशनां घेवन इराकी उबे जाले. तांच्या कॅप्टनान वाऱ्यांत थोडे फार सोडले.

'आतां आमकां फायरींग स्कोडा सामकार राववन लागाड काडतात' कसकसोन रडलो जेरी. म्हाका मोरोंक नाका देवा! म्हाका हांगासर येवंकच नाका आसल्लें...'

'तूं तोंड धांपिनाय तर' जेरीचो कॉल्लर धरून म्हणालो काझी 'हांव तांका सांगतलों की तूं एक कुवेय्टी पेटो म्हण...'

'हांगासर कोण तरी कुवेय्टी ऑफिसर आसात तर तक्षण भायर येवंदीत!' बोबाटलो इराकी कॅप्टन. 'हें कुवेय्टी जेय्ल म्हण आमी जाणावं. आजथावन तुमची बंदड संपली. कुवेय्टी सरकार संपलो. आमी सद्दाम अबू आलीचे रॉयल गार्डस, ह्या कुवेय्टाक कामुकी मुखेल्यांथावन सुटवंचे खातीर आमी आयल्यावं.

कोण कुवेय्टी आसात तर हांव फकत एका मिनुटाचो वेळ दितां...'

'तो कितें म्हणता? विचारलें जेरीन. म्हाका कांय समजना.'

'तुका समजोंचेंयी नाका!' म्हणालो काझी.

'कितें तुमकां कोणाकी अरेबीक समजना?' परत बोबाटलो कॅप्टन आनी ताणे आपल्या सोजेरांक कसलीगी हुकूम दिली. सोजेरांनी वाऱ्यार आनी धरणीक फार मारले.

काझी उबो जालो. 'कोणे कांय तरी करिना तर हे आमकां सोडिनांत. पाड पडलेले' तो म्हणालो. 'सर!' ताणे दोनय हात वयर घालून कॅप्टनाक उद्देसून म्हळें. 'अरेबीक थोड्यांक येता, सर, पूण उलवंक आमी सर्व भियेवन गेल्यावं. हांगासर आनी कुवेय्टी ऑफिसर नांत. आसल्ले सर्व...' ताणे म्हादारवाट्याक दाखयलें.

'तुजें राष्ट्रत्व कसलें? आनी कशें तूं इतलें सुडाळ अरेबीक उलयताय? न्हेसलाय आरब्यांपरींच?' ताणे आपली मेशीन गन्न काझीचेर जोखली.

'खाझीची काणी आखेर जाली!' दोळे धांपले जेरीन. उप्रांत 'म्हजी सर्ती!' पूण ताका थंयसर कितें घडता म्हळ्ळें कळीत जायनातल्लें.

'हांव इंडियन, सर!' जाप दिली काझीन 'म्हजें काम कुवेय्टीं' संगींच जाल्ल्यान म्हाका बरें अरेबीक येता...'

'कुवेय्टीं सांगाता कोणयी काम करिनांत, गुलामगिरी करतात!' म्हणालो इराकी कॅप्टन. आतां हात सकयल घाल.' उप्रांत ताणे आपल्या सोजेरांक हुकूम दिली आनी ते तक्षण सर्व कमऱ्यांनी रिगले. आनी भितर पांट्रेवन बसल्ल्या कैद्याक भायर हाडून लायन करून रावयलें.

'आतां सर्वांक मेशीन गन्न वापरून न्हिदायतात', उबो जल्लो जेरी म्हणालो. 'हांवें झुजाच्या फिल्मांनी पळेलां.' हें आयकोन खाझीन ताका असली एक दिश्ट दिली कीं जेरी उस्वास सोडूंकच विसरालो.

'आमकां तुमचेर कसलीच दुस्मानकाय ना!' कळयलें कॅप्टनान. ताच्या सोजेरांनी जेय्लांत कोणय कुवेय्टी नांत म्हूण नक्की केल्लें, आनी रेडियो ट्रान्समीटर आनी उबार एण्टेन्ना नास केल्लें. 'तुमी आतां आजाद, सद्दाम हुसेन अबू आलीच्या नांवान हांव तुमकां सुटका दितां. चला, भायर वचा, सद्दामाच्या नव्या कुवेय्टांत

जियेया. हें आतां शेख सबहा सालेम अल-सभहाचें कुवेय्ट न्हय, पूण इराकाचें एकणिसावें प्रात्य. हांगांथावन सुमार दोन किलोमीटर पयशिल्ल्यान आमचे सैन कुवेय्ट नगराकुशीन वचात आसा... तुमकां जाय तर तांच्या सांगाता वचा, तांचे लागीं वाहनां आसात. सलाम आलेकूम!' इतलें उलवन तो कॅप्टन शीदा काझी सरशीं आयलो.

'जेरी, काझी फाटल्यान लिपलो.

'तूं कांय कैद्यांपरीं दिसनांय!' तो म्हणालो. 'पूण तूं एक कोलो कसो दिसताय म्हाका. कितल्या वर्सांथावन कुवेय्टांत आसाय?'

'स वर्सांथावन!'

'हो कोण 'चिकू[169]?' ताणे जेरीक पळेवन विचारलें.

'म्हजो इंडियन भाव!'

'हूं! तुजेलागीं वाहन आसा?'

'आसा, सर', जाप दिली काझीन.

'GMC पिकअप आसा',

'आकू मुखायेफ?[170]

'आसा, सर!'

'बरें!' म्हणालो कॅप्टन.

'मिलिटरी वाहनांनी बसोन हांव थकलां, म्हाका एअर कंडीशन आसच्या कुवेय्टी वाहनांत बसोन मर्जेर कुवेय्टांत प्रवेश जावंक जाय.' तो हांसलो आनी ताणे भोंवती दिश्ट घाली. कैद्यांपयकी सबारशे भायर धांवल्ले, पूण हेर थोडे कितें करचें म्हण समजा नासतां थंयच रावोन रडताले. इराकी सोजेर, जेय्लाक उजो दिवंच्यांत लागल्ले.

'म्हाका कुवेय्ट सावदीच्या गडी प्रदेशाक वचोंक हुकूम आसा!'

म्हणालो कॅप्टन. 'इतलोसो ल्हान गांव आनी इतली ग्रेस्तकाय? आमकां हुकूम आसा त्या सावदींत प्रवेश करून तांकां नास करून आरब्यांचो सामान्य दुस्मान इस्रायेला पर्यांत वचोंक. पूण आमच्या सैनिकांक वाटो कळीत नांत आनी येदोळच घुस्पड जाल्या.' ताच्या हातांत आसल्लो रेडियो जागोच आसल्लो. 'तुका वाटो कळीत आसात?' ताणे आपल्या सम वस्त्रांतलें मॅप भायर काडलें

आनी उसयलें. 'हांगाथावन मुखार गेल्यार शुवेय्क... कसलें घुस्पडीत मॅप हें? तुका वाटो कळीत आसात? म्हाका सावदीच्या खापजी पर्यांत वचोन सावदी कुवेय्टी गड बंद करूंक आसा...'

'हांव तुका कसली...'

'वाट कळीत आसा तर तुजें 'जेम्स'[171] पीक अप त्या दिशेन चलय. हांव तुज्या सांगता बसतां आनी म्हजे थोडे ऑफिसर फाटल्यान बसतेलें. आनी हो चिकू?' ताणे आपली गन्न जेरीक जोखली.

■■■



# 37

सॅली कुरियन, जिल्ली पायस टिचेरीचें रडणे आयकोन घरच्या हुंबरारच रावली आनी तिका पळेवन आपूण डिनाक फोन करून येतां म्हण उसळोंक[172] तयार जाल्लें इवोनय रावलें. जें जिल्ली उलयताली तें सॅलीक समजोंक ना जाल्ल्यान ती थोड्या वेळाक मौन रावली.

आक्रमणाची खबर भारतांतल्या प्रतिश्ठीत दिसाळ्या पत्रांनीय आयल्या म्हळ्ळी संगत दुबावाची. कित्याक म्हळ्यार आक्रमण जाताना भारतांत सकाळींचीं पांच वोरां आनी दिसाळ्या पत्रांची वितरावणी जाल्ली. तर हांका कोणे रेडियोचेर जाल्लो वार्ताप्रसार आयकोन खबर दिल्या या कुवेत थावनच हांकां कांय खबर आयल्या. तांचीं मुकमळां पळेताना आपूण उल्टे घडये नापास खबर घेवन, येदोळच मतींत कसलेंगी पूर्वभावी चिंतप घेवन आसल्ल्यां सामकार उबीं आसां म्हण तिका भोगलें आनी भोवशा जिणेंत पयले पावटीं सॅली कुरियन उतरां विंचूंक सल्वाली.

'तुकाय खबर मेळ्ळी गी सॅली मॅडम?' तिच्या भुजांक धरून हबालयलें जिल्लीन. 'पळे, पळे', तिणे विराक दाखयलें. ही जॉनीची मिवणी कसली खबर हाडून आयल्या पळे... जॉनी म्हजो भाव, कुवेय्ट आसा, बऱ्या पोजिशनार आसा..'

'मां!' विरारायेन म्हणालें इवोन. 'तुमी भितर तरी येया, सॅली मॅडम', तें म्हणालें.

'आक्रमण जाल्ल्या तक्षण जेरी धर्माक गेलो म्हण म्हणोंक जायना जिल्ली टिचेर!' आपलें राजावं थयंसर आयिल्ले खबरेक ताळ पडाना म्हळ्ळें कळीत नासतां म्हळें सॅलीन. 'आक्रमण जावंचें देशाचेर, एकेकल्याचेर न्हय. संदान

करून सगळो संवसार आसा , संयुक्त राष्ट्रां आसात. कोणाकी झूज या आक्रमण नाका..'

'पूण म्हजो चेरको धर्माक गेलो त्या आरब्याच्या गांवात...'

सॅली कुरियनाचीं उतरां कांय अर्थ जालीं तर इवोनाक मात्र.

'तूं कसल्या आक्रमणाविशीं उलयताय. सॅली मॅडम?' ताचें सवाल आयकोन सॅलीन दोळे अशीर केले.

'आनी तुमी कसले खबरेचेर जेरी धर्माक गेलो म्हण हर्दें पेटतात आनी रडतात?'

तवळ इवोनाक गमलें कीं सॅली भलतीच कसलीगी एक खबर हाडून आयल्या म्हण. 'मॅडम' तें म्हणालें 'हांगासर कसलीगी गडबड आसा. जें कितें तूं आमकां सांगोंक आयल्याय तें भलतेंच आनी हांगासर विरा आण्टीन हाडल्ली खबर वेगळीच.'

'तुमी बसनांत कित्याक?' विचारलें मिक्कीन.

'कित्याक तुवें तुजो चोट्टे पांय घेवन बसल्लें पावाना मिक्की?' जिल्ली सणसणली. 'आतां म्हजो चेरको कसल्या वाऱ्या वादळांत सापडला आसतां तूं सर्वांक बसयताय?'

हें आयकोन सॅली कुरियन शीदा वचोन जिल्ली सामकार उबी जाली आनी आपले दोनय हात तिणे जिल्लीच्या खांदाचेर दवरले.

'जिल्ली पायस टिचेर!' ताणे ताळो काडलो. 'आतां तूं म्हाका आयक आनी बऱ्यान आयक. थोड्या म्हयन्यां आदीं हांव नोराचें रजीस्टर्ड लेटर आनी एक विस्कीची बॉत्ल घेवन तुमगेर आयिल्लीं. त्या लोकाट्यांत कितें आसा म्हण कळीत नासतां तुमी आनी तुमच्या पुतान उबो केल्लो ड्रामा हांव विसरोंक ना. आनी तुमीयी विसरोंक नांत म्हण हांव जाणां. पूण त्या लोकाट्यांत कितें आसा म्हण कळीत जालेंच सगळोच सिनारियो बदललो. विस्केचे बोतलीक कोणेंय हुंकलें सयत ना.

'आतां, तसलेंच एक सन्निवेश उबें जालां तशें म्हाका दिसता. हांव एक खबर घेवन आयल्यां आनी तुमी वेगळ्याच कसल्यागी खबरे वरवीं चडफडतात. कितेंय तरी तुवें मिस्टर पायसा लागीं अशें उलवंचे सारकें न्हय. हें म्हजें राजावं तुका पसंद

ना तर तुवें म्हाका गेट आवट म्हणयेत. पूण अशें केल्ल्यान कुवेय्टाचेर आक्रमण केल्लें सद्दाम हुसेनाचें सैन पाटीं वेता तर तुवें म्हाका गेट आवट करयेत. आता आयल्या घडी आमी वास्तवीकतेक फूड करची. कसली खबर हाडून आयल्या जॉनीची मिवणी? मिक्कीक मान बागावन सॅल्ली बसली. `You do the talking yvonne, Please!'

इवोनान, आपणाक समजल्ल्या प्रकार विरान हाडल्ली खबर सॅलीक सांगली. ही खबर आयकोन सॅलीन दोळे धांपले. असली एक परिगत तिणे चिंतल्लीच ना.

'आतां कितें तुजे जिबेक खाडूं पडलें सॅली मॅडम?' जिल्ली आतां मेल्ल्यांतली जागी जाली. 'म्हजो पूत कुवेय्टाक पावोंकच ना. आतां हाड न्हय विस्केची बॉत्ल, पूण एक लिटर संकपाशन, आक्रमण खंय, आक्रमण. कोण जाणा, जेरीन केल्ल्या ल्हान गोलमालाचें फारीकपण काडचेखातीर तुवें आनी त्या गावडी नोरान केल्ली फितुरी ही जावंक पुरो...'

'तूं कितें चिंतताय?' सॅली उबी जाली. 'हांव मोली म्हण चिंतताय जिल्ली टिचेर?! तिणे विचारलें. `You have to face the reality!' तुमकां आयल्या खबर, जेरी कुवेय्टाक पावोंकच ना म्हण आनी हांवें हाडल्या खबर कुवेटाचेर इराकाचें आक्रमण जालां म्हण. पूण खंयचें पयलें घडलें म्हण आमी नेणांव. जोरी खंयतरी सांपडोन उरला तर, म्हणजे ताचें विमान तांत्रीक दोशांक लागोन, खंच्यायी गल्फ राष्ट्रांत देवंलां तर आनी त्याच वेळार आक्रमण जालां तर ताचें फ्लायट परत उडचें ना आनी तो आनी हेर पयणारी आसल्लेकडेनच सुरक्षीत आसात म्हण आमी समजेयत. पूण तो कुवेय्टाक पावला आनी एअरपोर्टाचे भायर येवंच्या फुडेंच कसल्यागी लफड्यांनी सांपडला तर ताका आमचीं मागणीं आनी सर्वेस्वर देवच बचाव करूंक सकता. देखून, जिल्ली टिचेर, आतां तरी तूं तुजें वीक सांड..'

'तुवें कित्याक मोलीचें नांव हाडलेंय?' जिल्लीचो ताळो मोव जायीत्त येतालो.

'कित्याक म्हळ्यार तुमी दोगांय येदोळ पर्यांत एकमेकाचे मानसीकतेचेर आक्रमण करूनचं आयल्यांत. गरज आनी अर्थ नातल्लें आक्रमण. त्या शिवाय

उडास, जिल्ली टिचेर, मोली, तिचो पती, पूत आनी सून कुवेय्टांत आसात. पाप, डिना मात्र हांगासर आसा...'

'हांव ताचे सरशींच वेतालीं!' म्हणालें इवोन.

'चिक्केशे राव' ताका सुचायलें सॅलीन. 'आमी सर्वांनी आतां मानसीकतेंत घट जायजे. जिल्ली टिचेर, तुज्या भावाचीं दोगां भुरगीं हांगासर आसात...'

'पूण कितेंयी तरी', म्हणालो मिक्की गदगदीत ताळ्यान 'आमी हांगाथावन कांय करूंक सकानांव, व्हय सॅली मॅडम?' आतां तो रडलो. 'खंडीत, आतां म्हाका म्हजो पांयच न्हय, सर्व हाडकुटां चोट्टे जाल्लेपरीं भोगतात.'

हें आयकोन जिल्ली लट्ट करून उठली आनी मिक्कीच्या खांदार हात दवरून म्हणाली, 'म्हजी चूक जाली मिक्की, म्हजो भावार्थ चिक्केशे धंडळ्ळो. आतां म्हाका समजता, जशें आमी एका सन्निवेशांत आसावं तेचपरीं कुवेय्टांत आसल्लीं तिदोड्या अपायांत आसात म्हण म्हाका भोगता. हांव आतांच आंगवोन करतां, नोवेन सुरू करतां. कुमसाराक वेतां...'

जिल्लीचीं उतरां आयकोन, ती पिगळोन वेता म्हण सॅलीक कळीत जालें. तिणे अर्थाभरीत नदरेन इवोनाक पळेलें. देखूनच तुका राव म्हण हांवें म्हळ्ळें, हो संदेस आसल्लो ते नदरेंत.

इवोनान जिल्लीक आरावन भितर व्हेलें.

'कुवेय्टांत म्हर्जी मनशां आसात', म्हणाली सॅली. पूण तांका संपर्क करूंक साध्य आसा म्हण हांव पातयेना. तरी हांव प्रेतन करतां! कुवेय्टाक संपर्क मेळाना तर बाहरेन आनी दुबायंत म्हर्जी मनशां आसात, तांचो संपर्क करून कुवेय्टांतली परिगत कसली म्हण हांव जाणा जावंक प्रेतन करतां! इवोन, दोन मिनुटांक भायर ये. विराबाये, तूं भितर वचोन जिल्ली टिचेरी सांगाता बस'

विरा भितर वेताना इवोन भायर आयलें.

'म्हाका डिनाचें नंबर दी', म्हळें सॅलीन. 'शिंटोकय हांव फोन करतां...'

'पप्पाच्या शॉपाक एक खबर दिताय, सॅली मॅडम?'

'खंडीत, इवोन!' तिणे जाप दिली ताचें मातें पोशेवन.

'उडास दवर, हजारों कुटमांक धुस्पटावंचें हें एक Crisis आनी आमी फकत एक संगत मात्र करूंक सकतावं. आमचो एकवट सांबाळचो आनी देवाचेर पातयेणी

वाडवंची. अजापां जातात इवोन, पूण ह्या आनी असल्या अजापांखातीर अखंड भावार्थ आमकां जाय.' तिणे इवोनाक हळतान वेंगलें.

'तिचें वेंगेंत इवोन कुस्कालें आनी रडलें.

हें पळेवंचो मिक्की कश्टांनी उबो रावून हांचे सरशीं आयलो.

'जेरी गेल्या उप्रांत तूंच आमकां घराचो खांबो पुता इवोन!' तो म्हणालो. 'तूंच कांपशी तर कशें? म्हाका धैर आसा, जेरीक कांय जावंक ना. तो सुरक्षीत पाटीं येतलों.'

पूण हें सताथावन कितलेशा पयस आसचे हुमाणें म्हण कोणाक न्हय तरी सॅलीक कळीत आसल्लें. संवसारार घडच्या विशयांचेर तिका प्रस्तूत माहेत आसल्ली.

'हांव चीट फंडाक वेतां' ती म्हणाली. 'आनी थोडे संपर्क करूंक पळेतां आनी शिंटोक रजा दिवन हांगासर धाडतां. आनी... डिनाक कितें सांगूं?'

'आमकां येकामेकाची गरज आसा म्हण सांग, सॅली मॅडम!' इवोनान जाप दिली. 'जाता तर, तें हांगासर येवंदी, प्लीज,'

'हांव पाटीं वेतां', म्हणाली विरा भायर येवन. 'म्हाका भुरग्यांचें जेवण तयार करूंक आसा.... आमी मागतावं आनी जॉनी भावोजीचें फोन आयल्यार तुमकां कळीत करतावं...'

'हांची सर्वांची प्रतिक्रिया पळेवन सॅलीक नक्की जालें कीं तांकां परिगतीची गंभीरताय आनीकी मतीक वचोंक ना म्हण. पूण तिका भोगलें, ते घडये तीं सर्वां तेच मंद समजणेंत आसोंदीत म्हण.

सॅली कुरियन वचोन अर्द्याच घंट्याभितर डिना जिल्ली टिचरीगेर हाजर जालें. ताणे आनी इवोनान एकामेकाचे हात धरले. तितलेंच. 'कसले परिगतींत ही इश्टागत थीर केलीय, देवा!' मनांतच उद्गारलें इवोन. 'डिना आयलां, मां!' उप्रांत ताणे ताळो काडलो. 'चत्राय हां, म्हण चेतावणी आसल्ली त्या ताळ्यांत.

कांपेरे चालीन जिल्ली भायर आयिल्ली पळेवन, 'हांवच भितर येतीं आसल्लीं, म्हणालें डिना.'

'तूं एकलेंच उरलेंयगी पुता, डिना!' म्हणाली जिल्ली टिचेर हात विस्तारावन. 'मोलीची कांय खबर आसा गी? 'म्हजो जेरी कुवेय्टाक पावोंकच ना खंय.'

इवोनान आनी डिनान एकामेकाचीं मुकमळां पळेलीं. मिक्कीच्या मुकमळार उदेल्लें भावन सर्वांच्याकी विचीत्र. तो जाणा आसल्लो कीं जेरीन घर सांडच्या पयलें ताका घेवन जिल्ली मोलीगेर गेल्ली म्हण. पूण ही 'राजी' आतां आपल्या दोळ्यांसामकार रुता जाताना ताच्या वोटां इड्यांनी अनुचीत तरी बारीक हासो उदेलो.

इवोनान डिनाक हळतार कुट्टिलें आनी डिनान मुखार वचोन तिचे हात धरले. 'कांय जावंचे ना, आण्टी!' तें म्हणालें. 'कोणाकी कांय जावंचें ना. जेरी पावोंकच ना म्हळ्यार... What is the meaning of this, yvonne?'

`I really, don't know!' जाप दिली इवोनान आनी विरान हाडल्ले खबरेचो विवर दिलो.

'हांवय सबार पावटीं कुवेय्टाक गेल्यां', म्हणालें डिना. 'तो फ्लायटार बसला तर कुवेय्ट इमिग्रेशनांत कांय विजाचे लफडे जाल्यात आसतेले. हेर कांय जावंक साध्यच ना. तो कांय अफीम-गांजा व्हरून गेला हांगाथावन? तें कश्टांनी आपल्याच फोकाणाचेर हासलें. 'विजाचे प्रोब्लेम तर ताका येदोळ ताच्या स्पोन्सरान बायर काडला आसतलो. पूण हें आक्रमण एक सहघटन म्हण हांव म्हणतां. कुवेय्ट म्हजें, कुवेय्ट म्हजें म्हण तो सद्दाम केदाळारी म्हणतालो. म्हाका सकाळीं माम्मीचें फोन आयिल्लें!' म्हणालें डिना. 'पूण पांच मिनुटांवयर ती उलवंक सकली ना, लायन कट जाली. तिणे आदल्या रातीं म्हाका कोंटॅक्ट करूंक भारीच प्रेतन केल्लें खंय...'

जेरी कुवेट पावोंक नातल्ली खबर नोरान तिकाच पयली दिल्ली खंय', सुस्कारली जिल्ली. 'पूण आक्रमणाची खबर...'

'तवळ पर्यांत आक्रमण जावंक नातल्लें, आण्टी, म्हणालें डिना.

'आतां पळेवंक गेल्यार आमचो जेरी कुवेय्ट एअरपोर्ट आनी आक्रमण ह्या दोनामदें खंयसरकी शिरकाला.' आपलो शाणो अंदाज उच्चारलो इवोनान. पूण ताका ते घडये ताचो अंदाज कितलो खरो जावन आसल्लो म्हळ्ळें बिलकूल कळीत नातल्लें.

'माम्मीन कितें म्हळें?'

'तिचें फोन येताना हांगाचीं पावणे आठ जाल्लीं म्हळ्यार थंयचीं सवाय स.

ती इतलेंच म्हणाली. आमचे शेजारी दोरो उडोन आयल्यात. परिस्थिती वायट आसा. टेलिवीजन स्टेशन तांणीं जप्त केलां आनी येदोळच तांचीं कार्यक्रमां प्रसार जावंक सुरू जाल्यांत... येदोळ भिरांतशी दिसाना. भायर पळेतना सर्व नॉर्मल शें दिसता... तवळ हांवें म्हळें, तूं एकलीच आहम्मदींत रावताय न्हय मां? आतां पुणी बचोन बॅरना सांगाता राव. Vishi is expecting no? She needs you, हट करीनाका. डेडी पाटीं येतलो... परिस्थिती विकारात तर तुमी सर्वां पाटीं येतात... हांव देवा लागीं... तितल्यार लायन कट जाली...'

'जेरी विशीं कांय तरी विचारूंक तुका अवकास मेळोंक ना पुता?' जिल्लीन विचारलें.

'ना आंटी', म्हणालें डिना.

'हांवें कुवेय्टाक कॉल करूंक जायतें प्रेतन केलें. पूण कांय फायदो ना जालो...'

ताणे चडीत सांगच्या पयलेंच शिंटो पावलूस घराचीं मेटां चडलो. ताका पळेताना जिल्लीचें दूख परत्यान उमाळ्ळें. ह्या मलेयाळी चेड्याचो सांगात जेरीन केल्लो पळेताना तिका पिंतेग येतालो. तिणे एकेक पावटीं चिंतल्लें आसा, त्या टेरीची इश्टागत पुणी दोन कास[173] मर्यादीची, पूण हो शेजारचो कावळो... पूण आतां तो घराची मेटां चडताना तिका आपलो जेरीच आयिल्लेपरीं भोगलें.

आपणाथंय तिका आसल्ली आमसाण जाणा आसल्लो शिंटो तिका वीश करून देगेन वचोन रावलो, जशें कुटमाची ओळोक नातल्ले मरणाविधी वेळार देगेन रावतात तशें.

'आमचो जेरी नांव नासतां गेलो मू पुता, शिंटो!' जिल्लीच्यान तडवूंक जालें ना[173] 'हांवेंच ताका मरणाच्या तोंडांत लोटलो, देवा'

'तशें कांय जावंचें ना आण्टी', अपधैरान शें म्हणालो शिंटो. ताची दिश्ट इवोन, मिक्की आनी डिनाचेर एक पावटीं चरली. पूण टेरीची संगत वगळीच न्हय..' चिंतिनासतां उलयलो शिंटो, पूण ताचो तो आखरेचो शेरो जिल्लीक लागलो.

तिका गमलें कीं कसल्यायी कारणांक लागोन हातांक आयिल्लो तरणाटो पूत दोळ्यां सामकारच पिड्यार जावन वेताना मोलीक कितें भोगलां जावयेत

म्हळ्ळो अंदाज तिका जालो.

ती पुरती पिगळ्ळी 'देव म्हजेर फारीकपण काण्घेता!' ती म्हणाली. व्हड ताळ्यान.

'देव कोणाचेरच फारीकपण घेना, जिल्ली टिचेर!' सॅली कुरियनान जालाथावन ताळो काडताना एका थराचें समाधान थंयसर देवलें. ती भीतर रिगली आनी तिच्या हातांत एक हळ्टाचें बॅग आसल्लें.

'हांवें गल्फाक कोंट्याक्ट केलें, पूण बाहरेनची लायन लागोंक ना. लागल्ली तर बरें आसल्लें कित्याक कुवेय्ट आनी बाहरेन लागीं लागीं आसात. पूण दुबायथावन आइल्ली खबर अशी आसा. इराकी सैनान कुवेय्टाचेर जबरदस्त आक्रमण केलां व्हय. कुवेय्टाचें रायाळ कुटम सावदीक वचोन लिपोन रावलां. इराकींनी कुवेय्टाक एका मालते पंदाक धांपून घालां आनी भायल्या संवसारा लागीं कसल्यायी रितीचो संपर्क भितर आसल्यांक लाभाना. पूण अंतर्राष्ट्रीय मट्टार, इराकान कसलींयी शर्तां पालि नासतां पाटीं वचाजे म्हण संयुक्त राष्ट्रान हुकूम दिल्या. दोन तीन दिसांनी सद्दाम आपलें सैन पाटीं काडतलो म्हळो भरवसो खंय.

'पूण म्हजो जेरी?' जिल्ली आकलासली. 'कोण कोणाचेर आक्रमण करूंदी पूण म्हजो जेरी...'

'तो आमचोयी जेरी!' म्हणाली सॅली बॅग उगतें करून. तिणे जप्त केल्लो जेरीचो ट्रान्झीस्टर भायर काडून मेजार दवरलो. 'ताच्या लग्ना वेळार हो ताका पाटीं दीजे म्हण हांवे चिंतल्लें,' ती म्हणाली. 'पूण कुवेय्टांत जावंचे हाल हवाल तुमी जाणां जावंचे खातीर हो रेडियो हांवें आतांच हाडला. ह्या मुखांत्र आमी जेरी लागीं एका दिशेचो संपर्क दवरयां आनी दुसरे दिशेन देवाचेर भरवसो चडयां. तो बरो देव सुमार देड लाख भारतीयांचेर फारीकपण घेचो ना!'

पूण सॅली कुरियनाचें आनी हेरांचें हें भावार्थाचें विधान सर्वेस्वराथंय पावोंक तितलें सुलभ नातल्लें.

■■■

# 38

2 आगस्ट 1990, फांत्याचीं 5.34. जॉनी डिक्रुजाचें एलार्म ज्युस्त साडे पांच वोरांचेर वाजल्लें. तरी आनीकी पांच मिनुटां भर आळसाय करतां म्हण कूस बदलिल्ल्या ताका खटल्याच्या तेवशिल्या पोंतार वचोन न्हिदल्लें विल्मा दिसलें. बेडरुमांत ए. सी. चालू आसल्ली तरी जनेलाच्या आरशांक मारच्या सकाळींच्या वोताचो दाव कळीत जातालो.

आदले रातीं विल्माचे कानपटेक वाजयिल्ल्या उप्रांत ताणे विराबायेक फोन केल्लें आनी जेरी कुवेत येवन पावोंक नातल्ली गजाल ताणे तिका सांगल्ली. विवर कसलेयी ताजेलागीं नातल्ले जाल्ल्यान ताणे इतलेंच म्हळ्ळें कीं पयलो आवकास मेळताना मिक्की भावोजीक आनी जिल्ली बायेक ही खबर दी. विरा सांगाता आसल्लीं ताचीं भुरगीं जॉनवील आनी विलजोना न्हिदल्यांत म्हण विराबायेन सांगताना जॉनीन तिका सांगलें. ‘तीं न्हिदोंदीत, तांका जागायनाका. हावें मोग आनी कीस दिल्यात म्हण सांग.’

हें आयकोन विल्मा आनीकी चिडल्लें. आनी तांची आवय आत्तां मेली म्हण विराबायेक सांग’ म्हणोन तें जॉनीच्या हातांतलें रिसीव्हर झोंपय मारूंक आयलें, पूण त्या फुडें जॉनीन संपर्क तुटयलो. त्या उप्रांत विल्माचे पुरपुरे आनी रुदान सुरू जालें आनी तें आखेर जावंक सुमार धा खण तेर्साक लागचो वेळ जाय म्हण कळीत आसल्ल्या जॉनीन आपले कान आनी शिंतीद बंद केलें आनी विल्मा एपार्टमेंटांत नातल्ले परींच लेखून आपलें जेवण केलें आनी न्हिदोंक वेच्या पयलें बी. बी. सी. वार्ताप्रसार आयकोन तो बेडरुमाक गेलो. मध्यप्राप्याच्या खबऱ्यांनीं झेद्दा सम्मीट कोसळ्ळ्या आनी कुवेतचो रायकुंवर आनी हेर पार्टी आयल्यात म्हळ्ळी मटवीं खबर आसल्ली. जॉनीची मत तवळच जायती घुस्पडल्ली आनी ताच्या

दोळ्यां सामकार जेरीच येतालो.

उजो पडूं ह्या अरब पॉलिटिक्सांक, तो मनांतच येटिलागलो. उजो पडोंदी म्हज्या कोक युनीट टवेंटीक. फाल्यां ब्रेस्तार. सुसेगाद न्हिदतो आसल्लों हांव, पूण म्हाका स्पेशल ड्युटी दिल्या न्हय. म्हजीं भुरगीं ल्हान उरलीं ना तर ह्या कुवेताची मारली शेंडी. पावनातल्ल्याक हें एकलें 'रणचंडी' बायल. तो चिक्केशे व्हडल्यान हासलो. बेडरुमांतलें ए. सी. थर्मोसैट सेट करून तो बेड्डार आड पडलो.

विल्माकय कामाक वचोंक आसल्लें. फाहाहील इंडस्ट्रियल एरियांत आसल्ल्या फर्मनायट गल्फ म्हळ्ळे ब्रिटीश कंपणेंत ताका एक्झ्युक्युटीव्ह सेक्रेटरीचो हुद्दो मेळल्लो. तें आपले जवाब्दारेंत चुरूक आनी जिबेन कातरच म्हण वेगळ्यान सांगाजे म्हण नातल्लें. विल्माचें काम आठ वोरांचेर सुरू जातालें. जाल्ल्यान तें सकाळींच्या साडे स पयलें उठानातल्लें.

जॉनीलागीं आतां के. एन. पी. सी. चें कार आसल्लें जाल्ल्यान ताणे आपलें पयलेंचे होल्डन कार विल्माक दिल्लें. आरबिणेंनी चलवंच्या परीं तें सुरांटी मारून कार चलयतालें...

आदले रातीं तें कितल्या वोरांचेर न्हिदोंक आइल्लें म्हण जॉनीक खबर नातल्ली. आतां खाटेचे देगेन, 'तुजेथावन पय...स' म्हळ्ळे परीं न्हिदोन आसल्ल्या ताका पळेवन जॉनीक हासो आयलो. मदेंगात तो चिंतिलागलो, जेरीक कांय जावचें ना. नोरा ताका भायर काडतेलें. पूण हांव विल्माक भोगसुंचो ना. ह्याच चिंतनानी साडेपांच जावन चार मिनुटां पाशार जालीं.

फटाक्क!

कसलोगी आवाज. लागसारच घडघडो फुटल्लेपरीं आवाज. बेडरुमाच्या जनेलांचे आरशे चवकटांतच मिरमिरले, दार 'कडक्क' जालें. जॉनी उठोन बसलो, आन एका दार 'कडक्क' जालें. जॉनी उठोन बसलो, आन एका आवाजाचे निरिक्षेन म्हळ्ळेपरीं ताचे कान चुरूक जाले. कितें जालां जावंयेत? कांय मीना अहमदी रिफायनरीची गॅस टँक पुणी फुटली? 1987 जुलाय म्हयन्यांत एक टँक फुटल्ली आनी सुमार दोन म्हयने पर्यांत जळताली.

'कितें जालें?' आवाजाचें बळ इतलें कीं जडायेन न्हिदच्या विल्माकय जाग जाल्ली.

'कसलीगी गडबड आसा म्हण दिसता!' तो म्हणालो खटल्याथावन उठोन.

'इराकान कांय केलांगी म्हण. झेद्दा समीट कोसाळ्ळी न्हय? हांव न्यूज आयकातां.' तो शीदा सिटींग रुमाक आयलो. रेडियो आनी टी. वी. ताणे सांगताच चालू केली. न्यूज आयकोंची कायाम सवय ताका आसल्ल्यान बी. बी. सी. लागयिल्लेंच आसतालें. तें जिवाळ जाताना सकाळीं स वारांक पंदरा मिनुटां आसल्लीं. वार्ता प्रसार स वोरांचेर. तितल्यार टी. वी. उगती जाल्ली, पूण कुवेत चॅनल नातल्ली.

'हें कितें आज इजीप्त लागता?' ताच्या पाटापाट उठोन सिटींग रुमाक आइल्ल्या विल्मान विचारलें.

'हें इजीप्त चॅनल न्हय?' विरारायेन म्हणालो जॉनी. 'ही गिदाची निशानी आनी ध्वज इराकाचो.' ताणे कुवेत चॅनल 2 लागयली, पूण ताचेरय तीच निशानी आनी ध्वज. तांच्या बिल्डिंगाक डीश अँन्टेना घालचें काम सुरू जाल्लें आनी ही सौलताय कुवेताक नवीच येवंक सुरू जाल्ली. पूण तांच्या बिल्डिंगांत थोड्या शिया आरब्यांनी विदेशी चॅनेलां देवंचारांची म्हण डीश एंटेना घालचें काम रावयिल्लें.

'हांव सकयल वचोन पेपर काडतां!' म्हणालो जॉनी आनी विल्माचे जापीक राकानासतां एपार्टमेंटाथावन भायर गेलो.

पूण लिफ्ठ धरून सकयल वेच्या बदलाक तो वयर गेलो आनी टेरेसाक पावलो. सात माळ्यांचें बिल्डींग तें आनी सदारण सगळें फाहाहील ताका दिसतालें.

मासळे मार्केटा लागीं सदांची चटुवटिका दिसून येताली. कुवेत डॅनीश डेरी कंपेनीचें व्यान उबें आसल्लें, कचरो व्हरचें अल मुल्लाह कंप्णेचें व्यान रावल्लें आनी निळशा समवस्त्रार आसचे कामेली तांचे काम करताले. फाहाहील सी फ्रंट शांत आसल्लो. दिगंताचेर ताका तीन चार ऑयल टँकरां दिसलीं. उजव्याक आसची मिना अल-अहमदी रिफायनरीचीं फ्लेअरस्टॅक्स उजो आनी धुंवोर वोंकुनच आसल्लीं. ताणे तें परिसर टेरेसाच्या सर्व कोनांचेर रावोन पळेलें. ताका कसलेंच असथावीक या अपसामान्य (Abnormal) दिसलें ना. तर तो आवाज

कसलो? कितें, कुवेतांत कसलेयी आवाज जावंक नजो? तो हासलो आनी लिफ्ट धरून शीदा सकयल आयलो. लिफ्टांत ताका कोणयी भेटलेनांत.

बिल्डिंगाच्या मुळांत एका मलबारीची अंगड (बक्काला) आसल्ली आनी जॉनीन आपलें पत्र त्या मलबारीथावन घेवचें आसल्लें. आज ताणे 'कुवेय्ट टायम्स' आनी 'अरब टायम्स' हीं दोनय पत्रां घेतलीं. तीं उसयताना ताका दिसलें कीं दोनायचेर आसचें खबरे माथाळे एकच - झेद्दा सम्मीटाविशींचे Jeddha Summit - All is over, more talks required.

'क्या हुआ? क्या खबर है?' मलबारीलागीं जॉनीन विचारलें. तो एका गिरायका खातीर फलाफल सँडवीच तयार करतालो.

'इराकी आया, ऐसा सुना है।' ताणे जाप दिली. 'कल्लीवल्ली' (काटांत पडों) तो म्हणालो.

ताचेलागीं चडीत उलयनासतां जॉनी आपल्या एपार्टमेंटाक पाटीं आयलो. विल्मा टॉयलेटांत आसल्लें. वोरां सकाळींचीं भरती स. बी. बी. सी. स्टेशन चालू आसल्लें. बी. बी. सी. चें मामूल तुर्बेंत वाजल्या उप्रांत : This is London. B. B. C. World Service. The news read by... first the headlines : Iraq has inved Kuwait.

हें आयकोन रेडियो सामकार तो कुस्कोन बसलो. पयशिल्ल्यान ताका 'धप्प, धप्प' आवाज आयकाताले आनी सगळें बिल्डींग कांपल्लेपरीं ताका भास जातालें. लागसारच आसल्ल्या टेलिफोनाक ताणे उकल्लें. डायल टोन आसल्लो आनी ताणे भारताची कोड वापरून मंगळूरचें नंबर घुंवडायलें.

0091-824-27017

ना, लायन लागली ना. ताणे तीन पावटीं प्रेतन केलें, पूण फायदो ना. ताका तवळ गमलें बी. बी. सी. चे खबरे प्रकार इराकान आक्रमण केलां. तर ताणीं अंतर्राष्ट्रीय संपर्क कातरला. टी. वी. स्टेशन आनी भोवशा रेडियो कुवेत सयत तांणी ताबेंत घेतलां. ताणे बॅरनाचें नंबर लागयल्लें. लागलें ना. साल्मियांत कसलीगी गडबड जाल्ली. ताचो सांगाती सीनियर इंजिनियर अब्दुल्लाह झाकीचें नंबर लागयलें ना, संपर्क लागलो ना.

अब्बासियांत ताचें एकलें कजन आसल्लें आनी ताणे ताचें नंबर घुंवडायलें.

नंबर लायलें. 'जुली! कितें खबर?' ताणे विचारलें. 'संगत कसली?'

'भिरांतीची!' ज्युली म्हणालें. 'सगळें अब्बासिया इराकी सैनिकांनी भरोन गेलां. येदोळपर्यांत कसलीच गडबड ताणीं करूंक ना. पूण फायरींग चलता...'

'चत्राय करा!' हाच्योकी जोक्तीं उतरां जॉनीक मेळोंकनांत. तितल्यार विल्मा टॉयलेटीथावन भायर आयलें. जॉनीन ताका मटव्यान संगत विवरली.

'तूं एक काम कर', तें म्हणालें. 'तक्षण बँकांक वच आनी ए. टी. एम. कार्ड वापर्न सर्व पयशे आमच्या एकवंटांतले काड.'

'हांव रिफायनरीक वेताना तशें करतां, तो म्हणालो. तशें चडकांय पयशेनांत आमच्या एकावंटांत' तांचो दुडू चडावत इंडियांत आनी लंडन बँकांनी आसल्लो. डिपोजिटांच्या असल्या वांटपाक कारण विल्माची तकली.

'तूं असले परिगतींत रिफायनरीक वेताय?' तें हांकरेलें.

'कसली परिगत?' वचोंक नजो म्हणोन कोणें तरी सांगलां? सद्दामान रजा दिल्या?' तो चिडलो. 'त्या जुलीक एक पोलीस, दिसल्यरय सैनच आयलां म्हणचें बायल तें...'

'तुजेंच कजन न्हय?' टिंकर उडयलें विल्मान.

जॉनीन विशय बदलिलो आनी म्हळें 'म्हाका दिसता, इराकींनी थोड्या एरियांची' फोनां कातरल्यांत म्हण. तूं एक काम कर. आमच्या वोळकिच्यांचीं नंबरां ट्राय कर आनी तवळ कितें घडता म्हळ्ळी खबरय मेळता आनी खंच्या परिसराचो संपर्क तुटला म्हणय कळीत जाता.'

कुवेतांत आपलो मुक्काल (पाऊण 3/4) वांटो भेटोळ फोनाचेरच खर्चुंच्या विल्माक हाच्याकी वर्तो नास्टो नाकासलो.

जॉनीन आपली निर्मळाय तिर्सिली. आनी एक मग कॉफी खूद करून, तो न्हेसलो, नाका एका बळीश्ट नास्ट्याची सवय आसल्ली, पूण रिफायनरीच्या कॅफेटेरियांत, सुमार साडेआठ-नोव वोरारशें. युनिटांचो रावंड जाले उप्रांत मेंटेनन्स सुपरीन्टेण्डेंटाच्या कॉन्फरेन्स हॉलांत त्या दिसाच्या चटुवटिकांची पट्टी तयार जाताली आनी त्या वेळार हो नास्टो जातालो.

विल्माक जॉनीन दिल्ल्या 'मिसांवां' वर्वी अस्पश्टताय चडली शिवाय नक्की कसलीयी खबर मेळ्ळी ना. गे - खबरो धाराळ उठल्ल्यो. फोनांचो संपर्क थोड्या

एरियांक आसल्लो तरी घडयेक एक पावटीं तुटतालो. पूण कुवेताभायर बिलकूल. लायन लागानातल्ली. वोरां सकाळींचीं 6.35 जाल्लीं.

तुवें रिफायनरीक वेची विंचवण केल्ली बऱ्याकच जातेली. म्हणाले विल्मा. हें आयकोन जॉनीन भंवग्रो वयर केल्यो. 'तशें न्हय' मुकारून म्हणालें विल्मा. 'असल्या संदिग्ध परिगतींतय तूं ड्युटेक आयिल्लोय म्हण रिफायनरी मॅनेजर खूश जातालो आनी तुका सुपरिंटेण्डेंट हुद्दो दिवंकय पुरो!'

जॉनीन एक नीळ स्वास सेवलो आनी तो एपार्टमेंटाथावन भायर गेलो. पार्कांतलें आपलें कॅप्रीस क्लासीक ताणे भायर काडलें आनी फाहाहील इंडस्ट्रियल एरियाची वाट धरली. वाहन संचार उणो आसल्लो ताच्या गुमानाक गेलो. कितेंगी ताच्या पोटाच्या थळार बर्फाचे घेटे लोळल्लेपरीं ताका भोगलें. वाटेर, नॅशनल बँक ऑफ कुवेय्ट हांगासर कार राववन ताणे ए. टी. एम ट्राय केलें. सर्व ए. टी. एम. यंत्रां बँकांनीच 'लॉक' केल्लीं म्हण ताका उप्रांत कळीत जालें.

इंडस्ट्रियल एरियाच्या सिग्नेलालागीं ताका रावाजें पडलें. सिग्नेल पाचवी जाता पर्यांत एक सात आठ पावटीं धरण[174] कांपल्लो अनभोग ताका जालो. आनी थापे पडचेपरीं जावंचे ते 'धप्प, धप्प आवाज जावनच आसल्ले. तीनय रिफायनरी सकाळींच्या सात वोरार कामाक लागताल्यो[175] धरल्यारय, वीस मिनुटां काडताली. पूण आज, वाहनां अरवासाच्याकी उर्णीं आसल्लीं. सदांचे मनीस, वाहनां जॉनीक दिसलींच नांत.

के. एन. पी. सी. मिना अब्दुल्लाह रिफायनरी सगळ्या आसियांतच एक भोव आधुनिक रिफायनरी म्हळ्यार अतिशय न्हय. हे रिफायनरीचें आधुनिकीकरणाचें प्रोजेक्ट (Modernization Project) सुमार 628 मिलिया कुवेती दिनारांच्या खर्चार पूर्ण जाल्लो आनी 1989 वर्साच्या फेब्रेर वीस तारकेर कुवेतच्या रायकुंवरान तो उगतायिल्लो.

कठीण सेक्युरिटी आसच्या ह्या रिफायनरीच्यो बृहत गेटी आज उगत्योच आसल्ल्यो. कसलीयी सेक्युरिटी शिबंदी जॉनीक दिसली ना. रिफायनरी भितर वाहनां व्हरूंक परवानगी नातललीच, पूण उंचल्या हुद्यार आसल्यांक स्पेशल पास आसताले. जॉनी डिक्रुज ह्या हुद्याक पावोंक नातल्लो जाल्ल्यान ताणे आपलें कार पार्कांतच रावयलें. तितल्यार...

एकलो पालेस्तिनी ताचे सर्शी आयलो. तो मनीस रिफायनरीच्या वेल्डींग शॉपांत सुपरवायजर. 'सबाहल खैर', तो म्हणालो 'हांगा कित्याक पार्क करताय? कार शीदा भितर व्हर. जालें, कुवेय्टींचें राज जालें. इराक आनी इराकी आयल्यात, इराकी! हो गांव आतां सद्दामाचो, फाल्यां आमचो!' तो हासलो. तितल्यार एक मिलिटरी ट्रक सोजेरांक घेवन भायर गेलें. रिफायनरीच्या 7.5 चदर किलो मीटर विस्तिर्णायेच्या एका मुल्यांत एक मिलिट्री थळ आसल्लें.

'धांवतात पळे कशे!' म्हणालो तो पालेस्तिनी. 'हांणी झूज पळेलां? एकच एक कुवेटी जिवंत उरचो ना. हांचो अमीर आनी हेर वजीर मनीस सावदींत लिपोन बसल्यात. पत्रांनी आयिल्लें सर्व फट. हे कुवेय्टी लुच्चे पार्टी येवंकच नांत.'

जॉनीन कांय म्हळें ना, पूण त्या पालेस्तिनीक ताणे एक दिश्ट दिली आनी ती घेवन तो थंयथावन निकळ्ळो. कारांतलो भायर आयिल्ल्या जॉनीन आपल्या मेंटनेन्स बिल्डिंगाक मेटां काडलीं. बिल्डिंगच खाली आसल्लें, पूण सेन्ट्रल ए. सी. चलताली. कंत्राट कामेली तातांच्या समवस्त्रार जर्ले चरचेपरीं हेणे तेणे चरताले.

बिल्डिंगांत एक पासाय मारून जॉनीन सर्वांच्या कॅबिनांत तिळ्ळें. बॅरनाच्या कॅबिनांत कोणच नातल्ले. हेर सिनियर इंजिनयरांचो पत्तो नातल्लो. आपल्याच कॅबिनाक येवन ताणे सबार नंबरां घुंवडायलीं, पूण तीं लागलीं नांत. तितल्यार ताच्या कॅबिनाचें दार उगतें जालें आनी मेंन्टेनेन्स मॅनेजर खालीद अब्दुल – लतीफ हुसेनाचो कुवेती ड्रायव्हर साआद अल – नफीसी भितर आयलो.

'हें तूं कितें करताय, अबू जॉनी?' तो बोबाटलो. 'हादा हर्ब! हें झूज. तूं हांगासर एक खीणभर रावनाका. आतां सर्वांनी तातांच्या कुटमा सांगाता आसाजे. वच, वच, अल्लाह तुजे संगीं आसूं!'

तो भायर वेतेच जॉनीच्या दोळ्यांनी आपापींच दुकां उदेलीं. तांणीं तांणीं तातांच्या कुटमा सांगाता आसाजे. खंय आसागाय जेरी? ताणे आपल्या वॉचाचेर दिश्ट घाली. पावणे आठ. विल्मान कामाक सुटचो वेळ.

ताणे आपलें फोन उखल्लें आनी एपार्टमेंटाचे नंबर घुवंडायलें.

'लायन लागल्यार, पुरो देवा!' लायन लागली. थोड्या घडियांनी विल्मा लायनीर आयलें. 'परिस्थिती भारीच वायट आसा, विल्मा!' ताणे कळयलें. 'तूं

घराच राव, ऑफिसांक वंचनाका...'

'पूण...'

'आतां पुणी म्हजे लागीं आर्ग्युमेंट करिनाका!' जॉनीन ताळो काडलो.

'एकामेकाखातीर आमी पुणी आसावं. ह्या वगता आमी सांगाता आसाजे. आमचो जेरी ह्या घडिये खंय आसा म्हळ्ळें चिंतलाय तुवें?'

'परत्यान झरवंक सुरू करिनाका, जॉन!' तें म्हणालें 'झूज हें व्हय तर आमचें न्हय. हांव कामाक वेतांच. कितें जाता म्हण पळेवयां. तुका भंय दिसता तर एपार्टमेंटांत येवन बस. बाय बाय' ताणे संपर्क तुटयलो.

'व्हया!' म्हणालो जॉनी रिसीवर पाटीं खिळायताना.

'म्हाक बंय दिसतां!' ताणे एक लांब स्वास सेवलो. 'म्हाका भंय दिसता म्हज्या कुटमाखातीर, जेरी खातीर आनी म्हजेच खातीर. व्हय, म्हाका भंय दिसता!'

ताका आपल्या भुरग्यांचो, विराचो, जिल्ली बायेचो, मिक्की भावोजीचो आनी सगळ्या मंगळूरचो उडास आयलो आनी आपणा भितर कसलेंगी मुळां समेत हुमटून काडल्लेपरीं जावन तो कसकसोन रडलो.

■■■

# 39

मोली पिरेरीन रिसीवर उखल्लें.

'माम्मी,' 'तेवशिल्यान बॅरनाचो ताळो आयलो. 'हांवे जॉनी डिक्रुजाक फोन केलें मां', तो म्हणालो 'ताचो भाचो येंवच्यार आसल्लो खंय मां, पूण तांकां ताणे येवंची तारीक उडासांत ना खंय.'

'कसलीं मनशां!' ती उद्‌गारली. जिल्ली टिचेरीचोच भाव न्हय गी म्हण म्हणोंक तिका जब्बोर आशा आयली पूण तिणे आपले जिबेक खाडूं घालें. तिका तवळच भोगललें. मां, मां म्हणानासतां उतर भूंय दवरिनातल्लो पूत बॅरन परत आपणाक मेळ्ळ्या उप्रांत आपणे म्हजी जिणी बदलिजे आनी म्हजे कुडींतलें आनी शिंतिदांतलें वीख अमृत गावन बदलिजे.

'तर हांवें नोराक कसली वरदी दीजे?'

'जॉनी डिक्रुजान गांवांक फोन करून म्हाका संदेश दितां म्हळा.' बॅरनान जाप दिली. 'तवळ पर्यांत तूं त्या.. कितें नांव तें? हां... नोरा... ताका फोन करूंक वचनाका. तें कोणा शेकाच्च्या बोंगल्यांत आसा म्हळेंय? तांकां बरेंच इन्फ्लुयेन्स आसता मां, तूं फिक्र करिनाका.'

No, Just trying to be a good neighbour, son!' ती म्हणाली, गांवचो उडास काडून.

'बरें मां,' तो म्हणालो. 'रात जाली, तूं न्हिदे. विशी बरें आसा. म्हाका ड्युटी आसा फाल्यां. आनी मां...' ताणे चिक्केशे लांबयलें.

'कितें पुता?'

'कुवेय्टांत कांय थोडी गडबड जावंची साध्यताय आसा, मां!' ताचो ताळो चत्रायीत आसल्लो. झेद्दांत चलल्लें इराक कुवेय्ट रुस्तुरुसांव विफल जालां

म्हळ्ळी खबर आयल्या.'

'म्हळ्यार.... कितें जायत?'

`I really don't Know, ma!' तो म्हणालो

`Any way, you take care now. Good night.'

घुस्पडीत आनी मिश्नीत चिंतनां सांगाता न्हिदोंक गेल्ल्या मोलीक दोळो लागलो ना. मदें मदें तिका आंबूचो उडास आयलो. आसतलो कोणाचे तरी वेंगेंत, तिणें चिंतलें. म्हाका सालवार करून आतां तो भाडें काडता. व्हय, पयले पावटीं, आपणाचें न्हय जाल्लें एका दादल्याक उश्टेंच. एकाच्छाणे आपूण एकली एकसुरी म्हण तिका भोगलें आनी डिनाची लायन परत एक पावटीं ट्राय करयां म्हण तिणे बेडरुमाचो लायट पेटयलो. पूण तिचे मतींत हेर चिंतनां उदेलीं आनी लायट पाल्ववन ती न्हदली.

असलो घडघडो कुवेटांत केदाळा सुरू जाल्लो? तिणे आपणाकच विचारलें तो भिरांकुळ आवाज कानांक आपटाताना, पाज फुटल्ले परीं तो आवाज तिच्या कानांक मारल्लो. तिच्या घराचीं सर्व दारां-जनेलां चवकटां समेत कांपलीं.

लट्ट करून आपल्या बेड्डार उठोन बसल्ल्या तिणे घड्याळाचेर दिश्ट घाली. फांत्याचीं 5.34. जनेलाचे पडदे देगेन करून तिणे शटर उगतें केलें. भायर बरोच उजवाड जाल्लो आनी अगोस्त म्हयन्याची गर्मी, उबाळ आनी तेवाभरीत वारें घेवन तिच्या मुकमळार मारली. पयशिल्ल्यान कसलेंगी एक वाहन सायरन मारीत धांवलें. हें कांय नवें न्हय. आंबूचें क्वार्टर्स अहम्मदी गवर्नरेट आनी पोलिस स्टेशन लागसारच आसल्ल्यान हीं सायरनां तिका कांय नवीं न्हय. पूण आयचे सकाळीं तिचें काळीज कल्ल जालें.

ती उठली आनी आपलो गावन घालून सिटींग रुमाक आयली. परत्यान तिका सायरना आयकालीं. कपालाक मिरयो घालून ती टॉयलेटाक गेली आनी धा-बारा मिनुटांनीं सकाळींची मुळावी निर्मळाय तिर्सून[176] किचनाक गेली आनी एक कप्प च्या तयार करून, कप्प हातांत घेवनच फुडलें दार उगतें करून ती भायर आयली. भायल्या वातावरणांतलो उबाळ तिका रेवडलो. तिणे च्याचो एक घोंट आपल्या तोंडांत घोळयलो.

तिच्या शिंतिदान तिका सांगलें. कसलेंगी घडलां या घडात आसा. तितल्यार

ती तिच्या ल्हान किचन गार्डनांत उबी जाल्ली आनी आंबून रुता केल्ल्या रांदवयेच्या झाडांचेर तिणे एक शुन्य दिश्ट चरयली. भाजी, बेंडां, वांयंगीं...

तिच्या घरा सामकार हेन्री पिटोचें घर आसल्लें आनी तो के. ओ. सीं. त आसल्लो. सदां सकाळीं तो जॉगिंगाक वेतालो. तें मोलीक कळीत आसल्लें. आज ताका घराच्या वाटारांत पळेवन तिका विजोड दिसलें.

'आज जॉगींग ना हेन्री?' तिणे विचारलें.

हेणे तेणे कसलेंगी चत्रायेन पळेवन तो मेटां काडून तिच्या पिकेट फेन्सासर्शी आयलो. `There is something wrong somewhere, molly!' तो म्हणालो. हें ताचे पसंदेचें वाक्यें : There is something wrong somewhere. जॉगिंगाक वचूंक गेल्लो!' तो म्हणालो. 'पूण गवर्नरेटालागीं पावताना ताणें live acthion देकलें!'

ताची खुशालाय जाणा आसल्ल्या मोलीन विचारलें. 'तुका येदोळ कांय डेड दिसलां, हेन्री?'

पूण तो गंभीर आसल्लो. 'गवर्नरेटाच्या उबारायेथावन फाहाहील – मंगफ कम्युनिकेशन टावर सारकें दिसतां. व्हयमू मोली?'

'व्हय... व्हय म्हण दिसतां.' तेणे जाप दिली.

'एक फायटर विमान अचानक आयलें आनी कसलें गी एक मिसायल टावराक मारलें. टावराची एक कूस, गवर्नरेटाक पळेवंची कूस म्हज्या दोळ्यां सामकारच कोसळोन पडची हांवें पळेली.'

'बॅरन कितेंगी म्हणतालो,' तिणे गवर्नरेटाचे कुशीन पळेलें तें तिका दिसनातल्लें तरी. 'इराक...'

'हांवें नीव्ज आयकाले, मोली', म्हणालो हेन्री. 'इराकान आमचेर आक्रमण केलां' ताच्या उतरांतलें सत 'आमचेर आक्रमण केलां.' म्हळ्ळीं उतरां कितलीं सत म्हळ्ळें मोलीक आनी हेरांक गमोंक आनिकी थोडे दीस जाय आसल्ले. 'आंबूची कांय खबर आसा?' त्या घरांत जावंचें वयल्याबार जाणा आसल्ल्या हेन्रीन विचारलें. `I'm not trying to pry, Molly' तो म्हणालो. कित्लेशा वर्सांथावन हांव तुमचो शेजारी आनी हांव जाणां....

मोलीन दोळे धांपून माथें वयर केलें. 'आसतोलो', ती म्हणाली.

'तें हांव जाणां', म्हणालो हेन्री. 'पूण असल्या वेळार एका कुटमान सांगाता आसाजे मोली. तुवें बॅननाक आनी विशीक हांगासर आपयल्यार बरें या तुवेंच वचोन साल्मियांत रावचें बरें. परिगत कशी आनी केदाळा बिगडात म्हण सांगोंक जायना. इराकी सैन भितर आयलां म्हळ्ळें खरें आनी कुवेय्ट चलवंचे अमीर आनी ताची शिबंदी सावदींत लिपोन रावल्यात म्हळ्ळेंयी खरें. आतां सद्दामाक फुसलावन पाटीं धाडची जवाब्दारी सुपर पवरांची... तूं तुजी च्या पिये... हूं बऱ्याक पडलें रजेर गेल्ली म्हजी फॅमिली इंडियांतच आसा.'

'हांव बॅरनाक फोन करतां', मोलीन म्हळ्ळें. घराभितर वचोंक घुंवल्ल्या तिचे पांय वाकळां आयिल्लेपरीं एकामेका आदाळ्ळें. तिचें काळीज तिच्या हर्द्या – घुडाक खोटायतालें.

तिणे बॅरनाचें नंबर घुवंडायलें.

तिका सपर्क मेळ्ळो ना. सुमार अर्दें वोरभर प्रेतन केल्ल्या उप्रांत मोलीन निराशेन हात उडयले. फोन करचें तर सबार नंबरां आसल्लीं. पूण तिणे आपणाकच सांगलें. हांवें आकांत करूंक नजो. वीज आसा, उदक आसा, किचनांतलो गॅस आसा... तशें कांय वायट जावंचें ना. देव आसा. तिणे नाश्ट्याची तयाराय केली. आनी हळ्टाचो एक नाश्टो केलो. टेलिविजनाचेर तिका कुवेत चेनलां लागलीं नात. कसलीं गी मिलिटरी गितां चलतालीं. आनी मदें मदें सद्दाम हुसेय्न दिसतालो.

मोलीक, मध्यप्राच्यांतलें राजकीय चडितायेन कळीत नातल्लें तरी आरब्यांमदलें झूज, एक कॉप टर्कीश कॉफी मुखांत्र नुल्ल जावंचे तसलेंच चिल्लर आनी अराजांवीक म्हण आंबून म्हणचें तिणे आयकाल्लें.

आठ जाताना तिणे बॅरनाचें नंबर परत ट्राय केलें. पूण फलसालें ना. त्या स्टेल्ला मारीसाचें नंबर कळीत आसल्यार हांवं लज सांडून अंबूक फोन करतीं आसल्लीं म्हळ्ळें चिंतप तिचे मतीक आयलें. तवळ तिका उडास आयलो, तो दीस बेस्तार आनी आंबू आपले फार्मेसींत आसतोलो म्हण. फाहा हिलांत आसल्ले फार्मेसीचें नंबर तिणे घुवंडायलें. आंबू लायनीर येत जाल्यार कितें उलवंचें म्हळ्ळें तिका सुस्तालें ना. पूण आंबू लायनीर आयलो ना. फार्मेसींत काम करचो बाहेरिमियाजान हाणे फोन उखल्लें. 'साहब अभी तक नहीं आया, भाभी', तो म्हणालो. 'लेट आयेगा ऐसा बोला है.'

मोलीन एक लांब उस्वास सोडलो आनी फाहाहिलांत परिगत कशी आसा म्हण विचारलें. मियाजान घुस्पडलो. ताका आक्रमणाची कसलीच खबर नातल्ली. ताका विवरांवचें फायद्याचें न्हय म्हण मोलीन लायन तुटयली आनी फोनासर्शी आसल्ल्या नोट पेडाचेर दीश्ट घाली. नोराचें नंबर जें तिणे आदले रातीं बरयिल्लें तिका दिसलें. पाटीं फुडें पळेनासतां तिणे तें डायल केलें. पूण लायन परिपूर्ण 'डेड' जाल्ली.

आपलें मातें हातां मदें आदारून बसली...

आंब्रोज पिरेरीक आपले फार्मेसीक वचोंक जाय आसल्लें पूण त्या ब्रेस्ताराताची फाट हांतुळणावयलीं उठोंक आयकाली ना. फाटीच्या कण्यात ताका कठीण दूख आसल्ली आनी कसलोगी एक वोळ ताच्या पोटाच्या उजव्या थावन सुरू जावन ताच्या वृशणापर्यांत वोडतालो. इतलीं वर्सां आस्पत्रेंत वावरून आसल्ल्या ताका हीं खुणां कितें दाखयतात म्हण बऱ्यान कळीत आसल्लें. किडणींत फातर. ही दूख आनी वोळ कांय आजकालची न्हय आनी ताका के. ओ. सी. दाक्तेदारांनी सांगल्लें, शस्त्रचिकित्सा करून ते फातर काडीजे म्हण, लिथोट्रिप्सी म्हळ्ळें एक नवें विधान सर्जरीविणेच फातर फुटवंक सकता म्हण ताका कळयिल्लें.

पूण भियाक लागोन आंबू हीं सर्व ट्रिटमेंटां फाटीं घालतालो आनी कसल्यो तरी गुळयो गिळून दूख तडवितालो. मोलीक ताणे ह्याविशीं सांगल्लें ना. आतां ताचीच फार्मेसी आसल्ल्यान ताणे गुळयो गिळचें कायाम जाल्लें.

खटल्याचे कुशीन ताणे दिश्ट घाली आनी स्टेल्ला मारीस थंयसर नातल्लें. कश्टांनी तो उठलो आनी भायर आयलो. एका बेडरुमाचें फ्लॅट तें, जातूं, स्टेल्लामारीस जियेतालें आनी ताच्या सांगाता ताचे कजन-गिजन म्हण चोवग हेर फिलिप्पिनी जियेताले, सोरो उकडाताले, विकताले आनी खूद पियेवन विदवावळी करताले.

त्या ल्हान सिटींग रुमांत तो येताना हे चोवग आमाल देंवनातल्ल्या दुकारांपरीं हेणे तेणें शिंपडोन न्हिदोन पडल्ले. आसल्ल्या एकाच सेटीचेर स्टेल्ळामारीस पाताळ्ळलें. आंबून ताका धोंकळून उठयलें.

'तें दुकरापरीं रातीक घोरेतालोय!' तें म्हणालें आंगाची वोळ काडून. 'कितें, आनीकी फार्मेसीक वचोंक नाय? ब्रेस्ताराचें बिसनेस चुकता न्हय? खर्च इतलो

वाडला... जीजस क्रायस्ट ब्लेस मी' म्हणोन खुर्सा घुर्त काडून तें उठलें. What is wrong? आनीकी फांट्रेवनशें रावल्ल्या आंबूक पळेवन ताणे विचारलें.

'म्हज्या किडनीची दूक चड जाल्या!' तो म्हणालो. म्हाका कोणतरी के. ओ. सी. हॉस्पिटलाक व्हरा... म्हाका ड्रायव्ह करूंक जावंचेपरीं दिसना!

हें आयकोन ताणे भुजां हालयलीं आनी सिटींग रुमात न्हिदल्यांचेर दिश्ट चरवन तें म्हणालें 'हे उठचेपरीं दिसनात.'

ते चोवगयी रिफायनरी आप्रेटरांच्या पॅन्ट्रींनी काम करचे वेटर आनी तांकां आज रातीची ड्यूटी.

'बॉय जॉर्ज येवंक ना?' आंबून विचारलें. हो बॉय जॉर्ज स्टेल्ला मारीसाचो खाशा भाव, अस्सल बेबदो आनी अनैतिक वेव्हारांत फिलिप्पिनो चलयाकच वापरुंक पाटीं सरनातल्लो मनीस, शुवेय्क बंदरार आंबूनच ताका काम लागयिल्लें.

'भितर कसल्योयी गुळयो नांत?' स्टेल्ला मारीसान विचारलें. 'मंगफथावन तुका के. ओ. सी. हॉस्पिटलाक व्हरचें तरी कशें?'

ताका एक दिश्ट दिवन आंबून मुस्ताफाकरम टॅक्सी कंपनीक फोन करून टॅक्सी सांगली. 'एक कप कॉफी पुणी करताय?' ताणे स्टेल्ला मारिसालागीं म्हळें, आपलें पेंकड दांबून धरून.

`I will tell you what' तें म्हणालें 'एक पेग नीट मार, दोन ब्रुफेन गुळयो घे And you will feel fine!'

पाशार जाल्ल्या दिसांनी आंबूक आपूण कसल्या पासांत सांपडाल्लो म्हण कळीत जाल्लें तरी तो - आपूण मोलीक बूद शिकयतोलों - म्हळ्ळ्या ताच्या हटाक उमकळतालो. दांत चाबून धरून तो किचनाक गेलो आनी ताणे इलेक्ट्रीक केत्ल चालू केली.

'म्हाकायी एक कप कर. डार्लींग', म्हणालें तें.

'Last night we had too much, no? Good time having.'

आंबून दोन कप नेसकॅफे तयार केली आनी ती घेवन तो भायर आयलो.

'खंय आसात त्यो ब्रुफेन?' ताणे विचारलें. 'आनी ह्या दुकरांक उठय! वोरां इकरा जावंक जालीं. बॉय जॉर्ज येवंक ना आनीकी?'

‘तुवें म्हज्या भावंडांक दुकोर म्हणचें म्हाका बरे दिसाना!’ तें खेंचलें. ‘ते सर्व फिलिप्पिनी आनी आमी सर्व कातोलीक’

‘हेरांच्या खटल्यांचेरय तुमी कातोलीक!’ अबुच्यान सोंसूंक जालें ना. ताची दूख चडोनच येताली. ‘संवसाराची अव्वल कानेटां तुमी.’ ताणे कॉफी कपां टी. वी. च्या वयर दवरलीं आनी खूद सोदून गुळयो काडल्यो आनी निराळ पोटाक सेवल्यो आनी वयल्यान कॉफी पियेवंक लागलो. पांच-स मिनुटांनी ताची दूख मातशी उणी जाली आनी टॅक्सी येतेच आपुणच हॉस्पिटलाक वेतां आनी कितें तरी ह्या पावटीं ऑपरेशन करतलोच. ताच्या हे विंचवणेक ताका हीं उतरां कुडसूंक जाय आसल्लीं... बॅरनाक फोन करतलों आनी मोलीक सयत... पूण तितल्यार दाराक ठोके पडले.

हातांत कप घेवनच स्टेल्ला मारिसान दार उगडलें.

बॉय जॉर्ज!

सुळी वारें रिगल्लेपरीं भितर रिगलो आनी ताच्या पाटापाट लू डायमण्ड. लू लागीं वाहन आसल्लें आनी हे दोगय सांगाताच कामाक वेताले.

‘तुमी कितें हांगासर न्हिदोन पडल्यात?’ न्हिदल्ल्यांपयकी एकल्याक हळताची खोटं घालून म्हणालो बॉय.

‘जाय तर तुंयी न्हिदे, बॉय!’ म्हणालें स्टेल्ला मारीस. ‘तूं नायट करून आयलाय म्हण हांव जाणां, पूण तुका कितें आज ह्या इंडियनाचें वारें लागलें?’ ताणे आंबूचे कुशीन एक तिरस्काराचें बोट दाखयलें.

‘स्टुपीड, इडियटस?’ बोबाटलो बॉय. ‘नेणांत तुमी इराकान कुवेय्टाचेर आक्रमण केलां म्हण?’

स्टेल्ला मारीस फळ्ळ करून हासलें. हें पळेवन भयणीक मारूंक हात उबारून मुखार आयलो बॉय. ‘सगळ्यानीतल्यान इराकी भरोन गेल्यात. फायरींग चलता, रोड ब्लॉक केल्यात आनी शुवेय्कथावन हांगापर्यांत येजे तर आमकां जिवार आयलें.’ ताणे खुर्साचो धुर्त काडलो. ‘आयकानांत तुमकां शेलींगाचो आवाज?’ विचारलें लू डायमण्डान.

थंयसर देंवल्ल्या मौनांत तांकां आवाज आयकोंक सुरू जाले.

‘इराकी आतां मेस्सिला सर्कलापर्यांत पावल्यात.’ ताणे कळयलें. ‘आमी

आनी ह्या गावांत रावोंक नजो.'

'पिसो तूं बॉय!' म्हणालें स्टेल्लामारीस. 'आक्रमण खंय – कसलें आक्रमण? ह्या आरब्यांक झुजोंक कळटा? इराकी आयल्यार आमकां, कितें खंय? आमी हांगाच्या तुप्याक दावल्ली मारूंक आइल्ल्यांव न्हय? मदर मेरी, मदर ओफ गोड आमकां बचाव करतेली. बॉय तूं आंगवण कर, येवंच्या वर्साच्या निमाण्या सुक्रार तूं तुकाच खुर्सार खिळायतोलोय म्हण.'

'यू आर स्टुपीड ॲण्ड क्रेझी स्टेल्ला!' भयणीक धमकी लागलो बॉय. तवळ ताची दिश्ट आंबूचेर पडली.

'तूं कसली आलोचेन करताय आंबू?' ताणे विचारलें. 'तूं स्टेल्लाचो गुड फ्रेंड म्हण हांव जाणां आनी तूं कातोलीक. पूण असल्ल्या सन्निवेशांत आमी फिलिप्पिनी आनी तूं एकलो इंडियन. पळापळ घेवंची आसल्यार, तुवें तुकाच सांबाळीजे.'

पूण स्टेल्लामारिसाचे मतींत भलतेंच आइल्लें. 'तितलो स्वार्थी जायनाका, बॉय!' तें म्हणालें. 'आंबूक बरे कॉन्ट्याक्ट आसात. तुका ताणे शुवेय्कांत काम करून दिवंक ना? We need him, you see!' ताणे दोळो मोडल्लो आंबूक दिसलो ना.

मुस्तफा करम टॅक्सी आयली आनी वेच्या पयलें आपले फार्मेसीक फोन करून आंबून मिया जानाक सांगलें. आपूण लेट येतलों आनी तवळ मियाजानान सांगल्लें ताच्यान पातयेवंक जालें ना.

मोलीन फार्मेसीक फोन केल्लें खंय!

■■■

## 40

जेराल्ड पायसान आपले तवळ पर्यांतले जिणेंत भिरांकूळ सपनां देखल्लीं पूण तीं सर्व न्हिदेंत. सबार पावटीं तो किंक्राट मारून उठतालो आनी तें वायट सपन मायाग जातालें. ताका तवळ दिसतालें कीं तो ताच्याच रुमांत आसा...

पूण आतां इराकी कॅप्टनाची, कोण जाणा तो कॅप्टन या कमांडर या जनरल म्हण, त्या काजितानान ताका कॅप्टन म्हळ्ळ्या फरा तो जेरीकय कॅप्टन जालो, मेशीन गन जेरीकच पळेताली. तो आनी काजितान गोमीस कितें उलयतात म्हळ्ळें जेरीक समाजानातल्लें. पूण तो काजितान 'बिन्दास' आसल्लो पळेताना आपणाक ह्या इराकींथावन अपाय ना म्हळ्ळें जेरीन आपणाकच सांगचें प्रेतन केलें.

'हो म्हजो भाव म्हज्या सांगाता मुखारच बसतोलो!' अशें म्हणालो काजितान. 'आनी पाटल्यान तुज्या सैनिकांनी कित्याक बसाजे? तुवें सुटका दिल्ले कैदी तातांच्या बिडारांक पुणी वचूदींत. तांका फाटल्यान बसया, प्लीज?'

'तशेंच जावं!' इराकी कॅप्टन ताका बारीकसाणेन पळे लागलो. 'तुजें धैर तरी जावयेत!' तो म्हणालो. 'कसलें जावयेत तुजें दीन[177]?' 'हांव मेस्सिया, ख्रिश्चन!' अशें म्हणताना काजितानाचो ताळो कांपतालो.

'इराकांत 3% ख्रिश्चन आसात', तो म्हणालो. 'हांव कॅप्टन डॅनियल बेंजामीन. ख्रिश्चन!'

काजितानान कसलीच प्रतिक्रिया मुकमळार दाकयली ना. 'म्हज्या भावाडताक आनी ह्या आक्रमणाक कसलोच संबंद ना. हांव एक खरो इराकी सैनीक. हें उडासांत आसोंदी.' कॅप्टनाचो ताळो आतां खडप जालो. 'खंय आसा तुजें जेम्स?'

काजितानान आतां कोसळेन पडल्ल्या म्हादारवाट्याक दाखयलें.

'चलयां!' म्हणालो कॅप्टन डॅनियल बेंजमीन. पयलें शुवेय्क आनी त्या उप्रांत सावदी कुवेय्टाची गड.'

उप्रांत कळोन आइल्ल्या प्रकार, इराना लागीं नोव वर्सां पर्यांत झुजोन थकल्ल्या इराकींक सद्दामान कुवेय्टाचेर आक्रमण करूंक धाडल्ले. असल्या सोजेरांचो संको बळ आसल्लो व्हय. पूण तांची मानसीक थिरासण (Morale) पिसडून गेल्ली एक तर तांका कुवेय्टचे रस्ते कळीत नातल्ले. मेपां वाचूंक येनातल्लीं आनी अशें जाल्ल्यान तांणीं नागरीकांची वाहनां जबरदस्तेन रावोवन फलाण्या जाग्यांक व्हर म्हणचें आक्रमणाच्या उप्रांतल्या दिसांनी कायाम जाल्लें.

काजितानाचें जेम्स पिकअप जेय्लाथावन थोडींच मेटां पयस आसल्ले तरी चलल्ल्या बोबार्डीत तें पिड्ड्यार जावंक नातल्लें व्हड अजाप. ताच्या पाटल्या जाग्यार थोडे इराकी येदोळच चडोन बसल्ले. पयशिल्ल्यान पूण चड पयशिल्यान न्हय, शेंबोरांनी वाहनां चालू आसचो भरभरो आवाज आयकोनच आसल्लो. जेय्लाथावन पिकपापर्यांतली वाट कॅप्टन बेंजामीन आपल्या रेडियोचेर उलवनच आसल्लो. वयल्यान तीन चार झुजा विमानां कानपे फुटच्या आवाजान उबोन गेलीं.

कॅप्टनाक पळेतच इराकी सोजेर पिकअपा वयले देंवले आनी तो तांकां कसलेंगी खेंचून सांगा लागलो. ते काळोखात गुल्ल जाताना जेरीक धा बारा झुजा टांकी[178] सबार झुजा गाडयो (Armoured Vehicles) दिसल्यो. काजितान जेम्सांत बसलो आनी ताणे जेरीक आपणाचे बगलेंकच बसोंक सांगलें. जेरीक तेंकोन कॅप्टन बसलो आनी तक्षण ताणे काजितानाक पिकपांतली ए. सी. चालू करूंक सांगलें. तशेंच केल्ल्या काजितानान टांकींत कितलो पेट्रोल आसा म्हण पळेलें. टांक फुल्ल आसल्ली. बासरा-कुवेय्ट गाडि लागीं ताणे टांक फुल्ल केल्ली.

'तूं खंय आनी कसलें काम करताय? कॅप्टनान विचारलें. 'म्हजी कंपेनी इराकांत कंत्राट करच्या Alsthom कंपेनीक तांत्रीक सामान सप्लाय करता. ह्या कंपेनीचे एजेंट कुवेय्टांत आसात', म्हणालो काजितान. कॅप्टनान जाप दिली ना आनी चडीत आसर्लीय सवालां विचारची उर्बाय दाखयली ना. पिकपाच्या कॅबिनांत ए. सी. चो थंड हवो चरताना तो निद्रावश जालो आनी घोरेवंक लागलो. ताचो रेडियो मात्र चालू आसल्लो.

'आतां तूंयी न्हिदेरे मंगळुरी!' म्हणालो काजितान. 'कुवेय्ट–सावदी गड पयस आसा.'

जेरीन तशेंच केलें. पूण ती एक न्हीद न्हय, एक भ्रमीद. 'आदल्या हप्त्यांत ह्या दिसा आपूण आपल्या घराचे उबेंत आसल्लो, पूण आज? काजितानाच्या ए. सी. पिकपांत आसां तरी म्हाका नांव – गांव आसा? ना एक दस्तावेज, एक पासपोर्ट आनी म्हाका ह न्हिंदे म्हणता? म्हजी कथा आयकोंक सयत हाका फुरसत ना. हूं, ह्या इराकीच्या आंगाक कसली मूर येता गाय? हें झूड म्हजें न्हय तर ही घाण हांवें कित्याक सोसीजे?

'नोराक हे परिगतीन कशें भोगेलांगाय? खंडीत तें एरपोर्टाक आयला आसतेलें, पूण हो दळदीर कसकसो. कित्याक म्हाका विल्मा आण्टीन असो फसयलो? पप्पाचेर आसल्लो द्वेश आनी राग म्हजेर काडलो? कसली गत देवा म्हजी? ह्या काजितानाक हांवें कशें आनी कित्तून पर्यांत पातयेवयेत? ह्या सवालाक जेरी जाप जाणा आसल्लो. कित्तून पर्यांत साद पळे, तित्तून पर्यांत!

तो पर भ्रमिदेंत गेलो.

वाट कातरतां कातरतां काजितानाचें जेम्स शुवेय्क उतरोन फाहाहील एक्सप्रेस वे चेर धावोंक लागलें आनी तवळ अक्रमीत कुवेय्टाचेर प्रथम पावटीं सुर्यो उदेलो. मंगफ, सभा हिआ, फाहाहील उतरोन, मीन–अल अहम्मदी रिफायनरी, शायबा एरिया ऑर्थोरिटी, के. एन. पी. सी. शायबा के. एन. पी. सी. मीना अब्दुल्लाह पाशार जाताना जावं जेरीक या हेरांक कळीत नातल्लें कीं तो ताच्या मनशांथावन फकत एक या देड किलोमीटर पयशिल्ल्यान पाशार जाल्लो म्हण.

आपल्या पिकपाच्या हारशांत पळेंवच्या काजितानाक भोव पयशिल्ल्यान मिलिटरी ट्रकांनी ताचो पाटलाव करचें कॅप्टनाचें बटालियन, झुजा गाडयो आनी झुजा टांकी दिसताल्यो. धरतेकच कुलकुलो येवन ती कांपता म्हळ्ळे परीं धरण कांतपाताली. वयल्यान खिणाक एक पावटीं फायटर विमानां उबतालीं आनी खंय न्हय खंय पुणी एक स्फोटन आयकातालें.

मीना – अलजूर पावर स्टेशन उतरताना जेरीक जाग जाली. 'आमी खंय आसावं?' ताणे विचारलें आनी आपले कुशीक इराकी कॅप्टन आसा तो पळेवन ताणे आंग काडलें.

'ब्रोंबय आसावं रे मुंगळुरी!' म्हणालो काजितान. तवळ कॅप्टनान तेंच सवाल केलें काजितानाक. मीना अलजूर पावर स्टेशनाक तो विज्मितायेन पळे लागलो. काजितानान ताका सांगलें. 'फुडें येता मीना सवुद. थंयसर घेट्टी आइल कंपेनी आसा. हांव तुका तित्तून पर्यांत मात्र पावयतां.' 'कित्याक? फुडें वचूंक तुज्यान जायना?' कॅप्टनान आपली मेशीनगन मदें बसल्ल्या जेरीच्या हर्द्यावयल्यान काजितानाक जोकली आनी नळयेन ताका तोपलें.

'चड म्हळ्यार तू आमकां जिवेशीं मारशी, कॅप्टन!' म्हणालो काजितान.

'तवळ हें पिक अप तुजें जातेलें, पूण हें कर्तुब एका सैनिकाचें न्हय.'

'कॅप्टनाच्या दोळ्यांथावन किटाळां उसळ्ळीं. 'तुका धैर्य आसा' परत तो म्हणालो. 'तुमी इंडियनांनी आमकां झुजा तर्बेती दिल्या आनी इराकांत रैलाचे पाटे न्हिदावंचें काम केलां. आमच्या सबार मिलिटरी प्रोजेक्टांनी इंडियन आसात... कितल्या पयस आसा मीना सवूदे?'

काजितानान ताका जाप दिली. 'त्या उप्रांत येता अल-खाफजी!' तो म्हणालो. 'गडी प्रदेश!'

कॅप्टनाच्या मुकमळार हासो उदेल्यो. 'सावदी ओबिया!' तो म्हणालो.

सावदी थावन इज्रायेल चड पयस ना न्हय?' त्या हलकटांनी म्हज्या देशाक आनी सगळ्या अरेबियाक अपार नश्ट हाडला.'

कजितानान कांयच म्हळें ना. क्याप्टनान आपली मिशीनगन पाटीं काडली.

'तो कितें म्हणालो?' जेरीन पुसपुस्यांनी विचारलें.

'म्हाका जावंय करतां म्हणलो!' जाप दिली काजितानान. 'तूं ह्या वेळार फोकाणां करताय?' जेरीन विचारलें. 'तुका कुस्कूट भंय दिसना?'

'भियेल्यार जावंचें तरी कितें?' विचारलें काजितानान. 'गन ताच्या हातांत आसा. आमी भियेल्यार तांतले गुळे कांय मोव चॉकलेटां जातात? भियेवंक भियेजे-रे. भंय दिसना जावंचें पिशांक मात्र'

मीना सऊदांतल्यो वस्त्यो दिसोंक लागताना काजितानान पिकप रावयलें. 'सलाम आलेकुम, कॅप्टन!' तो म्हणालो. 'आतां आमकां वचोंक सोड. आमी इंडियन आनी हें झूज आमचें न्हय तरी आमच्या भावंडांची जतन घेवंक आमकां

कायदो आसा.' ताचे दोळे कॅप्टन डॅनियल बेंजामिनाच्या दोळ्यांक खिळाले.

कॅप्टनान लट्ट करून आपलो हात मुखार हाडलो. काजितानान तो धरलो आनी चिरडिलो. 'आमच्या आक्रमणावर्वी तुमकां विदेशांत इतले तोंदरे जाता म्हळी संगत दुखांची.' तो म्हणालो. पूण नोव वर्सां पर्यांत इराणालागीं झुजल्या उप्रांत कोणाचेर तरी झूज मांडिनासतां रावोंक अबू अलीक जायना. खुर्दिस्तान जालें... आसूं अल्लाह माअक, देव तुजे संगीं आसूं?' जेरीच्या बोरयांक धोंकळून तो पिकपांतल्यान देवंलो. 'बाय, बाय, चिकू!' तो म्हणालो. 'आमी परत मेळचें नाका!'

घळाय करिनासतां काजितानान पिकप रिव्हर्सार घालें आनी सुमार अर्दें किलोमीटर तशेंच चलवन ताणे उजव्याक रेगिस्तानाचो धूळ-रस्तो धरलो. आतां बरें उजवाडोन आयिल्लें.

राहू – केतू दोनय आपल्या वाहनाच्या पाटल्यान लागल्ले परीं काजितान ड्रायवींग करतालो. धुळीची मोडां उडताली. सुमार पंचवीस मिनुटां अशें वाहन चलयल्या उप्रांत तांका एक अशीर डामार रस्तो मेळ्ळो आनी ताचेर सुमार पांच-स किलोमीटर मुखार वेताना, अर्द्या चंद्राकाराचे, प्लास्टिक धांपल्ले सबार तंबू तांकां दिसले.

'हें कितें?' जेरीन विचारलें.

'हें एका शेकाचें फार्म हावस आनी हांकां ग्रीन हावसस म्हणतात. हांतूं ह्या कुवेय्टींनी करिनातल्ली कृशी ना. हांगासर एक पोल्ट्री फार्मय आसा.' ताणे फुडे कळयलें. 'आमकां हांगासर थोडी पुणी भद्रती आस्तेली!' ताणे एक नीळ स्वास सेवलो. त्या उस्वासांतली ऊब कोणे मेजल्ली तर तांकां कळीत जातें कीं काजितान उरूफ खाझी कसल्या टेन्शनार आसल्लो म्हण.

जेरीक हजारांनी एक सवाल विचारूंक जाय आसल्लें, पूण खंयसर सुरू करचें म्हण ताका कळीत नातल्लें. काजितानान आपलें पिकअप चाबका रुखांच्या एका मळ्यांत रावयलें.

भूंयथावन तांकां एक बंगलो दिसतालो. 'कोणय देंवनाकात!' चेतावणी दिली काजितानान. पिकप्पाथावन माथें बायर घालून, पाटल्यान बसल्ल्यांकय हें सुचन ताणे दिलें.

सुमार वीस मिनुटां पाशार जाताना काजितान देंवलो आनी आपल्या दोनय हाता ताळवेंचो कोंबसो करून वोंटांलागीं धरून ताणे बोब घाली. 'इधर कोई है? हम इंडियन लोग हैं, डरो मत! बाहर आओ.'

पांच मिनुटां पाशार जाताना स जणांचो एक पंगड बंगल्याथावन भायर आयलो, शरणांगतपणी हात वयर करून. तांणीं इराकी सैन खाफजी कुशीन वेचें पळयिल्लें जायजे. काजितान तांकां मुखार गेलो आनी जेरीक एकाच्छाणे खंय नातल्लें धैर आयलें म्हळ्ळेपरीं ताणेयी काजितानाचो पाटलाव केलो.

'हात सकयल घाला!' हुकूम दिली काजितानान. 'ह्या आरब्यांच्या देसांत आमी हात वयर घालचे न्हय. इराकी आयल्यात तांच्या देशांत. जाय तर ते झुजोंदीत या हात वयर घालूंदीत.'

त्या पंगडांत चोवग इंडियन, एकलो बांगलाचो आनी एकलो श्रीलंकाचो. त्या बंगल्यांत उबाळाची रजा खिरवंक आइल्लो तांचो शेख रातारातींच कुटमाक घेवन सावदीक पोळोन धांवल्लो खंय आनी ह्या कामेल्यांक कितेंतरी वायट घडलां म्हण कळीत जाल्लें, पूण कसलें म्हळ्ळें तांकां नक्की कळीत नातल्लें.

काजितानान तांकां मटवो विवर दिलो.

'पूण आतां आमी कितें करचें भाईसाहब?' एकल्यान विचारलें, 'आमी' म्हळ्ळ्या सब्दाचेर वजन दवरून. 'आमचे पासपोर्ट शेकालागीं आसात...'

'तुमी एकसुरे नांत!' म्हणालो काजितान. 'कुवेय्टांत सुमार देड लाख इंडियन आसात. हांगासर तुमकां खाणाक उणें आसा? उदक वीज आसा?'

'येदोळ तोंदरे नांत'[179] जाप आयली. 'तांच्या ग्रीन हावजांनी जाय तितली रांदवय आनी पोल्ट्री फार्मांत कुकडां आसल्ली. गाद्यांनी रान भाजी किर्लाल्ली आनी बोकड्यांचो एक हिंड फरागात चरतालो.

'आमी हांगासर थोडे दीस रावतावं!' खचितायेन कळयलें काजितानान. 'आमी एका इराकी कॅप्टनाक खाफजीचे वाटे पर्यांत हाडून सोडलो... आतां आमकां भूक लागल्या. कांय तरी नास्टो तयार करा. आमच्या सांगाता आसचे तुमकां कुमोक करतेले. आमकां न्हावंक आनी वस्तूर बदलूंक जाय. बंगल्यांत कसलीयी मुस्तायकी आसल्यारय जाता. म्हाका एक नितळ 'दिसदाशा' (आरब्यांचें दगलो न्हेसण) आनी ह्या चिकूक खंय तरी एक पँट - शर्ट आनी

ब्रिफ्स मेळतलेच.' उप्रांत ताणे तांच्या सांगाता आयिल्ल्या पंगडाक सांगलें. 'अंदर जाओ और काम करो, डरना न्हय. इराकी इधर न्हय आयेगा.'

सुमार देड घंट्या उप्रांत काजितानाचें आनी जेरीचें न्हाण जालें, खुब्रूस आनी मुतब्बल नास्टो जालो, जेरीक एक जीन्स आनी टी शर्ट मेळ्ल्लें. आनी काजितानान एक धवोच दगलो घाल्लो. शेकाच्या बंगल्यांतली सजावट पळेवन जेरी शेर्मेलो. त्या विल्मा आण्टीन आपणाक दगो करूंक नातल्लो तर आपूण नोग सांगाता ताच्या शेकाच्या बंगल्यांत आसतों म्हण चिंतून तो कळवळ्ळो.

आपले कळवळे ह्या काजितानान पुणी आयकाल्ले तर? कोण हो काजितान? हो खंडीत एक मिस्तेरांचो मनीस.

सकाळींचीं सुमार इकरा जातना पयशिल्यान आयकोंच्या आवाजांनी काजितानाक कळ्ळें कीं इराकी सैन व्हडा संख्यान कुवेय्ट-सावदी गडीर जमो जालां! म्हण.

बंगल्याच्या दिवानखान्यांत बसल्ल्या ताका दोळो लागलो आनी तवळ जेरीन ताका धोंकळून उठयलो. 'तूं कोण आनी कित्याक हांव तुज्या सांगाता आसां म्हळ्ळें म्हाका कळीत ना. सत सांगचें तर हांव ह्या देशांत कसो येवन पडलों म्हळ्ळेंयी म्हज्या उडासांत ना. पूण हांव माम्मी पप्पाक, इवोनाक, डिनाक, शिंटोक आनी सॅली कुरियनाक मंगळुरांत सांडून हें झूज-आक्रमण सोसूंक येवंक ना. आतां म्हजें तूं आयकाताय..?' या?

'या कितें?' विचारलें काजितानान. 'कित्याक बडबडताय तूं?'

कुवेय्टाक कसकसो हाडल्लो तूं कितलो बुदवंत आसशी? कोणे तरी तुका फसयला म्हणताय तूं? तर तुजीं मनशां हांगासर आसात म्हण जालें. कित्याक तांणी तुका फसयलो? तुका विजा दिवयिल्ल्यान पुणी तुका माहेत दीजे आसल्ली...'

'म्हाका विजा दिल्लें नोरा लांब लांब फिलोसोफी उलयलें आनी सॅल्ली कुरियनाचे कान फुंकोन... पाताळ ग्रावंडार...'

'कोणाचें नांव काडलेंय तुवें?' काजितान आतां लट्ट करून उठोन बसल्लो उदवेगांचो कैदी जाल्ल्या जेरीच्या गुमानाक गेलें ना. 'नोरा लुवीस आनी सॅल्ली कुरियन!' ताणें जाप दिली. 'तुका कितें रे रेड्या? तीं कांय तुज्या संतान कुटमांतलीं?' तो सणसणलो? 'हांगासर म्हजो अंकल जॉनी आसा, ताच्याच

बायलेन विल्मान कसकसो हाडयिल्लो... डिनाची आवय मोली आनी बापूय आंब्रोज आसा, डिनाचो भाव... कितें नांवताचें... हां बॅरन...'

'तुवें नोरा लुवीस म्हळेंय रे मंगळुरी चिकू?' 'व्हय, तुका कितें खोर्जुलें? तें काय अनजुनांतलें माना न्हय... आपुट्ट मंगळुरी तें. म्हजे फ्रेंड... पाताळ ग्रावंड... गुड गुड गर्ल.... हांगा एका शेकागेर काम करता... हो! ताका म्हजी ही गत कळीत जाल्ली तर खिणाभितर तें म्हाका सुटयतें....' तो उगत्यान रडलो.

आनी ताचे दोळे दुकांनी गयरे जाल्लें आसतां काजितानान आपल्या दगल्यांतली वॉलेट काडून उसवन तांतली एक रंगाळ तस्वीर जेरी सामकार धरताना ते तस्विरेंतल्या रुपाची ओळोक धरूंक ताका थोडीं खिणां लागलीं...

नोरा लुवीस!

■■■

# 41

सुमार अडेज वर्सां आर्दी नोरा लुवीसाच्या हातांक कुवेतची विजा येताना आनी ताका आइल्ल्या सर्व सुचवांपरीं तयाराय करून कुवेत एअरपोर्टांत तें देंवताना आनी सुगम रितीर इमिग्रेशन आनी हेर कायद्याशीर[180] बऱ्यान संपयताना ताचे दोळे तेज्जाण्टीन उल्लेख केल्ल्या इशानाक सोदताले.

तेज्जाण्टीन ताका लिखल्लें. 'इशान एक पाकिस्तानी, पूण बरो तरनाटो. तो तुका 'अरायवल लाँज्यांत' भेटतलो आनी तूं फिकीर नासतां ताच्या सांगाता ये आनी तो तुका शीदा म्हजेसरशीं हाडतालो. ताचे लागीं हांव तुजी तस्वीर दितां आनी तो तुजी ओळोक धरतलो.'

आतां तें अरायवल लाँज्याच्या सुखाळायेंत येवन दोन मिनुटां उतरल्यारी ताचे सरशीं कोणय येवंक ना तें पळेवन तें चिक्केशे घुस्पडलें आनी उप्रांत कावजेलें. ताच्या फ्लायटार आयिल्ले सबार इंडियन ताचे भोंवतीं आसल्ले आनी चडावत तांका तांतांची मुखार आयिल्लीं. लाँजाच्या एका मुल्यांत वणदीक चिडकोन म्हळ्ळेपरीं उबो आसचो एकलो तरनाटो नोराकच पळेतालो आनी आपल्या हातांत आसल्ल्या कसल्यागी कागदा कुडक्याक पळेतालो. दोदोन पावटीं नोराची दिश्ट ताचेर पडली, लांब – दीग तो आसल्लो, चोवक भुजां. आरब्यांचो दगलो ताणे घाल्लो, पूण माथ्याक एक कट्टें तोपी मात्र. ताच्या दोळ्यांचो उजळ तितल्या पयसथावन तरी नोराक मारतालो.

थोड्याच वेळान तो मनीस वणकोन रावल्ले वणदीथावन मेकळो जालो आनी शीदा नोरासरशीं आयलो!

तें सगळेंच घाबरलें आनी दोन मेटां पाटीं गेलें.

'तूं नोरा लुवीस?' ताणे हिन्दींत विचारलें, अधिकाराच्या ताळ्यान. कांय

गुप्त पोलीस या कस्टम्स् अधिकारी? पूण ह्या विशीं ताका भंय दिसलें ना, ताची विजा कोणाथावन म्हण कळ्ळ्यार खंचो पोलिसय ताका सलाम मार्तो कोण्णा.

नोराचें हिंदी चिक्केशे मर्कट - तिर्कंट.

'तूं कोण?' ताणे विचारलें. 'तूं इशान, पाकिस्तानी?'

त्या तरनाट्याची दिश्ट नोराचे कुडीचेर चरताली. ताच्या सामकार नोरा तीन फुटींची बावली कशीं दिसतालें. मन केल्यार तो मनीस म्हाका खिणाभितर उखलोन हांडयेक मारीत म्हण नोराक भोगलें.

'न्हय, हांव इशान न्हय!' तो म्हणालो. 'ताका येवंक जालें ना, आवचित ताका पाकिस्तानी पोटकाणी सुरू जाली, देखून ताणे म्हाका धाडलो.' ताणे आपल्या हातांत आसल्लो कागदा कुडको नोराक दाखयलो. ती ताचीच तस्वीर.

'तेज्जाण्टीन इशानाक दिल्ली आनी ताणे म्हाका दिली, तुजी ओळोक धरूंक.'

नोरा आनिकी दोन मेटां पाटीं गेलें.

'म्हाका तेजाण्टीन कांय सांगोक ना. तिणे म्हाका सांगल्लें इशान म्हळ्ळो पाकिस्तानी तुका मुकार येतलो म्हण... पूण तूं आरबी आनी...'

'तुका कोंकणी येता?' ताणे हिन्दींतच विचारलें. 'पूण कित्याक.... कोंकणी...' तें हेणे तेणे पळेवंक लागलें. 'तुका कितें करूंक? तूं एक आरबी न्हय? हांव पोलिसाक आपयतेलीं!' लाँज्याच्या दारालागीं बेफिकिरायेन उबो आसच्या पोलिसाक पळेवन म्हणालें नोरा.

'हांगासर पोलिसाक 'शुरता' म्हणतात!' तो इतलो सोबीत करून हासलो की तें सगळेंच कालुबुलू जालें.

'हांव तसली - असली चली न्हय!' आपलो ताळो कांपतालो तरी नोरान तो कश्टांनी भायर काडलो. म्हाका खंच्या घराण्यान विजा दिल्या जाणाय?'

'शेक फाहदान!' मेस्तिरणेच्या सवालाक जाप दिवंचे परीं जाप दिली त्या 'अरब्यान'

नोरा सांपडलें आनी ताणे वोंठ चाबले. आतां कितें करचें?

'म्हाका तेज्जांटी लागीं उलवंक जाय.'

'तुका बंगल्याक व्हरतां पयलें', तो म्हणालो. 'उप्रांत जाय तितलें उलय.'

नोरा रडोंक जालें आनी रडलेंच.

'पाड पडलेल्या!' तो म्हणालो गुळगुळीत हास्यासंगीं. 'हांव आरबी न्हय गो. हांव गोंयांतलो काजितान गोमीस गो.'

नोराचे तोंड बिळापरीं उगतें जालें.

'तूं कोंकणी उलयताय!' तें उद्गारलें.

'आनी कितें तुका अरेबीक आयकोंक येता?' ती दोन मेटां मुखार आयलो, पूण नोरा दोन मेटां पार्टी गेलें ना. 'त्या वयर हांव क्रिस्तांव गो, कातोलीक नंबर वन. ताणे आपल्या दगल्याचे बुतांव उसवन गळ्यांतली बेंतीण आनी कोंत दाखयलें आनी तो अशें करताना ताच्या उजव्या हाताच्या हेब्बेट्टाच्या[181] मुळांत खुरसाचें ल्हान सुयेचित्र[182] आसल्लें नोराक दिसलें!

आतां नोराचो उस्वास समाधानान भायर - भितर वचोंक सुरू जालो.

'तरी, म्हाका तेज्जाण्टी लागीं उलवंक जाय!' तें म्हणालें. काजितानान भुजां उडयलीं आनी लागशिले वणदीचेर सालान चिडकायिल्ल्या 'कॉयन - फोना' सरशीं तो गेलो, एक नंबर घुंवडायतेच तो थोडीं खिणां रावलो आनी त्या उप्रांत अरेबिकांत उलयलो. उप्रांत थोड्या वेळापर्यांत रिसीवर कानाक धरून तो रावलो.

'हांगासर उलय, तेज्जाण्टी!' उप्रांत तो म्हणालो. 'तुजें नोरा आरब्यां सांगता येवंक कबूल ना!' ताणे रिसिवर नोराक वोड्डायलें.

'हलो.... तेज्जाण्टी... गुड इवनींग... हांव नोरा', रिसीवर त्या 'आरब्या'च्या हातांतलें वोडून घेवन तांतूं उतरां ओंकलें नोरा. 'कोणाक धाडलाय तुवें? हो एक आरबी आनी म्हणता आपूण गोंयकार म्हण. कोंत - बेंतीण कोणय घालता...';

'तूं घालताये - गो?' तेवशिल्यान तेज्जाण्टीन गोरोज घाली. 'इशानान गुटली मारली म्हण ताणे हाका धाडला आसतलो. बरो मनीस गो तो. आरबी न्हय, शंबर टक्के गोंयकार. बेफिकिरायेन ताचे सांगता ये'

'खंडीत - मू?'

'व्हय - गो तेंतेसांवांच्या!' तिणे संपर्क तुटयलो.

अपधैरान तरी उपाव नासतां नोराक काजितानाच्या पिकपांत बसाजे पडलें.

वचाजे पडलें. तें इतले घाबरेल्लें कीं कुवेताच्या वीज दिव्यांची आनी आधुनीक रस्त्यांची सोबाय चाखूंक तें सकलें ना. तांचे मदें उलोणेय चल्लें ना.

'म्हाका बडबडें उलवंची सवय!' काजितान म्हणालो आखरेक तरी सैराण चुकोन. 'उलयनाय तर हें पिकप टॅक्सेचें भाडें घेतलें!'

नोरान वोंठ वोळायले, पूण तें उलयलें ना.

सुमार मुक्काल वोराच्या 'रेस' धांवणे उप्रांत वाहन एका व्हड जैत लोंकडाचे गेटी सामकार रावलें. हातांत मेशीन गन घेवन आसल्ले दोग सोजेर मुखार आयले आनी तांका काजितानान आपलें ओळके पत्र दाखयलें आनी नोराक पासपोर्ट तशें विजाची कॉपी दाखवंक सुचायलें. सेक्युरिटीच्यांनी तीं दस्तावेजां तपासतच ती बृहद गेट उगती जाली आनी काजितानान आपलें वाहन भितर व्हेलें.

रावळेरा सामकार तें वाहन रावंच्या पयलें नोरान आपल्या बॅगांतलो एक नोट भायर काडून काजिताना सामकार धरलो. 'तुज्या टॅक्सेचें भाडें!' तें म्हणालें. 'इंडिया थावन बचाव करून हाडल्ले पन्नास रुपय घे आनी म्हजी तस्वीर पाटीं दीं.'

काजितानान तो नोट घेवंक घेतलो, पूण सांगाताच ताणे सुरू केल्ल्यो हासो बिलकूल रावना म्हळ्ळेपरीं नोराक भोगलें. 'तुज्या तसले पॅसेंजर हांवें पळेवंकच ना!' तो म्हणालो. 'धर, घे! म्हाका नाका तुजो फोटो. जाय तर इशानाकच पाटीं दी.' पूण ताच्या हाताथावन आपली फोटो घेवंच्या नोराक आपल्या काळजांत कसलेंगी सिंतिमेंत मुंगेल्ल्यापरीं भोगलें, फोटो घेवंचीं ताचीं बोटां कांपलीं. 'ह्या नोटा सांगाता हांवें फोटो दवरल्ल्यांत कितें' तवळ काजितानान विचारलें 'परत कांय ह्या आरब्याची गरज पडली तर? हां, कशेंयी म्हाका हांगासर आनी भोंवतीं 'काझी' म्हणच आपयतात.'

काजितानान नोराची फोटो पाटीं घेतली आनी ह्या बाबतीन तें कांय करूंक सकलें ना. ताचीं उतरां सुकोन ताळ्याकच चिडकाल्लीं.

ही जावन आसल्ली सुरवात एका मौन, नितळ आनी निर्मळ इश्टागतीची. दोगां घमंडी आनी एके रितीर 'संसार बिन्दास है' म्हणपाचीं फिरकीस अस्तित्वां रेगिस्तानाच्या काळ्या भांगाराच्या संपत्तामदें सांगाता आयिल्लीं.

आइल्ले सुखेर रावळेरांतल्या हरामी कुवेतींनी नोराक 'पॉकेट' करूंक प्रेतन

केल्लें आसतां ताणे, तेज्जाण्टीचे शिकणेन इशानाक 'भाईसाहब' करून घेवन ताका धडो बांदल्लो केल्लो तेज्जाण्टीन, भद्रते खातीर एकलो इंडियन सांगाती आसा जे गो, आसा म्हजे मार्तीत एकलो, ताका भेटलांय तूं' म्हण म्हणच्या आदींच नोरान आपले तस्वीरे संगीं आपलें काळिजय काजितानाक दिल्लें. पूण हें ताका कळीत आसा वा ना म्हळ्ळें ताका कळीत नातल्लें.

कित्याक म्हळ्यार काजितान म्हयन्याक एक पावटीं मात्र रावळेराक येतालो, चुकल्यार दोन म्हयन्यांक एक पावटीं. शेक फाहदाचें राजकीय मळ एक तर, वयवाटी राज वेगळेंच आनी विस्तार. इराकांत ताचे सबार प्रॉजेक्ट आसल्ले आनी बऱ्या काळांत आनी मयपासी वातावरणांत ताच्या सबार प्रॉजेक्टांक कुवेत थावनच तांत्रीक साहीत सरबराय जाताली. पूण एक दोन पावटीं 'हें कुवेत म्हजें पिकलेलें ॲप्पल' म्हणोन सद्दाम आक्रमण करूंक आयिल्लो म्हळ्ळें शेक फाहद आनी हेर कुवेती विसरोंक नातल्ले.

शेक फाहदाच्या सबार प्रोजेक्टां पयकीं Alstom म्हळ्ळें कंपणेन इराकांत चलवंच्या प्रोजेक्टाक तांत्रीक साहेत सबार कंटेनरांनी सरबराय जाताली. एकेक पावटीं भायर सरताना वीस-पंचवीस कंटेनर सांगाताच सुटताले आनी काजितान ह्या कंटेनरांचो 'इनचार्ज', तो हे लांब लायनी सांगाताच इराकाक वेतालो आनी साहेत देंवयता पर्यात रावोन आनी संबंध जाल्ल्यांची दस्कत[183] इत्यादी घेवनच पार्टीं येतालो. पार्टीं येताना जाता तितली विस्की-बियर हाडून (कुवेतांत अमालबंदी आसा) बरे कास करतालो. गडीचेर ताका बरीच प्रख्याती आसल्ली. आनी शेख फाहदाची विजा म्हणताना तवळचो भिरांकूळ पोलिस अधिकारी कर्नल महम्मद अल - खबंदी सयत कोलो जाता म्हळ्ळें फोकाण आसल्लें.

'हांव आयलां कास करूंक[184]', म्हणतालो काजितान. 'काळ्या भांगराच्या दुडवाचो, म्हाकाच म्हण अमानत केल्लो वांटो आसा. तो भितर घाल्या शिवाय हांव कुवेत सांडिसो ना.' म्हळ्ळो सोपूत ताणे घाल्लो.

पूण तो एक अजीब जिनसाचो मनीस. इश्ट म्हळ्यार जिवाक जीव दिवंचो. भक्तीपण म्हळ्यार दुळदुळो जावंचो तरनाटो. म्हालगड्यांचो ताका मोगचड आनी ताणे कुमोक विचारल्ल्या कोणायकी आज पर्यांत ना म्हळ्ळें ना. अरेबीक भास वाचूंक बरवंक - उलवंक ताका बरी येताली आनी हें तो शिकल्लो. कुवेत

आइल्ले सुरवेर ताका काम लागोंक नातल्ल्या वेळार अरेबीक शिकल्ल्याक ताका कुवेत सरकाराथावन भातेंयी मेळतालें.

आपल्या गोयांतले जिणेविशीं तो कांय उलयनातल्लो. नोराक तो भारीच विरळायेन मेळतालो. तो दीस आयतार जाल्यार तोच ताका आनी तेज्ज्याण्टीक मिसाक व्हरून हाडतालो, पूण आपणाविशीं उलयनातल्लो. ताच्या सांगातांत नोरा फुलतालें, पूण तांणीं दोगांयनी कसलींच खासगी सिंतिमेंतां आदली बदली केल्ली नांत. पूण जाणा आसल्लीं तीं काळजाचे गुंडायेंत[185], गरजे आकांतात, तीं एकामेकाखातीर आसात म्हण....

आनी आतां तो इराकी सोजेर हेरांक घवन आपणा कुशीन येवंचो पळेताना नोरान मौनपणी आपल्या देवाक आनी काजितानाक हाक मारली. तेज्जांटी ताका दिसानातल्ली, ती कांय स्त्रियांच्या कमऱ्याक धांवल्या कोण्णा...

'खंय आसात हेर कुवेती?' बोबाटलो तो इराकी अधिकारी. 'हें शेक फाहदाचें रावळेर न्हय? हांगासर इतलेच कुवेती आसात?' नोरान, मरोन धरणीर पडल्ल्यांचीं मडीं दाखयलीं. 'हेर खंय आसात म्हण हांव नेणां.'

हूं! तूं इंडियन न्हय? बरें अरेबीक उलयताय!' ताणे कसलीगी हुकूम दिली आनी ताचे सोजेर सुळी वाऱ्यापरीं रावळेराच्या हर एका कमऱ्यांनी रिगले. 'या अल्लाह!' म्हणालो इराकी. 'हांगासर हफला[186] चलता आनी आमी फाटल्या नोव वर्सांथावन झुजोन आसावं. पयलें इरान आनी आतां...'

'भितर आसचे सर्व इंडियन, या पाकिस्तानी या बांगलाचे', धैर घेवन म्हणालें नोरा. 'कुवेती आसल्यार कांय बायलां मात्र...'

'पळेवयां!' तो म्हणालो एक सिग्रेट पेटवन. 'बायलां आमकां नाकात. ती तुमच्या शेकांक आनी अमिराकच आसोंदीत. आमी कामांदळे न्हय, चोर लुटकारय न्हय, म्हाकाय आवय बापूय आनी भयण आसल्ली!' ताणे एकाच्छाणे ताळो काडलो आनी वाऱ्यार फार मारले. सिलींगाचो कोचोर, कान बंद करून धरणीर बसोन आसल्ल्या नोराच्या माथ्यार पडलो. 'कितें जालें जाणाय?' तो इराकी बोबाटलो. 'म्हजो बापूय आनी हांव इराना विरोध झुजताना म्हजो बापूय मेलो. झूज संपतेच हांव थकोन घरा आयलो. थोडो सुशेग जोडतलों, लग्न जातलों... हांव एक मेस्त्री, एक शिकपी आनी शिकवपी पातयेताय तूं? पूण

जालें कितें?

'म्हाका परत आपवणें आयलें, झुजाक. तवळ हांवें म्हळें म्हाका आडदोस दिया, पळेया हांव झुजाथावन पाटीं आयलां मात्र. म्हाका आवय आसा, एक भयण आसा. पूण सद्दाम अबू अलीक हीं सिंतिमेतां लागानात. म्हाका आपवन व्हरूंक आयिल्ल्यांनी म्हज्या सामकारच एक गुळो म्हज्या आवयच्या कपालांत आनी एक गुळो म्हज्या भयणीच्या कपालांत रिगयलो आनी म्हळें आतां ये, आतां तुजीं म्हळ्ळीं कोणय नात केलीं आमी!' तो पिशांपरीं हासलो.

तितल्यार ताच्या सोजेरांनी पांच कुवेती चल्यांक गळ्याक गच्ची घालून भायर हाडले. तेच ते नोराक आबळेवन आसल्ले. कामांदळे, मादक ओकतांचें गुलाम, रावळेराच्या खंच्या कमऱ्यांनी अतरवणां करून पडोन आसल्लेगी? 'ह्योगी तुज्यो कुवेती स्त्रियो?' इराकीन विचारलें. नोराक नक्की जालें कीं आपणा सामकारच ह्या कुवेतींक लगाड कडतात म्हण. 'तांकां आमी लगाड काडिनां!' म्हणालो इराकी. 'हाणीं आमच्या सैनिकांखातीर खणयो खोडूंक आसात, त्या उप्रांत हांचें तोंड आमी सुटयतांत. त्या फुडें...' तांणी आनी कसलीगी हुकूम मिलिट्री ताळ्यान भायर काडली. त्या कुवेती चल्यांक इराकी सोजेरांच्यो खोटो – मुठी पडल्यो. 'म्हजी आवय आनी भयण मेलीं तर हांका लागोन!' म्हणालो इराकी. 'आतां हें म्हजें खासगी झूज'. परत्यान तो कसलेंगी झांकुळ्ळो आनी ताच्या सोजेरांनी त्या कुवेती चल्यां करना मरोन पडल्यो कुडी भायर व्हरूंक लायल्यो.

'आमी हांगासर आमचें एक ल्हान ठाणें करतेल्यांव!' म्हणालो इराकी.

'तुमी घाबरचें तसलें कांय ना... आमकां कुवेत जाय, कुवेती जाय.. तूं कित्याक झलें घाबरलांय?' तुवें झूज पळेवंक नाय, तुमी इंडियन इतलेय पोळकुरे?'

'आमकां कितें करतात तुमी?' नोराचें सवाल कश्टांनी भायर आयलें, कुवेती चल्यांक खोटोमुठी घालून तेवशीन व्हेल्लें पळेताना. आतां खंयथावन गी तेज्जांटी ताचे बगलेक उदेल्ली.

तुमकां आमी कांय करिनांव पूण... तो भोंवतीं पळे लागलो. 'आमच्या मिलिट्री कानुनाक विरोध तरी... भयणी आनी उम्म...' तो नोराक आनी तेज्जाण्टीक पळे लागलो. 'म्हाका आनी म्हज्या सैनिकांक नितळ उदकाची

तान, आनी खाली पोटाची भूक लागल्या. आमचें राशन जाणांत कितें?' ताणे आपल्या खांदावयल्या बॅगांतली एक पोट्ली भायर काडून उसयली. तांतूं दोन फुंगरेल्ले खुबूस, दोन टोमॅटो आनी एक पियाव आसल्लो.

'हांगासर हफला चलतालो मूं?' ताणे विचारलें, खुझी उबारल्ले कुशीक पळेवन.

'खाण हांगासर धाराळ आसा!' जाप दिली नोरान. 'ते तुमी खावयेत आनी खायनाकात म्हणची कसलीच सकत आमचे थंय ना. पूण हांवें विचारचें, सर, उप्रांत कितें? हें आमचें झूज न्हय.'

'तें आमी जाणांव!' तो म्हणालो. 'उप्रांत म्हळ्यार आमच्या मट्टाक आमी ह्या रावळेरांत एक कम्युनिकेशन ठाणें उबारतेल्यांव आनी कार्याळ जातेल्यांव. आमकां झूज झुजोंक आसा, व्हय? सगळो संवसार कांय वोगो रावता?'

'तर आमी?'

'तर तुमी आजाद कुवेतांत आसात! सद्दाम आबू अलीच्या कुवेतांत तुमी आसात. हेर कितें जाय तुमकां?'

नोराक कळीत आसल्ले कितें जाय म्हळ्ळें. जाता तितले वेगीं तांणी ह्या रावळेराथावन पळापळ घेजे आसल्ली.

'पूण खंय?'



# 42

बॅरन भ्रमिदेंत आसल्लो. ताचे मतींतल्या अलार्म क्लॉकांत ताका विशेस जवाब्दारेक लागोन रिफायनरीक वचोंक आसा म्हळ्ळें खंचोन आसल्लें आनी तो ह्या अर्दे भ्रमिदेंत आपल्या खटल्यार लोळतालो. ह्या वेळांत विशी उठोन दोन पावटीं टॉयलेटाक गेल्लें म्हळ्ळो जोप ताका आसल्लो.

ताचे मतींत वर्तुळाकार घुंवतालें तें दृश्य जांतूं आंब्रोज डिक्रुजान 'घूट' फोडल्लो आनी बॅरनाक आपूण 'तांचो' न्हय म्हळ्ळें कळीत जाल्लें. ह्या घुटाची सताय कितली म्हळ्ळें सोदून काडूंक तो गेलो ना. कित्याक ताचे मतीन तो परिपिकायेक पावोंक लागल्या तवळथावनच ताका सांगोंक सुरू केल्लें, 'तूं परको, तूं हांचो न्हय.'

ताका उडास आसल्लो, एक पावटीं तो तांच्या घरा लागसार आसल्ल्या एके भागींत रातीच्या आठ वोरां पर्यांत एकसुरोच बसोन आसल्लो आनी मोली आनी आंब्रोज ताका सोदून आयिल्लीं. आंबून ताका एकदोन धमक्यो दिल्ल्यो आनी तवळ बॅरनान आवयचे पासळेथावन एक आवचीत सवाल विचारल्लें. 'मां, हांव तुमचोच गी?'

'कित्याक विचारताय, पुता?'

'आमच्या क्लासींत एकलो चलो आसा', ताणे जाप दिली. 'तो आज क्लाशीक येवन बरोच रडतालो. ताका आज कळीत जालें खंय कीं तो ताच्या माम्मीचो आनी डेडीचो खरो पूत न्हय म्हण. He is an adopted child!

आवयन ताका कसली जाप दिली म्हळ्ळें आतां ताच्या उडासांत नातल्लें, पूण ताचें तें सवाल मात्र फावो ते जापीविणे उरलें म्हळ्ळें ताका कळीत आसल्लें.

क्रमेण मोलीक टेरी आनी डिना जाताना बॅरनान आपणाकच एक कुद्रो करून

घेतलो आनी आपूण जालों, आपणाचें शिकप जालें म्हळ्ळें रितीर जियेवंक लागलो. ताका टेरीचेर आनी चड करून डिनाचेर जब्बोर मोग आसल्लो, पूण तो तांचे लागीं सरोंक कावजेतालो. तांच्या मोगांत वांटेली जावंक या तांकां आपल्या मोगांत वांटेली करूंक आपणाक हक्क ना म्हळ्ळें एक सुप्त चिंतप एका वायट सपनापरीं ताका नाडूनच आसल्लें.

टेरीचें अन्य त्या परीं जाताना ताचो व्हडलों भाव जावन ताका सारके वाटेक हाडूंक आड रावल्लो आपणाचो स्वार्थ बरो न्हय म्हण आपणाकच धणसून तो रडल्लो आसा. विशाखा ताचे बगलेन नातल्लें तर ताची मानसीक बुनयाद थोड्या मट्टाक पुणी हालती म्हळ्ळें भंय ताका आसल्लें. सामान्य संगतींनी[187] तो नाजूक, पूण परिगत दावल्यो भायर काडीत तर तो तयार आसतालो. विशाखा ताचे जिणेंत आयिल्ल्या उप्रांत ताणे आपली मानसीक जवाब्दारी सयत ताचे संगीं वांटून घेवंची पद्धत आसा केल्ली. दैहीक भलायेक्या संगतींनीं तें केन्नाय ताचे संगींच आसल्लें...

आंब्रोजान फोडल्लो 'घूट' बॅरनान विशीक सांगतना तें ताचें मातें आपल्या उसक्यार घेवन ताका आरावन धरून जाय तो वेळ पर्यांत बसलें. उप्रांत ताणे उच्चारल्लीं उतरां बॅरनाक असल्या वखदाचें बळ हाडून आयलीं. `Your mother is a great woman!' विशीन म्हळ्ळें. 'पयले सुवातेर तिणे आपलें पाप झडवंक ना, एक जिवंत प्रिंप्रे आनी एक आत्मो जो तिच्या उदरांत जल्म घेवन संवसाराक येवचें हक्क घेवन आसल्लो ताका तिणे नास करूंक ना आनी तुज्या बापायन कसल्यायी कारणाक लागोन भोव कीळ रितीर हो 'घूट' फडताना ती धैरादीक जावन उबी रावली आनी तिणे आपलें पाप कबूल केलें. मात्र न्हय तूं आपणालो म्हण कसलीच लज-मुलाजो नासतां ओपून घेतलें. असले आवयकच खरी आवय म्हणतात. हांव नेणां असलें एक स्थैर आपणाथंय आसा करूंक तिणे समाजींत कसली जिणी भोगल्या म्हण. हांव अशें कित्याक म्हणतांगी म्हळ्यार, असली एक करनी आदारल्ले 'सेकंड हँड' स्त्रियेक एका दादल्यान आपणाची करून घेताना तिका ताचे थंय रूण अदेत, पूण खरो मोग उदेत? हें एक गंभीर सवाल आनी हें सवाल हांव एक स्त्री जाल्ल्यान मात्र विचारूंक सकतां. तुजे माम्मीक जिणेंत खरो मोग मेळ्ळा? पयल्या दादल्यान तिका दगो केलो आनी तो भोवशा

पिड्ड्यार जाला. दुसऱ्यान, आंब्रोजान, तिका आपणायलें. भोवशा आपल्याच मतलबाखातीर, विदेशाक वेचेखातीर आनी रुस्तुरुसांवाचो वेळ येताना ताणे भोव कीळ उतरांनी तुजे आवयक झलील केलें. असले स्त्रियेक तुवें कुरवार करीजे. You have to crown her..'

पंजाबी तरी सादें भोळें दिसचें विशाखा असलीं तत्त्वां उलवंक सकता म्हण तो पयले पावटीं जाणा जालो. ताणे आपली कालेत अशी पोसून – वागवन दवरल्ली कीं, जिणेंतल्या आवचीत सन्निवेशांनी ताचें शिंतीद हलकांदिनातल्लें. तो एकाच्छाणे शांत जातालो आनी 'चींत – वींच – कर' म्हळ्ळो एक अपरूप आनी अपूर्व शेगूण ताचेथंय जागो जातालो.

अहम्मदींतल्या ते सांजेचत्या सन्निवेशाची घुंवडी अशी जाल्ली ताच्या उडासांत आयली.

आंब्रोजान घूट फोडल्लो.

तो उबो जालो 'ह्या आनी असल्या उलोण्यान जावंचें कांय ना' तो म्हणालो खचितायेन. 'चड म्हळ्यार तूं आन एक बॉत्ल एल. पी. जी. खाली करशी. हो घूट तुवें फोडलोय म्हाका आनी म्हजे आवयक डावन करूंक आनी झलील करूंक तर, तुवें निराशी जायजेच, कित्याक म्हाका ह्या घूट फोडणे वर्वीं कसलेंच फरक पडलें ना आनी पडचेंय ना. कित्याक म्हळ्यार, म्हज्या शिरांनी कोणाचें रगत व्हाळता, त्या रगताक हांवें निराशी करूंक ना म्हळ्ळें घमंड म्हाका आसा. हांवें तुमचो, म्हज्या भावंडांचो, म्हज्या बायलेचो आनी चड करून म्हज्या देवाचो मोग केला आनी करीत्त हांव रावतलों. मां, हांव तुजो खरो पूत बॅरन, तुज्या संगींच आसां मां!' ताच्या ह्या उतरांवर्वी दोन संगती थंयसर घडल्यो.

पयली, आब्रोज पिरेर परिपूर्ण सलवालो.

दुसरी, मोली पिरेर परिपूर्ण बदलाली आनी पुताचे पासळेक सेरवाली. तिणे सोपूत घालो म्हणोन अहम्मदींतलें हें घर हांव सांडचीं ना आनी कोणा परकी स्त्रियेक ह्या घरांत रिगोंक सोडीशीं ना.

ह्या सोपुताचो परिणाम जावन, आंबून घर सोडलें आनी मंगफाक वचोन स्टेल्ला मारीसा सांगाता तो जियेवंक लागलो.

जावं मोलीन या बॅरनान ताका आडायलें ना, पूण ही संगत तांणीं डिनाथावन

मात लिपयली.

'बॅरन, ऊठ, भायर कसलेंगी घडता!' विशीचीं उतरां बॅरनाच्या कानाच्या फुनेलांतच रिगलीं तरी ताका तीं उतरां समजोंक थोडीं खिणां लागलीं. गर्बेस्त आसचें विशी... ताका कांय जालें गाय.. कांय रगता स्त्राव?

'तुका कितें जालें, विशी? Are you alright?'

'हांव सारकीं आसां बॅरन', तें म्हणालें ताचे केंस पोशेवन. 'भायर कसलेगी अपरिचीत आवाज जातात, पटाकी फुटल्ले परीं... बिल्डिंगाच्या कंत्राळांनी आसल्ले पारवे पाकाटे फाफडून उबतात...'

'ए. सी. चालू आसा डार्लींग आनी सर्व जनेलां – बांगलां बंद आसात. तूं कितें सपनेताय? तुजी भलायकी बरी आसा?'

'व्हय, आसा!' तें म्हणालें विरारायेन. हांव आत्तां टॉयलेटाक गेल्लीं आनी टॉयलेटाच्या जनेलांतल्यान हे आवाज म्हाका आयकाले..'

बॅरनाच्या हरद्यांत कल्ल जालें. आवयक ताणे चेतावणी दिल्ली कुवेतांत कांय तरी घडोंक पुरो म्हण...

तो लट्ट करून उठलो आनी शीदा दिवानखान्याक आयलो. थंयच्या वातावरणांत ओलसाण (Humidity) चड आसल्ली. ताणे जनेलांचे पडदे देगेन केले आनी हारशाचें स्लायडींग जनेल उगतें केलें.

भायलो उबाळ ताच्या मुकमळाक असो लागलो कीं तो एक पावटींच्याक उस्मडलो. वाऱ्यान एक नवो वास मिसळोन आसल्लो, कोरडायट हुलपाल्लो वास.

ताणे सकयल पळेलें आनी ताका थंयसर दिसल्लें दृश्य ताच्या आंगाची हर एक लोंव उबी करी लागलें. ताका दिसच्या हर एका रस्त्यार समवस्त्रांत आसचे सोजेर भरोन गेल्ले, चारांय कुशींनी टेंकां आनी झुजा वाहनां चालू आसल्लीं. ह्या वाहनांचेर उबच्या बाबड्याक तो ओळकालो. इराकी बावटो!

ताचे पांय मेण जाले आनी तो लागशिल्या सोफाचेर बसलो. झूज या आक्रमण? परिणाम एकच. फाल्यां म्हजें विशी एक घोट उदकाक लालेत तर हांव कितें करूं? फाल्यां खणियांनी न्हिदोंक पडलें तर म्हजें विशी कितें करीत?

'कितें जालें, डार्लींग?' तितल्यार भायर आयिल्ल्या विशीन विचारलें.

'The Iraquis have come!'
How bad is it?
I don't know darling'

'आज कामाक वचाना तर कांय जावंचें ना', तें म्हणालें.

फक्त म्हजी भद्रती गमता म्हज्या आंज्याक, कसकसलो बॅरन आनी ताणे विशीक लागीं आरायलें आनी आपलें माथें ताच्या उदराक लागवन धरलें. त्या उदरांत तांचें पिंप्रे आसल्लें.

विशी, ताचे वेंगेंतले हाळवायन सुटलें आनी जनेलासरशीं वचोन भायर पळे लागलें. इराकी सोजेर अड्डादिड्डी फायरींग करताले. पूण खंच्च्यायी मुल्यांत तरी (कोनशाक) चकमकी जावंचें दिसनातल्लें.

ताका झोंपय मारून बॅरनान जनेला लागचें पाटीं हाडलें. खंय पुणी चुकामुकीं एक बुलेट...' तो फुडें उलयलो ना.

विशी हार्दिक हांसो हांसलें. 'हांव पंजाबी चली, Remember?' ताणे विचारलें. 'म्हजे दोग भाव सैनीक आनी आमी झूज पळेलां, टँक आनी मशीनगन पळेल्यात. फायरींग आयकालां. हांव कर्नल मेहंदीरत्ताची धूव, Remember?'

बॅरनान जाप दिली ना, पूण विशीचो वेडकोळ सुटयलो ना. ताची मत जोरान काम करताली. कितेंय तरी परिगतीचे मोलामापणी करीजे. हें झूज आमचें न्हय तरी आमी तुफानाचे केंद्र – सुळियेंत सांपडलेले परीं दिसता. ताणे विशीचो वेडकोळ सुटयलो आनी शीदा वचोन फोन उखलून कानाक लायलें. लायन जीव नातल्ली. कुवेताचें प्रमुख आनी गिरेस्त परीसर जावन आसच्या साल्मियाचो संपर्क इराकींनी तुटयिल्लो जायजे. माम्मी जरी तरी आमकां कोंटॅक्ट करूंक प्रेतन करीत आसा, ती येदोळ देदेस्प्रार जाल्या आसतेली.

हे इराकी सोजेर कितल्या वेगान आनी सुगमायेन कुवेताच्या हेर परिसरांनी पावोंक सकतात आनी कुवेती सैनाथावन कितलें आनी कसलें प्रतिभटन[188] इराकींक लाबात म्हळ्ळो अंदाज ताका नातल्लो, पूण इतलें जरूर कळीत आसल्लें. कुवेती सैनान झूज पळेवंक नातल्लें. ताणे वाचल्लें कीं वर्सां आदीं संघटित थरान इजरायेलाक नास करीजे म्हण इजिप्तान अरब राष्ट्रांच्या सैनांक उलो दिताना कुवेतान एक कंपनी धाडल्ली खंय, पूण हे कंपनेतले कोणय सोजेर जिवंत

पार्टी आइल्लेनांत. तांचीं मडीं पार्टी हाडताना कुवेत एअरपोर्ट बंद दवरल्लो.

इराकाचें हें आक्रमण संयुक्त राष्ट्रांचे मध्यास्तिकेन पाटीं काडीजे शिवाय सद्दामाक भुलयल्यार हें काम जावंचें न्हय म्हण ताका कळीत आसल्लें. संवसारांतलें प्रतिश्टीत खबरे मॅगझीन बॅरन वाचतालो आनी ताका अंतर्राष्ट्रीय राजकियाची बरीच माहेत आसल्ली.

तितल्यार, विशीन टी. वी. चालू केल्ली आनी ताचेर ताका कुवेत चॅनल दिसली ना. कसलींगी मिलिटरी गितां येतालीं, इराकी बावटो दिसतालो आनी पांच मिनुटांक एक पावटीं विविध दिरूसांचेर आपले पॅरजेक उमे उबवंचो सद्दाम दिसतालो. ताणी दोगांयनी सांगाताच म्हळ्ळे परीं एक लांब उस्वास सेवलो.

'माम्मीची परिगत कसली कोण्णा?' कांपेऱ्या ताळ्यान हें सवाल विचारलें बॅरनान.

'असल्या संदर्भांनी आमी सवाल करिजे कीं सगळ्या कुवेतांत आसल्ल्यांची परिगत कसलीगी म्हण. डॅडीय आसा न्हय?' विशीचें सवाल आयकोन बॅरनाक आपणाचीच लज दिसली आनी तो दोळे अशीर करून विशीक पळे लागलो.

'हांव स्वार्थी न्हय, विशी पूण आमकां सर्वांची जतन घेवंक जायना न्हय?'

'व्हय, पूण सर्वांची फिक्र करूंक जाता, तांचे खातीर कुमोक तयार दवरूंक जाता, तांचे खातीर मागणें करूंक जाता.'

थोडद्या वेळाचें मौन, पूण ह्या मौनांत आक्रमणाचें आवाज तांकां आयकातालें. 'परिगत गंभीर आसा म्हळ्ळ्याक दुबाव ना विशी!' तो म्हणालो. 'हांव बिल्डिंगांतल्या सर्वांच्या एपार्टमेंटाक एकेक भेट दिवन येतां. ह्या वगताक आमी संघटित विंचवण्यो करच्यो बऱ्यो...' तो उबो जालो.

'विंचवण्यो म्हणताना आमचो भारत सरकार आपले परजे खातीर कसली मांडावळ करीत, बॅरन?'

'You mean evacuation?' तो सुक्यो हासो हासलो. 'तीं विंचवण करूंक आमच्या भारताक लांबायेची आवदी गरज पडतेली, विशी', तो म्हणालो. 'आतां तूं हांगाच राव, आकांतीनाका.'

'हांव आमची ब्रेकफास्ट तयार करतां', तें म्हणालें एक सोबीत हासो हासोन.

ताका एक कुस्काल्लो हासो दिवन भायर गेल्लो बॅरन पाटीं येताना दोन वोरांचो वेळ उतराल्लो. भायले आवाज न्हिवल्ले आनी घडये घडये जनेलांतल्यान भायर तिळच्या विशीक कुवेतांत कांय घडोंक नातल्ले परीं भोगतालें. तरी, केबल टिवीचेर सी. एन. एन. दुसरेंच चित्र दाखयतालें.

एपार्टमेंटाक पाटीं आइल्ल्या बॅरनान विशीक एक मटवो रिपोर्ट दिलो. बिल्डिंगांतल्यांची जेराल पातयेणी आनी भरवसो जावन आसल्लो कीं सद्दाम आपलें सैन पाटीं काडतलो म्हळ्ळो. संयुक्त राष्ट्रांनी ताका खडाकड सांगल्लें कीं ताका कसल्याच शर्तीविणे पाटीं वचाजे म्हण. म्हणजे Unconditional Withdrawal from Kuwait. आनी हे ताकीदीक सद्दामान जाप दिल्ली खंय. ते कामांदळे सबहा कुटमाचे शेक परत गादयेक येनांत तर आपूण आक्रमण पाटीं काडतां.

पूण ती संगत बॅरन आनी बिल्डींगांतल्यांनी देगेन दवरल्ली कित्याक सद्दाम आनी कुवेतच्या राजकियाच्याकी बिल्डींगांतल्यांक तातांची आनी तांच्या कुटमांची भद्रती पयली. देखून, तांणी निर्धार केल्लो की ते धैर आनी देवाचेर पातयेणी सांडचे नांत, हर एकल्याच्या एपार्टमेंटात कितलें खाण, उदक आनी गरजेचीं वखदां दास्तान आसात म्हणचो सांठो काडचें आनी गरज पडल्यार खाण उदक वांटून घेवंक तयार आसचें. बिल्डिंगाच्या 'हारीसाक'[189] तांणी सुचन दिल्लें की उदकाचे टांकीचो पंप दिसाक दोन पावटीं मात्र चालू करून बिल्डींगावयली टांक भरची. सरकारी उधका सरबरायेक कसलेंयी आयब आइल्लेपरीं दिसनातल्लें तरी फुडल्या घंट्यांनी दिसांचे लेक[190] करूंक ते वचोंक नात कितें जायत, उदक आनी वीज उरत या ना म्हळ्ळें कोणायकी कळीत नातल्लें.

गरजे भायर कोणेयी भायर वेचें न्हय आनी बायल भुरग्यांक बिलकूल भायर सोडचें न्हय. दारार ठोके पडतीत तर एकदम चत्राय घेवंची. पूण कितली चत्राय घेतल्यारी तितलीच म्हण ते जाणासले.

सगळ्या संवसारान करच्या प्रेतनां आनी प्रतिभटना वर्वीं सद्दाम एका हप्त्याभितर पाटीं गेल्यारयी गेलो. इराकाचो आर्थिक जिवाळ जावन आसच्या कच्च्या तेलाचो आयात सर्व पाश्चिमात्य राष्ट्रांनी बंद केला आसतां, सद्दाम आपलें आक्रमण कितल्या तेंपाक मुखारीत?

ह्या सवालाची जाप फकत सद्दामालागीं आसल्ली व्हय पूण सुटकेची पातयेणी आनी भरवसो बॅरन आनी विशी तसल्यां लागीं मात्र आसल्लो.

आक्रमणाच्या दुसऱ्या दिसा बी. बी. सी. रेडियोन प्रसार केल्ली वार्ता सगळ्या संवसाराक भरवसो हाडून आयली. आगोस्ताचे पांच तारकेर जोर्डानाच्या किंग हुसेनान एक ज्युंत आपयला आनी हाका किंग हुसेन, सावदीचो राय, कुवेतचो अमीर आनी खूद सद्दाम हुसेन हाजर जावंचो संबंव आसा. त्या दिसा आक्रमण संपतेलें आनी सद्दाम आपलें सैन पाटीं काडतलो म्हळ्ळो अखंड भरवसो आसा.

पांच तारीक उदेली आनी दीस पाशार जालो तरी जोर्डानाच्या ज्युतांची कसलीच खबर रेडियोचेर आयली ना. वास्तव जावन हो ज्युंत चललोच ना. पूण स तारकेचे सकाळीं कुवेत टिवीचेर चालू आसच्या इराकी चॅनलाचेर हजारों सोजेर 'पाटीं' वेचे दिसोन आयले, पूण बॅरना तसल्या शाण्यांक आनी गिदा नदरेच्यांक सद्दामाची ट्रीक कळीत जाली. ह्या फिल्मांत दिसचे सर्व निशान बोर्ड पर्शियन भाशेंत आसल्ले!

कुवेतच्यांक आनी संवसाराक मांकोड करूंक तो इराक - इरान झूज संपल्यावेळीं इरानाथावन 'पाटीं'वेच्या इराकी सैनिकांचें एक परनें फिल्म इराकी टिवीचेर दाखयतालो.

ही जावन आसल्ली सद्दामाचे क्रूरतायेची सुरवात.

■■■

# 43

तेणे जॉनी डिक्रूज कसकसोन रडताना हेणे विल्मा डिक्रूज हासलें. आपलो घोव केन्नाय पोळकुरो आनी फाटल्यान चाबूक धरतेलीं कोण नांत तर बसल्लेकडेन बसचो मनीस. ह्या सर्वाक कारण जिल्ली टिचेर. जावंक पुरो जॉनीन तिका सयरीक हाडल्ली आनी एका तांट मोंट मिक्की पायसालागीं तिचें लग्न करयिल्लें. पूण आज तोच जॉनी सीनियर इंजीनियराच्या हुद्याक पावोंक आनी असलें मजबूत एपार्टमेंट मेळाजे तर कोण कारण? कोणे घेतल्ली चाबूक?

आनी हो आतां, म्हाका सांगता, घरा वचोन बस आनी आपणाक भंय दिसात म्हण. कोणा कोणाचे पॉलिटिक्स आनी आमी कित्याक भियेजे? ह्या आरब्यां मदें हें सदांचेंच. सुखाळ जिणी सुरू जाल्या मात्र आनी कंपणेच्या लेकार सर्व सवलतायो मेळताना... चे... जॉनीचो भेजो पुणी पिरवोंक नामूं?

तें आपले सुडाळ आनी चुरूक चालीच्या वेगानच न्हेसलें आनी एपार्टमेंट बंद करून लिफ्ट धरून सकला आयलें. मलबारीच्या दुकानालागीं तेग चवग लुंगीवाले उबे रावोन कसलेंगी उलयताले. तांची दिश्ट एका खिणाक विल्माचेर चरली.

बेजमेंट पार्किंगांतलें आपलें होल्डन ताणे भायर काडलें आनी फाहाहील इंडस्ट्रीयल एरियाची वाट धरली. शीदा चलोन गेल्यार पंदरा मिनुटांची वाट, पूण एके इंडियन स्त्रियेन चलोन गेल्यार किलो मीटराक विसां लेकान आरबी तांचीं वाहनां रावचन लिफ्ट दितांव म्हणचो व्यार.

येवंच्या वर्सा अमेरिकन कार घेजे, हीं चिंतनां ताचे मतींत आसल्लीं.

पांच मिनुटांभितर कंपणेक पावल्ल्या ताका वाटेर सदांचो वाहन संचार ना म्हळ्ळें गुमानाक वचोंक ना. कंपणेच्या भायर सदांचीं वाहनां आसल्लीं, पूण ब्रिटीश मॅनेजर टोनी हर्डाचें मर्सिडीज दिसलें ना. आजय पार्टी येवंक ना टोनी?

तांची वेव्हारीक चंगाय बरीच आसल्ली आनी तें ताका नांवांनच उलो करतालें. तीन दिसां आदीं एकाच्छाणे दुबाय भायर सरोन गेल्लो टोनी, सहज, फर्मा नायटाचो एक वांटो-फांटो दुबायंत आसल्लो. टोनीचें कुटम धा दिसां आदींच यू. के. क गेल्लें.

दोन, चड म्हळ्यार तीन दिसां भितर पाटीं येतां म्हण सांगोन गेल्ल्या टोनीचो पत्तो ना. कंपणेंत येदोळच आयिल्ल्यांक उतळायेन 'गुड मॉर्नींग' म्हणोन तें आपल्या सुसज्जीत केबिनाक गेलें. आपले बसकेर बसतच ताणे साल्मियांत वस्ती करून आसच्या टोनीच्या एपार्टमेंटाचें नंबर घुवंडायलें. लायन लागली ना. तीन पावटीं ट्राय करूनच तें थकलें आनी ताणे फर्मानायट दुबायचें नंबर घुवंडायलें. पूण ताका आंतर्राष्ट्रीय नंबर लागलें ना. ताणे वोंट चाबले.

इराकी आयल्यात व्हय, पूण हो समस्सो निजायकी तितलो गंभीर? तितल्यान प्यांट्री बॉयान ताका ताची सकाळींची 'खास' नेसकॅफे कॉफी हाडली. ती आणाचे रुची परमाणे कशी करीजे म्हण विल्मानच ताका शिकइल्लें.

'सर्व टेक्निशन्स आयल्यात?' ताणे विचारलें, कॉफयेन घोट मारून.

'साल्मिया आनी मेस्सिला बिचा लागीं रावंचे फती सुलेमान आनी इस्सा तायशील येवंक नांत. तेवशिलें ट्राफीक हेवशीन येना खंय.'

'कित्याक?'

'इराकी आयल्यात म्हण तूं नेणाय?' प्यांट्री बॉयान विचारलें. तो मलबारी. 'आमी कितें करचेंगी देव जाणा. सगळ्यांनी बॉम पडतात खंय... मॅनेजरय येवंक ना...' तो जनेलांतल्यान भायर पळे लागलो.

विल्मान कांय म्हळें ना, ताची मत थोड्या घड्यांक शून्य जाली. उप्रांत सनीन जावन ताणे मलबारीक सांगलें. 'डेसमंडाक आपय.'

`डेस्मंड टेक्निशियनांचो फोरमॅन. मुळान गोंयकार पूण निवास, बोंबय. मलबारी गेल्या उप्रांत, फाहद अलसालेम एरियांत मजबूत बंगल्यांनी रॉवच्या कंपणेच्या धनयाक ताणे नंबर घुवंडायलें, ना, नंबर लागलें ना. विल्माच्या हर्द्यांत कितेंशें जालें.

हारशांचे कसलेंगी धांकण कुवेता वयर धांपल्लेपरीं ताका भोगलें. ताणे इंडियाचें नंबर घुवंडायलें आनी विराची लायन मेळतागी म्हण पळे लागलें. ना.

मौनपणी ताणे कॉफी मग ग्वाली केलें आनी तितल्यार डेस्मंड भितर सरलो. घटमूट तरनाटो तो आनी फर्मानायटाचें कामय असल्याच घुटमुटांक सहज जाल्लें. रिफायनरी या कसलेंयी केमिकल, उदक, इलेक्ट्रीकल स्थावरांत लीक उठ्ठत तर तें स्थावर शट डावन करिनासताच ती पाजरोणी रावंवचें तंत्रगिन्यान हे कंपणेक आसल्लें, पूण वावराची रिस्कयी भिरांकूळ.

'हाय, विल्मा!' डेस्मंड म्हणालो. कंपणेंत एकामेका नांवांनच उलो मारची पद्धत चालू आसल्ली. 'टोनी येवंक ना मूं?'

मातें हालवन विल्मान व्हय म्हळें. 'तो येवंचोय ना!' खचितायेन म्हणालो डेस्मंड. ताणे पळापळ घेतल्या.'

`What do you mean?' तें आपल्या डेस्काचेर मुखार बागवालें. 'इराकी आक्रमण जातेलें म्हण हांकां आनी हेर गोऱ्या कातिच्च्यांक तांच्या तांच्या सरकारांनी चेतावणी दिल्ली खंय आनी हांच्या पयकी सबार दुबाय, बाहरेन, कत्तार धांवल्यात आनी हेर थोडे तातांच्या देशांक पाटीं गेल्यात. बी. बी. सीन, कुवेतांत उरल्ल्या, रावल्या गोऱ्यांक पांच मिनुटांक एक पावटीं दिवंची चेतावणी आयकोंक नाय?

`Western Countries have asked their nationals to keep a low nals profile'

'पूण म्हाका तसली कसलीयी एमर्जन्सी दिसाना डेस्मंड', तें जनेलांतल्यान भायर पळेलागलें. डेस्मंड कुस्कोन सो हासलो.

'हें परीसर इराकी सैनिकांनी भराजे तर तीन दीस लागतले. पूण तांचे थोडे हिंड येदोळच सावदी गडीर पावोन जाल्यात. येदोळच गड बंद जाल्या आसतेली. हांव सकाळीं फुडें पाकिस्तानी रेस्टॉरेंटातली हुनोनी निहारी आनी पराठा हाडूंक गेल्लों आनी तवळ अहम्मदी गवर्नरेट आनी फाहाहील सिग्नलामदें आसचें कम्युनिकेशन टावर इराकींनी अरवास नास करचें हांवें पळेलें. विमान कुवेत एअर फोर्साचेंच, पूण इराकींनी अपहरण करूंक टवर...'

'हें सर्व आयकाताना म्हाका एक सिनेमा सुरू जाल्ले परीं भोगता...' तें म्हणालें.

'कान दिवन आयकाल्यार पयशिल्यान शेलींग जावंचेंय आयकाता[१९] विल्मा!' म्हणालो तो. 'फोनां चडावत -डेड जाल्यांत. फॉरेन काल्स करूंक

जायना...'

'बॉमींग आसा तर ब्लॅक आवट करिनात?' आपली किंचीत जाणवाय दाखवंचे प्रेतन केलें विल्मान. उप्रांत ताका, ही रात न्हय, दीस म्हळ्ळें गमलें. 'तूं संवसार आकेर जाल्लेपरीं उलयताय, म्हज्या जॉनीन उलवंचेपरीं: रिफायनरी थावन म्हाका फोन करून सांगता, हांवें घरा वचाजे खंय, ह्या वगता आमी सांगता आसाजे खंय...'

'ता रिफायनरी वचोंक कित्याक सोडलोय विल्मा?' हळ्टाचो आकांत दाखयलो डेस्मंडान 'ह्या वगता रिफायनरी म्हळ्यार एक टायम बॉमच!'

'तें हांव नेणा!' जाप दिली विल्मान, एक शेड्यूल हातीं घेवन.

'तुमकां आज शायबांत एक, मीन अल – अहम्मदींत दोन आनी पी. आय. सीं. त दोन कामां आसात.'

डेस्मंडान कितेंच म्हळेंना तें पळेवन विल्मान मातें उखल्लें.

`Yes Desmond, What's happening?'

'आमी केन्नाय आमच्या कामांत रिस्क घेतावं, पूण आज न्हय, असले परिगतींत न्हय.'

'तर कितें करतात?'

'आमी घरा वेतात!' तो खचितायेन म्हणालो. 'परिगत आनिकी बिगडात तर आमी कुवेत सांडीजे पडतेलें आनी तवळ आमकां आमच्या पासपोर्टांची गरज आसा.'

तें हासलें. `Really! तूं इतलो पोळकुरो म्हण हांव नेणासली.' तें म्हणालें. 'येदोळ जाल्लें कांय ना आनी तुमी साटली पोटर्ली बांदूक तयार आसात? कितें करतात तुमचो खासगी सामान? बेंकांत आसचो दुडू आनी कंपणेथावन तुमकां मेळोंक आसचें देवें... हो गोड, कितें उलयताय तूं डेस्मंड? तसली कसलीय एमर्जन्सी आयली तर आमची इंडियन एबसी नागी?'

'आसा गी?' डेस्मंडान आंबोटायेन विचारलें 'आमच्या पवीत्र इंडियन एंबसीक, कुवेतांत कितले भारतीय आसात म्हळ्ळें नक्की कळीत आसा?'

विल्मान कसलीयी जाप दिवंच्या पयलेंच कंपणेचो ड्रायवर मुसा अबू खालीद विल्माच्या कॅबिनाक आयलो. ताका अर्कट-मर्कट इंग्लीश येतालें आनी ताणे

दिल्ले वर्दे प्रकार इराकी सोजेरांचें दुसरें ल्हार मेस्सीला सर्कल उतरोन अस्साफर मोटर – वे धरूंक लागल्लें. परिगत गंभीर दिसताली, पूण येदोळ इराकींनी जीव नश्ट करचें नश्टें काम सुरू करूंक ना, पूण तांणी धाड घालचें परिसर पळेताना ते फकत कुवेतींचें बोंटेर[192] आसात म्हण खचीत जाताले.

'तर आतां कितें?' विल्मान दोगांयकी पळेवन विचारलें. त्या दोगां फाटल्यान मलबारी प्यांट्रीबॉय गोमटी लांब करून तिळतालो.

'We have to wait and see!' म्हणालो डेस्मंड. 'सद्दाम फाटीं गेल्यारय गेलो. सुपर पावरांचेर सर्व होंदोन[193] आसा. सर्वांक काळें भांगार जाय आनी तें एकल्याच्या हातांक येवंचें संवसार सोशींसोना म्हळ्ळें खंडीत. 'We have to wait and see.' तो परत्यान म्हणालो. 'हांव आनी हेर थोडोवेळ रावतावं आनी उप्रांत घरा वेतावं.'

'आमी ऑफिस बॉय तेग आसावं', म्हणालो मलबारी. 'आमकां कंपणेंतच रूमां आसात, आमी खंय वेचें?' आमी हांगाच रावतावं आनी मोरचें तरय हांगाच', तो रडलो.

'तुमी सर्वांनी वचयेत!' आपल्या केसांमुळांत बोटां रिगवन म्हणालें विल्मा. 'म्हाका भंय दिसता म्हण तुमी रावनाकात. I just don't care.'

ताच्या केबिनांतले सर्व भायर गेल्या उप्रांत ताणे एका नीळ स्वासासंगीं कॉफी मग उखल्लें आनी तांतूं कांय उरलांगी म्हण पळेलें. एक थेंबोय नातल्लो. मलबारीक आपवन परत एक मग हाडव्यां म्हण ताणे चिंतलें, पूण मन बदलिलें. आपलें माथें आपल्या दोनय हातांमदें आदारून बसल्ल्या ताणे स्प्रींग डोराचो आवाज जाताना मातें उखल्लें.

जॉनी!

'हूं!' म्हणालें तें. आतां तूंयी रिफायनरी सोडून धांवोन आयलोय? तुमच्या दादल्यांच्या धैराक जालां तरी कितें At least ATM use करून खात्यांतले पयशे पुणी काडलेय?'

जॉनीन कितेंच म्हळें ना आनी तो विल्मा सामकार आसच्या सुखाळ आसनाचेर बसलो. 'एटीएम बंद जाल्यांत!' तो म्हणालो.

'बराबर!' तें खेंचलें. 'आनी तूं रिफायनरी बंद करून आयलाय? तो कोण

बॅरन ताची कांय खबर आसा? आज तुमकां जॉयण्ट प्रोजेक्ट आसल्लो मूं?'

'तीन चार दिसांनी हें आक्रमण संपल्यार बरें आसा, ना तर आमचे हात आमच्याच माथ्यार... बॅरन...'

'ताची आवय आनी बापूय आसात न्हय हांगासर? कितें खंय रिफायनरी बंद करतात खंय? आगोस्ताची दोन तारीक, बँकांत पाग आयला म्हणय कळीत ना मूं देवा. ए. टी. एम. सारकें पळेलेंय?'

'व्हय. आतां तरी मिना अब्दुल्लाह रिफायनरीची गत कितें जाल्ल्या म्हळ्ळें आयक विल्मा. आमी तुर्त परिगतीक आयतीं जायजे. `This is a state of emergency.' ताणे रिफायनरीची प्रस्तूत स्थिती विवरली. 'म्हाका कोणाकी कोण्टॅक्ट करूंक जावंक ना. काळीज हातांत धरून हांव स किलो मीटरांची वाट कार चलवन आयलो.' तितल्यार जॉनीक ओळकोंच्या मलबारीन दोन मगां कॉफी करून हाडली. जॉनीन एक मग घेतलें आनी विल्मान दुसरें. जॉनीन मलबारीचो उपकार बावुडलो. हें आयकोन मलबारी रडलो.

'सकाळीं थावन रडता हो, बिर्मत', तें म्हणालें. 'कोणाकोणाचें आयकोन सगळोच भियेवन गेला. स्टुपीड फेलो!'

'तुका हाची बिर्मत दिसता न्हय?' जॉनीन एका आवाजा संगीं कॉफी मग मेजार दवरलें. 'विसरलेंय तूं?'

'कित्याक? तुजीय बिर्मत दिसता म्हाका', तें म्हणालें सदांचेच रुचीन कॉफी पियेवन. 'आक्रमण खंय, आक्रमण. दुदा – म्होंवाचो देश हो, काळें भांगार हांगासर व्हाळता. ह्या देशाची रक्षा करूंक सैन ना, संवसार ना, संयुक्त राष्ट्रांनांत? आमच्या घराक कोणे तरी कुदोळ मारल्या म्हण सर्वयी रडतात मूं? तुमची बिर्मत दिसाना तर?

'आमचीं भुरगीं गांवांतल्या भद्रतेच्या सुखाळांत आसात विल्मा.' तो म्हणालो. त्या खातीर आमी धनया देवाक आर्गां दीजे. Our Lady of Arabia तांकां आनी आमकां सर्वांक राखून व्हरूंदी...

'तूं केदाळा इतलोयी देवस्पणी जालोय, जॉनी?'

'तुवें जेरीक फसयल्या उप्रांत!' जॉनी लागीं जाप तयार आसल्ली.

'हो! तें नाटकीय रितीर उद्गारलें. 'आतां समजाता म्हाका. उदकाच्याकी

रगत दाट म्हण. केदाळा उदेलें हें देवास्पण? म्हज्या कान्पट्याक मारल्ल्या उप्रांत? तुका म्हज्या उतरांचो उडास आसा? तुका समाधान जाता तर हांव सॉरी म्हणोंक तयार आसा डार्लींग, अशें म्हळ्ळें हांवें. तरी तुवें म्हाका थापडायलेंय. आतां परत्यान हें घुमट देवास्पणाचे वोपेंत वाजतताय? जेरीचीयी तर हांवें बिर्मत पावाजे. सांग, I am sorry for him too.'

कितेंगी म्हणोंक आनी कितेंगी करूंक जॉनी उठलो पूण कुस्कोनसो बसलो. हांच्यामदें उलोणें गरमशें दिसल्ल्यान मलबारी भायर गेलो.

'कितें कुस्कालोय?' विल्मान विचारले. 'या, तुका ऑफिसात ड्रामा करूंक नाकात?'

'तुज्या फारीकपणाची तान न्हिवोंकना, न्हय?' जॉनीन ताळो तगसून विचारलें. 'एक किल्या कस्कस्याचें देवें. फारीक करता जेरी. तो जिवंत आसा या ना म्हळ्ळें कोणाक तरी कळीत आसा?'

'तो मेला तर तुज्या रगताक खंडीत जावन भोगतें आसल्लें!' विल्माचीं उतरां भायर येतालीं. म्हाका विल्माक, तुज्या मोंट भावोजीन दोन पावटीं 'गेटआवट' करचें? बरें जालें हांवें सर्वांचे दांगे मोडल्लें. ना तर जिल्ली पायसाचीं आनी मिक्की पायसाचीं तुपीं भरतो आसल्लोय तूं, कोण तें... इवोनाक मेडिकल शिकयतोय आनी तुज्या मोगाच्या जेरीक... केदाळा उदेल्लो हो मोग?' तें हासलें

'म्हज्या दोळ्यांची खोवळां झडल्या तवळ, पूण वेळ उतरला. खंय आसा म्हजो चेरको...' जॉनीच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. 'खंयसर ताका हांव सोदूं? कोण म्हजी मजत करीत?'

'इंडियन एंबेसीक वच, पोलीस स्टेशनांक वच, शेकाच्या विजाचेर आयला न्हय तो?'

म्हजी तकली कित्याक खाताय? हांवें ताका फसयलो म्हण तुवें कशें म्हणचें? कांय थोडें वांदे दिया म्हण अशें केलें, पूण तो जेरी लँड जाल्ल्या दिसाच सद्दामाक ये म्हण हांवें सांगल्लें? बेश्टेंच म्हाका थापडायलेंय?'

'आतांयी तुका हांव थापडायन!' उबो जालो जॉनी. 'पूण त्या फुडें गल्फाच्या दुडवान आंदळे जाल्ल्या सर्वांक देवानच एक थापड मारला. ह्या थापडाचो मार, दाव आनी दूख सर्वांक समान तुकान दिल्या त्या सर्वेस्वरान. हाचे वर्ते कसलें

थापड हांव तुका मारूं?'

'तर कितें करताय?' विल्माच्या ताळ्यांत इल्लीशी भिरांत आसल्ली.

'समाजिकायेचो घडी चार Unconditional peace process संवसारान सुरू केला म्हळ्ळी खबर हांवें कार रेडियोचेर आयकाली. लिबिया आनी यास्सर आराफाताचें पी. एल. ओ. एक Strategy तयार करीत आसात, इजिप्ताच्या होस्नी मुबारकान येदोळपर्यांत हें आक्रमण नुल्ल करूंक पाश्चिमात्य सैनाची गरज आसा तशी दिसाना म्हळ्ळी अभिप्राय दिल्या. रशियाच्या प्रधानीन आपलें मंगोलियाचें ट्रीप रद्द केलां. आयतारा पांच तारकेर जॉर्डनांत महत्त्वाचें एक मिटींग आपयलां जॉर्डन रायान. कुवेती अमीर, सावदी राय, आनी जॉर्डनाचो किंग हुसेन हाका हाजर जातले म्हळ्ळो भरवसो आसा, पूण सद्दाम येतलो वा ना म्हळ्ळें कळीत ना. पांच तारकेर हें आक्रमण संपल्यारी संपलें. मुकारल्यारी मुकारलें...'

'आनी तवळपर्यांत?' विल्मा उर्डालें.

`We will wait and see!' विल्मान हीं उतरां दुसरें पावटीं आयकालीं.

'पूण हैं आमी करतेल्यांव एका सांगातान. जेरीक सोदचें हर प्रेतन हांव करतलों. तुका सांगाता घेवन, मेल्यार सांगाता मोरयां आनी कितलीं वर्सां आसात म्हण...'

'तुका लागलां झडपिशें! तें म्हणालें.

'व्हय!' म्हणालो जॉनी. 'आनी हें पिशें जरितरी तूं आनिकी चाळयशी, देवान मारल्या थापडच्याकी चड बळीशट थापड तुज्या कानपट्टेचेर बसयतोलों!'



# 44

'तर आमी' नोरान त्या इराकी अधिकारी लागीं विचारलें. 'तर?' तुमी आजाद कुवेय्टांत आसात! सद्दाम अबू अलीच्या कुवेय्टांत तुमी आसात. हेर कितें जाय तुमकां'

नोरान कळीत आसल्लें कितें जाय म्हळ्ळें. जाता तितले वेगीं तांणी ह्या रावळेराथावन पळापळ घेजे आसल्ली.

पूण खंय?

ह्या सवालाक सांगाता घेवन तें हत्याकांड जाल्या रावळेराच्या दिवान खान्याचे धरणीरच बसलें. व्हय, खंयथावनगी तेज्जाण्टी ताचे बगले उदेली. तिचो ऊब उस्वास ताच्या कानाक आपटातालो. 'कितें म्हणता गो तो?' तिणे विचारलें तिका अरेबीक समजतालें तरी. दोळ्यां सामकार जाल्ल्या रगतापातांत तिच्यो सर्व मानसीक योग्यतायो मंद जाल्ल्यो.

तिका एकाच्छाणे पोटलून धरून नोरा रडलें. 'आमचो शेक गेलो, तेज्जाण्टी!' तें म्हणालें. 'आनी म्हाका नूरी म्हण उलो मारतलो 'कोण आसा?'

'आसा तो खंयच्या बिळांत लिपला म्हण कोण जाणा!' ती म्हणाली 'त्या कोंबल्याक सांबाळून धर म्हण हांवें कितल्या पावटीं तुका सांगलां. तो हांगासर आसल्लो तर कांय तरी धैर उरतें आमचे थंय.'

'पूण तोच उरला या ना म्हळ्ळें कोण जाणा, तेज्जाण्टी?' नोरान विचारलें व्हाळच्या दुकां मदें काजितानाचें काम तूं जाणाय. तो ह्या घडये इराकांत आसा या कुवेय्टांत आसा म्हळ्ळें कोण जाणा. आसा तर जिवंत आसा या...'

'तोंड धांप गो!' ती म्हणाली भोवंतीं पळेवन 'रावळेरांत कशें भोंवतात पळे हे रांडला पूत, हांच्या बापायचें रावळेर हें? कितें तेल मालीश करतालो तुका

तो अफसर?'

'तांकां भूक लागल्या खंय आनी आमकां ते कसलेंच बादक हाडिनात खंय. तुका तांणी 'उम्म' आवय म्हण उलो मारला.'

'असल्या पुतांच्या ताळ्यांक हांव चुन्याचें उदक सोडतीं आसल्लीं गो,' ती म्हणाली. कितें जालें गो ह्या दुदा म्होंवाच्या गांवाक? हांकां भूक लागल्या खंय? आसल्लें लुटूंदीत पेल्यान. ह्या रावरेरांत आसचें खाण स म्हयन्यांक पुरो. ऊठ आमी कोडयाळगारांनी भियेवन बसल्यार जाता? तो येवंक आसल्लो पळे... ताका कितें जालें म्हळ्ळी कसलीयी खबर आसा गो?'

'ताची खबर हांवें सद्दामालागींच विचारिजे कोण्णा!' म्हणालें नोरा.

'जेरीक कितें जालें, कसल्या वांद्याक तो सांपडला म्हळ्ळें कळ्ळ्यार पुणी जातें...'

'ह्या अफसरालागीं कित्याक विचारीनाय?' तेज्जाण्टीन तिच्या साद्यापणान विचारलेंय. कशेंयी पिटीपिटी करून आरब्यांची भास उलयताय आनी तंगणें मंगणें करूंक कांय उणें नां.'

'तूंच विचार आनी बिरयाणी करून दितां म्हण सांग!' तें सणसणलें. 'आतां म्हजी तकली खायनाका. आमी कोडयाळगारां धैरादीक जा़तांव दोन पेग पडल्ल्या वेळार. आता आमी कितेंतरी करीजे, ह्या रावळेरावन थावन सुटजें

'सुटजे आबाची काश्टी!' ती म्हणाली. 'आमी सुटोन खंय वेचें गो? ह्या रावळेराच्या सुशेगांत आसच्या आमकां कुवेय्टांत कोणाची ओळोक आसा?' हेंयी सत, नोरान आणाकच सांगलें. ताची मत स्थिताक येताली.

इराकी सोजर, ही थंयसर नातल्ले परींच तांच्या कामार आसल्ले. दीस बरोच उदेल्लो आनी भायली वलसाण आनी दाव, वोत पळेताना कळीत जाताली. पूण रावळेरांतली सेंट्रल ए. सी. आतांयी चलताली.

रावळेराच्या विशाल वाठारांत इराकींची मिलिट्री ट्रकां आइल्लीं दिसतालीं आनी दोनांचेर रॉकेटांपरी दिसचें कसलेंगी अंत्राळाक पळेवन आसल्लें. ट्रकांथावन कसलींगी यंत्रोपकरणां उखलून भितर हाडताले. इराकी सोजेर. तांची प्राय कांय वीस एकविसां भितर, थोड्यांक मिशयोसयत फुटोंक नातल्ल्यो. ते थकल्ले दिसताले, तांच्या दोळ्यां भोवंतीं काळीं वर्तुळां आसल्लीं.

तीं दोगांय उर्बी जालीं आनी तवळ नोराक हळताची लकणी आयली. ‘शीदा किचनाक वचोन कांय तरी पोटाक घालयां गो’, ताची लकणी पळेवन म्हणाली तेज्जाण्टी. ‘पोटाक खेल्यार आमकां कांय गुळो घालीशेनांत न्हय हे मारेकारी?’

नोरान जाप दिली ना आनी इराकी सोजेरांच्या चटुवटिकां मदल्यानच तीं किचनाक पावलीं. शेख फाहदाच्या रावळेरांतलें किचन पळेजे तर सामान्य मनशान पुण्य करीजे आसा, अशें सबार पावटीं म्हणताली तेज्जांण्टी. आतां त्याच किचनात तेग चोवग इराकी उबे जावन वयर सकयल पळेताले.

हांका पळेतच तांच्या पयकी एकल्यान विचारलें ‘हें कसलें कूड? आनी हें सर्व कितें?’

‘हें रावळेराचें ‘मतबक’[१९४]!’ विवरिलें नोरान. आतां ताचो ताळो स्थिमिताक आयिल्लो. ‘तुमकां भूक लागल्या?’ तें तांच्या मुकमळार पळे लागलें. हाडाच्या कुडक्याक आशेवन रावल्ल्या वाट पेट्यांपरीं ते दिसताले. एकाच्छाणे नोराक जेरीचो उडास आयलो. ह्या इराकीं लागीं तुमकां भूक लागल्यागी म्हण विचारूंक हांव पुणी आसां. पूण जेरी कसले स्थितेंत आसा कोण्णा.

आनी तवळ ताचे चुरूक मतीक एक संगत गेली. जेरी मेला तर कांय करूंक जायना, पूण तो बंदीत जाला तर या जाल्लो तर कुवेतींनी ताका बंदीत केल्लो. पूण आतां कुवेतच ना म्हणताना तुमी सद्दामाच्या आवाजाद कुवेय्टांत आसात. जेरी खंडीत बंदडेंत आसचो ना. हें चिंतताना ताचें सर्वांग मिरमिरलें आनी एक नवो भरवसो उदेलो. सर्व सारकें जातेलें. तें आपणाकच सांगा लागलें.

‘आमी थोडें खाण तयार करतावं. पूण हें सर्व तुमकां आडवारलां म्हण तुमचो अधिकारी म्हणतालो. आणी तयार केल्लें खावन तुमकां गुळे पडतीत तर आमी जवाब्दार न्हय..’

‘सिग्रेट आसागी ओक्ती[१९५]?’ एकल्यान विचारलें. ‘वचून सोदा’, म्हणालें नोरा. ‘सगळें रावळेर स्वादीन केलां तुमी...’

‘व्हय गो’, ताळो काडलो तेज्जाण्टीन. आतां तिकायी ऊब आयिल्ली जायजे. ‘हांचे खातीर रांदप करून तूं कित्याक तुज्यो मुट्ट्यो लासताय गो?’ तिणे विचारलें. ‘हांकां सांग, भायर वचून पालवाल्ली खुझी परत्यान जळवंक.

मुक्काल कऱ्याचें मांस आसा थंय!'

'हाका जाल्यार कोडयाळी तकली म्हणतात!' मनांतच उद्गारलें नोरा आनी ताणे सोजेरांक तशेंच सांगलें. नोराक एक उपकारी मनाची दिश्ट पाटवन ते किचनांतले गुल्ल जाले. सुमार एक घंटोभर काम करून नोरान आनी तेज्जाण्टीन तांचो नास्टो तयार केलो. आनी तवळ नोराक इशानाचो उडास आयलो.

कितें जालें ताका? कुवेय्टी तरनाटो म्हण हाणीं इशानाकय कुडावंक नामूं? तेज्जाण्टीलागीं आपलो दुबाव उच्चारतां म्हण ताणे चिंतलें पूण तशें केलें ना. इशान आनी काजितान चड उणे एकेच कालेतीचे. मंगळुरांत तर तांची कालेती 'पेट्ट आंडा पेट्ट' टायपाची म्हणयेत. पूण रावळेरांत आसल्ले हेर कामाचे खंय पळ्ळ्यात म्हळ्ळें ताका कळीत नातल्लें आनी थंयसर आसल्ल्यो कुवेती स्त्रियो, चलयो बोंबार्डी सुरू जातानाच 'अल्लाह, अल्लाह' म्हण बोबाट मारून नपयंच जाल्ल्यो. आपल्या मोगाच्या शेक फाहदाच्यो निमाण्यो घडयो पळेवंक ताच्या मोगाचें नूरी, नोरा मात्र आसल्लें.

भायर कितें जातालें तें विसरोन तांणी नास्टो केलो आनी काफी पियेताना किचनाचें दार लट्ट उगतें जालें आनी इराकी अधिकारीन हात पांटीं बांदल्ल्या इशानाक लोटून भितर हाडलो. हें पळेवन नोरान तवळपर्यांत आरायिल्लें धैर खिणा भितर खिरलें. हो खंय आसल्लो येदोळपर्यांत?

इशानाक, इराकींनी अरवास विणगो केल्लो. पूण ताच्या आंगार कसलेच घाय या मारांची दाडकां दिसनातल्लीं.

'कोण हो मनीस?' नोराक पळेन खेंचलो इराकी अधिकारी. 'आपूण पाकिस्तानी अशें तो भासता. व्हय, तो एक मुस्लीम म्हण आमी खचीत केलां', इशानाच्या अर्द्या विणगे कुडीक दाखवन म्हणालो अधिकारी 'हाचें नांव इशान खंय आनी तो नुरीचो भाव खंय. नुरी म्हळ्यार कोण?'

'हांव!' दोन मेटां मुखार येवन जाप दिली नोरान.

'इंडियांत म्हजें नांव नोरा, पूण पाकिस्तानांत नुरी. आमी इंडियन - पाकिस्तानी भावभयणींच. तुवेंय म्हाका भयण आनी हिका उस्म म्हणोंक नाय?' आपणाक धैर आनी उतरां खंयचो देव दितागाय, अशें अजापलें नोरा.

आपल्या मातयाक खुद्द खूट घालून आपणाक कांय समजाना म्हणालो

इराकी. ताणी इशानाक सोडलो.

'तुवें खाण विचारलेंय मू?' नोरान ताका फूड केली 'तुज्या सैनिकांक भायली खुझी चालू करूंक सांग आनी पिवन (Drink) जाय तर...'

'म्हज्या पिकप्पांत सेवेन – अप कार्टुनां आसात' अरेबिकांत म्हणालो इशान. उप्रांत ताणे उर्दुंत म्हळें 'खुझी चलताना पिवन काबार जाल्याक शेकान म्हाका भायर धाडल्लो...'

'आनी आमकां आमचो शेक ना!' म्हणालें नोरा. हें आयकोन इशानान दोळे घट्ट धांपले. आनी ताच्या दोळ्यां खांचींनी दुकां देवलीं. 'हेरां खंय गेल्यांत नुरी?'

'धावंल्यांत!' जाप दिली नोरान 'वांचल्यांत या मेल्यांत म्हळ्ळें हांव नेणां. आतां तूं कांय तरी नास्टो कर. हे, आमकां कांय बादक करचेपरीं दिसनांत.'

'हो देश लुटून पोल करूंक आइल्ले परीं म्हाका दिसतात', म्हणालो इशान. 'पूण आमी चत्रायन आसचें बरें.'

'व्हय, पूण हांगासर न्हय!' म्हणालें नोरा. 'आमी हांगाथावन जाता तितलें वेगीं निखळचें बरें... तूं नास्टो कर... उप्रांत उलयां!'

'व्हय!' म्हणाली तेज्जांटी. 'ह्या दुकरांक रांदून घालूंक हांव हांगासर रावना हाबा. तुमी खंय वेतात तरी म्हाका सांगाता व्हरा पुता. म्हाका मोरोंक भोगेलां तर कोड्याळांतच मोरोंक जाय म्हाका.' पूण, ते घडये कोड्याळ कितलें पयस आसा म्हळ्ळो अंदाज तिका नातल्लो.

तांचो सर्वांचो नास्टो जाताना दोनपार उतरल्लो. इराकी सोजेरांनी कसले सर्व रेडियो उबारल्ले आनी कसलेंगी संभाशण ते चलयताले, हुकूम दिताले आनी तांच्या ताळ्यांनी मिलिटरी खडपाय आयकातालीं आनी उठोन दिसतालीं. भायर वठारांत ताणीं दोन स्कड मिसायलां उबी केल्यांत म्हण नोराक इशानान सांगलें.

'आमी स्त्रियांच्या कमऱ्याक वचोन थोडो विशेव घेताव!' इशानाक देगेन आपवन म्हणालें नोरा. 'कितले दीस आमी ह्या रावळेरांत रावजे पडतेले म्हळ्ळें आमी नेणावं. ताणीं, तें इराकींक दाखय लागलें, 'आमी आजद कुवेय्टांत आसावं म्हण सांगलां तरी...' तें भुजां उडय लागलें.

‘कसली आलोचेन तुजी, नुरी?’

‘सादीच!’ तें म्हणालें. ‘हांकां हांगासर सुशेग आसचे थंय आमची भद्रती आसा. देखून तूं ह्या रावळेरांत गस्त मार. उदक, वीज, पंप, जनरेटर सर्व सारकीं काम करतातगी पळे. खाण जायतितलें आसा. पूण वेच्या पयलें अधिकारीची परवणगी विचार... आमी हांगाथावन जाता तितले वेगीं सुटाजे.’

‘नुरी!’ म्हणालो इशान एकाच्छाणे गदगदीत जावन. ‘तुका धैर आसा आनी तुजेथांय भावार्थ आसा. तुका म्हजी भयण म्हणोंक म्हाका गर्व भोगता!’

नोरान ताचो हात मोगान दांबलो ‘म्हजो काजितान हांगासर आसल्लो तर संगत वेगळीच जाती.’

‘पूण तो कठीण दरवडी!’ म्हणालो इशान. ‘रागीश्ट त्या पेल्यान. म्हाका दिसता, तुवें सांगचें सारकें. रावळेरांत आमी एकारितीचे बंदेंत आसावं. भायर कितें जाता आनी हें आक्रमण संवसारान कशें घेतलां म्हण आमकां कळीत जावंचे परीं ना. आक्रमणाचें हें ल्हार – हें झूज न्हय, हेरांनी म्हणचेपरीं – हें एक आक्रमण, प्रसार जावन फैलोन न्हिवोंदी. तवळपर्यांत आमकां भद्रती जाय. म्हजे लागीं एक ल्हान रेडियो आसा आनी चत्रायेन तो वापरून हांव रेडियो पाकिस्तान आयकातां आनी तुका खबर दितां...’

नोरान आपलें माते उबारलें. भेसां जाल्ल्या रावळेराच्या पाक्यांतल्यान ताका मळब दिसतालें. ‘कसली मयमा तुजी देवा!’ तें उद्गारलें. ‘कश्टां. अन्वारां मदें तूं आमच्या तसल्यांच्या अस्कत, अशिकपी मेंदवांक तूं असली सकत दिताय कीं... आमकां शाबिताय लाबतेली खंडीत. वच, इशान! तुजें काम कर. देव आमचे संगीं आसा.’

सांज पडोन येताना इशान पाटीं आयलो आनी सर्व सुगम आसा म्हण कळय लागलो. इराकींक हांचें पडोन वचोंकच नातल्लें. रात जमोन येताना तांणी हम्मूस/मुतब्बल आनी खुबुसांचें जेवण केलें आनी त्या उप्रांत तें शीदा इराकी अधिकारी सरशीं गेलें. ‘सर, तें म्हणालें. ‘आमी स्त्रियो आतां न्हिदोंक वेतावं. तूं जाणाय, ह्या रावळेरांत हेर कोणयी स्त्रियोनांत.’

‘देकून?’

‘आमकां भद्रती जाय.’

'कोणाथावन?'

'तुज्या सैनिकांथावन!'

'तुका हांवें पयलेंच सांगलां!'

तो दर्पान म्हणालो. आमी कुवेय्टींपरीं कामांधळे न्हय. आमी पळे त्या तर्नाटयांक वोडून व्हेलें. तांचे तसल्यांच्या चाकरेंत आसताना तुका भंय दिसनातल्लें?'

नोरा लागीं जाप नातल्ली. तेज्जाण्टीक घेवन तें स्त्रियांच्या कमऱ्याक गेलें. कसल्या जिनसाची न्हीद ती जावं, ती नोराच्या लागीं येताना मध्यान उतरलेली आनी दोन रुपां मात्र ताका भेटोंक आयलीं. एक जेरीचें आनी दुसरें काजितानाचें...

दुसऱ्या दिसा सकाळीं रावळेरांतली परिगत तशीच आसल्ली. किचनांत ताका इशान भेटलो. तेज्जाण्टी सदांचें सवंय परमाणे लांबायेक न्हिंदोन आसल्ली. 'नुरी,' इशान पिस्पिसलो. 'सगळी रात हांव रेडियो पाकिस्तान आयकातालों,' तो म्हणालो. 'हें आक्रमण परवां पांच तारकेर आयतारा काबार जाता म्हळ्ळी खबर आसा. ही पक्का खबर. रेडियो पाकिस्तान केन्नाय पाक आनी पक्का. सगळो संवसार जागो जाला आनी जॉर्डनांत एक व्हडलो ज्युन्त पांच तारकेर जावंच्यार आसा. हें आक्रमण संपतेलें आनी सद्दाम आपलीं सैनां पाटीं काडतलो.

नोरान आपले हात जोडले आनी बोटांच्यो तुदियो[196] वोंठांक लायल्यो.

'तर कितें करचें म्हणताय इशान?'

'पांच तारीक पर्यांत राखचें. आतांच सावदी गड आनी शात - अल - अरब न्हंय वाट बंद जाल्या खंय. आतां उगती आसची म्हळ्यार कुवेय्ट - बसरा - बगदाद - जॉर्डन...' काजिताना सांगाता थोडे पावटीं इशान वेतालो जाल्ल्यान ताका ही सर्व माहेत आसल्ली.

'बरें तर', नोरा म्हणालें. 'भायल्या कुवेय्टाच्याकी हांगासर भद्रती चड आसा. पांच तारीक पर्यांत राखयां[197] हें म्हणताना सगळें कुवेय्ट, सगळो संवसार पांच तारकेक राखोन आसा म्हळ्ळो अंदाज नोराक तितल्या वजनान जालो ना.

इंडियाथावन येवंक आसल्याची कांय खबर आसा नुरी?' इशानान विचारलें. नोरान जाप दिली ना. आपणालागीं नातल्ली जाप तें कशी दितेलें? पूण दुकां

ताचेलागीं आसल्लीं आनी तें रडलें...

आगोस्ताची पांच तारीक आयली, आनी पाशार जावन गेली.

सद्दामान आपलें सैन पाटीं काडलें ना. इशानाच्या रेडियो पाकिस्तानान दिल्ल्या पाक आनी पक्का खबरे प्रकार जॉर्डनांतलो ज्युंत चल्लोच ना. देखून गोरान, इशान, तेज्जाण्टी आनी आपलोच ज्युंत आपयलो.

'आनी हांगासर रावोंक जायना इशान!' तें म्हणालें. 'हांगाथावन आमी सुटाजे. म्हाका दोन संगती जाय. फुल्ल पेट्रोल भरल्लें शेकाचें एक कार. दुसरें, तुवें शेकाच्या मंदुपाच्या दफ्तराक वचोन, कबाटां फोडून तरी आमचे पासपोर्ट सोदून काडीजे.'

'इन्शा अल्लाह हांव प्रेतन करतां.' हें म्हणून इशान सुक हासो हांसलो. 'लायसेन्स नासतां कुवेय्टांत कार चलवंक हो वेळ आइन्न नुरी!' तो म्हणालो. 'तुका भारीच आशा आसल्ली न्हय?' कुवेय्टांत आतां ट्राफीक रुली नांत. पूण तूं फुल्ल टांक पेट्रोल घेवन वेताय तरी खंय?'

'आमच्या मनशांसरशीं!' ताणे जाप दिली. 'आनी तूं कितें करताय?'

'म्हाका रावळेराथावन भायर वचूंक - येवंक ते आडायनांत. हांवय म्हज्या मनशांसरशी वेतां, भयणी नुरी.'

'आनी हांव?' तेज्जाण्टीन विचारलें.

नोरान तिका आरावन पोटलून धरलें.

'तूं येदोळच तुज्या मनशां सांगाता आसाय, तेज्जाण्टी!' तें म्हणालें.



# 45

जेराल्ड पायसान आपली गोमटी घुवंडावन उजव्या आनी दाव्या भुजांवयल्यान पळेलें. व्हय, तो खंडीत जावन मरण पावल्लो आनी सर्गाक पावल्लो. तितलेंच न्हय, सां पेद्रून ताका आंज म्हण कुरवार केल्लो जायजे. ताच्या भुजांचेर सोबीत पाकाटे आसल्ले.

एकच ताका पाकाटे फुटल्ले या तो मतिभ्रश्ट जाल्लो. हो कोण म्हाका नोरा लुविसाची फोटो दाखयता? आनी आपूण कसलें[198] बडबडतां? आपूण कोण आनी कसो ह्या आक्रमणांत सांपडलों? कस्कसो? म्हजी कुवेत विजा शेकाच्या एके दस्कतेंत[199] आसल्ली तर, सद्दामाच्या आक्रमणांत भाग घे म्हळ्ळें आपवणे विल्मा आंण्टीन हाडवंक लायिल्ल्या एक किलो कस्कस्यांत आसल्लें?

अथवा ही ह्या गोमीसाची आनी नोराची कसलीगी फितुरी? न्हय तर ह्या काजितान गोमीसा लागीं नोराची फोटो खंयथावन? नोरान ह्या गोलियताविशीं एक सब्द म्हाका सांगल्लो ना मूं, तें सर्व सोडयां, हें कांय एक वायट सपन कोण्णा आनी आत्तां म्हजे दोळे सुटतेले. कोणगी येवन 'एफ्फाता' म्हणोन म्हाका जागयतोलो. आनी पाटीं व्हरतोलो ज्या सन्निवेशांत जांतूं नोरा लुविसाचें रजिस्टर्ड पत्र आनी विजा आपणें पिंजून घाल्या आनी सॅल्ली मॅडमान हाडल्ली विस्की पियेवन आपूण 'डिंग' जालां.

पूण तसलें कसलेंयी घडोंक ना म्हळ्ळें गमोंक ताका चड वेळ गेलो ना. नोरा लुविसाची तस्वीर धरल्लो काजितान गोमिसाचो हात कुस्कूट कांपानासतां ताच्या नाका पंदाकच आसल्लो.

'हाचें नांव काडलेंय रे, चिकू? गोमिसाचो ताळो ताच्या कानांनी 'टैं टैं' करून वाजलो. 'कोणगी मंगळुरी येवंक आसा म्हण तें म्हणतालें. तूंच रे तो चिकू?'

विचारलें गोमिसान.

'तूं... तुका कशें... नोरा लुवीस तुका कितें जायजे?' गागेलो जेरी. तूं गोंयकार.'

'आनी तूं? मंगळुरी चिकू!' विचारलें गोमिसान. 'सांग रे, तूं म्हाका कितें जायजे? म्हजी माम्मी म्हणताली तुमकां आमी गेट आवट केल्ल्यान तुमी वचून मंगळुरांत लिपून बसल्ल्यात खंय. पूण आतां हांगासर आमी सर्व इंडियन रे चिकू. त्या मट्टाक, पाकिस्तानी, बंगाली, श्रीलंका, इंडियन हे सर्व काळ्या भांगाराच्या वांट्याक आइल्ले अजनबी.

'नोरा म्हाका कितें जायजे म्हण विचारताय? विचार, हें कसलें अचानक घडीत म्हण विचार. तुवें उल्लेख केल्लें नोरा लुवीस हेंच तर, विचार त्या धनया देवालागीं कसो तूं म्हज्या उस्क्यार येवन पडलोयगी म्हण.' ताणे आपल्या गळ्यांतली बेंतीन भायर काडली आनी तिचो उमो घेतलो. 'असल्यो भेटो देवाची मध्यस्ती नासतां घडनांत रे चिकू...'

'तूं म्हाका चिकू चिकू म्हण चिडायनाका!' जेरी तापलो. 'सांग नोरा तुजें गर्लफ्रेंड या लवर?'

'म्हाज्या दिगाये सामकार तूं चिकूच रे, चिकू.' गोमीस हर्दे फुटोन वेच्यापरीं हासलो. 'नोरा म्हजें गर्लफ्रेंड या लवर हें जाणा जावन तूं कितें करशी?'

'करचें कितें?' जेरीन विचारलें. 'पाताळा ग्रावंडार भारीच फिलोसोफी उलयलें तें. सॅल्ली मॅडमाक सोडून दिलें ना ताणे. तो पिसांट शिंटोय आसाजे आसल्लो हांगासर. आपणाक एकलो बॉयफ्रेंड आसा म्हण नोरान सुरवेरच सांगल्लें तर जातें ना?'

तो उलवनच गेलो आनी तवळ ताका कळीत जालें, तो गोमीस दोळे अशीर करून, वोंटांचेर सैतानाचोच हासो घेवन ताका पळेत्त आसा. जेरीचीं उतरां रावलीं. 'तशें कसलें पळेताय?' लजेवनशें ताणे विचारलें.

'तुजी सगळी कथा सांगशी तर दोगांयकी बरें आसा.' गोमिसान सुचायलें. जेरीन तशेंच केलें.

ताची कथा आयकोन काजितान गोमिसान एक लांब उस्वास सेवलो.

'इतल्या लागीं तरी इतल्या पयस!' तो म्हणालो.

'मतलब?'

'तुज्या मोगाचीं या रागाचीं मनशां हांगाथावन साठ - सत्तर किलो मीटर पयस आसात म्हळ्ळें लेखून हांवें तशें म्हळें,' गोमिसान जाप दिली.

'तर तूं म्हाका तांचे सरशीं व्हरताय?' आतुरीत जालो जेरी.

'म्हजेलागीं तांचीं नंबरां नात, विळास सारकें उडासांत नात...'

'तूं एक स्वार्थी मनीस रे चिकू!' ताका दुरसोणेचें एक बोट दाखवन.

'तुका विजा दिवयिल्ल्या नोराची अवस्था ह्या घडये कसली जावन आसयेत म्हळ्ळें चिंतलांय तुवें?'

'ताका कितें?' विचारलें जेरीन. 'तें शेकागेर काम करता. न्हय? ताची खंत तूं कित्याक करिनाय?' तुजें लवर न्हय तें?' तुवें मनशांचो कितलो मोग केलाय म्हण म्हाका विचारतालें. धावी पास जाल्लें गाडांव...' हीं उतरां गोमिसाक आयकालीं या ना म्हळ्ळें जेरीक कळीत जालें ना.

'नोरा लुवीस मंगळुरी तरी तूं ताका बऱ्यान ओळकानाय!' दिगंताक पळेवन म्हणालो गोमीस. 'ताची कालेत सबार पावटीं म्हाकाच विज्मीत करता. हांव म्हज्या दैहीक त्राणान चोवगां कुवेतींक या तेगां इराकींक न्हिदायन. पूण तें आपल्या धैरान कसल्यायी परिगती थावन पिकूळ निसरल्लेपरीं निसरून येवंची चली.'

'म्हळ्यार नोराक कोणायची मजत नाका म्हण तुवें म्हणचें?'

'हांवें तशें म्हणोंक ना!' तो म्हणालो. ताचो ताळो एकाच्छाणे गदगदीत जाल्ले परीं जेरीक आयकालो. तवळ काजितान गोमिसान ताचीं भुजां धरलीं. 'मजत कोणाक नाका, चिकू?' ताणे ताळो काडलो. 'पूण कोणे कोणाक कशी मजत करची?' आमी हांगासर येवन पडलीं सान्निवेशां देखलींय तुवें? कांय स्वतंत्र आसल्लें आमच्या हातांनी? आमी इंडियनांनी कितलीं आक्रमणां आनी कितलीं झुजां पळेल्यांत? ह्या फार्म हावजांत हांवें भासायिल्ली भद्रती आसा म्हण तूं चिंतताय?'

'तर कितें करचें?' विचारलें जेरीन. 'हांव हांगासर नवोच आयला!'

'कश्टांची परिगत येताना आमी सर्व आत्तांच्या आत्तां आवयच्या गर्भाथावन भायर आयिल्लीं बाळशीं जातांव.'

'पूण फिलोसोफी उलयल्यार...'

'कांय फायदो ना, व्हय!' गोमीस म्हणालो. 'परिगत कशी रावत या रावल्या म्हण कळीत जाल्याशिवाय आमी आसूल्लेकडें थावन हालोंक नजो. व्हय, नोरा म्हाका मोगाचें. एक फ्रेंड आनी तें एक गर्ल आनी अशें जावन तें म्हजें गर्लफ्रेंड! तो हासलो. 'इराकी कॅप्टन डेनियल बेंजमिनाची मेशनगन आमकां हांगासर हाडून आयली ना तर हांव नोरा सरशीं वेतों आसल्लों. जरीतर हे इराकी कुवेतींक बूद शिकवंक आनी तांच्या धनाक पोल करूंक आयल्यात, तांच्यो दावल्यो खंडीत आनी प्रथम जावन रायाळ कुटमाचेरच बसल्यात. आनी नोरा शेक फाहदाच्या रावळेरांत काम करता. शेक विदेशाक गेल्लो, पूण पाटीं आयला या ना म्हण हांव नेणा... हांव चडावत जावन इराकांत आसतां...'

काळोक पडून येताना एक पिकअप फार्म हावसांत रिगलें. गोमीस चत्रायीत जालो, पूण ताका वेगींच कळीत जालें कीं पिकप फार्म हावंजांत काम करच्या मुस्ताफाचें म्हण. तो एक पंप हाडूंक भोव फांत्यार फहझाली स्ट्रिटाक गेल्लो खंय. फार्म हावजांत आसल्ले सर्व खिणाभितर ताच्या भोवंती एकठाय जाले आनी सर्वांच्या वोंठांचेर एकच सवाल. कुवेय्टांत कितें जाता?

मुस्ताफाथावन आयिल्ली जाप जावन आसल्ली विचीत्र : ताणे खंयसरी झूज म्हळ्ळें पळेवंक ना. सगळ्यांनीतल्यान इराकींनी वोंयों घालून नाक्याबंदी केल्ली, पूण ते कोणायकी कुडायनातल्ले. ते सोदताले प्रतिश्ठीत कुवेती कुटमाच्यांक. हर एक वाहन राववन ते विचारताले – सभाह कुटमाचे खंय रावतात, तांचो निवास खंय आसा? तूं कोण इंडियन, पाकिस्तानी, कोरेयन? वचा वचा. तुमच्या तुमच्या घरांनी वचोन बसा... जनेलांतल्यान सयती भायर तिळीनाका... वचा...वचा.

'कुवेतींक कुडायिल्ले तुवें पळयलेंय, मुस्ताफा?'

'व्हय, तीन चार जाग्यांनी. ह्या परिसरांनी आमी घुसल्यार हे कुवेती आमकां राववन धमकिताले मूं? आतां ह्याच परिसरांनी तांकांच भायर येवंचे त्रास आनी भिरांतीचें जालां. कुवेय्टांत खड्प आसल्ल्यो सर्व ट्राफीक रुली नपयंच जाल्यात, अड्डा दिड्डी ट्राफीक धावंतां, नव्या नव्या कारांचीं शोरुमां तांणी फोडल्यांत आनी कारां घेवन ते फरागात भोवंतात. पूण हांवें खंयसरय मडीं पडल्लीं पळेवंक नांत.. आनी स्त्रियांक?'

चड स्त्रियो भायर दिसनांत, पूण तांचेर कसलोयी अत्याचार जाल्लो

म्हाका दिसोंक ना. आमी इंडियन म्हण कळल्ल्याफरा सैनीक आमकां सॅल्यूट मारतात.'

'इराकींचें सॅल्यूट घेवन आयिल्ल्या आमच्या मुस्ताफाक आमी आतां सॅल्यूट मारयां.' कोणेगी एकल्यान फकाण उडयलें. सर्व हासले पूण एक भिवकूटपण तांच्या हास्यांत आसल्लें.

'फोकाणांक हो वेळ न्हय!' गोमीस म्हणालो. 'वाट कशी आसल्ली, मुस्ताफा?'

हो कोण नवो मनीस म्हण मुस्ताफान भंवर्यो वयर केल्यो तरी गोमिसाच्या ताळ्यांत आसल्लें दर्प पळेवन तो विदेय जालो.

'इराकी सैनीक पांयवाटेर आसात आनी मोटरवेचेर भरोन गेल्यात. तांचे अधिकारी मात्र थोड्या पावटीं सार्वजनिकांचीं वाहनां राववन आपणाक फलाण्या जाग्याक व्हर म्हण मागतात...' तो हासलो.

'तुका कोणेतरी राववयलो?'

'व्हय!' तो म्हणालो. कोल्यापरीं हांसोन, 'दोग सैनीक म्हज्या वाहनाचेर चडले. तांकां इस्त्रायेलाक वचोंक जाय, आरब्यांच्या समान्य दुस्मानाक पाडाव करूंक जाय खंय.'

'देखून तुवें कितें केलेंय?'

'इस्त्रायेल खंय आसा म्हण म्हाका कितें कळीत', म्हणालो मुस्ताफा. 'हांवें तांकां शायिभाह इंडस्ट्रीयल एरियाच्या व्हडल्या गेटिलागीं देवंयले आनी सांगलें, ह्या गेटींतल्यान शीदा एक किलोमीटर मुखार गेल्यार इस्त्रायेल मेळता...' तो पोटाक हात धरून हासलो. तवळ गोमिसान परिगतीचे सुकाण हातीं घेतलें.

'हांव कोण म्हण तुमी थोड्यांनी तोंड आंबोट करचें नाका. म्हजें नांव काजितान गोमीस, इंडियन. हांव शेक फाहद सबहाच्या सिर्विसांत आसचो मनीस, हांव कांय मुखेली या झुजारी न्हय. म्हजी परिगत तुमचीच. पूण एका पंगडांत कोणेतरी विंचवण्यो करीजे, निर्धार घेजे. हांगासेर इराकी येवंचेनात म्हळ्ळी कसलीच ग्यारंटी ना. मुस्ताफान दिल्ल्या मटव्या रिपोर्टा प्रकार भितर आयिल्ल्या इराकींची नदर कुवेतींचेर आनी ह्या देशाच्या धनाचेर आसा म्हळ्ळ्याक दुबाव ना. आमी सर्व काळ्या भांगाराच्या वांट्याक आयिल्ल्यावं आनी हांवे सोपूत

घाल्लो म्हजी झोळी भरून वोमताता पर्यांत हो मुल्क सोडचो ना म्हण.' ताणे भुजां उडयली. 'पूण आतां जीव घेवन हो मुल्क सोडयां म्हळ्ळीं चिंतनां उदेल्यांत. पूण परिगत तितल्यार पावची ना म्हळ्ळो भरवसो आसा म्हाका. सगळो संवसार न्हिदून पडचो ना. आरब्यांची हीं अतरवणां संवसाराक नवीं न्हय, पूण ह्या पावटीं हें भिकाण न्हय, फोकाणय न्हय म्हळ्ळी परिगत येना जाल्यार पुरो.'

'तूं कितें सांगूंक सोदताय, भाई' मुस्ताफान विचारलें.

'इतलेंच कीं माथें घट आसा म्हण आमी नाका जाल्लीं साहसां हातीं घेवचीं न्हय. हें खरेंच आक्रमण तर इराकींचो तीब फकत ह्या देशांतल्या कुवेतींचेर आनी तांच्या धनाचेर आसतोलो. तांच्या विलासी जिणेची खूब खबर हांकां आसा, कित्याक इराक एक शेजारी राष्ट्र आनी इराकाची म्हाका आसल्ले तितली परिचय हांगासर आसल्ल्या हेरांक ना म्हण हांव धैरान सांगातां.

'कुवेय्टाथावन पोळोन धावचें योजन तुमच्या इतल्याक हातीं घेनाकात. आमची एंबेसी आसा आनी ती कितेंतरी करतेली...'

'तूं आनीकी बोल्या भोंवतींच आसाय!' कोणेगी म्हळें.

'व्हय! आनी आमी बोल्या भितर रिगचें नाका. हाका पळेया, मंगळुरी चिक्कू! वर्तें आशेन मंगळूरथावन आयलो, पूण येताना एक किलो कस्कसो हाडून आयलो, एअरपोर्टांत शिरकोन पडलो आनी हांका कुवेतींनी जेय्लाक मारलो. पूण जालें कितें? तेच राती आक्रमण जालें आनी हो भायर आयलो. न्हयगी हें आक्रमण हाच्या वांट्याक सां फ्रान्सियान हाडल्लें ब्लेसींग?'

'तूं कितें गोयांत पाद्री जावन आसल्लोय?' पिस्पिस्यांनी विचारलें जेरीन. 'आतां हासल्ल्यांत कितें, रडल्ल्यांत कितें? त्या मुस्ताफाक इस्त्रायेल खंय आसा म्हण कळीत ना खंय, म्हाका आतां इंडिया खंय आसा म्हण कळीत ना.'

'तूं तोंड धांपरे पाडपडलेल्या!' पाटीं पिस्पिसलो गोमीस उप्रांत ताळो काडून तो म्हणालो. 'इराकी हांगासर येतेले म्हळ्ळें खंडीत. कांय न्हय तर खाणा खातीर येतेले. आमी कसलीच प्रतिक्रिया या प्रतिभटन दाखवचें नाका. हांगासर आमचो आत्मो आनी जीव सांगाता दवरच्या तितलें खाण आसा. आक्रमणाचें हें अत्र देवचें ना, पूण 'उदक' नितळतेलें म्हळ्ळो भरवसो म्हाका आसा. त्या नितळायेंत म्हजो क्रिस्त, तुजो अल्लाह आनी ताचो इश्वर वाट दाखयतोलो.

गोमिसान आपलें कोंत भायर काडून ताचो उमो घेतलो.

एक दाट मौन थंयसर देंवलें. मदें एकल्या दोगांचे सुस्कार आयकाले.

इराकी आयले. तीन पावटीं आयले. तांची कसरत मामूल जाल्ली. खंय आसात कुवेतीं? तांणी सगळें फार्म हावज वयर-पंदाक केलें पूण हांका कांय आयब हाडचें ना. फार्म हावजांत नितळ उदक, कुकडां रांदवय इत्यादी मेळता म्हळ्ळें कळीत जाताना दोन दिसांक एक पावटीं सोजेरांचे ल्हान ल्हान पंगड येताले, कुकडांक आनी तांतयांक उखलून व्हरताले, थोडे पावटीं पयशिल्या मळ्याक वचून, उजो करून तांणी रांदप करचेंयी आसल्लें. फार्म हावजांतलें तांणी कांय फारलें ना. फारून तांणी करचें तरी कितें?

हेच रितीर धा दीस पाशार जाले आनी ह्या धा दिसांनी तांच्या कुडींक कसलेंच बादक आयिल्लें ना, पूण तांची मानसीकता झरकटून येताली. जेराल्ड पायसाचे काती पंदाक थोंडें मास उदेलें - तो सदांयी चिकन आनी तांतयां खातालो आनी हम्मूस / खुबूज खंडीत जावन पुश्टिदायेक.

दिसाचो वेळ कसोयी रम्मी या 'तीन पत्ता' खेळच्यांत पाशार जातालो. तो आनी काजितान गोमीस भारीच लागीं आयिल्ले, पूण नोरा विशीं गोमिसाथावन जेरी चडीत जाणा जावंक सकलो ना.

ह्या 'जॉली' बंदडेच्या धावे रातीं गोमीस म्हणालो, 'चिकू, फाल्यां सकाळीं आमी हांगाथावन सुटजे!'

जेरीन कितेंच म्हळें ना.

'ह्या धा दिसांनी हांव पळेत आसां, तो मुस्ताफा सुमार पांच पावटीं सगळो दीस भायर रावोन आयलो. ताका कांय कीस जालें ना.

हांवें सांगल्लेपरीं आव्र[201] देंवोंक ना, पूण उदक नितळ जालां!'

तूं मनीस तरी जावयेत, मनांतच चिंतलें जरीन. त्या नोयेन बुड्तुगोलाचें उदक देंवलांगी पळेवंक एका पारव्याक भायर धाडल्लो खंय... तुका मुस्ताफा मेळ्ळो!

'खंय वेचें?' जेरीन विचारलें

गोमिसालागीं जाप तयार आसल्ली.

'हांगाथावन साठ - सत्तर किलो मीटर पयस एक सिग्नल मेळतां' तो म्हणालो.

ह्या सिम्नेलाच्या उजव्याक गेल्यार फाहाहील मेळता. दाव्याक गेल्यार अहम्मदी परिसर मेळता. हांगासर तुजें कुटम सयरे जरूर आसात या आसल्ले.

'पूण शीदा अस्सफार मोटर – वे धरून गेल्यार नोरा लुविसान सिर्वीस करच्या शेकाच्या रावळेराक, तें रावळेर येदोळ बुन्यादीचेर रावलां तर, आमकां पावयेत. विंचवण तुजी. उडास, हर एका किलोमीटराक न्हय, हर एका मिटराक जिवाची रिस्क आसा. पूण हांगासर आमी कुकडां – तांतयां सांगाता जियेवंक जायना. चींत आनी विंचवण कर.'

चिंतूक आनी विंचवण करूंक जेरीन सगळी रात काडली. सकाळ उदेताना ताणे गोमिसाक सांगलें.

'आमी नोरा लुविसा सरशीं या.'

'अखीत?' गोमिसान अरेबिकांत विचारलें. मतलब, 'खंडीत जावन?'[202]

'न्हय!' म्हणालो जेरी. 'जिणेंत पयले पावटीं हावें जिणे आनी मरणा मदें धैरान उमकळची विंचवण केल्या.!'

■■■

# 46

एका देशाचेर आन एका देशान आक्रमण करचें म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें समजाल्ले, कुवेता भितर आसल्ले आनी भायल्या आजाद संवसारांत आसल्ले आगोस्ताचे पांच तारकेर जॉर्डनांत जावंक आसच्या ज्युंताक आनी त्या ज्युन्ताच्या नतिज्याक राखोन आसल्ले. पूण जो ज्युन्त चललोच ना आनी कुवेत आनी सावदी अरेबियाक ह्या सद्दामाच्या दावल्यांथावन सुटाजे तर अमेरिका आनी हेर पाश्चिमात्य राष्ट्रांची मिलिट्री ससाय गरज म्हण नक्की जालें.

एके कुशीन संदानकारी प्रेतनां चलतात, पूण अमेरिका हो एक अवकास सोडूंक तयार आसचेपरीं दिसना. अमेरिकाच्या राखण खात्याचो कार्यदर्शी डीकचेनी येदोळच सावदीक पावला. काळ्या भांगाराचें मोल बॅरलाक पंदरा डॉलर आसल्लें चाळीस आनी पांच डॉलरांक चडलां आनी इराक टर्की मदली कच्च्या तेलाची पायपलायन बंद केल्या. संयुक्त राष्ट्रांच्या सातव्या वळेरी प्रकार इराकाचेर आर्थीक दिग्‌बंधन देवंवक तयाराय चलता.

आगोस्ताचे नोव तारकेर इजिप्ताच्या कयरोंत आपइल्लो अरब राष्ट्रांचो एक महत्वाचो ज्युंत जमले तरी, कुवेतचे वांगडी आमी सद्दामाच्या चोर-लुटकारां सांगाता आमी बसनांव म्हण उठोन गेल्यात, संयुक्त राष्ट्रांचो कार्यदर्शी झेवियर पेरेज दकुय्यार समाधान आशेवंच्या संवसाराच्या राष्ट्रांच्या मुखेल्यांक भेटो दिवनच आसा.

महत्वाचें कसलेंगी म्हळ्यार सावदींत अमेरिकाचें मिलिट्री, वाऱ्या आनी नोकाबळ एकठांय जायीत्त आसा. खिणाक एक म्हळ्ळे परीं स्टेल्थ, कोंबॅट हेलिकॉप्टरां, झजा नौकां एक उल्याक पाळो दिवन गल्फाचे धरणीर, वाऱ्या परिसरांत आनी सागरानीं एकठांय जावंक लागल्यांत. हेवशिल्यान सद्दाम आपलीं

स्कड मिसायलां सावदी, इस्त्रायेल आनी इजिप्ता कुशीन तीब धरून उभारताना तेवशिल्यान अमेरिकाचीं 'पॅट्रियट' मिसायलां ह्या स्कड मिसायलांक वाऱ्यारच मारून उडवंचे खातीर आयतीं करीत आसा. झूज जायत या संदानकारी प्रेतनां शांती आनी समाधान हाडीत?

ब्यारन पिरेरान एक लांब स्वास सेवलो या सोडलो. हें ताकाच कळीत ना जालें. तो हासलो. 'खेळ सुरू जाला, विशी!' तो म्हणालो. ती तारीक आगोस्ताची पंदरा.

What do you mean, Baron?' विशीन विचारलें. आक्रमणा उप्रांतलो तेरावो दीस तो, तांच्यो फोन लायनी आनिकी 'डेड' असल्ल्यो. तांकां कसलेच त्रास या धोस इराकीं थावन येवंक ना. ब्यारन आरामायेन बाजाराक या साल्मिया सुलतान सेंटराक वचोन येतालो. विशी मात्र मातें भायर घालूंक ना.

'आतां सद्दामान खोट मारल्लो बोल संवसाराच्या कोर्टांत पडला.' तो म्हणालो सुक्या हास्यासंगीं. 'सद्दाम कांय आपल्या सैनांक पाटीं काडचेपरीं ना. संयुक्त राष्ट्रांचे वांगडी तांतांच्या सैनांक सावदीक धाडूंक तयार जाल्यात म्हणताना...'

'झूज जातेलें?'

'कितें जातेलें म्हण सांगोंक जायना तरी जावंक आसचें झूज म्हणोंक जायना.' सवंसारी ज्ञान बरेंच आसल्लो बॅरन सराग उलवनच वेतालो. 'आक्रमण केल्ल्यांक भायर धावंडावंच्याक झूज म्हणयेत? ताणे भुजां उडयलीं.' अमेरिकाक आपलीं अस्त्रां शस्त्रां सावदीक आनी हेर अरब राष्ट्रांक विकूंक जाय. आतां लागच्या सी. एन. एन., बाहेरन टी. वी. आनी दुबाय टी. वी. चेर दाखयतात तरी कितें? अमेरिकाचें बळ सावदींत, बाहरेन आनी कतारांत जमो जावंचें. तेवशिल्यान इस्त्रायेल कांय हात बांदून बसलां...?

'ह्या सर्वा मदें आमचें स्थान कसलें म्हळ्ळें सवाल, डार्लींग!' आपले जाणवायेन म्हणालें विशी.

'करेक्ट!' तो म्हणालो. 'तुका जाप जाय तर, आमकां कसलेंच स्थान ना. आमची खंत कोणाकी ना. संवसाराच्या राजकीय मट्टार आमचो सरकार आमचे सुटके खातीर कांय तरी करीत या केल्लेपरीं दाखयत. आमच्या सरकारान कांय तरी करीजे तर भारतांत आसच्यांनी दबाव घालिजे आनी असलो दबाव घालचें

राज्य आसा फक्त एक. केरळा. कुटमाक एका लेखान तांचे 'आळ' गल्फांत आसात.

'पूण तुमचीं मंगळुरगारां?' आमी आनिकी ब्रिटीश चिंतपाचे, विशी!' तो म्हणालो हास्य मिसाळाल्ले गंभीरतायेन. 'आमी भारीच सिस्टमॅटीक मनीस. आमच्यांनी येदोळच डी. सी. ऑफिसाक, बिस्पाच्या घराक आनी राजकीय पार्टींच्या दफ्तरांत मनवी धाडल्या आसतेली, इगर्ज्यांनी सामुहीक नोवेनां, तेसांवांचीं मिसां चलतात आस्तेलीं.

'पूण ह्या वर्वीं आमची परिगत बदलाना...'

'देखून आमी ती बदलीजे', तो म्हणालो खचितायेन.

'पयल्या सुवातेर आमी आमकांच समजयजे कीं आमकां येदोळपर्यांत कसलेंच बादक येवंक ना आनी आमी जिवंत आसावं. हाचो मतलब, इराकी आमच्या नासा[203] खातीर हांगासर आयिल्ले न्हय. कुवेय्ट सोडून वेचें स्वातंत्र[204] आमकां उगतें सोडलां. पूण कशें हांगाथावन भायर वेचें म्हळ्ळ्या सवालाक जाप आमीच सोदीजे. रिस्क आमचीच.

'आमी हंतान हंत आमचें निर्गमन प्ल्यान करीजे!' तो उठोन उबो जालो. आपल्या पतीचें स्थैर्य आनी स्थिथमिताय अभिमानान पळेतालें विशी. 'म्हाका भंय दिसाना म्हण हांव म्हणाना. म्हाका भंय दिसता न्हय, पूण ह्या भिंयान हांव आंधळो जावंचो ना आनी गे – खबरांक बली जावंचो ना. हें तुवेंयी मतींत धरीजे.

'आगोस्ताच्या पंचवीस तारके भितर कुवेय्टांत आसल्ल्यो सर्व विदेशी एंबेसी बगदादाक वर्ग करीजे म्हळ्ळी हुकूम सद्दामान भायर काडल्या. मतलब, ताणे कुवेय्ट आपलें एकूणविसावें प्रांत म्हण आपणायलां आनी तो खंडीत जावन पाटीं वचाना. पूण हांगासर हुन्नर पळे, ताणे सांगलां एंबेसी बगदादाक व्हरा, अशें. पूण ताणे खंय सांगलां, तुमी सर्व विदेशींनी बगदादांत येवन बसाजे म्हण?'

'पूण तो पाश्चिमात्य देशांच्या नागरीकांक तो हमी (Hostages) करून घेता न्हय!'

'पुण तो अशें मानता? बॉरनानविचारलें.

तो म्हणता हे पाश्चिमात्य देशांचे नागरीक आपले खास सय्रे म्हण!'

'तर?'

'तर आमी जॉर्ज बुशान सांगल्लेपरीं करीजे. Wait, Watch and learn.' थोड्या वेळाचें मौन.

'आनी दोन या तीन दिसांभितर आमी हांगाथावन सुटजे आनी शीदा अहम्मदी वचाजे. आक्रमणाचीं ल्हारां मोवाळोन[205] आयल्यांत म्हण पातयेवयां आनी एक मुल्क भितर मारल्या उप्रांत आक्रमण केल्ल्यांक कितें जाय? हें आमचेंच एपार्टमेंट म्हण भितर रिगल्ले हें एपार्टमेंट नास करतीत? बिलकूल ना.

'आमी गरजेच्यो वस्तू दोन सुटकेजींनी भरयां. तुका तांकता तर काम आतांच सुरू जावंदी. हांव बिल्डिंगांतल्या हेरांक भेट दिवन येतां. सदांयी भेटाजे म्हळ्ळें तरी आमी भेटानासतां सबार दीस जाले.' तो लागीं आयलो आनी विशीच्या कपालाचो उमो ताणे घेतलो. 'तुका आनी तुज्या उदरांत आसल्ल्याक कांय जावंचें ना.' तो म्हणालो.

'आमकां तेगांयकी कांय जावंचें ना!' तें म्हणाले.

सुमार एक घंट्या उप्रांत पाटीं आयिल्या बॅरनाच्या मुकमळार सावळी आसल्ली. 'कितें जालें?' विशीन विचारलें. तो दुखेस्त हांसो हांसलो.

'You Know, Vishi', तो म्हणालो 'ह्या बिल्डिंगांत पालेस्तिनीक आनी थोड्या इराकींक सोडल्यार हेरां सर्वांनी पळापळ घेतल्या या खंयतरी ते गेल्यात. एकच एक इंडियन फॅमिली हांगासर ना.'

'कोणाकच सांगानासतां!?' विशी शेर्मेलें. 'तुवें सांगल्लें सत जालें तर.'

'व्हय! आमी एकसुरीं म्हण आमकां भोगता, पूण आमी एकामेकाखातीर आसात. आतां आमचें हें कुटम लागीं सरजे. डॅडी, माम्मी आनी आमी. डिनाविशीं हांव खंत करिना, पूण म्हाका खंत जाता त्या जॉनीच्या भाच्याची... कितें नांव ताचें.... जेरी... जेराल्ड...'

हें उलोणें जाल्ल्या तिसऱ्या दिसा विशीन आनी बॅरनान फकत दोन सुटकेजी घेवन तें एपार्टमेंट सोडलें. बिल्डिंगाच्या हारिसालागीं तांणीं सागलें कीं तीं अहम्मदी वेतात, आवय सरशीं. इरानी तो, बॅरनाचो हात धरून रडलो. 'जरूर पाटीं येयात. आवयक घेवन येयात. ती खंडीत सुरक्षीत आसतेली.'

बिल्डींगाच्या वठाराथावन भायर आयिल्ल्या बॅरनान आपलें कॅप्रीस क्लासीक लागशिल्या गॅस स्टेशनालागीं रावयलें आनी फुलपेट्रोल भरलो. देवें कुवेय्टी

डिनारांनी ताणे दितच गॅस स्टेशनांत आसल्ल्या पालेस्तिनीन ताका चिल्लर दिताना इराकी डिनार दिले. बॅरनान आपल्यो भंवर्यो वयर केल्यो.

'कितें तुका खबर ना?' खेंचलो तो.' आतां कुवेय्टी डिनार आनी इराकी डिनार मावल्यांत[206] एकच. नेणाय तूं सद्दामाच्या सरकारान बँकां उगतीं केल्यांत आनी सदांचो वेव्हार चलता.'

ताका अर्द्या मनाचें धन्यवाद दितच तो कारांत बसलो आनी अहम्मदीची वाट ताणे धरली.

ट्राफिकाक दिशा नातल्ली, रुली नातल्ल्यो. कुवेय्टांत आसच्यो सर्व 'वन वे' आतां कितल्यो वे जाल्ल्यो म्हण कळीत जायनातल्लें. दोन पावटीं मिलिट्री ट्रकां ब्यारनाच्या काराक आपटोचीं चुकलीं. सगळ्या मोटरवेचेर हुलपोन वेचीं टायरां आनी कारां दिसतालीं. एका थराची मूर उठल्ली, स्मशानांत मडीं हुल्पताना उठची मूर.

कुवेय्टांतल्यो सर्व रस्त्या निशान्यो निळशा रंगाच्यो, पूण आतां त्या सर्व निशान्यांचो रंग पाचवो करताले. इराकी सोजेर. भोवशा रस्त्यांचीं नावांयी ते बदलिताले. मेस्सिला सर्कला लागीं सद्दामाची एक बृहत तस्वीर येदोळच उबी जाल्ली.

बॅरनाचो ताळो भरोन आयलो आनी ताणे उजव्याक बसोन आसल्ल्या विशीचेर दिश्ट घाली. ताच्या दोळ्यांनी दुकां आसल्लीं.

वाटेर तीन नाका बंदी लागीं तांणी राखजे पडलें, पूण कारा भितर अर्द्या मनान तिळून 'इंडियन?' म्हणोन इराकी सोजेर पयस सरले. सगळे वाटेर ट्राफीक सिग्नल विफल जाल्ल्यो या केल्ल्यो. संत्र्यांच्या रंगांचे ट्राफीक लायट मात्र झंपडताले. (Blinking) हर एका सिग्नला लागीं भोव चत्रायेन वेग उणो करून बॅरनान आपलें कार पाशार केलें. मोटरवे थावन अहमदीक घुवंच्या सिग्नलालागीं ताणे काराचो वेग उणो करताना एक काळें ओल्डस् मोबील कटलास कार 'सुंय्य' करून पाशार जावन ताका उतरोन गेलें. एक खिणाक, कारांत आसल्ल्यो दोगी स्त्रियो ताका दिसल्यो. तीं दोगांय बुरख्याचेर आसल्लीं. काराक नंबर प्लेट नातल्ली.

'ह्या कुवेय्टी चलयांचो जोश आनिकी देवोंक ना!' दाडामां अडचून म्हणालो बॅरन. 'इराकीं सांगाता मेळोन हांणीयी कारां चोरूंक सुरू केलां तर?'

'त्यो इराकी स्त्रियो जावंकय पुरो, डार्लींग!' म्हणालें विशी एका सोबीत हास्यासंगीं. बॅरनान ताका चिक्केशे धोंकुळ्ळें.

अहम्मदी गवर्नरेटाक वेचो नीट रस्तो मेळताना, दाव्याक आसचें 'कम्युनिकेशन टावर' तांकां दिसलें. ताचो एक वांटो भेतोन गेल्लो आनी काँक्रीटा भितरले सरळ भायर तिळताले.

'चेकपोस्ट!' विशीन बॉरनाक जागयलो. एक कार थंयसर आसल्लें आनी दोग इराकी सोजेर मेशीनगन घेवन त्त्या कारा सरशीं उबे आसल्ले. बॅरनान आपलें कार त्या काळ्या काराचे देगेनच रावयलें. 'तेंच कटलास आमकां उतरोन सुरांटी मारून गेल्लें!' पिस्पिसलें विशी.

कार चलवंची चली भायर येवन आपल्या बुरख्याचें मुकवाड काडून इराकी सोजेरांक अरेबिकांत सोवतालें. ते सोजेर हळ्टान हांसताले. बॅरनाक अरेबीक समजनातल्लें जाल्ल्यान ताणे भुजां उडयलीं.

आनी तवळ काराभितर बसोन आसल्ले स्त्रियेन कसलेंगी म्हळें.

'तूं चिक्केशे वोगी रावगे, तेज्जाण्टी!' ते चलयेन ताळो काडलो.

'एका मुस्लीम स्त्रियेचो बुरखा हांणीं कसो काडवंचो? आज हांगासर, फाल्यां आमी आनी खंय तरी पळापळ घेवंची तर?'

बॅरन आनी विशाखान एकामेका पळेंवंचे भितर इराकी सोजेरांनी त्या काळ्या कटलासाक वचोंक इशारो दिलो आनी ती चली आदलेच सुरांटेन कार चलवन उसळ्ळी. तिका सारकें ड्रायवींग येतागी म्हळ्ळो दुबाव जालो बॉरनाक.

'हांवें आयकाल्लेंच तुवेंयी आयकालेंय, विशी?' बॅरनान नापायतेणेन विचारलें.

`I Think so!' तें म्हणालें गुळगुळ्या हास्यासंगीं. 'कसली संगत ही? आरबिण्यो तुजी मायभास शिकल्यांत?

तितल्यार रिकी सोजेर हांच्या कारा सरशीं आयलो आनी विशीचे अपूट सोबायेक सयलापान पळे लागलो.

'इंडियन्स?' ताणे इंग्लिशान विचारलें. भोवशा विशीन इंग्लिशांन उलयिल्लें ताका आयकालें जायजे.

'येस, ब्रदर!' जाप दिली विशीन. 'अहम्मदी हॉस्पिटल गोईंग.' 'नो, नो अहम्मदी हॉस्पिटल!' म्हणालो तो सोजेर गंभिरायेन.

'सद्दाम हुसेन हॉस्पिटल.'

`As you like!' म्हणालो बॅरन. 'सलाम आलेकूम'. सोजेरान, तांणी वचयेत म्हळ्ळी निशानी दिली...

आपल्या बापायचें घर लागीं सरताना बॅरनाचें काळीज कठीण उडोंक लागलें.

'आमी कांय तडव करून पावोंक नांव, विशी?' तो म्हणालो. विशीन ताच्या खांदार हात दवरलो.

'धैर घे.' तें म्हणालें. 'वाटेर कसलेंयी रगतापात या दोंबी - लूट आमी पळेवंक ना न्हय? तुजी थियरी सारकी बॅरन. कुवेय्ट नास करीजे म्हळ्ळें धोरण घेवन इराकी येवंक नांत.'

घराच्यो पिकेट गेटी दिसताना बॅरनाचें काळीज तोंडांत आयलें आनी ताचो ताळो भरोन आयलो.

'मां, मां!' कारथावन भायर येवंच्या फुडेंच आवयक हाक मारल्लो तो उलो सारको सुटलो ना.

मोली पिरेर आपले गेटीलागीं रावोन शेजारी हेन्री पिंटो लागीं उलयताली. काराचो आवाज आयकोन ती हे कुशीक घुवंली.

खिणा भितर ब्रेक मारून बॅरनान कार रावयलें आनी तो भायर उडलो. विशीन, भायर येवंक आपलोच वेळ घेतलो.

'तूं सुरक्षीत आसाय मां?' तो बावळे विस्तारावन तिचे वेंगेंत धावंलो. पाटापाट, विशाखा.

'म्हज्या तसल्या पातक्याक इराकींचें गुळे लागानात पुता!' मोली म्हणाली, तांकां आरावन घेवन. 'तुमी बरीं आसात मूं?' तिणे विचारलें. 'वाट सुरक्षीत जावंचे पर्यांत तूं विशीक घेवन हेवशीन येवंचो नाय म्हण हांवं जाणासलीं. फोनां लागानात. विशीची भलायकी कशी आसा? हांगासर म्हाका हेन्रीन दिल्ली कुमोक आनी धैर सांगोन आकेर करचें न्हय.'

थोड्या घड्यांचे मौन.

'डॅडी येवंक ना मां?' ताचें सवाल आवचीत पूण अनिरिक्षीकत न्हय.

'ना पुता', तिणे जाप दिली. 'हांवे मिया जानाक फोन केल्लें. त्या दिसा आपूण लेट येतां म्हण आंबून सांगल्लें खंय. त्या उप्रांत मियाजानाक कसलीच

खबर ना. आंबूची फार्मसी इराकींनी लुटल्या...'

'आनी मिया जान?'

'तो बोहरी न्हय? ताच्या समुदायाचे ताका सांडीशे नांत.'

'हॅली विशी, बॉरन.' आतां मुखार आयलो हेन्री पिंटो. 'चार दिसां आदीं माम्मीक घेवन त्या... आ... फिलिप्पिनी चलयेच्या एपार्टमेंटाक सोदून गेल्लो. एपार्टमेंट मेळ्ळें, पूण थंयसर कोणच नांत... आंबू कांय तांच्या सांगाता...'

'खंय वेतलो?' एकाच्फाणे मोली म्हणाली. 'फिलिप्पिनाक? हाका लुटून तें स्टेल्ला मारीस पोळ्ळां[207] आसतेलें.'

'आमी भीतर या, मां!' म्हणालो बॅरन विशय बदलून. 'विशीक विशेव जाय.'

'बराबर!' मोलीन म्हळें. 'खाण - जेवण आसा. दोनपारांच्या जेवणाक तुंयी ये हेन्री.'

अहम्मदी परिसर पळेताना इराकी सोजेरांचें येणें आनी गवर्नरेटा लागीं ताणीं उबे केल्लें ठाणें आनी स्कड मिसायलां सोडल्यार हेर कसलेंयी बदली जाल्लें दिसनातल्लें.

बॅरनाचें आनी विशीचें न्हाण जावन तीं भायर बसोन टँग पिवनपियेताना भायर हित्तलांत कसलेंगी आपटाल्लो आनी रुकड मोडल्लो आवाज आयकालो.

ब्यारन आपल्या हातांतलो तांबलेर सोडून भायर हितलाक धांवलो. पिकेट गेट मोडून एक काळें कटलास कार भितर रिगलें. बॅरनान सोपूत - उद्गार करचो भारीच उणो.

`What the bloody hell!' तो उद्गारलो. कारांतली एक चली भायर आयली. तिणे अर्वास बुरखा काडल्लो. 'मोली पिरेरीचें घर हेंच?' तें सुडाळ कोंकणीत विचारी.

'आनी तूंच न्हय त्या इराकी सोजेरांक येटतालेंय?' ताका बोट जोखलें बॅरनान? 'बुरखा घालून कोंकणी उलवचें तूं कोण? आनी ती स्त्री कोण?' ताणे बंप्र मोडल्ल्या काराक दाखवन विचारलें. 'तुका ड्रायवींग कळीत आसा या ना?'

'हांव मंगळुरचें नोरा लुवीस!' तें म्हणालें. 'आनी ती म्हातारी म्हजी तेज्जाण्टी. आनी म्हाका ड्रायवींग कळीत ना!'

■■■

# 47

'व्हय!' म्हणालो जेरी. 'जिणेंत पयले पावटीं हांवें जिणे आनी मरणा मदें धैरान उमकळची विंचवण केल्या!'

जेरीचें हें घोशण आयकोन काजितानान ताका दोळे अशीर करून पळेलें. ताचे दिश्टींत सबार नंजाळीं सवालां आसल्लीं आनी तवळ आपणें ठाव ठिकाणें नातल्ल्या एका भिकणान आसलें एक घोशण करचें खंडीत जावन हास्यास्पद म्हण जेरीक भोगलें. काजितानाक कळीत ना जावयेत, पूण जेरीक आपणाची येदोळ पर्यांतली जिणी कसली जावन आसल्ली, कसल्यो सर्व विंचवण्यो करूंक अवकास ताका आसल्ले म्हळ्ळें तो बऱ्यान जाणा आसल्लो.

जिल्ली पायस टिचेरीचो एकलोच पूत, आवयन ताचो कोंडाटो करूंक ना तरी कसल्याकी आशेवंक या सळ करूंक सोडल्लो ना. हळ्टाच्या व्हाळासंगीं सुशेगान व्हाळल्लें ताचें जिणें. व्हय एके चलयेक सिनेमाक आपवन व्हरून उप्रांत आयस्क्रीम खाववंच्या आनी त्या विशीं दुसऱ्या दिसा फ्लाशींत उलवंच्या बदलाक तो आनी शिंटो, कागदाचे सुरुळेंत बियर बॉत्ल लिपवन कद्री गुडयार बसोन फालां मारचे तर्नाटे.

आवचीत तें नोरा लुवीस आयिल्लें. जेरीचे जिणेंत आयिल्लें म्हणच्या परस घरांत आयिल्लें म्हळ्यार सोंपें जायत. पूण क्रमेणा तांची सळ्गी चिक्केशे वाडोन रावली आनी तो नोराची लांब पांती वोडच्या कर्तुबा पर्यांत पावलो. पूण तितलेंच... तें एक सांगातीण. हाच्याकी वर्ते आकर्शण ताका भोगल्लें ना. तें घरकाामाचें म्हळ्ळ्याखातीर न्हय, जेरीची कालेतच तसली.

कांय तरी ताणे आपले जिणेंत 'कित्याक' म्हळ्ळें सवाल विचारलां तर तें सॅली कुरियनाक भेटल्ल्या आनी ताचे सिर्विसेंत सेरवल्ल्या उप्रांत मात्र. त्या सर्व

घडितांच्या सन्निवेशांची पिंतुरां आत्तां ताणे उच्चारल्या घोशणा सांगाता घांचाळे जावन भायर आयलीं. तो आपणाचेरच लजलो.

हुंदराक लोखणाचो वावर कित्याक रे? केदाळाय म्हणताली जिल्ली पायस टिचेर. आतां आपूण कसल्या वावरांत सांपडलों?

अर्थ आसा ह्या सन्निवेशाक? सूट मारून, मुठी तेद्या[208] काळजांत मुडोभर सपनां घेवन कुवेत एअरपोर्टांत देंवल्लो जेराल्ड पायस, विल्मा आण्टीचो कस्कसो, कुवेती ऑफिसराचें थापड, जेल, काझी आनी त्या उप्रांत आक्रमण आनी आतां आपलें घोशणः जिणे आनी मरणा मदें... कितली जिणी पळेल्या म्हण हांवें? ताणे आपणाकच विचारलें. तळट्या सारक्या काजितानाच्या धैरार आपणे हें घोशण केलें. ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. निजायकी आपूण धैरादीक मनीस? कोणाच्या झुजांत हांवें धैर – दाखयजे? तूं खंय आसाय, मां म्हळ्ळें आक्रंदन मौनपणी ताचे मतींत उदेलें. ह्या आक्रंदनाचीं ल्हारां काजितानाक लागलीं गी कितेंगी तो ताच्या लागीं आयलो आनी ताणे ताच्या खांदार हात दवरलो. 'सर्व सारकें जातेलें रे!' तो म्हणालो. 'हांव आसा न्हय? पयलें. तें नोरा खंय आसा म्हण पळेवयां आनी त्या उप्रांत ह्या कुवेय्टांत फुडें कितें करचें म्हण पळेवयां.'

'तूं नोराचो मोग करताय?' जेरीन दुसरे पावटीं काजिताना लागीं विचारलें, पूण ताका एक घुस्पडीत हास्या शिवाय जाप मेळ्ळी ना.

ते फार्महावजाथावन भायर सरोन वेताना थंय फाटीं उरल्ल्यांचे हळ्टान विळाप जालेच. 'आमी कितें करचें?' तांणी विचारलें. 'तुमकां जें बरें म्हण दिसल्लें', काजितानान जाप दिली. ह्या चिकूची जतन हांवें घेजेप कित्याक ताची विजा आनी म्हजी एकाच पोदोर्नीच्या दफ्तराथावन आयिल्ली.

राजरस्त्यार मेळल्ल्या पयल्या गॅस स्टेशनांत पेट्रोलाची टांक फुल्ल करतेच काजितानान आपल्या जेम्स पिकपाचो वेग चडयलो. वाटेर ताका इराकी सोजेर, टांकी, रणगाडे मेळ्ळे, पूण तांकां कोणेंच आडायलें ना या कसलीच नाकाबंदी तांकां आड आयली ना. अल–अल्जर पावर स्टेशन उतरोन ते मुखार गेले आनी सुडाळ रस्तो धरलो. सुमार देडा घंट्याच्या ड्रायविंगा उप्रांत काजितानान एका सिग्नला सामकार आपल्या वाहनाचो वेग उणो केलो. 'उजव्याक फाहाहील आनी दाव्याक अहम्मदी!' तो म्हणालो. 'परत विंचवण तुजी.'

'नोरा लुवीस!' जेरीन इतलेंच म्हळें. वाहनाचो वेग चडलो. कुवेय्ट सिटी लागीं ते सरताना नाका बंदीची घडणूक चडोनच आयली. पूण टांकी, रणगाडे, मिस्सायलां आनी त्या मदें चलोन वेचे इराकी सोजेर म्हणताना काजितानाक आपलें पिकप चलवंक सुशेग जालो ना. सोबीत करावळीच्या रस्त्यार पिकप चलयताना ताणे जेरीक सांगलें : 'पळेरे, कुवेय्ट टावरां म्हळ्यार हींच रे, पळेरे तांची सोबाय. एका टावरांत घुवंचें रेस्टोरेंट आसा, आन एक एक बृहत उदका टांक. हाचेरय शेल्लींग करचें प्रेतन केलां ह्या पाड पडलेल्यांनी!' तो उद्गारलो.

उप्रांत पंदरा वीस मिनुटांची वाट घुवंडी घुवंडी मारून तो एका रावळेरापरीं दिसच्या बंदपासरशीं पावलो, पूण ताणे वाहन रावयलें ना. 'शेक फाहदाचें रावळेर!' तो म्हणालो, गिदापरीं त्या बांदपाक पळेवन. 'नोरा हांगासर काम करता.' ताच्या सांगाता जेरीनय तिळून तिळून पळेलें. गेटी लागीं ताका दिसले सोजेर आनी सोजेर मात्र. ते सुडाळ आसल्ले आनी कसलेयी तुर्त परिगतींत ते आसात म्हळ्ळेपरीं दिसनातल्ले. गेट पिड्ड्यार जाल्ली आनी दोळ्यांक दिसच्या रावळेराचो भागय ध्वंस जाल्लो. दोन मिस्सायलां आकासाक पळेवन आसल्लीं.

'हांगासर कितापत जाल्या!' म्हणालो काजितान इतले चतरायेन कीं, पयस आसल्ल्या सोजेरांक आपणाचो ताळो आयकाता म्हळ्ळ्या भियान तो आसल्लो म्हळ्ळे परीं जेरीक भोगलें. नोराक कितें जालांगी? आनी ती म्हातारी तेज्जाण्टी...' ताचीं उतरां पातळ जावन बंद पडलीं.

तितल्यार –

'थंय पळे!' किळंच्र मारली जेरीन. सामकारच आसल्ल्या एका सर्कलाचेर एक व्हड जय्त 'क्रेन' उबी आसल्ली आनी त्या क्रेनीच्या कुव्याचेर एक कूड उमकाळताली. मिलिटरी समवस्त्रार आसल्ली ती कूड कुवेती ऑफिसराची जायजे, अशें अंदाज केलो काजितानान.

'हांगासर फाशी दितात!' सगळोच कांपोन सुस्कारलो जेरी. 'आमी हांगाथावन धावंया!'

काजितानान कांय म्हणानासतां मुखार आसची घुवंडी कातरली. सामकार आयिल्ल्या मिलिट्री ट्रकाक ताणे धक्को मारूंक फकत एक इंच आसल्लें कोणणा. मिलिट्री ट्रकांतल्या सोजेरान अरेबिकांत बोबाट मारून कसलीगी गाळ दिली

जायजे. 'तुकायी तेंचरे, पाड पडलेल्या!' पाटीं बोबाट दिली काजितानान.

वाहन स्थिमिताक येतेच, 'आमी आतां शीदा ले गाबारूक' वेचें बरें!' काजितान म्हणालो.

'ले गाबारू?' जेरीन विचारलें. 'हें कसलें...'

'तूं कितें चिंतताय?' काजितान आपलो नमुनेदार हासो हासलो. 'ले गाबारू म्हळ्यार कांय फ्रेंच रेस्टोरेंट न्हय बगार गाब्रूचें मेस. आमीच ताका चिडावंक ताच्या मेस्साक फ्रेंच वोप दिल्या', तो परत्यान हासलो. 'हो गाब्रू गोंयकार आनी हाचें मेस म्हळ्यार म्हजे तसल्यांक एक सर्ग, जेवण कशेंयी मेळता, हांवे रावचें त्याच बिल्डिंगांत, विजा नातल्ल्यांक लिपवंक आनी सोरो काडूंक ग्राब्रू अव्वल. भंय म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें तो नेणांच. आतां तो आनी ले गाबारू कसल्या स्थितेर आसात म्हण पळेवयां. गाब्रूच्यान सबार कामां जातात आनी ताचें मेस आसल्ल्या बिल्डिंगाथावन शेक फाहदाचें रावळेर सारकें दिसता.'

गाब्रूचें मेस आनी रावपाची वेवस्ता आसल्लें बिल्डिंग कांय कुवेय्टांतच पर्नें कोण्णा अशें भोगलें जेरीक कित्याक ताणे येदोळ थोडीं पॉश बिल्डिंगां पळेवन जाल्लीं. बिल्डिंगाभायर पिकप रावयतेच काजितान देंवलो आनी जेरीक देंव म्हण ताणे इशारो दिलो. बिल्डिंगांत लिफ्ट नातल्ली आनि दिसा उजवाड तरी काळोखांत आसल्ली मेटां चडोन ते एका रुमाच्या दारवाट्या लागीं पावले. दाराचेर व्हड एक खुरीस आसल्लो. 'येदोळपर्यांत सर्व सारकें आसा. जेरीक दोळो मोडून म्हणालो काजितान, 'हो खुरीस काडीजे म्हण सबार पाव्टीं ताका वक्फ मिनिस्ट्रीच्यांनी नोटीस दिलां. पूण गाब्रूचें जेवण जेवन ते सर्व विसरतात. जाय तर एक पेगय तांकां दिता हो गाब्रू. आतां हो पाड पडल्लो जीव आसागी म्हण पळेवयां

गाब्रू जीव आसल्लो.

काजितानाक पळेतच गाब्रून ताका वेंग मारली. तूं तेवशिल्यानच निकळ्ळोय म्हण हांवें लेकलें रे काजी!' तो म्हणालो मोटोच गुळगुळो मनीस तो. मटवें खाकी इजार ताणे घाल्लें तें ताच्या तोंद्याचेर दोन इंचां रुंदायेच्या बेल्टान बांदून रावयिल्लें, आंगार एक म्हेळकूट सिंगलेट ताच्या वयर कोंतबेतीन, दाव्या हाताचेर नांगोराचें सुयेचित्र आनी उजव्याचेर खुरसाचें. 'हो कोण?' ताणे जेरीक पळेवन विचारलें. आतां हो काजितान म्हाका परत्यान चिकू म्हणता, अशें चिंतलें जेरीन.

पूण काजितानान मर्याद दिवन ताची ओळोक करून दिली आनी त्या उप्रांत भिंयानशें तें सवाल केलें. 'नोराची खबर आसा?' काजिताना मुखांत्र गाब्रूक नोराची ओळोक आसल्ली.

गाब्रून, काजितानाची दिश्ट चुकयली. 'सत सांगचें तर हांव नेणा!' तो म्हणालो जनेलालागीं वचोन भायर पळेवन. थंयथावन शेकाच्या रावळेराची एक कूस दिसताली. 'शेकाक तांणीं लगाड काडलां आनी रावळेरांत आसल्ले सर्व गुल्ल जाल्यात म्हण हांवें आयकालां.'

'तो इशान पुणी हांगासर येवंक ना?' काजितानान विचारलें गाब्रून मातें हालयलें. 'कोण जाणा ताकायी इराकींनी खोरें मारूंक व्हेला आसतेलें. कसोयी रेड्यापरीं सोरकेल्लो तों. पूण गाब्रूच्या उतरांनी हास्य नातल्लें. 'कांय भियेला आस्तलो.' उप्रांत तो म्हणालो, 'तुमची कथा सांगा.'

'पूण ह्या घडये कुवेय्टाची परिगत कसली, गाब्रू?' काजितानान विचारलें, जेरीची कथा सांगतेच. 'नोराविशीं कितें म्हणचें म्हण म्हाका समजाना.'

'तुमी थकल्यात!' म्हणालो गाब्रू. 'बरो स्टफ आसा, कांयतरी घेतात? कुंकडाचें विंदालू केलां...' तांचे जापीक राकानासतां भाब्रून कबाटांतली बोत्ल काडली, किचनांतले तीन ग्लास हाडले आनी फ्रिजांतले तीन सेवेन अप भायर काडले. काजितान हास्लो.

'झूज जावं, आक्रमण जावं, तुजें तुपें केन्नायी भरल्लेंच आसता न्हय गाब्रू?' तो म्हणालो. गाब्रून जाप दिली ना. 'गाब्रूचो फायर स्टफ माररे चिकू', काजितान म्हणालो जेरीचे पाटीक मोगान एक गुडुलुसावं दिवन. 'मेल्यारय उडास दवरतोलोय. सांग, मंगळुरांत कांय पेग मारची सवय आसल्ली तुका?'

जेरीन जाप दिली ना. गाब्रूच्या स्टफाचो पयलो घोट ताळ्यांत देवंताना ताच्या नाका – कांतल्यान धुंवर उसळ्ळो.

कुवेय्टची परिगत तुमी पळेवंच्या रितीर आसा!' गाब्रून घोट मारलो आनी एक सिग्रेट पेटयली. 'इंडियनांक ते कसलेच सगळे दिनात आनी स्त्रियांक मर्यादिन पळेतात. पयर हांवं जामायियाक गेल्लों आनी थंय लायन आसल्ली, पूण इराकी सैनिकांनी दादल्यांक पाटीं लोटून स्त्रियांक पयलो अवकास दिलो..' आनी ती कोणाक क्रेनीचेर फाशी वोडल्या?' कांपेऱ्या ताळ्यान विचारलें जेरीन.

'तो इराकी अधिकारीच!' जाप दिली गाब्रून 'ताणे भांगाराचे नग विकचें शॉप लुटल्लें खंय. आमी लुटकार न्हय म्हण संवसाराक आनी जॉर्ज बुशाक दाखवंक तांणी तांच्याच अधिकारीक फाशी वोडली. सद्दाम पार्टी वचाना म्हळ्ळें खंडीत आनी अमेरिका आपलीं शस्त्रा अस्त्रां विक्रो करिनासतां बसना. ह्या मदें आमी खंय जाय थंय वचोंक आजाद आसावं, पूण सवाल कसलेंगी म्हळ्यार कशें आनी खंयच्यान म्हळ्ळें.

सावदीची गड बंद केल्या, शात - अल - अरब हांतल्यान वचोंक साध्य ना. हांगाथावन भिरांतीन धांवल्ले इराक आनी जॉरडान गडीं मदें शिरकाल्यात आनी एका खुबुसाच्या कुडक्या खातीर सुण्या माजरांपरीं झगडतात. दुबाय आनी बाहरेन टी. वी. चेर हें पळेताना दोळ्यांत दुकां उदेतात.

'येदोळ पर्यंत जॉर्डानाची गड उगती आसा, पूण हांगाथावन जॉर्डानाक पावचें तरी कशें? कुवेय्ट एअरपोर्टाथावन बगदादाक तांणी फ्लायटां सुरू केल्यांत, पूण टिकेटीचें मोल, फकत डॉलरांनी ते वसूल करतात. हांगाचीं सराफांची (Money changers) दुकानां आक्रमणा दिसाच बंद जाल्लीं. पूण आतां ह्याच दुकानांनी काम करून आसल्ले बोहरी आनी पाकिस्तानी इंडियन एंबेसी पाटल्यान डॉलरांचो विक्रो करतात. आदीं एका कुवेय्टी डिनाराक तीन अमेरिकन डॉलरां मेळतालीं पूण आतां तीन डिनारांक एक डॉलर मेळता. पूण कितेंयी तरी डॉलरां घेवन दवरचीं बरीं.'

'पूण कशें?' विचारलें काजितानान 'बेंकां बंद म्हण हांवें आयकालें.'

'पूण आतां तीं इराकींनी उगतीं केल्यांत', म्हणालो गाब्रू. ताच्या स्टफान जेरीची मत मंद जावन येताली आनी बावळे सदीळ जाल्लेपरीं भोगतालें. 'बेंकां बंद दवरचीं म्हळ्यार कुवेय्ट, इराकाचेंच म्हणच्या सद्दामाक लज न्हय?' गाब्रून मुकारिलें. 'पूण आतां डिनाराचें मोल इराकी डिनारांचेंच. सुमार तीन वांटे डावन.'

थोड्या वेळाचें मौन.

'तूं कितें करताय?' घळायेन विचारलें काजितानान. 'आमचो सरकार कांय करीत म्हळ्ळो भरवसो आसा?'

'हांगाच्यो एंबेसी सर्व बगदादाक वर्गायसीजे म्हळ्ळी हुकूम भायर काडल्या

सद्दामान. पयलीच आमची इंडियन एंबसी भाग आयिल्ली... आनी हां... आमचो विदेशमंत्री आय. के. गजराल येवन गेलो!'

'कसलो मतलब?' हांकेगेलो काजितान. 'येवन गेलो म्हळ्यार कितें?'

'येवन गेलो!' दाडामां अडचून म्हणालो गाब्रू. 'हांवें आयकाल्या प्रकार तो कुवेय्टांत आसल्ल्या व्हडल्या मांडड्यांची लिस्ट हाडून आयिल्लो खंय. ते सर्व सीख मनीस म्हण तांकां विंचून घेवन म्हळ्ळेपरीं आपूण आयिल्ल्या मिलिट्री विमानाचेर व्हरून गेलो खंय!'

'पाड पडलोलो' मुटी आंरदिल्यो काजितानान. 'म्हाका आन एक ड्रिंक दी. गाब्रू', तो म्हणालो 'एक इंडियन तारूं शुवेय्क बंदराक आयिल्लें म्हूण फार्महावसांत हांवें आयकाल्लें...'

'हूं', म्हणालो गाब्रू. 'दोनशीं तीनशीं इंडियन गेल्यात खंय त्या तारवाचेर.'

'तर आमच्या विदेशमंत्रीन केल्लें तितलेंच?' काजितानान 'रफक्क' करून सेवेन – अप उगतो केलो. 'पाड पडलोलो.'

'हूं!' इंडियाथावन कुटमाच्यांची लेटरां हाडून आयला खंय' गाब्रून सांगलें. 'रुमेथियांत आसच्या इंडियन स्कुलाच्या हॉलांत तीं मांडून दवरल्यांत खंय..'

'कितें करूंक?' खेंचलो काजितान 'अच्यार[209] घालूंक' म्हाका चीट बरयतेलीं गोंयांत कोणूय नांत.'

'तुजो पासपोर्ट हातांत आसारे काझी?' गाब्रून विचारलें.

'व्हय, हांव केन्नायी इराकाक वचोन येतां न्हय आनी इराकांत वाहन चलवंची 'इजाज'[210] आसा म्हजे लागीं.'

'आनी हाचेलागीं... चिकू लागीं?'

'हाचे लागीं बदली करूंक एक अंडरवेअरय ना!' जाप दिली काजितानान.

'पर्वा ना', म्हणालो गाब्रू. 'आमच्या केरळाच्यांनी इंडियन एंबसीच्या रस्त्यार तांचीं शॉपां उगतीं केल्यांत आनी तुमकां जाय तें अर्द्या मोलाक मेळता. जाणाय तूं इराकाथावन न्हंयची मासळी हाडून ते विकतात!' हें सांगोन तो हांसलो 'आतां हांवें सांगचें आयक :

रुमेथिया इंडियन स्कुलांत इंडियन एंबेसीचें काम चलता. आमकां इंडियाक धाडूंक कसल्योगी लिस्टी ते तयार करतात खंय. तुमी वचोन नांवां दिया. पासपोर्ट

नातल्ल्यांक कसलेंगी डॉक्युमेंट मेळता खंय. पूण त्या फुडें बेंकाक वचोन खात्यांत कांय आसा तर भायर काड. आतांच तुका कांय जाय तर...'

गाब्रून नोटांची अट्टी भायर काडली. तांतूं डॉलरां, कुवेती आनी इराकी डिनारां आसल्लीं. काजितानान नाका म्हण मातें हालयलें.

'फाल्यां इंडियन स्कुलाक वचयारे, चिकू', तो म्हणालो. 'तुका कांय घराथावन चीट आयल्यारी आयली!' तो घडघडो फुटल्लेपरीं हासलो.

जेरीच्या दोळ्यांनी दुकां भरलीं.

'माम्मीची चीट खंडीत आसतेली!' तो म्हणालो.



## 48

एक मिनूटभर तें दृश्य चवकटांत बसयिल्ल्या चित्रापरीं स्थीर जालें. पयली स्थिमिताक आइल्ली म्हळ्यार मोली पिरेरच. 'मंगळूरचें नोरा लुवीस म्हळ्यार तुवेंच म्हाका... कोणाविशीं तें फोन केल्लेंय...' 'जेराल्ड पायसाविशीं', तें म्हणालें, बुरख्यांतलें सगळेंच भायर येवन. ताणे बुरख्याभितर न्हेसल्ली पंजाबी ड्रेस सारकी केली. 'तो जॉनी डिक्रुजाचो भाचो...'

'मेळ्ळो तो?' मोलीन विचारलें. 'म्हजें घर कशें कळ्ळें तुका?'

'जेरीची कसलीच खबर ना, मोली आंटी!' तें म्हणालें ताणे चडीत उलवंच्या पयलेंच –

'तुजें घर कित्याक मोलीबाये,' म्हणाली तेज्जाण्टी. 'त्या सद्दामाचें घर सयतयी सोदूनकाडीत हो तुरुफाचो घोडो. हाणे कार चलयिल्ली रीत पळेल्यार... हाच्या ड्रायविंगांत तरी कोण वांचत मागीर तांणी मरणाक भियेजेच म्हण ना. म्हाका एक घोट थंड उदक मेळत गो पुता मोली?' तेज्जाण्टीन तितले आत्मियतेन उदक विचारताना मोलीचे काळीज भरोन आयलें.

'आमी सर्वां भितर या', ती म्हणाली आकासान एक दिश्ट लावन. 'आनी हां, हो म्हजो पूत बॅरन, म्हजी सून विशाखा आनी हो आमचो बरो शेजारी हेन्री पिंटो.' मोलीन ओळोक करून दिली.

घरा भितर वेतेच आनी एकेक तांब्लेर टँग पियेतेच नोरा लुवीसान आपली कथा सांगलीं.

इशान तांचे पासपोर्ट हाडचांत यशस्वी जाल्लो. तो इतलो शाणो की, खालीद अल – फौजानाच्या मंदुपाच्या दफ्तरांत ताका जेरीच्या पासपोर्टाची आनी विजाची कॉपी मेळ्ळी तीयी तो घेवन आइल्लो. 'तो अल्लाह तुका सांबाळूंदी इशान भाई',

खऱ्या काळजान नोरा म्हणालें.

'आमी हांगाथावन वेची तयाराय करतांव. म्हजे खातीर शेकाचें ओल्डस् मोबील कटलास तयार कर.' हें आयकोन इशान ताका मौजेचे दिश्टीन पळेवंक लागलो. पूण ताणे कसलेंच म्हळें ना. नोरान मन केल्यार, तें मन बदलना म्हण तो जाणासलो.

पाशार जाल्ले दोन दीस तांणी तांतांचो सामान विंचून पॅक केलो. आतां गरजेचें म्हण दिसल्लें दुसरे घडये गरज नातल्लें म्हण दिसतालें. अशें तशें म्हण तांणी गण्ण गच्च भरल्ल्यो दोन सुटकेजी तयार केल्यो. नोरालागीं कांय थोडें भांगार आसल्लें तें ताणे एके चिरियेंत भरलें आनी ती चिरी, इराकींचे नदरेथावन कशी लिपयजे म्हळ्ळो उपावय ताणे केल्लो.

शेकाच्या रावळेरांत ताच्या स्त्रियांच्या कमऱ्यांत अड्डा-दिड्डी पडल्लें भागार, मोतयांचे हार, परमळीक द्रव्यां, दुडू इत्यादी आसल्लीं पूण हांणी त्या वस्तूंक हात बोट लायलें ना. 'म्हाका कितेंच नाका गो?' तेज्जण्टी म्हणाली. 'हांव कुवेय्ट येताना म्हज्या बेबद्या पतीचे दोळे चुकवन हांवें बॅच्याव केल्लो नग म्हळ्यार म्हजी पिडूक मात्र. ही ताच्या हाताक मेळच्या फुडेंच तो आमेन जालो. हांगासर आयिल्ल्या पांच वर्सांनी म्हाका आसल्ली एका नगाची आशा हांवें पूर्ण केली. म्हाका एक कंठी सर जाय आसल्लो आनी तो हांवें करयलो, म्हज्या सांबाळान आनी इतल्या वर्सां मदें शेकान आनी शेका मिरियमान दिल्लें कांय थोडें भांगार आसा म्हजे लागीं. कांय पंदरा - वीस पावंडां जायत. पूण व्हडा मोगाची ती पिडूक आनी म्हज्या खरारा वेळार म्हज्या नोवऱ्यान दिल्लें रुप्याळें कोंत'! तिणे हे सर्व नग आनी आपलो पासपोर्ट एका ल्हान चामड्याचे चिरियेंत भरले.

'ती चिरी सांबाळगे तेज्जाण्टी!' उताळायेन म्हणालें नोरा - 'भायर पडोन वचात तर, जिणीभर रडतेलीय तूं.'

तिसऱ्या दिसा तांणीं इशानाक 'आदेव्श' मागलो 'तूं एक खरो मुस्लीम आनी म्हजो खरो भाव!' तें म्हणालें पाद्देनासतां ताका वेंग मारून.

'फी अम्हान्हल्ला, नुरी', तो म्हणालो. 'तुजें कटलास हांवें भायर पार्क केलां. गुडबाय आम्मी!' ताणे तेज्जाण्टीचे दोनय हात आपल्या हातांनी घेवन आपल्या माथ्यार दवरले. 'तुजी बिरयाणी आमकां चुकतेली' तो म्हणालो.

'त्या उप्रांत धैर आरावन नोरा इराकी अधिकारी सामकार उबें जालें.

'आमी हें रावळेर सोडतावं!' ताणे कळयलें.

'कित्याक?'

'कित्याक म्हळ्यार तुमी कुवेय्ट सोडिनांत देखून!' ताणे जाप दिली.

'तुवें आमकां भास दिल्याय, हें कुवेय्ट आतां सद्दामाचें आजाद दुवेय्ट म्हण तुवें म्हळांय...'

'म्हज्या उडासांत आसा!' तो दरपान म्हणालो. 'सुशेगान वचा! पूण खंय पावल्यात तरी फट संगती संवसाराक सांगानाकात. आमी हांगासर कोणायचेरयी जुलूम करूंक ना. जें कितें इराकाचें आसा, तें स्वादीन केलां तितलेंच. एक सलहा आसा तुमकां : तुमच्या ठिकाण्याक पावंच्या वरेग तुमी बुरखा घाल्यार बरें. नाकाबंदी लागीं चड वांदे जावंचे नांत. तुका ड्रायवींग येता?'

'आज हांव शिकतेलीं!' तें म्हणालें हात मुखार हाडून. हेर इराकी सोजेर ताकाच पळेताले.

'बाय बाय, ओक्ती नुरी!' तो म्हणालो. 'देव तुमचें संगीं आसूं, उम्मी.'

आनी नोरा लुविसान ड्रायविंगाची आपली अपूर्ण माहेत आज साणेक धरली. ताका इतलेंच जाय आसल्लें. आपल्या मनशां सांगाता आसचें.

ताचें साहस आयकोन मोलीन एक नीळ स्वास सोडलो, विशी हांसलें आनी तेज्जाण्टीन कपालाक हात मारलो. 'अहम्मदींतल्या सर्वांलागीं तुज्या घराचो पत्तो विचारलो हाणे.' ती म्हणाली 'एका नाकाबंदी लागीं इराकी सैनिकालागीं सयत. गवर्नरेटा लागीं आसल्ल्या सैनिकांनी आमकां बुरखा काडूंक सांगताना हें चिडलें...'

'कुवेय्टी दादले बुरखा घालून पोळोन धावंचें प्रेतन करतात म्हण इराकींक कळीत जालां.' म्हणालो हेन्री पिंटो.

थोड्या वेळाचें मौन.

'हांव जेरीकच सोदून आयिल्लें!' उप्रांत म्हणालें नोरा.

'हांगासर आमकां जागो आसा या ना म्हळ्ळें आमी नेणावं. आमच्या विशीं सांगचें तर...' नोरान आपलो आनी तेज्जाण्टीचो विवर दिलो.

'जेराल्ड पायसाचो अंकल जॉनी डिक्रूज फाहाहील मासळे मार्केटा लागीं

रावतां, म्हणालो बॅरन. ‘आमी सहवावराडी. साल्मियाथावन ताचें नंबर सबार पावटीं ट्राय केलें, पूण लागलें ना. आतां पळेतां.’

बॅरन, जॉनीचें नंबर लायताना हेन्री हांकां पळेवन म्हणालो ‘रावपाची खंत नाका. म्हजें घर खाली आसा, म्हजी फॅमिली गांवांत आसा.’

‘रिंग जाता!’ म्हणालो बॅरन. ‘हॅलो! जॉनी, Baron here साल्मियाथावन तुजें नंबर लागाना. हांव? हांव माम्मी सांगाता अहम्मदींत आसां. तुमच्या तेवशीन Situation कशें आसा? हांगासर...’ ताणे विवर दिलो आनी जॉनीन तेवशिले दिशेची परिगत सांगताना ताणे चीत दिवन आयकालें. तर तुवें म्हणचें. उप्रांत तो म्हणालो ‘कुवेत आमी जाता तितल्या वेगीं सांडल्यार बरें म्हण. विशाखाची.... हां, म्हजी पतीण विशाखाची भलायकी तितली बरी ना. She is Carrying, you Know...'

परत्यान जॉनी उलयताना बॅरन आयका लागलो. उप्रांत ताणे नोरा आनी तेज्जाण्टीच्या येण्याची खबर दिली. परत्यान ताणे आयकालें. ‘तर खंय पावला हो चेडो?’ ताणे विचारलें नोराक एक दिश्ट दिवन. ‘कितें? तुजेलागीं विवर आसात म्हण तूं म्हणताय? फोनाचेर सांगोंक तूं नर्गाताय? विल्मा? I Understand तुमी एक काम करा, सांजेर शीदा आमगेर येया. अहम्मदी चॅपलांत सांजेच्या स वोरांचेर सदायी मीस आसा खंय... ना, ना, चॅपलाक कसलेंच बाधक जावंक ना म्हण आमचो सेजारी हेन्री पिन्टो सांगता. अंकवार माथेच्या इमजिचो भांगाराचो कुरोव इराकींनीं चोरला म्हळ्ळी गाब जाल्ली खंय... पूण हें सर्व फट. तुमी येया. ना, ना, वाटेर कसलेच त्रास नांत. पूण विल्मा तुज्या सांगाता आसोंदी. आमी आतां पंगडान सांगाता आसचें बरें. We are with you, of course!'

‘तीं येतात तर बरें आसा!’ म्हणालो हेन्री. आयच्या मिसा उप्रांत पी. के. कोशी म्हळ्ळ्यान चॅपलाच्या वाठारांत एक जमात आपयल्या. सामुहीक रितीर बस्सांचेर इंडियनांक जॉर्डान पर्यांत व्हरची वेवस्था आमची इंडियन एंबसी करता खंय. ही वेवस्था, अवस्था जायनाशी जावंक एक Perfect Co-ordination आसाजे. त्या खातीर ही सभा आपयल्या. फाहाहील इंडियन स्कुलांत एक समिती सदांय जमता आनी आमी सर्वांनी नावापट्टी तयार करूंक मजत करीजे. हो कोशी, अहम्मदी आनी फाहाहील एरियांचो Co-ordinator.'

उप्रांत, जेवणाचो वेळ येता पर्यांत तांकां उलवंक धाराळ आसल्लें.

'हाका एकलो गोंयकार बॉयफ्रेंड आसा!' जेवणाच्या मेजार म्हणाली तेज्जाण्टी. 'हें सात जाल्यार तो काजितान साडेसात. आतां तोय खंच्या संवसारांत लिपोन गेला म्हळ्ळें आमकां कळीत ना.'

'तो केदाळाय इराकाक वचोन येता. एक पावटीं गेल्यार एक देड म्हयनोभर पाटीं येना', नोरान एका नीळ स्वासासंगीं सांगलें. 'म्हजे दोग मनीस. जेरी आनी काजितान.... अरेबियाचे मायेन तांकां आनी आमकां राखाजे.' ताणे इतलें म्हणाजे तर तांका पयशिल्ल्यान गुळ्यां फारांचो आवाज आयकालो.

'हें आमकां सदांचें जालां', म्हणाली मोली. 'हे इराकी खंचेंगी शॉप या सुपर मार्केट लुटतात आसतेले आनी लोकाक भियेवंक करूंक वाऱ्यांत फार सोडतात.' हें म्हणताना तिचीं चिंतनां आंबूचेर आसल्लीं. तो कांय त्या स्टेल्ला मारिसाच्या पंगडा सांगाता गेला गाय? मंगफांत स्टेल्ला मारीसाच्या एपार्टमेंटा भायर आंबूचें कारय नातल्लें. पूण तिणे आपलो दुबाव उच्चारलो ना.

दोनपारांचो सुशेग घेताना विशीन, बॅरनाक विरारायेची संगत सांगली. ताका हळ्टाचो रगतास्त्राव (Spotting) सुरू जाल्लें. 'डॅडी के. ओ. सींत नर्स न्हय? सांजेर एक पावटीं के. ओ. सी. हॉस्पिटलाक चेकपाक गेल्यार बरें म्हण म्हाका भोगता...' बॅरनान ताका आरावन धरून धैर दिलें आनी संगत आवयक कळयली. 'वेचें तर आतांच वचयां!' ती म्हणाली. 'पूण तें परिपूर्ण सुशेग घेवंदी. सांजेर पळेवयां घाबरनाकात. तो आंबू खंयय आसोंदी. म्हाका के. ओ. सी. हॉस्पिटलांतल्यांची ओळोक आसा...' सांजेचीं साडे पांच जाताना जॉनी आनी विल्मा आयलीं. सर्वांयी सुडाळायेन उलयताना विल्मा मात्र शिमटी हुल्पाल्ल्या माजरापरीं करतालें. तवळ जॉनीन कस्कस्याचो प्रस्ताप काडलो. ताचें उलवन जाताना थंयसर एक विचीत्र मौन देंवलें.

'हांवें कांय जाय जाय म्हण ताणे सांपडोन पडाशें करूंक कस्कसो हाड म्हण सांगोंक ना!' म्हणालें विल्मा. ताचो ताळो कांपतालो. 'म्हाका एका वर्साक जाय तितलो कस्कसो हाडूंक बरयिल्लें तितलेंच. अशें जायत म्हण कोण जाणा? हो जॉनी म्हाका सदांच ह्या विशयाचेर झरवन आसा...'

मोली उठली आनी विल्मासरशीं वचोन बसोन तिणे ताच्या खांदार हात

घालो. 'आनी तशें जालां म्हण कोण जाणा विल्मा?' तिणे विचारलें. 'आतां पस्तावांक वेळ न्हय, पूण मागण्याक आनी भरवस्याक महत्व दिवंचो वेळ. घट पातयेवयां आमी आमच्या मोगाच्यांक कसलेंच बादक येवंक ना म्हण. आतां आमी चॅपलाक वचयां!'

तिचीं उतरां आयकोन विल्मा रडलेंच.

अरेबियाचे सायबिणीचें अहम्मदी चॅपल आसल्लेपरींच आसल्लें आनी ताची सोबाय कुस्कूट माजवोंक नातलली. चॅपलाच्या वठारांत दोग इराकी सोजेर बसोन सिग्रेट सेवताले. तांचें गुमान चॅपलाक येतेल्यांचेर नातल्लें.

मिसावेळार इतालियन फादर कायतानोन मटवो प्रसंग दिलो. 'हर एका दिसा मिसाक येवंच्या तुमकां हांवें सांगचें इतलेंच. सुटकेचो दीस येतालो. आमी विंचून काडलेली परज्या आनी उण्या भावार्थाचे आमी बिल्कूल न्हय. ह्या विखाळ काळार आमी एक जांवयां, सर्व राग मोसोर आनी दुडवांची आशा विसरयां. कितें करूंक हीं डिनारां आनी मोटीं मोटीं भांगाराचीं कांकणां?' तो चडावत इंडियनांक ओत्तू दितालो . 'आज आमकां जाय भावार्थ, हे जेरीकोचे पागोर कोसळावंक!'

मिसा उप्रांत सर्व भावर्थी वठारांत जमले आनी पी. के. कोशी तांकां उद्देशून उलवंक लागलो. तवळ मुल्यांत बसोन फालां मारचे इराकी मुखार आयले आनी कोशी लागीं, हें सर्व कितें जाता म्हण विचारी लागले. इराकी मिलिटरी कानुना प्रकार कसलीच जमात कुवेतांत चलोंक नजो खंय.

कोशीन कुवेतांत कांय पांचतीस वर्सां पाशार केल्लीं आनी तो किरापरीं अरेबीक उलयतालो. ताणे खुर्साचो घुर्त काडून एक व्हडलें बेसांव त्या सोजेरांक दिलें. 'आमी इसानबी मेस्सियाचे पाटलावी. समादान तुमचेर आसूं. आमच्या हातांत मेशीनगन आसा? ना व्हय मूं? मेशीन गन आसात तुमच्या हातांनी. ही एक मागण्यांची जमात. सलाम आलेकूम.' हें आयकोन इराकी सैनीक एकामेकाक पळेलागले आनी पयस सरले.

कोशीचें उलवप मटवें जावन आसल्लें. कुवेत सांडूंक कसलेंयी प्रेतन एकेकल्यांनी करूंक नजो. भियान पोळोन गेल्ल्यांची गत तुमी टि.वी.चेर पळेतात. आमी सामुहीक रितीर आमची पळापळ या निर्गमन येवजीजे. इंडियन एंबसी खंडीत जावन सर्व मांडावळ करतेली. आमी हांगाथावन जॉर्डान पर्यांत लक्झुरी बसांचेर

वेचें. बगदाद आनी जॉर्डान, इरान आनी टर्की हांगासर आसच्यो इंडियन एंबसी येदोळच कामाक लागल्यात. इंटर्न्याशनल रेड क्रॉस आनी हेर एन. जी. ओ. थावन मजत येवंक सुरू जाल्या. आमी कोणेंयी भियेवंचें न्हय, धैर आनी भावार्थ सांडचो न्हय, फाल्यांच वचोन फाहाहील इंडियन स्कुलांत नांवां दाखल करा. पूण एक संगत आतांच तुमकां हांव सांगतां. एकेकल्याक फकत एक सूटकेज मात्र आमी सोडतेल्यावं. खर्चाचो विवर फुडें कळीत करतावं. जमात संपल्या उप्रांत, काळोख पडोन आयिल्लो तरी, मोली आनी शिबंदी के. ओ. सी. हॉस्पिटलाक भायर सरलीं. अहम्मदी एरियाचे दिवे कोणाच्यागी मरणाक वाट दाखंवचे खातीर जळतात म्हळ्ळेपरीं जळताले.

के. ओ. सी. हॉस्पिटलांत तांकां निराशाच राखोन आसल्ली. इराकींनी त्या हॉस्पिटलांतलीं सर्व ओकतां साम्ग्र्यो लुटून व्हेल्ल्यो. संयुक्त राष्ट्रांच्या दिगबंदनाचो अर्थ आनी फळ कळीत जाल्ल्या सद्दामान मेळल्ल्यो मेडिकल वस्तू फारून बगदादाक हाडूंक हुकूम दिल्ली जायजे. 'तुमी अदान हॉस्पिटलाक वेचें बरें!' के. ओ. सी. चो डॉक्टर म्हणालो. 'हांगासर आसां हांव एकलोच. नर्सीय नांत...' ताच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं. 'हांव कुवेय्टी डॉक्टर म्हळ्ळ्या खातीर मात्र म्हाका तांणी लगाड काडूंक ना.'

आंबू विशीं विचारयां म्हण मोलीन दोदोन पावटीं तोंड काडलें. पूण आंबू कित्याक ड्युटेक येतलो? ताका किडनी स्टोनाचें प्रोब्लेम आसा म्हण मोलीक कळीत आसल्लें, पूण हें प्रोब्लेम उस्कालां म्हण तिका कळोंक्र साध्यच नातल्लें.

अहम्मदी थावन अदान हॉस्पिटल पयस नातल्लें. कुवेतांत आसच्या सबार 'पॉश' सरकारी आस्पत्र्यां पयकीं अदान हॉस्पिटल एक आनी नवीच. आतां हे सांजेर हे आस्पत्रेचेर एक भिरांकूळ 'काळें' मोड देंवल्लेपरीं दिसतालें. कार पार्कांत सात-आठ कारां आसल्लीं. सगळ्यानी इराकी सोजेर दिस्ताले.

रिसेप्शन कावंटरालागीं तीं पावलीं आनी तांणी एका डॉक्टराक विचारलो 'ह्या तरनाट्या स्त्रियेक रगतास्त्रावाचें प्रोब्लेम आसा.' मोलीन विवरिलें. त्याशिवाय ती गर्भेस्त'

'डॉक्टर?' कावंटरा पाटलो मनीस म्हणालो. 'हांवय एक डॉक्टर मदाम. पूण

कसल्या प्रेजनाचो डॉक्टर? पळे ही अदान हॉस्पिटल. हांगासर पिडेस्त ओकतां नासतां मरतात. आनी आमी कांय करूंक सकानावं. सगळ्या हॉस्पिटलांत आसात फक्त दोग दाक्तेर आनी आमकां जबरदस्तेन रावयल्यात, तांच्या सैनिकांक चिकित्सा दिवंक. काल ह्या लुटकारांनी इन्क्युबेटरांनी आसल्ल्या तीस बाळशांक भायर उडवन इन्क्यबेटर लुटून इराकाक व्हेलें. आत्तां पर्यांत तीं बाळशीं रडतालीं. आतांयी तांचें रडणें म्हज्या कानांनी आसा. ये देवा म्हज्या, कितलीं वळवळ्ळीं तीं बाळशीं... आनी तुमकां एक बाळशें बचाव करूंक दाक्तेर जाय?

थंयसर देंवल्लें मौन जावन आसल्लें भिरांकूळ. तितल्यार एक ओळकीचो ताळो मोलीक आयकालो.

'धैर सांडिनाका डॉक्टर!' तो ताळो म्हणालो. तुजी जवाब्दारी तुवें खांद मारुंकच आसा. वांचून उरल्ले आमी आसावं तुज्या सांगाता'!

मोलीन नापातयेणेन घुंवोन पाटीं पळेलें.

दादल्या नर्साच्या समवस्त्रार आसचो आंबू उबो आसल्लो.



# 49

आपली दाळ केदाळा शिजाना म्हळ्ळें तें बऱ्यान समजाल्ल्या विल्मा डिक्रुजाक भोळे शेळयेचें रूप पांगरून जॉनीच्या रागाथावन कशें बचाव जावंचें म्हळ्ळें बऱ्यान कळीत आसल्लें. तांच्या येदोळचे लग्ना जिणेंत ह्याच हुन्नराचेर विल्मा आपलो सादो खोलोय एक तुरूप जावन बदलितालें.

ते सकाळीं ताच्या कॅबिनांत जॉनीन उच्चारल्लीं उतरां ताच्या निमाणे शिटकावणेपरीं (Ultimatum) आयकालीं आनी विल्मा तक्षण आपले बसके वयलें उठलें. 'तुजीच खुशी जावं!' तें म्हणालें. ताणे आपलें बॅग विंचले, कॅबिनातलें लायट बंद केलें आनी कांपीण मारून पॅण्ट्री बॉयाक आपयलो.

'हांव घरा वेतां!' तें म्हणालें. 'केदाळा पाटीं येतां म्हळ्ळें कळीत ना. डेस्मंड साहब जाय तर ऑफीस चलवंदी. तूं? तुका खुशी आसल्लेपरीं कर. इराकी आयल्यात न्हय? तेच आतां ह्या कुवेय्टचो सरकार आनी तुमचे बॉस!'

बावडो पॅण्ट्री बॉय बिळापरीं तोंड उगतें करून एक पावटीं ताका आनी एक पावटीं जॉनीक पळे लागलो.

'हम क्या करेगा साहब?' तो आडदोस मागालागलो. जॉनीन भुजां उडयलीं.

तीं सांगाताच कंपणेथावन भायर आयलीं. भायर येताना डेस्मंड आनी हेर शिबंदी तांकां दिसली तरी तें तांची निर्लक्षा करून आपल्या कारासरशीं गेलें. तीं तांच्या तांच्या कारांचेर एपार्टमेंट बिल्डिंगां पर्यांत पावलीं. एपार्टमेंटा भितर वेतेच आपलो वोडो फुगवन, माथ्याक मुडो चडवन विल्मा बसलें. बेश्टेंच ताणे टी. वी. चालू केली आनी कांय चॅनला मेळानातल्लीं तरी तें रिमोट दांबूनच रावलें. निमाणे कुवेय्ट चॅनलाचेरयं आक्रमण केल्ली इराकी टी. वी. पळेवन तें बसलें.

पळेसर पळेंवच्या जॉनीच्यान हें सोंसूक जालें ना.

'इराक टी. वी. कित्याक पळेताय?' तो खेंचलो. 'वचोन बगदादांत बस. सद्दामाक प्रत्यक्ष पळेतेलेंय!'

'तितलें उलवंक जाशी!' तें म्हणालें 'येदो व्हडलो सीनियर इंजिनियर खंय? म्हज्या पॅण्ट्रीबॉयाच्या रडण्याक कसलोयी परयार सांगोंक तूं सकलोय? आतां म्हाका जबरदस्तेन घरा हाडून बसयलांय. व्हेरी गुड. तुवें सांगल्ले परींच करतां. आजथावन ह्या घरांत तुजेंच आडळतें.[211]

जॉनीन कांय म्हळें ना.

दीस पाशार जाले. सर्वांनी राकोन आसल्ली पांच तारीक आयली आनी गेली. त्या उप्रांतलें, नोव तारकेचें सम्मीट पुस्क जालें. सगळो दीस जॉनी बसोन रेडियो आयकातालो आनी हेर गल्फ चॅनलां पळेतालो. धा तारीक उतरताना विल्मा म्हणालें.

'घरांत खाणा - वोर्वी उणी जायत आयल्या. सांबाळ बँकांत आयला या ना म्हळ्ळें कळीत ना.'

'आयल्यारी बँकां बंद आसात न्हय?' म्हणालो जॉनी.

एका दिसा फाहाहील मासळे मार्केटीक गेल्लो जॉनी पाटीं येताना दोन जुनकाट कुकडां, इराकच्या शात - अल - अरब न्हंयचे दोन गोब्रे आनी पांच किलो बोक्ड्राचें मांस हाडून आयलो. पोल्ट्री फार्मांनी तांतयां दवरून पोल जाल्ल्या कुंकडांक नास करतात', तो म्हणालो. 'पूण आतां हे पालेस्तिनी ह्या जुनकाट कुकडांक हांगासर हाडून विकतात! विपर्यास पळे, इराकची मासळी कुवेय्ट मार्केटींनी. कोणाच्या हिंडांतल्या बोकऱ्यांक अपहरसून हाडल्यातगी. तांकां मार्केटिंतच कातरतात आनी चामडीं वोडून थंयच रास घालतात. कुसल्ल्या चामड्यांची मूर सोंसूंक जायना.'

'मूर आसोंदी!' तें म्हणालें. 'सद्याक पोटाची वेवस्था करचें धैर आयलें तुका. आली यान्नूचें फोन आयिल्लें. हो आली यान्नू ग्रीक मुळाचो पोलेस्तिनी. मिना अब्दुल्ला रिफायनरींत मेटीरियल्स डिपार्टमेंटांत आसल्लो आनी ह्याच बिल्डिंगांत वस्ती करतालो.

'कितें खंय तो?'

'हर एक बुधवारा येवन दस्कत[212] केल्यार सांबाळ नगदेन मेळता खंय!' तें म्हणालें उत्सुकतेन. 'तो सदांयी कामाक वेता खंय. तुवेंयी कामाक येजे म्हण ताणे सांगलां.'

'हांव इराकी सरकाराखातीर काम करिना!' ताचो ताळो धार घेतालो.

'अरे व्वा!' तें उद्गारलें. 'तूं केदाळा क्रांतिकारी जालोय? रिफायनरीक वच, दस्कत कर आनी नगदेन सांबाळ हाड.'

'हाडचो तरी कसो?' जॉनीन विचारलें. 'नगदेन सांबाळ मेळता म्हण कळल्ल्या फारा इराकी भायरच राकोन आसतेले'

'आली यान्नूक घेवन वच!' विल्मा लार्गी जापी तयार आसल्ल्यो. 'तो पालेस्तिनी. तांकां हे इराकी कांय करिनात. तुका आनीकी भंय दिसता तर, हांव येतां तुज्या सांगाता.'

जॉनी आली यान्नू सांगाता गेलो. ताका हेर उपाव नातल्लो. के. एन. पी. सी. च्या पेट्रोल बंकांनी विक्रो जावंच्या पेट्रोलाचो दुडू रिफायनरी शिबंदीक वांटची विलेवारी केल्ली इराकी सरकारन. कुवेय्टचें काळे भांगार व्हाळोनच आसाजे आनी रिफायनरींचीं कार्यीं कायाम चालू आसाजे अशें करूंक, कामेल्यांनी कामाक येवचें गरजेचें. सीनियर इंजिनियराच्या हुद्याचेर आसच्या जॉनीची नगदी पॅकेट– एक, पांच, धा डिनारांची – बरीच दाट आसल्ली. ती हातीं घेतेच वयर सकयल पळेवंच्या ताका आली यान्नून सांगलें. ती पॅकेट तुज्या ब्रिफ्सांत लिपय.

तुवें म्हज्या विल्माचो भाव जायजे आसल्लो, मनांतच म्हणालो जॉनी. फाल्यांथावन ड्युटेक सेर्वतां म्हण ताणे बरवन दिवंक नेगार केलें. तर तुका येवंच्या म्हयन्याचो सांबाळ मेळचो ना, पर्सनेल डिपार्टमेंटांत आसल्लो पालेस्तिनी म्हणालो. जॉनीन जाप दिली ना आनी घरा आयिल्ल्या उप्रांत ही संगत ताणे विल्माथावन लिपयली.

आनीकी दोन दीस पाशार जाताना बँकां उगतीं जाल्यांत आनी वेव्हार हरशेंचे परीं चालू आसतेले म्हळ्ळी खबर आली यान्नून जॉनीक दिली. तो बँकांत गेलो आनी तांच्या दोनयी एकावंटांनी आसल्लो दुडू निकळावन घरा हाडि लागलो. पूण विल्माक समाधान जालें ना. सद्दामान कुवेती डिनारांचें मोल इराकी डिनारांच्या मोलाक देंवयिल्लें.

आनी थोडे दीस पाशार जाताना खबर आयली कीं इंडियन एंबेसी पाटल्यान अमेरिकन डॉलरांचो विक्रो चलता म्हण. ते जॉनीच्या हटाक पडलें. इराकी आनी कुवेत डिनार आतां कागदांच्या कुडक्याक समान. वच आनी अमेरिकन डॉलरां हाड.'

'तर तुवें कुवेय्ट सांडची विंचवण केल्याय विल्मा?' जॉनीन अजापोन विचारलें.

'कित्याक म्हणाय?'

'कुवेय्ट एअरपोर्टाथावन बगदादाक फ्लायट आसात खंय आनी फकत डॉलर दिल्यार टिकेट्यो मेळतात खंय. आमी बगदाद गेल्यार, थंयथावन जॉर्डानाक आनी जॉर्डानाथावन खंचेंयी फ्लायट धरून इंडियाक वचयेत. तुजी आलोचनय हीच म्हण हांव चिंततां?'

संवसार वयर पंदाक[213] जाल्यारय हांवें कुवेय्ट सोडचेपरीं ना!' तें म्हणालें. 'हें पॉश एपार्टमेंट, म्हजे भांगार, मायक्रो.... हो गोड.... हें सर्व इराकींक सोडून वेचें?'

तांचें हें सदांचें रुस्तुरुसावं जावन येताना बॅरनाचें फोन आयिल्लें जॉनीक सर्गाथावन मान्ना पडल्लेपरीं जालें.

'बॅरनागेर वचोन कितें करूंक आसा?' विल्मा पुस्पुसलें. 'तोच मूं तो बी. टी. सी. तलो राजकुंवर? ताका एकली बायल आसा पळे मेणाचे वातीन केल्ल्यापरीं दिसता. कसले तंगणे – मंगणे ताचे?'

'कांय ना तर अहम्मदी चॅपलांत मिसाक तरी वचयेत न्हय, विल्मा?'

जॉनीन विचारलें. 'असल्या वेळार देवाची आमकां कितली गरज म्हण तूं जाणाय?'

विल्मान कांय म्हळें ना. पूण 'आपूण तुज्याकी भागेवंत' म्हळ्ळो मांत पांगुरलो. 'हांव येतां, मां!' तें म्हणालें. 'जेरीचें प्रकरण तूं मुखार हाडतोलोयीच. पूण म्हाका झरयनाका. प्लीज. म्हाकायी प्रस्ताव दाखवंक अवकास दी.'

जॉनीन कांय म्हळें ना.

ते रातीं अहम्मदी थावन पाटीं येताना रातीचीं नोव उतराल्लीं. आनी फाहाहील पर्यांतलीं वाट सिमिस्त्रींतल्यानच वेताली म्हळ्ळो अनभोग जालो जॉनीक.

'बरो ड्रामा पळेलो!' तें म्हणालें. 'हांव नेणां त्या मोली आनी आंब्रोजाचें कसलें तें पुनर्मीलन म्हण. कोणा फिलीप्पिनी सांगाता धांवल्लो खंय म्हतारो!' तें हांसलें. 'ताणी हाका बरोच तासून सोडला आसतोलो.'

'पूण कितें तरी त्या विशाखाक जाय तें ओखद मेळ्ळें न्हय?' म्हणालो जॉनी. त्याकायी आंबू - मोली मदल्या प्रकरणाची खबर नातल्ली आनी त्या वेळार ताणे सवालांयी केल्लीं नांत. ते रातीं समवस्त्रार आसल्लो आंबू जेवणाक घरा आयिल्लो तरी, पिरेरीगेलें कुटम उलयताना भारीच चत्रायेन आसचे परीं दिसतालें आनी देखून जॉनीन आपलीं सवालां दांबून धरलीं आनी विल्मायी कांय अनुचीत विचारिना जाल्यार पुरो देवा म्हण ताणे मागलें. पूण विल्माचें शिंतीद थंयसर नातल्लें.

तरी, मोली पिरेरीन ताका आरावन धरताना विल्मान केल्लें अॅक्टींग जावन आसल्लें क्लासीक!

'त्या कोशीक अक्कल समा ना!' तें म्हणालें, एका नाकाबंदी सरशीं इराकींनी तांचें कार रावयिल्ल्या वेळार. कारा भितर तिळूंक आयिल्ल्या सोजेराक विल्मान हलो म्हळें आनी ताचो हात हालयलो. ताणे हांका मुखार वचा म्हण कबलात दिली.

'हां, त्या कोशीक मांडो समा ना. फक्त एक सूटकेज घेवन आमी वेचें खंय? उरल्लो सामान कोणाक हाच्या मांय मांवाक? तुवें पुणी कसल्यायी लिस्टीक नांव दिवंचें नाका. तुका जाय तर वच. हांव हांगाच रावतां. म्हाका कांय भंय दिसना. कांय वायट घडोंक आसल्लें तर, येदोळ घडोन वेतें. त्या सद्दामाक Coalition Forces[214] धांवडायतात म्हळ्ळें खंडीत. त्या बुशान कितें म्हळां? Wait, watch end learn.'

जॉनीन कांय म्हळें ना. पूण देवाच्यो वाटो जावन आसल्ल्यो विचीत्र. ती तारीक आगोस्ताची चोवीस. हे तारकेचे मद्याने राती भितर कुवेतांत आसल्ल्यो सर्व एंबसी बगदादाक वर्ग करीजे म्हळ्ळी हुकूम सद्दामान दिल्ली भायलो सगळो संवसार राकतालो आनी कुवेता भितर आसचेयी राकताले. पूण विल्मा तसल्यांक ह्या सर्वांचें पडोन वचोंक नातल्लें.

इराकींनी फाहाहील 'सेफवे' सुपरमार्केट लुटल्ली. आनी उजो दिल्लो. मासळे मार्केटींत जुनकाट कुंकडां आनी बीफ मेळतालें आनी इराकी काळंगांच्यो

राशी पडल्ल्यो. 'म्हाका आलीचे बायलेन सांगलें', विल्मा म्हणालें 'फाहाहील जमायिया[215] उगती जाल्या खंय. वचयां, क़ांयतरी सामान हाडयां. सद्दाम पार्टी वेता पर्यांत आमी वांचाजे न्हय?'

जमायियांत लोक चिकार भरल्लो आनी विल्माचे चतुरायेन तांकां एक ट्रॉली मेळ्ळी. जाता तितलो सामान तांणी ट्रॉलींत भरलो आनी पयशे भरूंक म्हण तीं लायनीर रावलीं. कॅश कावंटराच्या लागीं पावता म्हणताना एक इराकी मिलिटरी ट्रक येवन जमायियाच्या वठारांत रावलें आनी धा-बारा सोजेर देंवले आनी जमायियांत रिगले. जमायियाचो कुवेती मॅनेजर अबू आयिमन अल दब्बूस आपल्या ऑफिसांतलो उठोन भायर आयलो आनी शीदा वचोन इराकी सोजऱ्यां पयकी ऑफिसरापरीं दिसच्यासरशीं गेलो.

तांच्या मदें चलल्लें उलोणें जॉनीक आनी विल्माक समजालें ना. पूण जमायियांत आसल्ले हेर आरबी शेळ्या मौनांत बुडले. कॅश कावंटराच्यान पयशे घेवंचें बंद केलें.

एकाच्छाणे, इराकी ऑफिसरान अबू आयिमनाक धांवडायलें. 'अल्लाह कल्लीक!' बोबाट घाली अबू आयिमनान.

'मिशमूमकीन', देवा आण[216] हें साध्यच ना. आपल्या मरकट अरेबिकान इतलेंच समजालो जॉनी. अबू आयिमनान उलयिल्लीं हेर उतरां ताका समज़ालीं नांत. सोजेरांनी अबू आयिमनाक खोटो मुठी घाल्यो. जमायियांत आसल्ल्या स्त्रियांची बोबाट जाली. भुरगीं रडोंक लागलीं.

'आमी हांगाथावन निकळचें बरें!' म्हणालो जॉनी ट्रॉली सोडून.

'हांगासर रगतापात जांवच्यार आसा...'

'ट्रॉली... हें सामान...'

'शटप, विल्मा!' ताची गोमटी चिरडुंकच म्हळ्ळेपरीं आयलो जॉनी. ताणे तकली खर्चिली आनी ट्रॉली सोडून मॅनेजराच्या कॅबिनाक तो रिगलो आनी त्या कॅबिनाक भायर उगतें जावंचें दार आसल्लें. तें लोटून तीं उगताडाक येताना इराकींनी अबू आयिमनाक ओडून जमायियाच्या पाटल्यान व्हरचें ताका दिसलें. दोन मिनुटांनी तांकां मेशीनगन फायरींग आयकालें.

जमायियांतलो लोक भिरांतीन अड्डादिड्डी धावंलो. उप्रांत जामायिया तांच्या

स्वादीन करीजे म्हण इराकींनी हुकूम दिल्ली. अबू आयिमानान तांकां जाप दिली. 'देवा आण हें असाध्य. ही जमायिया म्हज्या लोकाची. हांगासर आसचें सर्व सर्वांचे पोटाभुके खातीर.'

परिणाम, अबू आयिमनाक तार्णी लगाड काडलो. हें आयकोन, विल्मा सुकी खोली[217] कांपल्लेपरीं कांपलें, पूण ताचें काळीज पिगळोंक आनीकी वेळ आसल्लो.

त्या दोनपारां आसल्लें कितें शिजवन तीं जेवलीं, खाणाचो तत्वार नातल्लो खरें, पूण विल्मा तसल्यांक पक्वानांक जाय जाल्ली साहेत मेळानातल्ली. सांज जाताना जॉनीक एक फोन कॉल आयलें. तो मटव्यान उलयलो. 'च्याको मथायचें फोन', ताणे कळयलें. 'ताका सवायेन एक बॉत्ल स्कॉच मेळ्ळ्या खंय, तो बरें रांदता... जेवण आनी बॉत्ल हाडूनच हांगासर येता खंय. तुका दोन टिनां बियरय हाडता खंय. वंडरफूल, आतां कुवेय्टांत प्रोहिबीशन ना, हरशें वाटेर पेप्सी आनी सेवेन-अप पिवनांचीं खाली टिना दिसतालीं. आतां हायनिकेन बियर टिनां दिसतात.'

'हूं', तें म्हणालें, अप्रूपशें एक स्कॉच ड्रींक मारूंक जॉनी कितलो आशेता म्हण तें जाणासलें. क्रिसमस टायमार पांचतीस – चाळीस डिनरां दिवन् तो एक बॉत्ल स्कॉच घेतालो. 'हूं, बरे दीस येताना तुका कुवेय्ट सोडूंक जाय!' तें म्हणालें. पूण आज ओकेम येवंदी.

च्याको मथाय, जॉनी आनी विल्माची 'पार्टी' सुमार साडेबारा रातीपर्यांत लांबली. हें एपार्टमेंट कंपणेन दिवंच्या पयलें जॉनी फाहाहील सूक सभहांत रावतालो आनी थंयसर हो च्याको मथाय ताचो शेजारी. जॉर्डान इंश्यूरेन्स कंपणेंत काम करतालो. च्याकोची फॅमिली केरळांत आसल्ली.

इतली रात जाली जाल्यान तार्णी च्याको मथायक पार्टी वचोंक सोडलो ना, गेस्ट बेडरुमांत न्हिदायलो.

आज म्हाका बरी न्हीद पडतेली! 'म्हणालो जॉनी After a long time, I'm really relaxed.'

बेडरूमाक गेल्ल्या जॉनीक खिणाभितर न्हीद पडली. च्याको येदोळच 'आवट' जाल्लो. विल्मा, दोन बियरी ताणे सेवल्यो तरी सारकें आसल्लें आनी

बेडरूमाक वेच्या पयलें ताणे एपार्टमेंटांत एक रावंड मारलो. 'ही सर्व लक्झुरी हांव सांडीन? My foot!' ह्या उतरां बराबर तें बेडरुमाक गेलें....

सगळें बांदप कांपतालें.

कानपे फुटचो आवाज. एक न्हय, हजार आवाज. तसले आवाज तांणी तांचे जिणेंत आयकोंक नातल्ले. जॉनी पाटीचो कणो एका स्प्रिंगापरीं नीट जाल्ले परीं बेडार उठोन बसलो. 'कितें जाता, विल्मा?' ताचें सवाल भायल्या आवाजान विल्माक आयकालें ना. तें सांसपोन, हाता पांयांनी तेवशीन थावन हेवशीन येवन जॉनीच्या गोमट्याक रेवोडलें.

आन एक भिरांकूळ स्फोटन.

'बॉम्बारडी सुरू जाल्या विल्मा!' म्हणालो जॉनी.

'एंबेसी वर्ग करूंक सद्दामान दिल्ली वेळा आवदी संपल्या...' ताणे लायट पेटयलो. वोरां फांत्याचीं 2.10. 'सर्व आखेर जालें. लागीं ये विल्मा. एकमेकाचे वेंगेंत तरी आमी मोरयां', ताणे विल्माक आरावन धरून वेंगलें.

'म्हजी भुरगीं!' विळाप केलो विल्मान. 'ज्योनवील आनी विलज्योना! आमचें आखेर जालें पुता. आनी आमी सर्गाराज्यांतच मेळचें. जॉनी, तें कोंत आनी बायबल खंय आसा?

विल्माच्यो शिरो पिगळाल्यो. जिवाचे आशेन आतां मुखली पंगत घेतल्ली. सुमार एक घंटो स्फोटनां चालूच आसल्लीं. आनी जनेलांतल्यान रंगरंगाळ उजवाड दिसतालो. पूण हांकां कांय जालें ना.

तांच्या बेडरुमाच्या दारार ठोके पडले. कांपेरे चालीन जॉनीन तें उगडलें. च्याको मथाय.

'भियेनाकात!' तो म्हणालो. 'ही बॉम्बारडी न्हय. व्हय जाल्ली तर ब्लॅक आवट जातें आसल्लें. ह्या इराकींक काम ना जायजे. देखून वाऱ्या झुजाची, नकली कसरत ते करतात, म्हणजे Mock air raid drill.'

विल्मा अशें कांपतालें कीं ताका एक बॉत्ल स्कॉच दिल्यारी ती कांप रावती ना. दुसऱ्याच दिसा तांणीं कुवेत सोडतेल्यांचे लिस्टीचेर तांचीं नांवां दाखल केलीं.

एका व्हड पयणाची (Exodus) सुरवात जाल्ली. ■■■

# 50

जेराल्ड पायस
पूत मायकल आनी जुलियाना पायसाचो
भाव इवोन पायसाचो
आदीं वालेन्सिया, पूण आतां कुवेत?
मोगाच्या पुता जेरी,

हो विळास सारको म्हण कोणाक तरी कळीत जाल्यार हें पत्र तुज्या हातांक पावतेलें म्हण आमी पातयेतावं. पूण तूं खंय आसाय? म्हजे लागीं सबार विळास आसात आनी सर्वांचेर पोस्ट बॉक्साचीं नंब्रां आसात. तूं खंच्या पोस्ट बॉक्सांत लिपोन बसलाय म्हण हांव कितें जाणां?

एक आवय जावन, विदेशाक गेल्लो पूत, त्या देशाक पावोंकच ना म्हळ्ळी खबर आयल्या उप्रांतय असलीं फोकाणां करतां म्हण लोक चिंतता कोण्णा आनी तुवेंयी तशें चिंतूंक हें पत्र तुका पावता या ना म्हळ्ळें आमकां कळीत ना.

अशें आसतां, हांवें फोकाणां केल्ल्यांत चूक कसली? रडोन रडोन दोळ्यांतले पोतयेंतलीं दुकां सुकल्यांत. सुकलेल्या दुकांचो पिटोयी भायर येना. तुजो पप्पा मिक्की आनी भयण इवोन...तीं आतांयी जिवंत आसात.

हांवें म्हजे जिणेंत तुका एकच एक पत्र बरवंक ना न्हय? कित्याक तूं केन्नायी म्हज्या सांगाताच आसतालोच. एक पावटीं जेज्वितां सांगाता तूं उटीक ट्रिपाक गेल्लोय, फक्त तीन दिसांक लागोन आनी तवळ त्या तीन दिसांक तिनां लेकान[218] तुका पत्र बरयजे म्हळ्ळी जब्बोर आशा म्हाका आयिल्ली आनी हांव गुपीत रडल्यां सयत.

पूण तूं, तूं हें बिलकूल पातयेवंचो नाय. वालेन्सियांत माम्मीक 'हंटरवाली' म्हळ्ळें नांव पडचें मात्र बाकी म्हण तूं म्हणतालोय खंय? असल्या हंटरवालीच्या

हर्यांत असलेंयी एक मोगाळ काळीज आसात म्हळ्ळो दुबाव खंडीत तुका हासयतोलो. पूण हें पत्र तुका हांवें लिखचें, प्रथम आनी निमाणें? हांव नेणां.

हांव तेणां जीव आसल्ल्याक हांव लिखतां या मरण पावल्ल्याक. देखून ह्या पत्राचें ओक्काणे एका मरणा उडासाच्या रजिस्त्रापरीं तुका दिसाना? दिसतेलेंच. तूं जाणांय हांवें कितें केलांय म्हण? तुज्या आनी नोर खातीर दोन मिसां दिल्यांत. एका वेळार तुमी जिवंत आसात तर, ह्या मिसांची कुरपा तुमकां लांब अव्क आनी बळ भलायकी दिवंदीत हीं मिसां.

हो म्हजो निराशावाद न्हय पुता जेरी. हो म्हजो वील, म्हजें एक कुमसार. एक आवय जावन हांवें तुजेथावन आशेल्लेंच चड जालां शिवाय हांवें तुका दिल्लें कांय ना. तूं हें करिनाय, ते करिनाय. म्हण तुका हांव दुरसाल्यां शिवाय तूं कितलो बरो भुरगो म्हळ्ळें म्हजे मतीक तवळ गेल्लें ना. तवळ तुका टेरेन्साची दोस्ती आसताना, शिंटो पावलुसासंगीं तूं बियर पियेताना हांव रागार जाल्यां, पूण म्हाका गमलें ना तुज्या प्रायेचे चले कसलीं सर्व अतरवणां करतात म्हण.

तूं बिकॉमांत फेल जाताना हांव चिडलीं न्हय पूण सांगाताच त्या मोलीचो पूत आनी शिंटोयी नापास जाल्यात म्हणताना म्हणताना म्हजो राग थांबलो. नायशस्वेंत[219] तरी तूं तांचे बराबरेचो जालोय न्हंय म्हळ्ळो संतोस म्हाका आसल्लो.

हांव एक टिचेर आनी सबार भुरग्यांक हांवें सारके वाटेक हाडलां. म्हजें डिस्सिप्लीन म्हळ्यार हेडमास्टर सयतय कावजेतालो. पूण हांव म्हाका कांय शिकवंक सकलीं ना. लग्नाची प्राय उतरलेली तरी हांव काळ्या रंगाची म्हण म्हाका सयरीक लागनातल्ली. त्या शिवाय म्हाका जात कात म्हळ्ळो भूत आसल्लो. 'चेडूं सावळें तरी लक्षण आसा, पूण कुटम मात्र सेकेंड क्लास खंय' हीं उतरां आयकोन हांव कितलीं रडल्यां जाणांय? पूण आतां ह्या सर्वांक कांय म्हत्व ना खंय. जावं आमची समाज तितली पुणी सुदारल्या म्हणों?

आनी तवळ म्हजो धाकटो भाव, तुजो ग्रेट अंकल जॉनी म्हज्या सल्वासांवांक आयलो, आनी ताणे म्हाका तुज्या पप्पाची सयरीक हाडली. चलो अपूट जाल्यार कितें, पांय मात्र एक चिक्केसे चोट्टे म्हळ्ळें आय्व घेवन आसल्लो मिक्की पायस. हांवें सै म्हळें म्हण सांगांजे म्हण ना. तूं आनी इवोनच हाका साक्स.

ना पुता ना! हांव मतीभ्रश्ट जावंक ना. हें पत्र हांव तुका लिखताना तुजो पप्पा आपल्या इझी चेअराचेर बसोन म्हाकाच पळेता. ताच्या दोळ्यांनी कितें आसा म्हळ्ळें म्हाका कळाना. तरी मतींत तो म्हाका गुन्यांवकार लेखता म्हण हांव जाणां. तुका गळ्याक गच्ची दिवन म्हळ्ळेपरीं हांवें कुवेय्ट धाडलो म्हळ्ळें दुर्सोणें ताचे थंय ना म्हण तूं म्हणताय? खंडीत जावन आसा. पूण तो भायर दाखयना. भारीच सोसणीक मनीस तो.

म्हणताना तो खडप मनीस न्हय म्हण तूं चिंतीनाका. तूं जल्मल्ल्या वेळार तुजो पांय सारको आसागी ना म्हण विल्मान वोळावन पळयिल्लो आनी तवळ ताका मिक्कीन ताबडतोब देरेबैल पार्टी धाडलें. ताका दुसरे पावटीं गेट आवट केल्लें तूं जाणाय आनी तवळ हांवें जयतेवंत जाल्लेपरीं हर्दे फुलयिल्लें. तुजो बापूय मिक्की पायस म्हज्या वांट्याचो हिरो जाल्लो. पूण आतां कितें करयां? तूं खंय पावलाय म्हळ्ळें कळीत ना जाल्ल्या दिसाथावन ताणें मोनें सूत घालां. तो शॉपाक वचाना आनी शॉपांत आतां गुरूराजाचेंच राज. पूण तो बरो मनीस आमच्या खर्चाक जाय जाल्ले पयशे हप्त्यान हाडून दिता, पूण बिझनेस कशें म्हण सांगाना.

तूं गेल्या उप्रांत हांव संवसाराक बरो म्हण उलो मारूंक शिकल्यां पुता. पळे विल्मालागीं हांवें इतलीं वर्सां कायबेव वाटलो, पूण म्हज्या फकत एका पत्रान तें मोवाळोंक ना? कितले अपुरबायेन ताणे म्हाका जाप दिली आनी फकत एक किलो कस्कसो तुजेलागीं धाडूंक सांगलें. पाप तें भुरगें. तुवें ताका कस्कसो दिलाय मूं?

हां... पळे पळे... आज आयतार न्हय? तुजो इश्ट शिंटो मेटां चडलो. सदांयी सांजेर तो येता, पूण आज सकाळींच आयला. ताका आनी आमच्या इवोनाक भारीच जमता. पळेवंक बरें लागता. ताका पळेताना तुका पळेल्लेपरीं जाता, पूण शिंटो तुज्याकी चड सीरियस भुरगो. सॅली कुरियनाचो भाचो न्हय तो? आतां ताचेच कंपणेंत आसा जाल्ल्यान इल्लीशी पिस्कोलोजी मारता. पूण आसोंदी बावडो. तशें म्हणताना, तूं नोराची पांती वोडतालोय म्हळ्ळें आतांयी म्हाका पातयेवंक जायना. तें तुज्या सांगाताच आसा मूं?

अरे, हें कितें? हो शिंटो पावलूस आज दोन बोत्ली बियर हडून आयला, मिक्की अंकलाक खंय. हांवें म्हळें, म्हज्या पुताची कांय खबर ना आनी तुमी कसलें

सेलेब्रेशन करतात गी म्हण. तो म्हणालो, कांय खबर ना तर बरी खबरच म्हण. सगळो संवसार सद्दामाक पटीं धाडूंक हर प्रेतन करता खंय पूण पुता, आमी सदांयी शेजारा वेतावं टी. वी. न्यूज पळेवंक. दूरदर्शनाचेर आमी एका उंड्या कुडक्या खातीर, एक बोत्ल उदकाखातीर कँपांनी सांपडलेल्या मनशांनी सुण्या – माजरांपरीं झगडें करचें पळेलें आनी तांचीं सर्वांची मुकमळां म्हाका तुज्याच मुकमळापरीं दिसोंक लागलीं. पूण तो बरो देव तुका तसले गतींत पडोंक सोडीसो ना.

हांव बरी मनीस म्हण हांव म्हणाना, पुता जेरी. हांवें त्या मोलीक जायतें सतायलां पूण म्हाका कितें म्हणतात तें Complex आसा म्हण हांव जाणां. आनी हें माजवंवचे खातीरच तुका घेवन हांव मोलीगेर गेल्लीं. पूण तें कुवेय्ट गेलां न्हय? तुका पुणी तें भेटलें? म्हालगडी मनीस ती, मेळत तर, लज सांडून बेसावं माग आनी हांगासर डिना बरें आसा म्हण सांग.

डिना म्हणताना... तुका सांगचें या नाका म्हळ्ळें म्हाका समजाना... तीन दीस थावन तें आमगेर रावता म्हळ्यार तूं पातयेशी?

व्हय पुता, हो संवसार इतलो खोटो जाला... ते पळे एकलो डॉक्टर आसा, रघू शेट्टी खंय... डिनाची खबर घेतां म्हण सदांयी तांगेर येतालो खंय आनी एका दिसा... तूं समजालोय न्हय? तो म्हणालो खंय, तूंयी कितें तुजे आवयपरीं सांतीपण पांगुरताय? तुमच्या रगतांत कसले पाशावं धांवतात म्हण हांव जाणां.

ते सांजेर देदेस्प्रार जाल्लें डिना आमगेर धांवोन आयलें आनी इवोनाक ताणे सगळी संगत सांगली. मोली आनी आंबू मदेंयी कसलेंगी फिणपिणलां खंय पूण इवोन म्हाका कांय सांगाना. म्हजे दोग भाव आसल्ले तर म्हाका असली गत येती ना, अशें डिना म्हणालें खंय. हांव तांकां सांगतीं, न्हेसपांत आनी चालींत संयम आसाजे शिवाय आपवणें आसोंक नजो म्हण. पूण हांवें तशें केलें ना. आपले भाव हांगासर नांत म्हणताना आमचो हिरो शिंटो आसा पळे डिनाक रघू शेट्टीन सतायलें म्हण गँग बांदून ताका मारून बडयतां म्हणालो. मंगळूरगारांमदें पडोन तो मलबारीयी मंगळुरी जाला. आमचें मंगळुरी धैर आसाने पायकुरी कोंब्यांचें? शर्ट देप्पुंबे, बक्का दप्प पातेरला म्हणचें धैर, तशें ह्या शिंटोचो व्यार

आतां डिना आमगेर सुरक्षीत आसा. दिसाक एक पार्टी इवोनाक घेवन तें घरा वेता आनी सर्व सारकें आसा म्हळ्ळें खचीत करून पार्टी येता. पूण ही संगत

तूं बिलकूल मोलीक सांगानाका. आतां डिना म्हजी धूव. तूंयी कांय ताका लायन मारतालोय कोण्णा. तूंयी कांय सुमाराचो न्हय.

हें आक्रमण म्हळ्यार कितें रे पुता? कुवेय्ट एक गांव आनी तुमी थंय फक्त काम करूंक गेल्ले मनीस. तुमी कशे ह्या लफड्यांनी सांपडल्यात? संवसाराचे पॉलिटीक्स म्हाका कळीत नांत पुता. त्या दिसा सकाळीं सॅली कुरियन आक्रमणाची खबर हाडून आयली आनी पाटापाट विल्माची भयण विरा तूं कुवेय्टाक पावोंकच नांय म्हळ्ळी खबर हाडून आयली. खंचें म्हण हांवें पातयेवंचे? तुवें कुवेय्ट पावंचें एक तर सद्दामाचें आक्रमण विंगडच न्हंय?

आनी हां पुता, सॅली कुरियनान तुजो ट्रान्झीस्टर पाटीं हाडून दिला आनी ताचेर इवोन आनी डिना सदांयी बी. बी. सी. आयकातात आनी म्हाका सांगतात. पूण झूज जातेलेंगी? आमच्यान कितें करूंक जाता?

हांगासर धाराळ मागणी आनी नोवेनां जातात. डी. सी. ऑफिसा मुखार मंगळुरगारांनी एक धरणें चलयलें. धरणें भारताच्या सरकारालागीं मनवी करून कुवेय्टांत आसच्या भारतियांक पाटीं हाडूंक मुंबय आनी डेल्ली थावन सर्व विमानां धाडीजे म्हण. एक दीस तांणी बोबो धाल्यो आनी आमीयी गेल्ल्यांव. आखरेक अधिकारींनी आमकां सांगलें की कुवेय्ट आसल्ल्यांची नांवां तांकां दीजे म्हण. हांवें तुजें आनी नोराचें नांव दिलां. येस्तुबायेक डी. सी. ऑफिसाक वचोंक तांकता तर? विरा बायेन विल्मा आनी जॉनीचें नावं दिलां. डिनान आपल्या आनी बॅरनाच्या कुटमाचें. तीं तुका मेळतीत तर तांकां ही खबर दी.

आनी हां, विलजोना आनी जॉनवील हांकां घेवन विराबाय दोन पावटीं आमगेर आयिल्ली. त्या भुरग्यांनी पयले पावटीं आमगेर येवंचें म्हण दिसता. पळे, देवाची मांडावळ कसली पळे. आपतकाळार तो भेसां जाल्लीं कुटमां मोगाचे गोंद घालून कसो 'घडसिता पळे. अशें चिंतताना म्हाका उडास येता, एका गिरेस्त मादामेन म्हजे लागीं म्हळ्ळें. म्हाका वर्सा एक पावटीं पुणी कांय ना तरी आस्पत्रेंत न्हिदची सवंय आसा जिल्ली टिचेर. तवळ म्हाका भेट करूंक येतेल्यांचो संको पळेवन म्हाका भारीच मजा जाता. आमी गिरेस्त मदामेक पळेवंक वेतां / गेल्ल्यांव म्हणोंक तांकां भारीच हेम्मे[221]. तशें म्हणताना, कुटमा लागीं येवंक दिसाक एक ट्रॅजेडी जायजे म्हण हांवें म्हणचें न्हय.

कालच आमकां खबर आयली. आमचो विदेशमंत्री आय. के. गुजराल कुवेय्टाक वेच्च्यार आसा खंय आनी तो तुमचें हालचाल पळेवन येतलो खंय. आनी ताचे लागीं आमी तुमकां कितलींयी पत्रां धाडयेत खंय. डि. सी. ऑफिसाक दिल्ली सर्व पत्रां डेल्लीक धाडतेले खंय आनी हो गुजराल तीं पत्रां कुवेय्टाक व्हरतलो खंय. म्हाका थोड्यांनी सांगलें हें सर्व कण्ण कट्ट. आक्रमीत जाल्ल्या देशांत सगळ्यांनीतल्यान इराकी भरोन आसताना हो मंत्री कितें पोस्टमेनाचें काम करता? नोनसेन्स. पूण हांव तुका पत्र बरेवंक बसल्यां कित्याक म्हजो भावार्थ आनी भरवसो परत जिवो जाला आनी कित्या म्हजो भावार्थ आनी भरवसो धण्डळाजे? तूं ह्या संवसारांत नाय म्हण म्हाका कोणेंच सांगोंक ना मूं?

पूण पुता, तूं म्हाका दुर्सताय? तुका हांगासर फकत एक ट्रान्झीस्टर आयकोन बसोंक जाय आसल्लें? या कलर टी. वी. आनी कितें तें विडियो नाका आसल्लो? तुजे भयणीन मेडिकल शिकप आवंडेल्ल्यान तें तुका चुकिदार दिसता? ना मूं?

तर तुका कांय जावंचे ना. तूं सुरक्षीत आसतलोय आनी तशेंच कुवेय्टांत आसचे सर्व सुरक्षीत आसतेले. पूण गम्मृत कसलें म्हळ्यार हांगाचो लोक आसा पळे, जो लोक जांचे मनीस कुवेय्टांत नांत, आमकां पिल्लावन विचारतात. कांय खबर आसागी जिल्ली टिचेर? सद्दामा लागीं विखाळ गॅस आसा खंय. एक कॅन फुटयल्यार एका मैला भितरले मनीस जरले मेल्यापरीं मरतात खंय. न्हय... तशें न्हय... तुज्या पुताक कांय जावंचें नाका... तें मोली आनी ताचें कुटम कुवेय्टांत आसा खंय ने? विचीत्र देवाच्चीं मयमां... तुमचें झुजाथळ खंय गेल्यारी सांगाताच वेता मूं? आसतो आसल्लो जेरी हांगासरच आंबील पुणी खावन. कोणे सांगचें ह्या तरनाट्यांक? हांकां लागलां गल्फ. म्हर्जीं भुरगीं पळे अमेरिका / कॅनडा गम्मत आसात.

हांवें हें सर्व एका कानांतल्यान आयकोन दुसऱ्या कानांतल्यान सोडचें. तूं वचोन थोडेच दीस जाले तरी, कितलींशीं वर्सां जाल्ले परीं आमकां भोगता. तुजी सॅली कुरियन येदोळपर्यांत तीन पावटीं आयली. केरळाचो सरकार, भारतियांक पार्टी हाडल्या खेरीत आडळतें चलवंच्या केंद्र सरकाराक न्हिदोंक सोडीसो ना म्हण ती म्हणता. तिचे स्थैर्य आनी शांतपण म्हजेथंय आसल्लें तर देवा, म्हण मागतां हांव. तिका कित्याक रे-पुता तुजेर तितलोय मोग? हांव कांय 'नो गुड'

माम्मी म्हण तिका पुणी सांगालांय? कितें करयां पुता, हांव कळ्ळिगेचें गोरूं[222], सेकेंड क्लास न्हय?

हां, हो शिंटो म्हाका दरवड करता. हें पत्र व्हरून डी. सी. ऑफिसाक दिवंक आसा खंय. बरें तर पुता, जेरी. पप्पान बेसावं दिला, इवोनान मोग दिला, डिना लागीं हांवें विचारलें, तुका कितें धाडीजेगी म्हण. तें कशें लजलें जाणांय? इतलें मजेदार पत्र तुका लिखल्ली हांव न्हयगी एक धैरादीक आवय? जायत रे पुता, शिंटो, जायत... तुवें ताका एक रे ब्यान ग्लास हाडीजे खंय... मलबारी तो मलबारीच. तूं पार्टी बायर सरलोयीच म्हण चिंतता तो.

देवाचें बेसांव पुता आनी मोग, जो तूं हांगासर आसताना आमी, तूं आनी हांव, सुडाळायेन एकामेका दाखवंक – पाचारूंक सकलीं नाव. आता तें स्वतंत्र आमकां मेळ्ळां म्हण म्हाका भोगता. एका इंग्लीश कवितेंत हांवें वाचल्लें. Freedom is at its best in chains.

सुचन : हांवें लिखल्ले घूट कोणाकी सांगानाका. दोडतें सुचन : तुजेर चुकल्ल्यांक भोगशी. सर्वांक मोग दी आनी मोग घे.

तुजी माम्मी – जिल्ली.

■■■

## 51

27 सप्टेंबर 1990

'मिनी बस आयलां!' हेन्री पिण्टोन कळयलें. 'आमी सर्व तयार आसावं मूं? आमकां पीक करून हेंच बस फाहाहिलाक वेतेलें आनी थंयथावन जॉनीक आनीक विल्माक पीक करून सीदा साल्मिया इंडियन स्कुलाक वेतेलें आनी थंय थावन सुमार 56 लक्झरी बसां बसरा – बगदाद वाटेन जॉर्डान एअरपोर्टाक वेतेलीं आनी जॉर्डानांत इंडियन एंबेसी आमची जतन घेतेली. पूण वाटेर उण्यार उणे तीन कँपांनी आमकां थांबाजे पडतेलें. ही थांब जावन आसतेली कश्टांची म्हण इंडियन एंबेसीन आमकां परीपत्र दिलां.'

ताच्या उतरांक कोणेंयी कांय म्हळें ना. पी. के. कोशीचे मदतीन मोली, आंबू, बॅरन, विशी नोरा तेज्जांटी आनी हेन्री पिंटोक एकाच बसाचेर पयण करची सौलताय मेळ्ळी, तशेंच जॉनी आनी विल्माक. पयणाची ही तारीक निघंट जाताना नोरा रावळेराक पार्टी वचून आनीकी थोडो सामान हांडतां म्हणालें. तेज्जाण्टीन, तुजे हात पांय मोडून घालतां म्हणानातल्लें तर वेतें कोण्णा – नोराक आब्लेस नातल्लो, पूण एक साहसाची उर्बा.

हांचें धा, पंदरा, वीस, पांचतीस वर्सांचें कुवेतांतलें जिणें फकत एके सुटकेजींत मिनी बस्साचेर चडलें.

आंबू, मोलीच्या खांदार एक मोगाळ हात धरून हांसलो. व्हय, तांणी हांसचे दीस आतां आयिल्ले. मरण या अनिश्ताय तांकां दोळे वाटारून पळेताली तरी.

'धैर सांडिनाका डॉक्टर! तुजी जवाब्दारी तुवें खांद मारूंक आसा. वांचून उरल्ले आमी आसावं तुज्या सांगाता!'

नर्साच्या समवस्त्राचेर आसल्ल्या आंबून उच्चारलीं हीं उतरां त्या कुवेती डॉक्टराक एके वाटेन स्थिमिताक हाडताना, मोली आनी हेरांक कितें भोगलें तें

देवाकच कळीत. आंबू, अदान हॉस्पिटलांत आनी तेंयी ड्युटेर. मनांतच हांकेरली मोली. 'डॅडी!' हाळवायेन उद्गारलो बॅरन. विशी भोवंतीं आसल्ले ताचे बावळे चिक्केशे अंरदाले. हेन्री पिंटो पाटीं वचोन एका खुंद्याक ओणकालो. नोरा आनी तेज्जाण्टीक आंबूची ओळोक नातल्ली. तीं एकमेकार्ची आनी हेरांची मुकमळां पळे लागलीं. तशेंच जॉनी आनी विल्मा.

'हें म्हजें कुटम, डॉक्टर!' कळयलें आंबून, 'ही म्हजी सून. तिका रगतास्त्रावाचे कश्ट आसात. तिका तुर्ताचें ट्रिटमेंट गरज. ती गर्बेस्त आसा...' आंबून आपणाक कळीत आसल्लो विशीचो मेडिकल रिपोर्ट डॉक्टराक दिलो.

'पूण हांगासर ओखतां खंय आसात?' डॉक्ठरान विचारलें. 'आसल्लीं सर्व इराकींनी साठो मारून सागशिल्ल्यांत'

'तिका कसल्या ओखतांची गरज आसा?' विचारलें आंबून. 'सर्व ओखतां इराकींनी व्हरिनाशें आमी पळेवन घेतलां. तिका कसलीं ओखतां जाय? प्रोजेश्ट्रोन इंजेक्श्नां? आमचे लागीं आसात!'

कुवेती डॉक्टर ताका एके विचीत्र नदरेन पळे लागलो.

'पयलें, तिची परीक्षा हांव करतां!' तो म्हणालो. 'तिका भितर व्हरा. सर्वांनी भितर येंवचें नाका. तुमी हांगासर रावा.' ह्या उतरांबराबर तांणीं विशीक भितर व्हेलें. भायर उरल्लीं सर्व लॉब्बींत आसल्ल्या सुखाळ बसकेंचेर बसलीं. मोलीन हाळवायेन आपलो हात आंबूच्या हातांचेर दवरलो. तक्षण आंबून तो हात आपल्या हातांनी घेवन वोंटांक लायलो. ताचीं हुनोनी दुकां मोलीच्या हाताचेर पडलीं. 'तुवें म्हाका फार्मेसींत फोन केल्लेंय खंय!' तो म्हणालो. 'मिया जानान म्हाका सांगलें.'

आंबूची कथा परिगतींत कांय नवी न्हय. दुडवाखातीर कुवेतांत आइल्ल्या फिलिप्पिनोंक ओळखतेल्यांक आनी तांच्या दावंल्याक सांपडलेल्यांक हो कोडू अनभोग कांय नवो न्हय, पूण एकच पावटीं जावंचे तसलो. तशेंयी हे फिलिप्पिनो तांकां लुटताले.

किडणी स्टोनाच्या ट्रिटमेंटाक लागोन मुस्ताफाकरम टॅक्सी करून अहम्मदी हॉस्पिटलाक गेल्ल्या आंबूक कळीत जालें कीं लिथोट्रिप्सी म्हळ्ळें नवें ट्रिटमेंट फकत अदान तसल्या मॉडर्न हॉस्पिटलांत मेळता म्हण. अहम्मदिच्यांक आक्रमणाची खबर आसल्ली, पूण परिगतीची गंभीराय कळीत नातल्ली.

वेटींग दवरल्ली टॅक्सी धरून आंबू अदान हॉस्पिटलाक गेलो. थंयसरी ताची ओळक आसल्ली आनी ताका तांणीं दुसऱ्या दिसाच्या सकाळीं लिथोट्रिप्सी ट्रिटमेंटाक ओळग[223] केलो आनी ताच्या मुताच्या नळांत देंवोन आयिल्लो बारा मिलिमिटर गात्राचो फातर तांणीं फुटयलो. एका दिसाचो विशेव घेवन आंबू भायर आयलो.

तवळ इराकी सोजेर अदान हॉस्पिटलांत भरोन गेल्ले. आनी थोड्यांनी सामान येदोळच व्हाववंक सुरू केल्लें. पूण हें सर्व तितले खोलायेन आंबूच्या गुमानाक गेलें ना. तो शीदा स्टेला मारीसाच्या एपार्टमेंटाक गेलो. तें आनी तांचे पंगड थंय आसल्लो. स्टेला मारिसान आंबूक सांगलें 'आमी आनी हांगासर रावोन कांय फायदो ना. आमी जाता तितल्या वेगीं हांगाथावन सुटजे. तुवेंयी आमच्या पंगडांत सेर्वयेत. पूण आतां आमकां डॉलरांची गरज. डॉलरां आसल्यार मात्र कुवेय्टथावन बगदादाची फ्लायट टिकेट मेळता.'

हें आयकोन आंबून आपणालागीं आसल्ले सर्व पयशे स्टेला मारिसाक दिले. 'तूं फक्त आराम कर!' तें म्हणालें सर्व विलेवारी आमी करतावं. तुजें ए.टीएम. वापरून आमी दुडू भायर काडतावं आनी डॉलरां हाडतावं. तुका आमचेर पातयेणी आसल्यार ए. टी. एम. कोड आमकां दी.' स्टेला मारिसाचीं उतरां आंबूचेर मांत्रिकाचो प्रभाव घालतालीं आनी ताणे स्टेला मारिसान सांगल्ले परींच केलें. 'डॉलरां हाडूंक वेताना तुजें कार व्हरतावं,' तें म्हणालें. 'फकिरांपरी गेल्यार इराकी धोसतात!'

तीं गेलीं आनी दोन दीस पाशार जाले तरी आयलेनांत. तितल्यार आंबूक मुतापोतयेचें धाम (Infection) जालें. कोणाकोणाचे हातपांय धरून तो परत अदान हॉस्पिटलाक पावलो आनी ताका वेळार ओखत पडल्ल्यान ताची भलायकी सुधारली. पूण भायली परिगत सगळीच बिगडोन आइल्ली. अदानांतलो डॉक्टर आनी नर्सी पोळोन गेलीं. आंबूच्यान हें पळेवंक जालें ना. आपणाच्या चुकीं खातीर कांय प्रायश्चीत आसा तर आपणे हॉस्पिटलांत रावोन उरल्ल्या डॉक्टरांक मजत दिवन करिजे म्हळ्ळें ताका गमलें. तो अदानांतच रावलो.

'पूण रातीक पुणी घरा येतोय, आंबू!' म्हणाली मोली. तुजी आमकां कितली गरज आसल्ली आनी आसा म्हळ्ळें तूं जाणा आसल्लोय तर!'

'म्हाका धैर पावोंक ना मोली!' तो म्हणालो लज सांडून रडोन.

विशीक भायर हाडल्ल्या डॉक्टरान सांगलें. ताची स्थिती आतां बरी आसा. ताका इंजेक्शन दिलां. पूण ताका विशेवाची गरज. गरज पडल्यार पंदरा दिसांक एक पावटीं प्रॉजस्ट्रॉन इंजेक्शन दीजे पडतेलें. आमच्या कुवेय्टाची गत पळेताना तुमकां हांगासर परत येवंक जातेलें या ना म्हळ्ळे हांव नणां. देखून हांव हीं इजेक्श्नां आबू लागीं दितां.... पूण आंबू.... कितले दीस तुज्यान साध्य जातात, तितले दीस पर्यांत तुवें आदानाक येवन आमकां मजत दिल्यार...'

पयणाच्या आदल्या दिसापर्यांत आंबू अदानाक वेतालो. समवस्त्रांचेर आसल्ल्या ताका खंचोयी इराकी सोजेर आडायनातल्लो. विशीची भलायकी आसल्लेपरींच आसल्ली. येवंक आसच्या लांब पयणाची भिरांत मात्र बॅरनाक सतायताली. मोली आनी आंबू एका नव्या बांदांत लागीं आयिल्लीं. तेज्जाण्टी आनी नोरा, हेन्री पिंटोगेर टिकल्लीं. आनी आन एका मंगळूरगाराक घेवन तीं खळमीत नासतां दाड पीड या मिंडिकोर्ट खेळतालीं...

अहम्मदीथावन मिनी बस सुटताना भितर बसल्ल्यांच्या अस्तित्वाचीं पाळां, पटा पटा करून तुटोंक लागलीं. दुदा – म्होंवान व्हाळचो देश, काळ्या भांगाराचो देश, मोट्या मोट्या कांकणां भांगाराचो देश, थ्री– इन – वन स्टेरियोंचो, रे–ब्यान चश्मांचो देश आज फकत एके सुटकेजींत. हेन्री पिंटोन थोड्या दिसां, सर्वांलागीं आसल्ले डिनार एकठांय करून, डॉलरां हाडल्लीं, पूण कोशीच्या सलहाप्रकार तांणी एंबेसीन तयार केल्ल्या बसांचेरच वेचें म्हळ्ळी विंचवण केल्ली.

पंदरा – वीस मिनुटांनी मिनी बस फाहाहील पावलें. थंयसर चडोंक आसच्यांक घेताना सर्वांची दिश्ट वोडो फुगल्लेपरीं फुगल्ल्या विल्माच्या मुकमळार पडनासतां गेली ना. तत्कालीक भियाक लागोन ताणे कुवेत सोडची कबलात दिल्ली, पूण आतां सामकार कसलेंयी आपत – आकांत दिसनातल्ल्या वेळार ताचीं पाळां सुटोंक आयकालीं नांत. हें जाणा जाल्ल्या जॉनीन ताका सांगल्लें : एक पावटीं बस सुटल्या उप्रांत लोताचे बायलेपरीं तुवें पाटीं पळेवंक ना.

इंडियन स्कुलाच्या वाठारांत लोक चिकार भरोन गेल्लो. सबार जण रस्त्या देगेर मलबारींनी आनी हेर कुवेती मूळ निवासींनी[224] उगती केल्ल्या दुकानांतल्यो वस्तू मोलाक घेताले आनी शिंवणेलागीं फुटोंक तयार जाल्ल्यो सुटकेजी आनीकी भरोंक पळेताले. इंडियन एंबेसीच्या कामेल्यांक भेटोन आइल्ल्या हेन्री पिंटोन तांणी बस नंबर 24 हातूं चडोन बसयेत म्हण सांगलें.

'आतां हें सामान कोणे वयर चडोवंचें?' विचारलें विल्मान. 'आमकां कित्याक एक सूटकेज? अळे ताणे पळे धा – बारा हांडल्यात!'

'तुवें पंचवीसय हाडयेत्यो विल्मा.' म्हणालो जॉनी 'पूण त्यो वयर चडयजे आनी कस्टम्स तपासणेखातीर देंवयजे आमीच!'

इराकथावन आइल्लें बृहत 'वॉल्वो' बस तें, जाचें इंजीन पाटले कुशीन आसल्लें. देखून पाटले कुशीन चड रडकबडक जावंचें ना म्हण बॅरनान आपणाक आनी विशीक निमाण्यो सिटी विंचल्यो. एके सिटीची 'पाट' मोडून कुस्काल्ली आनी इझीचेरापरीं पाटीं वेताली. आनी हाचेर विशीक बरोच सुशेग मेळ्ळो. पन्नास जण पयणारी बसाचेर चडले. नोरा, तेज्जाण्टी, मोली आनी आंबू, विशी आनी बॅरन सासांगाता बसलीं. हेन्रीक ड्रायवरा सरशीन एक सीट मेळ्ळी. ताकायी एक जवाब्दारी दिल्ली. ड्रायवरान झेमनाशें या वाटेर अमाल सेविनाशें पळेवंची जवाब्दारी. थोड्या वेळान हेन्री पिंटो आंबू सरशीं आयलो. 'संगत कसलीगी म्हण कळना', तो म्हणालो. 'आमच्या इराकी ड्रायवराचे दोळे पोंवटेल्ल्या सांगटेराच्या दोळ्यांपरीं जाल्यात!' तो म्हणालो. 'एकच ताणे घोंटल्लें चड जालां या ताका थोडे दीस थावन सारकी न्हीद ना.'

दोनपारांच्या 12.45 घंट्यांचेर बस सुटलें. कसलो विपर्यास? फ्लायटाचेर येवन, मर्जेन फ्लायटाचेरच आपल्या मांयगांवांक वेची भारतीय पर्जा आज निराश्रीत जावन तांचें जिवीत पिड्ड्यार केल्ल्याच देशाच्या बसांचेरच कुवेत सांडून धांवता आनी ह्या ट्रिपाक तांणी एके सिटीक एकशें वीस इराकी डिनारां भरल्यांत. पूण ही एक सुरवात मात्र, वाटेर आनी कितलो दुडू इराकींक खावंवक आसा म्हळ्ळें कोणाच्यांनी अंदाज करूंक जायना.

बस सुटताना कातोलिकांनी खुर्साचो घुर्त काडलो आनी हेरा भावार्थ्यांनी तांच्या तांच्या देवाक हाक मारली आसतेली. मध्य प्राच्यांत कितलीं लटकूस तरी वाहनां सुशेगार्ची आसतात. कित्याक थंयचे रस्ते तेलते, काँक्रिटीचे. ह्या बस्सांत एअर कंडीशन नातल्लें, तरी सुशेग आसल्लो. पयणाचो एक घंटो पाशार जातांना पयणारी तातांच्या भ्रमिदींत लिपले आनी भुरगीं निद्रेस्त जालीं. मनांत किडे आसल्ले थोडे जनेलांतल्यान भायर पळेताले आनी कितें चिंताले तेच जाणांत. एक दोन पावटीं पतिणेक घुंवोन पळयिल्ल्या जॉनीक दाडामां अडचून बसल्लें विल्मा दिसलें, पूण तो ताचेलागीं उलवंक गेलो ना.

तीन घंट्यांच्या सतत पयणा उप्रांत बसान वेग उणो केलो. जॉनी उठलो आनी मुखार हेन्री सरशीं गेलो.

'कितें गजाल?' ताणे विचारलें. 'ड्रायवर सारको आसा?'

'हांव नेणां... हूं.... पळे कुवेय्ट इराक गड आयली. ह्याच गडींतल्यान हे भितर आयिल्ले.' कॉंक्रीटीच्यो बृहत वणदी धरणी समाजाल्ल्यो दिसोन आयल्यो आनी लोखणा कांट्यांच्यो वोंयो[225] झांटां[226] जाल्ल्या केसांपरीं दिसताल्यो. थोडीं दुकानां आसल्लीं आनी गड उतरल्या तक्षण सोऱ्याचें एक दुकान मेळता म्हण हेन्रीन जॉनीक सांगलें. जॉनी फकत हासलो. हेर बस्सांसंगीं हांचेंयी बस रावलें आनी हांगासर थोडो वेळ लागतलो आनी कस्टम्स् चक्क पाशार जायजे तर एकेकल्यान धा इराकी डिनार दीजे म्हणालो ड्रायव्हर. उपाव नासतां सर्वांनी पयशे दिले. ते घेवन ड्रायवर तेवशीन वेतेच पयणारी देंवले. दादल्यांक वांदे नातल्ले पूण स्त्रियांक खंय पुणी आडोससोदून कुडीची गरज तिर्सुंक बसलीं. विशाखान अशेंच करूंक पडताना बॅरनाच्या दोळ्यांनी दुकां उदेलीं.

सुमार देड घंटो जाल्या उप्रांत एकेकच बस सुटोंक लागलें. पूण ह्या बसाच्या ड्रायवराचो पत्तो ना. आतां कितें करचें, खंय वेचें, कोणआलागीं विचारचें? पाटल्यान आनीकी थोडीं बसां आसात व्हय, पूण हो चालक खंय गेला?

आनी पंदरा वीस मिनुटां पाशार जाताना, कोणेगी म्हळें : 'ड्रायवर आयलो!' तो येवंक आयलो व्हय, पूण बसार चडोन आपले बसकेर बसोन, स्टियरिंगाचेर मातें दवरून निद्रेस्त जालो. बसांत आसल्ल्यांच्यो हाको–बोबो जाल्यो. हेन्रीन वचोन ताका धोंकळून उठवंचें प्रेतन केलें. पूण तो चालक ताका गाळी दिवंक लागलो. तो दुकानाक वचोन तितलोयी पियेला म्हणच्याक दुबाव नातल्लो.

परिगत समजाल्ल्या बॅरनान गडीर आसल्ल्या थोड्या इराकी सोजेरां लागीं उलवंचें प्रेतन केलें. तांणी, आमी कांय करूंक सकानावं म्हण भुजां हालयलीं. तितल्यार – बॅरनाच्या खांदार एक हात बसलो.

घुंवोन पळेताना सुमार स साडे स फुटींचो एकलो उबो आसा. आरब्यांचो दिशदाशा तो न्हेसला आनी माथ्यार आरब्यांची कट्टें – तोपी. ह्या मनशाच्या गोलियत व्यक्तित्वा पाटल्यान एकलो तरनाटो आपालिपा करता.

'कसली गजाल?' त्या गोलियतान विचारलें. 'कित्याक तुमी आनीकी सुटोंक नात?'

‘तूं इंडियन?’ घागेलो बॅरन.

‘हांव तुजे लागीं हिन्दीच उलयलों न्हय?’ ताणे विचारलें. तूं कित्याक इतलोयी भियेलाय?’

‘आमचो ड्रायवर टायट जावन स्टियरिंगाचेरच न्हिदला. बसांत म्हजी सीक पतीण आसा...’

‘बसांत सर्वयी सीकच!’ तो मनीस म्हणालो. ‘हांगाच राव.’ अशें म्हणोन तो चालकाचे कुशीचें दार उगतें करून तो भितर रिगलो आनी दोन तीन मिनुटांनी भायर आयलो. ‘तो सद्याक उठचे परीं ना!’ ताणे सांगलें. ‘अमाल सोडयां, तो तीन रातीं थावन हीं ट्रिपां मारून मारून न्हिदोंकच नाखंय. ताका उण्यार उणे पांच घंट्यांची पुणी न्हीद...’

‘पूण तवळ पर्यांत आमी कितें करचें?’

‘तुजें नांव कितें?’ त्या गोलियतान विचारलें.

‘हांव बॅरन पिरेर, हो हेन्री पिंटो आनी आमचीं हेरां... विल्मा आनी जॉनी डिक्रूज... बसांत आसात. आमी सर्वांयी मंगळूरचीं...’ तो हें सांगोन वेतां वेतां गोलियता सांगाता आसल्लो तरनाटो दोळ्यांनी कसलोगी उजळ घेवन ताचो दिश दाशा वोडतालो.

‘मातसो थंड राव रे चिकू!’ बोबाट घाली गोलियतान. ‘हांकां कांय कुमोक करूंक जातागी पळेयां आमी. आमचें बस सुटोंक आनीकी वेळ आसा...’

‘थंय पळे, थंय पळे!’ माकडापरीं उडलो चिकू. आनी गोलियतान पळेलें.

बॅरन आनी हेन्रीन ताचे दिश्टीचो पाटलाव केलो. कुडीची गरज तिरसून पार्टी बसार चडच्च्या स्त्रियांचो एक पंगड तांकां दिसलो.

‘येदोळ खंय आसल्लेंय गो, पाडपडलेल्या!?’ घणघणीत ताळो काडलो त्या गोलियतान. ‘कितें माकडांभाशेन पळेताय? हांव गो काजितान गोमीस आनी हांगा पळे हांवें खंच्या चिकूक सांबाळून हाडला!’ ताणे जेरीच्या कॉलराक धरून ताका उगताडांत हाडलो.

हें पळेवन जम्यातलें सुटल्लें नोरा लुवीस दोळ्यांनी दुकां घेवन हांचे कुशीन आयलें.

■■■

## 52

जेराल्ड पायसान आपले आवयचें पत्र परत एक पावटीं वाचलें आनी ताका गमलें आनी भोगलें आपूण जिल्ली पायस टिचेर म्हळ्ळे स्त्रियेचे मानसीकतेंत कितलो मिसळलां म्हळ्ळें. तें सगळें पत्र तो वाचताना इंडियन स्कुलाच्या एका बांकार बसोन काजितान गोमीस ताकाच पळयतालो. इंडियन स्कूलाच्या वटारांत दवरल्ल्या मेजांचेर हजारांनी पत्रां आसल्लीं आनी आपणाक एक पत्र आसतेलें म्हळ्ळी कसलीच आशा नासतां, जेरीन त्या दाळ्यांत अस्तूंक सुरू केलें. पांच मिनुटां उप्रांत काजितानय त्या दाळ्यांत उस्तिताना जेरीन ताका प्रश्नार्थक दिश्टीन पळेलो.

'म्हाका कोणाचीच चीट येना रे चिकू!' तो म्हणालो. 'हांव तुका कांय पुणी चीट आयल्यागी म्हण सोदतां.'

हें आयकोन जेरीन ताचो हात धरलो आनी मोगान चिड्डिलो. 'तूं नातल्लोय तर हांवें कितें करीजे आसल्लें?'

'हांव न्हय तर दुसरो आसतो!' म्हणालो काजितान. व्हय, जेरीक आवयची चीट आयिल्ली.

'सर्व सारकें आसा मूं?' कजितानान विचारलें. 'जावं गुजरालान तितलें तरी बरें केलें न्हय? विंचून काडलेल्यांक घेवन तो गेलो खंय, वचुंदी पेल्यान. वेताना ताणे सांगलें खंय, कुवेय्टांत खाण आसा, उदक आसा, वीज आसा, बँकां उगतीं जाल्यांत. देखून भारतियांनी इराकींसांगाता खांदाक खांद दिवन कुवेय्टाक सांबाळीजे. ह्या ताच्या संदेशावर्वी कुवेय्टी खंडीत खुबाळ्ळ्यात आसतेले. आतां आमी मुखलें चिंतीजे रे, चिकू!'

पूण मुखलें फकत काजितानाच्या चुरूक मेंदवान चिंतलें. तो एक संगत

शीदा जेरीक सांगा लागलो. गोंयांत ताचीं म्हळ्ळीं कोणच नातल्लीं आनी ताका कुवेत सोडून वचोंक कसलीच उर्बा नातल्ली. मरणाचें भंय्यी नातल्लें. तरी पूण आतां ताका नोरा खंय आसा म्हळ्ळें कळीत नातल्लें आनी पावनातल्ल्याक हो चिकू ताच्या गोमट्याक पडल्लो. 'कसलीगी एक जवाब्दारी म्हाका त्या देवान दिल्यारे, चिकू!' तो म्हणालो. 'तुका हांव इंडियाक पावयतोलो.' आनी तें नोरा मेळात तर ताकायी. जिणी आखेर जावंच्या पयलें पुणी कांय तरी बरें काम केलें म्हण सां फ्रांन्सीसाक सांगाजे न्हय हांवें.'

ले गाबारुचो गाब्रू आपुण बिलकूल येना म्हणालो. इराकी सरकार टिकात तर सद्दाम आपणाक इंडियाचो रायबारी करतलो, अशें तो म्हणालो. तंवळ ताच्या माथ्यार सुमार एक बॉत्ल 'शास्त्री' आसल्लो म्हणयां.

प्रथम जावन काजितानान इंडियन एंबेसी पाटल्यान मेळचीं डॉलरां घेतलीं आनी उप्रांत मलबारींनी आनी बदूंनी आसा केल्ल्या ओपन मार्केटीथावन जेरीक थोडी मुस्तायकी घेतली, एक ल्हान सूटकेज घेतली आनी त्या उप्रांत इंडियन स्कूलाक वचोन बस्सार वेतेल्यांचे पट्टेचेर आपणाचें आनी जेरीचें नांव दाखल केलें. जेरीच्या नांवार कसलेंच दस्तावेज नातल्लें जाल्ल्यान ताचे खातीर एक पयणा दस्तावेज तयार करूंक ताणे इंडियन एंबेसीच्या अधिकारींक मनवी दिली. कुवेत – बगदाद फ्लायटां आसल्लीं तरी हे परिगतींत विमानार वेचें सुरक्षीत न्हय म्हण काजितान म्हणालो. 'अरब कोल्लिच्या सागरांत येवन रावल्लीं अमेरिकाचीं झुजा तारवां खंय चुकोन एक मिसायल मारतीत तर जालें, अशें तो म्हणालो.

'आतां कितें?' सर्व तयाराय जातेच जेरीन विचारलें.

'आतां बसाच्या पयणाची तारीक कळीत जाता पर्यांत जॉली करचें!' ताणे जाप दिली. 'रांदून घालूंक गाब्रू आसा. इराकींचे कसलेच वांदे आमकां नात... व्हायरे चिकू... मंगळुरांत तुका एक भयण, आवय आनी पप्पा आसा न्हय रे? वेताना खाली हातानी वेताय? सांगरे, म्हजे लागीं दुडू आसा... कितें घेवंक जाय तर...'

'म्हाका एकलो आमीग आसा', दिगंताक पळेवन म्हणालो जेरी. 'ताचें नांव शिंटो पाव्लुस. हांव भायर सरताना ताणे म्हळ्ळें. तूं खाली हातांनी पार्टी येशी तरी म्हाका तुजे हात रिते दिसचेनांत..'

'तुमी मंगळुरगार सिंतिमेंतांचेर दीस लोटतात रे, चिकू!' तो म्हणालो. उप्रांत ह्या विशयाचेर ते उलयले नांत.

पयणाची तारीक कळीत जाली आनी आदले सांजेर काजितानान आपलें 'जेम्स' पिकप एका इराकीक विकलें. आपल्या रुमांत आसली टी. वी., वी. सी. आर. आनी एक मायक्रो ताणे पयलोच विकल्लो...

एकाच दिसा 56 बसां सुटल्लीं आनी त्या पयकीं एकाचेर जेरी आनी काजितान बसल्लें घडीत जावन आसल्लें एक भोव विरळ संयोग. जिणीच एक विरळ संयोग म्हळ्ळ्या उप्रांत ह्या एका संयोगाक हेर विवरण नाका.

नोरा लुवीस उबोनच हांचें कुशीन आयलें म्हळ्यार अतिशय जावंचें ना. ताचें गुमान आसल्लें जेरीचेर.

'तूं जिवंत आसाय, जेरी!' तें किळंचलें. 'तूं जिवंत आसाय?' 'व्हय, म्हण ताका सांग रे, चिकू!' म्हणालो काजितान. 'हांवय जीव आसां गो, नुरी', तो म्हणालो.

नोरान पाटीं – फुडें पळेनासतां जेरीक वेंगलो. 'देवाक आर्गां!' तें म्हणालें. 'सर्वांयी आसात ह्या बसांत! हांव, मोली आण्टी... तुजो जॉनी अंकल, विल्मा आण्टी...' बसा कुशीन घुंवोन तें बोबाटलें. 'जॉनीबाब, अळे तुजो भाचो हांगासर आसा... जेराल्ड पायस... विल्मा आण्टीक सांग... देंवा तुमी, देंवा...'

तितल्यार मोली आनी आंबू पिरेरा देंवोन आयलीं आनी मोलीन जेरीक आरावन धरून ताच्या गालांचे उमे घेतले. 'म्हजो टेरीच जीव जावन आयला म्हळ्ळे परीं म्हाका भोगता, पुता!' ती म्हणाली. पाटापाट आंबून येवन जेरीच्या भुजाक मोगान थापुडलें. बॅरन आनी हेन्री, ह्या दृश्यांत मेतेर जावंच्या तितलो संवकळ तांकां नातल्ल्यान मुकमळांचेर हासो घेवन पळेताले मात्र.

तवळ, जेरीचें गुमान हांच्या वयलें उठोन बसाच्या दाराचेर पडलें. जॉनी अंकल आनी विल्मा आण्टी ताचे कुशीन येतालीं. विल्मा, जॉनीच्या पाटल्यान पाद्देवनशें मेटां काडतालें. ताचें येणें पळेवन जेरीच्या भोंवती आसल्लीं हेरां हाळवायेन पयस सरलीं.

जॉनीन लागीं सरोन जेरीक वेंगलो. 'हें सर्व कशें आनी कित्याक म्हळ्ळें आमी हांगासर उलवंचेंयी नाका!' तो म्हणालो, उतरां विंचून 'देवाचीं म्हयमां

म्हळ्यार तूं भलायकेंत आसाय आनी आतां आमच्या मदें आसाय.. विल्मा... हांगा ये...'

विल्मा आयलें आनी ताणे आपलो उजवो हात जेरीक वोड्डायलो. जेरीच्या मुकमळार उद्देल्ल्यो हासो आनी पकास सर्वांक दिसलो. ताणे, विल्माच्या हाताचें गुमान केलें ना, पूण मुखार सरोन ताणे विल्माचें मुकमळ आपल्या दोनी हातानीं घेतलें आनी एकेका गालाक एकेक उमो दिलो. 'तुजो एक किलो कसकसो कुवेत कस्टमांत उरलो, विल्मा आंटी!' तो म्हणालो. हें आयकोन जॉनीन अर्थाभरीत दिश्ट जेरीक दिली. पूण विल्मान आपलो कॅरॅक्टर सांबाळ्ळो.

'आनी कस्कसो घेवन कितें करूंक आसा?' तें म्हणालें आपल्या गालांचेर हात चरवन. 'आसल्लें सर्व पाटीं सोडून आयल्यांव आमी. फकत एक सूटकेज? नॉनसेन्स!'

कोणेंयी कांय म्हळें ना. जेरीन भोवंती पळेलें. नोरा, काजितानाचे पासळेर आसल्लें आनी बसांतले पयणारी गोमटी लांब करून इराक – कुवेत गडीवयलें हें दृश्य पळेताले.

तितल्यार एकलो पयणारी बसावयलो देंवलो आनी अस्थीर मेटां काडून ह्या पंगडा सरशीं आयलो. 'हें कितें तुमचें फिल्म शुटींग?' तो खेंचलो. 'आमकां जॉर्डानाक वचोंक आसा, मॅन! ब्लडी, जॉर्डानाक वचोंक आसा... Go sit in the bus!'

'आनी बस कोण चलयता, तु जो बापूय, बेवड्या?' ताच्या कॉलराक धरलें काजितानान. कुवेत थावन येतानाच रेडी मिक्स करून हाडलांय आनी सोऱ्याचें गुदावं घाणच्यापरीं घाणताय.'

'तुजो बापूय चलयता हें बस.?' बेबद्यान विचारलें.

'म्हजो बापूय न्हय, हांव चलयतां हें बस!' काजितानान ताका एक पावटीं हालवन ताचो कॉलर सोडलो. 'हें बस कोण तरी चलवन तुमकां इराकांतल्या अल नस्सरियाक व्हरूंक सकता तर... तो हांवच...'

हें आयकोन सर्वांयी एकच पावटीं गंभीर जालीं आनी काजितानाा भोवंतीं एकटायं जालीं.

'Are you serious, man?' बॅरनान विचारलें. 'व्हय!' म्हणालो काजितान.

'सबार कारणांक लागोन म्हजी ही जाप. पयले सुवातेर म्हजें काम कुवेय्ट इराका मदलेंच म्हजेलागीं इराकांत घन वाहन चलवंची पखणगी आसा आनी हांव इराकांतले रस्ते बऱ्यान जाणां.' ताणे आपल्या दीसदासाच्या बोलसांतलें एक कागद काडलें. 'हें आमच्या इंडियन एंबेसीन दिल्लें परिपत्र आनी आमच्या लांब पयणाची नक्षा...' ताणे तें कागद सोडयताना सर्व गोमटी लांब करून तिळी लागले.

'हांगाथावन आमी बसराक उतरोन अल नस्सरियाक वेतेल्यांव. थंयसर पावताना रात जातेली जाल्ल्यान अल – मदेय्न म्हळ्ळ्या जाग्यार आसच्या एका स्टार हॉटेलांत इंडियन एंबेसींत आमकां सर्वांक रातभर रावंची वेवस्ता केल्या खंय...'

'ही सर्व माहेत तुका कशी मेळ्ळी?' विचारलें हेन्रीन. तांकां कोशीन हें सर्व सांगल्लें, पूण तांणीं तें तितल्या गुमानान घेतल्लें ना. इंडियन एंबेसी आसा न्हय म्हळ्ळें भावन.

'विचारल्यार कितेंयी मेळता!' म्हणालो काजितान. 'He's trying to play God!' म्हणालो बेबदो, ताळयो पेटून. 'हो हें बस चलयता तर हांव पुणी येवंचो ना.'

'बरेंच जालें!' म्हणालो काजितान. 'ह्या चिकूक एक सीट जाय आनी ती ताका आतां मेळ्ळी. आतां तुवें इंफेर्नाक वचयेत.'

'तुवें बस चलयिल्ल्यांत कांय रिस्क आसा?' विचारलें आंबून.

'आसल्यार ती म्हाका मात्र!' जाप दिली काजितानान. 'आमी इतलें करीजे. त्या इराकी ड्रायवरान बस सोडून धांवानाशें पळेजे. कितलो वेळ जाय तितलो वेळ तो बसांत न्हिदोंदी. तो बसांत आसल्यार आमचें इन्शूरेन्स आसल्ले परींच. आनी म्हाका.... हांव इराकी ड्रायवरापरींच दिसाना? कितें म्हणताय गो नुरी? तुजी तेज्जाण्टी आयल्या गो?'

'ती बसांत विशेव घेता!' जाप दिली नोरान 'तुका पळेतेच तिची बी. पी. चडल्या आसतेली!'

काजितानान बस स्टार्ट केलें आनी घुंवडावन हाय–वेचेर हाडलें. तो कसली रिस्क घेता म्हळ्ळें नोरा शिवाय हेरांक तितले खोलायेन कळीत नातल्लें. हेरांक

कितें, बस सुटलें न्हय म्हळ्ळेंच समाधान. टायट आनी आवट जाल्लो इराकी ड्रायवर सिटींमदले पासायेंत न्हिदल्लो. चालकाचे सिटीलागीं एक ल्हान मणये तसली बसका आसल्ली आनी नोरा ताचेर बसलें. जेरीन त्या बेवड्याची सीट घेतल्ली आनी तो बेवडो काजितान आनी जेरी आयिल्ल्या बसार चडल्लो. अल – मदेय्न हॉटेलांत तुजो सामान दितां म्हण काजितान भास दिल्या उप्रांत तो बेवडो, कजितान आयिल्ल्या बसार चडल्लो. पूण चडताना आपलें रेडी मिक्स व्हरूंक विसरलो ना.

'सबार संगती घडल्यात नुरी!' आपली दिश्ट रस्त्यार दवरून म्हणालो काजितान. 'जेरी चिकूची कथा लांब आसा, पूण आतां म्हजे लागीं कसलीच सवलां करिनाका. इतलें मात्र उडास दवरः देव आमचे संगीं आसा!'

अल–मदेय्न पावताना रातीचीं आठ उतराल्लीं. काजितानाक तो परिसर परिचीत. इंडियन एंबेसीन म्हळ्ळें तें हॉटेल अडेज स्टाराचें सयत न्हय म्हण काजितान जाणासल्लो. साबार पावटीं एक थंड बियर मारूंक तो ह्या हॉटेलाक गेल्लो आसा.

हांचें बस हॉटेलाच्या परिसराक पावताना थंयसर बस्सांची खातड जाल्ली आनी पयणारी चेल्ला पिल्ली घुंवताले. थोडे बसांच्या टॉपार चडोन तांतांचो सामान तपासताले. कोणा कोणाचीं बॅगां नपयंच जाल्लीं.

'बसांथावन हांवें सांगच्या पर्यांत कोणेयी देवचें नाका!' म्हणालो काजितान. 'हेन्री, तूं हांगाच ड्रायवरासर्शी राव. तो आतांयी उठच्यापरीं दिसाना. न्हिदोंदी. फाल्यां ताणेच बस चलयजे. तूं, आंबू आनी बॅरन म्हजे सांगाता येया. नुरी, तूं भायर राव आनी टॉपार आसल्ल्या आमच्या लगेजीचेर दोळो दवर. आन एक संगत.... बसांतल्ली सर्वां बरे भलायकेंत आसात? भुरगीं कशीं आसात?'

'व्हय, व्हय!' एका ताळ्यान जापी आयल्यो. बॅरनान आपलें विशी बरें आसा म्हण काजितानाक वेगळ्यान कळयलें.

'आमी वचोन इंडियन एंबेसीच्यांक भेटतावं! कळयलें काजितानन.

'चलयां'

सुमार देडा वोरा उप्रांत पाटीं आयिल्ल्या तांच्या मुकमळाचेर पुरासण उठोन दिसताली. काजितानाच्या मुकमळार पोक्री हासो आसल्ल्यो. 'हें स्टार हॉटेल',

तो म्हणालो. ‘हें कितल्या स्टारांचें म्हण हांव नेणां. पूण इतली तरी विलेवारी केल्ल्या इंडियन एंबेसीक आमी धन्यवाद म्हणाजे. आमच्या बसांतल्या पन्नास जणांक दोन रूमां तांणी अमानत केल्यांत. रूमनंबर 112 & 113 तुमी शिस्तेन वचा आनी स्त्रियांक पयलो अवकास दिया. तीं तांची निर्मळाय तिर्सुंदीत, आराम करुंदीत. आमी जेवणाची विलेवारी करतावं. कोणे जाणा हेंच कांय आमचें निमाणें नितळ - निवळ जेवण कोण्णा. अळे - गे, तेज्जांटी, हांगासर बिरयाणी आसा खंय, पूण तूं तुज्या बिरयाणीचो उडास काडून खोडी पुणी काडिनाका हां! हो सद्दामाचो गांव...’

‘तूं तोंड धांपरे लुसिफेरा!’ म्हणाली तेज्जाण्टी. बसांत हास्याचें ल्हार उठलें. हें उठयिल्ल्या काजितानान कितलेशा शिंतिदांक, कसलो आनी कितलो सुशेग दिलो म्हळ्ळें तातांकांच कळीत जाल्लें.

‘आनी दादल्यांक् एक सुचन’, तो म्हणालो रूंद हासो दिवन. कुवेय्टांत गाब्रू - तसल्यांचो शास्त्री पियेवन थकल्ल्यांक बरी खबर. हांगासर बरो बार आसा आनी इराका भायर कासाक प्रेजन पडानातल्ले इराकी डिनार खर्चूंक हाच्याकी बरी वाट ना. म्हाका स कॅनां बियर हाडून दिल्यार जालें...

तुकोंक गेल्यार ती रातच सुशेगांची म्हण दुबावाविणे म्हणयेत. सकाळींच्या साडेपांचांक बस सुटतेलें म्हण एंबेसिच्यांनी कळयिल्लें, पूण कुवेत-इराक गडीथावन आपणें बस चलवन हाडल्लें म्हण काजितानान तांकां सांगलें ना.

बियर आनी जेवण जातेच तो आनी नोरा हॉटेलाच्या परिसरांत दाट वाडलेल्या तणा कांबळीचेर न्हिदल्लीं. थंयथावन बस सारकें दिसतालें. नोराक खिणा भितर न्हीद पडली. पूण काजिताना एक दोळो उगतो दवरनच न्हिदल्लो म्हणयेत. तीन पावटीं तो वटारांत पासाय मारून आयलो आनी बसांतच न्हिदल्लीं आनी वठारांत न्हिदल्लीं सुरक्षीत आसात म्हळ्ळें ताणे खचीत केलें.

फांत्याचीं साडे चार जाताना ताणे इराकी ड्रायवराक उठयलो. आपूण खंय आसां म्हण कळोंक ताका पांच मिनुटां लागलीं. उप्रांत तो, ‘म्हजें बस, म्हजें बस!’ म्हणून बोबाटूंक लागलो. काजितानान ताका बसांतलो वोडून भायर काडलो. आनी रेस्टोरेंटाक व्हरून तीन कोपां फुटी कॉपी ताका भरयली. ड्रायवर बरोच सनीन जाताना काजितानान खूद दोन कोपां काफी सेवली आनी तवळ इंडियन

एंबेसीचो मनीस ताचे सरशीं आयलो. ताच्या हातांत वॉकी–टॉकी आसल्ली.

‘तूंच तुमच्या बसांतल्यांचो मुखेलीपरीं दिसताय!’ तो म्हणालो.

‘हांवें हाडल्ली खबर तितली बरी ना.’

‘कितें ती, सर?’ काजितानान विचारलें ‘आमी बऱ्या खबरेंक आशेवंचे दीस गेल्यात न्हय?’

‘आमच्या प्रथम येवजणे परमाणे तुमी हांगाथावन शीदा इराक आनी जॉर्डानामदें आसच्या सत्तर किलोमीटर लांब No Man's land हांगासर आसच्या अल – अझरक कॅंपाक वचाजे आसल्लें. थंयथावन जॉर्डाना भितर आनी शीदा क्वीन आलिया एअरपोर्टाक. पूण आतां... पूण आतां तुमी इराका भितरच आसच्या शालान कँपांत अनिर्दिश्टीक आवदेक रावाजे पडतेलें... अल अझरक कँप भरोन ओमताता.

‘पूण शालान कँप बंद जालां न्हय, सर? त्या कँपाक उजो दिला म्हण आमी दुबाय टी. वी. चेर पळयिल्ले...’ म्हणालो काजितान.

‘सारकें, पूण तें कँप शालान – I. थंयसर नितळाय उणी जाल्ल्यान संक्रमीक पिडेंचे क्रिमी उब्जाल्ले आनी देखून त्या कँपाक आमी उजो दिल्लो. पूण आतां तुमी वेचें शालान – II कँपाक...’

काजितान गोमिसान मळबाक पळेवन एक लांब स्वास सेवलो. ■■■

# 53

'सबार संगती घडल्यात नुरी!' आपली दिश्ट रस्त्यार दवरून म्हणालो काजितान. 'जेरी चिकूची कथा लांब आसा, पूण आतां म्हजे लागीं कसलींच सवालां करिनाका. इतलें मात्र उडास दवर. देव आमचे संगीं आसा!' इतलें म्हणोंक काजितानाक सुलभ जालें जावयेत पूण लागीं लागीं एका घंट्याची वाट काबार जाताना काजितानाचो जिनोस आपापींच आपलो रेवोड सोडिलागलो. ताणे आपणाक कळीत आसल्ली जेरीची संगत नोराक कळयली. 'पूण कितें तरी ही परिगत कोंबी पयली या तांतीं पयलें म्हळ्ळे परींच. जेरीन जेय्लांत पडच्याक आनी आइन्न वेळार सद्दामान आक्रमण करच्याक कसलो संबंद आसा? त्याच मापान हांवें त्या जेय्लाक पावोन जेरीक आम्रो दिवंच्यांतयी कसलो संयोग आसा? म्हाका व्हड शिकप ना, नुरी, पूण मनशांक हांव ओळकातां, हांव जियेवंक जाणां. म्हाका एका खांदाची गरज आसल्ली आनी भोव ल्हान तरी तो खांद तुवें म्हाका दिलाय!' एक खिणाक रस्त्यावयले आपले दोळे उठवन ताणे नोराक पळेलें. ताच्या दोळ्यांनी दुकां आसल्लीं. तूं म्हाका चुकलेंयीच म्हण हांवें लेखल्लें.'

'आतां तुजें गमन ड्रायविंगाचेर दवर', म्हणालें नोरा आपल्याच दोळ्यांतलीं दुकां पुसून 'खऱ्या मोगाचीं खुणां असल्या सन्निवेशांनी उजळोन उगडाताक येतात.'

काजितानान आपलें नाक पिळ्ळें. 'कितेंय तरी, विल्मा आनी जेरी मदें रुस्तुरुसांव जातेलेंच म्हण म्हाका भोगता!' तो म्हणालो. 'कसकश्याचो विशय हाडून जेरीन एक टिंकर उडयला...'

'आमी मेतेर जावंचें नाका', तें म्हणालें चत्रायेन. तूं म्हाका मेळ्ळोय आनी हांव तुका. होच म्हजो स्वार्थ तर, तोच देव म्हाका भोगसुंदी.

'आमी या हेरांनी मेतेर जायजे म्हण ना नुरी.' तो म्हणालो.

जेरी थंय ताचे प्रायेक सहज जाल्लीं सबार देणीं आसात. येदोळ पर्यांत तीं घुस्पडीत आसल्लीं. पूण ताचे लागीं उलयताना म्हाका कळीत जालें कीं सॅली कुरियन म्हळ्ळ्यां एके स्त्रियेन, शिंटो पावलूस म्हळ्ळ्या ताच्या मित्रान आनी टेरेन्स म्हळ्ळ्या ताच्या आप्त मित्राच्या मरणान ताचेर कठीण प्रभाव घाला. पूण हो प्रभाव घुस्पडायेक कारण जाल्लो तो आतां सारको जाला. जेरीक ताचे आवयचें पत्र आयिल्लें आनी तें वाचतेच तो सगळोच बदलला. आमी ताका ताच्या इतल्याक सोडयां!'

काजितानाचीं हीं उतरां आयकोन नोरा, अभिमानान पळे लागलें...

अल मदेय्नांतलें हॉटेल, रूम नंबर 113

म्हेळपान भरोन वोमथोंच्या टॉयलेटांत, उपाव नासतां आपली निर्मळाय तिर्सून जेरी भायर आयलो. ताचें मुकमळ वालेंच आसल्लें. ताचो तुवालो सूटकेजींत आसल्ल्यान तो हेणे तेणे पळे लागलो. तवळ, जॉनीन ताका आपलो तुवालो दिलो.

त्या रूमांत आसच्या एक डब्बल बेडार तेज्जांण्टी आनी विशी आराम करतालीं, आसल्ल्या दोन कदेलांचेर जॉनी आनी विल्मा बसोन आसल्लीं, आंबू आनी मोली रूमाचे कारपेटिचेर बसोन आसल्लीं. हेन्री पिंटो आनी बॅरन, जेवण आनी बियर हाडतांव म्हण हॉटेलाच्या रेस्टोरेंटाक गेल्ले. नोरा आनी काजितान, बसासरशीं आसतेलीं, असो अंदाज केलो जेरीन. आपुणय वचोन तांच्या सांगाता रावतां म्हण तो मुकमळ पुसून दारालागीं वेतां म्हणताना 'आमच्या मदें कांय थोडें उलोणें बाकी आसा, मिस्टर जेराल्ड पायस!' विल्माचो ताळो उठलो.

'कसल्यायी उलोण्याची गरज ना, विल्मा!' मदें पडलो जॉनी. आमी एक पावटीं सुरक्षीत गावांक पावयां! आनी त्या उप्रांत...

'एक सुटकेज घेवन आमी सुरक्षीत गांवाक पावतेल्यांवच' तें म्हणालें. 'पूण हांवें खेल्ल्या थापडाचें रूसूम कोण दिता? म्हाका हाडल्लो कसकसो कुवेय्ट कस्टमांत उरलो म्हण नंज्यो उलयलो हो तुजे भयणीचो पूत आनी तूं वोगो रावलोय?'

'पळे विल्मा', आपलें समाधान सांबाळ्ळें जॉनीन. हांगासर आमच्या कुटमा

भायलीं मनशां आसात. तांच्या सामकार आमचें म्हेळें कित्याक...'

'आमचें म्हेळें म्हणा नाका!' विल्मान ताळो काडलो. 'तुजें आनी तुज्या कुटमाचें म्हेळें म्हण. त्या एक किलो कस्कशाक लागोन न्हय तुवें म्हाका थापडायिल्लेंय?'

'व्हय!' म्हणालो जॉनी. त्या खातीर तुका कसलें समाधान जाय?'

'समाधान? तुजो हो पोली भाचो सांगोंदी कीं त्या एका किल्याक लागोन सद्दामाचें सगळें सैन भितर आयलें म्हण? त्याच एका किल्याक लागोन तुजो भाचो वेळार एअरपोर्टाथावन भायर येवंक ना म्हण? सांगोदी तो, ताच्या बापायन चोट्टे मिकीन म्हाका केल्ल्या अकमानाचें फारीकपण घेवंच्या खातीर हांवें ताच्या कर्ना कसकसो हार्डयिल्लो म्हण? सांगोंदी, सांगोदी. I bloody well challenge him!'

जेरीन विल्माक फूड केली आनी आपल्या हातांतलो तुवालो जॉनीक पाटीं दिलो. ताच्या दोळ्यां मुखल्यान धावंलीं थोडीं दृश्यां आनी कानांनी घुणघुणलीं थोडीं उतरां. थोडीं नोराचीं, थोडीं सॅली कुरियनाचीं.

- संवसारांतल्या मनशांक तुवें लागशिल्यान पळेवंक नाय, जेरी.
- तुवें बायबल वाचलांय, जेरी? जिणेंत नावां बदलीयेत, जागे न्हय.
- जिणेंत कितल्यो सप्लिमेंटरी येतीत पुता, जेरी?

'हांव तुज्या सामकार सल्वालां, विल्मा आण्टी!' म्हणालो जेरी. 'ह्या सर्व सवालांची जाप फकत तुजेलागीं आसा म्हण हांव पातयेतां. तुवें एक किलो कस्कसो धाड म्हण माम्मीलागीं विचारलेंय, माम्मीन तो दिलो आनी तो हांवे मोगान हाडलो. तुमचे खातीर कांय तरी किरकोळ करनी करूंक म्हाका अवकास मेळ्ळो न्हय म्हण लेखून. पूण हांगासर... भोवशा, कुवेय्टांत कस्कसो हाडूंक नजो म्हण तुकायी कळीत नातल्लें कोण्णा, विल्मा आण्टी?'

'पोरच्या पोरा! तूं उलवंक शिकलाय न्हय?'

'पूण तो राजावं उलयता, विल्मा!' म्हणालो जॉनी. 'तुजीं तीं तीन सवालां वाऱ्यारच आसात. ह्या सर्वां सामकार त्या सवालांक कित्याक जाप दिनांय. तुजें मन क्लियर जायत.' विल्मान या हेरांनी कितेंयी म्हणच्या पयलें, दार उगतें जालें आनी हेन्री पिंटो आनी बॅरन खाणां आसल्ली एक ट्रे आनी बियर हाडून आयले.

भितरली गंभिरताय कळीत नासतां हेन्री म्हणालो : Hello, room service!

'हांवें जाप दिना जाल्यार कितें जाता?' आपल्या हटाक उमकाळ्ळें विल्मा.

'सद्दाम कांय पार्टी वेता?'

'तो पार्टी वेता या ना म्हळें तुवें जापी दिल्यार मात्र कळता न्हय?' विचारलें जेरीन. 'पूण म्हाका भोगता... हांवें सोंसल्लें म्हण हांव म्हणाना, पूण म्हाका जाल्लो अनभोग सर्वांक सांगाजे म्हण?

'व्हय, व्हय!' म्हणाली मोली. 'हो काळ एकमेकाचे कश्ट वांटून घेवंचो. कार्यांनी न्हय तर, उतरांनी पुणी.'

'आनी हो काळ एका मेका भोगसुंचो!' कोंपरार आपलें वजन दवरून कार्पेटीर आड पडलो आंबू. 'कित्याक म्हळ्यार कुवेय्टच्या सुशेगांत आमी फाल्यां आनीकी चड जोडतेल्यावं म्हळ्ळे आशेन न्हिदोंक वेताल्यावं. पूण आतां, आमच्या वांट्याक फाल्यां म्हळ्ळो दीस आसा या ना म्हळ्ळें आमकां कळीत ना. पुता, ज़ेरी सांग तुजी कथा. पूण ते कथेंत भोगसाण्याचो स्पिरीट आसोंदी. एकमेका भोगसिल्ल्यांत येवंचो सुखाळ आनंद तुकायी लाभों.'

'तुमी सर्व म्हाका गुन्यांवकार करतात न्हय?' पांय आपटोन विल्मा उबें जाले. 'ह्या जेरीची कथा कसलीच जावं, हांव जवाब्दार न्हय. हांव भायर वेतां!'

जॉनी हासलो. 'तू चड पयस वेचेंनाय, डार्लींग!' तो म्हणालो. `Come back and sit down.'

जेरीन आपली कथा सांगली.

'आयकालेंय मूं?' म्हणालो जॉनी. 'आयकालेंय मूं?'

'पूण ह्याच वर्वी कांय आक्रमण जालें म्हणचें तुमी?' आपल्या खाशेल्या गुणांक उमकाळ्ळें विल्मा. 'आतां म्हणतेल्यात ह्या आक्रमणाचें मेन कारण विल्माच म्हण.'

'आक्रमणाच्याकी चडितायेन व्हड वादाळ तुवें ह्या तरनाट्याचे जिणेंत उठयलांय विल्मा!' रागान कडकडोन उबो जालो जॉनी. 'समाधान अंकल, जॉनी!' म्हणालो जेरी! ह्या सर्वावर्वी I am a better person today!

*****

बसाचो ड्रायव्हर स्थिमितांत आसल्लो आनी बस सुमार सत्तर किलोमीटराच्या वेगान शालान - ॥ कँपा कुशीन धांवतालें. बसांतल्यांक गमल्लें कीं वेगींच सर्वां जॉर्डानाच्या भद्रतेंत आमी आसतेल्यांव म्हण. बसांत आसल्ले तरनाटे येदोळच कस्टम्स् म्हण दोन पावटीं सुटकेजी देंववन चडवन थकल्ले. वयर थावन देंववच्यो सुटकेजी आपल्या हर्द्यार घेतल्यान काजितानाच्या हर्द्याची कात झेंजरोन गेल्ली आनी ताच्या दिश दाशाचेर रगताचीं खतां उदेल्लीं.

देवाचे दयेन विशीची भलायकी स्थिर आसल्ली आनी आपणाक कितली पुरासण जाल्या तरी तें आपल्या मुकमळावयलो हासो माजवयनातल्लें. आंबू आनी मोली एकामेकाची बगली सोडिनातल्लीं, जॉनी आनी विल्मा एकामेका उलवंच्यापरीं दिसनातल्लीं, पूण तांचें गुमान कोणेंयी केलें ना. ह्या सगळ्या प्रकरणांत जेराल्ड पायस म्हळ्ळो तो मात्र आतां मुल्याक पडल्लो. ताची इंटरव्यू आखेर जाल्ली आनी तो कुवेतथावन पळापळ घेवंच्या हजारों भारतियांपयकीं एकलो जाल्लो. आनी ताणे आपलें स्थान घनान घेतल्लें. नोरान दिल्ली ताच्या पासपोर्टाची आनी विजाची कॉपी ताका थोडें पुणी भौशीक अस्तित्व दिताली.

वाटेर, शालान - । कँप जळचें ताणीं पळेलें. हांगासर अड्डादिड्डी धांवोन आयिल्ल्या निराश्रितांनी उब्जयिल्ल्या म्हेळपाक आनी गलिजायेक लागोन वोशा[227] पिडेंच्यो क्रिमी उब्जाल्ल्यो आनी ह्या कँपांतल्यां खातीर इंटरनॅशनल रेड क्रेसेंट सोसायटी शालान - ॥ केंप उबारल्लें.

सुमार दोनपार जाताना हांचें बस कँपासरशीं पावलें आनी थांबलें. देंवा, देंवा, तुर्त करा, सामान देंवया म्हण ड्रायवरान बोबाट घलताना बसांतले चिडले आनी म्हणाले, हें अल - अझरक कँप न्हय. तवळ इंडियन एंबेसीच्यान येवन परिगत विवरली. 'अल अझरक कँप फुल्ल जालां आनी जॉर्डानांत अल - अंदालूस म्हळ्ळें कँपय भरलां. क्वीन अलिया एअरपोर्ट तत्कालाक बंद केला.... तुमी सहकार दीजे, मोगाच्या भावांनो आनी भयणींनो.' हात जोडिलागलो इंडियन एंबेसीचो मनीस. 'आतां तुमचो तुमचो सामान घेवन खाली पडल्लीं टेंटां सोदा आनी विशेव घेया. हांगासर तुमकां खाण आनी उदक मेळता. मेडिकल गरजो आसात तर रेड क्रेसेंट सोसायटी आसा... टॉयलेटस ह्या मैदानाच्या वो... त्या पोंतार आसात...'

चार राती तांकां ह्या कँपांत रावोंक पडलें. बॅरनान विशीचें मेडिकल करयलें आनी तवळ ताका थोडें Spootting जाल्यान आंबू लागीं आसचें एक इंजेक्शन ताका दिलें. Islamic brotherhood Society खाण दिताली पूण तें घेंवक लायनीर रावाजे पडतालें. हर एका टेंटांत सोळा जणां आनी ह्या एकेका पंगडाक एक दिसाक दोन डजन उकडलेलीं तांतयां, दोन क्रेट टॉमेटो, दोन क्रेट तोवशीं, एक बॉक्स टिनाचे तार्ले, एक बॉक्स डॅनीश डेरीचें लबान, भुरग्यांक दूद आनी क्रीम क्रॅकर्स बिस्किटीच्यो पॅकेटी.

दिसाची कठीण धग, पूण सांज जाताना उगताडांत सुमार एक घंटोभर धूळ-वारें सुटतालें आनी उशण एकाच्छाणे देंवतालें. रातीचें उशण फकत पांच-स डिग्री. टेंटां भितर खाली धरणीचेर हांतळूंक आनी कुडीचेर पांगरूंक अमेरिकान दान केल्ल्यो कांबळी. उजवाड नातल्लो, पूण तारल्यांच्या टिनांतलें ओलीव तेल जमो करून लुगटाची वात ते पेटयताले.

टॉयलेट आसल्ले व्हय, पूण मनीस जाल्लो त्या टॉयलेटांक वचनातल्लो. कुडीच्यो सर्व गरजो फांत्या फराकच उगताडांत ते तिर्सिताले. वातावरणांत मिसळाल्ली विसर्जनाची मूर तांकां आतां सवंयेची जाल्ली.

पांचव्या दिसाच्या सकाळीं बस आयलें, सुटकेजी वयर चडल्यो आनी अल - अझरक कँपाक पयण सुरू जालें. रस्तो तितलो बरो नातल्लो आनी बस हालतालें. बॅरन विशीक आरावन धरून बसल्लो.

अल - अझरक कँपांतली वेवस्था भारीच बरी आसल्ली. परत, एका टेंटांत सोळा जणां. टेंटांच्या मदेगात, काजितानान सुटकेजींची वणत उबी करून स्त्रियांक मुस्तायकी बदलूंक सवलत केल्ली.

हांगासर तीन राती पाशार करतेच, परत एक पावटीं बस आयलें आनी हें बस तांकां शीदा जॉर्डाना भितर-सद्दामाच्या दावल्यां तावन पयस - व्हरतेलें.

पयण सुरू जालें.

इराक-जॉर्डान गडीक सुमार पांच किलोमीटर आसताना एक हळ्ळी दिसोन आयली. आनी हांगासर थोडी दाट पाचवाय (greenery) आसल्ली, चडशे रानबोरांचे रूख घण वाडल्ले. बस कित्याक थंयसर रावयिल्लें म्हण तांकां कळीत जालें ना. ड्रायवर देंवलो आनी सुमार दोनशीं मीटर पयस आसल्ले मातयेच्या

घरां कुशीन गेलो. बसांतल्यानी उठोन आंगाची वळ काडली आनी तितल्यार पूण आवचीत एक इराकी सोजेर बसाभितर रिगलो. ताच्या खांदार मशीनगन आसल्ली.

'पासपोर्ट, पासपोर्ट!' तो खेंचलो.

हो म्हाका एका लुटकारा परीं दिसता!' म्हणालो काजितान नोरालागीं.

हें no Man's land चोरी लुटी जावंच्यो हांगाच म्हण एंबेसीचे म्हणताले. पासपोर्ट म्हणोंकयी कळाना पाडपडलेल्याक!'

बेश्टेंच, पासपोर्ट तपासल्लेपरीं करून तो हांचेसर्शी आयलो आनी ताची दिश्ट विशाखाचेर पडली. तें सल्वार खमीजाचेर आसल्लें, माथ्याक ताणे दुपट्टा रेवडायल्लो आनी दोळ्यांक सन ग्लास दवरल्ले.

'तुमी खंय थावन?' ताणे विचारलें अरेबिकांत

'आमी इंडियाचीं!' नोरान जाप दिली.

'तें हांव जाणा! पूण उत्तराचीं या दक्षिणाचीं?'

'दक्षिणाचीं!'

'तर ताका कसो तो गोरो रंग आयला? तुमी दक्षिणाचीं सर्व काळीं न्हय?'

आतां हाका कोणे विवर दिवंचो?' पुसपुसलें नोरा.

'पाश्चिमात्य देशांचीं गोरीं मनशां आमचें न्हेसण न्हेसून फरारी जातात म्हळ्ळें हांकां कळीत जालां...'

'भावा!' परिगत हातांत घेवन काजितानान अरेबिकान म्हळें 'तुका आनी म्हाका रचल्ल्या अल्लाहनच तिका हो रंग दिला!' तो सोजेर, काजितानाक दोळे वाटारोन पळे लागलो. नोरान चिंतलें. कांय बंदुकीचे मुठीन तो काजितानाचें मुस्कार फुटयत म्हण. पूण तो सोजेर शीदा तेज्जांटी सरशीं गेलो.

'तुजो पासपोर्ट ताका दाखयगे!' नोरान तिका कुट्टिलें. तेज्जाण्टी इतली भियेल्लीकीं तिणे आपली सगळी चिरीच काडून त्या सोजेराक दिली.

नोरा कितेंच करूंक सकलें ना.

त्या सोजेरान ती चिरी उसयली आनी भितर तिळ्ळें. उप्रांत तेज्जणटीचो पासपोर्ट काडून तिका पाटीं दिलो आनी ती चिरी आपल्या रुंद बेल्टांत शिरकायली आनी बस देंवोंक तो घुंवलो.

'म्हजें भांगार – पिड्डूक – कोंत म्हाका पाटीं दीरे पुता पुनेगेल्ल्या!' तिणे हात विस्तारोन विळाप केले.

बस्सांत कसलोच आवाज नातल्लो. थोड्यांनी उस्वास सोडचोयी बंद केल्लो.

तो सोजेर एकाच्छाणे घुंवलो आनी ताणे आपली गन सर्वांक जोकली आनी एक हासो हासोन बस्सांतलो देंवलो.

नोरान आपलो हात काजितानाच्या खांदार दवरलो.

'हें इतल्यार सोडूंक जायना!' तें म्हणालें. त्या चिरयेंतल्यो वस्तू तेज्जाण्टीक कितल्यो महत्त्वाचो म्हण हांव जाणां!' बसांतल्यान भायर पळेताना प्रदेश निर्जन दिसतालो आनी ड्रायवराची झळक नातल्ली.

लुटकार इराकी, रान बोरांच्या मळ्यांत लिपल्लो.

काजितान उबो जालो. 'म्हाका समजालें!' तो म्हणालो. 'तुर्यी देंव आनी आमचो ड्रायवर येत जाल्यार ताचें गमन मळ्याकुशीन पडनाशें कर.'

'कित्याक तुमी रिस्क घेतात?' विचारलें आंबून. 'ताचे लागीं गन आसा!' पूण नोरा आनी काजितान सांगाताच बसाथावन देंवलीं.

■■■

# 54

बसाचें डिजल इंजीन चालूच आसल्लें. परिसरांत ह्या इंजिनाचो 'चकचक' आवाज सोडल्यार हेर आवाज नातल्लो. बसा भितरय आवाज नातल्लो जायजे. सर्वांनी उस्वास बांदल्लो. आपुणय देंवतां म्हळ्ळी शिपायगिरी दाखवंक उठल्ल्या जेरीक, जॉनीच्या एके दिश्टीन बसयलो. बसा भायर आयिल्ल्या काजितान आनी नोरान भोवंतीं पळेलें. हळ्ळेच्या घरांभायर तांकां थोडीं भुरगीं मात्र दिसलीं. ड्रायवर, आपली कसली गरज तिर्सूंक गेला या ताच्या कुटमाचीं ते हळ्ळींत आसात म्हळ्ळें कळीत नातल्लें.

व्हड आवाज करून तीन काळ्या भांगाराचीं टँकरां हायवेच्यान पाशार जालीं. तांतूं भरल्लें कच्चा तेल देंगेंनी देंवल्लें आनी पाटल्यान पाजरतालें. इराकी कच्च्या तेलाचेर संयुक्त राष्ट्रांनी रफ्त करचो निर्बंध घाल्लो देखून हो सद्दाम बृहत टांकींनी कच्चा तेल भरून जॉर्डनाचे भूंय वाटेंतल्यान टर्कीं मुखांत्र रफ्त करतालो. कसलींयी दिग्बंधनां निर्बंध घाल्यारी एक थेंबो काळ्या भांगाराक आंगालापचे देश कांय उणे नातल्ले.

'चत्राय कर!' नोरा पिसपिसलें. काजितानाच्या दोळ्यांनी देंवचार दिसलो नोराक.

तूं हांगासरच राव म्हळ्ळो इशारो ताका दिलो काजितानान. सुवात रेंवाळ जाल्यान ताच्या मेटांचो आवाज उठानातल्लो. तो त्या मळ्याक पावलो आनी ताणे मुट्टेल्ल्या बोरां झाडांच्या बोल्याचीं पानां – फांटें देगेन करून तिळ्ळें.

इराकी लुटकार ताका दिसलो

ताणे आपली मशीन गन आतां खांदार घाल्ली.

ताच्या हातांत तेज्जांटीची चिरी आसल्ली.

तांतलें कोंत आनी बेंतीण ताणे धरणीर उडयल्लीं. कसलोगी रजिश्ट्रयी धरणीर पडोन आसचो ताका दिसलो. सोजेराचें गुमान चिरयेंत आसच्या हेर नगांचेर आसल्लें. तिचो कंठी सर हातांत घेवन तो सोबाय पळेतालो.

काजितानाच्या काळजान एक बळीश्ट उडी दिली आनी त्या अर्द्या खिणाभितर तो सोजेराच्या पाटल्यान उबो जालो आनी एक बळीश्ट हात ताणे ताच्या खांदार दवरलो.

'शिनू हादा?'[228] म्हळ्ळ्या उद्गारा बराबर काजितानाक फूड केल्ल्या सोजेराचें तोंड काजितानाच्या आळवा खोल्या तेद्या हातान 'चबक्क' करून बंद करून धरलें.

त्या उप्रांत घडल्लें जावन आसल्लें क्षणीक. एक वेळा तो सोजेर वांचलो तर ताच्या उडासांत इतलेंच आसतेलें.

एका एक्सप्रेस ट्रेनीचें इंजीन आपल्या जागांमदें रिगलें.

तितल्यायी बळान काजितानाचें धोपर ताच्या जागांमदें बसलें. कंठी सर गळवन दुखीन बागवाल्ल्या सोजेराचें माथें काजितानाच्या धोंपरालागीं येताना तेंच धोंपर रेय्लाच्या इंजिनाचें पिस्टन चलल्लेपरीं ताच्या सोंडार बसलें.

सोजेराच्या नाक्राचें हाड पिठो जाल्लो आवाज आयकालो काजितानाक.

सोजेराक हाळवायेन धरणीर गळोंक सोडून ताणें कोंत, बेंतीण आनी धरणीर गळल्लो कंठीसर आनी तो रजीस्ट्र विंचून चिरयेंत घालो आनी दोन घडयांक आपलें कारबार पळेवन रावलो. 'पाड पडल्लो!' ताच्या ओंठांतल्यान उद्गार भायर आयलो.

हेणे तेणे पळेताना ताका मळ्याच्या तेवशिल्यान एक हळ्टाची झिरी दिसली.

पांयान खोंटावन त्या सोजेराक ताणे झिरी पर्यांत व्हेलो आनी ताका झिरियेंत लोळवंच्या पयलें ताची मिशीन गन विंचली. ती तो मोगान पोशेताना,

'ती आमकां नाका, काजी!' नोराचो पिसपिसो ताळो ताका आयकालो. 'तसलो अधिकार आमकां नाका. आमचें काम जालें. हाच्याकी वर्ती हिशेगिरी आमकां नाका. चलयां!'

हें आयकोन काजितानान ती मशीनगन झिरियेंत उडयली आनी त्या उप्रांत

खोटावन, मतीर नातल्ल्या त्या सोजेराक झिरियेंत लोटलो.

तांणी पाटीं बसा कुशीन येवंक आनी मातयेच्या एका घराथावन बसाचो ड्रायवर भायर येवंक समा जालें.

ताची दिश्ट तांचेर पडतेच कुडीची गरज तिर्सूंक गेल्लेपरीं तांणी नटन केलें.

'हाणे बसाभितर रिगल्ल्या सैनिकाक पळेला या ना म्हळ्ळें नक्की कळीत ना!' म्हणालो काजितान. 'बस हांगासर राववन लुटकारांक अवकास दिवंचें हाचें योजन तर...चे! हांवें मिशीन गन हाडिजे आसल्ली!' तो चुरचुरलो.

'स्टुपीड!' तें आपल्या उस्वासा पंदल्यान उचारी लागलें. 'एकल्याक लगाड काडशी.... तुजो प्रोब्लेम होच. खिणा भितर तुजो राग चडता...' तें आपलें सल्वार खमीज सारकें करूंक लागलें आनी ड्रायवराक पळेवन हासलें आनी बसाभितर चडचो दरवड करिलागलें.

ड्रायवर आपले भांगाराचे दांत दाखवन हासलो. 'खलास?'[229] ताणे विचारलें.

'नाम, नाम!,[230] नोरान जाप दिली आनी बसार चडलें. ताच्या पाटापाट काजितान चडलो. ड्रायवरान बसाचें इंजीन गियरींत घालें आनी चालू केलें.

'हाका कांय कळीत नारे, काजी!' म्हणालें नोरा, सुमार एक किलोमीटराची वाट काबार जाताना. काजितान उठलो आनी तेज्जाण्टी लागीं वचोन ताणे तिची चिरी पाटीं दिली.

'सांबाळ–गे!' तो तिका धमकिलागलो. 'शेकागेर पळे अद्वाज चलयतालीय, तें दर्प चलाना हांगासर.'

'तुमी कितें केलें त्या सैनिकाक?' आंबून विचारलें.

'खंडीत जावन तुवें ताका लगाड काडलोय आसतलो आनी पांच मिनुटांनी इराकी सैनिकांचें बेटालियन आमच्या बसा पाटल्यान लागतागी ना म्हळ्ळें पळेया तुमी. आमच्या सर्वांचो जीव रिस्केर घाला तुमी.

'आनी चार किलोमिटर उतरतेच आमी जॉर्डानाचे गडीक पावतेल्यावं!' काजितान म्हणालो. 'कस्टम्स जाल्या उप्रांत आमी शीदा किंग हुसेनाच्या राज्यांत. थंय इराकींचें कांय चलाना.'

'पूण चार किलोमीटरांनी कितेंय जावंक साध्य आसा!' म्हणालो आंबू.

'शटअप, आंबू!' म्हणाली मोली. 'तुजे तसले Paranoid[231] मनीस आसतीत तर फाल्यां सद्दाम हुसेय्न जेप्पू - कंकनाडी - वालेन्सियाकयी येतलो म्हण तूं मंगळुराक येवंचोच नाय.'

पूण चार किलोमिटरांचेर कांय घडलें ना.

जॉर्डानचे गडी लागीं बस रावलें आनी तारनाट्यांनी सुटकेजी देंवयल्लो.

कोणाचीगी एक जड सुटकेज देववंक उरडोंच्या जेरीक काजितानान आडायलो. 'तुका हुंदराक हो वावर नाका रे चिकू.' तो म्हणालो.

'हांवें हेरांखातीर कांय करूंक ना!' म्हणालो जेरी.

तूं कित्या म्हाका हरएकांत भायर दवरताय?'

'कित्याक म्हळ्यार तुका तुज्या कुटमापर्यांत पाववंची जवाब्दारी नुरी आनी हांवें घेतल्या.'

सुमार तीन घंट्यांचें राकवणे उप्रांत तांचें लगेजीचें तपासण जालें आनी तीं सर्वां गड उतरोन जॉर्डाना भितर सरलीं. मयपासी नागरिकता दिसोन आंयली सगळ्या नीतल्यान. ह्या निराश्रितांचे कश्ट समजोन जॉर्डानाचे अधिकारी उलयताले. हवोयी[232] प्रशांत आसल्लो आनी चारांयी कुशींनी पाचवाय उठोन दिसताली.

'म्हज्या स्वाम्यान पवीत्र स्नान घेतल्ली न्हंय ह्या देशांतल्यान व्हाळता.' वर्त्या भक्तिपणान आपणा इतल्याक म्हणालो जेरी. 'आमकां सर्वांक राखोन व्हर क्रिस्ता'

लगेज घेवन सुमार मुक्काल किलोमीटर जॉर्डानाभितर चलल्ल्य उप्रांत तीं सर्व उगते सुवातेक आयलीं. थंयसरं सुमारशीं अल्ट्रा मॉडर्न लक्झुरी बसां उबीं आसल्लीं! -

उप्रांत तांका कळीत जालें की जॉर्डान शारांत रिगोंक फकत सुपर लक्झुरी बसांक मात्र परवणगी आसल्ली. आपल्या देशाचें ट्राफीक सयत टॉप क्लास आसाजे म्हळ्ळें कानून किंग हुसेनाचें.

बसांचेर चडतेच, तीं सर्तेन सुटलीं.

'आतां शीदा एअरपोर्टाक!' कोणेंगी बॉब मारली संतोसान. 'थंयसर आमचें भारत आमकां राखोन आसा...' तो रडलो.

पूण तसलें कसलेंयी घडलें ना. सुमार देड घंट्या उप्रांत सर्व बसां अम्मान

शारांतल्यान पाशार जावन Al Andalaus Touristic office म्हळ्ळो बोर्ड आसल्ल्या बांदपालागीं रावलीं. बसांतलीं सर्वांयी गोमटी लांब काडून तिळि लागलीं.

भायर काळोक पडोन येतालो आनी थंडी चडोन येताली.

एकाच्छाणे काजितान देंवलो आनी काळोखांतल्यान नपयंच जालो. अर्द्या घंट्या उप्रांत पाटीं आयिल्ल्या ताच्या सांगाता जॉर्डानी सोजेर / अधिकारी आसल्लो.

'समादान तुमकां सर्वांक!' तो अधिकारी सुडाळ इंग्लिशांत म्हणालो.

'हांव रॉयल जॉर्डान मिलिटरीचो अधिकारी. Hashemite Kingdom of Jordan. तुमकां सर्वांक स्वागत करता आनी तुमचेर आयिल्ल्या कश्टांक दूक पावता.

'इराकथावन शीदा क्वीन आलिया एअरपोर्टाक वेतेल्यांव म्हळ्ळी उमीद घेवन तुमी आयिल्ल्यात म्हण आमी जाणांव. पूण तुमकां आमी निराशी करिजे. आमचो एअरपोर्ट चिकार भरोन गेला. एका दिसाक शेंबोरांनी प्लायटां सुटतात तरी गर्दी विशेस आसा. हें एअर ट्राफीक सांबाळोंक आमकां कश्ट मारतात. देखून, ही गर्दी उणी जावंचे पर्यांत तुमी अल अंदालूस केंपांत रावाजे पडतेलें.

थोड्या घडयांचें मौन आनी त्या उप्रांत निराशेचे उद्गार परत उठले. अधिकारीन हात उबारून सर्वांलागीं शिस्त मागली. 'आमचो देश दुबळो' अधिकारीन मुकारिलें. 'आमी प्रवास आनी प्रवासींचेर आमच्या उंड्याचो भरवसो दवरतावं. पूण आतां तुमी आमचे सयरे. ह्या अल अंदालूस केंपांत तुमी कितले दीस उरतेल्यात म्हळ्ळें सांगोंक जायना. हांगासर थोडीं नेम-नियमां आसात. हें कँप येदोळच भरोन वोमताता जाल्ल्यान टेंटांची सवलताय फकत स्त्रियांक आनी भुरग्यांक मात्र. दादल्यांनी बिलकूल टेंटांनी भितर रिगोंक नजो. रिगल्ले सांपडशात तर तुमकां आमी जेय्लांत घालतेल्यावं. स्त्रियांनी आनी भुरग्यांनी टेंटांक वेच्या पयलें त्या कावंटराचेर तांका सँडवीच आनी पिवन[233] मेळतेलें. दादल्यांक त्या उप्रांत खाण आमी दितेल्यावं. तुमची लगेज हांगासरच उगताडांत दवरा, आमच्या देशांत चोरांची भिरांत ना. उडास दवरा, ही सगळी सवलताय आमच्या क्वीन आलियाचे कुरपेन. तिका आनी आमच्या रायाक बरें जावं. सलाम आलेकुम!'

आन एक कँप.

एकेकल्याच्या मुकमळांचेर दिसोन येवंची पुरासाण पळेताना तांच्या पातकांचें प्राजीत जालां म्हळ्ळें कळीत जातालें. सर्वांचें सयराण तुटोन वेचे गडीर आसतां, परत एक कँप? बायलां भुरगीं एका सँडविच्याखातीर आनी एक तांबलेर रोसाखातीर लायनीर रावल्लीं पळेताना कोणाचेंयी काळीज मुरडातें. आदल्या दिसा कार्पेट हांतुळ्ळेल्या एपार्टमेंटांत आनी आतां म्हेळकुटे धरणीर, एका सुक्या सँडविच्याखातीर लायन? सँडवीच आनी रोस घेवन बायलां आनी भुरगीं टेंटां सोदून गेलीं.

जेरी, लगेज दवरल्ल्या उगताडाच्या एका मुल्यांत बसलो. काजितान आनी नोरा दिसानातल्लीं. जेरीची मत गैरी जाल्ली. कितलो वेळ पाशार जालो म्हळ्ळें ताका कळीत जालें ना.

कोणेंगी ताका धोंकुळ्ळो. 'वच रे आनी एक ब्लँकेट घेवन येरे; चिकू!' काजितान ताचेलागीं उलयतालो. 'हांगा बसोन कित्याक कांपताय?'

'तुमी खंय गेल्ल्यात?' जेरीन विचारलें. काजिताना सांगाता नोरा, आंबू, बॅरन आनी हेन्री आसल्ले. 'हेरां खंय आसात?'

'आमी ह्या ट्युरीस्टीक ऑफिसाक गेल्ल्यावं', ताका कळयलें काजितानान.

'इंडियाची लायन पुणी मेळतागी म्हण पळेवंक...'

'म्हाका कित्याक सांगूंक ना?' जेरी चिडलो. 'तुमी म्हाका हर एकांत भायर कित्याक दवरतात? म्हाकायी माम्मी लागीं उलयजे...'

'लायन मेळोंक ना, जेरी' म्हणालें नोरा.

तितल्यार एकलो मिलिटरी पोलीस थंयसर आयलो आनी गवजी करून ताणे नोराक टेंटाभितर धावंडायलें. 'तूं भारीच भोंवताय!' तो म्हणालो. हो इस्लामीक देश. तुका परत्यान भायर आयिल्लें पळेल्यार तुका जेय्लांत घालतेल्यांव.' हेरांक दोळे उर्कुटावन तो तेवशीन गेलो. तांणी वचोन ब्लँकेटी हाडल्यो आनी त्यो कुडीभोवंती रेवडायताना तांकां थोडी ऊब आनी सुशेग मेळ्ळो.

रातीचीं साडे इकरा जाताना पोटाची भूक तांच्यान तडवूंक[234] जाली ना. कजितान उठलो आनी अधिकारींक सोदून गेलो. वीस मिनुटांनी पाटीं आयिल्ल्या ताणे खबर हाडली. आनी हर्द्या घंट्यान आमकां खाण वांटतात खंय.

आनी जॉर्डानींनी हांका खाण वांटलें.

तीन टोमॅटो आनी फुरंगेल्लो एक खुबूज.

हें खाण हातांत घेताना जेरी रडलो...

ती रात जावन आसल्ली भोव थंडयेची. भायर आसल्ल्यांनी भोंवतींचो कचरो आरावन उजो केलो, पूण हो उजो आनी ताची ऊब चड वेळ लाबोंक सोडली ना अधिकारींनी. 'हो उजो केल्ल्यांक आमी जेय्लांत घालतांव'. ते म्हणाले. हांगासर टेंटांनी आनी भायर बारा हजार जण आसात. टेंटांक उजो पेटलो तर कितें करतात तुमी? तांणी उजो पालवायलो.

मद्यान रात पाशार जाली आनी एका मुल्यांत मुरगुटोन बसल्ल्या जेरीक झेम पडता म्हणताना एक विमान वयल्यान उबलें.

'अरे! एअर इंडिया जाता है!' बोबाटलो एकलो. हें आयकोन हेर थोडे हांसले. पूण जेरीथंय हासोंकय बळ नातल्लें. ताच्या सयराणाच्यो सर्व सरयो तुटल्ल्यो. परत्यान ताका ताचे भ्रमिदेंतली जाग जाताना वोरां फांत्याचीं तीन. ताका कुडीची गरज तिर्सूंक जाय आसल्ली. आनी तो टेंटां मदल्यान मेटां काडून एका उगत्या मैदानाक पावलो. थंड वाऱ्याच्यो सुयो ताका इतल्ये तिक्ष्णतेन तोपल्यो कीं तो उस्मडलो.

ताणे वयर पळेलें. शुभ्र मळब. तितलें सोबीत आनी नितळ मळब ताणे येदोळ पळयिल्लें ना. तारां[233] इतलीं स्पश्ट दिसतालीं कीं, थंयच रावोन ती मेजयां म्हण ताका भोगलें. ताणे आपलें मुकमळ उबारलें. आनी विचारलें. 'केदोळ पर्यांत म्हज्या धनया देवा आनी केदोळ पर्यांत?

उप्रांत –

ताणे आपली गरज तिर्सिली आनी तवळ ताका ताच्या पाटल्यान परपरा आवाज आयकालो. आन एक दादलो आपली गरज तिर्सूंक आयला कोण्णा म्हण ताणे पाटीं पळेलें ना.

'तुज्या देवालागीं मागणे करतालोय?' पाटल्यान थावन ताका सवाल आयकालें.

'आनी केदोळ पर्यांत म्हण हांवें आमच्या सर्वांच्या रचनारालागीं विचारचें!' आपणाची जाप खुद पातयेलो ना जेरी.

ते घडये भावार्थ म्हळ्ळी सकत आपणाथंय जिवंत जाल्लेपरीं ताका भोगलें. ताचें हींव पयस सरलें आनी एक लांब स्वास ताणे सेवलो – अमृत

चिंवल्लेपरीं.

'येदोळ पर्यांत हांव नालस्तीक जावन आसल्लों' तो मनीस म्हणालो.

'पूण ह्या रातीं सोडवणेचो भरवसो घेवन न्हिंदल्ल्या बारा हजार दादल्यांक - स्त्रियांक - भुरग्यांक पळेताना म्हाका खचीत जालां कीं, वयर एकलो आसा जो आमचो मोग करता.'

जेरीन कांय म्हळें ना बगार भक्तिपणान हात जोडून बोटांच्यो तुदियो आपल्या वोंटांक लायल्यो. ताचीं हुनोनी दुकां ताच्याच हातांचेर पडलीं.

हो मनीस आपूण एक नास्तीक जावन आसल्लों म्हणता, जेरीन आपणाकच सांगलें. हांव कितें जावन आसल्लों? आमी कातोलीक कितें जावन आसावं? आमचे थंय आसचें स्वार्थाचें काळें भांगार देव म्हळ्ळो सोनार एके काडायेंत शिजवन नितळ करता न्हय?

'तोच देव आमा सर्वां सांगाता आसुंदी!' तो मनीस म्हणालो. जेरीन पाटीं घुंवोन पळेलें.

त्या मनशाचें मुकमळ ताका दिसलें ना, पूण ताणे मुखार हाडल्लो हात मात्र दिसलो.

जेरीन तो धरलो.

'तोच देव येदोळच आमच्या सांगाता आसा!' ताणे म्हळें खचीत भावार्थान.

■■■

# 55

'बसां आयल्यांत!' ते सोबीत सकाळीं हाच्याकी वर्तों सुंदर उतरां हेर कसलीं आसयेत? 'एअरपोर्टांत गर्दी उणी जाल्या खंय.' काजितान ताका धोंकळून उठयतालो. 'अजापच घडलारे, चिकू.' ताणे मुकारिलें. 'फक्त एकच रात आमकां ह्या कँपांत रावोंक पडलें.'

लगेजींचे राशिचेरच कांबळ पांगरून न्हिदल्ल्या जेरीक काजितानाचीं उतरां मतीक वचोंक थोडो वेळ लागलो.

'कितें? आमी शीदा एअरपोर्टाक आनी त्या उप्रांत... अम्मान टू बॉबे?'

'व्हय पूण एअरपोर्टांत आनीकी गर्दी आसोंक पुरो आनी थोडे घंटे फ्लायटाक राकोंक पडोंक पुरो म्हण म्हणतात. तें आसूं. तूं म्हणतालोय न्हय, तुका हांवें हरएकांतय भायर दवरला म्हण? चल उठ आनी ही लगेज बसाचेर चडवच्यांत आमकां मजत दी.'

परत किंग हुसेनाचें लक्झुरी बस आयिल्लें. लगेज वयर चडवंक सुमार एक वोर लागलें. पूण कोणायचेयी पुरेपूरे नातल्ले, कित्याक निमाण्या पावटीं ही लगेज तांणी वयर चडवंची.

अल अंदालूस कँपाथावन क्वीन आलिया एअरपोर्टाक फकत धा किलोमीटरांची वाट. 'ह्या मदेगात आन एक कँप ना जाल्यार पुरो! बसार चडताना कोणेगी म्हळें. तुमी सर्व उण्या भावार्थाचे!' काजितानान ताका जाप दिली.;

जेरीचें काळीज मिरमिरलें. ताका भावार्थाची ओळक आत्तांचे आतां म्हळ्ळे परीं जाल्ली आनी आतां घडचें एक अजापच म्हण तो पातयेतालो. बस सुटलें आनी पयणाऱ्या मदें उल्लास चरलो. सकाळींची एक घोट कापी या च्या पोटाक पडनातल्यारी सर्वाथंय आसल्ली उमेद आनी हुरूप आमी आमच्या देशाच्या

लागीं लागीं सरतावं.

सुमार चाळीस आनी पांच मिनुटांचे धांवणे उप्रांत बस क्वीन आलिया इंटन्यशिनल एअरपोर्टाच्या म्हाद्वारांतल्यान भितर रिगलें आनी एका टर्मिनल बिल्डिंगालागीं रावलें. बसांतल्यान भायर तिळच्या हांकां जाल्लो आकांत आनी निराशा कांय सांगची न्हय. एअरपोर्टाच्या विस्तार वाठारांत हजार कोटार्ले आनी कोंडलीं केल्लेपरीं पयणारांच्यो लायनी. एक म्हयनोभर राखल्यारी ह्यो लायनी कांय मटव्यो जावंचे परीं, नांत म्हळ्ळेपरीं दिसतालें.

यांत्रीक रितीर तांणी लगेज देंवयली आनी भोव मटवी म्हण दिसचे लायनीक ते सेर्वाले. येदोळच ते लायनीर आसल्ल्यांनीं तांकां सांगलेल्याप्रकार ते चोवीस घंट्यां आदीं आयिल्ले आनी सगळी रात ते थंडेंत लायनीर रावोवनच पाशार केल्ली. तांच्या पोटांक कांय पडोंक ना. रेस्टोरेंट आसा तरी सामान आनी लायन सोडून वचोंक तांकां भंय. भुरगीं भुकेन रडोन रडोन न्हिदल्लीं.

जेरीच्या बसार आसल्ले सर्व तेच लायनीर रावले आनी तांकां काजितानान सांगलें, 'जीव तुटल्यारीय हांगाथावन हालनाकात. कुडीची गरज तर हांगाच तर्सिया.'

तांचो फूड मिनिस्टर हेन्री पिंटो हात उदारे करून आयलो. 'आमचो सामान ट्रॉलींचेर घालयां म्हळ्यार एअरपोर्टांतले एका ट्रॉलीक धा डॉलर मागतात. झुजां वेळार पयशे करचे अशेच. ट्रॉली आसोंदी, तुमचे पयकीं थोडे पुणी म्हजे सांगाता येया. एअरपोर्ट रेस्टोरेंटांतलें कांय पुणी खाण हाडयां, पूण थंयसर डॉलरां मात्र चलतात. तुमी सांदी मुल्यांनी लिपयनातल्लीं डॉलरां आसात तर भायर काडा आनी आमकां बरें मागा.'

सुमार देडा घंट्या उप्रांत सर्वांक जाय तितल्यो सलामी सँडविचस आनी पेप्सी कोला घेवन हेन्रीचो पंगड पाटीं आयलो. एक कुटमशे जाल्ले हे, त्या बसांतले पयणारी, निराश्रीत सर्वांक तांणीं सकाळींचो नास्टो वांटलो. ब्रेक फास्टाक येदोळपर्यांत पेप्सिकोला पियेनातल्ल्यांनी हां, हूं करिनासतां कॅना खाली केलीं.

'काजितान खंय आसा?' ताच्या वांट्याचो नास्टो हातांत घेवन विचारलें हेन्रीन.पूण काजितान खंयसरी दिसनातल्लो.

'तुमी ताका सोदून वचनाकातरे!' म्हणाली तेज्जाण्टी. 'येतलो तो.'

सयतानाक माट करचो मनीस तो.

काजितानान कोणाक माट केलेंगी, पुजे केलीगी तोच जाणा. एकाच्छाणे तो दृश्याचेर उदेताना ताच्या ताळ्यांत खरस आसल्ली. पूण मुकमळार समाधान. 'तुमचे पासपोर्ट तुर्तान म्हाका दिया!' तो म्हणालो 'तुर्तान'

'But What's happening?' बॅरनान विचारलें.

'आमच्या बसांतले सर्व म्हजे भोवतीं एकठांय जाया.' म्हणालो काजितान चोरापरीं हेणे तेणे पळेवन. ती सर्वां ताचे भोवंती वेडो घाली लागलीं. 'कितें जाता तें म्हाकाच पातयेवंक जायना!' तो म्हणालो आपलो ताळो फकत तांकां आयकाशें. 'हें स्वार्थी म्हण दिसत पूण देवाची खुशी तशी आसा... आमी एका घंट्या भितर फ्लायटाचेर आसतेल्यावं!' हें म्हणताना ताणे वोंठांचेर बोट दवरलें जाल्ल्यान संतोसाचे उग्दार पयणाऱ्यांनी जिरयले. 'आयका' ताणे मुकारिलें 'एमिरेटस एअर लायन एक नवी एअरलायन. तिचीं फ्लायटां सुरू जाल्यांत मात्र आनी तांकां पब्लिसिटी जाय आनी आमकां फ्लायट जाय. एमिरेट्स एअरलायनीन आपलें एक नवेंच एअर बस A300-600 हांगाच्या इंटर्न्याशनल रेड क्रेसंट सोसायटीक आमच्या तसल्या निराश्रितांक airlift करूंक दान दिलां. आमी त्या फ्लायटार आसतेल्यावं...'

'तुवें कसलें गोलमाल केलेंय?' आंबून विचारलें. 'हावें न्हय!' म्हणालो काजितान एक बोट मळबाक दाखवन. 'ताणे!' इतलें म्हणोन तांचे पासपोर्ट घेवन तो मायाग जालो.

दोन घंट्यां उप्रांत क्वीन आलिया एअरपोर्टांतल्या एमिरेट्स कावंटरार आसल्ले ब्रिटीश चलयेकडचे बोर्डींग पास घेताना काजितान तिचे लागीं म्हणालो 'मीस, आमचीं हजार भावंडां आतांयी कँपांनी आनी कुवेय्टांत सांपडोन आसात. तांकां तुमी विसरनाकात!' आनी एकाच्छाणे कावंटरार बागवोन ताणे तिच्या गालांत उमो दिलो. 'धन्यवाद.'

डिपार्चर लाँज्यांत बसोन आसल्ल्या हांकां टार्म्याकाचेर रावोन उजळचें एअरबस दिसतालें. तवळ, लाँज्याच्या एका मुल्यार वचोन भायर तिळच्या हेन्रीन हांकां सर्वांक ताचेलागीं आपयलें. 'आमी एमिरेटसाचेर वेतावं तरी हें तुमी पळेजे!' तो म्हणालो. आरशाच्या व्हड जनेलांतल्यान सर्वांनी भायर पळेलें.

सालान उबीं आसल्लीं बोयींग, एअरबस विमानां, एअर इंडियाचीं आनी इंडियन एअरलायन्साचीं.'

'आमचें भारत आमकां घरा व्हरूंक आयलां!' तो म्हणालो. सबार जणांनी दुकां पुसलीं.

एमिरेटस एअरबस फ्लायट Ek-3902 टेक–ऑफ जाताना कॅप्टनाचो ताळो आयकालो. 'हांव कॅप्टन डी. एम. विटबोर्न!' ताणे कळयलें. 'हें तुमचें फ्लायट आनी ह्या फ्लायटार तुमकां सर्व सवलताय मुफ्त. तुमी कितें आनी कितलें सोसलां, कितें होगाडायलां तें आमी जाणांव. स्वागत आनी देव आमचे सांगाता आसोंदी. आमचें प्रथम हॉल्ट दुबाय आनी थंयसर हांव तुमकां आदेव्स आनी बरें मागतलों. त्या उप्रांत हें फ्लायट मुंबय वेतेलें.'

फ्लायट उबल्ल्या तक्षण जेरीच्या दाव्यान बसोन आसल्ल्या काजितानान ताका धोंकुळ्ळो. 'हे बोर्डींग पास सांबाळून दवर रे, चिकू!' तो म्हणालो.

'उडासाक जालो. आतां आमी बियर हाडवंची या स्कॉच?'

'गाब्रू अंकलाचो शास्त्री हाडय!' म्हणालो जेरी. दोन कॅना बियर जातेच काजितानान सगळ्या एअर बसांत एक पासाय मारली आनी सर्व बऱ्यान आसात – चड करून विशी – म्हण नक्की करून तो पाटीं आयलो आनी त्या उप्रांत एअरहोस्टेसा लागीं फालां (Chit Chat) मारूंक लागलो. हें, नोरान पळेलें तरी ताणे गुमान केलें ना. काजितानाच्या उप्पंतपणाक तें बऱ्यान ओळकातालें.

फ्लायट दुबाय देंवलें आनी सुमार चाळीस आनी पांच मिनुटां उप्रांत शिबंदी बदली जातेच मुंबय कुशीन उबलें....

सुमार अडेज घंट्यांचे उबणे उप्रांत 'आमी मुंबय सहारा इंटन्यशिनल एअरपोर्टांत देवंतांव' म्हळ्ळी कळवणी आयली. सगळ्या एअरबसांत आवाज नातल्लो. थोंडी दुकां पुसतालीं.

उबणेची उंचाय कळवोन घेवन एअरबस एअरपोर्टाच्या थळाक तेंकलें. जेरीचें सगळें आंग मिरमिरलें. 'म्हजो देश' तो मनांतच उद्‌गारलो. एअरपोर्टाच्या arrivals लॉंज्यांत तांकां लाबल्यो येवकार अपूर्व. 'कुवेय्टथावन?' अधिकारींनी विचारलें. 'इमिग्रेशन करा आनी तुमची लगेज घेवन शीदा भायर वचा. थंयसर तुमकां कुमकेक सबार कावंटरां उगतीं केल्यांत.'

'कस्टम्स् नांत, सर?' विल्मान विचारलें.

तो अधिकारी हासलो. 'तुमी कांय बचाव करून हाडल्लें डिक्लेर करूंक आसल्यार तुमी रेड चेनलाक वचयेत मेडम!' तो म्हणालो.

'तुका पिशें लागलां विल्मा?' दांतां इड्यांतल्यान खेंचलो जॉनी.

'चे!' तें म्हणालें 'म्हजो व्हि. सी. आर. ह्या पावटीं हाडल्लो तर ड्युटी लागती ना!'

भायर आयिल्ल्या तांकां एकेका राज्याच्या कावंटारांनी स्वागत करताना तांचे दोळे भरोन आयले. ह्या कावंटरांचेर रेय्लाचे पास मेळताले. मंगळूरच्या कावंटराक वेताना तांकां पयलो भेटलो स्टेट बँक ऑफ इंडियाचो अधिकारी.

'आमी तुमचे लागचीं लाखानी डिपोझिटां घेतल्यांत!' तो म्हणालो. आतां तुमकां मजत दिवंचो कायदो आमचो. तुमकां कांय डिनारां वा डॉलरां बदली करूंक आसल्यार तुमी एस. बी. आय. कावंटराक येया. तुमकां रेय्लाची टिकेट जाय तर तुमच्या स्थळियांनी कावंटरां उगतीं केल्यांत आनी धर्मार्थ सेवा ते दितात.'

'डिनाराचें मौल्य हांणीं अर्द केलां', रेट विचारून जॉनी लागीं आयलें विल्मा. 'इराकी डिनारांक मोलच ना खंय... डॉलरांक कितले रुपय दितीत हे?'

'तुजें किरकिरीसावं बंद करिना जाशी तर तुका आयिल्ल्याच फ्लायटार पाटीं धाडतां! आपल्या दांतां इड्यांतल्यान खेंचलो जॉनी.

'म्हाका येवंकच नाका आसल्लें!' तें म्हणालें.

मंगळुरगारांच्या ट्रॅवल कावंटरालागीं मेळल्ले माहेती परमाणे सर्वांक सेकेंड क्लास रेल्वे पास मेळतालो. पूण उण्यार उणे एक हप्तोभर ट्रेनींचेर सीट मेळची कश्ट अशें ते म्हणाले. 'आमी आलोचेन करतावं' म्हण पाटीं आयिल्ल्या तांणी काजितानाचें मुकमळ पळेलें. उच्चारोंक ना तरी, आतां कितें करचें म्हळ्ळें सवाल सर्वांच्या मुकमळार आसल्लें.

'तुमी कांय करिनाकात, हांगाच रावा!' अशें म्हणोन तो गर्देंत नपयंच जालो.

'तो गोंयकार तरी, बोंबयक आपल्या हाता ताळवे[236] परीं जाणां', म्हणालें नोरा.

सुमार मुक्काल वोरान काजितान पाटीं आयलो. ताच्या मुकमळार पुरासण

दिसताली. 'रेल्वेचेर गर्दी आसा म्हळ्ळें खरें.' ताणे कळयलें. 'देखून पास घेवन तुमी हांगासर सुकचें न्हय. आमी एक काम करयां. एका हॉटेलांत तीन या चार रुमां बुक करयां. हॉटेलांचे एजंट भायरच गिरायकांक राकोन आसात आनी रुमांत आराम करयां. फाल्यां सकाळीं बॅरनाक घेवन हांव इंडियन एअरलायन्स ऑफिसाक वेतां. म्हाका थोड्यांची ओळोक आसा थंयसर. विशीची स्थिती कळयल्यार तुमकां खंडीत मंगळुराक फ्लायट मेळतेलें. टिकेटीं खातीर तुमचे लागीं डॉलरां आसात पूण उणीं पडतीत तर म्हजे लागीं आसल्लींयी घेया...'

'आनी तूं कितें करताय काजितान?' मोलीचे सवाल आवचीत, पूण काळजाक लागचें तसलें. 'तूं गोयां वचानांय?'

तिका फूड केल्ल्या काजितानाच्या दोळ्यांनी वलसाण आसल्ली.

'म्हजें कितें सांगचें, मोली आण्टी!' तो म्हणालो. 'हांव गेल्ल्या कडेन थंयचोच आनी भेटल्ल्या लागीं तांचोच जातां. म्हजो उडास तुमी करा, हांव हाजर. बोंबयीच थोडे दीस पाशार करचे... इश्ट. आमीग आसात हांगासर... हांव केन्नायी एकसुरो जाल्लों ना. चडशें, नोरा मेळ्ळ्या उप्रांत...' ताच्या दोळ्यांनी दुका उदेलीं....

आपूण डिनाक फोन करतां म्हण मोली फोन बुथाक गेली आनी पंदरा मिनुटां उप्रांत पाटीं आयलीं. तिचें मुकमळ बावल्लें 'म्हजें चेडूं फोनच उखलिना', ती म्हणाली. 'कसली न्हीद लागल्या ताका?' तांचे फ्लायट फांत्यार देंवल्लें.

'डिना फोन उखलचें ना, मोली आण्टी' हाळवायेन म्हणलो जेरी.

'कित्याक?'

'तें तुमच्या घरा ना....'

'तर?' आकांतली मोली आनी आंबूयी तिचे बगलेन आयलो

'डिना आमगेर भद्रतेन[237] आसा', जेरीन म्हळें. ती एक लांब काणी. म्हाका माम्मीचें पत्र आयिल्लें, गुजरालान तें हाडल्लें. तुमकां सर्व उप्रांत कळतेलें... तें सुरक्षीत आसां.' हें आयकोन आंबून आनी मोलीन दिश्टी मेळयल्यो.

तांकां सर्वांक टिकेट्यो मेळ्ळ्यो पूण वेय्टींग लिस्टीर. तुमी कांय इन्फ्लुयेन्स करूंक वचानाकात म्हणालो इंडियन एअरलायन्साचो मॅनेजर. तुमची ही स्थितीच एक जडायेचें इन्फ्लुयेन्स. फाल्यां फ्लायटाच्या दोन घंट्या पयलें एअरपोर्टाक

येतात. म्हजे वर्वी कितें जाता तें करूंक हांव पळेतां.'

आनी खरेंच त्या मॅनेजरान आपले तांकी भितरलें केलें आनी सर्वांच्यो टिकेटी ओके केल्यो.

जॉनीन तक्षण विरा बायेक खबर दिली आनी सर्वांक आमी दोन घंट्याभितर मंगळूर पावतेल्यांव म्हण कळया म्हण सांगलें.

फ्लायटाक अनिकी एक घंटो बाकी आसल्लो. सर्वांचेर मौन राज करतालें. तें फोडलें काजितानानच.

'हांव तुमकां कोणायकी आदेव्स मागाना!' तो म्हणालो. 'आमी परत मेळतेल्यावं. आमच्या वांट्याचें काळें भांगार अनिकी कुवेय्टांत आसा न्हय? कितें म्हणतायरे चिकू? आतां कांय पुणी धैर आयलां तुका? परत्यान कस्कसो हाडताय? आनी गो नोरा, बोंबय योगो. हांव हांगासर आसतलों बिनदास पाड पडोन...'

'ते सब्द तुवें घडये घडये उच्चारचे बंद करीजे, काजितान' तें म्हणालें, ताचे लागीं सरोन. उप्रांत ताणे काजितानाक पोटलून धरून, ताच्या गालाचे आनी कपालाचो उमो घेतलो.

'हांव तुजो मोग करतारे पाडपडलेल्या!' तें म्हणालें. सर्वांथिय हासो उस्क्यालो. पूण निंवलो ना...

इंडियन एअरलायन्साचें बोयींग 737 कारवारा वयल्यान उबतेच आपले उबणेची उंचाय कळवोन घेवंक लागलें. आनी जनेलांतल्यान भायर पळेवंच्या जेरीक करावळेची सोबाय उठोन दिसोंक लागली. ते माड, ते गादे... [238] पांचव्या पाचव्या लुगटान शिंवल्ले तुवाले एकाक एक लागोन हांतुळ्ळेपरीं दिसचे ते गादे... ताच्या दोळ्यांथावन दुकां आपापींच व्हाळोंक लागलीं. थोड्याच वेळान धरणीर तेकोंक आसच्या विमानांतल्यांनी बेल्ट बांदल्यात या ना म्हळ्ळें पळेवंक आयिल्ल्या हॉस्टेसाक जेरीच्या दोळ्यांत दुकां आसचीं दिसलीं.

'Is anything wrong sir?' तिणे विचारलें. जेरी तिका पळेवन हांसलो.

'No', तो म्हणालो. Everything is right!' आनी तें बोयींग बजप्यां एअरपोर्टांत तेंकलें.

जेरी, नोरा, तेज्जांण्टी, आंबू आनी मोली, बॅरन आनी विशी, जॉनी आनी

विल्मा एअरपोर्टाथावन भायर आयलीं.

आनी थंयसर तीं तांकां राकतालीं.

जिल्ली पायस टिचेर, मिक्की पायस, इवोन.

विराबाय, जोनवील आनी विलजोना. डिना एकसुरेंच वोरेंविंगड उबें आसल्लें. आनी ताच्याकी पयस उबीं आसल्लीं सॅली कुरियन आनी शिंटो पावलूस.

'येदो व्हडलो मोगा जमो म्हाका राकोन रावला देंवा!' आकासाक पळेवन उद्गारलो जेरी. 'हांकां सर्वांक म्हजे वेंगेंत घे-शे करूंक विस्तार बावळे म्हाका दी.'

ह्या उतरां बराबर आपले बावळे विस्तारावन ताणे तांचे कुशीन मेटां काडलीं.

■■■

## कठिण उतरांचो अर्थ :

1 = पोंताक
2 = मेरेन
3 = लायकेच्या
4 = मोल्लीक सोडून कोण्णा
5 = स्वताचें
6 = पगारान
7 = जिल्ली
8 = दुकळ
9 = विचार
10 = थळाचें नांव
11 = तवळ ताची भलायकी बरी आसल्ली म्हणयां
12 = म्हारग
13 = मिडल ईस्ट
14 = मडें
15 = पावल मारप
16 = भावना
17 = खेडवळांनीं
18 = दोंगर खणून
19 = पुराय केली
20 = नशाबाज
21 = मजत
22 = झोपाळ्यार
23 = बागेचे
24 = खात्रेन
25 = मुखार व्हेलें
26 = मत्सरो
27 = विचार
28 = घडणूक
29 = दोशदिवचो
30 = अंती
31 = मूठ, हेंडल
32 = मानून घेवचें
33 = सोंपणा
34 = तेंक्याची बडी
35 = पाळणीच्या पोंतार
36 = दुकान
37 = खटपट
38 = इत्सा प्रगटायल्या
39 = संदी
40 = कोनशाक
41 = विणी
42 = पावलां
43 = वाटपळयता
44 = Ribs, बरगड्यांक
45 = सुयांच्या
46 = फाट
47 = बार आनी रेस्टारंट
48 = दोट्टी
49 = घरवावराडेन
50 = मुजरत
51 = सकयले नदरेन
52 = खाल्लें
53 = परिहार
54 = फांसार

55 = येवजलें
57 = रोखडेंच
58 = व्हेल्लें
59 = गाराणें, Prayer, मागणें
60 = पाऊण
61 = खोरें
62 = उणाक
63 = गजाल, विशय
64 = Priority
65 = भिरांकूळ, गंभीर
66 = हिशोब
67 = काळजा खोलांत
68 = दारार
69 = कितें
70 = आग्र्याक
71 = 3/4 वांटो
72 = मानतां
73 = कोर्ट
74 = स्तरार
75 = खोल
76 = वरचड
77 = ट्रेनिंगांत
78 = रामोनाक
79 = पयण, Flight time
80 = आतां इझ्रायली
81 = पाऊण वांटो, 3/4 वांटो
82 = कवळी
83 = मंगोलांनी
84 = हिंसा घडोवन हाडपी
85 = पुंजायत
86 = गोम, चिकट टेप
87 = आतां मेरेन
88 = Yetla Barra - Arabie
89 = वाट पळयतालें
90 = अदृश्य जालो
91 = पेयांचीं
92 = हें कितें?
93 = अब्दुल्ला, ये आनी पळे!
94 = पार्टी
95 = रिती रिवाज
96 = भिकारी
97 = वाकोर, सुरी
98 = फ्री
99 = इश्ट
100 = निर्णय
101 = पसून जोडला
102 = सलगी
103 = करार
104 = मत, सल्लो
105 = सुचलें ना
106 = सोरोबी
107 = जावं नाका
108 = कागाळेच्या सुरान उलयलो
109 = विल्माची भयण
110 = जोखून
111 = दर्ज्याच्या

112 = मळबार
113 = उशीर
114 = आदाराक
115 = गोजडेर
116 = धर्मार्थ
117 = सिवील आयडेंटिटी कार्ड
118 = दिसाळें पत्र
119 = आयडेंटिटी कार्ड
120 = कुच्छित्रीपणान
121 = म्हळ्यार करपाच्या (CAMEL)
122 = सुरवाळकार
123 = सर्वेंट
124 = पाडकाचो
125 = इन्फ्लुयैन्स
126 = दबाजो
127 = गिमांत कुवेतांत दीस वेगींच उदेता आनी सकळींच्या स वोरांचेर वोत आसात.
128 = कसली गजाल म्हजे भयणी? देवा खातीर म्हाका सांग, कसली गजाल ही?
129 = हें झूज, हें झूज
130 = इंडियनाची
131 = हांगासर गोबरी म्हणची व्हडली मासळी
132 = पेंगट, कमर
133 = कितेंतरी
134 = आयकूंक आयलें
135 = पालीच्या आकृतीची, लोंकडा सारकी कात आसची आनी रेवेंचो रंग आसची एक जंतू जाचें मास आरब्याक एक पक्वान.
136 = कुटम
137 = आदेव्श आनी देव तुजेसंगीं आसूं म्हजें धुवे नुरी!
138 = पवीत्र झूज
139 = कुंवेट म्हळ्ळ्या सब्दाचो अर्त : एक ल्हान वस्ती
140 = TRAVELLERS
141 = रावता
142 = आयकूंक येतालो
143 = चल पॅण्ट आनी शर्ट काड
144 = तेंयी काड
145 = भियेनाका
146 = भांगर
147 = लफंगा या तसली कसली गाळ
148 = टॉयलेट
149 = कोट, फॅशन
150 = खाल्यो
151 = मुस्लीमाचो एक वर्ग
152 = कालांतरान
153 = आज थावनच
154 = सामकार धरलो
155 = सिग्रेट वोडताय

156 = हो बिरमत इंडियन
157 = कितें? तूं पिसो
158 = इंडियनाक आरब्यांनी रफीक – सांगात्या म्हणचें मामूल. पूण सारकें पळेवंक गेल्यार कुवेतींनी वापरचे अरेबीक भाशेंत रफीक म्हळ्ळो सब्द चिक्केशे विस्कळायल्यार एक बुरशी गाळय जावंक पावता. देखून भास जाणासचे सबार इंडियन ह्या सब्दाक कांटाळतात.
159 = स्वागत तुका रफीक ये, ये, च्या पियेताय?'
160 = काजी
161 = एका फाटल्यान एक
162 = पाळी
163 = खुबूज
194 = तापयलें
165 = पेटे
166 = गाडवां
168 = ट्रेन
169 = पिलकाटो
170 = वाहनांत एअर – कंडिशन आसा?
171 = GMC वाहनाक आरब्यांनी दिल्लें मटवें नांव
172 = पयशे
173 = रावूंक
174 = भूंय
175 = शिफ्ट कामेली ह्यो रिफायनरी चोवीस घंटेयी चालू दवरताले. आनी ह्या वेळार ट्राफीक इतलें घण्ण आसतालें कीं स किलोमिटरांची वाट, कुवेतांतलो वेग लेकाक (हिशेबाक) धरल्यार, वीस मिनुटां काडटालीं
176 = पुराय करून
177 = धर्म
178 = रणगाडे
179 = त्रासनात
180 = कस्टम्स इत्यादी
181 = आंगठ्याच्या
182 = Tattoo
183 = दस्तखत
184 = दुडू करूंक
185 = खोलांत
186 = पार्टी
187 = विशयांनी
188 = प्रतिकार
189 = राकवल्याक
190 = हिशेब
191 = आयकूंक येता
192 = शकार, Hunt



193 = निर्भर
194 = किचन
195 = भयणी
196 = तेमकां
197 = wait
198 = कितें
199 = दस्तखत
200 = थंयसर आसल्ल्यांक काळें भांगार म्हळ्यार कितें म्हण समजलें ना म्हण तांची मुकमळां सांगतालीं.
201 = हुंवार
202 = नक्की
203 = नाश
204 = स्वातंत्र्य
205 = मोव जावन
206 = मुल्य
207 = पळ्ळां
208 = येद्या
209 = लोणचें
210 = लायसेन्स
211 = कारबार
212 = सय
213 = पोंदाक
214 = मित्रराष्ट्राचें सैन्य
215 = कोऑपरेटीव्ह सोसायटी
216 = सोपूत
217 = सुकें पान
218 = तिनाच्या हिसेबान
219 = अपेसांत
220 = व्हय रे, तुमी वालेन्सियाचे चले ते पाप चलयेक सेप्टीक म्हणतात रे? तें गोरें गोरें म्हळ्ळ्याक तुमी अशें ताका तुकलावंचें? तर म्हाका काळी काळकाय म्हण कित्याक म्हणनात?
221 = मोठेपण, व्हडविकाय
222 = निवलकाणे
223 = ॲडमीट
224 = बंदूनी
225 = वयों
226 = जठा
227 = वशा
228 = हें कितें?
229 = जालें
230 = व्हय, व्हय
231 = कल्पीत भिरांतेन कांपचें
232 = हवाये
233 = ड्रिंक
234 = आडावंक
233 = ड्रिंक
236 = तळव्या
237 = सुरक्षीत
238 = शेतां





## एडवीन जे. एफ. डिसोजा

1948 इस्वेच्या जून म्हयन्यात मंगळुरच्या वालेन्सियांत जल्म. 16 वर्सा ताणी कुवेंतांत नोकरी केल्या. आता मंगळूरांत वस्ती करुन आसात. सद्याक मंगळुरच्या सां लुईस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थेचे कार्यकारी निर्देशक म्हूण वावुरतात. केंद्रिय साहित्य अकादेमीच्या जनरल कॉन्सिलाचे (2008-2012) वांगडी म्हूण वावुरल्यात.

1964 वर्सा पयलें कोंकणी बरप 'वेळ उतर्लोलो' ही मोटवी कथा 'पय्णारी' हप्त्याळाचेर प्रगट जावन कोंकणी लेखन सुरु जालें. ते आदीं सुरविल्लीं कांय बरपां इंग्लिशींत केल्यांत. आयजवेर तांच्यो 33 कादंबरी साखळ रुपांत वा पुस्तक रुपांत प्रकट जाल्यात. 100 वयर मोटव्यो कथा, अंकणां, विडंबना बरयल्यांत. 'भोग्सणें' फिल्माखातीर संवाद बरयल्यात. तांकां आयजवेर जायते साहित्यीक भौमान लाबल्यात.

तांच्यो कथा कन्नड, तामीळ, इंग्लिश आनी हिन्दी भाशेत अनुवादीत जाल्यात. 'एक कोप हुनोनी कोफि' हे मोटवे कथेचो इंग्लिश अनुवाद खुशवंत सिंह हांणी संकलीत केल्ल्या **'Our Favourite Indian Short Stories'** ह्या संग्रहात, तशेंच एम्.पी.प्रकाश हांणी कन्नडांत अनुवादीत करुन आपल्या संग्रहात उजवाडायल्या. बरोवप्यान स्वता केल्लो 'चोक्लेटां' हे कथेचो इंग्लिश अनुवाद 'रिडर्स डायजेस्ट' च्या खाशेल्या अंकात प्रकाशीत जाला.

